# समग्र शणै गोंयबाब

## खंड-४

कोंकणीक साइत्याच्या खंयच्याय प्रकारांत कितले सहजतायेन वावरूंक येता हें दाखोवन दिवपाखातीर शणै गोंयबाबान साइत्याच्या विंगडविंगड मळांवेल्यान कोंकणीचें दर्शन घडोवपाचो आटाप घालो. आनी स्वतंत्र बरपावळीबराबर हेर भासांतली बरपावळय कोंकणींत हाडली. ह्या चवथ्या खंडांत तांणी रूपांतर केल्ल्या, अणकार केल्ल्या वा आदारीत साइत्याचो आसपाव जाता. ताणीं शेक्सपियराच्या खेळांची माळ आनी हेर कांय पुस्तकां रोमी लिपींत बरयलेलीं. नाटककार मोलीयेर हाणे बरयल्ल्या दोन नाटकांचेर गोंयच्या थळाव्या रीतींरिवसांचो भेस चडोवन तांणी 'मोगाचे लग्न' आनी 'पोवनांचे तपलें' ही नाटकां कोंकणींत हाडलीं. 'झिलबा राणो' हें नाटक ताणीं अरेबियन नायट्सांतले अबू हसनाचे काणयेच्या आदारान बरयलें. ह्या तीनूय नाटकांतल्यान तांणी लोकांच्या तोंडार हांसो फुलयतानाच तांच्या धोंगापोंगाचेर जीस्त उजवाड घालो. भुरग्यांखातीर ताणीं 'जादूचो जुंवो' हे द टेंपेस्ट नांवाचे एके येवरोपी काणयेचें भाशांतर केलें. श्री भगवंताले गीत म्हळ्यार शणै गोंयबाबांचे बरपावळींतलो मुकूटमणी. मूळ श्रीमद्‌भग्वद्‌गीता ह्या संस्कृत ग्रंथाचे हें कोंकणी भाशांतर. भग्वद्‌गीतेच्या अर्थाच्या गाब्याकडे चडांतचड लागीं वचून तो सगळ्यांत सोपे भाशेंत कोंकणी लोकांम्हऱ्यांत पावोवपाचो वावर ताणीं हाचे वरवीं केला. गीतेंतल्या दरेका संस्कृत उतराचो पुराय अर्थ उक्तावपी तांकीचें कोंकणी उतर तांचेकडेन आशिल्ले हाचो दिश्टावो आमकां हें पुस्तक वाचतकच जाता. संस्कृत वा हेर खंयचेच भाशेकडे केन्नाच संबंद येवंक ना अशा कोंकणी मनशाक लेगीत ती गीता कळूंक जाय हो तांचो येत्न आशिल्ल्याचें तातूंतल्यान जाणवता.

समग्र

# शणै गोंयबाब

खंड ४

संपादक

**शांताराम वर्दे वालावलीकार**







**गोवा कोंकणी अकादेमी** आनी **इन्स्टिट्यूट मिनेझिस् ब्रागांझा**

समग्र **शणै गोंयबाब**

(शणै गोंयबाब हांच्या साहित्याचें संकलन)

प्रकाशन क्र. ६६



उजवाडावपी :
गोपाळकृष्ण पाडगांवकार
सचिव
गोवा कोंकणी अकादेमी
२४३, पाटो कॉलनी
पणजी, गोंय

छापपी :
तन्वी ग्राफिक्स
मडगांव - गोंय

मुखचित्र आनी सजावट :
गौरीश वेर्णेकार

पयली आवृत्ती
मार्च २००६

मोल : रु. २००

Samagra ***Shenoi Goembab***

(Collected literature of Shenoi Goembab)

Publication No. 66



Publisher
Gopalkrishna Padgaunkar
Secretary
Goa Konkani Akademi
243, Patto Colony
Panaji, Goa

Printer
Tanvi Graphics
Margao - Goa

Cover & Design
Gaurish Vernekar

First Edition
March 2006

Price : Rs. : 200

ह्या खंडाक 'इन्स्टिट्यूट मिनेझिस् ब्रागांझा' हे संस्थेचो ५०% अर्थीक पालव मेळ्ळा.

# शणै गोंयबाब

हांचे

१२५वे जयंती वर्सानिमतान

तांच्या समग्र साहित्याची पुनर्उजवाडावणी

# अकादेमीचे वतीन

अर्विल्ल्या कोंकणी साहित्याचे जनक आनी युगपुरूष शणै गोंयबाब हांगेल्या समग्र साहित्याचें हें चवथें आनी निमाणें खंड वाचप्यांच्या हातांत दितना अकादेमीक धन्यताय भोगता. समग्र शणै गोंयबाब चार खंडांनी उजवाडाक हाडपाचें अकादेमीन थारायिल्लें. ह्या प्रकल्पाखातीर इन्स्टिटयूट मिनेझीस ब्रागांझा संस्थेचो अर्थिक पालवूय लाबलो. पूण बाकींच्या अडचणींक लागून येवजिल्लें तितल्या काळाभितर चारूय खंडां येवपाक पावलीं नात. पयलीं दोन खंडां २००३ वर्सा उजवाडाक आयलीं. शणै गोंयबाबाल्या जल्मगांवां, दिवचले मोट्या दबाज्यान तांचो लोकार्पण समारंभ अकादेमीन घडोवन हाडलो. ह्या प्रकल्पांतलें तिसरें आनी चवथें खंड आतां उजवाडाक येता.

पयल्या खंडांत (१) कोंकणी भाशेचें जैत, (२) येवकार-अध्यक्षांलें अुलोवप, (३) कोंकणिची व्याकरणी बांदावळ, (४) कोंकणी नादशास्त्र आनी (५) कोंकणी मुळावें पुस्तक ह्या पुस्तकांचो आसपाव केला.

दुसऱ्या खंडांत (१) गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक, (२) आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिखलें, (३) वलिपत्तनाचो सोद, (४) पुण्यात्मो राम कामती आनी (५) आबे फारीय हीं पुस्तकां घेतल्यांत.

तिसऱ्या आनी चवथ्या खंडांची आदीं जाहीर केल्ली रचना मात कांयशी बदलची पडली. तिसऱ्या खंडांत (१) गोंयकाराचो मुंबैकार, (२) गोमंतोपनिषत् - पैलें खंड, (३) गोमंतोपनिषत् - दुसरें खंड, (४) कोंकणी विद्यार्थ्यांक आनी (५) भुरग्यांलो इष्ट, ह्या पांच पुस्तकांचो आसपाव केला. त्याभायर शणै गोंयबाबांले हांगा-थंय विखरून आशिल्ले हेर स्फूट बरपावळीचोय आसपाव केला. **अमृताचो पावस** हो शणै गोंयबाबांनी 'नवें गोंय' ह्या तीन म्हैनाळ्याक (१९३४) धाडिल्लो 'संदेश' आसा, जाल्यार **गोंयची बुट्टी** आनी **दसरा** हीं दोन बरपां, 'उलोवपां' आसात. **मयेंच्या तळ्यार** हें निबंदा सारकें एक बरप तर **गोंयचे शूर भंडारी** हें एक 'टिपण' आसा. हें सगळें बरप तिसऱ्या खंडांत घेतलां.

चवथ्या खंडांत **झिलबा राणा**, **मोगाचें लग्न**, **पोवनांचें तपलें** हीं तीन नाटकां आनी **भगवंतालें गीत** ही बरपावळ उजवाडाक येता. **जादूचो जुंवा** ह्या बालसाहित्याचोय चवथ्या खंडांत आसपाव केला.

शणै गोंयबाबांनी शेक्सपियरच्या कांय नाटकांच्या कथानकांचीं पुस्तकां रोमी लिपींत उजवाडाक हाडिल्लीं. तांतुंतलीं तीन पुस्तकां ह्याच खंडाचे संपादक श्री.

शांताराम वर्दे वालावलीकार हांणी मुंबयसावन पैदासून हाडलीं. हीं पुस्तकां देवनागरी लिपींत उतरावन तांचो आस्पाव चवथ्या खंडांत करून घेतला.

फाटल्या अडेज हजार वर्सांचो इतिहास धवळून काडटना शणै गोंयबाब हांणी कांय विचार मांडल्यात, कांय विधानां केल्यांत तातूंत तांचे बुद्वीची तांक आनी आंवाठ केदो आशिल्लो म्हणपाचें दिसून येता. शणै गोंयबाब आपणाले विचार आनी विधानां हांच्या संदर्भांत म्हणटात - ''हांवें सांगलां म्हण तुमी हें सत मानूं नाकात. तुमचे बुद्वीचे कसवटेचेर घांसून पुसून कितें सत आसा तें स्वीकारा.''

शणै गोंयबाबांची नम्रता आनी विनयशिलता तांगेल्या बौद्धीक साम्राज्याची बुन्याद म्हणची काय कळस!

पयल्या दोन खंडांवरीच तिसऱ्या आनी चवथ्या खंडांचें कोंकणीच्या संवसारांत स्वागत जातलें अशी आस्त आसा.

**पुंडलीक नारायण नायक**

पणजी — अध्यक्ष

२ मार्च, २००६ — गोवा कोंकणी अकादेमी

# संपादकीय

शणै गोंयबाब म्हळ्यार श्री. वामन रघुनाथ राव वर्दे वालावलीकार हांचे बरपावळीचें हें चवथें खण्ड. पयल्या, दुसऱ्या आनी तिसऱ्या खण्डांतल्यान तांची क्रमान भाशेविशींची, इतिहासाविशींची आनी स्वतंत्र लळीत बरपावळ आयली. ह्या चवथ्या खण्डांत तांच्या अणकारीत, रुपांतरीत वा आदारीत बरपावळीचो आसपाव केला. ताणीं सुरवातीक रोमी लिपींतय बरपावळ रचली. शेक्सपियरान बरयल्ल्या खेळांच्यो ताणीं कोंकणींत काणयो तयार केल्यो. अशा अकरा खेळांच्या काणयांचीं ताणी, 'शेक्सपियराच्या खेळांची माळ' ह्या नावान रोमी लिपींत चार पुस्तकां छापलीं. ह्या पुस्तकांचे उजवाडावपी खासा तेच आशिल्ले. तीं आतां खंयच मेळनात. व्हडा येत्नान तातूंतलीं तीन पुस्तकां हाताक मेळ्ळीं. ह्या तीन पुस्तकांत अकरांतल्यो सात काणयो मेळटात. त्यो रोमींतल्यान देवनगरींत रुपांतर करून ह्या खण्डांत दिल्यात. उरिल्ल्यो चार काणयो (घातमारो इष्ट, बायलेची परीक्षा, मोगाचे पिडेचें ओखद, भुसमारे आलेभाव-कोलेभाव), चवथ्या पुस्तकाचो सोद घेवन, मेळ्ळ्यार फुडाराक छापपाचें करूं येत. त्याभायर बकावलेचें फूल ह्या रोमी लिपींत छापिल्ल्या एका पुस्तकाची खबर मेळटा; तशेंच अकबर आनी बिरबल ह्यो 'हांसून पोट फुटपासारक्यो काणयो' आशिल्ल्या आनीक एका रोमी लिपींतल्या पुस्तकाची जायरात पळोवंक मेळटा. हीं पुस्तकांय कोणाच्या कोठयेंत आसल्यार फाटींफुडें मेळूं येता.

ह्या चवथ्या खण्डांत आयिल्ली बरपावळ अशी :

मोगाचें लग्न

झिलबा राणो

पोवनांचें तपलें

श्री भगवंतालें गीत

जादूचो जुंवो

शेक्सपियराच्या खेळांची माळ : (१) राजपुत हामलेट आनी बापायचें भूत, (२) गोरे बायलेचो काळो घोव, (३) मुदयां खातीर घोवा-बायलांचें झगडें, (४) धुवांची परीक्षा, (५) जुंवळ्या भावांचो घुस्पा-गदळ, (६) आगुल्ल्याचें निवळण, (७) राणयेचें जिवें बावलें.

कोंकणी भाशेची चळवळ उबारतना शणै गोंयबाबाक जशी कोंकणी भाशेची शास्त्रिक बसकण विसकटावन दाखोवची पडली तेच भाशेन तिचे साइत्यीक तांकीचो दिष्टावोय घडोवन हाडचो पडलो. कोंकणीक हेंगाडी म्हुण हिणसायतल्या लोकांक,

तिका साइत्याच्या खंयच्याय प्रकारांत कितले सहजतायेन वावरूंक येता हें दाखोवन दिवपाखातीर ताणीं साइत्याच्या विंगड विंगड मळांवेल्यान कोंकणीचें दर्शन घडोवपाचो आटाप घालो. तातूंतल्यानूच तांच्या कथा, कविता, निबंद, नाटकां, नवलकाणी, प्रहसन अशा साइत्याचो जल्म जालो. ह्या साइत्यांत ताणी हेर भासांतल्यान हाडिल्ल्या बरपावळीचोय आसपाव जाता. मुखेलपणान, ताणी बरयल्लीं नाटकां हीं भायल्या भासांतल्यान आयल्यांत. 'मोगाचें लग्न' आनी 'पोवनाचें तपलें' हीं फ्रेंच भाशेंतल्या मोलीयेराच्या नाटकांवेल्यान बरयल्यांत. तर 'झिलबा राणो' हें नाटक अरेबियन नाइट्सांतले अबू हसनाचे काणयेच्या आदारान बरयलां. शणै गोंयबाबांच्या उजवाडा आयल्ल्या पुस्तकांतलें 'मोगाचें लग्न' हें ओळीन चवथें पुस्तक. ताजेआदीं गोंयकाराचो मुंबैकार आनी शेक्सपियराच्या खेळांचे माळेंतलीं दोन पुस्तकां उजवाडा आयल्लीं. गोंयकाराचो मुंबैकार हाणे तर नामना मेळयल्लीच ; मोगाच्या लग्नाकय लोकांचो उपाट येवकार मेळ्ळो. तें तीन फावटी छापलें. दुसरें छापप १९३८त जालें तेन्ना ताका आचार्य रामचंद्र शंकर नायक हांची प्रस्तावना जोडिल्ली. 'झिलबा राणो' च्यो दोन आवृत्ती आयल्यो.

मोगाचें लग्न हो मुळांतूच एक हांसैणो खेळ. ताका पुरायेन गोंयचो भेस चडयल्ल्यान कोंकणी मनशाक तो आपलोसो दिसलो. तातूंत एका धरूनमारून केल्ल्या वैजाकडल्यान आमच्या लोकांच्या धोंगापोंगांचेर उजवाड घाला.

झिलबा राणो ह्या नाटकांतय गोंयचेंच वातावरण उबें केलां. प्रजेचें सुखदुख आनी अडचणी जाणा जावंक आनी प्रजेचो वेव्हार कसोकात चल्ता तें खासा आपल्या दोळ्यांनी पळोवपाक राजा आपलो भेस बदलून राज्यांत भोंवता आसतना एका भोळ्या भावराथी मनशागेर पावता. ताजें उलोवणें आयकून ताका न्हिदेची गुर्मी दिवन राजम्हालांत व्हरता. आनी एकादिसाखातीर ताका राजा करता. तातूंतल्यान उप्रासलेल्या घडणुकांनी हें नाटक रंगलां.

पोवनाचें तपलें जरी १९२६त बरोवन जाल्लें तरीकय ताजो पयलो माचयेवेलो प्रयोग १९३३त जालो. १९३६च्या 'नवें गोंय' च्या आंकांत तें छापता अशे तरेची जायरात वाचूंक मेळटा. पुण अशें दिसता कि शणै गोंयबाबांक तें आसा तशें छापपाचें नाशिल्लें. ताजेर तांकां आनीक हात भोवंडावचो आशिल्लो. देखून तें तशेंच उरलें. शणै गोंयबाबांच्या मरणाउपरांत बद्द १९४८त तें उजवाडा आयलें. ताचे उजवाडावपी गोमंतक छापखान्याचे धनी भौ.काशिनाथ श्री. नायक म्हणटात कि मूळ खेळाचो अखेर आमचे रीत-रविसेक जमना जावन हें रुपांतर अर्दकुटें उरिल्लें. तें शणै गोंयबाबांच्या आगांतूक मर्णान पूर्ण जावपाची आस्त तुटिल्ल्यान निमाणीं दोन येवपां भारावन छापलां. ह्या नाटकांत तातुबाब नांवाचो, किर्वंटीक बरी गांठ आशिल्लो एक

मनीस हिमटेपणान दीस काडून निमाणकडेन कसो धनर जावन पिशाची बडबड करता ताजें नाट्य रंगयलां.

हीं तिनूय नाटकां जरी रुपांतरीत आसलीं, तरी शणै गोंयबाबांचे बरपावळीची सुरवात स्वतंत्र नाटकान जाल्ली ताजी गजाल पैल्या खण्डाच्या संपादकीयांत आयल्या. ताणीं सगल्यांत पयलीं रामराज्याभिषेक हें नाटक मराठींत बरयलें. भाशेच्या परकेपणाक लागून संवाद सभावीक जावंक ना ही श्री. अण्णासाहेब किर्लोस्कर हांची म्हणणी मानून घेवन ताणी तें नाटक कुशीक उडयलें. आज हीं तिनूय नाटकां पळेतकच तांतली भास पळोवप्याच्या काळजाक कशी भावता आनी तांतले संवाद कितले रसरशीत, ठसठशीत आनी परिणाम करपी आसात हाजो दिश्टावो जाता. स्वतंत्र नाटक बरोवपाची तांक लिखणेक आसतनां ताणी रुपांतराची वाट कित्याक आपणायली जायत हाची लिखीत जाप जरी खंयच मेळना आसली तरी तर्कान ती काडूं येता. (निमाणें तो तर्क आशिल्ल्यान चुकूं येताय बी). रामराज्याभिषेक बरयलें त्या वेळार ते सुमार वीस वर्सांचे आशिल्ले. ताचेउपरांत चाखरेक लागून तांकां आसगावां, मुंबय, कराची अशा जाग्यांनी भोवंचें पडलें. त्या व्यापांत लेगीत ताणीं शिकपी भुरग्यांखातीर उ मेस्त्री पुर्तुगेज, कोंकणी मुळावें पुस्तक हीं पुस्तकां गरज म्हणून रचलीं. तेन्नाच कवितरुपान गोंयकारांचो मुंबैकार हें एक प्रहसनूय बरयलें. इतले म्हणसर **कोंकणी मनशाक आपुण कोण आनी आपली व्हडवीक केदी** म्हणपाची जाणविकाय करून दिवपाची व्हडली जापसालकी ताणीं आपल्या भुजांर घेतली. ताका लागून इतिहास धवळपाच्या वावरांत ते घुस्पून उल्ले. हाकाच लागून घडये ते स्वतंत्र नाटक बरोवपाचे वाटेक गेले नात. पुण कोंकणीक नाटकाची भोवच गरज आशिल्ली. तियात्रां मोट्या प्रमाणार चलतालीं तरीकय कोंकणींत नाटक खंय आसा ह्या प्रस्नाक करणेन जाप दिवंक जाय आशिल्ली. त्याखातीर आयते हाताकडे आशिल्ले मोलीयेराचे गाजिल्ले हांसयणे खेळ कोकणींत हाडप तांकां चड सोपें दिसलें आसूं येता. स्वतंत्र नाटकाचो आटाप घेवन बसपाक जाय आशिल्ली सवड तांकां तेदेवेळार नाशिल्ली. तरी आसतना ताणी केल्ल्या रुपकाराक स्वतंत्र बरपावळीची कांत मारता. कांयकडे तर संवाद बरयतना शणै गोंयबाबान मोलीयेरापरसूय चड चतुराय दाखयल्या. 'मोगाचें लग्न' हातूंत मारून, धपकावन वैज केल्लो बाबगो खरोच वैज जाल्लेवरी उलयतना मदींच मनशाचें काळीज उजवे वटेन आसता अशें उलोवन वता. घारुदाद आपलें काळीज सांसपून म्हजें काळीज तर दावे वटेन धडधडटा आनी तुमी काळीज उजवे वटेन आसता अशें कशें सांगतात असो दुबाव उक्तायतात तेन्ना मूळ नाटकांत जाप आसता, 'हय. आदल्या काळार तशें आशिल्लें. पुण आतां तें आमी बदल्लां.' शणै गोंयबाबाचो बाबगो आपलें काळीज सांसपून म्हणटा, 'तें खरें

गा. पुण वायटाकाराचें काळीज वैजाच्या उजव्या हाताक आसता न्हय म्हणून तें उजवें वटेन आसता अशें म्हणपाची आमची वैजांची चाल आसा.'

हीं रुपांतरां आसलीं तरी तातूंतलीं संवगां, तांचे भोंवतणचें वातावरण, तांची धाटणी हें सगळें पळेल्यार तीं मूळ विदेशी म्हणपाचेर सट करून विश्वास बसना इतलीं तीं थळावे रुपकार घेवन आयल्यांत. ह्या खेळांनी वावुरपी म्हालखूम, बाबगो, घारुदाद, तातूबाब, म्हाळूभट, नागण नायक, नोनेबाब, देवकी, सुंदरें, कामणें हीं सगळीं संवंगां आदल्या काळार गोंयांत जायतेकडे दिसतालीं. तीं गोंयकारांचे सामके संवकळीचीं. त्याभायर ह्या खेळांनी कोंकणी मनशाची कुरू सांगपी जायत्यो गजाली आसात. तातूंत गांवकारांचीं आक्सांवां आसात, तिट्यावेल्या मुड्डशांची गांथन आसा, लग्नाक लागतली वर-दक्षणा, माटव-म्हेड, फोग, कलवंतां, गांव-जेवण, भट, वाजंत्री, मदलस हांचेवेल्या खर्चाचो अदमास आसा, काल्या-जात्रांतलो घडघडो आसा, मिझ्रिकोर्दिची सोर्त आसा, घरभाटल्याचो देमांद आसा, फाजेंद आसा, तिसरे सावन कुल्ल्यांमेरेन आनी कल्ले सावन चणाकेमेरेनच्या सगल्या नुसत्यांचीं खाणां आसात, कांद्याच्या कुंवळासावन सोलांचे किर्मुजी कडयेमेरेन आनी खतखत्यासावन हुड्डुमेथयेमेरेनचे जेवणाचे सगले सुवादीक जिनस आसात, पोळये-पीठांचे तरेकतरा प्रकार आसात, फळाराच्या जिनसांची वळेरी आसा, भांगराच्या तरेकतरा वस्तींची वळख आसा. त्याभायर साळगांवचीं कणगां, जुव्यांची शाकभाजी, मैड्यांचीं केळीं, म्हापशेंचो फोग, पणजेचें मुज्ग, कवळेंचो चौघुडो अशा गोंयच्या विंगडविंगड वाठारांतल्या म्हत्वाच्या थळाव्या वस्तुंची नोंदय ताणी करून दवल्ल्या. थोडेभितर सांगचें जाल्यार तेन्नाच्या गोंयकाराकडे लागशिल्लें नातें आशिल्ल्यो जायत्यो बारीकसारीक वस्तु ताणीं नाटकांतल्यान सगलेकडे शिंपडायल्यात. त्यो पुंजावन एकठांय गुंथीत तर तातूंत आमकां त्या काळांतल्या रिती-रविसांच्यो, सणां-परबांच्यो नाटी मेळटल्यो, संस्कृतायेच्यो गांठी गावतल्यो आनी मनशा मनशा मदलीं नातीं भावतलीं. तीं समजून घेवपांत तारतिम मात बाळगूंक जाय.

कोंकणी भास सगळ्यांक सारकी समजूंची देखून ती जड जडावांची आसची न्हंय आनी तिचे, वयली सकयली अशे वांटे जावंचे न्हय हें ताणी सांगून दवल्लांच. पुण भगवद्गीते सारकिल्या गहन विशयाच्या आपल्या अणकारांतय ताणी जडगुळो उतरां येवचीं न्हंयत हाची जतनाय घेतली. मुजरत संस्कृत उतरांची भरस करून आपले भाशेक बळयांची विद्वत्तेची सया दाखोवपी मनशांचो तांकां किंवाटो येतालो. देखून अशा मनशांची फकाणां करपाक ताणीं 'मोगाचें लग्न' हातूंत बाबग्याच्या तोंडांत उतरां घाल्यांत, 'आसनवाटिकेकसून दीपकन्येक गेलो आनी थैंची जलशाक घेवन सुवर्णकाच्या रथार बसून स्रंखळापुराक गेलो अशें म्हळ्यार बरें दिसता वो अस्नोडसून

दिंवचले गेलो आनी थैंचें नुस्तें घेवन सोनक्याची गाडी करून सांकळे गेलो अशें म्हळ्यार बरें दिसता ?'

तांच्या नाटकांतले संवाद खुब फावटी लांबचे लांब आसतात. ताका लागून ते उलोवप्याक कश्टांचें जाता हें तर जालेंच पुण हेर संवंगांकय ओगीच उबे रावपाची ख्यास्त पडटा आनी पळोवप्याकय वाज येवं येता. पुण तांची भास मनाक ओडलायणी आशिल्ल्यान ती आयकूंक बरी दिसता. तांचीं उतरां सादीं, सोपीं आनी घरावीं आसतात. त्या काळांत घरांत उलयताना लेगीत पायलेक पंचवीस म्हणी आनी ओपाऱ्यो लोकांच्या तोंडांत घोळटाल्यो. शणै गोंयबाबान तांचो चडांत चड उपेग नाटकाच्या संवादांनीं करून घेतला. 'तूं मदींच पडलोलो दांत कसोसो कित्याक ?', 'तुजी पोटली खाली व्हय?', '...तूंच मु ती होवळी जावन मुरगुटून भुरकुटून वेताली?', 'आंत्रापैऱ्यान झगडीं जावन सुरै-उकडे चार घणे खाल्याबगर बायलेची माया घोवाचेर बसना' 'बेताळाक नासली खैं बायल आनी भावका देवतेक नासलो घोव; तसली आमची आवतीकाय', 'हांव हें बोंबलेच्या देंटा पासून उलैतां', 'जायती कपलफोडणी केली म्हणून तुज्या कपळांत तें रिगचें पडलां ?', 'पडलेल्यार पांय दिवंक आयल्या ही हांगा', 'ते पळे लोक म्हाकाच सोदूंक येतातशे दिसता. मात अशी उसर्पत ना. सामकीं चंवरां पडटात', 'तूं जाणा कितें ? लाटफळां ?', '..तिका मेल्ल्यांतूच जमा करून शेणार लेगीत काडलेली. पणून सभागणीची कट्टी बरी', 'तो शिंसो सुतलावंक पळेता', 'आतां आनी तूं फटासी मारूं नाका. भगली पुरो जाल्यो तुज्यो. कैलास कंटाळ्ळो.' अशे तरेचे म्हणी-ओपारींनी भरिल्ले पुण सामके घरावे भाशे बराबरूच 'कोणे गो शिकैलें तुका इतलें पातोळूंक? बोचुड्डेभाशेन न्हंय गो ती तुज्या ताळ्यांतली पिल्लूक वाजता?' वा 'तुजी भैण ती ? फुलगें ताचें नांव ? तरूच तो गांवभर सगळो घमघम सुटला ! जंयथंय गांजील मूस घोंगेतात. हाच्याच वासान आसतले', अशे तरेचे काव्यमय संवादय आमकां पळोवंक मेळटात. घरावे भाशेचें भान सांबाळटानाच तांणी आपले बरपावळींत मुजरत विसरायेर पडूंक आयल्ली चडानचड उतरावळ वापरली. वेळाप्रसंगाक साइत्याचो सुवाद असोतसो जाल्यार चलता पुण कोंकणीची उतरावळ पुस्तकांत नोंदून उरूंक जाय हो ताजेफाटलो हेत आसलो. ताकाच लागून तांचे बरपावळींत खुबकडे आमकां फळारांच्या, शाकभाज्येच्या, नुस्त्यांच्या, भांगराच्या वस्तींच्या नावांची वळेरीच वाचूंक मेळटा. भास ह्या साद्ध्याकडे वचपाक ताणीं भास हेंच सादन वापरलें आनी त्याखातीर साइत्याचें माध्यम घेतलें. पुण तांचें अंतीम साद्ध्य मात भास हें नाशिल्लें तर ती भास उलोवपी मनशाचो आपले कर्तुत्वशक्तिवेलो घळसणलेलो विश्वास जागो करून ताका तायठ मानेन उबो करप हें तांचें अंतीम साद्ध्य आशिल्लें हें आमी मतींत घेवंक जाय.

शणै गोंयबाबांचे बरपावळीचो प्रकार कसलोय आसलो तरी तिचो हेत कोंकणीचें मिशन फुडें व्हरप होच आसलो. ताका लागून तांच्या बरपांत खंयसून ना खंयसून कोंकणीचो विशय येता. नाटकांतलीं संवंगां लेगीत कोंकणीक आनी तिका लागशील्ल्या विशयांचेर खुब फावटी उलयतात. मोगाच्या लग्नांतल्या बाबग्याक घारुदाद, आमी उलयतात तेच भाशेंत सांग अशें म्हण्टा तेन्ना बाबगो विटलेल्या भाशेन कोडू तोंड करून म्हण्टा, 'हळद लागली तुमचे ते भाशेक. हेंगाडी भास खैंची. तिका भास हें उतर सोबता गा तरी? म्हाका जाल्यार ते भाशेचो दोळे फोडून राग येता. पुण आसूं भंगूं म्हणून हांव ती उलयतां.' कोंकणीक हेंगाडी म्हणून चाळयतल्यांची अगतीकताय ताणी बाबग्याच्या तोंडांतल्यान वदयल्या. 'पोवनाचें तपलें' तलो म्हाळूभट न्हवऱ्याची म्हायती दितना म्हण्टा कि तो म्हराश्ट भास उलैता....तो नवरात्रांनीं सरस्पतीचे पुजेक दर एका गांवांत भोवन म्हराश्ट भाशेंत उलौप करता आनी सांगता कि आमी उलैतांत ती कोंकणी भास साप विसरून तिचे बदला जागेपणांत आनी न्हिदेंत म्हराश्ट भास उलैल्या बगर आमची भूंय वैर सरची ना. 'मोगाचें लग्न' हातूंत भाशेविशीं व्हडलेंशें कांय खबर नाशिल्लो घारुदाद बाबग्याक सांगता कि आपणे कोणाक तरी भाशेसंबंदांत उलयतना आयकलो तेन्ना तो रेपुब्लिकनान ते भाशेच्यो गोंयभर साळो घालूंक जाय, ती भास शिकल्यार, आमचें गोंय फाटल्यान आसा तें सर्रकरून फुडें सरतलें अशें सांगतालो. ती भास मराठी जाल्यार तिका मात्रभास कित्याक म्हण्टात अशें घारुदाद विचारता. ताचेर 'म्हात्रभास म्हणचे आपणाच्या आवैबापायची भास' ही बाबग्याची जाप आयकून घारुदाद विचारता, 'तर म्हजी बा कशी उलैनासली ती भास ? आनी म्हजो बाप्पाय उलैनासलो तो ? आनी म्हाकाय उलौंक येना ती ? हांव खरेपणान सांगतां, खैच्याच गोंयकाराचो आवैबापूय ती भास उलैना. अशें आसताना मराठी भाशेक मात्रभास म्हंटात तें कितें ?' झिलबा राणो ह्या नाटकांतलो झिलबा जयकेशी म्हाराजांच्या उपकारांच्या वज्याखाला बागवल्लेकडे तांचेकडे खासा आपणाखातीर कितेंय मागूंक खांकुडटा. पुण तरीकय म्हणटा, 'इतलेंच मागतां कि आमगेल्या ह्या सुंदर कोंकणांत भायले भूसमारे येवन जीं धुडबुसां घालतात तीं आळाबंदा हाडचीं. हांगाचे बामण जे आपलेपणाचो आभिमान सोडून भायल्या लोकांच्या नादाक लागतात आनी आपली दशा होगडायतात तांकां मार्गार हाडचे आनी गोड-म्हौंवे कोंकणी भाशेक जे कोण चिड्डूंक सोदतात तांकां चिड्डून उडोवचे.' तीनूय नाटकांतल्यो ह्यो वेगळ्यो वेगळ्यो पती पळेतकच शणै गोंयबाब संवगांच्या संवादांतल्यानूय आपलें मीशन मुखार व्हरपाचो येत्न करतात अशें दिसूंक लागता.

जादूचो जुंवो हें *द टेंपेस्ट* नांवाचे एके येवरोपी काणयेचें भाशांतर. भुरग्यांखातीर १९२०त बरयल्ल्या ह्या पुस्तकाक १९६८ वर्सा भौ.गुरुनाथ केळेकार हांच्या नवें

गोंय प्रकाशनान उजवाड दाखयलो. मूळ काणयेंत दोन पदां आसात तशींच दोन पदां ताणीं हातूंत दवल्ल्यांत. कोंकणींत हेर सगले तरेचीं पुस्तकां तयार जाता आसतना भुरग्यांचेर आडनदर जावंक जायना हाची जाणविकाय शणै गोंयबाबांक आशिल्ली. म्हणून तांणी भुरग्यांखातीर शाळेचीं पुस्तकां तयार केलीं; तेचभाशेन काणयोय सांगल्यो. हें पुस्तक तेच दिकेन केल्लो आनीक एक वावर.

श्री भगवंतालें गीत म्हळ्यार शणै गोंयबाबांचे बरपावळींतलो मुकुटमणी. मूळ श्रीमद्भग्वद्गीता ह्या संस्कृत ग्रंथाचें हें कोंकणी भाशांतर. भग्वद्गीतेच्या अर्थाच्या गाब्याकडे चडांतचड लागीं वचून तो सगळ्यांत सोपे भाशेंत कोंकणी लोकांम्हऱ्यांत पावोवपाचो वावर ताणीं हाचे वरवीं केला. गीतेंतल्या दरेका संस्कृत उतराचो पुराय अर्थ उक्तावपी तांकीचें कोंकणी उतर तांचेकडे आशिल्लें हाचो दिश्टावो आमकां हें पुस्तक वाचतकच जाता. संस्कृत वा हेर खंयचेच भाशेकडे केन्नाच संबंद येवंक ना अशा कोंकणी मनशाक लेगीत ती गीता कळूंक जाय हो तांचो येत्न आशिल्ल्याचें तातूंतल्यान जाणवता. भाशांतर करप म्हळ्यार एके भाशेंतल्या उतराक दुसरे भाशेंतलें उतर दिवन उतरांची मांडावळ करप न्हय तर मूळ बरपावळींतल्या प्राणाक दुखी बादनासतना ती जिवंतपणान दुसरे भाशेंत अवतरूंक जाय हें तांकां खबर आशिल्लें. देखून ह्या वावराक हात घालचे आदीं ताणीं मूळ गीता **अभ्यासून** खासा आपणे पचयली. मागीर हेर विद्वानांनी वेगवेगळ्या काळांत केल्ले गीतेचे अणकार वाचून काडले. तांतूंतल्या वेगळ्यावेगळ्या पाठांचो अभ्यास केलो. गीतेंतल्या एकाच उतराचे जावपी चड अर्थ ध्यानांत घेवन तांचो कोश तयार केलो. वेगवेगळ्या विद्वानांनी लायल्ले वेगवेगळे अर्थ बरोवन काडले. तांच्यो फोडणिशो वाचून काडल्यो आनी तातूंतल्यो एकामेकाक् जुळपी आनी नाजुळपी अशो वळेऱ्यो तयार केल्यो. वेदीक धर्माच्या वेगळ्यावेगळ्या पिठांचे मुखेल आचार्य हांणीं आपापल्या मत्तान गीतेचे लायल्ले अर्थ आनी केल्ल्यो फोडणिशो ताडून पळेल्यो. आनी मागीर ह्या विशयाचेर हेर धर्म-पुस्तकांची किदें म्हणणी आसा तें जाणून घेवपाक क्रिस्तांव, इस्लाम, ज्यू ह्या धर्मांचीं मुखेल धर्म-पुस्तकां, तांचीं भाशांतरां आनी फोडणिशो वाचून काडल्यो. ह्या सगळ्या धर्मांच्या शिकवणेंतलें सारकेंपण आनी जंय तें ना ताचीं कारणां येवजून ताणीं एक संदर्भ-पटीच तयार केली. आनी मागीरूच ताणीं गीतेच्या भाशांतराक हात घालो. ह्या पुस्तकाचे संपादपी आनी उजवाडावपी कै.भौ. काशिनाथ श्री.नायक बरयतात कि ह्या पुस्तकाची तीन फावटी निवळावणी करूनूय समाधान जावंक नाशिल्ल्यान शणै जेन्ना तें चवथे फावटी निवळावंक बसले तेन्ना तांकां उतरांचीं रूपां (देखीक, सोडौंक काय सोडोवंक) थारावपांत आपणाली कितें तरी चूक जाता अशें दिसलें. आनी भाशेचो खोल अभ्यास केलेबगर गीतेचें भाशांतर केल्यार तातूंत जाय तितली

नितळसाण येवंची ना अशें दिसून तांणी गीता कुशीक दवरून भाशेच्या शास्त्रीक अभ्यासाक आदीं हात घालो. भौ.नायकांचे हे म्हायतेंतल्यान आमकां शणै गोंयबाबांचें आनीक एक वेगळें दर्शन घडटा. कोंकणीक अशे तरेच्या एका पुस्तकाची गरज आसा म्हणून कशेंय तरी एक तिच्या पोशांत उडोबंया ही तांची धारणा नाशिल्ली. तर आपणे केल्लो वावर हो परिपूर्ण आसपाक जाय असो तांचो नित्शय आशिल्लो. त्याभायर आपणे हातांत घेतिल्ल्या वावरांत तद्रूप जातनाच ताच्यांतलें खरेंपण कसाक लावपाचीय तांची संवय आशिल्ली हाजी एक नाट उजवाडावप्यान ह्या पुस्तकांत दिल्ले पुर्वणेंतल्यान आमकां मेळटा. गीतेंतले एकदोन श्लोक तांच्या अर्थावेल्यान निजाचे नासूंये असो तांकां दुबाव आयलो. पुण लो.टिळकांच्या गीतारहस्या सयत हाताकडे मेळिल्ल्या सगळ्या प्रतींनीं तशेच श्लोक छापिल्ले. म्हण्टकच तांच्या दुबावाक आदार मेळनासलो. निमाणें काठियावाडसून श्री. शास्त्री नावाच्या एका विद्वानान उजवाडायल्ल्या श्रीभगवद्गीतेंत वेगळे तरेचो पुण मूळ संहितेक न्याय दिवपी श्लोक तांकां मेळ्ळो. आनी तांच्या मनांतली घुस्पट सुटली. हाचेवेल्यान विशयाच्या मूळाक वचून सोद-वावर करपाची तांची अभ्यासू कालेतूय आमकां दिसून येता.

मुंबंयत सुरवातीक जायतो काळ शणै गोंयबाब धोबीतलावाक रावताले. ह्या वाठारांत तेदेवेळार खुब गोंयकार रावताले आनी तांतूंत चडशे क्रिस्तांव भाव आसताले. धोबीतलावाक खुब कोंकणी पुस्तकां रोमी लिपींतल्यान उजवाडा येतालीं. तीं कथा, काणयांचीं आसतालीं तेच भाशेन धर्मीक, रांदप बी जायत्या विशयांची म्हायती दिवपी आसतालीं. पुण तांतली भास खुबशा पुर्तुगेज उतरांची भरस जाल्ली आनी वाक्याची रचणूक ही येवरोपी तरेची आसली. बरोवपाचे धाटणेंत 'अ' चो उच्चार इंग्लेज ओ हें उतर वापरून दाखयताले. ताका लागून 'तण' हें उतर 'तोण' जातालें आनी पणजे हें उतर पोणजे जातालें. शणै गोंयबाबान शेक्सपियराच्या अकरा खेळांचो आपरोस अकरा काणयांनी करून तो रोमी लिपींत छापून घेतलो. तांतूंत भास वापरताना विदेशी उतरां उणीं आसचीं हें पळेलें. आनी जीं देशी उतरां रोमी वाचप्यांचे संवकळीचीं नात अशें दिसलें थंय तळटिपो दिवन तांचो अर्थ पुर्तुगेजींतल्यान दिलो. तशेंच 'अ' चो उच्चार दाखोवपाक इंग्लेज 'ए' हें अक्षर इटॅलिक पद्धतीन वापरलें. देखीक, मनशाक हें उतर *manxac* अशें बरयलें. हांतलो पयलो खेळ 'जैन प्रिंटींग वर्क्स लि.' हांचेकडल्यान आनी उरिल्ले गिरगांवांतल्या कर्नाटक प्रेस च्या जी.एस.कुळकर्णी हांचेकडल्यान छापून घेवन खासा शणै वा.र.वर्दे वालावलीकार हाणी धोबीतलावांतल्यान उजवाडा हाडले. एक गँजाल चत्रायेन सांगूंक जाय ती म्हळ्यार रोमी पुस्तकां तशेंच 'गोंयकाराचो मुंबैकार' आनी 'गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक' हीं शणै गोंयबाब ह्या नावान न्हय तर तांच्या मूळ शणै वा.र.वर्दे

वालावलीकार ह्या नांवान उजवाडा आयल्यांत.

शणै गोंयबाबांची चडशी सगळी बरपावळ आतांमेरेनच्या चार खण्डांतल्यान आमचे म्हऱ्यान आसा. तिचेर नदर मारल्यार तांणीं आपली वज्रलिखणी चोंयवाटांनी घुवंडायल्ली हाजो प्रत्यय येता. म्हजी बा खंय गेली सारकी हड्डें फुटून रडूंक लावपी कथा प्रसवपी हेच लिखणेन पोटांत पेटके हाडपासारकें हांसैणें मोगाचें लग्न हें नाटक बरयलें. इतिहास उस्तून गोंयकाराची गोंयाभायली वसणूक उबी करतानांच गोमंतोपनिषदांतल्या तत्वगिन्यानाची विस्कटावणी केली. आनी एके भाशेन ब्रम्हगिन्याना पासून अंत्राळगिन्याना मेरेनच्या कितल्याय गूढ विशयाचेर उलोवपाक कोंकणीक उतरां उणी पडनात हें दाखोवन दिलें. भुरग्यांलो इष्टातल्यान माणकुल्यांक फुडाराची दिका दाखयतनांच पुण्यात्मो राम कामती आनी आबे फारीय हांच्या जीणांचेर उजवाड घालून जाणटेल्यांक तांच्या भूतकाळांतल्या कर्तुत्वी मनशांची वळख करून दिली. कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ तशेंच कोंकणी नादशास्त्र बरोवन कोंकणीक जशी शास्त्रीक फास्की मेळोवन दिली त्याच नेटान कोंकणी भाशेची पुराय केस मांडून ताणीं कोंकणी आड उलयतल्याच्या तोंडाक गडगंज कुलूप घालें आनी कोंकणी भाशेचें जैत सुगूर केलें. हें सगळें वाचतकच आमकां शणै गोंयबाबांची कोण म्हणून वळख मेळटा ? एक कवीमनाचो साइत्यकार म्हणून ? एक तत्वगिन्यानी म्हणून ? एक भाशेचो अभिमानी म्हणून ? एक इतिहास संशोधक म्हणून ? एक चरित्रकार म्हणून ? कोंकणीची व्याकरणीक स्वतंत्रताय शास्त्रीक नदरेन मुखार दवरपी व्याकरणकार म्हणून ? म्हाका दिसता हीं सगळीं व्यक्तिमत्वां सांबाळूनय कोंकणी मनशाच्या उजळ फुडाराचो ध्यास घेतिल्लो एक द्दश्टो क्रांतिकारी म्हणूनूच आयच्यो आनी फायच्यो पिळग्यो तांकां वळखतल्यो. आत्मसन्मान राखले बगर हातसून कर्तुत्वदशेचें कांयच घडचें ना; तेखातीर खासा आपणाक वळखात आनी जें जें आपलें ताचो अभिमान बाळगात. आपले भुंयेंतल्या तणाचेर आनी मातयेच्या कणाचेर मनापासून मोग करात. हांगाच्यो फातुल्ल्यो आनी पोरसांतल्या खोले-खोलप्यांकडेनूय आपलेपणान पळेयात. हो 'स्व' त्वाचो संदेश ताणी खासा आपणे पाळ्ळो आंनी हेरांनी पाळचो म्हणून पाराथलें. कोंकणीचो ताथोमाथो करून खासा तांकां सत्तेचें ताट वा दुडवांची गांठ मेळोवपाची वान्सा नाशिल्ली वा तीं मेळपाची खंय आदवसाणय नाशिल्ली. उफाट्टें 'स्व' त्वाचो ध्यास धरून एदे व्हडले मराठी आड उबो रावचे बदला तिचीच ओखेवणी-तोखेवणी केल्ली जाल्यार तांच्या पदरांत कितेंय पडूं येतालें. कोंकणी बदला मराठीची तुस्त अपुर्बाय केल्ली जाल्यार तांचो घडये इतिहासाचार्य म्हणून गौरव जांव येतालो. हें हांव म्हणटां अशें समजूं नाकात. मराठी भाशेचे (आनी महाराष्ट्राचेय) अभिमानी अशी जांची वळख आसा त्या श्री. बा.द.सातोस्कारांचें हें

मत आसा. 'गोमन्तक' च्या ३-८-१९६९ च्या आंकांत ते बरयतात, 'इतिहासकार म्हणून वामनरावांची तुलना मी इतिहासाचार्य राजवाड्यांशी करीन.....राजवाडे आणि गोंयबाब या दोघांचेही सिद्धांत विलक्षण खरे. पण राजवाड्यांना इतिहासाचार्य ही पदवी मिळाली आणि गोंयबाबांची महाराष्ट्राने उपेक्षा केली. गोंयबाबांचे इतिहास संशोधन कोंकणीतून झाले हे त्याचे एकमेव कारण नव्हे. महाराष्ट्राच्या अस्मितेला, गौरवाला त्यानी आव्हान दिले हेही कदाचित कारण असावे.'

शणै गोंयबाबांक कोंकणी भास जाय आशिल्ली ती फकत पुस्तकां बरोवपा खातीर आनी शाळेंत शिकोवपा खातीर न्हय. तर कोंकणी मनशाच्या मनाचेर बशिल्लें परधार्जिणेपणाचें भूत नानपयत करपाचें एक खर सादन म्हणून ताणी तिची पुजा केली. तांच्या वावराचें स्रय तांकां तांचे जीणेंत गावलेंना. पुण उपरांतच्या पिळग्यांक तांचें व्हडपण भावलें. तांच्या पावलार पावल दवरून मुखार गेल्ल्यांनी तांचें सपन पुराय करपाचें काम आंगार घेतलें आनी खुबशा आंगांनीं तडीक पायलें. आयज जो गोंयचो पूत धनीपणान आपलें राज्य चलयता ताचें स्रय शणै गोंयबाबाचे फुडार पारखुपाचे नदरेकूच दिवंक जाय. 'हिंदुस्तानाक स्वराज्य मेळटकच हांगेलो हावेस इतलोच दिसता कि मराठणाक गोंय दसोवन, मराठ्यांचें आनी मराठी भाशेचें चेपण आपणाल्या माथ्यार घेवचें आनी अडेचे 'मराठी' म्हणोवन सासणाचीं सासणां बंदेपणान काडचीं !' ही भविश्यवाणी करून ताणी कोंकणी प्रजेक सादूर केल्ली. देखूनूच मुखार जाल्ल्या जनमत कौलांत 'स्व' चें दालें जड जावंक पावलें. १९२७ त शणै गोंयबाबान 'गोंयकारांची गोंयभायली वसणूक' ह्या विशयाचेर पांच उलोवपां केलीं. तांतली चार हाचे आदल्या खण्डांतल्यान आयल्यां. पांचव्या उलोवपाचें मुळांतूच छापप जालेंना. पुण त्या उलोवपाचो निमाणो पारो कै.काशिनाथ श्री.नायक हांच्या बब्रेपणान 'कोंकणी' ह्या नेमाळ्यान आपल्या १०.४.१९६३ च्या आंकांत छापला. तातूंत शणै गोंयबाब म्हणटात, 'आज आमचे भितल्ल्या कांय थिल्लार बुद्धीच्या गोंयकारांक आपले कर्तुत्वदशेचो विस्वास नाशिल्ल्या कारणान गोंय मोटवें म्हणून, मराठणांत बुचकळून विर्गळून ना नपश्यात जावंचे दुवाळे जातात. ते मराठणाक आमचें गोंय गांठावन ताचें बृहन्महाराष्ट्र करूंक येवजीतात आनी आवयघातक्या भाशेन आपले दुदभाशेक जिवानशीं मारून तिचे पवित्र सुवातेर अडेचे मराठी भाशेक बसोवंक पळयतात; परंत हे तांचे पातकी करणेंत तांकां येस केन्नाच येवचें ना हें ताणी ध्यानांत दवरचें. आमचें गोंय मराठणाची वावराडी केन्नाच जावंचे ना, तें मराठणाच्या आनी पुण्याच्या मेंदून केन्नाच येवजूंचें ना. तें मराठणाच्या आनी पुण्याच्या पोशान केन्नाच उदक घोंटचें ना. तें हिंदुस्तानांतल्या मोट्या रासवळ कुटुंबांतल्या एका भौमानेस्त मनशाभाशेन फावो जाल्ले स्वतंत्रतायेन चलतलें. ते आपल्या खासा कोंकणी भाशेच्या

मेंदून येवजितलें.....' ह्या उलोवपा उपरांत चाळीस वर्सांनीं येवंक घाल्ल्या सार्वमताचोच न्हय तर ताचो निकाल कितें लागतलो हाचो लेगीत दिश्टावो तांकां जाल्लो म्हणूनूच 'फुडार पारखुपी' हें बिरुद तांकां लायतात.

शणै गोंयबाबांचे बरपावळीचो चिकित्सायेन अभ्यास करतल्यांमुखावेलो एक गदळ कुशीक काडपा खातीर मुजरत सांगूंक जाय कि तांच्या चडशा पुस्तकांचेर तांच्या पुस्तकाचो म्हणून जो क्रम छापला तो सारको ना. गोमंतक छापखानो हो खंयच चूक उरची न्हय म्हणून जतनाय घेवपांत कांटेकोर. पुण तरी आसतना ही बारीकशी चूक उल्ल्या. आज जायते जाण तांच्या साइत्याचो अभ्यास करतात. तांचे तकलेंत हो गदळ उरचो न्हय म्हुण हें मत मांडलां. शणै गोंयबाबांचें उजवाडा आयल्लें पयलें पुस्तक 'गोंयकाराचो मुंबैकार'(१९१०) आनी (रोमी कुशीक्र काडल्यार) दुसरें 'मोगाचें लग्न'(१९१३) हीं दोनूय खासा ताणीच उजवाडायल्लीं. तिसरें पुस्तक गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक १९२८ वर्सा गोमंतक छापखान्यान उजवाडायलें. पुण ताजे उपरांत १९३०त गोमंतक छापखान्यानूच छापिल्ल्या 'कोंकणी भाशेचें जैत' ह्या पुस्तकाक शणै गोंयबाबांची बरपावळ ह्या माथाळ्याखाला (चौथें पुस्तक म्हणचे बदला) पयलें पुस्तक म्हणून पाचारलें. आनी थंयसून मुखार जाल्ली सगली मेजणी चुकली. मुखार 'झिलबा राणो' जें १९३३त बरयलें आनी १९३६त छापलें ताचेर चौथें पुस्तक आनी 'मोगाचें लग्न' (जें पयले खेप १९१३त उजवाडायलें, तें आडनदर जाल्ल्यान ताचे दुसरे आवृत्तेचेर) पांचवें पुस्तक अशे चुकेचे छाप पडले.

ह्या चारूय खंडांतल्यान आतांमेरेन आमी शणै गोंयबाबांचे बरपावळीची वळख करून घेतली. पुण खासा तांचेविशींची वळख हातूंत खंयच येवंक ना. खासा शणै गोंयबाबांक आपल्या कुटुंबाविशीं वा आपलेविशीं कितेंय बरप रूच नाशिल्लें. तांच्या घराण्यांत गोरकी उर्फ कॅ.गोरक्ष पुंडलीक राव, कॅ.विठ्ठल गोरक्ष राव, कॅ. गोरक्ष विठ्ठल राव, कॅ.लक्ष्मीनारायण विठ्ठल राव अशे नांवाजते लश्करी तशेंच मुत्सद्धी राजकरणी पुरूस जावन गेले. तांतल्या कॅ.गोरक्ष पुंडलीक हांकां तर पुर्तुगेजांचे राजकी वकील म्हणून पेशव्यांच्या दरबारांत आसतानां तांच्या मुत्सद्धीपणाचें कवतुक करून पेशव्यांनीं पालखेचो मान आनी तांचे सगळे वंशावळीक परंपरेन राव ही पदवी भेटयल्ली. ह्या मुत्सद्यांविशीं इतिहास संशोधक श्री.पांडुरंगबाब पिसुर्लेंकार आनी भारतमित्रकार श्री.ना.भा.नायक हाणीं बरोवन दवल्लां. पुण शणै गोंयबाबांचे छापी वा हात बरपावळींत खंयचेच कडे तांचेविशीं कुस्कुटभर बरयल्लें मेळना. श्री. मोरेश्वर सखाराम मोने नांवाच्या एका विद्वान शिक्षकान 'मराठी भाशेचे व्याकरणकार व व्याकरण-प्रबंधकार' ह्या नांवांचें पुस्तक उजवाडायलां. तातूंत छापपाखातीर ताणी शणै गोंयबाबांकडे

तांचें चरित्र आनी फोटू मागलो. शणै गोंयबाबान 'चरित्र म्हणजे एका अर्थी आत्मस्तुति असल्यामुळें तें लिहिणे मला प्रशस्त दिसत नाहीं' अशें सांगून आनी क्षमा मागून तांकां जाप धाडली. श्री.मोने हाणी त्या पुस्तकांत तांची फोटो विरयत वळख बरयल्या आनी म्हळां, 'यांच्या पत्रांतील भाषेवरून ते अत्यन्त नम्र व आपलें चरित्र आणि फोटो प्रसिद्ध करण्यास नाखूष दिसतात. मोठ्या मिनतवारीने त्यांनी दिलेल्या टिपणाचा उपयोग करून वरील मजकूर लिहिला आहे.' खासाखुद्द शणै गोंयबाबांचें चरित्रा संबंदांत जरी अशें मत आसलें तरी तांचे बरपावळीचेर नदर मारताना खासा तांची थोडीशी वळख करून घेवप समा जातलें. वयर सांगलां ते गोरकी पुंडलीक वर्दे वालावतीकार हे शाकभाज्येचें जुवें जाका सांत इश्तेव्हंव म्हुण वळखतात थंय रावताले. तांचे नातू कॅ.गोरक्ष विठ्ठल हांचे सात पूत जुंवें सोडून गोंयांत वेगवेगळ्या जाग्यांनी रावपाक गेले. तांतले दोग भाव दिवचलेंत येवन रावले. तांतलो एक भाव कुश्टराव उर्फ कृश्ण हांचो नातू वामन रघुनाथ म्हळ्यार शणै गोंयबाब. तांचो जल्म २३ जून १८७७ ह्या दिसा दिवचलचे भितल्ले पेठेंत जालो. सीताबाय-रघुनाथ हीं तांच्या आवय बापायचीं नांवां. दिवचले सुरवातीचें मुळावें मराठी शिकप जातकच ते थंयच पुर्तुगेज प्रिमेर ग्राव शिकले. आनी फुडलें शिकप घेवपाखातीर आपल्या आज्जोळा बस्तोड्यां रावले. तेन्ना सेगुंद ग्राव हे परिक्षेंत ते बार्देसांत पयले आयले. सेगुंद ग्रावा उपरांतचें लिसेवाचें शिकप गांवांनी मेळनासलें. त्याखातीर पणजे रावन शिकपा सारकी तांचेकडे वेवस्था नाशिल्ली. म्हणून ते दिवचले परत आयले आनी ताणी घरचे घरा संस्कृत आनी इंग्लेज भासांचो अभ्यास आपले आपुण करपाक सुरवात केली. दोन वर्सांउपरांत मुंबय रावपी श्री. चिंतामण राव ह्या तांच्या बापोलयान तांकां मुंबय व्हेले. आनी तांच्या घरालागसार आशिल्ल्या गिरगावांतल्या मराठा हायस्कूल हे शाळेंत तांचें नांव घालें. थंय शिकून १८९८ वर्सा ते मॅट्रीक जाले. मागीर ताणी गोंयां येवन आसगांवा नोकरी केली. फुडाराक ते कराचीक वचून थंय म्युनिसिपालटींत ताणी नोकरी केली. तीय सोडून ताणी आनीक दोन तीन नोकऱ्यो केल्यो. तांतली निमणी मे. मेयस्टर ल्युसीयस ब्रुएनीग (कलर ड्रग कंपनी लि.) हे कंपनीत ते सगल्यांत वयल्या पदामेरेन पावले. पयल्या म्हाझुजाच्या काळांत जर्मन जाळवणदारांक हिंदुस्तान सोडून वचचें पडलें तेन्ना हे कंपनीचीं सगळीं सुत्रां ताणी वामनरावांकडे सोंपयल्लीं. वामनरावांनी आपलें काम वेवस्थीतपणान करून कंपनी सांबाळून दवल्ली. हे कंपनीचे फांटे हिन्दुस्थाना भायर सिलोन, बर्मा, जपान ह्या देशांनीय आशिल्ले. म्हाझूज सोंपतकच कंपनीच्या जर्मन जाळवणदारांनी आपले हिशोब-तपासनीस ह्या सगळ्या फांट्यांनी धाडले. ताणी ते तपासून जातकच जपानासून आपले कंपनीक कागद बरोवन कळयलें कि ह्या सगळ्या फांट्यां भीतर मुंबयच्या

फांट्याचो कारभार चोख आशिल्लो दिसलो. थंय कच्च्या म्हालाच्या रिकामी जाल्ल्या लातांचो लेगीत जिस्ताक जीस्त हिशोब मेळ्ळो. हो अहवाल मेळटकच वेवस्थापनान वामनरावांक त्याच वयल्या पदार कायम दवरपाचो निर्णय घेतलो. उपरांत ते कंपनीची नवी घडी घालून तिचें नाव कलर ड्रग कं. लि. अशें केलें तेन्ना लेगीत वामनरावच ते कंपनीचे मुखेली आशिल्ले. पुण नव्याच आयिल्ल्या कांय गोऱ्या कातीच्या अधिकाऱ्यांक देशी मनशाचें व्हडपण मानना जालें आनी ताणी खटपटी लटपटी करून काटकसरेची गरज दाखोवन शणै गोंयबाबाचो पगार देंवयलो. तेन्ना काटकसरूच करपाची आसल्यार आपलेवरी जर्मन अधिकाऱ्यांचोय पगार उणो जावंक जाय असो आग्रो शणै गोंयबाबान धरलो. आनी तें मान्य जायनाशें दिसलें तेन्ना नोकरेची सोडचिट दिवन ते घरा बसले. 'घरा बसले' हें उतर नोकरेच्या संबंदांत जरी खरें आसलें तरी ते घरा केन्ना रावलेच नात. दुसऱ्या दिसा ते सदांच्या वेळार भायर सल्ले आनी रॉयल एशियाटीक सोसायटींत वचून कोंकणीच्या आनी इतिहासाच्या अभ्यासांत गुल्ल जाले. ह्या वेळार तांची पिराय फकत अठ्ठेचाळीस वर्सांची आसली. तांच्यानी जाय जाल्यार दुसरी चाकरी करूं येताली. पुण ताणी उरिल्ली जीण कोंकणीचे चाकरेक ओंपली. ते शेअर्साच्या वेव्हाराचे अभ्यासू आसले. आनी ह्या गिन्यानाचो उपेग ताणीं आपले उपजीविके खातीर केल्लो आसूं येता. (तांचेकडे बऱ्याबऱ्या कंपन्यांचे शेअर्स आशिल्ले.) ताका लागून ताणीं चाकरी सोडिल्ल्याची सुनशा घरच्यांक लागलीना. घरांतले लोक सांगताले कि ताणी सिर्वीस सोडल्या म्हणून तांकां दोन वर्सां उपरांत कळ्ळें. तांच्या स्वाभिमानी सभावाची नाट हाचे आदलेय एके नोकरेंत दिश्टी पडिल्ली. ते मुंबय इतालीयन कोन्सुलेटींत काम करताले. वर्स जातकच सगल्यांचो पगार वाडपाची चाल आशिल्ली. एका वर्सा सगल्यांचो पगार वाडयलो. पुण शणै गोंयबाबाचो पगार वाडयलोना. पगाराच्या दिसा सांजचो सायबान शणै गोंयबाबाक आपल्या केबीनांत आपोवन व्हेलो आनी म्हळें,

'सगळ्यांचो पगार वाडला. तुजो वाडूंक ना.'

'नासूं. हांवें खंय मागला?'

'तुका कित्याक वाडोवंक ना जाणा तूं?'

'नकळं.'

'हांव आफीसांत भितर सरतां तेन्ना सगळे जाण उठून उबे रावतात. तूं मात उबो रावना. देखून तुका पगारवाढ दिवंक ना.'

शणै गोंयबाब ओग्गी.

थोड्या वेळान सायबान सांगलें, 'पुण तुजें काम बरें आसा. म्हुण तुका हांव दोट्टी वाढ दितां.'

शणै गोंयबाब भायर आयले. तांकां बरेभाशेन खबर आसलें कि आपणे सलाम ठोकचो हे खातीर ही वाढ आसा म्हुण. खरें तर सायब केन्ना भितर सरता हें तांकां दिसनासलें. कित्याक तर तांची बसपाची सुवात अशी आसली कि बसतकच तांची फाट दारावटेन जाताली. त्या दिसा आफीस सुटच्या वेळार शणै गोंयबाबान एक कागद व्हरून आपल्या वयल्या अधिकाऱ्याच्या मेजार दवल्लें. तो राजिनामो आसलो. आपलें काम आपुण बरे तरेन करतां. खुशामत करप हें आपलें काम न्हय. अशे तरेची फोडणीशी तातूंत केल्ली.

दुसऱ्या दिसा सायब झेतान आयलो. ताजो अदमास हो कि आज वालावलीकार उठून उबो रावतलो. ताणे ताचे सुवातेकडे बडायेन पळेलें आनी ताका अजाप जालें. केन्ना न्हय तो आज तो जागो रिकामी आसलो,

ताणे चवकशी करतकच ताका वालावलीकाराची सोडचीट मेळ्ळी. ताणे बेगोबेग शणै गोंयबाबाच्या घरा शिपायका कडल्यान आपोवणो धाडलो. शणै गोंयबाब गेले नात. मागीर सायबान खासा आपली बग्गी (घोड्याची गाडी) दिवन एका अधिकाऱ्याक तांगेर धाडलो. पुण ना तें ना. शणै गोंयबाबान थंय परतो पांय दवल्लो ना. ह्या दोनूय घडणूकांतल्यान एक गजाल सपश्टपणान जाणवता ती ही कि आत्माभिमानामुखार ताणीं कोणाचीच आनी कित्याचीच पर्वा केली ना.

तांची आंगकाठी बारीक आनी कांत गोरी आशिल्ली. ते मातशे मोटवे आनी दिसपाक मायेस्त अशे आसले. आपले परस ल्हान पिरायेच्या मनशाकडे लेगीत उलयताना ते ताका तुमी म्हणून पाचारताले. आनी आरे-तुरे हीं उतरां शब्दकोशांतूच दवल्लेलीं बरीं अशें ते म्हणटाले. परकी मनशाचो फावोसो आदर करूंक जाय अशें तांचें मत्त आसलें. ते म्हणटात, 'कोणाच मनशाक केन्ना उणो लेखचो न्हय. ताच्या रुपा-रंगाखातीर ताचेर भष्टकार घालचो न्हय. ताका बंदो करचो न्हय. तशें केल्यार आपल्याच मनीसपणाक उणाकपणाचें खत लागता. आपले तांकीभाशेन ताका वैर उखलून आपले वांगडचो करचो; म्हण्टकूच, संवसाराचें दुख ल्हव जावंक ताचोय पालव मेळून दोगांयच्या बऱ्याक पट्टलें.'

ॲड.जयवंतराव सरदेसाय हांणी तांचो एक उगडास गोमंतक दिसाळ्यांत बरयल्ल्याची याद जाता. ते म्हणटात गोंयांत जावपी महाराष्ट्र साहित्य संमेलनाचें आमंत्रण करपाक आमी तांगेर गेले. तेन्ना येवकार-वांगडी जावंक ते तयार जाले नात. पुण ताणी घरांत भीतर वचून दुडू हाडून दिले आनी आमच्या गोंयांत येवपी सोयऱ्यांच्या येवकारांत कांय उणे पडूंक दीवं नाकात अशें सांगलें. (कै.सरदेसायांची तशाकतशीं उतरां आतां याद जायनात. पुण ताचो मतीतार्थ होच आसलो). जांकां मराठीचे विरोधक समजतात त्या शणै गोंयबाबां संबंदांत मराठीच्या एका

अभिमान्यानूच आपलो उगडास अशे तरेन बरोवन दवल्लेल्यान ताचेर वेगळें टिपण करपाची गरज ना.

शणै गोंयबाबांक जायत्या भासांचें गिन्यान आशिल्लें. कोंकणी, मराठी भायर तांकां संस्कृत, हिंदी, गुजराथी आनी हेर कांय देशी भाशा कळटाल्यो. तेचभाशेन इंग्लेजी भायर पुर्तुगेज, फ्रेंच, इतालियन, स्पॅनीश अशो भासोय येताल्यो. मुंबय रावपी गोंयकारांची 'गोवा हिंदु असोसिएशन' ही नांवाजती संस्था आसा. तिचे ते एक संस्थापक आशिल्ले. आनी तिच्या सुर्वेच्या काळांत भांडारी, उपाध्यक्ष, अध्यक्ष अशा पदांचेर ताणी वावर केला. ताचेभायर हेर समाजीक संस्थांच्या कामांनीय ताणीं वांटो घेतला. गोअन इमीग्रंट्स फंडाचे कोंकणी पंचायतसभेचे ते वांगडी आसले. कोंकणी भास एके मांडणेर घालपाची मोख दवरून ही पंचायतसभा घडलेली. हे पंचायतसभेचे प्रो.आर्मांद मिनेझीस, भौ.जॉर्ज मोराइस, भौ.जोआकीं आं. फेर्नान्दिस हे हेर कांय वांगडी आशिल्ले. गोंयांत व्हड बुट्टी आयली तेन्ना लोकांक मजत करपाखातीर मुंबयंत घडिल्ले समितीचेय ते एक वांगडी आशिल्ले.

तांचें लग्न उस्कयच्या गायतोंडे घराण्यांतले एके चलयेकडे जालें. तिचें नांव शांताबाय अशें दवल्लें. तांकां पयलो पूत जालो ताचें नांव मंगेश अशें दवल्लेलें. पुण तो साप्प भुरगेपणांतूच भायर पडलो. ते उपरांत तांकां रघुनाथ (आबा), वत्सल, गुलाब (बा) आनी पुंडलीक (बाबा) अशीं चार भुरगीं जालीं. ह्या चौगांयचो जल्म तांच्या दिवचलच्या घरांत जालो. शणै गोंयबाबान शांताराम नावाच्या आपल्या एका पुतणयाक शिक्षणा खातीर आपल्या म्हन्यान व्हेल्लो. ताचें मुळावें शिकप ताणी कोंकणींतल्यान केल्लें अशें घरांतलीं जाणटीं सांगतालीं. ताकाच शिकोवपा खातीर ताणी 'कोंकणी मुळावें पुस्तक' तयार केल्लें आसूंये. १९०१-०२ च्या अदमासाक तयार केल्लें हें पुस्तक मागीर १९४०त उजवाडा आयलें. शांताराम तन्नेपणांतूच शणै गोंयबाबाच्या घराच भायर पडलो. पुण 'मोगाचें लग्न' चे पयले आवृत्तेचेर, ह्या पुस्तकाविशीं पत्रवेव्हार करपाक तांच्या ह्या पुतणयाचें नांव दिलां. शणै गोंयबाबांची भलायकी व्हडलीशी बरी नासताली. तांकां दोतोरान नासिकाचे हवेंत वचून रावंक फर्मायल्लें. म्हणून ते दर वर्सा म्हयनो दोन म्हयने नासिकाक सेनेटोरियमांत रावताले. दर वर्सा थंयची कॉटेज नं.१२ ही तांची रावतीका थारूनूच गेल्ली म्हळ्यार जाता. ताका लागून ते गोंयां चडशे पाव नासले. श्रीमती शांताबाय हिका तेन्नाच्या हेर बायलांवरी घरगुती वखदांचें गिन्यान आशिल्लें. शणै गोंयबाबान तिचेकडल्यान ती म्हायती बरोवन घेतली आनी 'वखदांची सांगशी' हें नांव दिवन तिच्या नावांन उजवाडायली. तशेंच तिचे यादीचे गांठीक आशिल्लो लोकवेद तिका एकठांय करपाक सांगून तोय उजवाडायलो. महाराष्ट्र ज्ञानकोशांत कोंकणी लेखिका म्हणून शांताबायचें

नाव सांपडटा. शणै गोंयबाबांच्या मरणा उपरांत कांय म्हयन्यांभीतर वत्सल (वागळे) भायर पडलें. रघुनाथ १९६१ वर्सा भायर पडलो. शांताबायक १९ सप्टें.१९७४ वेर मर्ण आयलें. आनी गुलाब (कामत) २००१ वर्सा ह्या संवसाराक अंतरलें.

शणै गोंयबाबांक तांचे हयातींत खुब उणे लोक समजूंक पावले. कांय जाणांनीं तांकां पिशांत काडले. केन्ना येवजूंक नाशिल्ली आनी मुखार केन्नाच घडूंक पावचीना अशे गजालीच्या फाटल्यान लागून ते आपलें आयुश्य फुकट व्हगडायतात अशेंय खुब जाणांक दिसलें. पुण मुखार तांचें व्हडपण वळखूपी आनी तांच्या विचारांचो आदर करपी लोकांचो आंकडो इल्लो इल्लो वाडत गेलो.

शणै गोंयबाब भलायकेन बरे नासताले हें हाचे आदीं सांगलांच. तीच पिडा बळावन ताणीं २३ जून १९४६ वेर गिरगांव, मुंबयच्या न्यू नर्सिंग होम ह्या हास्पिटलांत निमणो स्वास घेतलो. ताचे उपरांत म्हयन्याभरान मुंबय, गोंय आनी कर्नाटकांत रावपी कोंकणी लोकांनी, तांच्या सुमार बावीस संस्थांच्या पाख्यातळा मुंबयंत एक दुखाची सभा घेतली. मुंबयची नामनेची कोंकणी विदुषी श्रीमती कमलादेवी दोंगरकेरी सभेची यजमान्यी आशिल्ली. तेन्ना पास केल्ल्या थारावांत म्हणील्लें, '......शणै गोंयबाब कोंकणी भाशेचे एकनिश्ट भक्त आनी होरावपी आसले......एका विद्यार्थ्याक सोबशे तरेन ताणी सरस्पती देवीची जल्मवेर कडकडीत भक्ती चलयली आनी तिचे दयेचो प्रसाद जोडलो. कोंकण, कोंकणी लोक आनी कोंकणी भास हांचेर तांचो उपाट मोग आसलो. हाचे खातीर ताणीं आगळीं उणी पंचावन्न वर्सां खर-निबर तपश्चर्या केली आनी कुबा थाकून ब्रह्मदेशामेरेन आनी कैलासाथाकून कुमारी मेरेनच्या कोंकणी लोकांक धर्म आनी जात विसरूंक लावन एके माचयेर हाडले आनी कदीम काळापासून तांचे मजगत पडिल्लें खावटें भरून काडलें. ह्या खातीर उपकारान भारावल्ल्या मनान आनी अभिमानान भरिल्ल्या आदरान तांच्या उगडासान ही सभा नम्रतायेन तकली बागयता आनी तांच्या सत्वशीळ आत्म्याक थंडाय मेळची अशी मागणी करता.'

कोंकणी मनशाच्या मनांत आशिल्ली तांचेविशींची हीच आदराची भावना ताच्या मर्णाक आतां साठ वर्सां जायत आयलीं तरीय तगून आसा. त्याच आदरान कोंकणी लोकांनी फाटल्या सहस्रकांतलो सगल्यांत व्हडलो कोंकणी मनीस म्हुण तांकां पाचारले आनी त्याखातीर २००० वर्सा मंगळूरांत जाल्ल्या एका व्हड दबाज्यांत मर्णाउपरांत भांगराचें पदक तांकां भेटयलें. त्याच आदरान तांचे १२५ वे जयंतेचें वर्स सगल्या कोंकणी वाठारांनीं 'अस्मिताय वर्स' म्हणून मनयलें.

पणजी, २ मार्च, २००६ **शांताराम शं. वर्दे वालावलीकार**

# मांडावळ





# मोगाचें लग्न

(फ्रांसेज खेळ-बरौपी मोलिएर हाच्या 'Le Medecin Malgre Lui' ह्या खेळाच्या आधारान)



१९१३



अभिमान नाशिल्ल्या गोंयकारांक तांगेले
पवित्र आनी कुळवंत कोंकणी भाशेची
व्हडवीक दाखौन दिवपी
**सिञ्जोर जोआकीं एलियोदोर द कुञ्ज रिव्हार**
हांच्या अुगडासाक

## चोवीस वर्सांनी

'मोगाच्या लग्ना'ची ही दुसरी खेप. पैली खेप १९१३ वर्सा भायर सरिल्ली. तिका आज बद्द दोन तपां म्हळ्यार चोवीस वर्सां जालीं. इतल्या काळांत, कोंकणी भाशेच्या संवसारांत जायतो बदल जाला.

चोवीस वर्सांफाटीं, गोंयचे हिंदू आजचे सारकेच घरा-दारांत जरी कोंकणी भास उलैताले, तरी तिका बरपाक्षरी मान दिंवक तयार नासले. तिका ते आवै-भास म्हणनासले आनी जायते जाण तिका 'हेंगाडी' म्हणून चाळैताले. ते भाशेंत कितेंय बरौचें वा छापचें म्हळ्यार व्हडली पिसाय कशी तांकां दिसताली. इतलेंच न्हंय, तर तें एक दशा-होगडावणें काम अशें ते समजताले. 'मोगाचें लग्न' नवेंच भायर सर्लें म्हणपाची कोंकणी जाहिरात घेंवक गोंयचें ते-वेळचें एक मराठी साताळें जायतें अनमनलें खैं. पुस्तकाची जाहिरात कोंकणी भाशेंत दिवप म्हळ्यार, ताका मोटें पातक दिसलें जांवये. परंत तेंच पातक मराठणांतल्या एका पत्रान करतकूच, गोंयच्या पत्राक चिके धीर येवन ताणे ती जाहिरात छापली खैं! गोंयच्या बरपाक्षरी हिंदूंक त्या वेळार मराठी देखिची आनी धिगयेची कितली गरज लागताली ताची ही एक पत म्हणूंक जाय. आजूय ही दशा सामकीच निवळ्ळ्या अशें म्हणुं नज. गोंयकारांक आपलो खाशेलो मेंदू उशातळा घालून मराठी मेंदून वावुरची वजूच जाल्याशी दिसता. अजुनूय इल्ल्याइल्ल्या कुस्कुटावण्या कामांत लेगीत मराठी काजुल्याच्या उजवाडा बगर तांचें पावल फुडें पडना. मराठिचे ते इतले बंदे जाल्यात कि मराठी पत्रांनी कितेंय छापून आयल्याबगर तांकां तें खरें-शेंच दिसना. हालींच, दोन-तीन वर्सां फाटीं, आमकां मुंबै येवचें आसलें. गाडी म्हारग देखून मडगांवच्यान मोटारीन पणजे वँचून वापोरार चडपाचें आमी थारायलें. परंत मदल्या बोरयेच्या सांकवाक कांय नखनामी जाल्ल्यान, ताचेवेल्यान मोटारी वचूंक दिनात अशें आमी आयकलें. हाचें खरेंपण काडूंक, मडगांवच्या एका विद्वान इष्टाक विचारतकूच आमकां जाप मेळ्ळी, ''हय. 'ज्ञानप्रकाशां'त तशें आयलां; म्हणटकूच तें खरें आसूंक जाय!'' ही जाली गोंयां आशिल्ल्या हिंदुंची गजाल.

भायर पाविल्ल्या हिंदुंची चलणूक जाल्यार सामकीच आत्महीणपणाची जाल्ली. गोंयां आसताना, घरांत आनी चार-चौगांत कोंकणींत उलौंक जे लजनासले, तेच भायर पावतकूच सामके धरिल्ल्या-बांदिल्ल्यावरी जाताले. आपली भास परक्या लोकांनी आयकल्यार आपणाक ते हांसचे नात मू? ते आपणाक पिशे म्हणचे नात मू? अशें तांकां दिसतालें. मुंबैसारक्या शारांत दोग कोंकणे मनीस एकठांय जाल्यार

कोंकणींत उलौंक लजताले खें. ते एकामेकांकडेन इंग्लेजींत नाजाल्यार मराठींत उलैताले हें तर जालेंच, परंत बिराडाक वेतकूच बायलां-भुरग्यांकडेन लेगीत मराठींत येसाय मारतले! तांकां आपणाले पवित्र जल्म-भुंयेच्या नांवाचीय लज दिसताली. आपूण कोंकणे आनी गोंयकार म्हणून सांगूंक तांकां उणेपण दिसतालें. आपले चलणुकेक गोंयकारपणाचो वास लेगीत येवचो न्हंय म्हणून ते जतनाय घेताले. त्याखातीर ते आपली रीत-रवीस सांडटाले, व्हडविकेचो इतिहास चेपणा घालताले आनी आपली जातूय फापशिताले. आपलें कोंकणपण लिपून 'गोंयाभायलो' दिसूंक ते तांकत तितले वावुरताले. एकाद्या बामणाक जात सांगची पडल्यार, तो आपूण 'महाराष्ट्र सारस्वत' आनी 'गौड सारस्वत' म्हणून सांगतालो. हेर जातीय बामणांली आत्महीणपणाची उणाक देख घेवन आपूण 'मराठे' म्हणून सांगताले!

ही दशा ह्या चोवीस वर्सांत जायती निवळ्ळ्या. खासा गोंयां तशेंच गोंयाभायर, गोंयच्या हिंदूंक आपले भुंयेची आनी भाशेची आतां आदलेवरी लज दिसना. त्या दोंतूंय जायतें सत्व आस म्हणपाचें गिन्यान तांकां आयलां. गोंयाची कोणेय कसली बिर्मत घेतल्यार तांचें शिसल रोखडें उसळटा आनी ते ताका मोट्या किंवाट्यान फापसून बुड्डून उडैतात. कोंकणी भाशेकूय ते भौमानाचे नदरेन पळेतात. गोंयच्या राजकर्णी सभांनी पुर्तुगेज भाशे वांगडा कोंकणी भाशेंत जायते जाण उलौपां करतात आनी परक्या भासांच्या घांसान घुस्मटून उस्तरीं घालौंचे बदला, खाशेले भाशेंत मेकळ्या आनी खणखणीत ताळ्यान आपणाली म्हणणी धा-जाणांच्या कानार घालतात. कांय जाण ते भाशेंत कवनां करतात, खेळ रचतात आनी माचयेचेर करून दाखैतात. मराठिच्या कांय अभिमान्यांकडसून कोंकणी भास चिड्डून उडौंक तरेकतरा उपाय चल्ल्या आसतानाय, ती भास आपूण आपल्या घरा-दाराची यजमान्न म्हणून गोंयां माथें वैर उबारूंक लागल्या, ही अभिमानाची गजाल म्हणूंक जाय.

भायर पाविल्ल्या हिंदुचें आत्महीणपण दिसानदीस जायतें उणें जायत चल्लां. तांकां आपली चूक समजल्या. 'गोंयाभायलो' जावपांत तांकां आतां व्हडपण दिसना. आवै-भास सोडली आनी रीत-रवीस सांडली म्हणून कोणूच वैल्या पांवड्यार चडलो-सो जायना, हें तांकां कळूंक लागलां. लाभ-लुस्कान पळेनासताना आनी बरें-वायट येवजिनासताना दोळे धांपून परक्यांचो अणकार करतल्याक 'रानवट' समजतात आनी दीस-रात खोंटो घेवच्यो पट्टात हाचो तांकां उपाट अणभव आयला. तांचो अभिमान जागो जाला. ते आतां आवै-भाशेचे सेवेक पोट-तिडकेन लागल्यात. **ते आपल्या सभांनी कोंकणींत उलैतात. कोंकणींत बरैतात. व्होवळीक-पत्रां कोंकणींत धाड्टात. ते हाती आनी छापी नेमाळीं कोंकणींत काड्टात. कोंकणी**

**खेळ बरौन ते मोट्या आट्यापाट्यान माचयेर हाडून आपले समारंभ सोबैतात. चित्रापूर मठाच्या स्वामींसारके व्हड-व्हडले विद्वान आनी अधिकारी पुरुश असल्या उत्सावांनी मुजरत येवन कोंकणींत उलौपां करतात आनी आशिर्वाद दितात.** हे भाशेन, ज्या मुंबै शारांत कांय वर्सांफाटीं आपलेच मजगत कोंकणींत निखटें उलौंकूय जे लजेताले ते थैं आज आपणालो जायतो वेव्हार ते भाशेंत करूंक लागल्यात.

मराठी लोकांच्याय मनांत कोंकणी भाशेसंबंधान मान आनी आदर वियेंवक लागला. ती भास वैर सरता म्हळ्यार ह्या आदीं तांकां चड वायट दिसतालें. मराठिची ती सर्तदार कशी ते लेखताले. तिणे माथें उबाल्ल्यार मराठिचे हातपांय आंवळून तिचे सत्तेचो आवांठ उणावतलो अशें ते समजताले. कोंकणी भाशेची सेवा करतल्यांक ते 'सवता सुभा' घट्टात म्हणून दुशण लायताले. तांकां ते 'निर्बुद्द' म्हणटाले आनी जे आत्मघातके कोंकणे आवै-भाशेक जिवी हुलपावन तिचे मसुंडेर मराठिचो चौरंग मांडूंक सोदतात तांकां ते 'सुबुद्द' म्हणून तांची फाट थापट्टाले. कोंकणी भास तांकत तितली कुस्कुटावचे खातीर तिका ते भास हें उतर लावचे बदला 'मराठीची बोली' म्हणटाले. ते दीस आतां फाटीं पडले. कोंकणिचें दिसानदीस चट्टें तेज आनी बळगें पळौन, उपाय ना जावन, वोगीच वायटपण कित्याक म्हणून, मराठणांतले कांय समजीक लोक आतां वेगळ्याच सुरान उलौंक लागल्यात. उदाहरणाक, मराठणांतले 'कोंकणी-अहिराणी समिती'न तिचे संबंधान येवजणी करून हालींच जे चार सिद्धांत काडल्यात तांतूंतलो दुसरो आनी चौथो ध्यानांत घे-सारको आस. दुसऱ्या सिद्धांतांत समिती म्हणटा कि 'कोंकणदेगेवेल्या सगळ्या भासांभितर दक्षिण कोंकणांतले भाशेक '**कोंकणी**' हें नांव पुर्विल्ल्या काळापासून घोळटा. देखून तेंच नांव ते भाशेक दिवचें. कोंकणदेगेवेल्यो हेर भासो उत्तर कोंकणी कशो लेखच्यो; नाजाल्यार, तांचीं जीं जातिंचीं आनी गांवांचीं नांवां चलतात तींच चलचीं.'' चौथ्या सिद्धांतांत, **कोंकणी भाशेंत सरस्पत घडूंक हुशार कोंकणी भासकारांक समितीन मोटे तोखणायेन बुद्द दिल्या**.*

कोंकणिचे दशेंत घडून आइल्लो हो घसघशीत बदल तिच्या भाग्यवंत फुडारासंबंधान इल्लोय दुभाव उरूंक दिना. तिका हे दीस येंवक तिगेलीं जीं भुरगीं वावुल्ल्यांत तांतूंत 'मोगा'चें आंग जायतें आस म्हणपाचें सांगूंक नाका.

'मोगाच्या लग्ना'ची पैली खेप सल्ल्यार जायते दीस जाले. ताचेखातीर मागणेर मागणी येवन भौनभौन पर्थावची पट्टाली. देखून दुसरी खेप काडची थारायली आनी छापुनूय जाली; परंत प्रस्तावनेबगर, ती उजवाडा हाडची म्हळ्यार जिवार आयलें.

खासा आमकां प्रस्तावना नाशिल्लें पुस्तक हातांत घेतकूच, धनयाक विचाल्ल्याबगर ताच्या घरांत रिगिल्ल्यावरी दिसता. देखून आमी मोटे चिंतेंत पडल्यों. 'मोगाच्या लग्रा'ची प्रस्तावना म्हळ्यार 'व्होवळिकू'च ती! ती सांगतले पुरोयत तसल्याच अधिकाराचे विद्वान जायत. गोंयां पुरोयत जायते आसत खरे; परंत तांतूंतले चडशे मराठ-संस्कृत पंडीत! आयकतल्यांक आनी वाचतल्यांक समजना तसलो 'वदतो व्याघात' करून ते मेकळे जातात आनी मराठी पत्रांनी आपल्या फोटोचे ब्लॉक, मुजरत करून धाडून, ते केन्ना छापून येतात हाची वाट पळेतात. गोंयच्या हितायपरस तांकां आपल्या नांवाचो सुमाराभायर वसवस सुटला. सगळे मराठणभर आपल्या नांवाचो जागर जावचो इतलोच तांचो हावेस! मराठणाभायर आनीक संवसार आस हें ते नकळत. गोंयच्या ह्या 'पंडितां'च्यो कसल्योच खबरी दिवच्यो न्हंयत, अशें मराठणांतल्या सगळ्या पत्रांनी थारायल्यार, जायत्या जाणांचीं तोंडां धरतलीं, हातांतल्यो लिखण्यो गळून पट्टल्यो, तांच्यो.संस्थो वाऱ्यार उबतल्यो आनी तांच्यो सगळ्यो 'चळवळी' वळवळून मरतल्यो. हांतूंत निखालूस दुभाव ना. पुणेंचे पत्रावळीवेले 'सुबुद्द' उतराचे गोटे वेंचच्या नादांत आपुण कसली भिकार भास बरौन उजवाडा हाट्टांत हाची येवजणी लेगीत करपाची तांक तांच्या मेंदूक ना. ते आपलीं उलौपां आनी बरपां जडजड संस्कृत उतरांनी भरून चिपळूणकार-सावरकारां सारक्या मराठिच्या 'अफझुलखानां'कूय गिराण लायतात आनी आपली मराठी गिन्यानाची भाटी चंवाठ्यार फोडून घाणी-गुङ्डाणी घालतात! ''मराठी भास आस देखून आमी वेपार-उद्योग करून पोट भरतांत; 'हिंदू' म्हणून घेतांत आनी 'हिंदूधर्मा'चो अभिमान धरतांत; तेंच ती भास नाशिल्ली जाल्यार – आमी इतले बाबत आनी अबर्गत आसत कि – आमकांवेपार-उद्योग करूंक कळचो नासलो, आमी उपासांनी वळवळटल्यों आसल्यों, आमचो धर्म विसरतल्यों आसल्यों, आमकां रामायण-भारत-भागवत बी ग्रंथ वाचूंक मेळचे नासले, आमचे काले आनी शिगमे उरतले आसले, आमचीं रोमटां जैंचे थैं थप्प जातलीं आसलीं, आमचीं घुमटां आनी म्हादळीं फुट्टलीं आसलीं. आमी धर्मा-भायरे, संस्कृताये-भायरे आनी अभिमाना-भायरे जावन ना-नपश्यात जातल्यों आसल्यों. मराठी भास गोंयां आस देखून माणसुकी. हिंदू धर्माबगर मराठी भास वांचत आनी वाडत; परंत गोंयचो हिंदू धर्म मात मराठी नासल्यार अर्द खीण उदक घोंटूंक पावचो ना. तो फुक करून जीव सांडटलो आनी एकल्या गोंयाकूच न्हंय, तर सगळ्या हिंदुस्तानाक सुतक धरचें पट्टलें!'' म्हणपाच्यो, निजाच्या भेंकऱ्याक लेगीत सोबनाशिल्ल्यो होवयो ते गातात. असलीं जीव नाशिल्लीं रडकुरीं उलौपां छापून मराठणभर ते वांट्टात

आनी आपले वांगडा आपले कुळवंत आनी कर्तुत्वी भुंयेचो उंच लोकीक वाऱ्यार उबैतात ! तांगेले हे अपेशी करणेन, फडक्या-भाणशिऱ्याच्या 'प्रवासी' सारक्या बोंदराचेर ज्या नाखाट्यान ते किंवाट्टात तो नाखाटो ते आपल्याच हातांनी कापून शिंबरे जातात ! परंत हें तांच्या ध्यानांत येना. तांचे सामखार हारसो धल्ल्यारूय तांतूंत ते पळेनात! इतलें मराठिचें तांकां पिशें लागलां. कोंकणींत बरैल्यार आपल्या खोल गिन्यानाचो दिवो सासणाचो पेटत रावन ताचो उजवाड सगळ्याक सारको बरो पडचो ना आनी आपणाक कोण वळखुचो ना अशेंय कांय जाणांक दिसता. तांकां आपले बुद्दिच्या उजवाडाक गोंय आनी हेर कोंकण सामकें ल्हान आनी अशीर 'आकुंचित क्षेत्र!' दिसता. असले 'पंडित' 'मोगाच्या लग्ना'ची व्होवळीक सांगूंक कित्याक उपकारतात? आमी येवज-येवज-येवजिलें. निमाणें, घस्स करून आमच्या म्हऱ्यांत एक म्हुर्त उबी रावली. ही म्हुर्त म्हळ्यार पणजेच्या 'इस्कोल नोर्माला'चे विद्वान प्रोफेसोर **भौमानेस्त बाब रामचंद्र शंकर नायक**. मराठी आनी पुर्तुगेज भासांनी भौ बरें उलौंक आनी बरौंक येता आसतानाय, आपले आवै-भाशेची तांकां इल्लीय अळशीक दिसना. इतलेंच न्हय, तर ते भाशेंत ते सोबीत बरी सरस्पत घट्टात, म्हणपाचें तांगेलो 'चवथीचो चंद्र' सांगता. गोंयच्या हिंदू आनी क्रिस्तांव विद्वानांत हो एक अपवादूच म्हणूंक जाय. 'व्होवळीक' सांगूंक आमी तांचेकडेन विनंती घाली आनी ताणी ती सटकरून मान्य केली. कोंकणींत प्रस्तावना बरैल्यार आपूण उजवाडा येवचो ना हें जाण जावनूच न्हय, तर दक्षणेची लेगीत कुस्कूट आस्त नासताना, ताणी आपलो मोलादीक वेळ खर्चून, खोल येवजणेन भरिल्ली सुंदर बरी प्रस्तावना बरौन दिली. खरेले विद्वान आनी खरेले पंडीत म्हणटात ते अशेच आसतात. विद्येखातीर तांगेली विद्या. ते दुडवांक आनी मानाक वसवसनात. ह्या गुणाखातीर प्रोफेसोर नायकांची कितली तोखणाय करची आनी कितले उपकार मानचे तें आमकां समजना.

पणजेच्या 'उनियांव आकादेमिका'च्या भुरग्यांनी हो खेळ करून दाखैलो आनी प्रो. नायकांचे मदेवर्तेन ह्या खेळाच्या देखावांचे तीन फोटे मेळ्ळे. हे भाशेन, ध्याना-मनांत नासताना, हें पुस्तक सगळेच वाटेन सुंदर तरेन वाचप्यांच्या हातांत पट्टा; ताका ते फावो जाल्लो येवकार दिवन 'मोगाच्या लग्ना'भाशेनूच 'गोंयकाराचो मुंबैकार,' 'कोंकणी भाशेचें जैत' आनी 'वसणूक' ह्या नव्या खेपांची वाट पळेतल्या पुस्तकांक हात घालूंक आमकां पालव दितले, अशी आस्त आस.

गोमन्तक छापखानो

गिरगांव, मुंबै, १९३८ — उजवाडावेपी.

# व्होवळीक

व्होवळीक तर आनीक कितें?

ल्हानशा एका गांवांत लग्न आसलें म्हणटर कोण कोणाली चली खैंच्या कोणाल्या चल्याक दितात, तें सगळ्यांक समजल्लेंच आसता. तांतूंत यजमान चारचौगांतले आनी बरे दांत-लागते आसतर मागीर विचारुंकूच नाका! व्होवळीक ही ओगीच चौगरीत म्हणून सांगचेली आनी आयकुचेली!

आयज कोंकणी भाशेच्या मुलखांत **भौ. शणै वामनबाब वर्दे वालावलीकार** म्हळ्यार '**शणै गोंयबाब**' आनी **भौ. काशीनाथबाब नायक** हीं नांवां कशीं नँदतीं-गाजतीं आसात हीं म्हजेसारक्यान सांगचेली गरज ना. मागीर तांगेल्या 'मोगाच्या लग्ना'ची सुमंगळ खबर कोंकणी भाशेच्या वाचप्यांक दिवची पडली जाल्यार तिका 'व्होवळीक' हेंच नांव सोबता, हांतूंत दुभाव कसलो? दुसरें अशें कि हें नांव दिवपांत म्हजोय एक सुवार्थ आसा. भटाली बडबड कशीय जाली तरी, व्होवळीक म्हळी तशी, ती आयकतलो, माथ्याक रुमाल आनी खांदार उपरणी घेवन, सुपारी-मंगळाक्षदा मानतुकायेन दिता-घेता. ह्यावरसून, हांवें केल्ली ही त्या दोगांय यजमानांची सेवा वांकडी-तिकडीय जाली तरी, उदार वाचपी ती पावन घेतले म्हणपाची हांव आस्त करतां.

'मोगाचें लग्न' हें मूळ फ्रांसेज बरपी मोलिएर हाच्या Le Médecin Malgré Lui ह्या खेळावेल्यान भौ. शणै गोंयबाब हाणी बरौन उजवाडा हाडल्यार दोन तपां जालीं. इतल्या वर्सांनीं, मुंबैच्या गोमन्तक छापखान्याचे धनी भौ. काशीनाथ श्रीधर नायक हांचे खटपटीन आयज ताची 'दुसरी खेप' भायर सरता. बरौपी आनी उजवाडावपी हांच्या ह्या सोबीत कर्तुपाची आनी मनस्पुर्वेक ताणी केल्ल्या कोंकणी भाशेचे सेवेची वाचप्यांनी फावसारकी तोखणाय करची, इतलें सांगतर म्हजें काम सोंपलें. पुण ज्या वाचप्यांक, मोलिएर, तागेली कळा आनी शणै गोंयबाबांलें कर्तुप हांच्या संबंधान म्हगेलीं चार उतरां अदीक आयकून घेंवक फुरसद आसा, तांचेच खातीर ह्यो फुडल्यो वळी हांव बरैतां.

मोलिएराच्या म्हत्वाची वर्णना करताना एका बरौप्यान म्हळां कि ताचें कर्तुप "...allait devenir, non seulement pour la France la *Comédie nationale* mais pour toutes les nations civilisées la *Comédie humaine!*"*

---

* Moliere par G. Lafenestre, pg. 107

हाचेवेल्यान तें केद्या तोलाचें आनी कितल्या मोलाचें आसा तें थोड्याच उतरांभितर दिसून येता. एक पारीस न्हंय, एक फ्रान्स न्हंय, एक येवरोपय न्हंय, तर निवळ्ळी (civilizada) मनीसजात जंय जंय वाट्टा-वसता आसत, थंय थंय ताणे निर्माण केल्ल्यो दादल्या-बायलांच्यो पती दिसुंकूच जायत! बळयांचें देवस्पण, कुड्डो आपसुवार्थ आनी हिमटेपण, सुकी लातबडाय, वैल्याचारांचो मोग, हीं आनी असलीं साळसुदपणाची बोंथ घेवन संवसारांत भोंवतात तीं सगळीं संवगां वेंचून काडून ताणें माचयेर मांडलीं, लोकांक उक्तीं करून दाखैलीं आनी तांकां पोटभर हांसैले.

मनशांच्या सभावगुणांतल्या उणेपणांक झोंबता आनी तीं लासता तसलें खर तेजेप, हांशा असलें दुसरें कितेंच ना. ह्या संवसारांत 'पडिल्ल्याची दुखी ना, पुण हांशिल्ल्याची लज अदीक जाता,' हो अणभव सगळ्यांक आसतलो. xx जाल्ल्याय परस म्हळ्ळ्याचें वायट चड दिसता.

चौदाव्या लुईसाचे राजवटींत, फ्रांसांत, पुर्विल्ल्या समजांच्यो गांठी विसकळूंक लागिल्ल्यो. अशा वेळार मोलिएराच्या खेळांचे धसके तांकां बसूंक लागले. Les Précieuses Ridicules (१६५९) आनी Le Femmes Savantes (१६७२) म्हणटात त्या खेळांत, फ्रांसांतल्या बरप्यांनी चड माथ्यार बसैल्ल्या 'अपरूब बायां'चें खरेलें रूप ताणे चवांट्यार मांडलें. Tartuffe (१६६७) खेळांत तोंडान देव-द़ेव करतल्यांचें आनी हातान दिस-रात माळो ओट्टल्यांचें अंतस्कर्ण कितलें कुसकें आसुं येता, तें दाखैलें. L'Avare (१६६८) म्हणटात तांतूंत हिमट्या दुडवाकारांक लागशे चार चिमटे काडले. Le Bourgeois Gentil Homme (१६७०) म्हणटात तांतूंत अडेच्या मोटेपणांचें पिशें माचयेर कुदैलें. हे भाशेन, ताचे नदरेंतल्यान कोणच सुटलो ना. रंगीत रुपड्यांपोंदची नुरा, म्होंवाळ उतरांफाटलें मन, वेल्यान गोपीचंदन आनी भस्मां थापिल्लें काळीज हीं भितल्ल्यान कशीं आसुं येतात, संवसारांत दाखौचेले आनी खावचेले दांत कशे वेगळे वेगळे आसतात, हें ताणे भौ बरें लोकांचे नदरेक हाडलें आनी तांकां पोटांत पेंडके येसर हांसैले.

मागीर कितें विचारता? बिश्प, पाद्री, देवमनीस, 'अपरूब बायो', तांगेले बरें-मागते, आनाभाव-दादा मोटे मनीस, छंदी फिदाल्ग, हिमटे दुडवाकार, दुस्वासी बरपी बी एकापरस एक ताजेर खुबले आनी ताका ना करचेल्या उद्देगाक लागले. पारिसांतल्या आर्से-बिश्पान ताका आनी तागेलो Tartuffe पळेतल्यांक, वाचतल्यांक आनी आयकतल्यांकय भष्टकार घालचो रायस सोडलो. चाडयो, कुण्णाटपणां आनी दुस्मानकाय हांचो पावस पडलो. ताणी नाका-नाका-जाल्ली ताची बिरमत घेतली. न्हंय-न्हंय तीं ताचेर बगलांठां घालीं. आपलेच धुवेकडेन तो

लग्न जालो म्हणपाची लेगीत ताचेर फिर्याद लायली.[१] इतल्यान खंय सोंपलां? एका 'पादकुरा'न[२] ''त्या मनशाचें रूप घेतिल्ल्या देवचाराक 'इंफेर्नां'तल्या उज्यांत पडचेपैलीं धतरिचेरच लासून उडौंक जाय'' असो उपदेस, राजाक चण्याच्या झाडार चडौन बरैल्ल्या एका चोपड्यांतसून केलो! किंवाटो पळेयात भटमामाचो!

पुण संवसारांत दुस्मान चट्टात तसो मनशाचो मानय चट्टा हांतूंत दुभाव ना. मोलिएराक खासा चौदाव्या लुइसाचोच पालव मेळ्ळो. मुळचें ताचें घराणें राजाच्या खाशेल्या चाकरमान्यांतलें.[३] इतलेच खातीर न्हंय, तर संवगी आनी खेळ-बरौपी म्हणूनच ताका ताणे आपल्या पाख्यातळा घेतलो. ताका तो इतलो मानवतालो कि धुवेकडेन लग्न जालो म्हणपाची ताची बिरमत घेतिल्ली आयकून, तो आनी Henriqueta de Inglaterra, Duqueza de Orleans, हीं दोगांय ताच्या एका पुताचीं 'पाद्रीञ्ज' आनी माद्रीञ्ज' जालीं.

तरी आसताना, मोलिएराचे दुस्मान कोणय लेचे-पेंचे नाशिल्ले. ताणी ताका जायतो नाचैलो. Tartuffe खेळ राजाक मानला आसतानाय, पारिसांतल्या आर्सेबिश्पाच्या आनी झेजुइतांच्या हटवादाक लागून, छापचो लेगीत ताका दवरचो लागलो! अशें सांगतात कि ताचे उप्रांत आठव्याच दिसा Scaramouche Ermite नांवाचो पाखंड मत्ताक जेल दितलो एक खेळ, कोणाचीच करंदाय जाय नासताना माचयेर चलतालो. त्या वेळार राजान म्हळें, 'म्हाका अजाप दिसता कि Tartuffe आयकून ज्या लोकांचे कान इतले भष्टतात, तांकां Scaramouche पळौन एक उतरय फुटना, हें कशें?' हाचेर Prince de Condé न जाप दिली, 'Scaramouche सर्गाची (देवाची) भगल करता, ताचें हांकां भोव पडलां! मोलिएर हांचीच भगल मारता, तें हांकां सोंसना.'[४] हे जापेवेल्यान पाद्रींक खंय खरपतालें आनी ते खंय खरपिताले तें उक्तेपणान दिसून येता. पुण राजालेगीत तांकां बागवतालो हें मात खरें.

मोलिएराचे बरपावळींत निजाचें साप्प थोडें; इतालियान, लातीन, इस्पाजोल आनी खासा फ्रांसेज भाशेंतले खेळ, काणयो, गितां, आख्यानां, हांतूंतल्यान ताणे जायतें आपालिपा केलां, अशें म्हणून कांयजाणांनी ताचें कर्तुप हीण करूंक पळेलां.

वेलेवैर पळेतल्यांक तें तशें दिसता. पुण तें खरें न्हंय. 'मेळत थैंसून म्हगेलें बरें तें हांव वेंचून काट्टां' (Je prends mon bien où je le trouve) हें वाक्य मोलियराचें बिरुद कशें मानतात. खरेंच. आपालिपाच कित्याक? ताचे इतलें कोणेंच दुसऱ्याचें उसणें घेंवक ना. पुण तें चोरिल्लें न्हंय, हें विसरूंक फावना. विशय, संबगां, प्रसंग, इतलेंच न्हंय, तर कडव्यांचीं कडवींच ताणे परक्यांचीं घेतल्यांत. तांची वळेरी दिंवक गेल्यार पानांचीं पानां भरून वतीत. पुण हे करणेन ताचें म्हत्व कुसकुटय उणें जायना.

इतले स्वतंत्र बुद्दीन ताणे तांचो उपयोग केला. चड कित्याक? ताचे पैलीं सभाव-रेखणेच्या खेळांची जातच (Comédia de caràcter) फ्रांसांत नाशिल्ली; ती ताणे निर्माण केली आनी हेर भासांक आपली देख घेंवक लायली. ताची जीण बरौप्यांतलो एक Mr. Fournel हाणे ह्या संबंधान केल्ली फोडणिशी वाचून सरस्वतिच्या देवळांतलो 'शर्विलक' कोणाक म्हणचो आनी ताका कसो धरचो, हें भौ बरें शिकूंक मेळटा.

'मेळत थैंसून' ह्या उतरांचो अर्थ 'मेळत तागेल्या पुस्तकांतसून' असोच मोलिएर करतालो, अशें मात वाचप्यांनी समजूंक जायना. अशें सांगतात कि Pezenas शारांत आसताना तो एका म्हाल्याच्या 'शॉपा'र मोन्यानी बसून रावतालो. तो थंय जांबयांचो फळार कित्याक करता तेंच लोकांक समजनाशिल्लें. वर्म अशें कि गांवांतलीं विजापात्रां थंय एकठांय जातालीं, ल्हान-व्हड लोकांत वंटी आड चलिल्ली घाण उसपितालीं आनी हांशाच्या खळखळांत तीं धुतालीं. संवसाराच्या ह्या खेळांतसून, तरेकतरा सभाव, उलौच्यो धाटण्यो, हांसो पिकौचेले हेळे आनी प्रसंग, ताणे बारकायेन तेळचे आनी माचयेर हाडून खेळचे. हाचेवेल्यान 'मेळत थैंसून' ह्या तागेल्या उतरांची वेंग केदी मोटी आशिल्ली तें वाचप्यांचे नदरेक आयल्याबगर रावचें ना.

मोलिएर आपल्या संवगांच्या तोंडांत लोकांच्या उलौण्यांतली जिती-जगती भास़ घालता, गाळून, आसडून सरी केल्ली पुस्तकांतली आनी 'सालावां'तली नकसूद भास ताका बरौंक येना, अशेंय La Bruyère, Fénelon, Vauvenargues बी बरपी ताका दुशण दितात. तांकां कोणे कितें करचें? पावसाचें सांपाइल्लें नाजाल्यार भाटी लावन काडिल्लें (Distilada) उदक शुद्ध म्हणून पियेतल्यांक, ताजें झऱ्याचें उदक आडूक लागल्यार गुन्यांव कोणाचो?

मोलिएराची बरपावळ, फार्स (farsas),[१] रिती-रविसांचे खेळ (Comédias de constumes) आनी सभाव-रेखणेचे खेळ (Comédias de caracteres) अशा तीन तरांनीं वांटल्या.

हे भाशेन तिसांवैर खेळ ताणे बरैले आनी करून दाखैले. तो जितलो खांपो बरपी तितलोच हुशार संवगीय आशिल्लो. ताणे खुब्ब पैसो, मोटी कीर्त आनी दुस्मानांचेर जैत मेळैलें. आयुश्याच्या पैल्या वांट्यांत तो सुखीय आशिल्लो, अशें म्हणुं येत. परंत दुसऱ्या वांट्यांत मात सुख म्हणटात तें ताका सोडूनच गेलें म्हळ्यार जाता.

बिळांत, फातरातळा आनी काळोखांत वावुरतल्या सोर्पांक, विंचवांक आनी जिवाणांक धोंगसून ताणे भायर काडलीं आनी तांचे शेंपडेर पांय दिले. म्हणटर आपल्या जातगुणाप्रमाण वळवळून ताका नांगी माल्ल्याबगर आनी चाबल्याबगर

तीं कशीं रावतीत? चौदाव्या लुइसाच्या मंत्रान ताचे कुडींतलें वीख वेळच्यावेळार उतरायलेंय जाल्यार ताच्या मनाक वेग माल्ल्याबगर रावले नात. ताच्या काळजाक आनीक एक पिडा लागली. जे बायलेचेर ताणे इतलो जीव दवरिल्लो ती बायलय ताचेकडेन बेइमान जाल्ल्याचो वास ताका आयलो आनी त्या अपमानाच्या जाळांनी ताचें काळीज सामकें करपलें. ताच्या आरोग्याकय व्हांवती लागली.

गंदाची कांडी लासल्यारय परमळटा म्हणटात तें फट न्हंय. मोलिएरान पचैल्ल्या विखाचें, सोंशिल्ल्या वेगांचें आनी भोगिल्ले धगिचें फळ Le Misanthrope नांवाच्या आपल्या म्हाल खेळाच्या रुपान ताणे आपले फाटल्यान दवर्ले (१६६६). चोंयवाटेन घातमारेपण, सुवार्थी इष्टागत आनी लागोळो मोग पळौन वैतागल्लो जीव कसो कांस मारता तें Alceste च्या उतरांवेल्यान पळौंचें. ताणे खेळांत Alcesteचें अतितायेन हांशें केलां आनी ज्या संवसारांत कुळ-शीळवंत मनशांचें अशें हांशें जाता तो संवसार कितलो घाणयारो आनी अळशिकावणो आसा म्हणपाचें चित्र पळेतल्यांचे नदरेफुडें उबें केलां. इतले सुंदर तरेन शीळवंत मनशाच्या नशिबाचो खेळ कोणेच बरप्यान रचला जायत अशें दिसना !

Le Misanthrope सारक्या, कळेंतले बारकायेन, तत्त्वज्ञानाचे खोलायेन, रचणुकेंतले मांडणेन बी सगळ्याच आंगांनी उंच जातिच्या खेळाची रूच वळखूंक पळेतल्यांच्या आंगांतय तशीच योग्यताय आसची लागता. बडंग रंगाचीं पातळां न्हेसतले बायलेचे नदरेंत आंगान थळीक आनी देगेन पसंत कापड, सटकरून कशें भरत?

ह्या खेळाक फाव-तसो येवकार लोकांकडसून मेळ्ळो ना. मोलिएराच्या मनाक ताची लागठेणीशी जाली. Le Misanthropeत ताणे आपलें अंतस्कर्ण ओतिल्लें. Alceste म्हळ्यार खासा तो. Celimene ताची व्होंकल. तो आनी ताची बायल Armande Bejart हींच दोगां तीं संवगां करतालीं. मोलिएराच्या मनाचो हे भाशेन तांतूंत शिणभाग वतालो. प्रसंग बदल्लें तांचेच जिणेचें तें नाटक! लोकांनी तें आयकून तरी घेवचें, ही ताची आस्त. अशा वेळार ताणे आपलें पोरणें दस्तन उस्तिलें आनी तांतूंतल्यान एक फार्स काडलें.[६] लोकांच्यो ताजेर हुंडयो पडच्यो इतलें तें मचमचीत केलें आनी Le Misanthrope वांगडा लोकांमुखार मांडलें. हेंच तें Le Medecin Malgre Lui म्हळ्ळें फार्स. ताचेवरवीं, फ्रांसेज लोकांचें चित्त जशें मोलिएरान Le Misanthrope कडेन - आपल्या पोडतिडकिच्या प्रस्नाकडेन - ओडलें, तशेंच शणै गोंयबाबांनी ताका गोंयचो भेस दिवन, आमचें गोंयकारांचें मन कोंकणी भाशेकडेन - आपल्या पोटतिडकिच्या प्रस्नाकडेन - ओडलां.

कांय वर्सां उलगलीं. मोलिएराची पिराय ५१ वर्सांचेर पावली (१६२२-१६७३). पिडे-रोगान ताका भितल्ल्यान पोखल्ललो. खंतीन ताच्या मनाक मरणाचे उत्फरके लागिल्ले. ह्या वर्सा, ताणे Le Malade Imaginaire हो खेळ माचयेर हाडलो. हो 'बळयांचो वायटकार' एक खऱ्यांचो वायटकार करून दाखैतालो आनी मरणावांगडा खेळटालो. ते दिसा - १७ फेब्रेर १६७३ - ताच्या जिवाक चडच बरें दिस-नाशिल्लें. नाका-नाका म्हणटा आसतना तो माचयेर चडलो. खेळांतच 'Juro' हें उतर तोंडांतसून काड्टा आसतना ताच्या काळजांत एक कळ उठली. ती ताणे हांसतें तोंड करून विसरायेर घाली आनी कसाबपणान वेळ मारून व्हेली. खेळ सोंपलो तसो ताका घराकडेन पायलो. थैं तो रगत ओंकलो आनी रोकडोच एका वराभितर ताच्या आयुश्याचो दिवो वाडवलो.



नाटकी म्हणटकच, येन्ना-तेन्नापासून ताका सगळेकडेन उणो लेखतात. ताका लागून, आपल्या कुळाच्या नांवाक खत लागचें न्हंय म्हणून, Jean Baptiste Poquelin हें आपलें खरें नांव सोडून, आमगेल्या फ्रांसेज नाटक्यान 'मोलिएर' हें अडेचें नांव घेतलें. आयज तें Poquelin घराण्याक एक अळंकार कशें जालां. ताणें सवंग घेवचेलें सोडिल्लें जाल्यार, ताका आपल्या पंगडांत घेंवक फ्रांसेज आकादेमी मुस्तायक जाल्ली खंय. पुण सवंग घेंवक जाणे आपल्या कुळाचें नांव सोडलें तो आकादेमिच्या नांवाची कितलीशी पर्वा करीत? ताणे तिगेल्या सवळेपणाची भगल जाल्यार खूब माल्ल्या.

'म्हज्या राज्यांतलो सगळ्यांत मोटेलो बरपी कोण?' चौदाव्या लुइसान Boileau हाका एक दीस प्रस्न केलो खैं.

'मोलिएर, म्हाराज.' ताणे सटकरून जाप दिली.

मोलिएरा असलो संवगी नासल्यार आपलो पंगड सोबना, हें ताचे फाटल्यान फ्रांसेज आकादेमीक दिसून आयलें. तिणे मोट्या दबाज्यान आपल्या 'सालांवां'त ताचो पुतळो बसौन आपली सोब राखली आनी ताच्या पेडार,

**ताचे व्हडविकेक कांय उणें ना. आमचे**
**व्हडविकेक तो उणो जातालो ![७]**

हीं उतरां कोंत्रावन घालीं. आकादेमिची खरी व्हडवीक ह्याच तिच्या उतरांत दिसून येता.

संवसारांतल्या वेगळ्या वेगळ्या भासांची बरपावळ ही एक आकादेमीच म्हळ्यार जाता. त्या बरपावळींनीं 'मनीस-जातिचो खेळ' (Comédia humana) रचतल्या मोलिएराचो जागो रितो उरिल्लो जाल्यार, तांचे तांचे व्हडविकेक उणेपण येवचें नाशिल्लें?

फ्रांसाभोंवतणी चोंय वाटेन ताची बरपावळ आपापल्या भासांनी उतरावन आनी ताचे धाटणेची देख घेवन मोटे मोटे बरपी उक्ताडा आयले. लातीन देसांत सगळ्यां पैलीं इतालियेन ताचें म्हत्व वळखलें. इंग्लेज सरस्वतीचेर जाल्यार ताचो चड मोटो परिणाम जालो. Fielding हाणे Mock Doctor (Le Médecin Malgré Lui) आनी Miser (l'Avare) ह्या खेळांनी आरंभ करून ताचे बरपावळिचो अळंकार तिका केलो. आलेमाञ्न्यांत खासा Goethe हाणे ताची व्हडवीक गावन, आपल्या देसांतल्या बरप्यांक ताची देख मेळ्ळी म्हणून उपकार मानले. इस्पाञ्ज, ओलांद, फ्लांद्रिस, पोलोनिय, दिनामार्क बी एकान एक देसांचेर ताच्या कर्तुत्वाचो उजवाड फांकलो. पुर्तुगालांत १७५०त ताचो पैलो खेळ जालो खैं. Visconde de Castilho सारको नामनेचो बरपी ताचो भाशांतरकार जालो. Médico à fôrça हें ताणे कवनांत केल्लें. Le Médecin Malgré Luiचें मेकळें भाशांतर जायत्या पुर्तुगेज वाचप्यांनी वाचलां जातलें.

मोलिएर भायर पडल्यार आयज अडेचशीं वर्सां जावन गेलीं. पुण ताणे वेंचून काडिल्ल्यो मनशांच्यो पती (tipos) आनी तांचे वांगडा ताचें नांव धर्तरेचे फाटीर अज्रांवर उरतलें हातूंत कसलोच दुभाव ना. उदाहरणाक शणै गोंयबाबालें 'मोगाचें लग्न' पुरो. फ्रांस खंय आनी गोंय खंय! पुण अडेचशीं वर्सांनी आयज तें आमकां मोलिएराचो उगडास करता !



'मोगाचें लग्न' मोलिएराचो उगडास करता, अशें म्हळें म्हणून, तें येवरोपी खेळावेल्यान बरैलां हें वाचतल्यांक कळटा अशें कोणय समजत! पणून चे:; ताका तसलो परकेपणाचो वासलेगीत येना. शणै गोंयबाबांल्या कर्तुत्वाचो चड तोखणायेचो गुण तो होच! ताणी उतरान उतर भाशांतर केल्लें जाल्यार, मोलिएराचें 'नाशें' आनी शणै गोंयबाबांचें 'हांशें' जातलें आशिल्लें, हें सांगूंक जाय?

ताणी 'मोगाच्या लग्नां'त जंय थंय गोंयचो संवसार निर्माण करूंक, मोलिएराक थैंच दवरून, पानांचीं पानां आपलेच लिखणेंतसून उतरायल्यांत. 'बाबग्या-

म्हालखुमे'चो एकचार करचेल्या वेळावेलें नांव घेवचेलें प्रकर्ण सगळें तांगेलें. 'घारूदाद-फुलग्या'च्या वादाचें आनी 'बाबग्या'च्या रजिदोर जावचेल्या हावेसाचेंय तशेंच. ह्या भायर 'लाटफेंचीं आनी मयेंचीं भरेकारां,' 'जुविजाच्या नायका'चो भय, 'आपाराण्याचें पाळ,' 'रुमडावेलो गावडो,' 'विस्किरांवांची व्हडवीक,' 'मैडेंचे घड,' 'जुवेंची शाक,' 'दुर्बाटचे खारवी,' 'म्हापशेंचो फोग' बी पानाकणकणीं आमकां आमच्या घराच आशिल्ल्याचो भास करतात.

पुण कारणाबगर कसलीच करणी घडना. Le Médecin Volant हें मुळचें एक इतालियान फार्स गरजेखातीर ताणे वाडयलें, अशेंच न्हंय. वैज आनी वैजकी हांचेर मोलिएराचो दोळो आशिल्लो जायतेकडेन दिष्टी पट्टा. तो मूळ जिवान घटमूट नाशिल्लो आनी वैजांच्या आनी वखदांच्या कोडू अणभवांत जायतो वळसल्लो. म्हणटर, वैजांच्या गिन्यानाच्या बुडकुल्याक कितल्यो चिली आसतात, हें ताचे असल्या हुंग्या मनशाचे नदरेंतल्यान कशें सुटत? लातीं भाशेचे बेगडींत आपल्या गिन्यानाची माती गुटलावन, अणवींशीं कुळां पळौन, तांकां तीं भांगराचे दरेन वैज कशे विकतात, हें तो जाण आशिल्लो. 'आवेलं कोक मिस्त्रितं...' हें संस्कृत, कोंकणी आनी फिंर्गी उतरां गांठावन केल्लें कपयाळें नाचौन वायटकारांल्या मनशांक दिपकावचेली नाडबुद्द, फक्कत गोंयच्याच 'बाबग्या'ची न्हंय! आतां, Sganarelleच्या लातीं-फ्रांसेजिच्या 'पुर्दी'परस 'बाबग्या'लें संस्कृत-कोंकणी-फिंर्गीचें खतखतें 'सुर्बूस' जालां, हातूंत दुभाव ना. 'बाबग्या'ची बुदवंतकाय मात इल्ली जय दिसता!

असल्या नाडानाडिंच्या म्हालवजार खपतले वैज राजाल्या खासा वैजरत्नांतय मोलिएराक दिष्टी पडले. L'Amour Médecin ह्या खेळांत ताणे तांची भोव बरी पुजा केल्या. Fougerais, Esprit, Guénaut आनी d'Aquin हीं तांचीं नांवां घेनासताना तांचीं रुपां ताका दाखौं जाय आशिल्लीं. तेन्ना तो Boileau कडेन गेलो आनी ताचेकडच्यान तांच्या सभावगुणांक लागू जातीत अशीं ग्रेग भाशेंतल्यान ताणे नांवां घडौन घेतलीं. Fougerais हाका ताणे Desfonandrès म्हळ्यार 'मनीसमारो,' Esprit उलैताना ब्-ब्-ब् करतालो, देखून ताका Bahis म्हळ्यार 'भोंकरो,' Guénaut मार जड जड उतरां उलैतालो म्हणून ताका Macroton म्हळ्यार 'मोट्या सुराचो' आनी d'Aquin हो मेळत ताका शिरो मार म्हणून सांगतालो, देखून ताका Seigneur म्हळ्यार 'शिरोमारो,' अशीं नांवां दिलीं.[६] तो खेळ पळौन राजा आनी प्रजा खुब्ब हांसले खंय.

म्हणटर, संद मेळना फुडें, असल्या वैजांचीं तायगंडां आनी हडवंगां एके मुशींत ओतून Sganarelleचें बावलें मोलिएरान तयार केलें जांवये. हो 'धोडावन

पिकैल्लो' वैज जेन्ना Geronteगेर, काळीज उजवे वाटेन आनी कवळी दावे वाटेन आसा अशें उलौन गेलो, आनी ताचे संबंधान भोळो Geronte भियेभियेत ताचेकडेन आपल्यालो दुभाव उलैलो, तेन्ना – 'व्हय, आदल्या काळांत तें तशें आशिल्लें; पुण आमी तें सगळें दुसरे भाशेन केलां,' (- Oui, céla etait autrefois ainsi. *Mais nous avons changé tout celá*) अशी ताणे एक सुरय फटास मारून दिली! आनी आयकतल्यानय ती खरी खाली!! आयज सगळ्या देसांत आनी भासांत, फटाशेची एक बऱ्यांतली पत म्हणून तें वाक्य, मूळ फ्रांसेज भाशेंत आसा तशेंच गाजता, हें कांय येवरोपी भासो वाचतल्यांक सांगूंक नाका. ह्या खेळाची खिळी हांगाच आसा! शणै गोंयबाबांनी त्या जाग्यार '...पणून वायटकाराचें काळीज वैजाच्या उजव्या हाताक आसता न्हंय?...' अशें घालून, 'बाबग्या'क कुचमणेंतलो सोडैला. मोलिएराचो मूळ हेत हांतूंत लिपून वता, अशें म्हणूंक जाय. पुण खेळाचे सोबेक बादा येना. 'बाबग्या'च्या वेळार-जाप-सुचपाच्या गुणाची तोखणाय दिसता आनी त्याभायर किर्कोळ वाचप्यांचे आनी खेळ पळेतल्यांचे तकलेंत शणै गोंयबाबांले जापेंतलीच बारकाय सट्ट करून भरता, हें खरें आसा.

खेळाक नांव दुसरें दवल्लेंय जाल्यार, ताची धाटणी आनी देख ताणी सोडूंक ना. आपणाल्या खेळांचो हेत, लोकांचे मनविस्रांति बरोबरच तांगेल्यो नष्ट्यो-भष्ट्यो रिती-रविसी निवळावपाचो आसा, अशें मोलिएर आमकां सांगता. शणै गोंयबाबांनी तो भौ बरो वळखला. 'बाबग्या'न गोंयच्या कांय 'सुवादीक गजालीं'ची आनी 'शिष्टाचारां'ची जी कातली-भाजी केल्या आनी त्या 'शिष्टां'चे फाटीर ज्यो शिट्ट्यो ओडल्यात त्यो लज आशिल्ल्यांक 'बाबग्या'चे फाटीर पडिल्ल्या धपक्यांयपरस चड दुखूंक जायत!

पुर्विल्ल्या काळांत, येवरोपांत, इतालियाचे धाटणेर जे Comedia dell'arte आनी Comedia de soggeto म्हणून खेळ करताले, तांतूंत, विशय पैलींच थाराइल्लो आनी उलौपां आयत्या वेळार तोंडाक येतीत तीं, अशी तरा आशिल्ली. आमच्या गोंयां, जागरांतली म्हातारी, पावणो... काल्यांतलो म्हाबुळभट, संकासूर बी, अशेच, संवग्यांच्या लापिटकायेचेर पोसतात, हें सगळो लोक जाण. येवरोपांतलीं तेन्नाचीं फकाणांय बी हांगाचेच असलीं पोजडीं आशिल्लीं.[१] अंतर इतलेंच कि गणपती सारक्या देवाची, ताच्याच भक्तांनी, संकष्ट्यो आनी विनायक्यो करतल्यांनी, बायलां-भुरग्यां हुजीर ब्रच्छन्ना आनी इपष्टा करून हांसप, येवरोपांत केन्नाच नाशिल्लें. हांगा तें अजून चलता! कांय भक्त तशें केलें ना जाल्यार देवाक वायट दिसत म्हणून भियेतातय जातले!

मोलिएरान पैलीं पैलीं तसले खेळ केले. पुण ते करता आसताना तांतूंतलीं धुडबुसां आनी पोजडेपणं ताणे जायतीं आळाबंदा हाडलीं. तरी जीं Le Médecin Malgré Lui हांतूंत ताणे दवल्ल्यांत तींय शणै गोंयबाबांक रुचलीं नात. ताणी तांकां भोव बरी बाग दिल्या. 'मोगाच्या लग्नां'तलें 'फुलगें' हें (Jacqueline) मूळ फ्रांसेज खेळांत घोवाची बायल (शिवल्याची), 'घारुदादा'ल्या ल्हान चल्याची दुदकान्न म्हणून दाखैल्या. तिका पळेयात, Sganarelle न घोवा हुजरां ज्यो वेंगो माल्ल्यात आनी तिगेल्या दुदाची सांसपून परिक्षा करूंक दियात म्हणून आग्रो केलो, तो शणै गोंयबाबांनी 'तिटापै' कशा आंकवार चेडवाच्या फकाणांचेर भागैला. घोवा-बायलेचीं फकाणां – तो घोव Lucas भाशेन कितलोय गुळमट जालो तरी – ताचे हुजरां करप केन्नाच सोबचें नासलें. तशेंच, 'घारुदादा'ली चली, कितलीय जिबट आनी 'सौभद्र' पळेल्ली आसली तरी, तिका मूळ खेळांतले Lucinde भाशेन बापायच्या घरांतल्यान शणै गोंयबाबांनी पळूंक मुस्तायक करूंक ना. इतलेंच न्हंय, तर गोंयच्या 'बाबग्या'क पासून ते मोने होंकलेक 'पळपट्याच्या कसायां'त (fuîte purgative) 'लग्न-गुळी' (pilule de matrimonium) घोळौन दी म्हणून आपल्या शिष्याक सुचौचेलें काळीज जांवक ना! गोंयच्या चलयांची बिरमत शणै गोंयबाब कशे घेतीत? न्हवऱ्या-होंकलेची लग्नापैली येवरोपांतली संवकळ गोंयच्या कोंकण्यांत सोबूंक, भाचो आनी मामाली चली हें नातें ताणी मुद्दाम जमैलां, अशेंय म्हाका दिसता.

अंतीं, लग्न जमून येंवक, मूळ खेळांतल्या 'सुब्रमणया'क कोणा 'तिवा'चें अकस्मात उडून शेवाळ पडलां, अशें केलां. शणै गोंयबाबांनी त्या जाग्यार ताकाच फोंडेंचो आदमिनिस्त्रादोर केला आनी ताच्या नशिबान न्हंय, तर ताच्या गुणांनी ताका येस मेळौन दिलां. मूळ खेळांत, फ्रांसांतली Jacqueline न्हवऱ्याक येरांस पडचेलें आसा म्हणून जेन्ना सांगता, तेन्ना हातावेल्या पोटाचो Geronte तिका – 'फुडलें कोणे पळेलां?' म्हणून धिस्पटायता. गोंयचें 'फुलगें,' न्हवरो खांकेक 'कागदांचे मोटे मोटे पेळे' मारून भोंवता आनी फुडेंफाटीं तोच विस्किरांव जांवये म्हणटा ती 'घारुदादा'क आस्त दाखैता. पुण तो तितल्यान भुरकुटना. शणै गोंयबाबांनी हें दाटूनच केलां जावचें ना मू? न्हवऱ्याक फाटींफुडें येरांस पडपाचें आसा अशी सुलूस लागिल्ली जाल्यार, गोंयचो चलये-बापूय ताका खैं सोट्टालो?!

अशे भाशेन, जंय जंय फ्रांसेज आनी कोंकणी खेळांत अंतर पडिल्लें दिसता, थंय थंय तशें करतल्याची चतुरायच दिसून येता. मात दों-तीं कडेन 'आदमिनिस्त्रादोर जावंक कोंकूर्स,' 'रजिदोराक पागामेंत,' 'राना लागशिल्या वाड्यार पोरसांत खोलयो

जाल्यार रजिदोरांची हुयेल आनी लोकांक दंड' अशे चुकिचे समज उरिल्ले दिष्टी पट्टात. पुण ते वोगीच दिष्टीक काजळा-बोट म्हळ्यार जातात.

दुसरी एक मात्शी वाचप्यांक उस्तऱ्यां गेल्ल्याभाशेन करता ती खबर म्हळ्यार, 'मोगाच्या लग्नां'तलीं सगळींच संवगां बामणांली भास उलैतात, ही आसा. — आमकां त्यो बामणांच्यो देखी कित्याक?' म्हणून विचारतली 'म्हालखूम'य उलैता आसताना तें विसरता! म्हाका दिसता, शणै गोंयबाबांनी हें जाण जावन अशें केलां. घटकाभर ती भास बरौंक म्हणुनच ताणी 'मोगाच्या लग्ना'चो आटाप मांडला, हें दुभावा विरैत सांगुं येत. आतां, जी भास ताणी बरैल्या तांतूंत इतल्यो सुंदर सुंदर म्हणण्यो, ओपारी, अळंकार भल्ल्यात कि तांतूंतलीं वेंचीव थळां हांगा उतरायतलों म्हळ्यार म्हाका सगळोच खेळ उतरावन घेवचो पडत म्हणून भय दिसता. देखून हांव ते गजालींत पडना.

शणै गोंयबाबांनी घोळणुकेंत हाडिल्ल्या कांय उतरांसंबंधान आनी भाशेचे मोडी संबंधान, कांय किरकोळ गजालींत, दोन मत्तां जातीत. पुण तिची ताणी एक-निष्टेन केल्ली मोलादीक सेवा आनी तिचेवेलो तांचो अधिकार इतलो व्हड आसा कि हांव तांचेफुडें तोंड धांपून तकली बागवपच म्हजें कर्तव्य समजतां.

पुरो. वाचपी म्हणटले की व्होवळीक खूबच व्हांवली.

निमाणें, ह्या खेळाचे बरपी भौ. शणै गोंयबाब आनी ताचे उजवाडावपी भौ. काशीनाथ श्रीधर नायक हाणी, तांगेल्या 'मोगाच्या लग्नां'त म्हाका बोवाळूंक दिलो म्हणून, उपकार मानून हांव वाचप्यांचो निरोप घेतां.

पणज, मार्गशीर, शके १८५९ **रामचंद्र शंकर नायक.**

**टिपो :**

१. Montefleuryन केल्लो अर्ज (राजाक).

२. Pièrre Roullès.

३. 'चाकरमान्यांतलें' म्हळें म्हणून तें कोणे उणाक लेखूंक जायना. ताचो मान-भौमान, नातें-पातें मोट्यांतलें आसतालें.

४. Molière, G. Lafenestre, pg. 58.

५. 'फार्स' हो आटापान भोव ल्हान, थोड्या संवगांचो आनी फकाणांनी भरिल्लो आसूंक जाय. मराठी बरप्यांनी, 'अफझुल खानाच्या वधाचा फार्स,' 'नारायणराव पेशव्यांच्या मृत्यूचा फार्स' आनी तांचेच वांगडा 'सासरा-जांवयांच्या झोंबीचा फार्स' बसौन फार्स ह्या उतराची जी विपष्टा केल्या आनी आपले करणेचो फार्स केला, तो अर्थ वाचप्यांनी हांगा घेंवक जायना.

६. Le Médecin Volant हें ताचें नांव. (मुळचें इतालियान.)

७. Rienne manque a sà gloire. Il manquaiat à la nôtre.

८. L'Amour Médecin, Notice pg. 8 Coll. A.L. Guyot.

९. ...les situations et le ton vont aisément jusqu' à la plus grossière indècence. G. Lanson, apud Histoire Ilustré de la Littérature Française. Tome I, pg. 380.

# मोगाचें लग्न

## खेळांतले गडे

| | | |
|---|---|---|
| बाबगो | ... | एक भरेकार |
| म्हालखूम | ... | बाबग्याची बायल |
| घारूदाद | ... | एक बामण |
| मोगा | ... | घारूदादाची धूव |
| बोंबबाब | ... | घारूदादाचो कारभारी |
| शिवलो | ... | घारूदादागेले कुळमिणिचो चेडो |
| फुलगें | ... | शिवल्याची भैण |
| सुब्रमणी | ... | घारूदादाचो भाचो |

हांचे भायर आबगो, रागलो, नागलो, तिमलो
बी किर्कोळ गडे

# मोगाचें लग्न

## पैलो आंक

**देखाव १** ... राना लागशिल्या वाड्यावैली एक खोंप.
(बाबगो आनी ताची बायल म्हालखूम झगडत माचयेर येतात.)

बाबगो : एऽ हेः ! तें काय उपकारना. हांव तसलें कांय करचो ना. म्हाका जाय तेंच हांव करतलों. म्हाका जाय तेंच हांव उलैतलों. हांव घरचो धनी.

म्हालखूम : आनी हांव घरची धनीन. हांव सांगतां तेंच तुवें करूंक जाय. तुज्यो जळौण्यो हांव सोंसून घेंवची ना.

बाबगो : बाबारे म्हज्या! कोण रे बायलेचो हो त्रास. शाणो आशिल्ल्यान केन्नाच लग्न जांवचे भरीक पडूंक फावना.

म्हालखूम : तर गे बाये! व्हडलो शाणो आयलो हो. शाणपणां सामकीं व्हांवतात.

बाबगो : कितें? हांव शाणो न्हंय? लांकडांचे भरे बांदून हांव विकूंक वेतां म्हणून सोड. हर्शीं, सगळ्या गोंयांत म्हजे असलो अकलेचो मनीस तुका एकलोय मेळचो पडला मू? एकसारकीं धा वर्सां, हांवें त्या मोट्ट्या वैजाच्या घरा कड्यांचीं आंगां धाडांवची चाखरी केल्या आनी वैजाकूय म्हजें गिन्यान जायतें वाडलां तें तूं साप विसल्लीशी दिसता.

म्हालखूम : जेन्नातेन्ना बडवाचार कसले म्हळ्यार ओखतां धाडांवचे. कांटी पेटली हाच्या गिन्यानाक.

बाबगो : कांटी पेटली? ओखतां धाडावनूच म्हजें गिन्यान सोंपलें म्हणून समजल्या तूं? तो मोट्टो वैज आपल्या वायटाकारांक वैजकेंतले लांब लांब शिळोक म्हणून दाखैतालो तांतूंतलीं कांय कांय कडवीं म्हज्या ध्यानांत नात व्हय तर? वैजांकूय घडघडीत म्हणूंक येनात तितलीं तीं म्हाका येतात. घोव तुजो एदो व्हडलो गिन्यानी; पणून तुका ताचें कांयच ना. सय-सुवाद नाशिल्ली बायल ती तूं.

म्हालखूम : पिशा पिशा ! म्हाका सुवाद आसा ताच्या धाव्या वांट्यानूय तुका आशिल्लो जाल्यार अशें कित्याक जांवक पावतलें आसलें? (उबगून) देवा, कित्याक असल्या ह्या हैवाना वांगडा तुवें म्हजी गांठ माल्ली?

बाबगो : आनी देवा, कित्याक ह्या आगुल्ल्याच्या गळ्यांत माळ घालूंक तुवें म्हाका बुद्द दिली?

म्हालखूम : हांव आगुल्लें? म्हजे असली बायल मेळूंक मोटें अद्रुष्ट जाय. फाटल्या जल्मांत तुवें बरी गवर पुजिल्ली देखून ह्या जल्मांत हांव तुज्या गळ्यांत पडलीं.

बाबगो : आनी तुवेंय फाटल्या जल्मांत बरो म्हादेव पुजिल्लो देखून ह्या जल्मांत म्हजे असलो घोव तुका मेळ्ळो.

म्हालखूम : खरोच, म्हादेवाचोच अवतार तूं. ताचें देवपण मात तुजे भितर ना.

बाबगो : तूं वैल्याचारांक कितेंय उलै. पुण भितर्यां तुजें मन तुका सांगना व्हय? हांव घोव मेळून तूं कितली बऱ्याक पावली म्हणून समजता?

म्हालखूम : तर गे बाये! दैव म्हजें फळफळ्ळें! म्हज्या माणकुल्या संवसाराची वाट लावन उडैली ताचें हाका कांयच ना. हाका सोऱ्याची वीद लागल्या ती आमच्या बऱ्याक न्हंय. सोऱ्याक हो बाटून वचत. जें मेळत तें वीक आनी सोरो पिये. असलो हाचो उद्वेग. घरांत एक तांबयाचो फुटको कट्टो लेगीत हाणें दवल्लो ना.

बाबगो : ह्यो सगळ्यो फटी. हांव सगळेंच वाटेक लायतां?

म्हालखूम : पळे कसो आनीक तोंड घेवन उलैता. बेबदो खैंचो!

बाबगो : हांव बेबदो जालों म्हणून तुज्या बापायची पोटली नागैली ना मू? म्हज्या म्हालाचें हांव जाय तें करतलों. तूं उलौंक कोण?

म्हालखूम : (रडिल्ल्या वरी दोळ्यांचेर हात धरून) खांवक लागला काळगो. म्हजी कापडाची फाळी लेगीत हाणे घाण दवल्ली.

बाबगो : जाय देखुनूच हांवें ती घाण दवल्ली. गांवांत खैंचेय कडेन धोलाचेर काठी बसूं. तूंच मु ती होवळी जावन मुरगुटून भुरकुटून वेताली? आतां वच खैंचें बोंदर न्हेसून वेता ती. सामकी बंदिस्ती केली बंदिस्ती.

म्हालखूम : पळेलो कसो उलैता हो? नज गे बाये हाचे धडयें निस्तर काडूं. बायलांचो आमचो आशे-मनशेचो जीव. खैं अशें लग्नाकार्याकूय

वच्चें न्हंय ही तुगेली म्हणणी?

बाबगो : हय वय. आतां मात खैंच लग्नाक गेलीशी जा. तुकाच दवरतां घाण. पिडा गेली.

म्हालखूम : म्हाका, म्हाका दवरतलो घाण? बलाय दवर म्हजी. खैंच्या जल्माचो दायजी आसलो कोण जाण हो. घोव जावन पिडूंक लागला. आतां तीं पोरां उठचीं जालीं. हांव थोडीं म्हणून आनीक तो धुपूत. खाणाक तीं अशीं अशीं वळवळटलीं. तांच्या पोटाक कितें घालूं? माती? विंगळे?

बाबगो : माती घाल, विंगळे घाल, ना जाल्यार तीं-वाटांवैली धूळ घाल. म्हाका ताचें कांय ना.

म्हालखूम : कोण गे बाये हो कसाब? आमचो काळ हो काळ, आनी कोण न्हंय.

बाबगो : म्हणना काळ आनी ताचे पाष्ट. हर गा! म्हजें पोट भरतकूच दुसऱ्यांची चिंता म्हाका भोव. आपूण आपणांक देव समेस्तांक.

म्हालखूम : म्हण्टकूच असल्यांनी हो संवसार चलतलो मू? (मोट्यान हुस्केवन) सायबिणी म्हजे! ह्या बेबद्या फुडें म्हजो उपाय उल्लो ना गे बाये.

बाबगो : (तिडकून) तोंड सांबाळून उलै. भौनभौन म्हाका बेबदो म्हणची गर्ज ना. दांत उसळायतलों. नकळ वळ्खून.

म्हालखूम : म्हणटकूच तुजी करणी तोखेवन लोकांनी हांगा वोगी रावचें दिसता? वोगी रावनूच तूं अदीक माथ्यार चडलो. दिशींदिशीं आलेस्वांवाच्या गादये बादत तुका कांयच येवजना जालें.

बाबगो : म्हाका तूं आनीक आनीक तिडक हाडुं नाका हां. हय.

म्हालखूम : कितें करतलो तूं? कित्याक व्हडलीशी फुगौणी तुजी?

बाबगो : तुवें चडूचशी जीब सैल सोडली? धपके जायतशे दिसतात तुका.

म्हालखूम : धपके? म्हाका ना व्हय हात धपके घालूंक?

बाबगो : म्हजे अपुर्बायेचे फाटीक हालीं खाज आयल्याशी दिसता. तिका जायते दीस म्हजो हात लागूंक ना.

म्हालखूम : आनी तुजेय फाटीक खाज आयल्याशी दिसता. म्हाका तुज्यो त्यो दबकावण्यो उपकारच्यो नात हां.

बाबगो : आऽ गे म्हजे अपुर्बाये! तुज्या कानाक मात्सो पिंवळ घालूं? (तिचो कान पिंवळटा.)

म्हालखूम : आवै! आवै! आवै! भायरो जालो हो बेबदो.

बाबगो : तरी आसताना बेबदो म्हण्टा! लडे जायतशे दिसतात.

म्हालखूम : सोऱ्याचें बल्ल खैंचें!

बाबगो : तरी आसताना. हांव आतां पळे, बडै-बडै-बडैतलों.

म्हालखूम : पाड पडिल्लो.

बाबगो : ही मारांकूच आयल्या.

म्हालखूम : उंवाळ्ळेलो! लज नाशिल्लो! शिंब्रो! नाख-कातरो! कर्मकट्टो! अवचीन! नागौणो! चोर! लुटार! पापी! देवचार! म्हारू! दियाब!...

बाबगो : (हात पोशेवन) कितें? म्हाका तूं अशें म्हण्टली? घे आतां. (बडी घेवन तिका बडैता.)

म्हालखूम : (मोटयान आड्डून) आवै गे! आवै गे! ओ! ओ! ओ! ओ! हा! हा! हा! हा!

बाबगो : चांभारांच्या देवांक खैं व्हाणांचीच पुजा जाय. बऱ्यान धांपता कि ना तोंड?

(म्हालखुमेची हुयेल आयकून तांगेलो शेजारी आबगो धांवन येता.)

आबगो : (बाबग्याक) अगा आसूं. भँगूं. पुरो गा. कोण गा हो तरी! अगा जालें तरी कितें तुमचें? शी बाबा. हाचे धडयें उपाय ना. सगळें सांडून बायलेक गा कित्याक मारता तूं?

म्हालखूम : (आबग्याक पेल्यान धुकलून आनी कमरेर हात धरून) म्हाका ताणें माल्ली म्हणून तुजें कितें सल्लें गा? तो म्हजो घोव; म्हाका जाय देखून मारतलो. तूं मदींच पडिल्लो दांत कसोसो कित्याक? वच थैंचो तोंड घेवन.

आबगो : (हात जोडून) बरें म्हजे सायबिणी. बऱ्याक गेल्यार बिर्मत फुट्टा म्हण्टात ती अशी.

म्हालखूम : तरी तो आपल्यो जाणवायो उलैता. वेता कि ना बेगीन तोंड घेवन?

आबगो : वेतां सायबिणी, वेतां.

म्हालखूम : लज नाशिल्लो खैंचो! घोवान आपले बायलेक जायती बडैली म्हणून तुजी पोटली खाली व्हय?

आबगो : ना गे म्हजे सायबिणी.

म्हालखूम : तर मागीर तूं हांगा आइल्लो कित्याक?

आबगो : चुकलों सायबिणी. गुन्यांव जालो. हे पळे पोले फोडून घेतां.

म्हालखूम : पणून घोवा-बायलांच्या झगड्यांत तुका पडचेलें कारण कितें?

आबगो : ना सायबिणी, चुकलों.

म्हालखूम : तुजें काम तूं पळे. म्हाका जाय देखून हांव म्हज्या घोवा कडसून बडौन घेतलीं.

आबगो : खोस तुजी.

म्हालखूम : म्हाका बडैली म्हणून तुजी फाट दुखता व्हय?

आबगो : केन्नाच ना.

म्हालखूम : तर मागीर तूं हांगा आइल्लो कित्याक? (ती ताचे फाटीर धुमको मारता. तो बाबग्याकडेन उलौंक वेता. बाबगोय ताच्या आंगार येवन ताका हातांतले बडयेन बडैता.)

आबगो : मार सायबा पोटभर तुजे बायलेक. जाय जाल्यार हांवूय मात्सो हात लांवक येतां.

बाबगो : (तिडकीन ताका धुकलून) झूर थैंचो. तुजें हात-बोट म्हाका नाका.

आबगो : नाका जाल्यार नाका.

बाबगो : म्हज्या मनाक येत तेन्नाच हांव तिका मारतलों; ना जाल्यार ना. ताचें तुका कितें पडलां?

आबगो : बरें सायबा.

बाबगो : ती म्हजी बायल; तुजी न्हंय.

आबगो : कोण गा ना म्हण्टा?

बाबगो : कितलेंय जालें जाल्यार आमी घोव-बायलां. आमी एकामेकांक नाकाशीं जांवक नात.

आबगो : खरें सायबा.

बाबगो : दुसऱ्यांल्या वेव्हारांत तोंड घालूंक तुका लज दिसना? शिंब्रो खैंचो! चल थैंचो. (ताका तो आमुट्टा. मागीर बायले सरीं वचून तिचो हात धरून तिका म्हण्टा.) बरें, जालें तें जालें. आमी आतां एकचार करुंया, न्हंय?

म्हालखूम : तर गे सायबिणी! आदीं म्हाका मरमरसर बडैली आनी आतां एकचार करुंया खैं!

बाबगो : कांय नज. म्हजी अपुर्बाय ती. घोवान बायलेक जायती बडैली म्हणून ताचो तिणे राग धरूंक जायना. चालूच आस ती संवसारांत. आंत्र्यापैऱ्यान झगडीं जावन सुरै-उकडे चार घणे खाल्याबगर

बायलेची माया घोवाचेर बसना. बरें, आतां तुजो राग वचून आदले भाशेन आमचो एकचार जालो म्हणून आमी कशें समजुंया?

म्हालखूम : जळ्ळो तुजो एकचार.

बाबगो : (उगडास जाल्ल्या भाशेन) हय वय! म्हजी गुणेस्त बायल ती. तूं म्हजें नांव घेवन दाखै. म्हण्टकूच तुज्या मनांतलो राग वचून एकचार जालो अशें हांव समजन.

म्हालखूम : म्हजो राग केन्नाच वचत म्हणून समजला तूं? तुज्या मारांनी म्हजी ही फाट रूं कशीशी दुखता. जळ्ळे तुजे हात.

बाबगो : अशें कितें म्हजे अपुर्बाये? रागार गे फुगार, घोवान दिली कातली, फूस करून हांसली! हांस पळौंया मात्शी.

म्हालखूम : हय. म्हज्या दाव्या पांयाची व्हाण हांसता.

बाबगो : अशें कितें? म्हजी राणी ती. मात्शी हांस. हांव तिका सुपलीभर भांगर घालतलों. लग्नाच्या वेळार तूं मेड धरून राविल्ली तेन्ना तुका हांवें सांगूंक नासलें हें? खरें उलै.

म्हालखूम : सुपलीभर भांगर! हळद लागली घालतल्याच्या तोंडाक.

बाबगो : हळद लागूं ना जाल्यार मिरसांग लागूं. तूं घेना व्हय म्हजें नांव?

म्हालखूम : तुजें नांव घेंवक हांव लजतां म्हणून समजला तूं? बाबगो-शाबगो. घे तुजें नांव.

बाबगो : असलें? असलें? हळदी-कुकमाक बामणांल्यो बायलो कायबरीं आपल्या घोवांचीं नांवां घेतात खैं. तुज्यान तसलें घेंव नज मू?

म्हालखूम : (बोंचो मुड्डून) म्हाका आनी तुका जायत नांवां. बेताळाक नाशिल्ली खैं बायल आनी भावका देवतेक नाशिल्लो घोव; तसली आमगेली आवतिकाय. जालां म्हणून जालां लग्न. आमकां त्यो बामणांच्यो देखी कित्याक?

बाबगो : त्यो जाणवायो आसुनी. तूं नांव घेता कि ना? सांग बेगीन.

म्हालखूम : कपळाचें नांव घेंव? (येवजिल्ल्या भाशेन करून) 'पार्वतेन दिलो म्हादेवाक विडो, आनी सोऱ्याच्या बल्लांत बाबगो जालो किडो.'

बाबगो : (तिडकून) असलें हें दशा-घालैणें नांव? ना घेतलें म्हणून कोण शिणूंक बसला?

म्हालखूम : आनीक कसलें घेंव तर? तुका फावो तसलेंच घेतलें. दुसरें नांव म्हाका येना, आनी आयल्यारूय घेंवची ना.

बाबगो : बामणांल्यो बायलो कसलीं कसलीं नांवां घेतात खैं. तुवें आयकूंक नातशीं न्हंयत. 'वज्राच्या ताठार, केंपाच्या पाटार' असलीं व्हडव्हड उतरां घालून नांव घेंवक येना व्हय तुका?

म्हालखूम : (हांसून) बडायो मात व्हडल्यो. किंर्वटीक एक फुटकी दमडी ना जाल्यार पिडा गेली.

बाबगो : हेंच तें. बामणांल्यो बायलो ज्यो नांवां घेतात त्यो तांगेल्या घोवांकडेन वज्रांचीं ताठां आनी केंपांचे पाट आसतात म्हणुनूच व्हडलीं व्हडलीं नांवां घेतात? तांतूंतल्या जायत्याजाणींचे घोव म्हजेय परस भिकाड्डे आसतात; परंत व्हडल्या राणयांचो आव त्यो घालतात. तूंच मात एकली संवसारा भायली. मेळत तेन्ना म्हजो जीव-नांव उबौंक लागल्या.

म्हालखूम : (उबगल्ल्या भाशेन) हें घे नांव. (येवजून) 'वज्रांच्या घराक केंपांचे नळे, आनी बाबग्याच्या गळ्यांत मोगरेचे कळे.' जालो धादोशी?

बाबगो : (खोस जावन) आऽहाहाहा! आतां कशें घेतलें? म्हजी लाडकुबाय ती. वोगीच कितेंय उलौन मार खाता पापीण. पणून कशेंय जाल्यार, धपके खाल्याबगर बायलो आळाबंदा येनात हें मात खरें. बायलांची फाट आनी पापडांची पिठी धाडायत तितली अरळ आनी मोवाळ जाता खैं. खरें मु हें अपुर्बाये?

म्हालखूम : म्हण्टंकूच इतल्यानूच दीस सल्लो हो. घरांत जळव-बिळव जाय ताची कांय धंगूच ना. कोण गे बाये तरी हो दादलो? रानांत वचून लांकडां फोडून हाडूंक कितें जालां हाका? तितले म्हणसर, खैं तरी दळून कांडून हांव आठोभर तांदूळ हाडीन.

बाबगो : बरें सायबिणी, तुजेच सांगणे भाशेन करतां. (वेता.)

म्हालखूम : (एकलीच) हा उंवाळ्ळेल्या! बायलांची फाट धाडायत तितली मोवाळ जाता, न्हंय? आनी दादल्यांची? (दांत ओंठ चाबून) ह्या असल्या घोवांक म्हजेच असल्यो बायलो जायत. आऽरे काळग्या! तुका बुद्द शिकैना जाल्यार हांव तुजी बायलूच न्हंय. (फाट सांसपून) आवै गे म्हजे! कशे वळ आयल्यात पळे. जळ्ळे ताचे हात. कांटी पेट्टूं तांकां. बरें, तुका दाखैतां कशें आस तें. (वेता.)

**देखाव २** ... रानांतली वाट.

(बोंबबाब आनी शिवलो माचयेचे फुडले वशीन. म्हालखूम माचयेचे फाटले वशीन.)

बोंबबाब : कितें तो अवेरचो दीस! कितें आकांत! कसली धांवाधांव! दायजी-दुस्मानागेर लेगीत असलो दीस येंव नाका. अकस्मात चलयेची वाचा धरून एदो व्हडलो लग्नाचो आटाप जैंचे थैं विर्जल्ल्या भाशेन जांवचो म्हळ्यार कितें हें?

शिवलो : पणून, न्हवऱ्याचे पांय घराक लागूंक आनी मोगाची वाचा धरूंक एक जालें, तें कशें?

बोंबबाब : कशें म्हणून कितें सांगचें? व्हडल्या व्हडल्या घाडयां-भगतांची आनी वैजां-वाणयांची बुद्द जैं चलना थैं हांव कितें सांगूं? घटितूच तें तशें. आनी कितें?

शिवलो : कशेंय जाल्यार, घारूदादांनी वैजांची बाकी दवल्ली ना. ह्या दों-तीं दिसांत, म्हाका दिसता, गोंयचे सगळे वैज ताणीं उजरावन काडले म्हळ्यार जाता. पणून कांयच गुणाव ना तो कसो? (याद जाल्ल्या भाशेन) आऽऽहा, आपा राण्याचें पाळ झरौन दिल्यार कशें?

बोंबबाब : अजून दिंवचें उल्लां म्हणून समजला तूं? आपा राणो जालो आनी तुजें देव बरें करूं, तो रुमडा वैलो गावडोय जालो. सगळे जाले. तूं आस खैं?

शिवलो : घात जालो मु तर हो. कोणाचेंच ओखद पारना तें कितें? असल्यांनी जल्मभर मोगा मोनेंच उल्लें म्हणचें. आमगेल्या घारूदादांनीच सगली ही घाण केली. चलयेची वाट लांवक तेच मूळ. सगळें सांडून तो वेंकटरमण ताणीं खैंसून सोदून काडलो तेंच समजना. ताचे कडेन सोरगत जंथैत पासुनूच चलयेची दशा जाली. मोगाक तें तसलें म्हातारखंड सोबता तरी? ताचे परस तो सुब्रमणी कितें वायट आसलो? कसोय जाल्यार भाचो तो घारूदादांचो. तरणो-धाकटो, शाणो-सुर्तो, बरपी-अक्षरी म्हण्टात तसो.

बोंबबाब : पणून वेंकटरमणाची सर ताका येंवची पडल्या? ताचेकडेन दुडू कुसता ताचो शंबरावो वांटो तरी सुब्रमणया कडेन आस मू? भाचो जालो म्हणून चाटचो आसा? एक दुदी आनी हजार तेंडलीं केन्नाच सारकीं जांवचीं पडल्यांत?

शिवलो : तुमी कितेंय म्हणात. म्हगेल्या हिस्पान, आमगेल्या मोगाक धाकटेलपणाक दिंवक फावना. हांव आयकतां, वेंकटरमणालें हें चौथे खेपेचें लग्न खैं.

बोंबबाब : चौथे आनी पांचवे खेपेचें जालें म्हणून? म्हाका जाल्यार, ताचे असलो नशिबाचो मनीस सगळ्या गोंयांत एकलोय दिसना. घरांत बसला थैं ताचेर दुडवांचो पावस पडला. तूं जाणा पिशा, ताचे दोग मांव भायर पडले तेन्ना ताका जणाएकाचे धा धा हजार रुपाया येरांस मेळ्ळें तें!

शिवलो : (अजापान ओंठाचेर बोट धरून) अब्बा! मांवांचे धा धा हजार रुपाया येरांस? बरो मु तर उद्वेग हो?

बोंबबाब : तूं जाण कितें? लाटफळां? आमच्या फिडर्यांचो कायदो कितलो बरो म्हणून समजला तूं? लग्न करून दिल्या उप्रांतूय बापायचे दौलतीचेर धुवांचें हक लागू जाता; आनी तो मरतकूच तागेल्या जांवयांक जाय तशे ताच्या घरादाराचे हुमरे खणूंक मेळटात.

शिवलो : कितें म्हण्टा! म्हाकाय असलो कोण मांव मेळ्ळ्यार बरो आसलो. (कपळाचेर हात मारून) केन्ना म्हजें लग्न जातलें कोण जाण. केल्ली केल्ली सोरगत जथना. तुमकां सांगूं बोंबबाब, घडे भल्ल्याबगर वडे जायनात तें मात खरें. आमगेल्या मोगाचीच गत्त पळेनात. घरांत न्हवरो येवन आयत्या वेळार लग्न उल्लें तें. कशेंय जाल्यार न्हवऱ्या कडसून आमकां तस्रीप मेळटली आसली ती मात होगडावली. बरें, आतां खैंचे कडेन वेतले म्हण्टात तुमी?

बोंबबाब : पळौंया रे अशे वचून खैं तरी कोण वैज मेळटा जाल्यार. सांडिल्ल्याचें मन धा कडेन म्हण्टात न्हंय? खैं मेळ्ळो जाल्यार मेळ्ळो बरोसो वैज.

शिवलो : पणून ह्या आडगांवांत तो मेळचो पडला?

बोंबबाब : मेंळचो पडला आनी ना तें कोणाच्यान सांगुं येत? केन्नाकेन्ना ध्यानामनांत नाशिल्ल्या जाग्यारूय आपणाचें काम जाता.

शिवलो : बरें, वैज मेळ्ळो म्हणून मोगाची वाचा सुटतशी दिसता तुमकां?

म्हालखूम : (एकलीच, आपलें कोण आयकनाशें समजून) कशें करचें? त्या पाड पडिल्ल्या घोवाक कशी बुद्द शिकौंची? (उलौंच्या नादार आसताना ती बोंबबाब आनी शिवलो हांकां आडखळटा; तांकां

पळौन) आयो! आयो! तुमी हांगा आसत? म्हाका खबरूच ना. हांव आपली कितेंय बडबट्टालीं. संवसारांतली एक एक चिंता आस न्हंय मनशाक?

बोंबबाब : हय गे बाये. आमीय तसलेच एके चिंतेंत सद्या आसंत.

म्हालखूम : कसली सायबांनू तुमकां चिंता? म्हजे हस्तकून तुमची चिंता एकाद्री ना जाय सायकी ना मू?

बोंबबाब : कितें सांगचें? आमकां सद्या चिंता लागल्या ती आमगेल्या यजमानाले धुवेची. तिची अगांतूक वाचाच धल्ली. जायतीं ओखतां-विर्सदां, आंगवणी-जोगवणी केल्यो तरी कांयच गुणाव ना. तुजे जाणापरीं, कोणूय एकाद्रो बरोसो वैज ना मु हेवशीन? खरे धन्वंतरी म्हण्टात ते शारांत केन्नाच रावनात खैं. ते खैं तरी आपले रानांत दोंगरांत पडून आसतात; आनी तांची खबर तुमचे असल्या आडगांवच्या लोकांक जितली आसता तितली आमकां शारांतल्यांक नासता. देखून आमगेली चिंता तूंच एकाद्री निस्तरायशी अशें दिसता.

म्हालखूम : (हात पोशेवन मनांत) आऽहा! भोव बरें जालें. अशेंच करचें. त्या पाड्या घोवाक अशीच बुद्द शिकौंची. (भायर) निस्तरायन म्हणचे? म्हाका हांगा देवानूच धाडून दिली म्हणून समजात तुमी. तुमकां बेस बरो धन्वंतरी हांव दाखौन दितां. वैज पणून कसलो सांगूं? बऱ्यांतलो.

बोंबबाब : खैं, खैं आस तो?

म्हालखूम : तो त्या रानांत लांकडां फोडिल्ल्या भाशेन खेळटा.

शिवलो : (हांसून) हें रे बाबा कितें? वैज आनी लांकडां फोडच्यानी खेळटा! अजाप!

बोंबबाब : ओखताचीं पाळां-मुळां खणून काट्टा आसतलो.

म्हालखूम : ना गा सायबांनू. तो लांकडां फोडच्यानीच खेळटा. तो मनिसूच तसलो. ताका तुमी पळेशात जाल्यार, तो वैज कसोसो निखालुस दिसना. तें एके भाशेचें ध्यान आस. तो आपलो पोशेग कितेंचें कितें करता, पिशेपणां पांगुरता आनी देवान दिल्लें वैजकेचें गिन्यान सातां कोनशांनीं लिपैता!

बोंबबाब : संवसारांतल्या मोट्या मनशांची गजालूच तशी. तांकां कसलेंय

एक कोल्ल आसताच. त्या कोल्ला बगर तांगेलें गिन्यान सोबच ना म्हळ्यार जाता.

म्हालखूम : आमगेल्या वैजाचें कोल्ल जाल्यार सांगणे-म्हणणे भायलेंच. केन्नाकेन्ना तागेलें गिन्यान ताच्या तोंडान खरें करून घेंवक ताका मरसर धपके लेगीत घालचे लागतात. आनी हांवूय तुमकां आदींच सांगून दवरतां, ताचें कोल्ल बी एकाद्रें चाळवत जाल्यार तुमकां दोगांकूय हातांत एक एक शिट्टी घेंवची पट्टली. आमकां जेन्ना त्या वैजाची गर्ज लागता तेन्ना आमीय होच उपाय करतांत.

शिवलो : म्हण्टकूच तो वैज अजापांचो म्हणचो!

म्हालखूम : खरोच अजापांचो. परंत एक फावट धपके पडून कोल्ल निवळटकूच मागीर कितें गा सांगतली! ओखतां बऱ्यांतलीं घेवचीं.

बोंबबाब : त्या वैजाचें नांव कितें गे?

म्हालखूम : ताचें नांव बाबगो. पणून सटकरून वळखुंचे खातीर हांव ताची कुरूय जाल्यार तुमकां सांगतां. तो एक धोंपरभर वालको न्हेसता. खांदार एक कांबळिचें फटकूर घेता. माथ्यार एक लेंसाची आंगटी रेवडायता. ताच्या उजव्या कानाच्या बुराखांत एक विडी आसता. ताणे गले धल्ल्यात. ताचे दावे खांकेंत सोऱ्याचो एक शिंसो आसता. तो बद्द सोरेकारा भाशेन दिसता.

बोंबबाब : (अजापान) सोरेकारा भाशेन?

म्हालखूम : हय वय. पुण हर्शी आपल्या कामांत हुशार हां. बद्द चमत्कार घडैता चमत्कार! सुमार स म्हैन्यां फाटीं एके बायलेक बरें नासलें; आनी सगळ्या वैजांनी पुते तिची साप आस्त सोडिल्ली. स वरां मेरेन ती जीव ना वाचा ना जावन पडिल्ली आनी सगळ्यांनी तिका मेल्ल्यांतूच जमा करून शेणार लेगीत काडिल्ली. पणून सभागणिची कट्टी बरी. आमगेल्या वैजाक थैं कोणेसो ओडीत व्हेलो; ताणें तिगेल्या तोंडांत कसलोसो थेंबो घालो; आनी कितें काय म्हळ्यार, ती सटकरून उठून बेस बरी चलूंक लागली न्हंय गा !

बोंबबाब : कितें म्हण्टा! ताचे कडेन अमृत बी ना मू?

म्हालखूम : तें बाये कोणें सांगचें? सुमार बावसां दिसां फाटीं बारा वर्सांचो एक भुरगो माळये वैल्यान सकला चिरेबंदी जमनिचेर पडून ताचे हात-पांय मोडून गुळंकार जालो. आमगेल्या वैजान ताका पळेलो मात

आनी आंगापांगाक लांवक कसलेंशें तेल दिलें. मागीर कितें विचारता? गुणाव पडूंक कळाव आस? तो भुरगो आसतसो पैले भाशेन सडसडीत जावन तुर्र करून गुटयांनी खेळूंक न्हंय गा गेलो!

बोंबबाब : कितें !

शिंवलो : तर तो वैज मोटो खांपोच म्हणूंक जाय.

म्हालखूम : खांपो म्हणून सांगूंक जाय?

शिवलो : (बोंबबाबाक) आमी ह्याच वैजाक घेवन वचूंया; कशें म्हण्टात तुमी?

बोंबबाब : हय वय. तशेंच करचें.

म्हालखूम : पणून याद दवरात, तुमी ताका एकाद्रो धपटचोय पट्टलो.

बोंबबाब : तें आमचेर पावलें. वेता आसताना दोन बडयो घेतकूच जाल्यो.

म्हालखूम : बरें, चल्लीं तर हांव. (वेता.) (बोंबबाब आनी शिवलो माचयेचेर चलिल्ल्या भाशेन करतात. तितले म्हणसर पड्ड्याभितर लांकडां फोडिल्लीं आयकूंक येतात.)

बाबगो : (पड्ड्याभितर लांकडां फोट्टा आनी गाता.) आ-आ-आ-आऽऽऽ.

शिवलो : हांगा, लागसारूच कोण लांकडां फोट्टा आनी गातासो दिसता.

बाबगो : (हातांत एक सोऱ्याचो शिंसो घेवन पड्ड्याभायर येता. बोंबबाबाक आनी शिवल्याक पळेनासताना उलैता.) इतलो वाव्र केलो; तेन्ना आतां हें घोंटभर घेवन चिके थारांवक जाय. (पियेता; मागीर गाता.) आ-आऽऽऽ

**गीत**

देव दैत्य मेळून घुसळणी दर्याची केली
तेन्ना तांतुंत सुंदर चौदा रत्नां लकलकलीं ।
सोरो म्हालगडें तांतुंतलें रत्न अजापांचें

(आंवडो घोंटून)

जिबे आड तें करूंक येना अशें सुवादाचें ।
दैत्य गिन्यानी म्हणून ताणी उखलुन तें धल्लें
देव सामके पिशे अभागी अमृताक भुल्ले ।
पूण फुडें हाय रे ! कटकटा ! देव बळी जाले
दैत्यांचें सामकेंच ताणी निसंतान केलें ।

तेन्ना पासुन म्हाल-रत्न हें उबंत्यार पडलें
धनि-गोंसांय मुळीं उल्लो ना बाबडेंच जालें ।
अखेर विटलें आनि बुचकळी दर्यांतुच माल्ली
व्हांवत व्हांवत यवरोपाची तड ताणे धल्ली ।
मागीर कितें ! नशीब ताचें भारी फळफळ्ळें
पुर्तुकालच्या राजान पळ्या मुकुटारूच धल्लें ।
आल्बूकेर्कान फुडें ताका गोंयांत रिगैलें
कोंवेंत बरो बांदुन मोटो देव कशें पुजलें ।
भक्ती ताची भौच मातली; बामणूय भुल्ले
सोरो देवाऱ्यांत बसैलो; अभिशेकुय केले ।
वर्णना अशी ह्या सोऱ्याची पाठ सदीं म्हणची
मागीर बरी कट्टी भरची; घुटुघुटू करची ।
पुण्यताय-दिणि वाट एक ही आयकात सगळे
जीण फुक्या होगडावची न्हैं उगडात रे दोळे ॥१॥

बोंबबाब : होचसो दिसता तो वैज.

शिवलो : हय वय. होच तो. आमी जिस्त ताच्या म्हऱ्यांत पावल्यों.

बाबगो : (शिंसो गच्च धरून, त्या दोगांकूय पळेनासताना) आऽरे म्हजो अपुर्बायेचो तो ! म्हाका तुजो कितलो मोग दिसता म्हणून सांगूं! (गाता.)

वर्णना अशी ह्या सोऱ्याची पाठ सदीं म्हणची
मागीर बरी कट्टी भरची; घुटुघुटू करची ।

(उप्रांत बोंबबाब आनी शिवलो हांकां सामखार पळौन) हे रे आनीक कोण? कित्याक आयल्यात हे हांगा?

शिवलो : होच तो होच. तिणे सांगिल्लो तसोच. (बाबगो आपलो शिंसो जमनीर दवरता. शिवलो ताका ओणोव घेवन बरें-गोंय म्हणटा; परंत बाबग्याक दिसता कि तो आपणाचो शिंसो सुतलांवक पळेता; तो उखलून तो दुसरे कुशीक दवरता. बोंबबाबूय ताका बरें-गोंय म्हणटा. बाबगो शिंसो गच्च पोटाकडेन धरता आनी बोंचो मुड्डिता.

बाबगो : हांकां कितें जाय तेंच समजना. आपलेभितर मारून कितेंशें उलैतात आनी म्हजेचकडेन एकसारके तर्जून पळेतात.

बोंबबाब : एऽ मामा, बाबगो म्हणटात तो तूंच?

बाबगो : तुका कित्याक त्यो जाणवायो?

बोंबबाब : हर्शींच विचारतां गा. तुजेंच नांव बाबगो मू?

बाबगो : (पैलीं बोंबबाबाकडेन आनी मागीर शिवल्याकडेन पळौन) बाबगो नाजाल्यार दुसरें कितेंय जांवये. ताचेकडेन तुमचें कसलें काम आस तें आदीं सांगात.

बोंबबाब : काम कांय वायटाचें न्हंय गा. बऱ्याचेंच तें.

बाबगो : पणून तूं जुविजाचो नायक बी न्हंय मू? इतिमासांव इज्गुसांव, गुड्डिलासांव म्हणटात तसलें कांय हाडूंक ना मु तुवें हांगा? तशें आसल्यार म्हजें नांव बाबगो न्हंय.

बोंबबाब : चे: गा. तांतूंतलो वास ना आमचे कडेन.

बाबगो : तर म्हजें नांव बाबगो.

बोंबबाब : तर आमची तुजेकडेन एक मागणी आस.

बाबगो : म्हजे हस्तगून तुमकां काम जाय सारकें आसल्यार हांव तें मोटे खोसयेन करीन.

बोंबबाब : मोटे उपकार जातीत सायबा. पणून माथ्याक तो तुजो लेंस कित्याक बांदिना? ओतान तापता न्हंय तें?

शिवलो : बांद गा मामा तो लेंस माथ्याक.

बाबगो : (कुशीक) म्हजी चडशीच अपुर्बाय करतात हे !

बोंबबाब : आमी तुज्या पांयांसरीं आयल्यों म्हणून तूं अजाप जांव नाका गा. बुदवंत आनी गिन्यानी मनशांसरीं लोक पांयां पडून येतात. तुजी अक्कल आनी तुजें शाणपण बेसबरें आमच्या कानार पावलां.

बाबगो : पावतलें म्हणून हांव जाणंच. हांव असलो तसलो मनीस न्हंय. लांकडांचे भरे बांदच्या कामांत म्हाका लागतलो मनीस आनीक दुसरो कोण ना. म्हजे फुडें तीं लाटफेंचीं आनी मयेंचीं भरेकारां कुस्कूट उपकारा पडनात. पोटयां कावळकाठयां घालून भायलेवशीन भरो हांव असो फुलौन बांदतां कि गिरायकाच्या दोळ्यांची तानभूक न्हिवता.

बोंबबाब : परंत आमी भऱ्याखातीर येंवक नात गा हांगा.

बाबगो : तुमी कित्याकूय येयात. म्हज्या भऱ्यांची धारण विचारशात जाल्यार, शंबरांक वीस असुप्यों. सवाय तांगान भरो.

शिवलो : पणून आमकां भरे नाकात गा.

बाबगो : सवायतांगांत एक पानदुडूय उणो जावचो ना.

बोंबबाब : तें जालें. परंत आमकां भऱ्यांची गजाल नाका गा.

बाबगो : गजाल नाका म्हळ्यार उपकारता? हांव एक पानदुडूय उणो करचो ना. म्हजी दर नेमस्त.

बोंबबाब : तुवें आमच्यो ह्यो भगली मांडल्यातशो दिसतात.

बाबगो : भगली? खरेपणानशीं एक पानदुडूय उणो जावचो ना.

शिवलो : अगा, त्यो भऱ्यांच्यो गजाली आसुनी. आतां आमी दुसऱ्यो कसल्योय करुंया.

बोंबबाब : दुसरे कडेन सवाय भरे मेळटीत म्हणटा तूं? पणून म्हज्या भऱ्यांची सर तांकां येवची पडल्या मू?

शिवलो : पुरो जाले तुजे भरे.

बाबगो : पुरो जाले कित्याक? हांवें भोव तुका ते दिंवक हाडल्यात. सांगिल्ले दरेंत एक दमडी उणी जावची ना दमडी.

बोंबबाब : कोण रे बाबा मनीस हो?

बाबगो : तुज्या गळ्याच्यान तर म्हजी दर एक. ती भौनभौन बदलना. वोगीच केणून मागुं नाकात.

बोंबबाब : कर्माचो भोग म्हणचो ! तुजे असल्या व्हडविकेच्या मनशान अशो भिकारभासो करच्यो म्हळ्यार आनीक कितें उल्लां? आज व्हडलो खांपो वैज म्हणटात तो तूं खैं. आनी तूं अशीं फकाणां मारता? आनी तुजें गिन्यान लिपैता?

बाबगो : (कुशीक) हाका पिशें लागलांशें दिसता. वैज खैं हांव?

बोंबबाब : आमी वळखतांत गा तुका. तूं तुजे गूण लिपौं नाका.

बाबगो : कसले, कसले गूण?

बोंबबाब : आमकां तूं फटौं नाका. आमकां समजता सगळें.

बाबगो : कितें समजता तुमकां? तुमकां हांव कोणसो दिसतां?

बोंबबाब : कोणसो दिसता? तूं-तूं वैज न्हय?

बाबगो : चल गा पेल्यान थैंचो. वैज खैं. हांव वैज बी कोण न्हंय.

बोंबबाब : (शिवल्याक ल्हवूच) कोल्ल चाळावलांशें दिसता. (बाबग्याक) अगा, आतां आनीक तूं फटासी मारुं नाका. भगली पुरो जाल्यो तुज्यो. कैलास कंटाळ्ळो.

बाबगो : कैलास कंटाळ्ळो जाल्यार वैकुंठाक चल.

बोंबबाब : म्हाका दिसता, आतां तितल्याचेरूच पावलें तें. तशें केल्यार बरें न्हंय म्हणून केदोवेळ हांव वोगो रावलों. परंत...

बाबगो : परंत कितें गा? तुजी तजवीज कसली आस? तुज्या जिवाच्यान तर हांव वैज न्हंय.

बोंबबाब : (शिवल्याक) म्हणटकूच आतां तोच उपाय करचो पट्टासो दिसता. (बाबग्याक) तूं वैज न्हंय जाल्यार कोण?

शिवलो : सांग बेगीन. नस्त्योच फटाफटी नाकात.

बाबगो : हे रे बाबा कोण देवचार कशेशे बसले म्हज्या कांट्यार?

बोंबबाब : तर फटासी कित्याक मारता?

बाबगो : हांव खरेंच सांगतां, हांव वैज न्हंय.

बोंबबाब : न्हंय वैज?

बाबगो : न्हंय. एका उतरान समजना म्हळ्यार कितें म्हणचें ह्या मनशांक?

शिवलो : खऱ्यानीच वैज न्हंय तूं?

बाबगो : न्हंय, न्हंय, न्हंय, न्हंय.

बोंबबाब : म्हणटकूच आतां चौदावें रत्नूच भायर काडचें पडलें !
(लागसार आशिल्ल्या भऱ्यांतलीं लांकडां काडून दोगूय बाबग्याक बडैतात.)

बाबगो : देवा! देवा! आवै! आवै! हाय! हाय! चुकलों सायबांनू. वैज सायबांनू, हांव वैज. आनीक दुसरें कितेंय म्हणटले जाल्यार म्हणात; पणून धर्माक बडों मात नाकात.

बोंबबा : तर मागीर एदोळपासून कित्याक फटाशी मारतालो!

शिवलो : वोगीच आमचे हात दुखैले !

बोंबबाब : तुका बडैलो खरो; पणून कितलें वायट दिसता म्हणून सांगूं! मनांत कांय वायट धरुं नाका हां.

शिवलो : कांय वायट धरुं नाका हां.

बाबगो : कोण रे फकाणां हीं! आदीं बडैतात आनी मागीर वायट धरुं नाका खैं. म्हाका वैज करून तुमच्या मनांत कितें करचें आस गा? तुमी म्हज्यो ह्यो भगली मांडल्यात, तें तुमकां पिशें बी लागलां व्हय? हांव वैज खैं ! कर्म म्हजें !

बोंबबाब : कितें ! अजून न्हंय वैज? आनीक आमचे हात दुखौची तजवीज

आसशी दिसता.

बाबगो : हांव वैज? देवा म्हज्या !

बोंबबाब : कितें? न्हंय वैज?

बाबगो : न्हंय, न्हंय, हांव वैज न्हंय. (ते दोगूय ताका बडैतात.) आवै ! आवै ! पुरो. पुरो. चुकलों सायबांनू. हांव वैज. हांव दोतोर. हांव बुतीककार. हांव रजिदोर, आलमिस्त्रादोर, गोवेर्नादोर, पिर्जेंत, रजिमेंत, कुजुमेंत. सगळो हांव. उपकार करून बडौं नाकात.

बोंबबाब : आतां कसो आयलो मार्गार !

शिवलो : आतां कसो खरें उलैलो !

बाबगो : (कुशीक) आतां म्हजें खरें कि हांचें खरें? जल्माचो घोळ म्हणचो!

बोंबबाब : खरी खबर भायर फोडची लागली म्हणून तुका वायट दिसुं नाका गा. तुजी बिदागी आमी बेसबरी करूंक लांव.

बाबगो : पणून सायबांनू, म्हाका वैज म्हणून तुमचे तुमकांच तुमी फटौन घेतात ते कशे?

बोंबबाब : फटौन घेतात? तूं खऱ्यानीच वैज.

बाबगो : खऱ्यानीच?

बोंबबाब : हय वय. खऱ्यानीच.

शिवलो : वैज न्हंय ताका बळयांच वैज म्हणूंक आमकां पिशें लागलां गा?

बाबगो : तर हांव कसो नेणं हांव वैज म्हणून?

बोंबबाब : त्यो काणयो कोणाक सांगता तूं? आज तुजे असलो वैज सगळ्या संवसारांत मेळचो ना खें.

बाबगो : (ओंठार हात धरून) अब्बा ! खऱ्यानीच एदो मोठो वैज हांव?

बोंबबाब : हय वय. तूं खरोच मोटो वैज. तुवें लक्षांनी, कोट्यांनी रोग बरे केल्यात खें.

बाबगो : पुरो जालें सायबा.

बोंबबाब : स वरां मेरेन मरून पडिल्ले बायलेक तुवेंच मू जिती केली?

बाबगो : कर्म केलें म्हजें !

बोंबबाब : आनी माळयेवैल्यान सकला पडून गुळंकार जाल्ल्या भुरग्याक तुवेंच मू एका खिणांत बरो केलो?

बाबगो : कपळ म्हजें !

बोंबबाब : आमकां त्यो गजाली सांगूंक जायत तुवें? बरें, चल आतां आमचे

वांगडा. तुजी बिदागी म्हजेर पावली. तुका दुडू खूब दिंवक लायतां.

बाबगो : किर्ते ! खूब दुडू ?

बोंबबाब : हय वय.

बाबगो : आ ! हा ! हा ! हा ! तर हांव आतां खरेपणानशीं वैज. वैज न्हंय म्हणून हांव तुमकां एदोळपासून बळयांनीच सांगतालों. वैज म्हणपाचें हांव सामकें विसरल्लोंच. आतां म्हाका चत्राय जाली. आतां, तूं म्हाका खैं घेवन वेतलो म्हणटा?

बोंबबाब : एके चलयेची वाचा धरिल्लेभाशेन जाल्या; तिका पळौंक तुवें आमचे वांगडा येंवक जाय.

बाबगो : पळौंकूच मू? ओखद-बिखद म्हाका कांय समजना.

बोंबबाब : म्हाका दिसता, हाच्यो भगली अजून सोंपनात. बरें, चल आतां धर्माक.

बाबगो : पणून वैजाभाशेन म्हजो पोशेग खैं आस?

बोंबबाब : आमी तो तुका दिंव. एक फावट आमचे वांगडा चलूंक लाग.

बाबगो : (शिवल्याकडेन शिंसो दिवन) हो घे आसुनी तुजेकडेन. हांतूंत म्हजें सगळ्यांत ऊंच ओखद आस. (बोंबबाबाक) पणून हांव वैज मु खरोच? तर हांव सांगन तें तुमी सगळ्यांनी आयकूंक जाय.

बोंबबाब आनी शिवलो : तें आमचेर पावलें.

## दुसरो आंक

**देखाव १** ... घराचें साल.

घारूदाद, बोंबबाब, शिवलो आनी फुलगें.

(घारूदाद हांतरपट्यार लोडाक तेंकून बसला; तो खावचीं पानां खाता. आनी वंटीचेर पिचीपिची करून थुकता.)

बोंबबाब : (घारूदादाक) अखेरेक देवान आमकां भौ बरो वैज दाखौन दिलो म्हळ्यार कामायता. ह्या वैजा फुडें व्हडले व्हडले धन्वंतरी लेगीत कुस्कूट उपकारा पडनात खैं.

शिवलो : खऱ्यानीच हाच्या दाव्या पांयाचे व्हाणेचीय सर हेरां वैजांक येवची ना. तांकां सगळ्यांक हाचे भोंवतणी उंवाळून उडौंचे.

| | | |
|---|---|---|
| बोंबबाब | : | अश्विनीकुमार म्हणून जे कोण म्हणटात तांतूंतलोच एकाद्रो हो कोण तरी अवतार घेवन ह्या संवसारांत जल्मला जाल्यार कोण जाण. ताणे मेल्ल्या मनशांक जितीं केल्यांत खैं. |
| शिवलो | : | तो चिके कोल्ली आस. केन्नाकेन्ना ताचें माथें घुंवळटा. त्या वेळार ताचेकडेन उलैसारकी माणसुकी ना. कशेंय जाल्यार, एके पाखळेन तो उणो आस सो दिसता. फकाणां मात खूब मारूंक जायत ताका. |
| बोंबबाब | : | परंत ताचीं फकाणां पोलीं न्हंयत; तांतूंत कितें तरी नवें शिकचेलें आसता. केन्नाकेन्ना आमकां समजूंक कठीन असलीं उतरां ताच्या तोंडयां येतात. |
| शिवलो | : | तो उलौंक लागतकूच बद्द सत्यनारायणाचें पुराण सांगिल्ल्यावरी उलैता. |
| बोंबबाब | : | तो मोटया नांवा-लोकिकाचो वैज खैं. दिसपट्टे हजारांनी लोक ताचेकडेन आइल्ले आसत. |
| घारूदाद | : | हाडात तर ताका हांगा बेगीन. |
| बोंबबाब | : | बरें आस. (तो बाबग्याक हाडूंक वेता.) |
| फुलगें | : | (घारूदादाक) बाकिच्या वैजांनी दिवे लायले; आतां हो एक आनीक आयलासो दिसता. वाडिल्ल्या होंकलांक खरें गुण-दिणें ओखद म्हळ्यार बरोसो नवो-ताल, तरणो करकरीत, रुपेस्त, भागेस्त घोव. सगळें सांडून भौनभौन ते परिपाटकाचे कडे कित्याक? |
| घारूदाद | : | (उबगल्ल्यावरी) आयलें तें मदींच तोंड घालूंक. |
| शिवलो | : | (तिडकून) फुलू, मेलेंशें वोगें रावं नज गो तुज्यान? व्हडली म्हालाय आयली जाळवण्यो करूंक. |
| फुलगें | : | हांव तुमकां जाय तसलो सपूत दिवन सांगतां, खैंच्याय वैजाच्या ओखतान मोगाक गूण पडची आस्त ना. ताचो रोग ओखतांक रडना. |
| घारूदाद | : | म्हणटकूच तुजी म्हणणी कितें गो बाये? हांव ताचें लग्न करिना म्हणटां? एदो मोटो खर्च केलो आनी न्हवरोलेगीत घरांत आयलो तो तुवें पळेलो ना? |
| फुलगें | : | पळेलो, पळेलो. सगळें सांडून त्या म्हातारखंडाच्या गळ्यांत भांगरासारके चलयेक बांदूंक तुमकां कशें मानता तेंच म्हाका समजना. सुब्रमणयाकडेन ताची सोरगत केल्यार कितें वायट |

आसली?

घारूदाद : अगो पिशा, वेंकटरमण म्हातारोय जालो जाल्यार ताची सर्त त्या सुब्रमणयाक येता गो? सुब्रमणयाकडेन आस कितें? ताची सगळी मिरास म्हणटात ती घराचें एक खोंपूट आनी घरभाटलें इतलेंच मू?

फुलगें : पणून तो फिंर्गी बरप खूब शिकला म्हणटात बाये. कितलींशीं वर्सां तो पणजे शिकूंक आसलो. त्याभायर हालीं तो विस्किरांवाचे कार्तोरींत वेता खैं. फिंर्गी-फिदाल्कांक हात दिता खैं. कागदांचे मोटे मोटे पेळे खांकेक मारून सिगरां ओडीत बाजारांतसून वेता आसताना हांवें ताका जायते फावटीं पळेला. देवान बरें केल्यार, फाटींफुडें तोच विस्किरांव जावन माचिलांनी भोंवचोना-सो तुमकां दिसता?

घारूदाद : अगो, जायतो शिकलो म्हणून कित्याक उपकारता? माचिलांनी भोंवतलो वा माचिलां फाटल्यान धांवतलो तें कोणाच्यान सांगुं येत? तुर्ताक दोळ्यांमुखार कितें दिष्टी पट्टा तें खरें. फुडलें कोणें पळेलां? वेंकटरमणाकडेन बरी गांठ आस ती जाण व्हय तूं?

फुलगें : गांठ आसलीय जाल्यार, तरण्या-धाकट्या होंकलांक जाय-जाळें तरणेपण ताचेकडेन आस व्हय?

घारूदाद : नासलें म्हणून? तरणेपण कित्याक मिठाक घालचें आस? पैलीं मनशान अन्न-वस्त्र आनी भांगर-शिंगर पळोंक जाय. तितल्याक वेंकटरमणागेर तूट पडूंक ना. तशी सुब्रमणयाची गजाल आस गो?

फुलगें : पणून कितलेंय जाल्यार, सुब्रमणी तुमचो भाचो न्हंय? मुजिच्या वेळार काशयेक गेल्लो तेन्ना तुमीच मु ताका समजावन हाडलो चली दितां म्हणून? आनी आतां कित्याक फाटीं सरतात?

घारूदाद : अगो, तसोच समजायतात. म्हणून तें सगळेंच खरें मानल्यार जाता?

फुलगें : असल्यानी बरें तर मु हें? सुब्रमणी घोव-घोव म्हणून मोगाक आमी मेळत तेन्ना चाळैताल्यों आनी मोगा म्हणून भितल्ले भितर मुरगटून लजताले. तें सगळें फुकट गेलें तर?

घारूदाद : अगो पापया, ल्हानपणांत कोणाकूय तसोच घोव घोव म्हणटात, म्हणून तो खऱ्यानीच घोव जाता गो?

फुलगें : तुमी कितेंय म्हणात. वेंकटरमण न्हवरो सोदून काडीत पासून मोगाची सामकी वाट लागली हां. सामको सुकतडो लागलो ताका. हशीं तें

आंगापांगान कशें आसलें तें जाणत मु तुमी? आतां आनी ताची वाचा धल्ली. कितें जातलें कोण जाण बाये. (हुस्केता.) उबिल्लीं मोवळां दोनूय हातांनी सारकीं करून) पणून सुब्रमणयाकडेन तुमी ताचें लग्न कित्याक करून दिनात? एकाद्रो तांतूंतूच ताका गुणाव पडत-सो दिसना तुमकां?

घारूदाद : (तिडकून) भौनभौन तें आपलेंच वाजंतर वाजैता. आतां मात तूं सुब्रमणयाचें नांव काडशी जाल्यार पळे. घरांत तुका वाव्रधंद बी कांयच ना गो?

शिवलो : (फुलग्याक धुकलून) ना गो तुका वाव्रधंद? मोटें पातोळें हें. मेळत तांतूंत आपणाचें तोंड घालता. चल थैंचें.

(तितले म्हणसर बोंबबाब बाबग्याक घेवन येता. माथ्याक मोटोसो रुमाल, आंगाक मिरयांचो चोगो, खांदार मूण असो बाबग्याचो पोशेग.)

बाबगो : (कुशीक) म्हाका हाणी वैज जाल्यार केलोच, आतां हें सवँग कशेयभाशेन सोबौन व्हरूंक जाय. ह्या वेळार, त्या मोट्ट्या वैजाच्या घरा जें कितें गिन्यान म्हाका मेळ्ळां तें सगळें उक्तें करून दाखौचें पडलें. ना जाल्यार दशा वेतली.

बोंबबाब : (घारूदादाक) हो आयलो तो वैज.

घारूदाद : (बाबग्याक) बरें-गोंय. तुका पळौन जिवांत जीव आइल्ल्याभाशेन जालो सायबा. बस गा असो. (बाबगो बसता.)

बाबगो : (घारूदादाक बारकायेन तर्जून पळौन) वाग्भट अशें सांगता आ-आ-आ...

घारूदाद : कोण वाग्भट?

बाबगो : अगा तो आमगेलो वाग्भट. कोलंभटालो भाव. आमगेलो पुर्विल्लो वैज म्हणटात तो तो. तो सांगता, 'मस्तकं उक्तं न दवर्यात्' म्हळ्यार 'माथें उगडें दवरचें न्हंय.' देखून हांव तुका सांगतां, माथ्याक मात्सो रुमाल घाल पळौंया बेगीन.

घारूदाद : परंत घरांत बसला थैं रुमाल गा कित्याक जाय माथ्याक?

बाबगो : अगा, घरांत सगळी सावळी मु ही? हे सावळेन तुज्या कपळाक थंडी बी चडली जाल्यार?

घारूदाद : अशें, अशें? (खुंटयेवैलो रुमाल काडून माथ्याक घालता.)

बाबगो : आऽहा ! आतां कशी शिरी माल्ली? (बळयांच पिशेपण पांगरून) हांव आयकतां, तुवें खैं लक्षानी-कोटयांनी रोग बरे केल्यात. आनी...

घारूदाद : कितें? कोणें?

बाबगो : तुवें गा, तुवें.

घारूदाद : हांव वैज आसल्यार मु फुडें रोग बरे करीन?

बाबगो : तूं वैज न्हंय?

घारूदाद : न्हंय, हांव न्हंय.

बाबगो : (बडी घेवन घारूदादाक धपके घालून) खऱ्यानीच तूं वैज न्हंय?

घारूदाद : (फाट सांसपून) आवै! आवै! आवै! आवै!

बाबगो : बऱ्यान सांग तूं कोण तो. अजून वैज न्हंय? हांव वैज जालां तो कसो म्हणून समजला तूं? (बोंबबाबाकडेन बोट दाखौन) ह्या हाकाच विचार. 'बडी वाजता चम चम, वैज जाता घम घम,' समजलो? वैज म्हळ्यार खावचीं कामां न्हंयत.

घारूदाद : (बोंबबाबाक) हें रे बाबा आनी कोण फकाण? खंचें नसंगं घेवन आयले तुमी हांगा?

बोंबबाब : हो वैज मात्सो तसोच आस म्हणून पैलींच तुमकां सांगूंक नासलें आमी?

घारूदाद : परंत म्हाका हें असलें उपकारना; हय.

शिवलो : तें तुमी मनार घेवं नाकात पळौया. हो वैज चिके फकाणी आस. उतरापावलाक ताका फकाणां मारूंक जायत.

घारूदाद : फकाणां? असलीं मारांचीं फकाणां?

बाबगो : (घारूदादाची फाट सांसपून) तुका बडैलो खरो; पणून कितलें वायट दिसता सांगूं ! मनांत कांय वायट धरुं नाका हां.

घारूदाद : कांय नज. कांय नज. तुका हांगा कित्याक आपैला तें जाण व्हय तूं? म्हजी एक धूव आस, तिका कसलो रोग जाला तोच समजना.

बाबगो : तुका गा तो कसो समजत? आमी वैज म्हणटात ते कित्याक तर? पणून तूं आस मु जिवान बरो? हांव समजल्लों तुकाच बरें ना.

घारूदाद : ना गा सायबा; हांव बरो आस.

बाबगो : आनी तूं बरो नासलोय जाल्यार बिशाद ना गा. तूं, तुजी बायल आनी तुज्या घरांतलो सगळो तांती-पिलो जरी ह्या वेळार वायटांत

पडिल्लो तरी त्या सगळ्यांक ओखतां दिंवक म्हापुरसाचे दयेन म्हाका खूब तांक आस. तूं ही भगल समजुं नाका. हांव हें बोंबलेच्या देंटापासून उलैतां. मनशां सपसप वायटांत पडनात तेंच म्हाका अजाप दिसता. नाजाल्यार ओखतां दिंवक म्हाका निखालुस आळसाय ना. बरें, तुमगेले वायटाकारणिचें नांव कितें गा?

घारूदाद : मोगा.

बाबगो : आऽहाहाहा! सुरबूस मु गा नांव हें! खैं गा आस तें मोगा?

घारूदाद : (बोंबबाबाक) मोगाक हांगा घेवन येयात पळौंया. (बोंबबाब वेता.)

बाबगो : (फुलग्याक पळौन) ती तिटापै-कशी कोण उबी थैं?

घारूदाद : तें आमगेले कुळमिणिलें चेडूं.

बाबगो : बरें मात माडी कशेंशें ऊंच वाडलां. नांव कितें गा ताचें?

शिवलो : ताचें नांव फुलगें. म्हजी भैण ती फाटली.

बाबगो : तुजी भैण ती? फुलगें ताचें नांव? तरूच तो गांवभर सगळो घमघम सुटला! जैं थैं गाजील मूस घोगेतात. हाच्याच वासान आसतले! कसलें जांवये हें फूल?

शिवलो : अगा चिटवाळपणां नाकात. (फुलग्याक) फुलू, तूं भितर वच पळौंया.

बाबगो : (फुलग्याक) कसलेंय जायना तूं फूल. हांव आपलो तुका दसवंतिचें फूल म्हणटलों. तें म्हजें चड वळखिचें फूल. केन्नापासून फुलूंक लागलें गो तूं? लावणी बी म्हळी मु गो तुवें?

शिवलो : पुरो जालीं गा तुजीं फकाणां. उलौचें कितें आनी उलौचें न्हंय कितें तेंच तुका समजना मु गा.

बाबगो : (शिवल्याच्या मणकटाक धरून) म्हाका एद्या व्हडल्या वैजाक उलौंक समजना? पिशें बी लागूंक ना मु तुका? चेडवां, कलंवतां, भावणी, हातलावणी हांचेपरस आनीक दुसऱ्यो कसल्योच सुवादीक गजाली आसत मु ह्या संवसारांत? हांचे फुडें हेर सगळ्या राजकर्णांक लागलो उजो. जाणटो-नेणटो, दादलो-बायल, भुरगो-म्हातारो म्हणनासताना, जाय ताणे, जाय थैं, जाय तेन्ना ह्यो गजाली हुस्क्यामेकळ्यो करच्यो. तांतूंत व्हडवीक आस; लोकीक आस; पुण्यताय आस; सगळें आस.

शिवलो : ह्या वैजाचें उलौणेंच उफाट्टें.

बाबगो : (नाखार बोट धरून) उफाट्टें म्हणशी जाल्यार बरें जावचें ना हां, हय. तूं जाण कितें? तुवें पळेलां कितें? आमचे व्हडले व्हडले शाणेसुर्ते म्हाजन घराच्या बलकांवार, देवळाच्या सोंडयार, समरद्रेच्या पानार, वापोराच्या बांकार,व्हड्याचे साटयेर, नाजाल्यार पनेळाचे आडयेर बसून चकाटां मारूंक लागतकूच गणेसपुजेक कसली गजाल काट्टात म्हणून समजला तूं? 'अमकें-तमकें रत्नें केन्ना न्हांवक लागलें, माणक्याची शेंस केन्ना घाली, केम्पाची हात-लावणी कोणे केली' असल्योच मु गजाली ते मोट्या घोंसार येवन करतात? (घारूदादाची तकली फाटीं फुडें हालौन) तूंच सांग गा मात्शें, हांव उलैतां तें खरें कि लटकें?

शिवलो : तुजे फुडें बाबा कोण उलैत?

बाबगो : (फुलग्याक) बरें, म्हज्या दसवंतिच्या फुला, घुडघुडेक मात्शें घालशी व्हय तूं?

शिवलो : अगा, हांव घालतां. (फुलग्याक रागान धुकलून) तूं चल थैंचें. तुजें काम कसलें हांगा?

बाबगो : (शिवल्याक धुकलून) ताका गा वोगीच तूं कित्याक धुकलता? तुवें घाल्ली घुडघुडी म्हाका नाका. ताणे आपल्या मोव हातांनी किसैल्ल्या पानाच्याचो सुवाद कसो आनी तुज्या तोंडक्या हातांनी किसैल्ल्या पानाच्याचो सुवाद कसो? नस्तेंच गा कितें? (शिवल्याक लांब धुकलता.)

शिवलो : पळे हां, हांव वोगो रावचो ना.

बाबगो : कितें करतलो गा? अदीकशें उलैशी जाल्यार हांव जोर हाट्टलों हां तुका. हांव वैज म्हणून नकळ तूं? म्हाका सगळ्यांनी भियेंवक जाय. हांव म्हणटां तें खरें म्हणूंक जाय. (मात्सो थारावन घारूदादाक) अगा, पणून तुमची ती वायटाकारीण खैं पावली? शी. तुमी कितलोसोच कळाव लायतात. वैजाचो वेळ म्हळ्यार तुमकां मस्कऱ्यो-शो दिसतात. हांगा एका खिणाक एक असुर्पी पट्टा हां. तूं जाण, हांवें केन्नाच्यान ओखतां बी तयार करून दवल्ल्यांत तीं?

घारूदाद : ओखतां तयार दवल्ल्यांत? कितें म्हणटा? खैं आसत तीं?

बाबगो : खैं आसत? पिशेपणां जालीं. वैज आस थैं ओखतां. 'शेट रिवणां

आनी सांतली कुसमणां' म्हळ्यार उपकारता गा? (कपळाक हात लावन) आमची ओखतांची कोठी म्हणटात ती ही !

घारूदाद : बरें सायबा. (इतले म्हणसर बोंबबाब मोगाक घेवन येता; ताका पळौन) हें-हें आयलें म्हजें मोगा.

बाबगो : (मोगाक पळौन) हीच ती वायटाकारीण?

घारूदाद : हय सायबा. म्हजी नवांनवसांची एकलीच धूव ती. ती म्हाका होगडावत जाल्यार म्हजे दीस लागीं पावले म्हणचे.

बाबगो : (घारूदादाच्या तोंडार हात धरून) थू-थू-थुमेकाल. तशें आचारवाणें उलौचें न्हंय. हांव एदो व्हडलो वैज लागीं आसून तुमकां कोणाकूच मरूंक दीन म्हणून समजला तूं? तूं कांय भियेंव नाका. म्हजें ओखद घेतल्याबगर तुजी धूव केन्नाच मरची ना. (मोगाच्या तोंडाकडेन बारकायेन पळौन) हाच्या तोंडाची नुरा पळेल्यार हाचो रोग मोटोसो असाध्य दिसना. (मोगाक) अशें बस गो हांगा. (मोगा बसता.)

घारूदाद : पळे पळे, हांसलें म्हजें मोगा.

बाबगो : हांसलें? भांगरापरस हळडुवें. वैजान आपल्या वायटाकाराक हांसैलो जाल्यार तो एक बरोच शकून म्हणचो. (मोगाक) कितें जाता गो तुका बाये? कसली पिडा भोगता?

मोगा : (तोंडाक आनी खाडकेक हात लावन कुरवांनी समजायता.) आं, ई, ओं, आं, ऊं.

बाबगो : कितें म्हणटा?

मोगा : आं, ऊं, इं, ओं, आं.

बाबगो : कितें?

मोगा : आं, इं, ओं, ऊं.

बाबगो : (चाळौन) आं, इं, ओं, इं? हळद लागली हे भाशेक.

घारूदाद : पळेलो मु तुवें हो रोग? वाचाच मुदलीं धल्ली. कितें जालें आनी कात तेंच समजना. तेदूस न्हवऱ्यान घरांत पांय दवल्लो मात, चलयेची जीव ना वाचा ना जावन अखेर ही अशी अवस्ता जावन पडली.

बाबगो : कितें? हाचें लग्न जालां तर? आनी तेच दिसा हाची ही अवस्ता जाली?

घारूदाद : लग्न कपळाचें. कोणूय न्हवरो जालो म्हणून, जाण जावन असली

वाचा धरिल्ली बायल करता?

बाबगो : पणून बायलेची वाचा धल्ल्यार तांतूंत गा कितें जालें? म्हाका दिसता, त्या न्हवऱ्याक ना अक्कल. बायलांची वाचा धल्ल्यार चड बरें हें त्या पापयाक समजना? बायलेन दीसरात झगडून सगळें घर माथ्यार घेवचें ही ताका खोस आसतली! देवा! म्हजे बायलेची वाचा धरिल्ली जाल्यार कितलें बरें जातलें आसलें! हांव तिका ओखदांविर्सद केन्नाच करचो नासलों.

घारूदाद : तें कशेंय आसूं. तूं एकदां हाका वाचा फुटशी कर.

बाबगो : कांय परवा ना. तूं भियेंव नाका. ह्या रोगापासून ताका चड पिडा भोगता खैं?

घारूदाद : हय सायबा.

बाबगो : तर भोव बरें. तिका खूब दुखी बादता खैं?

घारूदाद : खूब, खूब दुखी बादता.

बाबगो : तर साकरेपरस गोड. (मोगाक) तुजो हात मात्सो हेवशीन कर पळौंया. मात्सी नाड धरुनी. (मोगा दावो हात फुडें करता.) चे: चे:, तो खैंचो हात? उजवो हात फुडें कर उजवो. वाग्भट सांगता, बायलांच्या उजव्या हाताची आनी दादल्यांच्या दाव्या हाताची नाड पळौची. (नाड धरून घारूदादाक) ही बद्द बेबकी उडिल्ल्याभाशेन उट्टा. हाचेवैल्यान अशें दिसता कि तुजी धूव मोनी जाल्या.

घारूदाद : हय; म्हाकाय तो रोग तसोच दिसता. तुवें तो जिस्त पारखिलो.

बाबगो : पारखिलो म्हणचे गा? मागीर वैज कसलो तर? हांव तो काना-दोळ्यांचो वैज न्हंय हां. वाग्भटांत धन्वंतरी म्हणून जें उतर आस तें आज म्हाका एकल्याकूच लागू जाता.

घारूदाद : खरेंच. परंत उपकार करून, हो रोग जावचें मूळ कितें तें तूं सांगशी व्हय?

बाबगो : तें भौच सोपें. जीब धल्ली म्हणून मोनें जालें.

घारूदाद : तें खरें. पणून जीब धरूंक मूळ कितें?

बाबगो : तूं संवसारांतल्या खैंच्याय वैजाकडेन गेलो जाल्यार तो तुका सांगतलो कि जिबेक कसलोय आडखळ जातकूच जीब धरता.

घारूदाद : परंत तो आडखळ कित्याक जाता?

बाबगो : तें हांव तुका कितें म्हणून सांगूं? तुका आदींच आमगेले वैजकेचें गिन्यान ना. तेन्ना, जायती कपळफोडणी केली म्हणून तें तुज्या कपळांत रिगचें पडलां? हो रोग म्हणटात तो असो आस कि वाग्भटान ताचेर सातशीं शिळोक घडैल्यात आनी तांकां ताणे 'मौन-सपूतशती' अशें नांव दवल्लां. कितें त्या शिळोकांची तोखणाय करतलो? एका एका शिळोकाक लक्ष लक्ष असुर्पी फावो. आज वाग्भटा असलो वैज संवसारांत कोण जालोच ना.

घारूदाद : तर तो मोटोच वैज म्हणचो.

बाबगो : खऱ्यानीच मोटो. (उबो रावन माथ्यार उजवो हात उबारून) हाचेय परस मोटो म्हळ्यार जाता. बरें आतां हांव तुका ह्या रोगाचो मात्सो समज घालतां. पणून तुका संवस्कुत्र भास येता व्हय?

घारूदाद : ना सायबा. शास्त्राकूय येना.

बाबगो : (एकदम पावली मारून) कितें ! शास्त्राकूय येना?

घारूदाद : ना सायबा.

बाबगो : (खोस जाल्ल्या भाशेन) अजाप म्हणचें, अजाप !

**आवेलं कोकमिस्त्रितं तन्मध्ये ज्याग्रमेवच**
**कोमिदं सुर्बुसं एवं बाबगो भुरकायते ।***

हांतूंतलें एकूय उतर तुका लागना? मात्शें येवजून पळे. सुस्तुतांतलो न्हय गा शिळोक हो ! भौच सोंपो. (बसता.)

फुलगें : ह्या वैजांलो ताळो मात भोव बरो बाये. मोगाच्या लग्नाक हांकांच शिळोक म्हणूंक लांवक जाय.

बाबगो : (फुलग्याक) अजून तूं घुडघुडेक घालूंक गेलें ना?

शिवलो : अगा, चल्लों; हांवूच चल्लों घुडघुडेक घालूंक. (वेता.)

बाबगो : (घारूदादाक) मागीर, समजलो तुका म्हज्या शिळोकाचो अर्थ?

धारूदाद : ना सायबा, कांयच समजना.

बाबगो : तर तुका समज गा कसलो पट्टलो? रोगाची फोडणिशी करतलो जाल्यार उतरापावलाक संवस्कुत्र उतरां लागतात. बरें, तुका तुजी जल्मभास तरी येता व्हय?

---

* संस्कृत, फिंर्गी आनी कोंकणी उतरां भरसावन केल्लो हो अनुष्टुप् छंद आसा. हाचो अर्थ फोवांत सोय आनी गोड घालून केल्लें सुर्बूस खाण बाबगो भुरकायता असो जाता. Avela फोव. Coco नाल्ल. Jagra गोड. Comida खाण.

घारूदाद : (अजापान) जल्मभास? ती आनीक कसली? जल्म जाता तेन्ना आमकां उलौंक तरी येता गा? नस्तींच पिशेपणां.

बाबगो : घात जालो तर. आतां संवस्कुत्र भाशेंतूच उलौंचें पडलें. बरें, म्हात्रभास हें उतर तरी तुवें केन्ना आयकलां?

घारूदाद : (याद करून) हय वय. तें मात हांवें हालींच्या वर्तमानाक जायते खेपो आयकलां. तेदुसा आमगेलो वैकुंठ बुलेत घेवन तेच भाशेसमंदान कसलोसो मजकूर वाचतालो आनी रेयपुब्लिकान ते भाशेच्यो गोंयभर साळो घालूंक जायत म्हणून कितेंशें उलैतालो. ती भास शिकल्यार, आमगेलें गोंय फाटल्यान आस तें सङ्ग्याभाशेन सर्रकरून फुडें सरतलें खैं. मराठी मु गा ती भास? तिका मात्रभास कित्याक म्हणटात तर?

बाबगो : तितलेंय तुका येना मू? (कपळार हात मारून) कर्माऽऽऽ अद्रुष्टा! खैंच्या शणैन गा तुका व-न-म शिकैल्लें? अगाऽऽ पापया, म्हात्रभास म्हळ्यार आपणाल्या आवैबापायली भास.

घारूदाद : तर म्हजी बा कशी उलैनासली ती भास? आनी म्हजो बाप्पाय उलैनासलो तो? आनी म्हाकाय उलौंक येना ती? हांव खरेपणान सांगतां, कोणाच गोंयकाराचो आवैबापूय ती भास उलैना. अशें आसताना, मराठी भाशेक मात्रभास म्हणटात तें कितें गा?

बाबगो : अगा, तुका तें समजना. अठ्ठावीस युगांचे आदीं, ब्रह्मदेवान पैलींच जेन्ना गोंय निर्माण केलें आनी तांतूंत पैलींच जेन्ना मनशां जल्माक घालीं तेन्ना तांगेली भास मराठी आसली. आतांचे आमी गोंयकार हे त्याच मनशांली पिळगी. देखून सगळ्या गोंयकारांली म्हात्रभास मराठी.

घारूदाद : पणून म्हाका ती सारकीशी समजना. त्याभायर हालीं हालीं जाल्यार, भितर जळींमळीं इंग्लेज उतरां घालतात, देखून म्हाका ती निखालूस लागना. गोंयची खैंचीय मराठी बुलेत तूं वाचूंक घे. तांतूंतलीं इंग्लेज उतरां पळेतकूच, ती गोंयकारांखातीर नासून गोंयांभायल्या लोकांखातीर छापल्या अशेंच दिसता. तूं एदो व्हडलो गिन्यानी वैज खरो; परंत तुकाय तीं उतरां आनी भितल्लो मजकूर सारकोसो लागचो ना.

बाबगो : आर्रा ! म्हाका लागचो ना म्हणटल्याची जीब तोडीन. भाशेचें

कसलेंय खतखतावणें म्हज्या पानार वाड; हाव भितर बुचकळी मारून वैर सरतलोंच. बरें तुका आतां समज तरी घालूं खैंचे भाशेन? तुका समजना संवस्कुत्र भास, तुका समजना म्हात्रभास, कर्माचो भोग!

घारूदाद : आमी उलैतांत तेच भाशेन समज घाल्यार जायना?

बाबगो : (नाख खळवटावन) हळद लागली तुमचे ते भाशेक. हेंगाडी भास खैंची. तिका भास हें उतर सोबता गा तरी? म्हाका जाल्यार, ते भाशेचो दोळे फोडून राग येता. पणून आसूं, भँगूं म्हणून हांव ती उलैतां. वांचून उरून हांव रेयपुब्लिकाचो पिर्जेंत बिर्जेंत जायन जाल्यार ते भाशेक गोंयांतसून सामकी ना-नपश्यात करून उडैतलों. मागीर रडात सगळे जाण तिच्या नांवान. तुका वायट दिसूं, बरें दिसूं. आमकां वैजांक जाल्यार ती भास निखालुस फावना गा. आमी म्हणटात तें संवस्कुत्र नाजाल्यार म्हात्रभाशेनूच उलौंक जाय. तितलेंय घडना जाल्यार, उलैता आसताना मदींमदीं संवस्कुत्र उतरां अद्रूण घालूंक जायत. (बोंबबाबाक) तूंच सांग पळौंया, हांव म्हणटां तें खरें वा लटकें?

बोंबबाब : म्हणचे गा.

बाबगो : (बोंबबाबाची खाडकी धरून) अगा, 'आसनवाटिकेसून दीपकन्येक गेलो आनी थैंची जलशाक घेवन सुवर्णकाच्या रथार बसून स्त्रंखळापुराक गेलो' अशें म्हळ्यार बरें दिसता कि 'अस्नोडसून दिंवचले गेलो आनी थैंचें नुस्तें घेवन सोनक्याची गाडी करून सांकळे गेलो' अशें म्हळ्यार बरें दिसता?

बोंबबाब : (हांसून) तुजें तें पैलें उलौपूच बरें दिसता म्हणपाचें भेड्डोलेगीत सांगत.

बाबगो : आऽऽ! कशें उलैलो? पूण आसूं त्यो गजाली. (घारूदादाक) आतां तुजे धुवेच्या रोगाची फोडणिशी तुजे हेंगाडी भाशेंतूच करतां. कर्मांतूच आयलां तें. ताका कोणाचो उपाय? (तितले म्हणसर शिवलो घुडघुडी भरून हाट्टा आनी बाबग्याच्या हातांत दिता.)

बाबगो : (घारूदादाच्या हातांत घुडघुडी दिवन) ओड गा.

घारूदाद : तूंच ओड गा आदीं.

बाबगो : ना गा; तूंच ओड गा.

घारूदाद : अगा, वैजाचो मान पैलो.

बाबगो : जालो गा मान. पेटै तूं आदीं.

घारूदाद : चे: गा. तूंच पेटै. (ताच्या हातांत घुडघुडी दिता.)

बाबगो : (नळी तोंडाकडेन धरून शिवल्याक) अगा, मात्शी फूक मार पळौंया. (शिवलो फुकता. बाबगो दम मारता. चिलमांतलो पानाचो भग करून पेट्टा. तितले म्हणसर बाबगो घुडघुडी मात्शी वैर उबारता आनी शिवल्याची एक मिशी हुलपता.)

शिवलो : (मिशी पोशेत पैस पळून) ही गा घुडघुडी ओडची खैंची रीत?

बाबगो : (तोंडांतसून आनी नाखांतसून धुंवर काडून) कितें जालें गा तुजें?

शिवलो : (मिशी जळिल्ली थैं बोट लावन) हें दिसना तुजें नांवरूप? घुडघुडी ओडूंक तुका शिकैल्ली कोणे?

बाबगो : कांय नज गा मिशी जळ्ळी म्हणून. हांव एदो व्हडलो वैज हांगा आसताना तूं भियेता कित्याक? एक मिशी जळ्ळी जाल्यार धा मिशयो आत्तां हांव तुज्या ओंठार पिकैन. (पर्थून एक दम मारता आनी खांक खांक करून जमनिचेर मदींच पच्च करून थुकता.)

घारूदाद : अगा सवकास. हें गा कितें? म्हजेर तुजो निथू उसळ्ळो न्हंय गा. मदींच जमनिचेर पच्च करून थुकता तें कितें तूं?

बाबगो : कांय नज. तूं एदोळपासून पानां खावन पिची पिची करून वंटिचेर थुकता तें मात तुका दिसना आनी हांव मात्सो जमनीर थुकलों तें रोखडें तुज्या दोळ्यांत गेलें. वंटिचेर थुकल्यार जाता आनी जमनिचेर मात थुकचें न्हंय? समजता गा म्हाका सगळें. विडो खावन वंटिचेर थुकून त्यो आयत्योच रंगौन काट्टलो म्हणटा तूं?

घारूदाद : अगा पापया, थुकलो म्हणून वंटी रंगौन जातात? जमनिचेर थुकल्यार तांतूंत पांय भरतलो म्हणून हांव वंटिचेर थुकतां. तूं कोणायगेर गेलो जाल्यार, थैं तुका ही चाल दिष्टी पट्टलीच. हांवेंच ती नवी घाल्याशी न्हंय.

बाबगो : आनी हांवेंय जाल्यार नवी चाल घाल्या? घुडघुडी ओडून जळामळा पच्च करून दर्कलां उडौची चाल, विठोबा कमरेचेर हात धरून उबो रावतपासून चलत आयल्या. ती कोणाच्यान मोडुं नज. मोडल्यार पातक आस. देवान जो आमकां मनशांचो जल्म दिला आनी सोबीत बरें तोंड दिलां तें कित्याक म्हणून समजला तूं? घर-दार, वांसरी-उष्टावारो, रांदची कूड-पायखिळो म्हणनासताना, जैंथैं, मेळत ताणे,

दोळे धांपून थुकचें. आमी तशे थुकल्यों नात जाल्यार आमगेलें मनीसपण कसलें? रेड्या-बैलाक तोंड आस; पणून तांकां थुकूंक येता जाल्यार पळे. तांचे पाष्ट आमी मनशांनी जावचें म्हणटा तूं? (आनीक एक फावट जमनिचेर पच्च करून थुकून घुडघुडी कुशीक दवरता.)

घारूदाद : बरें सायबा, तूं सांगता तेंच खरें. आतां मात्शी रोगाची फोडणिशी करशी व्हय?

बाबगो : करशी म्हणचे? म्हजें कामूच तें. अगा, ही जी आमच्या तोंडांत जीब आस तिचे फाटल्यान आनीक एक जीब आस; तिका पडजीब म्हणटात. ते जिबेचें तोंक मनशाचे उजवे कुशीक जें काळीज आसता ताका गच्च दसिल्लें आसता; म्हणून काळीज एकाद्रें हालून तें आपले सुवातेवैल्यान दुसरेकडेन धुकल्लें जाल्यार पडजिबूय आपले सुवातेवैली हालून मदींच खैंचेयकडेन शिरकता आनी मनशाची वाचा धरता. म्हाका दिसता, तुजे धुवेचीय अशीच गजाल जाल्या जांवये. तूं खरेंच सांग, न्हवरो घोड्यार बसून जेन्ना तुमगेर आयलो तेन्ना गर्नेल बी पेट्टाले व्हय?

घारूदाद : पेट्टाले म्हणचे !

बाबगो : देखुनूच तें. आदीं पैलीं बायलांचें काळीज फुकफुकें. तांतूंतूय ल्हान चलयांचें आनी पुरत्यान होंकलांचें काळीज चडूच फुकफुकें. गर्नेलाचो नाद कानांत पडनाफुडें तें कलकल्ल्या बगर रावता? तशेंच, तें मुळचे सुवातेवैलें धुकलून ताचे वांगडा पडजिबूय ताळ्यांत शिरकल्या बगर रावता?

घारूदाद : खरें गा खरें. आतां म्हज्या ध्यानांत आयलें. तशेंच जालें जांवये. परंत हांव म्हणटां, (आपलें काळीज सांसपून) काळीज उजवे कुशीक आसता अशें जें तुवें म्हळें तें कितें? म्हजें काळीज हें दावे कुशीक धडधट्टा.

बाबगो : (आंग काडून आपलें काळीज सांसपून) तें खरें गा. परंत-अं-अं-अं-अं-काळीज दावे कुशीन आसता खरें. पणून वायटाकाराचें काळीज वैजाच्या उजव्या हाताक आसता न्हंय? तूंच पळे, तूं एक वायटाकार आस; तुजी नाड धरून हांव तुजे सामखार उबो रावतकूच तुजें काळीज म्हज्या उजव्या हाताक उरता न्हंय? देखून उलैता

आसताना, 'उजवे कुशीक काळीज आसता' अशेंच म्हणपाची आमची वैजांची चाल आस.

घारूदाद : अशें, अशें. तर म्हाका मकलासी कर. बरें, आतां हाका वाचा फुटूंक ओखद कसलें करतलो म्हणटा तूं?

बाबगो : ओखद मारून व्हडलेंशें ना. ओंसभर लंवग्यो मिरसांगो बारीक बऱ्यो गंद कशोशो वांटून सकाळ-सांज खांवक दिवच्यो. हाका पथीक जेवण म्हळ्यार शिताचें तर्ण अळणी पियेवचें. तोंडाक जाय जाल्यार आल्याच्यो फोडी मिरयांचे बुकयेंत लोळौन खांवक दिवच्यो.

घारूदाद : (तोंडार हात धरून) बापाय गा म्हज्या! हो राक्षेसी उपाय जालो. म्हजें मोगा मुदलचेंच नाजूक. तें ह्या ओखतान रोखडो जीव साणटलें.

बाबगो : कांय सांडिना. म्हजे परस तूं अदीक जाण? ओखतां म्हणटात तीं अशींच आसतात. आदीं कोडू मागीर गोड. ह्या रोगाक ज्यो हांवें मिरसांगो लावन दिल्यात त्यो कित्याक तें तूं जाण?

घारूदाद : नकळ.

बाबगो : तर मनशान आपणाक समजना जाल्यार वोगीच कितेंय उलौंचें न्हंय. किरांक उलौंक येंवक मिरसांगो खांवक घालतात तें तूं नकळ?

घारूदाद : हय, मिरसांगो घालतात खऱ्यो. परंत त्यो उलौंक येंवक जाय म्हणून घालतात?

बाबगो : हय वय. तूं जाण कितें? तुजे धुवेक हो उपाय करून तूं पळे मात. तिका रोखडेंच उलौंक येतलें.

घारूदाद : बरें सायबा.

बाबगो : आतां हांव चल्लों. मात्सो रावन समाचाराक येन. ओखद मात सांगलां ते भाशेन दी. (माथें खरपून आनी फुलग्याकडेन बोट करून) तुमगेले हे कुळमिणीक इल्लें ओखद दिवची म्हजी तजवीज आसली.

फुलगें : (आकांतून) हें आनी सायबांनू कितें? म्हाका ओखद कित्याक? हांव बरें घटमूठ आसं.

बाबगो : देखुनूच ओखद घेंवक जाय. मनशाक चड आरोग्यताय आसूंक फावना. तुज्यो मात्शो शिरो मारूं व्हय हांव? नाजाल्यार जळवो लायल्यार कशो?

फुलगें : पणून म्हाका पिडा-रोग नासताना शिरो आनी जळवो कित्याक?

बाबगो : असल्या ह्या जाणवायांनीच आमी मनशां चुकतांत. पिडा-रोग नासतानाच ओखद घेंवक जाय. घराक उजो लागतकूच बांय खणल्यार उपकारता?

फुलगें : चलात थैंचे. म्हाका तुमच्यो शिरोय नाकात आनी जळवोय नाकात. दाटून सुखाचो जीव दुखांत कोण घालीत बाये?

बाबगो : हेंच तें. म्हजे असलो धन्वंतरी आयतो दारांत पावला ताचें तुका कांयच ना. बरें, तूं फोंत तरी करून घेशी व्हय?

फुलगें : (नाख खळवटावन) आंवंय आंवंय !

बाबगो : बिबो तरी घालून घेशी?

फुलगें : कितेंय उलौं नाकात पळौया.

बाबगो : तूं आयकना तर म्हाका? पळौं येत. हांव वैज आसं. केन्नाय येतलें तूं म्हज्या हातांत. (घारूदादाक) बरें गा. येतां तर हांव. बरें-गोंय.

घारूदाद : मात्सो राव गा.

बाबगो : आतां आनीक कित्याक?

घारूदाद : तुजी बिदागी...

बाबगो : (दावो हात फुडें करून) जाली गा. कसली बिदागी? ही आनी नवीच चाल तुवें खैंसून हाडली? वाग्भट सांगता कि वैजान वायटाकाराकडसून दुडू केन्नाच घेंवक जायनात.

घारूदाद : तें कशेंय आसूं. पणून तुवें हे घेंवकूच जायत.

बाबगो : चे: चे: ! हांव ते केन्नाच घेवचो ना. नस्तीच चाल हांव घालचो ना. बाकिच्या वैजांक कळत जाल्यार ते म्हाका सामको पिसटून खातले.

घारूदाद : कांय नज. तुजे आमचेर जायते उपकार जाले.

बाबगो : तूं ह्यो म्हज्यो भगली मारता.

घारूदाद : अगा, तुज्या जिवाच्यान भगली न्हंयत.

बाबगो : तें कशेंय आसूं. पणून हांव घेवचो ना. हांव दुडवां खातीर वैजकी करिना. देवान म्हाका खूब गिरेस्तकाय दिल्या.

घारूदाद : कोण ना म्हणटा? परंत...

बाबगो : (दुडू घेवन) भौच जड लागतात गा हे.

घारूदाद : जांव गा जड.

बाबगो : पणून हांव दुडवांचो वैज न्हंय हां. आसूं. भँगूं म्हणून घेतले.

घारूदाद : मोटे उपकार जाले.

बाबगो : बरें गोंय. मात्सो रावन हांव येन.

घारूदाद : बरें-गोंय.

## तिसरो आंक

**देखाव १** ... शारांतलो एकसुरो मार्ग

(बाबगो माचयेर भोंवता.)

बाबगो : (किर्वटिचे दुडू काडून भुरकटून पळौन) सवँग घेतलें पणून सार्थक जालें हां. (कपळाचेर हात मारून हांसून) संवसारांतले लोक पिशे खरे. तांकां पिशें लायतलो कोणूय मेळूंक जाय. ते रोखडे पिसावतात. हांव वैज म्हणून लोकांक समजलें मात. कितें तांचो बोवाळ! सगळ्यांचे रोग एके फावटीन चाळावले आनी मेळत तो आपलो हात फुडें करून येंवक लागलो. भायले गांवचे लोक लेगीत हांगा कसल्याय कामाक पावल्यात जाल्यार तांचे आनी तांच्या घरच्यांचेय रोग म्हाका पळौन उबे रावले ! हांव खऱ्यांचो वा लटक्यांचो वैज तेंय समजून घेवची तांकां वान्सा ना. एकल्याची पिसाय पळौन दुसरो पिसावता ! माणसुकी उल्ल्या ह्या लोकां फुडें?

(सुब्रमणी येता.)

सुब्रमणी : बरें-गोंय, वैजराज. तुजें म्हाका मात्शें काम आसलें.

बाबगो : (ताची नाड धरून) तुजी नाड सामकी भँगल्या. तुका मोटो रोग लागला. भौच असाध्य रोग.

सुब्रमणी : म्हाका रोग लागला? पणून म्हज्या जिवाक कांयच भोगना तें?

बाबगो : जिवाक कांयच भोगना? तर तुका रोग निखालुस ना म्हणचो. पैलींच अशें सांगल्यार कितें जातलें आसलें? बरें, म्हजें तुका काम आस म्हळें तें कसलें?

सुब्रमणी : थोडयाभितर सांगतां. म्हजें नांव सुब्रमणी. जे वायटाकारणीक तूं पळौंक गेल्लो ती म्हज्या मामाची चली. ल्हानपणापासून हांव आनी ती एकेचकडेन खेळिल्ल्यों, नाचिल्ल्यों आनी वाडिल्ल्यों. आमची दोगांयची एकामेकांचेर भौच माया. आमी घोव-बायलां म्हणून भुरगेपणापासुनूच सगळे लोक आमच्यो मस्कऱ्यो करताले. मुंजिच्या

वेळार, हांव काशयेक गेलों तेन्ना घारूमामान चली दीन म्हणून म्हाका समजावन लेगीत हाडिल्लो. परंत फुडें ताचें मन कशें बदल्लें तेंच समजना. ताणे हालींच तिची सोरगत म्हाड्डोळच्या गिरेस्त वेंकटरमणाकडेन केली. खरेपणानशीं, तो न्हवरो तिका निखालुस फावना. पंचावन वर्सांचो उतार दादलो तो. ह्या आदीं ताणे दोन-तीन खेपो कपाळाक भाशिंग बांदून घेतलां. असले तरेचो घोव म्हज्या मामाचे धुवेक मनोमानशीं नाका. ताचेकडेन सोरगत थारायतपासून तिका व्हडलो रोग लागलो. म्हाका तें समजलें. हांव ती सोरगत तांकत ते भाशेन मोडूंक वावरूंक लागलों. म्हज्या मामाक तें नसाय जालें. म्हाका ताणे आपल्या दारांत पांय लेगीत दिवचो मना केलो. निमाणें ताणे लग्नाचो आटाप घालो. परंत ताचे धुवेक म्हजे बगर आनीक दुसरो कोणूच घोव नाका आसलो. ती चिंतेंत पडली. म्हणटकूच तिका त्या लग्नांतसून वाटांवक हांवें एक उपाय येवजून तिका कागद धाडलें. म्हजो उपाय फळाक आयलो. आतां तिका वचून मेळपाची म्हजी तजवीज आस. आनी तितलेच खातीर तुजो पालव म्हाका जाय.

बाबगो : (तिडकून) आरे नाडा! कवायत्या! ती मोनी जाल्या ती तुजी युक्त तर? असलीं बळयांचीं मोनेपणां ओखतांनी बरीं जावचीं पडल्यांत?

सुब्रमणी : सायबा, उपकार करून मोठ्यान उलौं नाका. कोणूय आयकत जाल्यार फजेत.

बाबगो : एऽ हेः. तें उपकारना. मोट्यान उलौं नाका? आत्तां वचून सांगतां तिच्या बापायक आनी सगळी खबर भायर फोट्टां.

सुब्रमणी : तितलें मात करुं नाका; वैजराज. पांयां पट्टां.

बाबगो : बरें, फुडें तूं म्हणटा कितें?

सुब्रमणी : तूं म्हज्या मामालो बैल (जीब चाबून) ना सायबा, वैज जालाच; तेन्ना कोणेय भाशेन म्हजी आनी तुजे वायटाकारणिची मात्शी भेट जायशी कर.

बाबगो : कितें विचारता! मोट्यो जाणवायो सांगता तूं. एदो व्हडलो वैज म्हणून आज जो हांवें भोमान जोडला ताका ह्या असल्या करण्यांनी खन लांव तर? चल थैंचो. कितेंय उलौंक लज दिसना. जिवेक हाड ना म्हणून कितेंय बडबडचें न्हंय.

सुब्रमणी : (बोलसांतसून दुडू काडून) हे पळेले मू?

बाबगो : (दुडू घेवन) राग धरुं नाका हां कितेंय उलैलों म्हणून. पाड पडिल्ली जिबलीच नष्टी ही. (जीब चाबिल्ल्याभाशेन करता.) आऽहाहाहा! तुजे असलो गुणेस्त मनीस संवसारांत खैं मेळचो पडला मू? वोगीच हांवें तुका नाड आनी कवायती म्हळो. तूं कांय गडबडुं नाका. म्हजे हस्तगून तांकत तो पालव हांव तुका दीन. तुजे खातीर म्हजें सगळें वैजकेचें गिन्यान वाटेक लायन. हांव मनिसूच तसलो. जिवाक जीव दितलों.

सुब्रमणी : आऽ! आतां कशें उलैलो? आतां तुजेकडेन म्हजी मागणी इतलीच कि मामाच्या घरा कशेय भाशेन म्हजो रीग कर. परंत म्हाका थैं कोणे वळखूंक फावना हां. नाजाल्यार मामा तो म्हजो. तो म्हाका खोंट मारून रोखडो भायर घालतलो.

बाबगो : हय. ती एक व्हडली अडचण म्हणची.

सुब्रमणी : अशें केल्यार कशें? हांव वळखूंक येवचो न्हंय म्हणून तोंडाक कसलोय रंग काडचो, पोशेग बदलचो, घोगऱ्या ताळ्यान उलौचें आनी तुजो शिष्य जावन मामागेर वचचें. कशें म्हणटा तूं?

बाबगो : शाबास! युक्त मात भोव बरी काडली.

सुब्रमणी : (कानसूल खरपून) तरी आनीक एक अडचण उल्लीच. तुजो शिष्य जांलों जाल्यार म्हाका वैजकेचें गिन्यान थोडें-भोव आसूंक जाय मू? तें म्हाका निखालुस ना.

बाबगो : ताची कांय पर्वा ना. हांव तें सगळें सोबौन व्हरन. तुका परिपाटक, रानवांयगीण, इंद्रजव, गोडेकोष्ट, वात, पिंत, कफ हीं उतरां येतात मू? जालें तर. हांव तरी अदीक खैं जाण? म्हजी खरी खबर तूं आयकून घेशी जाल्यार तुका मोटें अजाप जातलें. तुवें तुजें गुमानीत म्हजेकडेन फोडलें, देखून हांवें म्हजें गुमानीत तुजेकडेन फोडल्यार कांय पर्वा ना.

सुब्रमणी : म्हणटकूच तूं खऱ्यांचो वैज न्हंय तर?

बाबगो : कपळाचो म्हज्या वैज! हें सगळें वैजाचें फकाण. नाका म्हणटा आसताना, म्हाका ताणी बळयांच वैज केला. कितें तांच्या कपळांत कोल्ल भरिल्लें देव जाण. हांव वैज म्हणून ते हटाकूच पेटले. मागीर कितें? उपाय आस? जालों सायबा वैज. हर्शी, म्हजें बरप म्हणशी

जाल्यार, भुरगेपणांत शणैमामान म्हाका अळंक्षायेझामेरेन चिरूंक घाल्लें म्हणपाची म्हाका याद आस. बोळक्याचेर जाल्यार हांव केन्ना आयलोंच ना. बेरजो-तेरजो म्हणटात त्यो कितें आनी कात तेंय हांव नकळं; अशें आसुनूय आज वैज म्हणून म्हजो जेदो लोकीक जाला तेदो कोणाचोच जांवक ना म्हळ्यार कामायता. सगळो लोक म्हाका मोटो मनीस कसो-सो लेखतात. म्हजे भोंवतणी नाचतात. म्हाका उखलून धरतात. चार दमड्यो सावतात. 'देवाचे दयेन हो धंदो असोच चलत जाल्यार खोऱ्यांनी दुडू ओडीन. वैजकी वैजकी म्हणटात ती कितें म्हणून समजला तूं? तांतूंत कितें कठीन आस? वाटोणें पळेलें, जीब पळेली, नाड धल्ली आनी कसल्याय पाळां-मुळांचो कडो लावन दिवन, शेरभर उदक घालून पांवशेर करचो आनी सकाळ-सांज घेवचो म्हणून सांगतकूच जालें. हालीं जो उट्टा तो वैज जाता ताचें मूळ कितेंशें दिसता तुका? वैजकी मुदलचीच सोंपी. तिका भांडवल कांयच लागना. सगळ्या धंद्यांत सवाय धंदो तो तो. घडीभर दुडूय मेळ्ळे नात जाल्यार भौमान खैं वचूंक ना. सगळो लोक वैजाच्या फाटल्यान नाचता. उपकारान भारावता. ह्या धंद्यांत वैजाचें लुस्कान कांयच ना. ताच्या ओखतान लोक मेलोय जाल्यार ताचे वाटेक कोण वचना. वायटाकार मेल्यार, आयुश्याची दोरी तुटून मेलो म्हणटात! तेन्ना, हो धंदो आदावाचो न्हंय?

सुब्रमणी : कितें विचारता? हांवूय तुजेवरी वैज जाल्यार चड बरें आसलें. पणजे कुर्साखातीर वोगीच हांवें कितलींशीं वर्सां होगडायलीं आनी कोंकुर्साच्यो पांटलीभर येजामी फुकट दिल्यो.

बाबगो : (कोणशे मनीस येतात तांकां पळौन) ते पळे लोक म्हाकाच सोदूंक येतातशे दिसतात. मात अशी उसर्पत ना. सामकीं चंवरां पट्टात म्हळ्यार. बरें, तूं आतां चल तुजो भेस बदलूंक. तंव म्हणसर हांव तांची चौकशी करतां. (सुब्रमणी वेता.)

(रागलो, नागलो, तिमलो येतात.)

रागलो : (बाबग्याक) बरें-गोंय. म्हजे घरकारणीक सायबा सकाळपासून एकसारकें उदकाडे जाता. कितलेशे घाळार घाळ जाले. मात अशी उसर्पत ना.

बाबगो : मागीर म्हणटा कितें तूं?

रागलो : गरिबाचेर उपकार करून कसलेंय ओखद दिशी जाल्यार... म्हजी सायबा एकूच बायल ती. मेली-बिली जाल्यार सगळो संवसार उबंत पट्टलो.

बाबगो : उबंत पट्टलो? पिसो खैंचो! बायल मेल्यार पापया पिडाच गेली. बरें, तुका ओखद जायच म्हणटा तूं? सुक्या दोडग्याच्यो दोन बियो बारीक वांट आनी त्यो तिका खांवक दी; म्हणटकूच, एका खिणांत परसाकडचें थप्प जातलें.

रागलो : बरें सायबा, उपकार जाले. बरें-गोंय. (वेता.)

बाबगो : आरेच्या! हो म्हजी बिदागी दिनासतानाच गेलो! चेः आतां अशें करूंक फावना. पैलीं बिदागी घेवन मागीर ओखत दिंवक जाय. भीड भिकेची भैण. तसलें तें उपकारना. (नागल्याक उलो मारून) अगा, तुका कितें जाय?

नागलो : (माथें खरपून) म्हाका सायबा - म्हजे धुवेक सायबा - कालपासून भारकूण जाल्या आनी सवनरात खांक-खांक खांकता. मात अशी ताळ्याक जीब लागना.

बाबगो : परंत तूं खैंचो गा?

नागलो : हांव सायबा मैडेंचो.

बाबगो : वैजाक दिंवक कितें हाडलां कि ना? कि आपले हात हालैतूच! तुमगेल्या मैड्यां खैं केळीं बरीं जातात?

नागलो : हय सायबा. घरा वचनाफुडें हांव तुका दोन घड धाडून दीन.

बाबगो : दुडवांखातीर पर्वा करुं नाका गा. म्हजें घर खैं तें जाण मु तूं? थैं त्या सातां वडांकडेन. बरें, तुजे धुवेक ओखद जाय? म्हापशेंसून दोन मोटीं काळडां हाड आनी तांचो शेरभर रोस काडून तांतूंत मैंडोळे केळिचे कांडयेचो शेरभर रोस मेळै आनी तांतूंत साळगंवच्यो अर्दरात बेलयो घालून तो रोस सकाळ-सांज पांवशेर पांवशेर पियेंवक दी. हाका पथीक खाण म्हळ्यार निखट्या हुड्डांचे वडे कोचिच्या तेलान तळून खावचे. मागीर खांक रोखडीच मना जातली आनी भारकूण पोल जातली.

नागलो : बरें सायबा, बरें-गोंय. (वेता.)

तिमलो : बरें-गोंय. म्हजेर एक उपकार करूंक जाय.

बाबगो : तूं खैंचो?

तिमलो : हांव सायबा जुवेंचो.

बाबगो : जुव्यां शाकभाजी जिनसां-जिनसांची जाता खैं.

तिमलो : हय सायबा. म्हजी भैण बरी जातकूच हांव तुका शाकेचें एक पांटें भरून धाडीन.

बाबगो : कितें जाता तुजे भैणीक?

तिमलो : तिचें आज सात दिस एकसारकें माथेंच फोट्टा.

बाबगो : माथें फोट्टा? वागणिच्या दुदांत मिरयां वांटून तो लेप तिचे ताळवेक काड.

तिमलो : बरें सायबा. बरें-गोंय. (वेता.)

बाबगो : आरेच्या! अजून तो म्हजो शिष्य आयलो ना तें कितें? (इतले म्हणसर सुब्रमणी भेस बदलून येता.) आयलो तूं? निक्तीच तुजी हांवें याद काडिल्ली. तुका बद्द शंबर वर्सां आयुश्य आस. (पांयापासून तकलेमेरेन ताका बारकायेन पळौन) तुवें भेस मात बरो केलो हां. तुका आतां कोण वळखुचो ना. बरें, तूं म्हजे वायटाकारणीक मेळूंक वेतलो म्हणटा तो कसले तजविजेन?

सुब्रमणी : हर्शींच गा. आज कितलेशे म्हैने मामान म्हाका आपणागेर पांय लेगीत दवरची बंदिस्ती केल्या; आनी म्हाका जाल्यार मोगाक भौनभौन पळेनशें दिसता; परंत कांयच उपाय चलना. तेन्ना तुजो शिष्य जावन ताका दोळेभर पळौंचें आनी ताचो समाचार घेवचो इतलीच म्हजी तजवीज. वचुंया मु तर? (वेतात.)

**देखाव २** ... घारूदादाच्या घराचें साल.

(घारूदाद, बाबगो, सुब्रमणी.)

घारूदाद : (बाबग्याक पळौन) बरें-गोंय, वैजराज. तुजी हांव केन्नाच्यान वाट पळेतां.

बाबगो : आमगेली वायटाकारीण कशी आस?

घारूदाद : तुगेलें ओखद दीतपासून ताचो रोग चड बळावलो. तें ओखद मुदलीं घेच नासलें. परंत आमी मोटी मार-धपट करून आनी कोलनाडो करून सुमार शिंपीभर ताच्या ताळ्यांत ओतलें.

बाबगो : पणून कशेयभाशेन तो रोग बळावलो मू? हांव तें आदींच जाण आसलों. आतां तुवें चिंता करची लागना. तें रोखडें उलौंक लागतलें.

घारूदाद : (सुब्रमणयाकडेन पळौन) हो कोण तुजे वांगडा दुसरो?

बाबगो : तो म्हगेलो शिष्य - शिरोमणी.

घारूदाद : कोण? सुब्रमणी?

बाबगो : चे: गा. शिरोमणी म्हळ्यार. तुका धड आयकूंक येनाशें दिसता. तुजे धुवेचो रोग दाखौंकूच हांवें ताका हांगा हाडला. रोग दोळ्यांनी पळेल्याबगर ध्यानांत भरनात. म्हज्या ह्या शिष्याक असले रोग पळौंची मोटी उमळशीक.

घारूदाद : (मान हालौन) अशें, अशें.

बाबगो : बरें, खैं पावली तुगेली धूव?

घारूदाद : (पङ्ग्याकडेन पळौन) एऽऽ फुलू मोगाक हांगा घेवन यो पळौंया मात्शें. वैज आयला म्हणचें.

फुलगें : (मोगाक भायर हाडून) हें आयलें मोगा. (ताका बसैता आनी वेता.)

बाबगो : (सुब्रमण्याक) शिरोमणी, ते वायटाकारणिची चिके नाड पळे पळौंया. (मोगाची नाड धरून सुब्रमणी ताका आपली वळख दिता; तंव म्हणसर बाबगो घारूदादाचो हात धरून ताका माचयेचे फुडले वशीन व्हरता आनी ताका फाटल्यान पळौंक दिनासताना ताचेकडेन गजाली करता.) तूं जाण? हो आमगेलो शिरोमणी कितलो हुशार आस तो? तो संवस्कुत्र भास सामकी तोंडपाठ उलैता. अमरकोंस जाल्यार ताचे जिबेच्या तोंकार. वाग्भट म्हळ्यार विचारुंकूच नाका. वांचल्या-उल्ल्यार, तो आपले पदरचेच जायते वाग्भट घडौन आमगेले वैजकेंत भर घाल्याबगर रावचो ना. गूण म्हणून कसले भांगराचे. असलो शिष्य मेळूंक पुर्विल्ल्या जल्माची पुण्यतायूच जाय.

मोगा : (सुब्रमणयाक) तशें म्हजें मन बदलचें ना.

घारूदाद : (खोसयेन आनी अजापान) कितें ! म्हजें मोगा उलौंक लागलें ! शाबास वैजा. आज धन्वंतरी म्हणटात तो तूं. हातार न्हंय गा गूण दिलो तुवें. जादू न्हंय गा हो जादू! तुज्या ह्या उपकारांखातीर तुका कितें दीन तें थोडें. म्हज्या आंगाच्या चामड्याचो व्हाणू करून

तुका घालूंक दिल्यो जाल्यारूय तुज्या उपकारांतलो हांव मेकळो जावचो ना. (पङ्ग्याकडेन पळौन) कोण रे आसत थैं? बोंबबाब, हेवशीन येयात पळौंया मात्शे. (बोंबबाब येता.) चलयेक वाचा फुटली ती कळ्ळी तुमकां? बेताळान मोटे उपकार केले म्हणचे. आतां ती तेदूसची आंगवण फारीक करूंक जाय. आमोण्यां म्हादू भगतागेर एक मोटोसो बोकड धाडून दिवन तो बेताळाच्या फुड्यांत मारूंक लायात. तशेंच, ह्या वैजाक तस्रीप दिवचेखातीर एक बरोसो अष्टिदेगेचो जोडो विकतो हाडात.

बोंबबाब : बरें आस. (वचूंक लागता.)

घारूदाद : (बोंबबाबाक) आयकात, आयकात. आनीक सांगतां. चलयेचें केन्नाकाळ लग्न करून दीनशें म्हाका जालां; देखून म्हाळूभटाक आपौंक कुंभारजुव्यां एक मानाय धाडात आनी म्हाङ्गोळा तुमी खासा वचून वेंकटरमणबाबांक चलयेची सगळी खबर कळयात आनी एरवांचो दसमिचो गोंधळिचो म्हुर्त थारावन नमीदीस सांजेवेळतकत तांकां घेवन येयात. ध्यानांत उरत मु तुमच्या?

बोंबबाब : हयवय. ताची कांय पर्वा ना. (वेता.)

बाबगो : चली बरी जाली म्हणून कितलोसो गा तुजो बोवाळ हो? म्हजेकडेन तूं उलौंकूय विसल्लो.

मोगा : पणून बाप्पा, हांव तुमकां आदींच सांगतां तो म्हातारो...

घारूदाद : (दोळे मोटे करून) कितें म्हणटा? जिबट पोर. अजून जीब सारकी सुटली ना आनी लागलें बडबडूंक. भीड-मुर्वत कांयच ना. चीप बस थैं.

मोगा : पणून-अं-अं-अं-त्या बाबांकडेन म्हजें लग्न...

घारूदाद : तुजें लग्न नाका? लग्न जायनासताना रावतलें तूं? तुवें कितलेंय नाख आपटिलें जाल्यार, त्या दळिद्या सुब्रमणयाकडेन तुजें लग्न हांव केन्नाच करून दिवचो ना. (बाबग्याक) कळ्ळें मु गा वैजा? ह्या पोराक लागलां पिशें. ताका तो म्हजो भिकाङ्गो भाचोच मानला. ताचेकडेन एक फुटकी दमडीय ना. एक घरभाटलें आस तितलेंच पळौचें. परंत वेंकटरमणबाबांली गजाल तशी न्हंय. तांचेएदो गिरेस्त मनीस आज सगळे अंत्रुजेंत कोण मेळचो ना. ते म्हाङ्गोळचे बारांव, विस्कोंद, कोंद म्हळ्यार जाता. तांची सर त्या भिकाङ्ग्या

सुब्रमणयाक येवची पडल्या?

मोगा : पणून कितेंय जालें जाल्यार त्या बाबांकडेन म्हजें लग्न नाका.

घारूदाद : (रागान नाखार बोट धरून) चेप. तोंड धांक. पळेलीं कशीं हालींचीं पोरां निलाजरीं हीं? दिशींदिशीं कलयूग आयलें कलयूग आनी कांय ना. लग्नाची गजाल काट्टकूच होंकलांनी सामकें मरून मुक्त जाल्ल्याभाशेन खैं तरी खांची-गोंयड्याक वचून पडचें आनी कितें जाता तें वोगी पळौचें. परंत हें पळेलें कितें तें? म्हाका समजता गो मोगा. तुवें तें शाकुंतल आनी सौभद्र पळेतपासून तुकाय शकुंतला आनी सुभद्रा जावचेंशें दिसता. पणून हांव खैं जालां अजून कण्व आनी बळराम? हांव मरमरसर जीव काट्टलों पोराचो. वळखून नकळ. (बाबग्याक) पळेलें मु गा वैजा? हालींच्या ह्या चलयांनी आनी बायलांनी सामकीच दशा होगडायल्या. भीड-मुर्वत कांयच ना तांकां. दादल्यांच्या हुजरां पांय पातळावन बसतल्यो, आसनमांडी घालतल्यो, खावचीं पानां खावन पिची-पिची करून थुकतल्यो, हात-हातभर जीब भायर काडून फराफरा करून उलैतल्यो, खीखी करून हांसतल्यो! मात तरी सोब आस तांकां? नाजाल्यार त्योच पुर्विल्ल्यो बायलो पळे. त्या वेळार तें सत्ययूग आसलें. म्हजी बा एदी व्हडली पैंसट वर्सांची म्हातारी. परंत एकदीस तिचें उतर भायर आयकूंक येतालें मू?

मोगा : पणून तांचेकडेन म्हजें...

घारूदाद : शी, शी. म्हज्यान आयकुं नज. विजापात्र मरे पोर हें ! वैजा, सायबा, तुका पांयां पट्टां, पर्थून आसतशें ताका मोनें कर पळौंया. आनी एऽ बोंबबाब, बोंबबाब, (ओ, ओ करीत बोंबबाब येता.) तुमी भटाक आपौंक धाडुं नाकात आनी म्हाड्डोळाय वचुं नाकात. पोराक करतां आतां जोगीण. लग्न बी कांय नाका. आसुनी तशेंच.

बोंबबाब : बरें आस. (वेता.)

घारूदाद : (बाबग्याक) करता मु तूं ताका पर्थून मोनें?

बाबगो : एऽ हे:; तें कशें जायत? तुज्यान ताची करांदाय आयकुं नज जाल्यार, तुज्या कानांत कसलेंय ओखद घालून हांव तुका भेड्डो करीन.

घारूदाद : नाका सायबा, म्हाका तूं भेड्डो करुं नाका. परंत, पळेलें मु तुवें कशें हट्टुळगें पोर हें? कसो आपल्या बापायचो जीव खाता तें?

बाबगो : (सुब्रमणयाक) शिरोमणी, ताचे जिबेक तें ओखद मात्शें बरें करून घांस हां. अजून ताची जीब सारकी सुटूंक नाशी दिसता.

घारूदाद : कसलें काय म्हणटलो म्हजें कर्म हें? ह्या पोराक त्या भिकाड्या सुब्रमणयाचें बद्द पिशें लागलां पिशें. तो म्हजो हर्शीं भाचो. पणून हे चलयेक ताचो नाद लागून म्हजो तो दुस्मान जालो.

(इतले म्हणसर शिवलो येवन घारूदादाच्या कानांत कितेंशें फुतफुतता.)

घारूदाद : (अजाप जावन आनी रागान पांय आपटून) कितें? म्हाका नाका आसताना म्हज्या घरांत? धांप बेगीन सगळीं दारां आनी कोणाकूच भायर सरूंक दिंव नाका. (बाबग्याक) आरे वैजा, असलीं कामां? असल्यो फटाफटी? आरे नागौण्यांनू! आरे बास्कळांनू! (पड्ड्याकडेन पळौन आकांतून) एऽ बोंबबाब, बेगीन काब-दे-पुलीस आपयात.)

(सुब्रमणी पळूंक सोदता; तितले म्हणसर शिवलो ताका गच्च धरता.)

बाबगो : (कडकडून मनांत) केल्लें कर्म जिवार आयलेंशें दिसता. म्हापुरसा सायबा, आतां तूंच म्हजी काकळूत कर. (तो पळूंक सोदता; पणून धांवता आसताना ताचो रुमाल सकला पट्टा. तो उखलून ताच्या शेवान घारूदाद ताका एका खांब्याक बांदून घालता.)

घारूदाद : शिवल्या, त्या सुब्रमणयाकूय त्या खांब्याक चरांटून बरो बांदून घाल. पळौंया कसो पळटा तो. आत्तां आवत करतां दोगांयचेर आनी बद्द धाडून दितां म्हसमीक. (शिवलो सुब्रमणयाक बांदून घालता.)

बाबगो : पणून हांवें गा कसलो केलो तुजो गुन्यांव? म्हाका गा कित्याक वोगीच बांदून घाला तुवें? धुवेक बरी केली ताचें भाडें दिसता हें? अष्टिदेगेचो जोडो तो असलोच आसतलो?

घारूदाद : दितां तुका अष्टिदेगेचो जोडो. असल्यो नाडानाडी करून सुब्रमणयाक म्हज्या घरांत रिगैतलो तूं? तुजी तजवीज तरी कसली आसली?

बाबगो : खैंचो गा सुब्रमणी घेवन बसला तूं? हांवें हाडला म्हज्या शिरोमणयाक. म्हजो शिष्य तो. आज धा वर्सां जालीं; तो म्हजेकडेन वैजकी शिकता. रानांत वचून ओखतांचीं पाळांमुळां तोच हुमट्टा.

घारूदाद : एऽ बोंबबाब, अजून आयलो ना काब-दे-पुलीस? चे:, हाची

मंदावणीच चड. शिवल्या, तुजें ध्यान आसुनी हां हांचेर. हांवूच घेवन येतां ताका. (येता.)

(म्हालखूम येता.)

म्हालखूम : (शिवल्याक पळौन) आऽहा! बेसबरो मेळ्ळो. अगा, तुका सोदून काट्टा म्हणसर म्हजो जीव न्हंय गा खासावीस जालो? हांवें तुका वैज सांगिल्लो ताचें कितें जालें गा?

शिवलो : तो त्या खांब्याक बांदून घाला. ताका धाट्टात आतां म्हसमीक.

म्हालखूम : आयो आयो! एद्या व्हडल्या वैजाक म्हसमीक? कित्याक गा तर?

शिवलो : कित्याक तें समजतलें आतां.

म्हालखूम : (बाबग्यासरीं वचून) खऱ्यानीच तुका म्हसमीक धाट्टात खैं? कर्माच्या भोगा! म्हणटकूच घराकडेन बायल-भुरग्यांची वाट कशी? आदींपैलीं जळव जाय तो घरांत हाडून दवरचो न्हंय? मागीर वच्चें आसलें खैं म्हसमीक, तिमोराक जाय थैं.

बाबगो : (दांत किल्लून) पाड पडलें हे अवदिशेचें. पडिल्ल्यार पांय दिंवक आयल्या ही हांगा. सुखी-दुखी कांयच ना हिका.

(घारूदाद येता.)

घारूदाद : आतां येवचो जालो काब-दे-पुलीस. आतां तुमकां दाखैतां कशें आस तें. असल्यो नाडानाडी म्हजेकडेन?

बाबगो : (हात जोडून) उपकार करून म्हजेर आवत मात करुं नाका. तुका जाय जाल्यार दोन खोंटो मारून म्हाका आमडून घाल. हांव आपलो तोंड घेवन वचूंक लागन.

घारूदाद : खोंटो मारूं? आवत करुं नाका? आर्र तूं! पळौंया कशें आस तें. (इतले म्हणसर, पड्ड्यांतसून 'सुब्रमणी सुकडशणै साकरभात' अशें म्हणून कुरैकार आड्डता.)

घारूदाद : कोण रे थैं तो हेवशीन यो. असो यो असो.

कुरैकार : (पड्ड्याभायर येवन) सुब्रमणी साकरभात आसत हांगा? हांव ताच्या घरा गेल्लों; पणून थैं ते म्हाका मेळ्ळे नात. एकाद्रे ते हांगा आसतले अशें म्हाका सांगलें. आसत व्हय ते हांगा? तांच्या नांवाची एक रजिस्ताद चीट आस.

सुब्रमणी : म्हज्या नांवाची रजिस्ताद चीट? हांगा हाड अशी. हांव तो सुब्रमणी.

कुरैकार : (सुब्रमणयाक बांदून घाल्लो पळौन अजापान) अशें कितें हें? कोणे

तुमकां बांदून घाले?

घारूदाद : (कुरैकाराक) तें तुका कांय लागना. तुजें काम तूं पळे. तूं ताची चीट दी आनी चलूंक लाग.

कुरैकार : पणून तांचे हात बांदल्यात न्हंय? ते सय कशी करतले?

घारूदाद : शिवल्या, त्या सुब्रमणयाचो हात मात्सो सोडै. (शिवलो ताचो हात सोट्टा. कुरैकार ताका चीट दिता आनी सय घेवन वेता.)

सुब्रमणी : (लाखाटो फोडून चीट वाचून भौच खोसयेन) आऽहाहाहा! कितें देवाली करणी ही? अखेरेक हांव कोंकुर्साक बशिल्ल्याचें सार्थक जालें म्हणचें.

घारूदाद : (अजापान) कितें जालें? कसली खबर?

सुब्रमणी : मामा, तुमकां कित्याक जाय म्हजी खबर? हांव आपलो भिकाड्डो. सप्तदळिद्री. म्हजें घरभाटलें आस तितलेंच पळौंचें. म्हाका तुमी म्हसमीकूच धाडात.

घारूदाद : धाडात म्हणचे? सोडीन म्हणून समजला? तुका आनी ह्या वैजाक वांगडाच.

सुब्रमणी : (बाबग्याक) समजलें गा वैजराज? हो रजिस्ताद ओफीस म्हाका पणजेसून आयला. फुडल्या म्हैन्यापासून म्हाका फोंडेंचो आदमिनिस्त्रादोर नेमलो म्हणपाचें भितर बरैलां.

घारूदाद : (अजापान भोंवयो ताणून) कितें? म्हज्या गुणाच्या भाच्याक आल्मिस्त्रादोराचो जागो मेळ्ळो? म्हजो अपुर्बायेचो तो! (सुब्रमणयाक वचून वेंग मारता.) आतां ताका दुडवांक कांय उणें ना. सगळी अंत्रूज ताच्या हातांत. म्हाड्डोळ ताच्या हातांत. वेंटरमणाली शेंडीय ताच्या हातांत. तो करीत तें जालें. घे म्हणून भेटो-भोंवारो ताच्या हुमऱ्यार ओततल्यो! दुर्बटचे सगळे खारवी ताच्या बोलसांत नाचतले. आगशेचीं भाजयेकारां ताच्या पोरसांत धुडबुसां घालतलीं. व्हड्या-भाड्याक दमडी नाका. शाक-भाजी सुण्याक नाका. नुस्तेंपास्तें चकचयाळ. एँ! कांय विचारुं नाका. शिवल्या, म्हज्या नवसुल्याक सोडै बेगीन. (शिवलो ताका सोडैता.) म्हज्या ह्या सुब्रमणयाफुडें तसले हजार वेंकटरमण कित्याक उपकारा पट्टात? मोगा, हांगा यो गो अशें. (मोगा येता.) तुका हो घोव मानलो मू? म्हजो आल्मिस्त्रादोर भाचू तो.

सुब्रमणी : (बाबग्याक) पळेलें मु वैजराज? दुडवांचें म्हात्म्य अशें आस हें. दुडू मेळटातशे जाल्यार भाचू; नाजाल्यार विंचू! (घारूदादाक) हांव ना. म्हाका नाका तुमगेली धूव. हांव आपलो सात जल्म लग्न जायनासतानाच रावन.

घारूदाद : अशें कितें म्हज्या भाचू? शाणो मु तूं? हांवें कितेंय म्हळें म्हणून तूं ताचें वायट धरता? भुरगो म्हणटकूच कोणूय कितें उलैतात. तांतूंतूय हांव तुजो मामा. म्हजेर असो रागार जाल्यार उपकारता? (बाबग्याक) तूंच सांग पळौंया वैजराज. शिवल्या, त्या वैजाक मात्सो सोडै पळौंया.

बाबगो : म्हाका कितें विचारता सायबा? आमकां तुमची करांदाय नाका. तुका जाय तशें तूं कर. म्हाका तूं निक्तोच म्हसमीक धाडूंक तयार जाल्लो मू? आनी इतले म्हणसर तुका म्हजी बुद्द जाय जाली?

सुब्रमणी : जिस्त उलैलो, वैजराज, जिस्त उलैलो. आमी आपले दोगूय म्हसमीकूच वचुंया. थैं गेल्यार भांगर मेळटा खैं.

घारूदाद : अशें कितें म्हज्या राया? मोगा तूंच समजाय पळौंया हाका मात्सो.

सुब्रमणी : आसूं भँगूं. तुमची म्हणणी हांव मान्य करतां. परंत ह्या फुडें मात म्हाका म्हसमीक धाडची तजवीज करूं नाकात हां.

घारूदाद : बरें म्हज्या गुण्या. आतां तूं म्हाका कितलो शाणो दिसलो? बोंबबाब, एऽ बोंबबाब, (बोंबबाब ओ-ओ-ओ करीत येता.) आत्तांचे आतां म्हाङ्गोळा वेंकटरमणबाबांक कागद बरयात कि तुमी हांगा येवची गरज ना; आनी तुमकां चली दिवची आमची तजवीज ना. दुसरें, दसमिच्या म्हुर्ताक सुब्रमणयाकडेन मोगाचें लग्न करचेलो म्हजो बेत जाला. तेन्ना, बांदोडकारां कलंवतांचे दोन मेळ, मंगेशींचें व्हडलें वाजप, कवळेंचो चौघुडो, पणजेचें मुज्ग आनी म्हापशेंकारांलो फोग इतलें हें नमी दीस सांजवेळतकत हांगा येवची तजवीज करात.

बाबगो : (घारूदादाक) कसलें अजाप म्हणटलो हें ! म्हज्या शिरोमणयाक तुवें सुब्रमणी करून ताका तुजी धुवूय दिंवक काडली; आनी म्हाका कांयच फावना? हांवें तुजे धुवेक बरी केली तें सगळें फुक्याच गेलें म्हणचें. (सुब्रमणयाक) सुब्रमणी-शिरोमणी, तूं आल्मिस्त्रादोर जालो खरो; पणून आमकां कांयच ना?

सुब्रमणी : तुका कांय ना कशें तर? उलै कितें जाय तें.

बाबगो : उलौं? ना म्हणचो ना मु मागीर?

सुब्रमणी : ना गा. ना गा.

बाबगो : तूं आल्मिस्त्रादोर जायनाफुडें म्हाका रजिदोर करशी व्हय?

सुब्रमणी : (अजापान) तुका रजिदोर? तुका फिंर्गी बरप येता व्हय?

बाबगो : ना आयलें म्हणून? फिंर्गी बरप कित्याक जाय? तोंडांत एक सिगार धल्लें. हातांत एक रोत घेतलें. फाटल्यान एक शिपायक घेतलो. हाका दबकायलो. ताका दटायलो. कोणाक दंड केलो. जालें. म्हैनो जातकूच पागामेंत घेतलो. आनीक रजिदोराचें काम तें कसलें?

सुब्रमणी : आनीक कसलें काम म्हळ्यार जाता? जायतें काम आस, जायतें.

बाबगो : जायतें आसलें जाल्यारूय हांव तें करीन. हांव मनिसूच तसलो. केन्ना करूंक नाशिल्लेंय काम म्हाका बेसबरें करूंक येता.

सुब्रमणी : (येवजिल्ल्याभाशेन करून) पळौं येत तें.

बाबगो : पळौं येत तें म्हाका उपकारना. आत्तां कितें तें उतर दी.

सुब्रमणी : (माथें खरपून) करीन गा तुका रजिदोर. इल्लीं फिर्गी उतरां मात तुका येंवक जायत.

बाबगो : तीं म्हाका जाय तितलीं येतात. शीं शिंयोर, नांव शिंयोर, आर्र दियाब, फिजेदकांव, वशिमोर, मानकुराद, आबेर्दामेर्द. हीच मु ती फिंर्गी भास?

सुब्रमणी : (हांसून) असले हे फिंर्गी भाशेन पुर्विल्ले मुस्तींत कोणाच्यानूय रजिदोर जांव येतालें. पणून आतां रेपुब्लिक जालां मू? आतां बऱ्या शिकिल्ल्याच मनशाक त्या त्या कामार नेमतात.

बाबगो : (तिडकून) म्हणटकूच हांव कांयच शिकूंकना-सो तुका दिसता? तूं कितलोय आल्मिस्त्रादोर जालो जाल्यार म्हजो गडो. हांव तुजो शणै.

सुब्रमणी : कोण गा ना म्हणटा? हय गा. करीन गा तुका रजिदोर.

बाबगो : म्हणटकूच आजपासून हांव रजिदोर जालों हां पळे. फाटीं सरशी. (खोस जाल्ल्यावरी) आऽहा! आतां म्हाका दोन नांवां पडलीं. वैजराज आनी रजिदोर.

म्हालखूम : (खोसयेन) अल्ला गे बाय! म्हजो घरकार रजिदोर! घरांतल्या घरांत रजिदोर! आतां त्या बाकिच्या रजिदोरांच्या तोंडांतसून सुटलीं

सायबिणी! कोण रांडेच्यांची पिडा आइल्ल्या दिसा. पोरसांत मात खैंचेकडेन खोलयो जमल्योशो जातकूच कोण गे बाये तांची हुयेल, कैर जालो म्हणून. दंड भल्ल्याबगर एकूय म्हैनो वचनासलो. आतां म्हजो घरकार सगळ्यांक दंड करतलो. (बाबग्याकडेन बोट दाखौन सगळ्यांक) हो कोण तो कळ्ळो व्हय तुमकां? हो म्हजो घरकार. म्हजो अपुर्बायेचो, म्हजो भांगराचो, म्हजो शिंगराचो घरकार तो हो!

बाबगो : (सुब्रमणयाक) पणून सांग पळौंया म्हाका, रजिदोरापरस आल्मिस्त्रादोर कितलोसो उंच आनी आल्मिस्त्रादोरापरस गोवेर्नादोर कितलोसो उंच?

सुब्रमणी : खूब, खूब उंच.

बाबगो : खूब पणून कितलोसो गा उंच? समज, हांव रजिदोर आतां आसं तेदोच उंच आसं; तर आल्मिस्त्रादोर ह्या घराच्या पाष्टाइतलो उंच आनी गोवेर्नादोर ताचेयपरस मळबाइतलो उंच आसूंक जाय मू? पणून, (माथें खरपून) आनीक एक उल्लें. आमी तिगूय जाण एका परस एक उंच जाल्यार आमच्या तिगांय फाटल्यान एकूच दोर कित्याक? म्हज्या हिस्पान, म्हाका रजिदोर म्हळ्यार तुका आल्मिस्त्रादोर-दोर आनी गोवेर्नादोराक गोवेर्नादोर-दोर-दोर म्हणूंक जाय. कशें दिसता तुका हें?

सुब्रमणी : (हांसून) मातूय लटकें न्हंय.

म्हालखूम : (बाबग्याक) पळेलें मू? तूं वैजराज आनी रजिदोर जांवक मूळ हांव. म्हजे उपकार तुवें केन्नाच विसरूंक फावनात.

बाबगो : कितें विचारता? तुवेंच आसतली ह्या हांकां (बोंबबाब आनी शिवल्याकडेन बोट करून) सांगून म्हजी फाट सोलूंक लायली ती. बरें आस. दाखैन तुका.

सुब्रमणी : कशेंय जालें जाल्यार वायटाक पडलें ना मू? आनीक पिंर्गणी कित्याक?

बाबगो : बरें तर; तुजेच म्हणणेभाशेन जावनी. (म्हालखुमेक) पणून ह्याफुडें म्हाका तूं बरो मान-भौमान दिशी मू? काय आपली सुण्याक करीशी करतली? तूं म्हाका सदीं उठून 'तूं-तूं' म्हणटा तें म्हाका मानना. बामणांल्यो बायलो आपल्या घोवांक 'तुमी' बी उतरां लायतात

खैं; आनी तुजीच जीब म्हाका 'तुमी' म्हणूंक झरता?

म्हालखूम : ना गे म्हजे सायबिणी. हांवूय म्हज्या घरकाराक आतां सद्दीं उठून तुमांत घालतलीं.

बाबगो : तूं ह्यो भगली समजुं नाका. हांव आतां वैजराज जालां. वैजाची तीड केन्नाच कोणे काडूंक फावना. ताका राग येत जाल्यार, ताचेफुडें काळ, यमदूत म्हणटात ते कित्याक उपकारा पडनात. ध्यानांत धर.

म्हालखूम : बरें सायबांनू. (भुरकुटून घारूदादाक) अगा, आमकां होवळीक आस मु तुमगेले धुवेच्या लग्नाक?

घारूदाद : विचारूंक जाय? तुका आनी तुज्या घरकाराक सगळ्यां आदीं.

म्हालखूम : म्हणटकूच हांव तुमगेली होवळी जालीं तर?

बाबगो : आनी हांव होवळो जालों तर?

म्हालखूम : (घारूदादाक) वड्यांचें पीठ बी दळ्ळें व्हय? नाजाल्यार हांव मात्शी दांत्यार बसून दोन होवयो गातलीं आसलीं --

**होवये-ए-ए-ए लंवगां, तरेतरेचीं सँवगां,**
**आमच्या गां-आं-आं-आं-वांत.**

(बाबग्याक) मागीर आमी दोगांय गांठवल बांदून घेवया मू? कितें उलैनातशे तुमी?

बाबगो : पुरो जाल्यो तुज्यो जाणवायो.

घारूदाद : बरें लागुंया तर आतां लग्नाचे तजविजेक.

(निमाणो पड्डो देंवता.)

# झिलबा राणो

## हांसैणो खेळ

('अरेबियन नाइट्सां'तले अबू हसनाचे काणयेच्या आधारान)



१९३६



हो खेळ १७ नोवेंब्र १९३३ दिसा बरोवन जालो आनी ३ देजेंब्र दिसा, मुंबै, गिरगांवां, लक्ष्मीबागेंत, गोंयकार हिंदू सभेच्या वर्सुक्या संमेलना वेळार ताचो पैलोवैलो प्रयोग करून दाखैलो.

म्हजे भायर पडिल्ले बापोलये

**शणै भगवंतबाब कृष्णबाब वर्दे वालावलीकार**

हांच्या पवित्र आनी गोड अुगडासाक

**- शणै गोंयबाब**

# खेळांतले गडे

| | | |
|---|---|---|
| दुसरो जयकेशीदेव | ... | कोंकणाचो राजा. (बनवासिचो सावकार). |
| मैळल म्हादेवी | ... | जयकेशिची पाटां-राणी. |
| झिलबा राणो | ... | गोवापुरींतलो अेक भाटकार. |
| देवकी | ... | झिलबाची आवै. |
| सुन्दरें | ... | राजमंदिरांतलें अेक चेडूं. |
| म्हाळपै नायक | ... | जयकेशिचो पाटां-प्रधान. |
| गोविपै नायक | ... | जयकेशिचो भाण्डारी. |
| लक्ष्मण दण्णायक | ... | गोवापुरींतलो न्यायमनसुबकार. |
| रत्नें / कामणें | ... | राजमंदिरांतलीं चेडवां. |
| फटो | ... | भगत. |
| खांपू | ... | घाडी |

शेरके, पेदे, काटकार, बाजारांतले भुरगे, शेजारी, पांडगो, वांठगो.

| | | |
|---|---|---|
| थळ | : | गोवापुरी (व्हडलें गोंय) राजपाटण. |
| काळ | : | क्रि.स. ११२४ चो सुमार. |

# झिलबा राणो

## पैलो आंक

**देखाव १. –** जुंवारी न्हंयेचे धडेवैली सुवात. तीनसांज.
(झिलबा येरादारी घालता.)

झिलबा : (चिंतेन) आतां हो तीन कातरिंचो वेळ जालो. अजून हे वाटेन कोणूच परकी-आरकी दिसना तें कितें? आज म्हाका अेकमुळ्यानीच गोटे खावचे पट्टलेशे दिसतात. (कान दिवन.) ही कोणाची जाग आयकूंक येता. कोणूय परकी आसल्यार पुरो. (अितले म्हणसर, अेक सावकार आनी माथ्यार पोटली आशिल्लो अेक मानाय ते वाटेन वेतात.)

झिलबा : (सावकाराक पळोवन खोसयेन) कोण हो तुमी? खैं चल्ले अितले ताकतीन? तुमी हांगा नवेचशे दिसतात.

सावकार : (तिडकून.) ह्यो नाका-जाल्ल्यो जाळवण्यो तुमकां कित्याक?

झिलबा : रागार जावं नाकात हो. तुमी वळख-देख नाशिल्ले मनीस देखून विचाल्लें. हांगाचे मार्ग तुमी जाणात? बरें आसा, वायट आसा. रातीवितीक अेकाद्रे घोळाक पडले जाल्यार?

सावकार : हांव बनवासिचो सावकार. लंकेचीं तारवां ह्या म्हैन्यांत गोबापुरिच्या बँदरांत येवचेलीं आसलीं. देखून मोतयां घेवंक हांव मुजरत आयिल्लों. धर्मसाळ खैं आसा ती सांगशात व्हय?

झिलबा : धर्मसाळेंत वेशात फाल्यां. आजचे रातीं तुमी आमगेर जेवणाक अुल्ले म्हणून आमकां मोटें-शें रीण जावचें ना. म्हजो नेमूच तसो आसा. परको मनीस पँगतीक घेतल्याबगर रातचे पारा हांव अुंडी गिळिना.

सावकार : (अजापान) तर बरो तुमगेलो नेम! (मानायाक) पांडग्या, धर्मसाळेंत वचून जेवण करता म्हणसर चड वेळ लागतलो न्हय रे? पोटांत आमच्या आदीं कावळे रडूंक लागल्यात. आयतें भूस मारूंक

मेळ्ळ्यार कोण रे पापी सोडीत? (झिलबाक) बरें, जावनी तुमच्याच मनाभाशेन. (ते तिगूय वेतात.)

**देखाव २.** – झिलबा राण्याच्या घराचें साल. रातचो वेळ. (झिलबा आनी सावकार खावचीं पानां खावंक बसल्यात.)

झिलबा : कशें लागलें आमगेलें जेवण?

सावकार : बऱ्यांतलें. ती आंबाड्यांची हुड्डमेथी जिबेवैली काडुं नज अितली सुवादीक लागली. (आंवडो गिळटा.) भुरके मारीत तितले थोडे. तेफळां घाल्लो मुळ्यांचो रोसूय घमघमीत जाल्लो. सुल्लळ्योय भौ बऱ्यो लागल्यो. बरें, तुमचें नांव कितें? आनी वेपार-अुद्योग कसलो करतात तुमी?

झिलबा : म्हजें नांव झिलबा राणो. म्हजो बापुय नाल्लांचो आनी सुपाऱ्यांचो अुद्योग करतालो. तो मुदलाक चडसो गिरेस्त नासलो. तरी आसतना, हात राखून खर्च करून ताणे कांय शेत-भाट घेतिल्लें आनी ताचेकडेन नक्कद गांठूय आसली. खणखणीत मेजून पांच हजार निश्क आसले. पोरुंचे दिवाळेक तो भायर पडलो आनी घरचो जाळवणदार हांव जालों. बापुय जिवो आसतना हांव जरी खाणा-जेवणाक वळवळ्ळों ना, तरी मनाक मानत तशी मौज मारूंक म्हाका मेळनासलें. तो भायर पट्टकूच, म्हजो आळाबंद सुटून हांव पारपोळ जालों. म्हज्या माथ्यार आवै आसा खरी. परंत ती कितलीय जाल्यार बायलमनीस. हांवें म्हजे वांगडचे आलेभाव-कोलेभाव जमैले आनी रंगयाळपणांत सगळी गांठ कडैली. बापायचें वर्सस्राद्द घालूंक हातांत दमडी अुल्ली ना.

सावकार : कितें म्हणटात राण्यांनू? शेतां-भाटां बी सगळीं वाटेक लायलीं?

झिलबा : तीं मात देवाचे दयेन वाटावलीं. दादान तीं बाच्या नांवान करून दवरिल्लीं देखून बऱ्याक पडलें. म्हज्या नांवार तीं आशिल्लीं जाल्यार केन्नाच घाणाक पट्टलीं आसलीं. वर्सस्राद्द घालच्या वेळार हांव कितलो पेंचांत पडलों म्हणून सांगूं. कशेंय जाल्यार पैलें स्राद्द तें. घालूंक नाका? तितलेंय म्हज्यान जायना जाल्यार कित्याक म्हजो जल्म? म्हजो अच्छेव चलिल्लो तेन्ना बा म्हाका कितलीशी अुलैताली आनी दटायताली. 'झिला, तूं करता तें बरें न्हय' म्हणून कितले

फावटीं ती म्हज्या काना-कानसुलांनी आड्डुली. पणून हांव गा खैं आयकून घेतां? आतां तिचेकडेन दुडवांखातीर तोंड पेंचचें म्हळ्यार म्हाका लज दिसूंक लागली. निमाणें, हांवें म्हज्या अिश्टांची सायबाजात्रा केली. परंत कोणूच दार काडिना जालो. देडे दमडेक कोण पातयेना जालो!

सावकार : आंऽऽ बरे तर मु ते !

झिलबा : कितें सांगतलों तुमकां! म्हज्या नाड्यार असुदाय मौज मारूंक मेळटाली तेन्ना ते म्हजे कुलकुलते जाल्ले. जिवाक जीव दिवंक तयार जाल्ल्यावरी दाखैताले. परंत म्हाका दुडवांची गरज लागतकूच अेकलोय पापी अुपकारा पडना जालो. म्हाका पैससून पळेनाफुडें ते दोळ्यांआड जावंक लागले आनी चुकून अेकाद्री नदरेक नदर लागल्यार कसलींय निमतां सांगून झुकी काडूंक लागले. कांयजाण म्हाका वळखना म्हणूंक लागले. म्हणटकूच माणसुकी अुल्ल्या? त्या अिश्टांखातीर हांवें कितें कितें केलां तें सांगून अुपकारना. हांवें तांकां दिसपट्टीं चमचमीत जेवणां घालचीं. नुस्तें-पास्तें हाडचें. पोळी-पिटां करचीं. भेटो-भोंवारो धाडच्यो. पागणां घालचीं गांवांगांवचे कलवंतांचे मेळे हाडून नाचोवचे. हे भाशेन म्हद्यान रात जावन कोंब्यान कों-कोंच-कों केलें तरी आमगेलीं धुमशणां थांबनासलीं. भँगूं ती गजाल. दुडू होगडावल्ल्याचें म्हाका चडशें वायट दिसना. परंत त्या नश्ट्या भूसमाऱ्यांच्या बेअिमानपणाची म्हाका तिडक येता आनी म्हज्या सश्टांगाचो हुलप जाता. भायरे जावंत ते! तो गणसू, सोनू आनी रायू जाल्यार मोटे अुंवाळ्ळेले. आतां पर्थून तांकां म्हज्या हुंबऱ्यार अुबो करीत ताका जाय तसलो सपूत. जालें तें जालें. ह्याफुडें हांव अिश्टांचें भिरें केन्नाच पुंजावचो ना.

सावकार : तें जायत. पणून स्राद्दाक दुडू खैंचे मेळ्ळे?

झिलबा : खैंचे म्हणून आसा? बाकूय त्या स्राद्दाची तिश्टत न्हय? म्हजीं चिन्नां पळेतकूच, तिणे कालापुरचें बऱ्यांतलें भाट विकलें आनी वर्सस्राद्द घालें. सणसणीत एक हजार निश्क लागले. दादान दवरिल्ली नक्कद गांठ हात राखून खर्चिल्ली जाल्यार वर्सस्राद्द जावचें जावन, आनीक कांय वर्सां पावशी आसली. शेता-भाटाक हात लावची

गरजूच नासली. परंत फुटलें म्हजें कपळ. म्हाका ती नश्टी वीद लागली.

सावकार : परंत जावं. तुमी तितल्यान निवळ्ळे.

झिलबा : निवळ्ळों खरो. परंत पाड पडिल्लो म्हजो सभावगुण म्हाका सोडिना. म्हज्यान आचरवाणोसो अेकलो-अेकमुळो पानार बसून जेवं नज. म्हजे पँगतीक दुसरो कोणूय आसल्याबगर म्हाका गोटोच चलना. देखून हालींच म्हाका अेक नवो नेम करचो पडलो. दिसपट्टो तीनसांजचे कातरीर वळख-देख नाशिल्लो जो नवो परकी म्हाका दिश्टी पडत, ताका घरा व्हरचो आनी फक्कत अेक भुसकें घालून फांतोट जावचे आदीं मार्गाक लावचो. पर्थून ताचें तोंड पळोवचें न्हय. हे भाशेन, बेअिमानपणाच्या त्रासांतल्यान हांव वाटावलों जाल्यार वाटावन. तुमचेसारके सावकार आज म्हाका पँगतीक मेळ्ळे हें म्हजें व्हडलें भाग्य हांव समजतां.

सावकार : तुमी वेळार सादर जाल्ले पळोवन, तुमच्या शाणपणाचें म्हाका कौतुक दिसता. संवसारांत तुमचे अितलो सुखवासी कोणूच नासतलो. तुमकां चिंता-हुस्को कसलोच ना. तुमी केल्ल्या सत्कारान म्हजेर मोटे अुपकार जाले. ते कशे फारीग जातीत तेंच म्हाका समजना. म्हज्या हातान तुमगेलें कसलेंय काम जायसारकें ना मू? आसल्यार मन मेकळें करून सांगात. हांव त्या भूसमाऱ्या अिश्टांभाशेन बेअिमान न्हय. म्हाका तांकत तें कसलेंय काम हांव खासा वा म्हज्या अिश्टांक सांगून करीन. तुमी निखालुस अनमनुं नाकात.

झिलबा : तें जालें हो. पणून हांव कसलें म्हणून काम सांगूं? देवाचे दयेन म्हाका कांयच अुणें ना. खाणा-जेवणाक हांव मरना. दादान शेत-भाट दवल्लां तें जायतें जालें. हांवें कोणाक दमडी देणें ना. म्हाका रीण काडची गरज ना. म्हणटकूच, हांव तुमकां कसली भीड घालूं?

सावकार : तशें कशें जायत? मनीस कितलोय सायसंगीत आसलो तरी ताका दुसऱ्याची गरज लागताच. चिके येवजून पळ्यात.

झिलबा : (येवजून) हय वय ! बरो अुगडास जालो ! अेक काम आसा; परंत तुमचेकडसून तें जायत-शें दिसना. हालिंच्या वर्तमानाक आमगेल्या ह्या कोंकणांत जायते भायले लोक येतात. तांतूंत तुमचे सारके सावकार येतात ते आमकां जायतूच. ते आयल्याबगर वेपार-अुद्योग

चलना आनी हातांत दुडू घोळना. परंत दुसरे कांय लोक अशे आसतात कि ते निव्वळ भूसमारे आसून तरेकतरा निमतांनी हांगाचो दुडू अुखलतात. हांगाचे लोक देवधर्मिश्ट आनी अुदार आसून, आयलल्या-गेल्ल्याचो परामर्स बरो करून घेतात म्हणपाचें संवसारभर गाजलां. घरांत भुरगीं अुपाशीं वळवळ्ळींय जाल्यार तांबयो-चेंबू घाण दवरून, दोनपारच्या कडार दारांत आयिल्ल्या परक्याक ते पोटभर भुसकें घालतात, असलो तांचो सबाव. ह्या सबावाक लागून, शेजारच्या राज्यांतले जायते तडुकी लोक तरेकतरा सवंगां घेवन हांगा येतात आनी दुडवांच्यो राशी व्हरतात. तांतूंत हरदास, पुराणीक, पिंगळी, मेडेजोयशी, ब्रह्मचारी आनी बावा हांचो आंकडो मोटो आसता. ते दुडू हातासुनूच वोगे रावनात, तर अुफाट्टें आमचें तासतात. पिंगळ्यांच्या आंगार जीं अश्टीदेगेचीं पुडवीं आसतात तीं सगळीं आमच्या कोंकणांतलीं. गिडबिडें वाजोवन तीं ते आमचेकडसून हातासतात आनी गांवचे शिंवेवैल्या वडाचे सांवळेक बसून 'तुला किती खुळीं भेटलीं?' म्हणून आपले भाशेन अेकामेकांक विचारतात आनी खीखी करून हांसतात.

सावकार : खऱ्यानीच?

झिलबा : हरदास आनी पुराणीक जाल्यार पिंगळ्यांय परस चड मस्ते. ते आमगेल्या देवळांनीं कथा-पुराणां सांगता आसतना देवा सामखार आमकां अळशिकावणीं अुतरां लायतात आनी आमचेकडसून चमचमीत शिदो आनी कचकचीत बिदागी घेवन वेतात. ते आपणाल्या राज्यांत पावतकूच थंयूय आमचें वाळें मारतात.

सावकार : अब्बा! माणसुकी अुल्ली ना.

झिलबा : तांचो म्हाका कसलो किंवाटो येता म्हणून सांगूं ! (दांत किल्लिता आनी नाख-पुडयो फुलैता.) परंत तांचो कसलो अन्यांव? आपलोच दुडू पैलीं खरो न्हय. आमगेले खासा बामण तांकां बळयांच आमंत्रणां दिवन हांगा हाट्टात आनी तांचेकडसून आपणालें नाख कापून घेतात. ताका कोण कितें करतलो? भायल्या भूसमाऱ्यांच्यो मांडावळी चलैल्यात त्यो फक्त बामणांनीच. तांकां आपलेपणाचो अभिमान निखालुस ना. तांचेपरस आमी चाड्डे आनी वाणी हजार वांट्यांनी बरे. आमकां नाखाटो आसा ताच्या धाव्या वांट्यानूय तांकां ना.

गंवडाळच्या त्या पोकेशणैन जाल्यार सामकोच ताळतंत सोडलो. तो आपणाले खासा आवै-भाशेक विट्टा आनी भायल्या पिंगळ्यांले भाशेक आंवडे गिळटा. आपणाली आवै-भास मातयेच्या बुडकुल्याभाशेन खैं! आनी पिंगळ्यांली भास लोखणाचे मडकेभाशेन खैं! बुडकुलो केन्नाय मडकेचेर आपटून फुट्टलो खैं! असली ताची अुंवाळिल्ली वान्सा. म्हाका दिसता, ह्यफुडें असल्या ह्या बामणांकडेन आमी म्हालगडेपण दिवंक फावना. ते देडे दमडेक आमगेली भूंय भायल्या लोकांक विकतले. भँगूं तांची गजाल! म्हज्या आंगाचो पिचून गोबर जाता. कालच्या सप्तकापासून हांगाच्या रवळनाथाच्या देवळांत अेक गाळयारो हरदास कथा करता. तो आपुण व्हडलो जाणवायेकार समजता. ताकाय त्या नश्ट्या बामणांनीच हांगा आपैला. तो कितें म्हळ्यार, देवाक गवाय दवरून आमकां कोंकण्यांक 'गाढव, दुकर, म्हशिचे घोव आनी हिजडे' म्हणून गाळी सांगता खैं! कोण अच्छेव हो! केदी मस्ती ही!

सावकार : आर्रा !

झिलबा : सावकारांनू, तुमीच सांगात; तेच घडये त्या रवळनाथा हुजरां ताचें फडाफड तोंड फोडल्यार बरें जावचें नासलें? आमगेल्या कदंबरायांच्या कानार ही गजाल अजून पावंक नाशी दिसता. आनी पावलीय जाल्यार ताणी ती नकळट्यार घाल्या जावंये. ते चड सोंशीक. हांवसो कदंबराय जाल्लों जाल्यार त्या हरदासाक सणसणीत ख्यास्त भोगैतलों आसलों आनी ताचे असले बेअिमान भूसमारे पर्थून आमगेल्या कोंकणांत येवचेली बंदिस्ती करतलों आसलों.

सावकार : राण्यांनू, तुमकां तुमगेले भुंयेचो, भाशेचो आनी लोकांचो पोटतिडकेचो अभिमान आशिल्लो पळोवन, म्हाका तुमची तोखणाय दिसली. आपलो जावं नाजाल्यार परको जावं; ताची नश्टी चलणूक आळाबंदा हाडचेलो तुमकां जो किंवाटो येता तो वायट न्हय. तुमी कदंबराय जाल्ले जाल्यार ह्या राज्यांत तुमकां जायतें सुधरप करूंक मेळटलें आसलें आनी तुमच्या मनासारकें सगळें जातलें आसलें हांतूंत दुबाव ना. (चिके येवजून मनांत 'हय वय; अशेंच करचें.') म्हाका दिसता, तुमगेल्यो ह्यो तजविजो कदंबरायांक कळटीत जाल्यार, अेका दिसाचे गजालीक तरी तुमकां ते आपणालें शिंवासन

दिल्याबगर रावचे नात; आनी तितल्यान तुमच्यान जायतें करुं येत.

झिलबा : कितें म्हणटात सावकारांनू? म्हज्यो भगल्यो मारिनात मु तुमी? अेक दीस भँगलो. अेका खिणाचेय गजालीक कदंबराय आपणालें शिंवासन म्हाका बसूंक दितीत अशें तुमकां दिसता? पिशेपणां! कदंबराय खैं! हांव झिलबा खैं! म्हजी खबर कळनाफुडें कदंबराय म्हजी अपुर्बुद्द करून पोट फुटसर हांसतले. परंत कशेंय जाल्यार, तांगेल्या कानार त्या गाळयाऱ्या हरदासाची खबर गेल्यार वायटाक पडचें ना. ते ताका ख्यास्त भोगैल्याबगर रावचे नात.

सावकार : राण्यांनू, तुमी म्हजो अेदो सत्कार केला आसतना हांव तुमच्यो भगली मारीन अशें तुमकां दिसता? हांव जरी परको सावकार आसलों तरी म्हाका खरेपणानशीं दिसता कि कदंबराय तुमची अपुर्बुद्द केन्नाच करचे नात. पणून आसूं त्यो खबरी. म्हद्यान रात जावंक आयली. (जांबै काडून) दोळ्यांक म्हज्या लकणी येता.

झिलबा : म्हाकाय येता. आज चिके म्हाका थंडीय जाल्याशी दिसता. चलात न्हिदुंया तर. पणून पळ्यात, म्हाका अेकाद्री सुस्त न्हीद लागली जाल्यार, फाल्यां हांगासून वच्च्या वेळार चत्रायेन दार आड करात हां.

सावकार : ताची तुमकां चिंता नाका. परंत तुमकां थंडी जाल्या म्हणटात तुमी? (तोंड बारकायेन पळोवन) तोंड तुमचें तट्टीत दिसता खरें. चलात न्हिदुंया तर. (वेतात.)

**देखाव ३. –** राजमंदिरांतलें साल. म्हद्यान रातचो वेळ. (जयकेशीदेव येता.)

**जयकेशीदेव :** (येरादारी काडून) हांव तरेकतरा भेस घेवन म्हज्या राज्यांतल्या वेगळ्या वेगळ्या गांवांनीं केन्नाकेन्ना भोंवतां तें कितलें बऱ्याक पट्टा म्हणचें! प्रजेचें सुख-दुख आनी अडचणी समजून घेवंक हाचेसारको हेर अुपायूच ना म्हळ्यार जाता. म्हजे पांचूय प्रधान आपणाली लागणूक बरे भाशेन वळखून सगळीं कामां जेन्नाचे तेन्ना जथापथ करतात खरे. तांगेल्या माथ्यार म्हाळपै नायकां सारको अुजू आनी कश्टकाडो पाटां-प्रधान आशिल्ल्यान, म्हज्या राज्यांत अन्यांव आनी जुलूम जावचेलो अिल्लोय भय ना खरो. तरी आसतना, राजा ह्या नात्यान प्रजेचो वेव्हार खासा आपल्या

दोळ्यांनी पळेल्लो चड बरो. प्रधानांचे दोळे सगळेच कडेन पावतात आनी सगळ्योच गजाली तांच्या कानार वेतात अशें न्हय. आतांच पळेना? तो मस्तो हरदास ह्या म्हज्या राजपाटणांत देवाच्या देवळांत घांटेतळा अुबो रावन म्हजे प्रजेक न्हय-न्हय त्यो गाळी सांगता आनी म्हज्या प्रधानांक तांतूंतली कांयच खबर ना. आज हांव त्या झिलबागेर पावंक नाशिल्लों जाल्यार, म्हज्या कानार ताची गजाल अेकाद्री पडचीय नासली. कशेंय जाल्यार, ह्या भायल्या भूसमाऱ्यांक अेन्नादर बुद्द शिकोवन मार्गार हाडूंक जायत. (येवजून, तोखणायेन) म्हजो अुपाय मात बऱ्यांतलो. झिलबाचेर ताचो रोखडो परिणाम जालो. तो सामको निचेश्ट पडलो! आतां अुजवाट्यार ताची न्हिदेची गुर्मी देंवत. कांय घटकांआदीं तो आपल्या घरा आसलो. आतां तो ह्या राजमंदिरांत पावलो!

(अितले म्हणसर, भांगराची म्हालदारकाठी घेतिल्लो काटकार येता.)

काटकार : (प्रणाम करून) म्हाराजांचो जयजयकार जांव! म्हाराजांचे आज्ञेभाशेन पाटां-प्रधान ताकतीन येवन भायर तिश्टतात.

जयकेशी : तांकां भितर येयात म्हणचें.

(काटकार प्रमाण करून वेता. पाटां-प्रधान येता.)

पाटां-प्रधान : (प्रणाम करून) म्हाराजांची कसली आज्ञा आसा?

जयकेशी : नायकांनू, ते कुडींत पलँगाचेर न्हिदिल्ल्या मनशाक फाल्यांच्या दिसाक आमचो सगळो अधिकार दिवचो आसा. ताका तुमी भितर वचून बरो करून पळ्यात. ताचेखातीर शिंवासनासारकी अेक बसका करूंक लायात. ताचेर बसून तो राज्याचो कारभार चलैतलो. ताका तुमी खरेलोच कोंकणचक्रवर्ती कदंबराय-कसो लेखात आनी ताची सांगणी-म्हणणी मोन्यानी आयकात. राजसभेंतल्या भायल्या-भितल्ल्या ल्हान व्हड अधिकाऱ्यांक ताचेकडेन अशेच तरेन चलूंक लायात.

पाटां-प्रधान : म्हाराजांची आज्ञा मान्य. (प्रणाम करून वेता.)

जयकेशी : काटकार! काटकार!

(काटकार येवन प्रणाम करता.)

जयकेशी : ते कुडींत न्हिदिल्लो मनीस फाल्यां सकाळीं जागो जायनाफुडें,

आमची जशी दिसपट्टी सेवा जाता तशीच ताची जावंक जाय.

काटकार : तें म्हजेर पावलें म्हाराजांनू. (प्रणाम करता.)
(वेतात.)

देखाव ४. – राजमंदिरांतली कूड. फांतोटेचो वेळ.

(भांगराच्या पलँगाचेर झिलबा घोरेता. ताच्या पांयांकडेन म्हालदारकाठी घेवन काटकार अुबो रावला. माथ्याकडेन अेका शेरक्यान भांगराचें तस्त, दुसऱ्यान पिकदाणी, तिसऱ्यान उदकान भरिल्लो तांबयो आनी पेलो आनी चौथ्यान जरी देगेचो रसमी वालो धल्ला. पलँगासामखार दोन चेडवां तंबारो घेवन जयकेशीदेवाच्या तोखणायेचें गीत म्हणटात. भायलेवशीन सेनाय-सूर वाजता.)

चेडवां : स्वस्ति समधिगत-पंचमहाशब्द महामंडलेश्वरं बनवासिपुरवराधीश्वरं समस्त-भुवनसंस्तूयमान-हर-धरणी-प्रसूत त्रिलोचन-कदंब-वंश-महोदय-महीधरेंद्र-शिखराभ्युदयमान महा-प्रचण्ड-मार्तण्डं मार्तण्डकराततितीव्र-निज-प्रताप-वशीकृत-सकल-महीमण्डलन् अुत्तुंगसिंहलांछनं वानरमहा-ध्वजं पेर्मट्टि-तूर्यनिर्घोषणं चतुराशीतिनगराधिष्ठिताष्टादशाश्वमेध-दीक्षा-दीक्षितकुलप्रसूतं हिमवद् गिरींद्र-रुंद्रशिखर-संस्थापित-महा-शक्तिप्रभावं त्याग-जग-झंपि-झंपलाचार्य निःशंकरामं सुभटकनक-निकषोपलं शरणागत-वज्र-प्राकारं लोकैककल्पद्रुमं संक्रान्तिधवलं मूर्तिनारायणं कीर्तिमार्तण्डं मण्डलिकललाट-पट्टं वैरिघरट्टं सुभट-राज-शिखामणि कादम्बचूडामणि रायपितामह पश्चिमसुद्राधीश्वर कोंकणचक्रवर्ति श्रीमन्महामण्डलेश्वरं श्रीकादम्बजयकेशिदेवरुम्।

झिलबा : (गुर्मी वचून अर्दो न्हिदसुऱ्यांनी) अेः, कोण गा करांदाय ही ! (कूस पर्थिता.) तरी आसतना बडबड. वोगे रावात रे ! कसली न्हीद लागिल्ली सांगूं. अुठैलो म्हाका. (चिके दोळे अुगडून) अुजवाडलेंशें दिसता. पणून हीं वाजंत्रां कित्याक वाजतात आनी भटपण कसलें चल्लां? बाऽ, अेऽ बा, आज शेजारा लग्न बी ना मुगे? कोण गे पुण्यवचनाक बसला? (दोळे दोंय हातांनी चोळून हांतरूण सांसपून) म्हजें सदीचें हांतरूण खें पावलें? हाचेर ही जरिची

ओल कोणे पातळायली? तिची मोतयांची जाळी पळे कशी लकलकता! (अुदारो जावन कुडिच्या पाश्टाकडेन पळोवन) पणून कोण गा अजाप हें! कुडिच्यो कडण्यो, वांशे आनी नळे दिसनात-शे? हिका हो सोबीत फोर कोणे माल्लो? आनी ताचेर तरेकतरा किरांमोरां कोणे चित्रायलीं? चेः, ही म्हजी कूड न्हय. म्हाका हें सप्न पडलांशें दिसता. (दोळे गच्च धांपून) हो सगळो काळोख-गुपाट पडला. अजून अुठचो वेळ जावंक ना. (कूस पर्थून, अुंशाक हात घालून न्हिदता.)

काटकार : (प्रणाम करून) अुठचो वेळ जालो म्हाराजांनू.

झिलबा : आं? म्हाराजांनू! कोण खैंचो म्हाराज? (अुठून हांतरुणाचेर बसता. काटकाराक रेखून पळोवन) तूं रे कोण हांगा? राजमंदिरांतलो मनीस कसोसो दिसता. म्हजे कुडींत हाचें काम कसलें? (शेरक्यांचेर आनी चेडवांचेर नदर घालून) आनी ही भुरावळ हांगा कित्याक?

काटकार : अशें कितें सथरविथर जाल्ल्याभाशेन अुलैतात म्हाराजांनू? म्हाराजांची पलँगाची कूड न्हय ही? आनी आमी म्हाराजांचे चाखरमाने न्हयत? आमकां सदिंच्या मनशांक म्हाराज वळखनात तें कितें?

झिलबा : (तिडकीन दोळे तरांटून) तरी आसतना म्हाराज! (नाखार बोट धरून) चेप राव. तुवेंच म्हाका अुठैलोसो दिसता. कसली सुस्त बरी न्हीद लागिल्ली. (चेडवांकडेन पळोवन) तीं चेडवां तंबारे घेवन थैं कित्याक अुबीं? भटपण केल्ल्यावरी जागर आयकूंक येतालो तो हांचोच-सो दिसता. कितें म्हणटालींत गो? 'मार्तंडं-पट्टं-घट्टं' असलीं जड गुळो अुतरां तुमी म्हळीं नात? म्हज्या कानांत तीं कडैल्ल्या मेण-तेलाभाशेन सामकीं सणसणलीं. तांतूंत आमगेल्या गुणेस्त म्हाराजांच्या नांवावांगडा शिंवाचें आनी सगळें सांडून वानराचें गो नांव कित्याक? कसलीं खेतबागडीं चलैल्लीं तुमी?

अेक चेडूं : (प्रणाम करून) म्हाराजांनू, तीं खेतबागडीं न्हयत. धतरिपरस मोट्या आनी मळबापरस रुंद अशा कदंबकुळाचें तें तोखणायेचें गीत फांतोटच्या पारा आमी सदींच म्हणटांत. आज तें नवेंच म्हणूंक ना. म्हाराजांक आज विसर कशी पडली तीच समजना. आमगेले म्हाराज म्हळ्यार असले तसले किर्कोळ राजा न्हयत. तांगेल्या

जाणटेल्यांनी अठरा अश्वमेध केल्यात. भाग्यवंत त्रिलोचन कदंबाच्या कुळांत ते सूर्यावरी जल्मल्यात. धर्तरेवैले मुलूख ताणी आपणाल्या बळग्यान जिखल्यात. शत्रूंक ते दांत्याभाशेन दळटात. हिमालय पर्वताच्या गडगंज तेमकांवैल्यान तांगेल्या बळग्याचो लोकीक गाजता. तांगेल्या मुकुटांत बळिश्ट शिंवाचो तुरो लकलकता. तांगेले घुडयेर वानराचें चित्र झगझगता. तांगेल्या मंदिराच्या देट्यार पेर्मट्टी धोल आनी नगारे वाजतात. तांगेल्या पांयार घालून घेतल्यांक वजराच्या किल्ल्याभाशेन ते आलासरो दितात. प्रजेच्यो वान्सा ते कल्परुखाभाशेन भागैतात. ते बद्द देवालो अवतार. धर्तरेवैल्या सगळ्या राजांचे ते आजे. अस्तमतेच्या समुद्राचे ते धनी. ते कोंकणचक्रवर्ती महामंडलेश्वर श्रीजयकेशीदेवम्हाराज! तांगेलो सदींच जयजयकार जावं! (प्रणाम करता.)

झिलबा : (तोंड पासाक लावन अजापान) आं! कितें? कितें म्हणटा गो तूं? पापया तोंड तुजें खैंचे खैं व्हांवलें न्हय गो. हांव कोंकणचक्रवर्ती? महामंडळेश्वर जयकेशीदेवम्हाराज? कदंबरायांलो सूर्य? अबा-बा-बा-बा! अेका रातयांत अेदो मोटो जालों? काल म्हद्यान रात म्हणसर हांव म्हजे बाचो झिलू आसलों. हांव दुलबा राण्याचो पुत. जुंवारेवैलो भाटकार. म्हजे आवैचें नांव देवकी. विद्वाटें कूळ म्हणून चंद्रनाथ, सिद्धनाथ आनी गोमन्त पर्वतांच्या तेमकांवैल्यान म्हजो नांवलोकीक घणघणटा आनी तूं कितें म्हळ्यार, हिमालय पर्वताच्या तेमकांवैल्यान म्हज्या बळग्याची कीर्त गाजैता? पिशें लागूंक ना मु गो तुका? हहहहऽऽऽऽ! तूं चड जिबट. तुजी जीब धरून तोडूंक जाय. पणून नांव गो कितें तुजें?

चेडूं : (कपळार हात मारून) कर्माऽऽ अद्रुश्टा! म्हजें नांवूय विसल्ले म्हाराज! हांव रत्नें न्हंय? आनी हें कामणें न्हंय? आमी म्हादेवीसायबिणिचीं चेडवां. म्हाका पिशें लागूंक ना. हांव खरें तेंच अुलैतां.

झिलबा : ना! ना! तूं फटाशी मारता. म्हाका कळटा तें. (येवजणेंत पडून) चेः, म्हाका हें सप्न पडलांशें दिसता. हांव न्हिदेंत आसां. (दोळे गच्च धांपून अुंशाक हात घालून न्हिदता.)

काटकार : म्हाराज जागे जाल्ले ते पर्थून न्हिदतात? मात्शें रावन राजसभेक

वचपाचो वेळ जातलो.

झिलबा : (दोळे धांपिल्ले आसतनाच अुठून बसून.) कोण सायबा करांदाय हाची! चे:, हांव जागो आसां. जागो आसल्याबगर तो अुलैता तें म्हाका आयकूंक कशें येत? (दोळे अुगडून) त्याभायर हे चाखरमाने आनी हीं चेडवां म्हाका घसघशीत कशीं दिश्टी पट्टीत? (दोंय हातांनी दोळे धांपून आनी मान सकला घालून येवजिता.) हें कोणाचें घर? हीं कोणाचीं चेडवां आनी कोणाचे चाखरमाने? हांव हांगा कसो पावलों? (दोळ्यांवैले हात काडून तकली अुबारून) हें सप्न म्हणूंक गेल्यार हो दीस पळे कसो घणघणीत अुजवाडला! हीं किर्णां पळे कशीं झगझगतात!

काटकार : म्हाराजांनू, राजसभेक वचपाचो वेळ जालो!

झिलबा : तरी आसताना म्हाराजांनू! भौनभौन म्हाराजांनू! (वालो हातांत घेतिल्ल्या शेरक्याक) तूं सांग पळोवया हांव कोण तो! खरें अुलै!

शेरको : आमगेले धनी कदंबराय, म्हाराजांनू!

झिलबा : चल थैंचो फटकिरो. हांव कदंबराय खैं! (अुबगून.) अे:, परंत हे सगळेच फटकिरे कशे जातीत? (चिके येवजून) हय. अशें केल्यार चड बरें. हांव न्हिदलां कि जागो आसां तें आदीं पळोवंया. हांव न्हिदलां जाल्यार हें सगळें सप्न आनी जागो आसल्यार सप्न न्हय. (कामण्याचेर नदर घालून) अशें यो गो. कामणें मु गो तूं? तुज्या दांतांनी हें बोट चिके चाब पळोवंया. (हात फुडें करता. कामणें ताचें बोट चाबता.)

झिलबा : (किळँच मारून) अगो पापया! ल्हवूऽऽ, ल्हवूऽऽऽ! बोटाचो कुडको न्हय गो निखळायलो तुवें. कातलेचो कुडको व्हय गो तो? आवै गे म्हजे! सोड, सोड बेगीन. (कामण्याच्या तोंडांतसून बोट आकान्तून फाटीं ओट्टा आनी हात हालौन बोटाक फूक मारता.) हाय! हाय! हांव खऱ्यानीच तर जागो आसां. हें सप्न न्हय. परंत अेका रातयांत हांव कोंकणचक्रवर्ती कदंबराय कसो जावंक पावलों तें समजना. संवसारांतल्या सातां अजापांतलें हें अेक अजापूच म्हणूंक जाय. (कामण्याक) कितें गो? हांव खरेपणानशींच कोंकणचक्रवर्ती कदंबरायसो तुका दिसतां

कामणें : म्हज्या जिवाच्यान तर पुते, ह्या दोंय दोळ्यांच्यान पुते, आमगेले

म्हाराज कोंकणचक्रवर्ती कदंबराय आसात. आमी राजमंदिरांतलीं चेडवां. म्हाराजांक आमी फटी कित्याक सांगूं? आमच्या जिवार आयलां व्हय? म्हाराजांक आपुण म्हाराज-कशे दिसनात हेंच विपरीत.

(झिलबा येवजणेंत पट्टा.)

काटकार : म्हाराजांनू, राजसभेक वचचेलो वेळ जालो.

झिलबा : (तिडकीन हांतरुणावैलो अुठून अुबो रावन मोठ्या ताळ्यान) आयकलें. आयकलें. वाजवाजायलो हाणें म्हजो जीव! भौनभौन राजसभा! राजसभा! सवणें पासाक लागिल्ल्यावरी लागला. तोंडाक हाच्या अुसर्पत ना. राजसभा जालीच मोटी म्हणून म्हाका अुदकाडे वचूंक नाका? तोंड धुवंक नाका? न्हावंक-धुवंक नाका? देवाची पुजा करूंक नाका? पेज जेवंक नाका? शीत जेवंक नाका? कोण गा हाच्यो घालाघाली? हांव सवकासायेन सांजेवेळा राजसभेन येन. (चलूंक लागता. ताचे फाटल्यान काटकार, शेरके आनी चेडवां वेतात. अुप्रांत जयकेशी येता.)

जयकेशी : (ताळी वाजोवन) हहहऽऽऽ! झिलबा राण्याचो अिल्लोअिल्लो कदंबराय जाता! ल्हवूल्हवू जातलो तो जयकेशीदेवम्हाराज. 'खांकून खांकून गांवकार जाता' म्हणटात तें लटकें न्हय. मौज मात बऱ्यांतली दिश्टी पडली. असलीं फकाणां हांवें जल्मांत पळोवंक नासलीं. आतां ह्याय परस आनीक सुरै फकाणां दिश्टी पडचेलीं आसात. सांजेवेळा तो शिंवासनार बसून कारभार चलैतलो. हांव ते लागशिले कुडींत बसून मौज पळेन. (वेता.)

**देखाव ५. –** राजसभेचें साल. सांजेवेळ.

(सालांत शिंवासन मांडलां. ताचे दों कुशीक दोन शेरके भांगराचे मुठिच्यो चंवऱ्यो घेवन अुबे रावल्यात. शिंवासनाचे अुजवे कुशीक अुंचाट बसकेचेर पाटां-प्रधान म्हाळपै नायक हातांत कागदांची कवळी घेवन आनी कानाक लिखणी लावन बसला. दावे कुशीक अुंचाट बसकांचेर चार पालवी प्रधान बसल्यात. तांतूंतलो अेक गोविपै नायक भाण्डारी. ताच्या खांदार मोट्या चावयांचो घोंस. दुसरो लक्ष्मण दण्णायक न्याय-मनसुबकार. ताच्या हातांत वळिल्ले मोटे सुतलेचो पास. सालाच्या दाराभायर तांबडो बडंग पोशेग केल्ल्या पेद्यांच्यो दोन रस्ती. तांचे मदसून कदंबरायाचो पोशेग

केल्लो झिलबा सालांत येता. ताचे मुखार भांगराची म्हालदारकाठी घेतिल्ले दोग शेरके 'सवकासायेन, सवकासायेन' म्हणत ल्हवूल्हवू चलतात. पेद्यांचे रस्तींतसून येता आसतना ते प्रणाम करून 'कोंकणचक्रवर्ती श्रीकदंबरायजयकेशीम्हाराजांचो जयजयकार जावं!' अशें मोठ्या ताळ्यान म्हणटात. झिलबा सालांत पावतकूच पांचूय प्रधान अुठून अुबे रावतात आनी 'कोंकणचक्रवर्ती... म्हाराजांचो जयजयकार जावं!' म्हणून प्रणाम करतात. झिलबा शिंवासनालागसार पावतकूच, शेरके ताका हात दिवन शिंवासनाच्या सपाणांवैल्यान वैर चडैतात. तो मखखपणान शिंवासनाचेर बसता. पांचूय प्रधान आपल्या सुवातांनी बसतात.)

झिलबा : (प्रधानांकडेन पळोवन, मान हालोवन मनांत) हीं सगळीं कुळां म्हाका वळखिचीं-कशीं दिसतात. (पाटां-प्रधानाकडेन बारकायेन पळोवन) हय वय, तोच तो. सिर्दोणचो म्हाळपै नायक. कदंबरायांचो शाणो पाटां-प्रधान तो होच. हाणें म्हाका कोंकणचक्रवर्ती म्हाराज म्हणून प्रणाम केलो! हाका पिशें लागूंक ना. हो न्हिदूंक ना. हाका सप्न पडूंक ना. म्हणटकूच हांव कदंबराय कसो न्हय जायन? हांव खऱ्यानीच तर जयकेशीदेवम्हाराज. हांव झिलबा न्हयच न्हय. हांव न्हिदेंत ना. म्हाका सप्न पडूंक ना. हांव तटमटीत जागो आसां. म्हाका म्हज्या राजपणाची कशी विसर पडली तेंच समजना. कांय पर्वा ना. राज्याचो कारभार कसो चलैतात तो अजून हांव विसरूंक ना. हांवें शिगम्यांतलीं, चैत्रीपुनवेचीं आनी रथ-सप्तमिचीं जायतीं नाटकां पळेल्यांत. तांतूंतल्या राजांचो कारभार म्हज्या ध्यानांत आसा. तांतूंत मारून कठीन कांय ना. हांव म्हज्या राज्याचो कारभार भौ बरो चलैन. (दण्णायकाकडेन पळोवन) तो दण्णायक-सो दिसता. तो हे सभेक आयलो हें बरें जालें. (म्हाळपैकडेन पळोवन मखखपणान.) कितें प्रधानांनू, कसली खबर? राज्याचो कारभार बरे तरेन चल्ला मू?

म्हाळपै : बरे तरेन चल्ला म्हाराजांनू. म्हाराजांचें राज्य म्हळ्यार रामराज्य. आनी त्या रामराज्याचो सोबीत घूड म्हळ्यार आमगेलें हें कोंकण. सगळ्या संवसारांत हो भांगराचो कुडको. पुण्यतायेची पवित्र सुवात ती ही. पुर्विल्ल्या काळांत अश्वपति राजा जशी आपणाल्या राज्याच्या गुणेस्तपणाची बडाय मारतालो तशीच ह्या काळांत

म्हाराजांच्यान हे भुंयेची बडाय मारुं येत. अश्वपति म्हणटालो खैं, 'न मे स्तेनो जनपदे न कदर्यो न मद्यपो। नानाहिताग्निर्नाविद्वान्न स्वैरी स्वैरिणी कुतः'* आमगेलीय भूंय अशीच गुणेस्त आसा. हांगा ओखताक जाय जाल्यार चोर, शिनळ आनी नागोवणो मेळचो ना. हांगाच्या भाटांनी माडांवैले सुकिल्ले नाल्ल सकला पडले, आंब्यावैले आंबे गळ्ळे आनी पणसांवैले पणस कोंसळ्ळे तरी तांकां कोण हात लायना. ते जैंचे थैं अुरतात आनी धनयाचे धनयाक मेळटात. भायल्या लोकांक हें विपरीत दिसता. तांणी अितलें अुजूपण आपणाल्या मुलखांत जल्मांत पळोवंक ना. हांगा सुरांडो अेकलोय ना. हांगा हिमटो शास्त्राक ना. हांगाचे लोक मनाचे मोटे आनी हाताचे अुदार. ते सगळे बरपाक्षरी आनी विद्वान. ते सगळेच देव-धर्मिष्ट.

झिलबा : (तोखणायेन तकली हालोवन) खरें अुलैले प्रधानांनू. परंत ते चड भोळे. तितल्यान भँगलें. तांकां कितेंय सांगल्यार खरें दिसता आनी ते कोणायच्या नादाक लागून रोखडे फटवतात. भायल्या 'बोलक्या' मनशाक जाल्यार ते चड बुल्लुसतात. तो मागीर रांदपी जावं ना जाल्यार आयतेंकार जावं. जो चड बडबड करता ताका ते चड विद्वान समजतात. जो चड ढोंगां करता आनी माथ्यार जटेचें कोबलें वाडैता ताका ते साधू आनी ब्रह्मचारी समजतात. ताचे ते पांय चेपतात. ताचे वांगडा झोळी घेवन भोंवतात आनी ताका माथ्यार घेवन नाचतात!

म्हाळपै : निखालुस लटकें न्हय म्हाराजांनू. परंत हांगाच्या किर्कोळ मनशाच्या नाखटाचीय सर भायल्या ब्रह्मचाऱ्यांक येवची ना. हांगाचे सगळेच लोक बरे. हांगा कोण कोणाची हत्या करिना. कोण कोणाक जिवानशीं मारिना. हांगा बंदखणिची गरज लागना. हांगा सुळा-गोळाची गरज पडना. हांगा दण्णायकाच्या हातांत पास आसता तो बेठो सोबेक.

झिलबा : सोबेक ? आं-हां. आतां ताचो अुपयोग जावचेलो वेळ आयला. (दण्णायकाक) अशे येयात दण्णायकांनू. खर्डट्यांत रवळनाथाच्या

---

* छान्दोग्योपनिषत्, ५.११.५

देवळांत भायलो अेक हरदास येवन देवा हुजरां आमगेले गुणेस्त प्रजेक अळशिकावण्यो गाळी सांगता म्हणपाचें तुमी आयकलां व्हय?

दण्णायक : आयकलां म्हाराजांनू. ताका ती जल्माचीच वज खैं. गाळी सांगल्याबगर तागेले कथेक रंग चडना खैं.

झिलबा : (तिडकीन दांत किल्लून) रंग चडना? तागेलें मुस्कट आतां रँगोवंक जाय. आमगेल्या राज्यांत येवन, आमगेलें भूस मारून, आमगेले दुडू घेवन, आमगेल्या लोकांक गाळी? ताका दाखैतां आतां. हे भायले भूसमारे आपुण मोटे जाणवायेकार समजतात. आमगेले प्रजेक ते सामकीं बाबत कुळांकशी लेखतात. आमगेली प्रजा तांचे परस हजार वांट्यांनी फुडें आसा तें ते नकळत. ती दुसऱ्यांक नागैना आनी बळयांच दुसऱ्यांच्या आंगार पडना, म्हणून तिचो पांवडो सकैलो जायना. (रागाच्या किंवाट्यान) दण्णायकांनू, तुमी कळाव लायनासतना, आत्तांचे आत्तां, खर्डट्यांतले धर्मसाळेंत वचात आनी थैं त्या गाळयाऱ्या हरदासाक सोदून काडून, त्या तुमच्या पासान तागेले हात फाटीवसल्यान चरांटून बांदात. ताका अेक पिंजको-बोंदरो वालको न्हेसयात. ताच्या गळ्यांत शेळकुंडांचें गांठलें घालात. खांदार भाणशिऱ्याचो शेलो दियात. माथ्याक कांबळिचें फटकूर बांदात. ताका अेका रेड्याचेर शेपडेवसल्यान तोंड करून बसयात आनी हे गोवापुरिचे शिंवेर आगशी, नेवरें, भाटी आनी सिर्दोणमेरेन भोंवडावन आमगेल्या राज्यांतसून धांवडायात. ताका तसो भोंवडायता आसतना पारपतीकडसून बांद घालूंकं लायात कि 'फुडाराक जे कोण भायले भूसमारे आमगेले प्रजेचो अिल्लोय अपमान करतीत तांची अशी वाट लागतली.' वांगडा म्हाराकडसून धोलकें बडोवंक लायात हां.

दण्णायक : म्हाराजांची आज्ञा मान्य. (प्रणाम करून वेता.)

झिलबा : (भाण्डाऱ्याकडेन पळोवन.) अशे येयात भाण्डाऱ्यांनू. जुंवारेर झिलबा राणो म्हणून अेक भाटकार रावता. चाड्डो गांवकार तो. जणकार. दुलबा राण्याचो पुत. ताचे आवैचें नांव देवकी. तिका रोख पांच हजार निष्क व्हरून दियात. आमी कोंकणचक्रवर्ती कदंबरायम्हाराजांनी दिल्यात म्हणून सांगात.

भाण्डारी : (अजापान) अल-ल-ल-लय! अितले दुडू तिका?

झिलबा : ते चड जाले? आमकां तिका आनीकूय दिवचे-शे दिसतात. आमकां म्हाराजांक कितें अुणें आसा?

भाण्डारी : पणून बसल्या थैं वोगीच अितले दुडू तिका? दुडवांचो विद्वाट न्हय हो?

झिलबा : (तिडकून) विद्वाट जाल्यार म्हाराजांच्या दुडवांचो. तुमची पोटली कोणे नागैली? हीं गा कोण पिशेपणां!

भाण्डारी : पिशेपणां कशीं म्हाराजांनू? भाण्डारांत दुडू जमूंक कितले कश्ट पट्टात ते हांवूच जाणा. त्याभायर तिका दुडू दिले म्हणून ते तिच्या सांट्याक अुरचे पडल्यात? तिचो विद्वाटो पुत अेका खिणांत तांची करड करचो ना? गांवभर ताचे आलेभाव-कोलेभाव थोडे आसात? ते अेका रातयांत ताका भिकेक लावचे नात? म्हणटकूच भाण्डारांतले दुडू दिवन कसलो अुपयोग? फुटक्या कळशांत जायतें अुदक भल्लें म्हणून तो भरचो पडला?

झिलबा : (येवजणेंत पडून) परंत आतां तो झिलबा जायतो निवळ्ळा खैं. ताचें पैलें विद्वाटेपण अुरूंक ना. तुमी पांच हजार निष्क खुशाल ताचे आवैक व्हरून दियात. ती बरो करून तांचो विलो लायतली. ती शाणी, कर्तुत्वदशेची बायल. तिच्या पुताच्या त्या बेअिमान आनी पडमूर अिश्टांक (ओंठ चाबून) कडकडीत बरी ख्यास्त भोगैन-शी म्हाका दिसता. (येवजून: अशेंच केल्यार बरें.) भाण्डाऱ्यांनू, त्या झिलबाचे तीग अिश्ट गणसू गांवस, सोनू सावंत आनी रायू रावत मोटे अुंवाळ्ळेले. झिलबाच्या संवसाराची चड वाट लायली ती ताणीच. त्या जणअेकल्याकडसून आमच्या नांवान तुमी दोन-दोन हजार निष्क दंड घेयात आनी ते झिलबाचे आवैक आज सांजसूर पावते करात.

भाण्डारी : तें म्हजेर पावलें म्हाराजांनू. भायलेभायर काम जातलें. परंत भाण्डारांतल्या दुडवांक हात लावंक म्हाका चड कठीन मारता. ते तिका दिले ना जाल्यार जावचें ना?

झिलबा : (तिडकून) ना! ना! तुमकां सांगतां तितलें आयकात. चड जाणवायो नाकात.

भाण्डारी : पांचशीं दिल्यार जायना?

झिलबा : ना म्हव्यार.

भाण्डारी : आठशीं दिंव?

झिलबा : (अुबगून) तरी आसतना आपलेंच वाजंतर! पांच हजारांत अेक दमडी अुणी जावंक फावना. आमचे म्हाराजांचे दुडू खर्चूंक तुमचें कितें सरता? (दोळे तरांटून) तुमच्या पोटांत कित्याक चाबता? बऱ्यान सांगतां तितलें आयकुचें. चलात सटकरून.

भाण्डारी : म्हाराजांची आज्ञा मान्य. (खांदावैलो चावयांचो घोंस हातांत घेवन, प्रणाम करून ताकतीन वेता.)

झिलबा : (पाटां-प्रधानाक) प्रधानांनू, सभेचें आनीक कसलें काम अुल्लां व्हय?

म्हाळपै : थोडेंशें अुल्लां म्हाराजांनू. परंत चड ताकतिचें न्हय.

झिलबा : तर करुं येत फाल्यां. आतां फळाराचो वेळ जालोसो दिसता. सभा अुलगली.

(झिलबा शिंवासनावैलो अुट्टा. सगळेजाण 'कोंकणचक्रवर्ती श्रीमन्महामंडलेश्वर श्रीकदंबराय जयकेशीदेवम्हाराजांचो जयजयकार जावं!' म्हणटात. झिलबा वेता. ताचे फाटल्यान प्रधान आनी चाखरमाने वेतात.)

**देखाव ५.** – राजमंदिरांतलें अेक सोबीत साल. तीनसांजचो वेळ.

(सालांत मोरांच्यो भांगराच्यो दिवल्यो आनी माड घणघणीत पेट्टात. थैं वज्रा-केम्पाच्यो फुलयो मारिल्ल्या भांगराच्या पाटार झिलबा बसला. ताच्या फुड्यांत भांगराचे चवायेचेर भांगराची शिर्ती दवल्ल्या. तिचेर वेगळ्या वेगळ्या वाटयांनी तरेकतरा फराळ, हालवे, अुसळ्यो, रायतीं आनी करम वाडल्या. तशींच जायते तरेचीं फळां घाल्यांत. झिलबाचो पाट आनी चवाय हांचे भोंवतणी तरेकतरा रंग भरिल्ली सोबीत रांगोळ घाल्या. अेक चेडूं ताचे सामखार बसून सतार वाजैता.)

झिलबा : (केळ्यांचो हालवो तोंडांत अुडोवन) सकाळीं जागो जायनाफुडें, हें सगळें सप्न-कशें म्हाका दिसल्लें. परंत हें सप्न न्हय. अेदें व्हडलें शेकानशेक लांबचे लांब सप्न केन्नाच कोणाक पडना. हांव चलतां, भोंवतां, आयकतां, पळेतां, अुलैतां आनी विचारीन ताची फावोशी

जापूय म्हाका मेळटा; म्हणटकूच हें सप्न कशें जायत? तो पिकिल्ल्या मिशयांचो म्हाल-म्हातारो म्हाळपै आनी तो वळ्कांड्या मिशयांचो दण्णायक लेगीत म्हजी सांगणी-म्हणणी तकली बागोवन आयकता. हांव कदंबराय नाशिल्लों जाल्यार, अितलो मान ते म्हाका केन्नाच दिवचे नासले. (भुरकुटून) केदे म्हजे बडवाचार! हांव वचन थैं म्हजे भोंवतणी शेरके आनी चेडवां रुंयरुंय करून भोंवतात. म्हज्या तोंडांतसून अुतर सुटचोच कळाव. त्या आदींच म्हजीं सगळीं कामां जातात. सकाळीं तांणी म्हाका दिवाळेभाशेन तेल, रोस आनी वटणें लावन न्हाणैलो. कितें तांचो वास! कितें तांचो घमघम! हांव अिंद्रभुवनांत आसां कि गोवापुरींत आसां तेंच म्हाका समजना जालें. (फळारांतलो अेक जिनस हातांत धरून) हो कसलो जिनस जावंये? हांवें हो केन्ना पळोवंक नासलो. वाडपी खैं गेलो रे तो?

(फराळाचें ताट घेवन अेक चेडूं भितरसून ताकतीन येता.)

चेडूं : कितें जाय म्हाराजांक?

झिलबा : (तकली वैर काडिनासतना) वाडपी खैं?

चेडूं : फराळ वाडचेलें काम म्हादेवीसायबिणिनी आमकां चेडवांक सांगलां, तें म्हाराज नकळत? कितें जाय आसलें म्हाराजांक?

झिलबा : (ताका रेखून पळोवन मनांत) अितली सुंतर कांतैल्ली बावली हांवें जल्मांत पळोवंक नासली. (भायर) तुजें नांव गो कितें?

चेडूं : (अजाप जाल्ल्यावरी) आयोआयो! म्हाराज म्हजें नांवूय विसल्लें? ह्या चार-पांच दिसांत हांवूच फळार वाट्टां न्हय?

झिलबा : (अुगडास जाल्ल्याभाशेन) आंऽ! तुजें नांव जिबेच्या सामकें तोंकार आसा. पणून सटकरून तोंडाक येना.

चेडूं : सुन्दरें न्हय म्हजें नांव?

झिलबा : हय गो हय. तेंच तुजें नांव. तुज्या पोल्यांचेर ताचो घसघशीत बरो छाप अुठला न्हय गो! तुका तें फावोच फावो.

सुन्दरें : (मुरगटून लजून.) म्हाराजांक दुदाची अेक नेवरी घालूं?

झिलबा : (ताच्या तोंडावैली नदर हालैनासतना) नेवरी घालशी मागीर.

सुन्दरें : तर कितें कणग्यांचीं म्हानां घालूं? गरगरीत बरीं फुल्ल्यांत. साळगंवच्या कणग्यांचीं तीं. हळडुवींच जाल्यांत. तुपान तळ्ळ्यांत. साकरेंत घोळैल्यांत -

झिलबा : (ताचेकडेन सकलापासून वैरमेरेन तुकूतुकू पळोवन) तीं घालशी मागीर.

चेडूं : (ताच्या पानावैल्या जिनसांकडेन पळोवन) म्हाराजांनी त्या फुलैल्ल्या तीखशा फोवांक अजून हातूय लावंक ना तें कितें? तोंडांत अुडोवन तरी पळ्यात.

झिलबा : (ताचेवैली नदर काडिनासतना) पळोवं येत गो. पणून तुका आपैल्लें कित्याक तेंच पापया हांव विसल्लों? (दोळे वैर करून) हय गो हय. 'हाण्डीर आसा खैं चेडो आनी सोदता सगळो वाडो.' तसली न्हय गो म्हजी गत जाली! हहहऽऽऽ (हातांतलो जिनस दाखोवन) हो म्हज्या हातांतूच आसा. सुन्दऱ्या, हाका कितें म्हणटात गो?

सुन्दरें : आयोआयो! म्हाराज हो जिनस वळखनात? म्हाराजांचो तो चड रुचिचो. देखून आंत्र्या-पैऱ्यान करतात.

झिलबा : चड रुचिचो? आंत्र्या-पैऱ्यान करतात? आनी हांव खातां? ताचें नांव म्हाका कशें येना तर?

सुन्दरें : म्हाराज म्हजी भगल मारतात-शे दिसतात. तो सातां कप्यांचो घावन न्हय?

झिलबा : आं-हां. सातां कप्यांचो घावन! अशें! अशें! हो म्हजे चड रुचिचो? (अिल्लोसो कुडको खावन) बरो लागता हां. कोणें केलो गो हो?

सुन्दरें : (लजून, मान मोडून) हांवेंच केला म्हाराजांनू.

झिलबा : आनी हो जिरे-कोथमिरिचो हालवो कोणें केला? ताका कांटो नाजूक आनी कुचकुचीत बरो आयला.

सुन्दरें : (लजून) तोय हांवेंच केलां म्हाराजांनू. ह्या थंडिच्या दिसांनीं तो भौ बरो जाता. हांव भिणभिणट्यार अुठून तो करतां.

झिलबा : बरें मुगो तर तूं फळार करूंक जाणा. आनीक कितें कितें येता गो तुका?

सुन्दरें : म्हाका तरेकतरा शिवण-सूत येता. म्हाका कुस्कुरां, आमोरां, फुलां, वागोणेची वाल, कुंवल्यांची वाल, लिंगांची वाल, सोकटें, बुगडी बी सगळें येता. हांव तोपरीं, आंगलीं गळपटे बी सगळें विणटां. हांव सोबीत बरी रांगोळ घालूंक जाणा.

झिलबा : (तोखेवन) अल्ला गे बाये! तुका जायतें मुगो येता. आनी तुका गावंक आनी वाजोवंक येता मू?

सुन्दरें : येता तर गे बाये. हांव गावंक जाणा. वाजोवंक जाणा. नाचूंक जाणा. म्हाका तें म्हादेवीसायबिणिनी शिकैलां. म्हजी तांकां जायती माया.

झिलबा : आंऽ! जायती माया? आनी तुका बरोवंक-वाचूंक येता मुगो?

सुन्दरें : विचारूंक जाय म्हाराजांनू? म्हाराज तें सगळें जाणात; आनी विसह्ले कशे तेंच समजना. ह्या मंदिरांतूच हांव ल्हान-व्हड जावंक ना? (दुदाच्या जांबाकडेन बोट करून) म्हाराजांनी हें दूद घेतलें ना अजून? हांवें तें आटैलां. आटून आटून तांबडेंच जालां. म्हाराजांचे मोटव्या आट्याचे, कांसाळे होंटयेचे, पोंवळे गायचें तें दूद.

झिलबा : कितें म्हणटा गो पापया! कोणें गो शिकैलें तुका अितलें पातोळूंक? बोचुड्डेभाशेन न्हय गो ती तुज्या ताळ्यांतली पिल्लूक वाजता! अेकाद्याक खाणा-जेवणाचो नखताळोय जाल्यार तूं तुजे चोबाळणेन ताका बळयांच खावंक लायशी आनी अजीर्ण करशी. हहहहऽऽऽऽ! (झिलबा दुदाचो जांब तोंडाक लायता. दोळे मिचकायता. दूद पियेनाफुडें जांब सकला गळसणटा. ताच्या दोळ्यांक गच्च धांपणी पट्टा. फराळाचे शिर्तेचेर तो लकता. सुन्दरें ताका सांवारून धरता. रोखडोच जयकेशीदेव येता.)

जयकेशी : पांडग्याऽ, पांडग्याऽ, खैं रे तो?

पांडगो : (ताकतीन येवन प्रणाम करून) म्हाराजांनू.

जयकेशी : हाका हाचो मुदलचो पोशेग घाल आनी ताच्या घरा व्हरून मोन्यानी हांतरुणार न्हिदै.

पांडगो : (प्रणाम करून) म्हाराजांची आज्ञा मान्य.
(तो झिलबाक फाटकुळेर मारून व्हरता. चेडवां वेतात.)

जयकेशी : (अेकलोच) झिलबाच्या मनांत अेका दिसाचे गजालीक कदंबराय जावचें आसलें. आमगेल्या अुपायान तागेली वान्सा भागली म्हणची. आतां फुडें तो कसलीं कसलीं खेतबागडीं करता तीं पळोवंया. (वेता.)

## दुसरो आंक

**देखाव १. –** जुंवारेवैलें झिलबाचें घर. सकाळचो वेळ.

(कुडींत जमनीर पातळाअिल्ल्या अेका हांतरुणार झिलबा घोरेता.)

झिलबा : (गुर्मी वचून अर्दुकडो जागो जावन) आगो सुन्दऱ्याऽ पोंवळे गायचें दूद अिल्लें हाड पळोवंया. तें म्हजे जिबेर अुल्लें पापया. तीं कणग्यांचीं म्हानांय हाड गोऽऽ. (दोळे अुक्ते करून) आ! हें कितें? हांव फराळाचे कुडींत आसलों आनी हे पलँगाचे कुडींत कसो पावलों? (अुठून हांतरुणाचेर बसून) पणून म्हजो पलँग खैं? आनी ती जरीची ओल खैं? (कुडिच्या पाश्टाकडेन पळोवन अजापान) कडण्यो, वांशे आनी नळे न्हय गा हांगा दिसतात! तीं किरां-मोरां आनी तीं देवांचीं चित्रां खैं पावलीं? ते शेरके, तीं चेडवां आनी तो काटकार खैं गेलो? अगो कामण्या, अगो रत्न्या, पापयानू, खैं गो आसात तुमी?

(झिलबाची करांदाय आयकून देवकी आकान्तून खर्शेंत येता.)

देवकी : (पोंग घालून कमरेर हात धरून पिरँगून) खैं रे आसलो तूं पुता काल सगळो दीस? आसा मरे जिवान बरो? हुस्को काडून काडून पापया जीव म्हजो वचचेकडेन पावलो!

झिलबा : (तिडकून) कोण गे ती दांत-पडी? हांव अुलो मारतां सुन्दऱ्याक, कामण्याक आनी रव्न्याक. आनी ही म्हातारी मदींच पुता-पुता करून आयली!

देवकी : तूं म्हजो झिलू न्हय? म्हजो अपुर्बायेचो पुत न्हय? देखून पुता म्हळें. आसा मरे जिवान बरो? काल तुका सोद-सोद सोदलो. खैंच तुजें आदवसण लागना जालें. म्हजेर आयलो आकान्त.

झिलबा : बरो आयलो तुजेर आकान्त. मोटी पातोळी ही! हांव झिलू खैं! हिचो पुत खैं! लज दिसना अशें म्हणूंक?

देवकी : (ताची फाट सांसपून) अशें कितें म्हज्या राया? तूं म्हजो झिलो न्हय? तूं म्हाका विसल्लो?

झिलबा : (तिचो हात पेल्यान धुकलून) शी:, तुजे ते हाडकुटे हात म्हाका लावं नाका. सर पेल्यान. झूर. हांव झिला आनी झिलू? बरी मोगाची मावशी आयल्या! हांव कोंकणचक्रवर्ती कदंबरायम्हाराज!

देवकी : (भियेवन तोंडार हात धरून फुतफुतून) झिला, तशें म्हणुं नाका.

भायर तो दण्णायक बी आयकत जाल्यार तुका आनो म्हाका वांगडाच धरून व्हरत. तुका पिशें लागूंक ना मू?

झिलबा : म्हाका पिशें? तूंच म्हातुड्डी पिसावल्या! हांव कोंकणचक्रवर्ती कदंबरायम्हाराज.

देवकी : (रडकुळ्यां येवन हात जोडून) सांतेरीऽऽ सायबिणी! झिलाची तकली थाऱ्यार नाशी दिसता. ताच्या कांठ्यार कोण बसलो. काल तो सगळो दीस नासो जाल्लो.

झिलबा : कितें गे बडबट्टा म्हातारे? तुज्याच कांठ्यार कोण बसला-सो दिसता. चड अुलैशी जाल्यार पळे हां!

देवकी : (दोळ्यांर पदर धरून हुडकेवन) सांतेरीऽऽ, म्हजे! कशी झिलाची वाट लागली ही! असो म्हजो झिला केन्नाच म्हाका अुलैनासलो. तो म्हाका शिट आनी फिट म्हणनासलो. तो म्हजी कितलीशी माया करतालो. तो सकाळसांज म्हाका पांयां पड्टालो. आतां किते करूं गे सायबिणी? म्हजो गुणाचो पुत तो. म्हजो म्हातारेचो दांडो तो. म्हज्या दोळ्यांचो अुजवाड तो. (पर्थून ताची फाट सांसपिता.) म्हज्या शाणुल्या, म्हज्या गुणुल्या, किते जालां रे पापया तुका? तूं म्हजो पुत आनी हांव तुजी आवै न्हय?

झिलबा : (तिका धुकलून, दोळे तरांटून) चेप राव म्हातारे. तूं म्हजी आवै न्हय. तूं म्हाका वळखना. हांव कोंकणचक्रवर्ती कदंबरायम्हाराज. म्हजो जयजयकार करून तुवें म्हाका पांयां पडूंक जाय. तो व्हडल्यांतलो व्हडलो आनी जाणट्यांतलो जाणटो म्हाळपैलेगीत म्हाका पांयां पड्टा.

देवकी : खऱ्यानीच हाचे मानेर कोण बसला-सो दिसता गेऽऽ बाये. सांतेरीक प्रसाद लावन किते जालां तें तरी पळोवंया. (शेजाऱ्यांक आकान्तून अुलो मारून) आगो गोकळ्याऽ! आगो जायल्याऽ! चिके येयात गो हांगा.

गोकळें : (ताकतीन येवन) किते? किते जालें गे झिलाचे आवै?

देवकी : तें मागीर सांगन गो. चिके त्या फट्या भगतागेर धांवत वच आनी हांवें ताका आपैला म्हणचें.

(गोकळें वेता.)

देवकी : (झिलबाक) झिला, तूं कदंबराय आशिल्लो जाल्यार हे कुडींत, ह्या

असल्या हांथरुणार कित्याक लोळटलो आसलो? तूं बरो राजमंदिरांत भांगराच्या पलँगाचेर न्हिदतलो आसलो न्हय रे? तूं शाणो जावन तुका अितलें समजना कशें? पापया चिके येवजून पळे.

झिलबा : (तिची म्हणणी खरी दिसून, हाताचे मुठींत खाडकी धरून, मान सकला करून, येवजून) हय, तूं म्हणटा तें लटकें न्हय. ही कूड आनी हें हांथरूण कदंबरायाचें जावं नज. (चोंयवशीन बारकायेन पळोवन) ही म्हजी कूड. हें म्हजें घर. (आपणाकडेन पळोवन) हांव झिलबा आनी (आवैक रेखून पळोवन) तूं म्हजी बा. आतां म्हज्या ध्यानांत आयलें. हांव कदंबराय न्हय. रागार जावं नाका हां! हांव कितेंय अुलैलों म्हणून.

देवकी : (भुरकुटून) आयलो गेऽ पुत म्हजो धेयभानार. झिलू, तुका कदंबरायाचें सप्न पडिल्लें-शें दिसता. पणून भँगूं ती गजाल. काल पापया हांगा कसली मौज जाली! तुका ती चुकली. रवळनाथाच्या देवळांतल्या त्या गाळयाऱ्या हरदासाक रेड्यार बसोवन आमच्या दारांतसून धोलकें बडैत व्हेलो न्हय रे! कितलोसोच लोक जमा जाल्लो. ताचें तें सवँग पळोवन म्हज्या पोटांत हांसून हांसून सामके पेंडके आयले. बरीं फकाणां केल्लीं ताचीं. बद्द शिगम्यांतलें सवँग. माथ्याक म्हणूक फटकूर बांदिल्लें! खांदार म्हणून भाणशिरें दिल्लें! हहहऽऽऽ!

झिलबा : (अुगडास जावन घुस्पागदळांत पडून) खऱ्यानीच? कितें म्हणटा गे? हांवेंच ती ताका ख्यास्त भोगोवंक लायल्ली. राजसभेंतल्या शिंवासनाचेर बसला आसतना हांवेंच म्हज्या दण्णायकाक ती आज्ञा केल्ली. म्हणटकूच हांव कदंबराय कसो न्हय जायन? चेः, म्हाका हें सप्न पडूंक ना. हांव आतांचेच भाशेन त्या वेळारूय तटमटीत बरो जागो आसलों. (खुबळून) म्हातारे तुका लागलां पिशें. तूं म्हजी आवै न्हय आनी हांव तुजो पुत न्हय. चलूंक लाग थैंची.

देवकी : (कलकलून) पर्थून हाची तकली घुंवल्लीशी दिसता. (कपळार हात मारून) कर्माऽऽ कर्मा! झिलू, सांतेरी सायबिणीक चिके पांयां पड पळोवंया. ती तरी बुद्द निवळावं. (पदराचे गांठिचो आंगारो सोडून ताच्या कपलाक लायता आनी 'देवते पाव' म्हणून पोले फोडून घेता. अितले म्हणसर फटो भगत येता.)

फटो : किंतें गे होनये? कित्याक आपैल्लो?

देवकी : फट्या, सकाळच्यान ह्या म्हज्या झिलुची तकली थाऱ्यार ना. कितें जालां समजना. सायबिणीक चिके प्रसाद-पाखळी लावन नड-झड आसा जाल्यार पळे.

फटो : बरें होनये. (वेता.)

झिलबा : (केंच करून आंगार येवन) म्हातारे, तुवें म्हजीं फकाणां करचीं येवजिल्यांत गे? म्हजी तकली थाऱ्यार ना खैं! आनी तुजी तरी आसा? म्हाका कदंबरायम्हाराजाक झिलू म्हणटा तूं? पर्थून मात तशें म्हण. मागीर भल्लो तुजो कुडव. म्हाका तीं फकाणां अुपकारनात.

देवकी : (पदरान दोळे पुसून रडकुळ्यांनी) झिला, णव म्हैने हांवें तुका कुसव्यांत धल्लो, ल्हान-व्हड केलो आनी तुवें म्हाका अशें म्हणचें रे? पापया कदंबरायाची पदवी तुका सोबता रे? आमगेलो म्हाराज कितलो दयेस्त आनी काकळुतेस्त! काल म्हाका ताणें पांच हजार निष्कांची गांठ धाडून दिली. त्याभायर तुजे ते नश्टे अिश्ट गणसू, सोनू आनी रायू हांकां दंड करून स हजार निष्क म्हाका पावते केले. (भुरकुटून बोटां मेजून) आतां म्हजेकडेन पांच आनी अेक स-सात-आठ-णव-धा आनी अिकरा हजारांची गांठ जमली. हांव तुका अेक गजाल सांगतलीं-सांगतलीं म्हणटां. परंत तुजी सभाग्या तकलीच थाऱ्यार ना. ह्या दुडवांचें आमी कुठ्ठाळे अेक व्हडलें-शें ठिकाण घेवया, नारे झिला? तुज्या हातांत ते पडल्यार केन्नाच खर्चतले.

झिलबा : (चड पिशान्तुर जावन रागाच्या किंवाट्यान) तरी आसतना म्हजी तकली थाऱ्यार ना खैं! कसली बेअिमान पळ्यात ही म्हातारी! म्हजी तकली थाऱ्यार आसली देखुनूच हांवें म्हज्या भाण्डाऱ्याक सांगून तुका ते पांच हजार निष्क धाडून दिले. गणसू, सोनू आनी रायूक दंड केलो तोय हांवेंच. आनी हे दंडाचे दुडू हावेंच तुका पावते केले. अुपकार नात तुका. (दोळे तरांटून दांत किल्लून लागशिली बडी अुखलून) कदंबरायाची पदवी म्हाका सोबना म्हणटली तूं? म्हणटली? अुलै बेगीन. (तिच्या आंगार धांवता.)

देवकी : (मोठ्यान हुयेल मारून) आवै गे म्हजे ! माल्ली गे सायबिणी! सोडयात गे म्हाका!

(शेजारी धांवत येवन झिलबाक धरतात आनी ताच्या हातांतली बडी झोंबून घेतात.)

एक शेजारी : सगळें सांडून आवैक रे झिला कित्याक मारता तूं? दशा गेली व्हय रे तुजी? तुजे असल्या शाण्या मनशाक असली करणी सोबना. शी:

झिलबा : (रागाच्या किंवाट्यान करा करून पळोवन) झिला कोणाक म्हणटा गा तूं? मस्तो खैंचो. दांतकटी निखळायतलों. हांव झिला न्हय आनी ही म्हजी आवै न्हय. हांव कोंकणचक्रवर्ती कदंबरायम्हाराज!

शेजारी : (मान हालोवन एकामेकांक) ह्या कुळाक पिशें लागलां-शें दिसता. हाची तकली थाऱ्यार ना. हाचे मानेर कोण बसला. हाका अेन्नादर बांदून घाल्यार बरो.

(शेजारी ताचे हात-पांय सुमान बांदतात. तो आंग खुनळावन सुटूंक सोदता. अितले म्हणसर फटो भगत प्रसाद घेवन येता.)

फटो : होनये, प्रसाद सटकरून जालो ना. जायती तीड आयली. घरचो निरंकार, घरचो समंद, भायलो देवचार, भायलो म्हारू मेळून कितलीशीच नड. पसरेंभाटांतल्या खेत्र्याकडेन तुमचे आड बोकडाची कोणें मानतुकूय केल्या. तुमकां नसाय आशिल्ल्यांनी तुमचें वायट करूंक भायली तीड घाल्या. ह्या सगळ्यांची थारावणूक जावंक जाय. सांतेरी देवीक कापड-खण घालून होंटी भरूंक जाय. परंत अितल्यान ही नड-झड थारत-शी दिसना. झिलबाचे मानेर भायली भयांकृत अवगत बसल्या.

देवकी : (भयान लडलडून काळजाचेर हात मारून) अवगत रे फट्या? घात जालो गे बाये घाऽत! कालच्या भादव्यांत मशा गांवकारागेली ती येसोदी गुरवाचारांतूच भायर पडली. तिचीच ही अवगत आमकां धोंसूंक आयलीशी दिसता. चड खर ती. आतां कशें जातलें गे बायेऽ! (कमरेर हात धरता.)

फटो : भियेंव नाका गे होनये. आमगेली सायबीण देवळांत कडकडीत बसल्या आसतना भय कसलो? (रुमालाच्या शेवाची गांठ सोडून देवकेक आंगारो दिता आनी झिलब़ाच्या कपळाक अिल्लो लायता.)

देवकी : फट्या, चिके त्या खांपू घाडयाक ही खबर कळै आनी हांगा धाडून दी पळोवंया.

फटो : बरें आसा. तूं कांय चिंता करुं नाका गे होनये. (वेता.)

झिलबा : (तिडकून) त्या फट्याक लागलां पिशें. व्हडलो भगत आयलो तो. तो नांवाचोच आदीं फटकिरो. म्हजेर अवगत बी कोण बसूंक ना. म्हजी तकली बरी थाऱ्यार आसा. हांव कोंकणचक्रवर्ती श्रीमन्महामंडळेश्वर श्रीजयकेशीदेवम्हाराज-
(अितले म्हणसर मार्गावैले जायते भुरगे थैं मौज पळोवंक जमतात.)

भुरगे : (भियेत भियेत ताचे लागसार वचून ताका रेखून पळोवन) अरे हो पिसो! हरगया! हो पिसो! आमकां तो मारीत रेऽ बाबा! (जिबेचें तोंक भायर काडून चाळैतात.)

देवकी : (तांकां आमडून) चलात रे थैंचे. हांगा कितें खेळे नाचतात? कोण गे बाये अवचिन्नाचे भुरगे हे!

झिलबा : त्रिलोचन कदंबाच्या कुळांत हांव सूर्यावरी जल्मलां. म्हज्या जाण्टेल्यांनी अठरा अश्वमेध केल्यात. शत्रूंक हांव दांत्याभाशेन दळटां. (भुरगे ताळयो पेटून हांसतात.) हांव बद्द देवाचो अवतार. धर्तरिवैल्या सगळ्या राजांचो हांव आजो. (भुरगे हांसून ताच्या तोंडाभोंवतणी हात अुंवाळटात.) म्हज्या मुकुटांत शिंवाचो तुरो लकलकता. म्हजे घुडयेर वानराचें चित्र झगझगता. म्हज्या दारांत धोल आनी नगारे वाजतात. (सगळेजाण खो-खो करून हांसतात.)

देवकी : (हुडकेवन दोळे पुसून) कितें म्हज्या पुताची अवस्ता ही! कसलो भांगराचो म्हजो झिला आसलो! खैंच्या चुतड्यांनी ताका दिश्टी केली कोण जाणा. (बोटां मोडून) फुटले तांचे दोळे!
(अितले म्हणसर खांपू घाडी आपल्या अेका वांगडच्याक घेवन येता. खांपुच्या हातांत तबकडी, तांतूंत नाल्ल, तांदूळ, पानांचो विडो, पिंजर, अुजवाती, निंबू, नाल्लाचो बेलो बी आसता. वांगडच्या मनशाच्या हातांत धुपाचें आयदन, राजू, कायलाथो, बी आसता.)

खांपू : कितें गे होनये? झिलाचे मानेर अवगत बसल्या खैं?

देवकी : (पदरान दोळे पुसून रडकुळ्यांनी) कितें सांगतली? कर्माची कट्टी! (कपळार हात मारता.)

खांपू : रडुं नाका गे होनये. तूं कांय चिंता काडुं नाका. जातलो झिला बरो. हांव घाडी आसतना अवगतिची मारून कसलीशी पर्वा? सगळे भुतावळिचें मालें हांव चिड्डून अुडैन. म्हाका पळेनाफुडें कितलींय

खर भुतां थप्प जातात. भायली-भितल्ली नड झड हांव एका खिणांत कातरून अुडैतां. म्हजें घाडपण आयकनाफुडें आळवँतीण, दंकीण, जखीण, जतगो, खेत्री, रोद्री, समंद, ब्रह्मो, देवचार, म्हारू आनी निरंकार थर्त कांपतात. ही अवगत चडशी भयांकृत न्हय. हांव तिका केन्नाच ह्या बेल्यांत भरून, गच्च गुट्टी लावन, सातां समुद्रांचे खरीक घालीन.

(खांपू धुपाच्या आयदनांत धूप पेटैता. भार आअिल्ल्याभाशेन तकली आनी आंग हालैता. मूठभर तांदूळ घेवन फू-फू करून झिलबाचेर मारता.)

खांपू : (दांत ओंठ चाबून तिडकून) बऱ्यान सांग कोण तूं. ह्या झिलबाचे कुडींत रिगचेलें कारण कितें? कसलें देणें आसा तुजें?

झिलबा : (आंग खुनळावन) खांपुल्ल्या, तोंड सांभाळून अुलै. तोंड सांभाळून. म्हजे हात बांदून घाल्यात म्हणून सोड. ना जाल्यार तोंड रँगैतलों आसलों, तोंड. म्हाका पांयां पडून जयजयकार करचो सोडून हो मस्तेपणान पळे कसो म्हाका विचारता. भीड-मुर्वत कांयच ना. हांव झिलबाचे कुडींत रिगूंक ना. हांव म्हजे खासा कुडींत आसां. हांव श्रीमन्महामंडळेश्वर श्री जयकेशीदेवम्हाराज!

खांपू : हाका खर समंद लागलासो दिसता. (तांदूळ मारून) अुलै बेगीन. तूं भायलो कि भितल्लो समंद?

झिलबा : (तिडकून) हांव समंद न्हय.

खांपू : तर कोण निरंकार?

झिलबा : (दांत ओंठ चाबून) हांव निरंकार न्हय.

खांपू : (तांदूळ मारून) तर कोण? ओंवळीवैलो म्हारू?

झिलबा : (नाखपुडयो फुलोवन) पळे हांव खापुल्ल्या. (तो दातांनी हाताचें सुम तोट्टा. मागीर पांयांचें सुम सोट्टा आनी घाडयाच्या मुस्कटांत मारता.)

खांपू : (पोलो सांसपून) आवैस्स! हो निबर म्हारू. होनये, अनू म्हारवाचो मान तुवें राखलोना-सो दिसता. देखून ही धोंस. भुतावळीक वेळाच्या वेळार थारावंक जाय. ना जाल्यार ती अशी बादता. (झिलबाकडेन पळोवन) तुजो मान केल्यार ही कूड सोडून वेशी व्हय? तुका सूर-रोंट दिवं येत.

झिलबा : (खांपुच्या आंगार वचून) कितें? म्हाका सूर? हांव सुरीक आफुट्टां? (ताचे दोनूय कान पिंवळून) म्हणटलो अशें? म्हणटलो? हांव सुरांडो न्हय. हांव म्हारू न्हय.

खांपू : (तांदूळ मारून) हें पिशें चड खुबळ्ळें-शें दिसता. हें बरे वजेन आयकना. हाका बांदून घालूंक जाय. (वांगडच्यांक) वांटग्या, पळेता कितें? लाग कामाक.

(वांटगो झिलबाक खांब्याक बांदून घालता.)

झिलबा : (आंग खुनळावन मोट्यान आड्डून) एऽ दण्णायकांनू, खैं पावले तुमी? हो काश्टीकुसको खापुल्लो म्हाका बांदून घालता तें तुमकां दिसना?

खांपू : (नाखार बोट धरून) चेप राव पिशा. तूं म्हारू न्हय जाल्यार कोण? पिपळावैलो मुंजयो? सांग सटकरून. (तांदूळ मारता.)

झिलबा : हांव मुंजयो न्हय.

खांपू : तर कोण? बऱ्यान सांग. वांटग्या, म्हाका ही अवगतशीच दिसता. देवतेन प्रसादांत सांगलां तेंच खरें. (बेलो हातांत घेवन झिलबाक) हो पळेलो मू? म्हाका तूं वळखून नकळ. ह्या बेल्यांत तुका हांव भरतलों आनी जमनींत खोल फोंड काडून पुरतलों.

देवकी : (काकळुती येवन) खांपू, तशें आचारवाणें-शें कितेंय म्हणुं नाका रे म्हज्या रायाक.

खांपू : अगे होनये, तूं वोगी राव मात्शी. हांव तें झिलाक म्हणना. ताचे कुडींत रिगिल्ले अवगतीक म्हणटां.

झिलबा : (तिडकून) अवगतीक म्हणटा तें तूं? तूं म्हाका म्हणटा तें म्हाका. ह्या कदंबरायम्हाराजांक तूं म्हणटलो तशें पर्थून? दांत निखळायतलों. वळखून नकळ!

खांपू : (तांदूळ मारून) तूं कदंबरायम्हाराज न्हय. तूं अवगत!

झिलबा : (तिडकून) हांव अवगत न्हय. हांव कदंबरायम्हाराज!

खांपू : आतां तें तितल्याचेरूच पावलेंशें दिसता. वांटग्या, ह्या पिशाच्या तोंडाक आतां कायलाथो तापोवन लावचो पडलो.

(वांटगो धुपाच्या आयदनांत कायलाथो तापत घालून फूक मारता.)

खांपू : (झिलबाक) तूं म्हणटलो तशें पर्थून? तूं म्हाराज न्हय. तूं अवगत. म्हण पैलीं अवगत.

झिलबा : हांव अवगत न्हय.

खांपू : तूं भयांकृत अवगत. म्हणटा कि ना बऱ्यान?
(वांटगो कायलाथो तापोवन दिता.)

खांपू : (कायलाथो घेवन झिलबाच्या तोंडासरीं व्हरून) लावं कायलाथो? लावं? कोण तो सांग तूं.

झिलबा : हांव जयकेशीदेवम्हाराज.

खांपू : तरी आसतना! (कायलाथो फुडें फुडें व्हरून) लायतां, लायतां. म्हण पैलीं अवगत. तूं जयकेशीदेवम्हाराज न्हय. तूं अवगत. तूं नश्टी अवगत. तूं भयांकृत अवगत. (कायलाथो सामको ताच्या ओंठांसरीं व्हरता.)

देवकी : (लडलडून ताचो हात धरून) खांपू, नाका रे सायबा. आसूं. भँगूं तो.

खांपू : तूं मात्शी कडेक राव पळोवंयां. नाजाल्यार भितर वच. (झिलबाक) लायलो, लायलो!

झिलबा : (मोठ्यान किळँचून) आगो सुन्दऱ्या, खैं गो पावलें तूं? आगो रत्न्या, आगो कामण्या, येयात गो बेगीन. अरे शेरक्यांनू, पेद्यांनू, खैं रे पावले तुमी? म्हाळपैनू, भाण्डाऱ्यानू, दण्णायकानू, तुमचे असले बळिश्ट प्रधान म्हजे सेवेक आसतना, ह्या अुणाक खापुल्ल्यान म्हाका कदंबरायाक बांदून घालून असो भेश्टावंचो मू? कोण अपमान हो म्हजो!

खांपू : (दोळे तरांटून) तुका दाखैतां आतां कदंबराय. (ताच्या ओंठाक कायलाथो लायता. (देवकी दोळ्यांर हात धरता.)

झिलबा : (मोठ्यान हुयेल मारून, आंग खुनळावन) हाय, हाय! आवै! आवै! आवै!

खांपू : म्हणटलो पर्थून कदंबराय? तूं अवगत!

झिलबा : (अुपाय चलना जावन निर्शेवन) हां खापुल्ल्या. हांव अवगत. हांव देवचार. हांव म्हारू. हांव समंद. हांव ब्रह्मो. हांव निरंकार. हांव मसणो. हांव फोंडो. जाली तुजी खोस?

खांपू : कितें ! घाडयामामाच्यो मस्कऱ्यो? लावं कायलाथो? तूं मसणो न्हय. तूं फोंडो न्हय. तूं निरंकार न्हय. तूं ब्रह्मो न्हय. तूं म्हारू न्हय. तूं अवगत. देवतेन सांगलां तेंच खरें. म्हण अवगत.

झिलबा : खरें सायबा. हांव अवगत.

खांपू : आतां पर्थून केन्नाच कदंबरायम्हाराज म्हणचो ना मू? सांग.

झिलबा : ना सायबा. केन्नाच ना..

खांपू : (देवकेक) पळेलें मु होनये? पिशें अिल्लेंअिल्लें कशें निवळ्टा तें. तूं वोगीच कलकलताली. आमच्या घाडयांकडेन भुतांचीं शाणपणां चलतात? (झिलबाचेर तांदूळ मारून आनी बेलो फुडें धरून) आतां तूं खरेपणानशीं अवगत. बऱ्यान ह्या बेल्यांत रीग. रिगता कि ना? नाजाल्यार लायतां कायलाथो.

झिलबा : (थरथरून भियेवन) रिगतां सायबा.

खांपू : रिगलो? सांग बेगीन.

झिलबा : रिगलों सायबा.

खांपू : मारूं गुड्डी?

झिलबा : मार सायबा.

खांपू : (बेल्याक गुड्डी मारून) आतां तूं कोण सांग.

झिलबा : हांव सायबा कदंबरायम्हाराज.

खांपू : (अजापान बेलो कानाकडेन हालोवन पळोवन) ही अवगत सुटून पर्थून हाच्या काठ्यार बसलीशी दिसता. गुड्डी सारकी बरी बसली ना. (कायलाथो घेवन झिलबाक) लावं कायलाथो? तूं कदंबराय न्हय. तूं झिलबा राणो. म्हण पैलीं झिलबा राणो.

झिलबा : हां सायबा. झिलबा राणो.

खांपू : (खोसयेन अुडकी मारून) पळेलें होनये? हाचें पिशें आतां साप गेलें. तूं भियेवं नाका. तो आदले भाशेन झिलबा जालो.

देवकी : तर ताका सोडै आतां. (काकळुतीन) म्हजो राया तो! पळे कशी ताची अवस्ता जाली! ताच्या ओंठाक तो पळे केदो मोटो फोड आयला! वळवळ्ळो गेऽऽ म्हजो बाबा! (पदरान दोळे पुसता.)

खांपू : शे. शे. ताका येन्ना सोडून अुपकारना. सांजेवेळमेरेन ताका तसोच अुपाशीं दवरूंक जाय. ताचें पिशें पर्थून चाळवत जाल्यार वचूंक कठीन. होनये, येतां तर हांव. सांजेवेळा फावट मारून वचन. घाडयामामाक कितें दिवंक-घेवंक जाय तें तूं जाणाच. तुका तें सांगचें लागना.

देवकी : ताची तूं चिंता करुं नाका रे खांपू. दुडवांची मारून व्हडलीशी बिशाद

कसली? म्हजो झिला बरो जावनी. ताचे भोंवतणी सगळो संवसार हांव अुंवाळून अुडैन.

(सगळेजाण थैंसून वेतात आनी झिलबा अेकलोच खांब्याक बांदिल्लो अुरता.)

झिलबा : (खेदान मोट्यान हुस्केवन) कोण म्हजी अवस्ता ही! हांव केदो मोटो कदंबराय आसलों आनी त्या अुंवाळ्ळेल्या घाडयान मारधपट करून म्हाका बळयांच झिलबा केलो. अितली तांक ताका खैंच्यान आयली? (बारकायेन येवजून) परंत हें सप्न न्हय मू? चे:, सप्न म्हणूंक गेल्यार ओंठाक आअिल्लो हो फोड म्हाका कसो चुरचुरता? (जीब चाबून) हय हें पळे म्हाका कशें दुखता. हांव जागो आसां. तर हांव कोण तें म्हाका कशें समजना? हांव कदंबराय म्हणूंक गेल्यार, म्हजीं रसमी आंगावलीं आनी म्हज्या माथ्याचो जरिचो मुकट खैं पावलो? हांव राजमंदीर सोडून हांगा कसो आयलों? बाजारांतल्या नाखटाअेद्या भुरग्यांनीं म्हज्यो केवल्योबावल्यो कशो केल्यो? त्या खांपू घाडयान म्हाका बांदून घालून कसो दागलो? प्रधानांभितल्लो अेकलोय म्हाका सोडोवंक कसो आयलो ना? म्हणटकूच हांव कदंबराय न्हयसो जालों ना? परंत कदंबराय न्हय म्हणूंक गेल्यार, दण्णायकाकडसून हावें त्या गाळयाऱ्या हरदासाक ख्यास्त कशी भोगैली? त्या झिलबाच्या बेअिमान अिश्टांक दंड कसो केलो आनी ताचे आवैक पांच हजार निष्क कशे धाडले? ह्यो सगळ्यो गजाली म्हजे आज्ञेन घडल्यात हांतूंत अिल्लोय दुबाव ना. म्हणटकूच, हांव कदंबराय न्हय कसो? म्हाका हें मोटेंच कुवाडें कशें दिसता.

(अितले म्हणसर देवकी ताच्या समाचाराक येता.)

झिलबा : (आवैक रेखून पळोवन) खऱ्यानीच ही म्हजी बा. ही कदंबरायाची आवै कशी जावं येत? ती म्हजी आवै; देखून अेदोळ कायलाथो लावच्या वेळार तिचो जीव सामको आकुळपिकुळ जालो. तिणे आपल्या दोळ्यांर हात धल्लो. म्हाका तो खांपू कितेंचें कितें आचारवाणें अुलोवंक लागलो तेन्ना तिचो जीव सकल-अुबार जालो. ती दुसरी कोणूय जाल्ली जाल्यार तिचो जीव अितलो खासावीस कित्याक जातलो आसलो? (तिका) तूंच सांग पळोवया,

तूं कोण ती?

देवकी : (दोळे पुसून) हांव तुजी आवै मरे झिला. आतां कशें दिसता तुका?

झिलबा : हांव कदंबराय न्हय मू?

देवकी : न्हय रे बाबा. तूं म्हजो झिला.

झिलबा : खऱ्यानीच?

देवकी : खऱ्यानीच तर. हांव तुका लटकें सांगन?

झिलबा : (पच्छत्ताप जावन) तुका केंच-केंच करून नाका-जाल्लें हांव अुलैलों आनी बडी मारूंक काडली ताचें म्हाका वायट दिसता गे. हांव शेजाऱ्यांकूय कितेंचें कितें अुलैलों. म्हाका त्यावेळार कितें जाल्लें तेंच समजना.

देवकी : (पुत निवळ्ळेलो पळोवन भुरकुटून बेगोबेग ताचीं बांदपां सोडैता.) कांय नज रे झिला. तूं आस-तसो धेयभानार आयलो, तितल्यान हांव सगळें दुख आनी मान-अपमान विसल्लीं.

झिलबा : म्हाका कितें जाल्लें तेंच समजना. सगळ्यो गजाली खरेपणानशीं तर घडून आयल्यात. तुका अिकरा हजार निष्क घसघशीत बरे पावले ते लटके म्हळ्यार जातात? म्हणटकूच हें सप्न कशें म्हणचें? परंत सप्न म्हळ्याबगर सुटका ना. हांव कदंबराय न्हय म्हणपाचें कोणूय सांगत आनी म्हजें म्हाकाय तें आतां तशेंच दिसता. हांव तुजो पुत. हांव झिलबा आनी हें म्हजें घर हांतूंत अिल्लोय दुबाव ना.

देवकी : (चड भुरकुटून आनी खोसयेचीं दुखां गळोवन) आतां कसो अुलैलो म्हजो राया! आतां तो सारको बरो निवळ्ळो. आतां तो पर्थून म्हज्या कुसव्याक जल्मल्ल्यावरी जालो. (ताची फाट सांसपून) झिला, आतां म्हाका बा म्हण पळोवया.

झिलबा : हय गे. तूं म्हजी बा गे.

देवकी : (भुरकुटून) जाणा म्हज्या झिला, पैर तो सावकार आअिल्लो न्हय? तेन्नाच्यान तुजी ही अवस्ता जाली. तो फांतोटेर आमचें दार आड करिनासतना गेलो न्हय रे!

झिलबा : (अुगडास जावन) हय गेऽ हय बा. आतां ह्या कुवाड्याचो अर्थ म्हाका अिल्लोअिल्लो लागतासो दिसता. तेच रातीं म्हाका तें नश्टें सप्न पडलें आनी म्हजो मेंदू सामको घुंवळ्ळो. वेता आसतना दार आड करूंक विसरुं नाका म्हणून हांवें त्या सावकाराक कितलेंशें

सांगिल्लें. परंत सभागी विसल्लोसो दिसता; आनी त्या पासाक लागिल्ल्या दारांतसून सगळी भुतावळ घरांत रिगून म्हजी तकली भँगली. देवाचे दयेन आतां हांव सडसडीत बरो जालों. आतां पर्थून हांव तें दार केन्नाच पासाक घालूंक दिवचो ना.

देवकी : (हात जोडून पोले फोडून) सांतेरी भुमके! म्हज्या झिलाक दिसानदीस बरी बुद्द लाय गे सायबिणी. फुडल्या नवरात्रांक हांव तुका गडग्यांचो तोपभर पंचखाज करून वांटीन गेऽऽ देवते. (गांठिचो आंगारो काडून ताच्या कपळाक लायता.) म्हज्या बाबाची सगळी आडापिडा वचूं! झिला, चल आतां न्हा-धू आनी पेज जेव पळोवंया.
(वेतात.)

## तिसरो आंक

**देखाव १. –** जुंवारी न्हंयेचे धडेवैली सुवात. तीनसांज.
(झिलबा अेकलोच येरादारी घालता.)

झिलबा : तें नश्टें सप्न पडतपासून कोणाच परक्या-आरक्याक हांवें पँगतीक घेवंक ना. (अुबगून) चे: अशे दीस म्हज्यान काडुं नजत. अेकल्या-अेकमुळ्यानी म्हजे सकनळयेंत गोटोच रिगना. आतां पर्थून तो पैलो नेम हांव चलैतलों. कोणूय वाटमार्गी दिसल्यार पुरो.
(अितले म्हणसर बनवासिचो सावकार थैं पावता. ताचे फाटल्यान ताचो मानाय मुस्तायकेची पोटली घेवन चलता.)

सावकार : (झिलबाक पळेनासतना) हहहऽऽऽऽ! तेदूस तो जागो जायनाफुडें ताणें कसलीं खेतबागडीं केलीं खें ! अेका खिणांत तो कदंबरायाचो झिलबा जावन शिंवासनावैलो जमनीर आदळटकूच, पिशान्तुर जाल्याबगर कसो रावत? घाडयान ताका बांदून घालून चरचरीत दागलो आनी पोरां-तोरांनी ताच्यो केवल्यो-बावल्यो केल्यो तें मात बरें जालें ना. आसूं ती खबर. तो म्हाका पर्थून दिश्टी पडत जाल्यार भौ बरें जायत. कसलो गुणाचो मनीस तो. म्हाका ताची केन्नाकाळ खेम घेन-शी जाल्या.

झिलबा : (सावकाराचेर नदर पडून) तें तेदुसचेंच कूळ-शें दिसता. (तिरकूस दोळ्यांनी पळोवन) हय रे हय. तोच तो सावकार. (काळजार हात धरून) काळजांत म्हज्या कच्च जालें. मुसळांचे फार घाल्ल्याभाशेन काळीज म्हजें कलकल्लें. ताणेंच तें दार अुर्क्के घालून सगळो घोळ केलो. (कांपता.) सांतेरीऽ सायबिणी! रवळनाथाऽ सायबा! ह्या कुळाच्या तोंडांतसून हांव वाटावल्यार पुरो. (फाट करून अेका खडपार बसता.)

सावकार : (ओणोव घेवन ताका पळोवन अजापान) हेच न्हय गा आमचे झिलबा राणे! तांचो अुगडास जावंक आनी ते दोळ्यांमुखार दिसूंक अेक जालें. (ताची तकली हालोवन) कितें राण्यानू, बरे आसात मू तुमी?

झिलबा : (ताचेकडेन पळेनासतना दोनूय धोंपरांमदीं तकली चेपून) हांव राणो न्हय. तूं चल आपले वाटेन.

सावकार : कितें? तुमी जुवारेवैले झिलबा राणे न्हयत? फाटीं तुमी म्हाका हांगाच मेळूंक नासले? आनी म्हाका तुमी जेवणाक व्हेलो ना?

झिलबा : (तकली वैर अुबारिनासतना) चल गा थैंचो. नाका-जाल्लेंच अुलोवं नाका. हांव झिलबा राणो न्हय. हांव तुजें तोंड केन्नाच पळोवंक ना आनी तुका जेवणाकूय व्हरूंक ना. बळयांच आंगार पडुं नाका.

सावकार : कितें? ते पुनवेचे रातीं हांव तुमचे पंगतीक बसून जेवलों ना?

झिलबा : (वैर तकली काडिनासतना) चल. चल. तूं आमगेर जेवंक ना. तुका हांव वळखना.

सावकार : (ताची तकली वैर अुबारून) सभाग्यानू, म्हजें तोंड तरी पळ्यात. मागीर तुमी म्हाका वळखतात कि ना तें समजतलें.

झिलबा : (तकली चड सकला चेपून आनी हातान ताका धुकलून) चल गा. वाज हाडुं नाका तूं. हांव तुजें तोंड पळेना आनी तुका हांव वळखना.

सावकार : तशें कशें जायत? हांव बनवासिचो सावकार न्हय? हांव हांगा पोवळीं घेवंक आयलां.

झिलबा : (अुबगून) तूं पोवळीं घे नाजाल्यार सवळीं घे. म्हाका तुजी करांदाय नाका. (तकली वैर करून दोळे धांपून) लाग चलूंक! झूर थैंचो!

सावकार : तुमी म्हाका वळखनात जाल्यार नाका वळखूंत. परंत हांव तुमकां बरो करून वळखतां. तुमी झिलबा राणे. बेअिमान अिश्टांच्या नादाक

लागून पांच हजार निष्क विद्वाटले ते तुमीच न्हयत? पोरुंचे दिवाळेक तुमचो बापुय भायर पडलो ना? आनी कालापुरचें भाट विकून अनू तुमी ताचें वर्सस्राद्द घालें ना?

झिलबा : (अुपाय चलना जावन) हय-वय. घालें-घालें. हांव झिलबा राणो. मागीर म्हणटा कितें तूं? म्हाका तुजेर नदर घालीन-शी दिसना. म्हाका तुजें तोंड पळेन-शें दिसना. वोगीच वळख काडून आंगार पडुं नाका. अेक फावट पँगतीक बसैल्ल्या मनशाक हांव दुसरे फावट लागीं करिना. तुका हांवें हें आदींच सांगूंक ना? म्हजो नेम हांव मोडचो ना. तूं तोंड घेवन चल पळोवया हांगासून.

सावकार : अितलो म्हजो वीट आयलो?

झिलबा : कित्याक येवचो ना? म्हाका तो अुगडासूच जाल्यार दोळ्यांकडेन म्हज्या काळोख येता. तूं धर्माक चलूंक लाग हांगाचो. तुका कोंपरमेरेन पांयां पट्टां. (ताका पांयां पडून धुकलता.)

सावकार : अशें कितें राण्यानू? जायत्या दिसांनी तुमची म्हजी भेट जाल्या. अपुर्बायेन तुमची मात्शी खेम तरी घेवनी. तुमचे असले अिश्ट मेळूंक मोटी पुण्यताय जाय. (ताका बळयांच अुठोवन ताची खेम घेवंक लागता. झिलबा आंग खुनळावन ताका पेल्यान धुकलता.)

झिलबा : आतां पर्थून म्हाका तुजी गजाल नाका. (ताचेवशीन फाट करता.)

सावकार : (ताचेवशीन फुडो करून) परंत आतां रात जाली न्हय? आतां हांव खैं धर्मसाळेंत वचूं? आनी जेवण केन्ना करूं? तुमचें घर लागीं आसतना आमी अुपाशीं रावल्यार सोबता?

झिलबा : कांय नज. कांय नज. अेक रात अुपाशीं रावल्यार मरूंक जायना. हांगा लोक तीन तीन म्हैने अुपास काट्टात. चल तोंड घेवन.

सावकार : (काकळुती आअिल्ल्यावरी ताचे खाडकेक हात लावन) अशें कितें राण्यानू? म्हजेर तुमी अितले रागार कित्याक? कितें घडलां तें सांगात तरी. हांव तुमचो बरें मागतो. म्हज्या हातान तुमचें कितेंय वायट जालां जाल्यार हांव ताची निभावणी करीन.

झिलबा : (अुबगून) केली निभावणी. तुजो पांय आमच्या घराक लागतपासून कसलीं कसलीं अनर्थाचीं संकश्टां म्हजेर आयलीं तीं जाणा व्हय तूं? म्हाका पिशें लागलें पिशें! दार आड करून वच म्हणून हांवें तुका विजेक शिकैल्यावरी शिकैल्लो. परंत तूं विसल्लो आनी जल्माचो

म्हज्या घोळ केलो. ब्रह्मो, म्हारू, देवचार, समंद बी सगळी भुतावळ म्हज्या घरांत रिगली. म्हजे मानेर अवगत बसली आनी म्हज्या जिवाचे खेळ-विखेळ जाले. हांव म्हजे आवैचो कितलो सांगणे-म्हणणेचो. परंत तिचें लेगीत आयकना जालों. म्हाका तिची विसर पडली. तिका हांव आवै म्हणना जालों. हांव म्हाका कोंकणचक्रवर्ती कदंबराय-कसो लेखूंक लागलों आनी ती म्हाका झिला-झिला म्हणटा म्हणून हांव तिका मारूंक गेलों. केदें व्हडलें पातक हें! हें तुज्या अुंवाळ्ळेल्या पांयसरान जालें. हांव तेदुसा तिचो जिवूच घेतलों आसलों. परंत सांतेरी सायबिणीन तिका वाटायली. म्हज्या शेजाऱ्यांनी म्हाका सुमांनी बांदून घालो म्हणून ती सुटली. म्हजो वायट लोकीक गांवभर गेलो. म्हजें पिशें वचना म्हणून म्हाका ताणी कायलाथो लेगीत तापोवन लायलो. म्हज्या कर्माचे भोग-विद्धोग जाले. (हुस्केता.)

सावकार : (हांसून) कितें म्हणटात राण्यानू? हहहऽऽऽ!

झिलबा : (तिडकून) कितें हांसता गा दांत भायर काडून? तुका दिसता सगळी भगल. म्हाका तो अुगडास जातकूच अजून काळीज फुटून रडूंक येता. (हुडकेता.) दायजी-दुस्मानाचेर लेगीत तसलो वेळ येवं नाका.

सावकार : (हांसो दांबून) खऱ्यानीच तापैल्लो कायलाथो लायलो?

झिलबा : फटी सांगूंक हांव कितें बेकार पडलां गा? (ओंठ फुडें करून) ही पळे, केदी मोठी माव. दिश्टी पट्टा मगा?

सावकार : (माव पळोवन आंग काडून) अगे म्हजे आवै ! कसले कसाब ते! हांव नकळ आसलों हें. हांसलों म्हणून रागार जावं नाकात हां. (ताच्या गळ्या भोंवतणी हात घालून) म्हाका तुमची अपुर्बायेन खेम घेवनी पळोवंया. (ताची खेम घेता.) चला आतां, वचुंया घराकडेन.

झिलबा : शे, शे ! तितलें मात जावचें ना. पर्थून तें भुतांचें मालें चाळवत जाल्यार ते म्हाका दागतले. आमकां नाका ती करांदाय.

सावकार : (ताचे खाडकेक हात लावन) अशें कितें राण्यानूं? तुमचे पँगतीक जेवचेली म्हाका ओड लागल्या. ना म्हणुं नाकात.

झिलबा : (तिडक निवळून) बरें आसा. पणून तुमी म्हजें अेक आयकूंक जाय. तुमी वेता आसतना आमगेलें दार पासाक लावंक जायना. नाजाल्यार

पर्थून तीं भुतां भितर रिगतलीं आनी म्हजें माथे खातलीं. मागीर घे लडे ! भल्लो म्हजो कुडव !

सावकार : ताची तुमी चिंता करुं नाकात. एक फावट विसल्लों म्हणून सदींच विसरतां हांव?

झिलबा : ना मू विसरचे? पळ्यात !

सावकार : जिवाच्यान तर ना. तुमचें वायट जाल्लें म्हाका जाय? पिशेपणां. तांकल्यार हांव तुमचें बरेंच करीन.

झिलबा : शे, शे. तें बरेंय तुमी करुं नाकात. फाटले खेपे तुमी म्हजें बरें करचें येवजिलें आनी सगळें अुफाट्टेंच जालें.

सावकार : (हांसून) बरें आसा. तुमच्याच मनाभाशेन जावनी.

झिलबा : (धीर येवन) आतां म्हजो जीव सस्त जालो.

(दोगूय हातांत हात घालून वेतात. तांचे फाटल्यान मानाय वेता.)

**देखाव २. –** झिलबाच्या घराचें साल. रातचो वेळ.

(जेवण जातकूच सावकार आनी झिलबा पानां खावंक बसतात.)

सावकार : तुमकां भुरगीं कितलीं?

झिलबा : खैंचीं भुरगीं? म्हजें अजून लग्नूच जावंक ना.

सावकार : कितें म्हणटात राण्यानू? तुमी आतां ल्हान न्हयत. लग्न जावंक ना म्हळ्यार अजाप.

झिलबा : म्हाका सोरगती जायत्यो आअिल्ल्यो आनी अजून येतात. पणून एकलीय होंकल म्हज्या मना येना. लग्न जालें म्हणून जालें ना. बायल बरी मेळूंक नाका? हुतहुतेपणान एकाद्रें वांसवेल गळ्याक बांदलें आनी आडवर तें फापसूंक लागलें जाल्यार त्या लग्नाचें कसलें सुख? त्यापरस लग्न जायनासतना रावल्यार चड बरें न्हय?

सावकार : म्हणटकूच बायलेचो तुमकां केन्नाच अुगडास जायना तर?

झिलबा : जायना म्हणून आसा? दादल्यामनशाक बायलेचो आनी बायलमनशेक दादल्याचो अुगडास जायना म्हळ्यार जाता? फक्कत ढोंगी मनशांनी तसलीं तीं तड्डकां सांगचीं. हांव ढोंगी न्हय. म्हाका जायते फावटीं बायलेची वान्सा येता. परंत मन आळाबंदा हाडून

हांव ती चिड्डून दवरतां.

सावकार : अशे कितले काळ तुमी तुमची वान्सा चिड्डून दवरतले? तुमच्या मनासारकी होंकल मेळ्ळ्यारूय तुमी लग्न जावचे नात?

झिलबा : कित्याक जावचो ना? तेदुसच्या त्या नश्ट्या सप्नांत म्हाका कसली बरी होंकल दिश्टी पडिल्ली सांगूं! अजून ती म्हज्या दोळ्यांर घुंवता. तिचो म्हाका भौनभौन अुगडास जाता. तिचे भोंवतणी संवसारांतल्यो सगळ्यो बायलो अुंवाळून अुडोवच्यो. अितली ती सुंदर. नांवूय सुन्दरें. कितलें गोड! हांव-सो कदंबरायाच्या मंदिरांत आसलों आनी जयकेशीदेवम्हाराज जावन फळार खातालों. त्यावेळार तें सुन्दरें म्हाका आग्रो करून-करून तरेकतरा फराळ घालतालें. मंदिरांतूच ल्हान-व्हड जालां म्हणून ताणें म्हाका सांगलें. ताचें अुलोवप कितलें गोड ! बद्द साळोरेभाशेन अुलैता. ताका गावंक येता. वाजोवंक येता. शिवण-सूत येता. बरोवंक येता. वाचूंक येता. रांदूंक येता. वाडूंक येता. सगळें येता. असली रुपेस्त, गुणेस्त आनी भागेस्त बरी बायल म्हाका मेळत जाल्यार हांव खुशाल लग्न जायन. हांव सुखाचो संवसार करीन. परंत तसली बायल म्हज्या नशिबांत आसा? ती कोणाय महामंडळेश्वराक नाजाल्यार महासामन्ताक पट्टली.

सावकार : परंत तसली बायल मेळ्ळ्यार तुमी लग्न जावंक अनमनचे नात मू?

झिलबा : कित्याक अनमनतलों? बरी बायल कोणाक नाका जाल्या?

सावकार : तर म्हज्या होलमाक एक सुंदर बरी होंकल आसा. तिचेकडेन हांव तुमची सोरगत जमैन.

झिलबा : निखटी सुंदर आसली म्हणून जाली ना. ती गुणेस्त आसूंक जाय, तरूच हांव तिचेकडेन लग्न जायन. नाजाल्यार ना.

सावकार : तुमकां कितें पडलां तें? तुमकां जाय तसलीच रुपेस्त, गुणेस्त आनी भागेस्त ती होंकल आसा. तुमकां ती खऱ्यानीच तर मानतली. सोरगतिचें म्हालेपण म्हजेर पावलें. (अजाप जाल्ल्यावरी) गजालिंच्या नादांत हीं खावचीं पानां तशींच अुल्लीं.
(दोगूय खावचीं पानां खातात.)

सावकार : (मानायाक) अरे पांडग्याऽ, आसा व्हय रे तो लागीं?

पांडगो : (भायर येवन) कितें धनयानू?

सावकार : मुस्तायकेंतलो तो चौफुलो मात्सो काडून दी.
(पांडगो चौफुलो काडून दिता.)

सावकार : (चौफुल्यांतल्यो दोन ल्हान गुळयो काडून) आमचे बनवासे हालीं ह्यो भोव बऱ्यो काताच्यो गुळयो मेळटात. तांतूंत कस्तुरी घाल्या. विड्यावांगडा खातकूच तोंडाक कसलो घमघम सुट्टा सांगूं!

झिलबा : कसल्यो गुळयो पळोवया. (सावकार ताका अेक गुळी दिता. ती पळोवन) बरी मात भांगरी वर्कात गुटलायल्या.

सावकार : खावन तरी पळ्यात.
(झिलबा खाता आनी रोकडोच लकता.)

सावकार : (ल्हवू) पांडग्या, अुखल हाका. मार फाटकुळेर.
(पांडगो ताका फाटकुळेर मारता. दोगूय दार आड करून वेतात.)

**देखाव ३. –** राजमंदिरांतली फळाराची कूड. फांतोटेचो वेळ.

(अेका पलँगाचेर झिलबा घोरेता. लागसार शेरके अुबे रावल्यात. ताच्या अुंशाकडेन सुन्दरें अुबें रावलां. भायलेवशीन सेनाय-सूर वाजता. पलँगासामखार रत्नें आनी कामणें जयकेशिच्या तोखणायेचें गीत म्हणटात.)

रत्नें आनी कामणें : 'स्वस्ति समधिगत... जयकेशिदेवरुम्.'

झिलबा : (जागो जावन दोळे धांपिल्ले आसतनाच) कसलीं बरीं वाजंत्रां आनी मंजूळ गितां आयकूंक येतात हीं! (दोळे अुगडून अजापान) आंऽ! हे तेदुसचेच शेरके आनी चेडवां हांगा दिसतात! हांव फळाराक बशिल्लों तीच ही कूड. त्यो थैं मोरांच्यो दिवल्यो.ती थैं जमनीर रांगोळ आनी तोऽऽ भांगराचो पाट. पर्थून म्हाका तें नश्टें सप्न पडूंक ना मू? हांव न्हिदेंत आसां? (जीब चाबून) हाऽऽय! आवै गे म्हजे! देवा सप्तकोटीश्वरा, संकश्टांतसून वाटाय सायबा. नाजाल्यार म्हाका पर्थून कायलाथ्यान दागतले. रातीं हांवें त्या अुंवाळ्ळेल्या सावकाराक पँगतीक घेतलो तें बरें केलें ना. मोटो नश्टो मनीस तो. ताका आदीं विसर चड. दार पासाक लावन तो गेलोसो दिसता. देखून ही सगळी भुतावळ घरांत रिगली. घात जालो घाऽऽत! म्हजी तकली पळे कशी गिरगिरूंक लागली. हें सगळें घरूय म्हाका

घुंविल्ल्यावरी दिसता. तें म्हज्या नाखार पडना जाल्यार पुरो. (दोळे धांपून) हांव झिलबा राणो कि कदंबराय? हाऽऽय! कांयच समजना. अरे म्हारवा, अरे देवचारा, अरे निरंकारा, तुमी म्हज्या कांट्यार बसलेशे दिसतात. (दोळे अुगडून हात जोडून काकळुती येवन) अगे मुळगंवचे म्हाम्माय, शिरगंवचे लयराय, मयेंचे केळबाय, मोरजेचे मोरजाय, अजादिपाचे अजादिपाय, पावात गे सायबिणिनू! अरे वांयगणेच्या खेतल्या, तूं तरी ह्या आकान्ताक धांव सायबा. चे:, आतां अशेंच केल्यार चड बरें. (दोळे धांपून अेक हात अुंशाक आनी दुसरो हात तकलेवैल्यान घेवन.) ही भुतावळ हांगासून तोंड घेवन वचसर तकली चेपून सस्त न्हिदून रावतां; म्हणटकूच म्हाका तांची बादा जावची ना.

सुन्दरें : (ताका धोलोवन) म्हाराजांनू, आतां आनीक न्हिदचो वेळ अुरूंक ना. दीस पळ्यात केदो घणघणीत आयलो.

झिलबा : (दोळे अुगडिनासतना आकान्तून अुठून बसून) अरे हें भूत! आंगाक म्हज्या तेंकलें न्हय रे! आतां कशें करूं? (अडेचो धीर हाडून नाखार बोट धरून) खबरदार! पर्थून म्हाका हात लायशी जाल्यार ! चलूंक लाग. वेता कि ना बऱ्यान? नाजाल्यार आपैतां त्या खापुल्ल्याक. अरे खांपू, यो रे बाबा बेगीन. ही पळे लांव! ही अवगत! भर हिका बेल्यांत आनी पूर तिका मसणा-फोंडांत. (आदले भाशेन आड पट्टा.)

सुन्दरें : (ताका धोलोवन) अशें कितें म्हाराजांनू? अुठचो वेळ जालो न्हय?

झिलबा : (दोळे धांपिल्ले आसतनाच, तिडकून) चीप राव! कोणाक म्हणटा तूं 'म्हाराजांनू'?

सुन्दरें : तुमकां म्हाराजांनू. तुमी कोंकणचक्रवर्ती कदंबराय म्हाराज न्हयत? म्हाका दिसता, तुमी हीं बळयांच फकाणां करतात. तुमी अेकाद्रे सप्नांत बी वथरेनात मू? नाजाल्यार तुमी अशे तिडकुचे नासले. म्हाका लांव, भूत आनी अवगत म्हणचे नासले. म्हाका तुमी वळखनात? दोळे अुगडून तरी पळ्यात.

(झिलबा दोळे अुगट्टा आनी अुठून बसता.)

सुन्दरें : म्हाराजांनू, काल सांजेवेळा हांव तुमकां फळार वाडिनासलें? त्या वेळार तुमी म्हाका सातां कप्यांच्या घावनाचें नांव विचाल्लें ना?

सर्दींची पलँगाची कूड सोडून हे कुडींत कशे पावले हाचें तुमकां अेकाद्रें अजाप जाता जावंये. परंत फळार खाता आसतना पाटार बसल्यात थैं तुमकां लकणी आयली आनी तुमची न्हीद मोडची न्हय म्हणून आमी तुमकां अचळय अुखलून ह्या हांतरुणार न्हिदैले. म्हाराजांच्या दोळ्यांची झेम अजून सारखी बरी वचूंक नाशी दिसता. (पदरान ताचे दोळे पुसता.)

झिलबा : (दोळे चोळून ताका रेखून पळोवन) अगो तूं सुन्दरें न्हय गो !आनी तें कोण रत्नें? आनी तें कामणें?

सुन्दरें : हय म्हाराजांनू.

झिलबा : पणून हांव म्हाराज न्हय मुगो. हांव झिलबा राणो तो तुका दिसना? तूंय न्हिदेंत आसा-शें दिसता. (ताचे दोळे पुसता.)

सुन्दरें : ना म्हाराजांनू, तुमी आमचे कदंबरायम्हाराज. झिलबा राण्याक हांवें केन्ना पळोवंक ना आनी ताचें नांवूय आयकूंक ना. आमच्यो भगली मारुं नाकात म्हाराजांनू.

झिलबा : अगो भगली न्हयत. झिलबा राण्याचें नांव तुवें केन्ना आयकुंकूय ना? तो जुंवारेवैल्या दुलबा राण्याचो पुत. सगळो संवसार ताका वळखता; आनी तूंच वळखना?

सुन्दरें : ना म्हाराजानू. हांव तुमकां कदंबरायम्हाराजांकूच वळखतां.

झिलबा : (गदळून) कितें ! हांव कदंबराय म्हाराज? अेदो व्हडलो हांव? पर्थून म्हजें कर्म घुंवताशें दिसता. आदलेंच सप्न अिल्लेंअिल्लें पट्टाशें दिसता. आतां येतलो खांपू आनी तापैतलो कायलाथो. म्हापुरसा, सायबा सोडै म्हाका हांतूंतलो. (दोळे धांपून पर्थून अुंशाक हात घालून न्हिदता.)

सुन्दरें : (ताका धोलोवन) म्हाराजांनू, दीस कितलो वैर आयलो पळ्यात. राजसभेक वचचेलो वेळ जालो.

झिलबा : (दोळे धांपिल्ले आसतना) आंऽ! राजसभेचें नांव ! हें तेदुसचेच सारकें सप्न. तेदुसा राजसभेक वचूंक म्हाका थार केलो ना. आज हांव ते सभेक वचचो ना. पळोवंया कितें जाता तें.

सुन्दरें : रव्या, आतां निमाणो अुपाय करचो पट्टासो दिसता. म्हाराजांक चड न्हीद लागल्यार तांणी आपणाक बळयांच अुठोवंक सांगूंक ना आमकां?

रत्नें : हय वय. तशेंच करचें पडलें.

(दोगांय ताचे खाकेक हात घालून ताका अुठोवन बसैतात.)

झिलबा : (दोळे अुगडून रत्न्याक) खऱ्यानीच गो हांव कदंबरायम्हाराज?

रत्नें : दोंय दोळ्यांच्यान तर पुते तुमी कदंबरायम्हाराज. आमकां तुमी दाटून गदळायतात. रातीं तुमकां भयांकृत सप्न पडलां जातलें. सदींचेपरस आज तुमी चड वेळ न्हिदल्यात. अितली न्हीद तुमकां केन्नाच लागना. तुमीच चिके अुगडास करून पळ्यात. काल हे कुडींत फळाराक बसचे आदीं तुमी राजसभेक वचून रवळनाथाच्या देवळांतल्या त्या गाळयाऱ्या हरदासाक ख्यास्त फोर्मायली ना? आनी कोणाकसो दंड केलो ना? आनी कोणाअेकल्याचे आवैक पांच हजार निष्क धाडून दिले नात? फळार खातकूच तुमकां जी सुस्त न्हीद लागली तेन्नाच्यान तुमी हेच कुडींत आसात. आनी आतां फांतोटेर नबत जायनाफुडें तुमी जागे जाले. हांव म्हणटां तें लटकें जाल्यार ह्या शेरक्यांकूच विचारून पळ्यात.

झिलबा : (तकली हालोवन) समजता गो म्हाका. तुमी ह्यो सगळ्यो फटाशी खऱ्योच कशो करून म्हाका दाखैतात. कितें अुलैता गो तूं रत्न्या? काल रातीं खैं हे कुडींत हांव फळार करतालों! ते खबरीक जालो आतां म्हैनो. आनी त्या अुप्रांत कितल्योशोच गजाली घडून आयल्यो. हांव म्हजे आवैक लांकडांनी मारूंक गेलों, म्हाका पिशें लागलां म्हणून बांदून घालो आनी कायलाथो तापोवन दाग दिलो. हें सप्न म्हळ्यार जाता गो? जिबेक तुजे हाड ना म्हणून कितेंय अुलैता! बरें मुगो पापया तूं फरफरता!

रत्नें : जिवाच्यान तर पुते हांव फरफरना. म्हाराजांक रातीं तें नश्टें सप्न पडलां आनी कांय ना. काल रातच्यान म्हाराज हे कुडींतले भायर सरुंकूच नात. दोंय दोळ्यांच्यान तर.

झिलबा : (घुस्पा-गदळांत पडून हात जोडून) बेताळा सायबा! हांव झिलबा राणो कि कदंबरायम्हाराज तें सांग म्हाका सटकरून. घाल म्हजे तकलेंत खरें कितें तें. (ओंठ फुडें करून काकळुती येवन) अगो रत्न्या, अगो कामण्या, अगो सुन्दऱ्या, पळ्यात गो चिके हांगा. ही माव पळ्यात गो. कायलाथो लावन फोड आयलो ताचीच ही माव न्हय गो. (चेडवां पळेतात.) न्हिदेंत आनी सप्नांत असो फोड

येता गो? ताचो अुगडासूच जायनाफुडें अजून तो म्हाका चुरचुरता. सप्नांतल्या कायलाथ्यान जर असो जीवघेणो फोड तर तें संवसाराभायलेंच सप्न म्हणूंक जाय. (अेका शेरक्याक) असो यो रे शेरक्या. हो म्हजो कान चिके पिंवळ. म्हणटकूच हांव न्हिदलां कि जागो आसां तें तरी समजत.

(शेरको ताचो कान मोट्यान पिंवळटा.)

झिलबा : (कान दुखून किळँच मारून) आवै गे म्हजे ! आवै-आवै-आवै-आवै ! चे: हांव जागो आसां. हांव न्हिदेंत ना. (लागशिलो हारसो तोंडाकडेन धरून मान हालोवन) अल्लारे बल्ला! हो झिलबा राणोच मरे ! अरे हो जुंवारेवैलो झिलबा राणोऽऽऽ! हीं नश्टीं चेडवां म्हाका केदोळच्यान फटैतात. (आपल्या पोशेगाकडेन पळोवन) हें कदंबरायाचें सवँग म्हाका केन्ना कोणें दिलें तेंच समजना.

सावकार : (भितल्ले कुडिच्या ज़नेलांतसून) ते कोण थैं झिलबा राणेऽऽ?

झिलबा : (चोंयवशीन कान दिवन अजापान) आंऽ! हो त्या नश्ट्या सावकाराचोच ताळो. तो पर्थून आमगेर भुसकें मारूंक येतासो दिसता. पुरो जाली ताजी अिश्टागत. ताचेर नदर पडतपासून म्हजे मानेर सगळी भुतावळ बसली. अजून म्हजी तकली थाऱ्यार येना. तो हांगा पावचे आदींच नळी काडल्यार चड बरी. (हेवशीन तेवशीन पळूंक सोदता. तितले म्हणसर सावकार भायर येता. ताका पळोवन झिलबा सुन्दऱ्याच्या फाटल्यान लिपता. सगळे चाखरमाने आनी चेडवां जैंचे थैं थप्प रावतात.)

सावकार : (चोंयवशीन पळोवन) खैं पावले आमगेले राणे? नित्तेच हांगा ते अुलैताले न्हय? (झिलबा दिश्टी पडून ताच्या हाताक गच्च धरून) कितें राण्यानू, बरो अुद्योग हो. हांव गेल्लों तुमचे सोरगतीक. आनी तुमी हेवशीन लग्न बी जावन तयार ! आमकां पोळयो वडे बी कांयच ना? बरो हिशेब हो.

झिलबा : (दोळ्यांर हात धरून ताचेकडेन पळेनासतना) तुका पोळयो-वडे दवल्ल्यात ! तुका घालूंक जाय काकै आनी हुमले ! बऱ्यान चल हांगासून. सांगतां. हांगा वड्याचें दाडूक मेळचें ना. हांगा कोणाचें लग्न ना. 'होंकलेक दितात खैं सुळार आनी धेडी मागता वर्ण' तसली तुजी गजाल. तुका 'आडवैरें पोट सोयरें'. हल ! चलूंक लाग !

सावकार : (ताच्या दोळ्यांवैलो हात पेल्यान काडून, हांसून) अितले रागारशे म्हजेर?

झिलबा : (तिडकून) जातलों न्हय रागार? भौनभौन सांगूंक जाय? तुका लागून म्हज्या जल्माचे भोवस्ताळे जाले. हांसता गा कित्याक? हाका सगळ्योच मस्कऱ्यो. सुखी-दुखी कांयच ना. हऽऽय.

सावकार : तुमच्यो मस्कऱ्यो हांव केन्नाच करीन? जालें तें जालें. म्हजेखातीर तुमकां त्रास बादले म्हणून वायट दिसता. ताचे बदला हांव तुमचें कितेंय बरें केल्याबगर रावचो ना.

झिलबा : केलें तुवें बरें. हळद लागली तुज्या तोंडाक. चलूंक लाग. झूर. (ताका धुकलता.)

(अितले म्हणसर पाटां-प्रधान म्हाळपै नायक येता.)

म्हाळपै : (सावकाराक प्रणाम करून) कोंकणचक्रवर्ती श्रीमन्महामंडळेश्वर श्रीकदंबरायम्हाराजांचो जयजयकार जावं !

झिलबा : (पांय लडलडून अेके कुशीक) हे आमगेले कदंबरायशे दिसतात. म्हज्या तें ध्यानांतूच आयलें ना. घात जालो. आतां कितें जायत कोण जाणा. सांतेरीऽऽ सायबिणी ! (पळूंक सोदता. सुन्दरें ताका आडावन दोंय हातांनी गच्च धरता. तो आंग खुनळायता.)

म्हाळपै : परमभट्टारक चालुक्य विक्रमादित्यम्हाराजांचो महासान्धिविग्रहिक प्रधान आयला. मोट्यांतलें राजकर्ण आसा.

जयकेशी : नायकानू, तुमी बारकायेन सगळी चौकशी करात. तितले म्हणसर आमी येवं. (म्हाळपै प्रणाम करून वेता.)

झिलबा : (जयकेशीक शेकानशेक नमस्कार घालून जीब आडखळत) कोंकणचक्रवर्ती श्रीकदंबरायम्हाराजांचो जयजयकार जावं ! (अुठून अुबो रावन) हांव म्हाराजांक कितेंचें कितें अुलैलों. नश्टी जिबली म्हजी खैंचे खैं व्हांवली. अन्यांव जालो. अुपकार करून सुळा-गोळार मात दिवं नाकात. हे पोले फोडून घेतां. (दोंय हातांनी पोल्यार मारून घेता.)

जयकेशी : (ताका पोटाकडेन धरून) तुमी म्हज्या भावासारखे राण्यानू. तुमकां हांव केन्नाच सुळार दीन? तुमचे सारखो मनाचो मेकळो मनीस हांवें जल्मांत पळोवंक नासलो. तुमची अिश्टागत जोडली हें व्हडलें भाग्य कशें हांव समजतां. म्हजेखातीर तुमकां त्रास बादले म्हणून

वायट दिसता. आतां तुमकां जाय जाल्लें मागात. हांव ना म्हणचो ना.

झिलबा : (धीर येवन) म्हाराजांनू, म्हजी तकली बळयांच घुंवळावन म्हाका पिशें लावचें कारण कितें तें सांगशात व्हय? मुजरत बनवासिच्या सावकाराचो भेस घेवन अितलीं घोळाश्टकां करचेलें कारण कितें तें म्हाका समजत जाल्यार बरें जायत.

जयकेशी : तें मागीर सवकासायेन सांगु येत. आर्दीपैलीं तुमचे सोरगतिचें म्हालेपण करीन म्हणून तुमकां अुतर दिल्लें तेंच तडीक पावंया. (सुन्दऱ्याकडेन बोट करून) तुमकां सप्नांत दिशिल्ली ती होंकल अशीच आसली व्हय?

(झिलबा भुरकुटून सुन्दऱ्याकडेन पळेता. सुन्दरें मान सकला करून मुरगट्टा.)

जयकेशी : कितें ! अुलैनात-शे राण्यानू.

झिलबा : (सुन्दऱ्याक रेखून पळोवन) अशीच-शी दिसता.

जयकेशी : ही न्हय मू? पळ्यात, मागीर गदळाक पडशात.

झिलबा : हीच ती हीच.

जयकेशी : मानली मू तुमकां?

झिलबा : विचारूंक जाय म्हाराजानू?

जयकेशी : तिणें तुमकां आडावन धरून बऱ्याक पडलें. म्हाका पळेनाफुडें तुमी पंपा काडूंक सोदिनासले?

(झिलबा हांसता.)

जयकेशी : (सुन्दऱ्याक) तुका मानलो मू हो न्हवरो?

(सुन्दरें लजून मान अुमथी घालता.)

जयकेशी : रत्न्या, म्हादेवीसायबिणीक हांगा आपैल्या म्हणचें. बेगीन घेवन यो.

रत्नें : म्हाराजांची आज्ञा मान्य. (प्रणाम करून वेता.)

जयकेशी : (अेका शेरक्याक) म्हाळपै नायकांक आनी गोविपै भाण्डाऱ्यांक हांवें आपैल्यात म्हणचें.

शेरको : म्हाराजांची आज्ञा मान्य. (प्रणाम करून वेता.)

(मैळल म्हादेवी येता.)

जयकेशी : (म्हादेवीक) सुन्दऱ्याच्या लग्नाच्यो तुका जायते काळ काडाओडी

लागिल्ल्यो न्हय? हो पळे न्हवरो हांगा आयतो चलून आयलो.

म्हादेवी : (भुरकुटून) कितें म्हणटात! होंकल सामकी गळ्याक लागिल्ली. आमच्या हातान ल्हान-व्हड जाल्या न्हय ती? देखून अितल्यो काडाओडी. भुरगें खऱ्यानींच तर लगतुबायेचें. ताका फावोसो न्हवरो होलमून होलमनासलो. आज दोन वर्सां हांव सारकी चौकशेक लागिल्लीं. पोरूं शिवरात्रेक दिवाडे गेल्लीं तेन्ना, 'सुन्दऱ्याक बरोसो न्हवरो मेळुनी. अिकरा म्हारुद्र करीन' म्हणून सप्तकोटीश्वराक हांवें आंगोवन घेतिल्लें. अखेरेक देव पावलो म्हणचो. मोटो सासायेचो.

जयकेशी : विचारूंक जाय? देवान न्हवरो म्हणून कसलो होलमून दिला जाण व्हय तूं? बऱ्यांतलो. भांगराचो कुडको. अुंच खेत्री. कुळान मोटो. जुंवारेवैलो भाटकार. गोवापुरिचो जणकार. दुलबाराण्याचो पुत झिलबा राणो.

(झिलबा भुरकुटून चिके लजता.)

म्हादेवी : (खोसयेन) जावं. बरें जालें सायबिणी. सुन्दऱ्याक म्हज्या सोबसोच घोव मेळ्ळो.

(अितले म्हणसर म्हाळपै आनी गोविपै येतात.)

जयकेशी : (म्हाळपैक) जाणत नायकानू, सुन्दऱ्याची सोरगत आमी ह्या राण्यांकडेन जमैली. घराणें भोव बरें न्हय हें?

म्हाळपै : कितें विचारतात म्हाराजानू? राण्यांचें चतूरथी घराणें. महाभारताच्या काळांतलें. ताका खोड कोण दवरीत?

जयकेशी : आमी ह्या राण्यांक आजपासून महासामन्त ही पदवी दिवन हांकां आमचे पैले तिकलेचे सरदार करतांत. कशें म्हणटात तुमी?

म्हाळपै : भोव बरें.

जयकेशी : (गोविपैक) भाण्डाऱ्यानू, आमी हांकां पांच हजार निष्कांचें वर्सासन थारायतांत. तें तांकां वर्सानवर्स चैत्र पाडव्या दीस पावतें करचें.

गोविपै : म्हाराजांची आज्ञा मान्य.

म्हादेवी : (जयकेशीक) आतां लग्नाचो म्हुर्त केन्ना धरचो तर?

जयकेशी : ह्या मार्गशिरांतूच धल्ल्यार चड बरो. फुडें पौशांत लग्नकार्य करुं नज. (येवजून) आज कोण आयतार न्हय? फुडल्या आयतारा भौ बरो म्हुर्त आसा म्हणून बुनाशास्त्री माशेलकार आमकां सांगताले. त्याच म्हुर्तार हें लग्न जाल्यार बरें. कशें नायकानू?

म्हाळपै : त्या दिसा वद्य अश्टम पट्टा. बऱ्यांतलो म्हुर्त म्हणून म्हाका पोमेशास्त्रीय सांगताले.

म्हादेवी : तर त्याच म्हुर्तार सुन्दऱ्याचें लग्न करचें. फुडल्या शेनवारा दीस हुडीद धुवन पुण्यवचन करतकूच जालें.

जयकेशी : हय वय. तशेंच करचें. कितें, राण्यानू, जाली तुमची खोस? तुमच्या मनासारकें जालें मू? आतां आनीक कितें जाय व्हय?

झिलबा : म्हाराजांनीं अुपकाराच्या ओज्यातळा म्हाका सामको बागैलो म्हळ्यार जाता. आतां आनीक मागचेलें कितें अुल्लां? तरी आसतना, भाग्यवंत म्हाराजांकडेन अितलेंच मागतां कि आमगेल्या ह्या सुंदर कोंकणांत भायले भूसमारे येवन जीं धुडबुसां घालतात तीं आळाबंदा हाडचीं. हांगाचे बामण जे आपलेपणाचो अभिमान सोडून भायल्या लोकांच्या नादाक लागतात आनी आपली दशा होगडायतात तांकां मार्गार हाडचे आनी गोड-म्होंवे कोंकणी भाशेक जे कोण चिड्डूंक सोदतात तांकां चिड्डून अुडोवचे.

जयकेशी : तें आमचेर पावलें. आनीक कितें मागचेलें आसा व्हय?

झिलबा : आनी अितलेंच मागतां कि कोंकण, कोंकणी लोक आनी कोंकणी भास सगळ्या संवसारांत चड-व्हड जावचीं.

जयकेशी, म्हादेवी, म्हाळपै, गोविंपै आनी हेर सगळेजाण :

तथास्तु! तथास्तु! तथास्तु!

## खेळांतले गडे

| | |
|---|---|
| तातुबाब | गिरेस्त वेपारी |
| नोनेबाब | तातुबाबाचो चलो |
| मंजुळें | तातुबाबाची चली |
| म्हाळूभट | तातुबाबाचो पुरोयत |
| रत्नें | कुळमीण |
| लालुबाब | तातुबाबाचो कारभारी |
| सांवळो | नोनेबाबाचो शेरको |
| नागणनायक | दलाल |
| पदमो | तातुबाबाचो रांदपी |
| शेरकुलें | तातुबाबाची वावराडी |

# पोवनांचें तपलें

## पैलें येवप

### तातुबाब, नोनेबाब आनी म्हाळूभट

तातुबाब : (अेकलोच मोठ्यान सूऽऽ करून आनी हेवशीन तेवशीन पळौन) जीव कितलो सूड जालो सांगूं ! ते दुडू जतनायेक लायसर मनाक सस्तताय नासली. दुडू जोडलोच म्हळ्यार जालें ना. तो राखचेलें काम चड कठीन. दिसानदीस संवसारांत नागौणो लोक चड जाला. आपणाली गांठ खैंचेकडेन घट करची तेंच समजना. घरांत गडगंज लोखणाचे कोफ्रींत दवरची म्हळ्यार, तें सगळ्यांत वायट. भितर फुटकी दमडीय नासली जाल्यार, निखटी कोफ्र पळौनूच लोकांक दुडवांचो दुबाव येता आनी तिचेरूच सगळ्यां आदीं नागौण्यांची घुरी पट्टा. बांकांत कळंतराक दुडू लायतलो म्हळ्यार, तीं बांकां कोणे घडकेक बुट्टीत तें सांगु नज. गांवकाऱ्यांचीं आक्सांवां घेतलो म्हळ्यार, तांकां तुर्ताक पेटला अुजो ! तांचें नांवूय काडी-शी माणसुकी ना. भाटां-बेंसां घेतलो म्हळ्यार, आसात त्याच भाटांची अुस्तवारी करूंक म्हाका फावना. ते मुंडकार आनी भागेली म्हाका नागै-नागै-नागैतात. असल्या ह्या पेंचांत मोट्या घामां-कश्टांनीं जोडिल्ली म्हजी गांठ खैंचेकडेन ठांयबसणेक लावची तेंच म्हाका समजनासलें. जीव मोट्या भोवजाळांत लावची तेंच म्हाका समजनासलें. जीव मोट्या भोवजाळांत पडिल्लो. पणून जावं. अखेरेक भौ बरी युक्त येवजली. (भोंवतणी पळौन ल्हवू) तीं झगझगीत पोवनां आनी त्यो करकरीत नोटी तपल्यांत भरून, लिपण मारून, खैंचेय कडेन पुरून दवल्ल्याबगर सोडवाट नासली. नोटीं बदला सगळीं पोवनांच मेळिल्लीं जाल्यार भौ बरें जातलें आसलें. पणून अजून पोवनांची दर देंवचेली आसा खैं. तितलेच खातीर नोटी वाटावपाचे भरीक हांव पडूंक ना. तुर्ताक पोवनाची दर सुमार साडे तेरा रुपाया आसा खैं. आनिकां दोन वर्सांनी अिकरांचेर देंवल्याबगर रावची ना. तंव म्हणसर सस्त वाट पळेल्लीच बरी. (केदो वेळ येवजीत भितल्ले भितर मुरगुटून) आंऽऽ! धा लक्ष रुपाया ! केदी मोटी गांठ ही ! म्हाका दिसता,

सगळ्या कोंकणांत आज म्हजे अितलो गिरेस्त दुसरो कोणूच नासतलो. (अितले म्हणसर माचयेचे अेके कुशीक ताचो पुत नोनेबाब आशिल्लो पळौन, कच करून आंग काडून आनी जीब चाबून) घात जालो घात ! ह्या अुंवाळ्ळल्यान म्हजी सगळी गजाल आयकली-शी दिसता. दुडवांच्या भुरकुट्याफुडें धेयभान अुल्लें ना. (मोट्यान) कोण रे तो? नोन्या, थैं रे कितें करता तूं?

नोनेबाब : कांय ना बाप्पा.

तातुबाब : तुका थैं येवन कितलो-सो वेळ जालो?

नोनेबाब : चेः, हो नित्तोच येतां.

तातुबाब : म्हजें अुलौप तुवें आयकलें ना मू?

नोनेबाब : कसलें अुलौप?

तातुबाब : कसलें न्हय रे नोन्या; हर्शीं विचाऌें.

नोनेबाब : हर्शीं म्हळ्यार?

तातुबाब : हयवय, तुवें आयकलें-शें दिसता. खऱ्यानीच सांग ना म्हणून.

नोनेबाब : खऱ्यानीच तर ह्या दोंय दोळ्यांच्यान हांवें आयकूंक ना.

तातुबाब : सगळें ना जाल्यार अिल्लें तरी आयकलां. पोवनां, रुपाया अशें कांयच तुवें आयकलें ना? तांतूंत मारून व्हडलें-शें कांय ना. हांव म्हणटालों, तें अिंग्लेजांचें, फ्रांसाचें, रुसाचें आनी आलेमांवांचें झूज काबार जायत पासून हालिंच्या ह्या वर्सांनी दुडू बरोसो सावना. झुजाचे मुस्तींत त्यो तांदळाच्यो पावण्यो बी जाताल्यो; तांतूंत चार दमड्यो सावताल्यो. ते दुडू जोडचेले दीस आसले. तांदळां भरशीं रेंव मारून आनी पेत्रोला भरशीं अुदक घालून विकल्यार कोण कोणाक विचारिनासलो. खरे भांगराचे दीस ते ते. असले दीस पर्थून केन्ना येतीत कोण जाणा. बुलेतींत झुजाची खबर बी वाचल्या व्हय तुवें?

नोनेबाब : खबर वाचल्या. परंत आतां आनीक शंबर वर्सां फाटले सारकें आकान्ताचें झूज जायत-शें दिसना. लोकांक आतां दिसानदीस झुजाच्यो वडी आयल्यात.

तातुबाब : वडी आयल्यात? पिशेपणां ! झुजां लागतकूच पापया लोकांच्या हातांत दुडूच दुडू घोळटा. काश्टेकार मानायाकडेन लेगीत नोटिंचे कवळे दिसतात.

नोनेबाब : तें कशेंय आसूं, आतां आनीक झूज जावचेली आस्त ना. 'नाळी-गुळ्यांचें राज्य सोंपलें' म्हणून तेदुसाच फ्रांसाच्या प्रधानान सणसणीत बरें अुलौन दाखैलें.

तातुबाब : (अजापान) कितें म्हणटा? तो गणेपरबुलो वैकुंठ कालूच म्हाका सांगतालो, अितालियांत खैं बळरामाच्या मुसळाअेदें अेक मोटें व्हडलें मुसळ आसा. तें घेवन थैंचे लोक आतां सगळ्या संवसाराआड झुजतले. असलें कसलें रे बाबा आकान्ताचें मुसळ तें?

नोनेबाब : हहहहहह: ! बाप्पा तें मुसळ न्हय. तो एक आमचे सारकोच मनीस. ताचें नांव मुसोलिनी. तो खूब मस्त जाला आनी झुजाक शिंवशिंवता खरो. परंत संवसाराक अुजो पेटैणें राक्षेसी झूज अेन्नाच जायत-शें दिसना.

तातुबाब : म्हणटकूच दुडू मेळौची आस्ता सोडची तर? (निर्शेवन) कशेंय जाल्यार दीस वायट आयले. नोन्या, आतां आमी हात आंवळून खर्च करूंक जाय.

नोनेबाब : पणून बाप्पा, तुमची नसतीच पिर्गंण कित्याक? तुमी दुडवांची बरी गांठ जमैल्या म्हणपाचें गांवभर लोक अुलैतात.

तातुबाब : (पिंर्जळून) कितें ! दुडवांची गांठ ! अशें म्हणटल्यांच्या तोंडाक पडूंत किडे ! कोण फटकिरो म्हजेकडेन दुडू आसा म्हणून सांगता?

नोनेबाब : बाप्पा, तुमी अितले पिंर्जळुं नाकात.

तातुबाब : पिर्जळुं नाका? म्हजेकडेन आज एक पानदुडू ना तो तूं बरेभाशेन जाणा. अशें आसतना, तूं म्हजो पोटचो पुत जावन दुस्मान कसो-सो कितेंय अुलैता?

नोनेबाब : तुमचेकडेन दुडू आसात म्हळ्यार तांतूंत दुस्मानकी कसली बाप्पा?

तातुबाब : कसली दुस्मानकी? तूं अशें चार-चौगांत नसतेंच अुलैलो आनी दोड्डे-सावकाराभाशेन दुडू खर्चूंक लागलो जाल्यार गांवच्या चोरां-नागौण्यांक कितें दिसतलें? ते म्हणटले, तुज्या बापायकडेन खूब दुडू भल्ला; तेन्ना एक दीस ताची गोमटी कापुंया आनी लुटुंया. हे भाशेन जालो ना तूं म्हजो दुस्मान?

नोनेबाब : बाप्पा, दोड्डे-सावकाराभाशेन हांवें दुडू केन्ना खर्चिले?

तातुबाब : नोन्या, आनीक बास्कळपणां अुलौं नाका हां. म्हजे दोळे फुटले म्हणून समजला तूं? हो तुज्या माथ्याक जरिचो रुमाल कित्याक

जाय रे? तशीच ही रसमी जुदी, भितर कुलेत, ताचे भितर खोमीस, ताचे भितर बानयान अशीं चार पांच आंगावलीं तुका अेकल्या मनशाक कित्याक? तशेंच हें रसमी देगेचें बारीक झिरझिरीत पुडवें तुवें कित्याक न्हेसूंक जाय? ती लोरेंज आनी कोर्दांव तुवें कित्याक घालूंक जाय? आनी हें रुप्याचे मुठिचें रोत तुज्या हातांत कित्याक? तें घेतल्याबगर तुका चलूंक येना? तूं म्हातारो जाला? तुका पोंग पडलां? तुका हांवें शंबर फावटीं सांगलें, नोन्या, आमकां हो असलो पोशेग सोबना. हो विद्वाटो खर्च बरो न्हय. परंत तूं गा खैं आयकता? तूं अेक व्हडलो बार्रांव, विस्कोन्द, कोन्द आशिल्ल्याभाशेन भोंवता. म्हजो संवसार नागैल्याबगर तुजे हे नसते रंग चल्ल्यात अशें समजता तूं?

नोनेबाब : कितें ! तुमचो संवसार हांवें नागैलो?

तातुबाब : विचारूंक जाय? म्हाका नागैल्याबगर असलो पोशेग करूंक मेळटा?

नोनेबाब : आतां कितें म्हणटलो? बाप्पा, तेदुसा म्हाड्डोळ-सश्टीक हांव गेल्लों तें तुमी नकळत? थैं पेगूशेटीन म्हाका पाशांनी खेळूंक आग्रो केलो. हांव कांय दाव खेळ्ळों आनी म्हज्या नशिबान म्हाका कांय दुडू मेळ्ळे. तेच हांव खर्चितां.

तातुबाब : तर मोटीच लज म्हणची ! खेळांत तुका पाशे बरे पडले आनी दुडू मेळ्ळे जाल्यार तुवें तांचो बरे तरेन अुपयोग करूंक जाय आसलो. तुवें ते अुल्त्रामारीन बांकांत कळंतराक लावचे आसले. नशिबान दुडू मेळ्ळे म्हणून ते विद्वाटूंक जायत? पणून नोन्या, सगळें सांडून तुज्या गळ्यांत तो गर्वात कित्याक? आनी पांयांत तीं बोतां आनी मेय कित्याक? तीं घालीं म्हणून तूं फिर्गी-फिदाल्ग जावचो पडला व्हय? तूं जाणा? तो जरी रुमाल, तीं बोतां, ते मेय, तो गर्वात, ती जुदी, तीं खोमसां, ती लोरेंज, तो कोर्दांव आनी तें रोत मेळून कितले दुडू जातात ते? दोनशीं रुपाया, दोनशीं ! अगे म्हजे आवै ! असलो पोशेग तुज्या आनी म्हज्या आज्या-पणज्यांनी केन्नाच केल्लो? तूं अेक कुळांत विद्वाटो जल्मला. हे दोनशीं रुपाया कळंतराक लायल्ले जाल्यार, वर्साक कशेय तीस-चाळीस रुपाया बसला थैं घडचे नासले?

नोनेबाब : पणून बाप्पा, सगळेच दुडू कळंतराक लायले जाल्यार आमी खावचें,

जेवचें, न्हेसचें, पांगुरचें कितें? निखटे दुडूच घडल्यार जाले?

तातुबाब : तशें रे कोण म्हणटा? पणून सगळेच दुडू वाटेक लायल्यार जाता? तो गांधी म्हात्मो कितें म्हणटा तें आयकलां व्हय तुवें? दिसानदीस हे आमचे भुंयेक भीक लागली खैं भीक. हांगा आदीं भांगराचो धुंवर सरतालो खैं. परंत तुजे असले विद्वाटे लांबणदिवे जल्मून जैं थैं कट्ट्यांचो धुंवर जाला. आतां फुडें धडगत दिसना. नोन्या, पापया, अेन्नादर दोळे अुगड. हांव तुका केन्नाच्यान सांगतां, ती माणकुली गांधी तोपी, खादयेचें आंगावलें आनी खादयेचो वालको हांची सर दुसऱ्या कसल्याच पोशेगाक येना. कसलो सोबीत बरो पोशेग हो ! हांव अेदो व्हडलो तुजो बापूय हो पोशेग करतां आनी तुकाच ताचो वीट कित्याक? तिट्यावैली मुड्डशांची गांथनूय हाट्टलो जाल्यार, तुका जरी रुमाल आनी बोतांबगर जायना. हें रे कितें? असल्यांनी संवसार कसो जातलो? तें मंजुळें आतां लग्नाचें जालें. ताका खर्च आसा. लग्नां-कार्यां फुक्याचीं न्हयत. ताका दुडू खैंचो हाट्टलो? म्हाका मोटी चिंता पडल्या.

नोनेबाब : चिंता कसली बाप्पा? दुडू आसून चिंता कित्याक? मंजुळ्याच्या लग्नाक मार व्हडले वरा-प्रताप लागचे नात. वर-दक्षणेक तीस हजार. माटव-मेडीक दोन हजार. फोगाक तीन हजार. कलवंतांक चार हजार. गांव-जेवणाक पांच हजार. म्हाका माचिलांनी आनी मोटारिंनी बसून व्होवळीक सांगूंक देड हजार. वाजंत्र्यांक आनी रांदप्यांक दोन हजार. भटाक पांच-पंचवीस. जालें. म्हज्या हिस्पान पन्नास हजार रुपाया चड जाले नात.

तातुबाब : (आकान्तून नोनेबाबाच्या तोंडार हात धरून) नोन्या, नोन्या, कितें हें? जायांचे हजार व्हय रे? पापया जीब सांबाळून अुलै. पन्नास हजार रुपाया! व्हडल्या राजाच्या लग्नाक लेगीत अितले दुडू खर्चिनात.

नोनेबाब : कितें? राजांक सामकेच भिकारी करतात तुमी? अेकेकल्या राजाच्या लग्नाक लक्षांनी-कोट्यांनी रुपाया खर्चितात. जाणात तुमी?

तातुबाब : हांव जाणा रे सगळें नोन्या. पणून हार अुट्टा म्हणून गांयडोळान अुडल्यार जाता? आमची आस्पत ती कसली? आनी आमी दुडू खर्चितल्यों ते कसले?

नोनेबाब : पणून धा लक्ष रुपायांची गांठ जाचेकडेन आसा ताका पन्नास हजार रुपाया खर्चूंक चडशें कठीन न्हय. गोंयचो साप दुबळो लेगीत लग्ना-कार्यांत नाथून पांच-धा हजारांची करड करिना व्हय तर? मागीर तुमचीच पिर्गिण कित्याक?

तातुबाब : (कुशीक ल्हवू) नष्ट्यान अेदोळचें म्हजें अुलौप आयकलें-शें दिसता. घात जालो. म्हज्या दुडवांची गांठ हाका समजली. (मोट्यान) पणून नोन्या, धा लक्ष रुपायांची गजाल आसुनीच. धा दमड्यो तरी हांगा कोणा पापयाकडेन आसात? सप्ता-प्रमाणानशीं तुका सांगतां, वीख खातलों म्हळ्यार आज म्हजेकडेन अेक दमडी ना. तो हांव हजारांनीं रुपाया खैंचे खर्चूं? हांव तुका खरेपणान्नशीं सांगतां, मंजुळ्याक हांव नारव्यां सप्तकोटीश्वराच्या थळांत व्हरून देवकारें-कशें ताचें लग्न करून मेकळो जातलों.

नोनेबाब : नारव्यां व्हरात नाजाल्यार क्यासलरोकाक व्हरात. लग्नाचो हेर खर्च कसोय आसूं. न्हवरो कितलोय दळिद्री जालो, तरी नाथून तीस हजार रुपाया तुमचेकडसून वर-दक्षिणेक अुखल्ल्याबगर रावचोच ना. न्हवरे हांगा वाटेर पडूंक नात.

तातुबाब : आनी व्होंकलो तरी वाटेर पडल्यात? मारून तीस हजार रुपाया वरदक्षणा मागूंक त्या न्हवऱ्याक भांगर लागलां व्हय?

नोनेबाब : नकळत तुमी? न्हवरेपणाचे पदवेक भुरगो पावतकूच तो भांगराचो गुळोच जालो. भांगर खर्चिल्याबगर भांगर मेळना.

तातुबाब : तें कितेंय जायना? हांव वर-दक्षणेक अेक दमडी दिवचो ना. म्हजें अपुर्बायेचें मंजुळें हीच सगळी वर-दक्षणा. असली बायल मेळूंक व्हडलें नशीब जाय. व्होंकल जाल्यार व्होंकल. तसलें म्हजें मंजुळें न्हय. तें नाखा-दोळ्यान सुंदर. कांतेल्ली बावली कशें-शें. त्या भायर तें शिवण-सूत जाणा. बरौंक-वाचूंक जाणा. रांदूंक-वाडूंक जाणा. पोळी-पीठ जाणा. सगळें जाणा. म्हजी धूव मेळूंक न्हवऱ्यान अुफाट्टी म्हाका मांव-दक्षणा दिवंक जाय.

नोनेबाब : मांव-दक्षणा? ही आनीक नवीच-शी चाल?

तातुबाब : नवीच-शी चाल ! बामणां भितर चल्ली ना जाल्यार दुसऱ्या जांयत्या जातींत ती चलता. पळौंक गेल्यार व्होंकलेक ल्हान-व्हड करून ती कोणाय परक्याक फुकट दिवची आनी त्या भायर ताका दक्षणा

दिवची हो खैंचो न्याय? म्हजेकडेन कोणाय न्हवऱ्याचो बापूय तीस हजार रुपाया वर-दक्षणा मागूंक लागत जाल्यार, हांव ताचेकडेन आदीं-पैलीं चाळीस हजार रुपाया मांव-दक्षणेचे मागतलों. पळौंया किते जाता तें !

नोनेबाब : तुमचे म्हणणेक कोणूच न्हवरेकार मान्य जायत-सो दिसना. हालीं न्हवऱ्यांचें मोल चडलां तें तुमी जाणातूच. तुमी म्हाळूभटाकूच विचारून पळ्यात.

तातुबाब : (पैससून पळेल्ल्यावरी करून) तोऽऽ येता तो म्हाळूभटूच न्हय? नांव काडिना फुडें तयार. सभाग्याक शंबर वर्सां आयुश्य. नोन्या, चल तूं तुज्या कामाक. म्हाका भटाचे गजालीक बसुनी.

नोनेबाब : पणून हांव पळ्यात तुमकां किते सांगूंक आयल्लों.

तातुबाब : तें मागीर सांगशी.

नोनेबाब : चिके आयकून घेयात.

तातुबाब : चल रे तूं. भँगलो रे हो. (नोनेबाब वेता. म्हाळूभट येता.)

तातुबाब : (भटजीक नमस्कार करून) किते भटमाम? अितले दीस खैं आसले तुमी? भुरगीं-बाळां बरीं आसात मू?

म्हाळूभट : आसात सुमाराक-शीं. तुमगेलीं सगळीं बरीं आसात मू?

तातुबाब : आसात बरीं. पणून तुमकां फाटीं सांगिल्लें ताचें किते केलें?

म्हाळूभट : (येवजिल्ल्यावरी करून, पुडिची चिमटी ओडून आनी बुशेद तातुबाबाक दिवन) सारको-सो अुगडास जायना. किते सांगिल्लें खरें. फाटीं तें वाय-दमन जाल्ल्याक यादूच अुरना-शी जाली. आत्तां सांगिल्लें आत्तां विसरतां. (मोट्यान शिंकून) आं-हां-हां. तुमचे धुवे खातीर वर-दक्षणा घेना तसलें बरें-शें थळ पळौचें काम मू?

तातुबाब : तें न्हय हो भटमाम.

म्हाळूभट : तर? नोनेबाबा खातीर खणखणीत बरी वर-दक्षणा हाट्टा तसली व्हॉकल पळौचेलें काम?

तातुबाब : न्हय हो.

म्हाळूभट : तर तुमचे ग्रह हालीं बरे नात म्हणून किर्कोळ-शीं दानां सांगचेलें काम?

तातुबाब : चेः, तें न्हय म्हळ्यार.

म्हाळूभट : मिज्रिकोर्दिची सोर्त लागत कि ना म्हणपाचो आसो काडचेलें काम?

तातुबाब : तें न्हय हो भटमाम. हालीं तुमची तकली थाऱ्यार ना-शी दिसता.

म्हाळूभट : सगळें गोंयभर दुकळ पडून तांदळांक आनी नाल्लांक बरी धारण केन्ना येत म्हणपाचें जोतिस बांदचेलें काम?

तातुबाब : तें जालें हो. तें म्हाका समजुंकूच जाय. अेवरोपांतलें झूज थारत पासून दुडू जोडचेलें काम सामकेंच मंदावलां. आतां अेकाद्रो मोटो-सो दुकळ पडल्या बगर दुडू सावतीत-शें दिसना. तेन्ना, दुकळ केन्ना पडत म्हणपाचें जिस्त जोतिस करून म्हाका तुमी चार-पांच म्हैने आदीं कळयात. म्हणटकूच हांव रंगूनचे तांदूळ विकते घेवन लोजांचीं लोजां भरून दवरीन आनी दुकळांत दर येतकूच विकूंक लागन. मागीर घेः, दुडूच दुडू ! (दोळे मिचकायता). भटमाम, दुसऱ्या कोणाक मात ह्या दुकळाची सुनशा लागूंक दिवं नाकात हां. घात जायत.

म्हाळूभट : ताची तुमी चिंता करूं नाकात. परंत तुमी दुसरें कसलें काम सांगिल्लें ताचो म्हाका अुगडास जायना.

तातुबाब : भँगलो तुमचो अुगडास. फाल्यां देवाचे दयेन मंजुळ्याचें आनी नोन्याचें लग्न जालें जाल्यार, म्हजे कुशीक बसूंक कोणूय यजमान्न नाका? (अुगडास जावन) ती कसली बरी घरा-दाराची देवता म्हणटात तशी (रडकुळ्यां येवन) म्हजी घरकान्न म्हाका सोडून गेली आनी म्हजो सगळो संवसार अुबंत घालो, तें तुमी विसल्ले? कसली भौ बरी बायल ती ! म्हजी अपुर्बायेची, म्हजी गुणेस्त, भागेस्त बायल ती ! म्हाका सामकीच सोडून गेली ! तिचे भांगरा सारके गुण येवजितकूच काळीज कितें जाऽता म्हणून सांगूं ! (म्हाळूभटाच्या आंगार घालून घेता. म्हाळूभट ताका सांवरता.)

म्हाळूभट : आसूं हो. ती फाटली याद आतां नाका. गेल्लीं मनशां पर्थून मेळनात. तांचो खेद कित्याक? आतां हालमी-खुशाल बरें आसचें.

तातुबाब : तें सगळें खरें. पणून मंजुळ्याच्या लग्ना-वेळार यजमानपण कोण करतली?

म्हाळूभट : ताची चिंता तुमकां कित्याक? तें आमगेलें पुरोयतांलें काम. ताका अुपाय म्हजे कडेन आसा. यजमानपणाच्या वेळार किर्वंटीक भांगराची पुतळी लायतकूच जाली.

तातुबाब : तुमी पुरोयत कसोय वेळ मारून व्हरूंक जाणात तें हांव जाणां. तुमचे दक्षणे बादत हेर कसलेंय साभित्य नासलें तरी ताचे बदला 'अर्थे अक्षतां समर्पयामि' म्हणून तांदळाच्या गोटयांनीं संभावना करूंक तुमी भौ बरे जाणात तें हांव नकळं? पणून किर्वंटीक पुतळी लायली म्हणून तिका यजमान्निची सर येता व्हय? यजमान्न ती यजमान्न. भटमाम, खरें अुलयात, म्हाका ह्या वेळार अेक घसघशीत-शी घरकान्न नाका आसली?

म्हाळूभट : पणून तातुबाब, तुमची दिसानदीस आतां लग्नाची पिराय अुल्ल्या हो? (तातुबाबाक सकला साकून वैर मेरेन पळौन) म्हाका दिसता, पन्नासांचें घर तुमी केन्नाच फाटीं घालें. खरेपणान सांगात, तुमकां आतां कितलीं वर्सां?

तातुबाब : कसलीं हो वर्सां घेवन बसल्यात? फुडले कार्तिके अेकादसीन पंचावन भर जावन छाप्पनावें लागतलें. शंबर वर्सां भितल्लीं आनीक कशींय चोवेचाळीस वर्सां म्हजीं अुरूंक नात तर? तितले म्हणसर घरकान्नी बगर आचारवाणे-शे अेकले अेकसुरे दीस हांवें घालौचे?

म्हाळूभट : तातुबाब, तुमी अशे पिंर्जळूं नाकात. तुमचे खातीर बरी-शी व्होंकल पळौंक हांव थोडो वावरूंक ना. पणजी, म्हापशें आनी मडगंव मेळून तीन शारांनीं येरादारी घालून हांवें कशींय धा व्हाणांच्या जोडांचीं कट्टरां केलीं. पांयांचेर नक्षत्र पडिल्ल्यावरी हांव भोंवलों. परंत तुमकां जाय तसली व्होंकल खैंच होलमना. कितें करूं?

तातुबाब : कितें अुलैतात भटमाम? अेद्या व्हडल्या कोंकणांत म्हजे खातीर अेकूय व्होंकल तुमकां होलमना? अजाप म्हणचें अजाप ! बरें, म्हजी गजाल आसूं. मंजुळ्याचे सोरगतिचें तुमी कितें केलें? ताका तरी बरो-सो न्हवरो होलमता व्हय?

म्हाळूभट : (पुडिची चिमटी ओडून) चार न्हवरे म्हज्या होलमाक आसात. पणून वर-दक्षणेचें मात तुमी पळौंक जाय.

तातुबाब : (फडफडून) हेंच तें ! हेंच तें ! न्हवऱ्याचें नांव काडिना फुडें वर-दक्षणेचें नांव सगळ्यां मुखार. हे वर-दक्षणेन लोकांक लायलां पिशें. भटमाम, त्या मंजुळ्याचे सोरगती आदीं म्हजीच सोरगत तुमी खैंचेय कडेन थारायल्यार बरें आसलें. म्हणटकूच, म्हाका पैलीं जाय तितली वर-दक्षणा मेळून, तांतूंतले कांय दुडू हांव मंजुळ्याच्या न्हवऱ्याक

दक्षणे खातीर दितलों आसलों. भायले भायर काम जातलें आसलें.

म्हाळूभट : पणून तुमची सोरगत जमना ताका हांव कितें करूं? शनी, मंगळ आड येतात.

तातुबाब : बरें, त्या चार न्हवऱ्यांचीं नांवां तरी आयकुनी. तांचीं लक्षणां तरी समजुनी.

म्हाळूभट : तांचीं नांवां हांव तुमकां अेन्ना सांगना. लक्षणां आनी वर-दक्षणा सांगतां. अेक न्हवरो आसा, तो फिंर्गी बरप बरें शिकला. ताचो प्रिमेर ग्राव आनी सेगुंद ग्राव तोंडपाठ जाला. हालीं तो फेर्रेरिचे कार्तोरींत आसा. सिगार्रां ओट्टा. म्हैन्याक कशेय वीस-पंचवीस रुपाया जोट्टा. त्या भायर किरकोळ प्राप्ती. आवै-बापूय कोण ना. वर-दक्षणा धा हजार.

तातुबाब : अ-ल-ल-ल-लय! पंचवीस रुपायांच्या मुशाऱ्याक धा हजार वर-दक्षणा?

म्हाळूभट : तातुबाब, फुडें तरी आयकून घेयात. दुसरो न्हवरो आसा, ताका फिंर्गी बरप बी कांय येना. तो म्हराश्ट भास अुलैता. ही भास ताची अितली निजाची जाल्या कि तो म्हराश्टींत हांसता आनी म्हराश्टींत रट्टा. तो म्हराश्टींत खांकता आनी म्हराश्टींत ओंकता. म्हराश्टांतल्या सगळ्या बुलेतिंचे कवळे ताच्या दोनूय बोल्सांनी तिनूय-त्रिकाळ गच्च भरिल्ले आसतात. तो नवरात्रांनी सरस्पतिचे पुजेक तेरेखोला साकून लोलयें मेरेन आनी मुरगांवां साकून दुदसागरा मेरेन दर अेका गांवांत भोंवन म्हराश्ट भाशेंत अुलौप करता आनी सांगता कि आमी अुलैतात ती कोंकणी भास साप विसरून तिचे बदला जागेपणांत आनी न्हिदेंत म्हराश्ट भास अुलैल्या बगर आमची भूंय वैर सरची ना. आमगेलें दर अेकलें भुरगें आतां म्हराश्ट भाशेंत रडूंक जाय खैं! ताका भाट-बेंस ना आनी चाखरी-चुखरीय ना. तरी आसतना, तरेकतरा घोळाश्टकां करून तो कशेंय पोट भरता. ताका आवै-बापूय आसा. वर-दक्षणा वीस हजार.

तातुबाब : अबा-बा-बा ! निखट्या घोळाश्टकांक आनी म्हराश्ट भाशेचे ओंकीक वीस हजार वर-दक्षणा?

म्हाळूभट : आयकून घेयात हो तातुबाब. तिसरो न्हवरो आसा, ताका फिंर्गी येना आनी म्हराश्टूय येना. ताचे खाशेले आवै-बापूय साप दुबळे.

परंत अेका गिरेस्त मनशान ताका पोसूंक घेतला. पोसक्या बापायची वर्साची येणावळ सुमार धा हजार रुपायांची आसली; तातूंतलें पांच हजारांचें भाट-बेंस ह्या पुतान काल्यांनी आनी जात्रांनी घडघडो आनी जुगार खेळून होगडायलें. तरी आसतना, शिरोडेंच्या जयवंत्याचो तो धनी जायतपासून ताचें दैव फळफळ्ळां. ताका हालींच मिझ्रिकोर्दिची धा हजारांची सोर्त लागली आनी त्या सगळ्या दुडवांच्यो ताणें जयवंत्याक घसघशीत बऱ्यो वस्ती करून घाल्यो. ताची पोसकी आवै भायर पडली. वर-दक्षणा तीस हजार.

तातुबाब : आर्रा ! जुगाड्ड्याक आनी शिंदळाक तीस हजार वर-दक्षणा?

म्हाळूभट : चिके आयकून घेयात तरी तातुबाब. चौथो न्हवरो आसा, ताणें विस्कोलाचें तोंड केन्नाच पळौंक ना. तरी आसतना, सगळी फिंर्गी भास ताका तोंडपाठ. तो लेत्रादकी शिकूंक ना. तरी आसतना, सगळे कायदे ताच्या जिबेच्या तोंकार. प्रेकातोरी, प्राज, येमार्ग, देसपास, मान्दात, आग्राव, आपेलासांव, अितिमासांव, सुब्रोगासांव, आर्रेमातासांव, प्रोकुरासांव, रेपार्तिसांव, आल्मिस्त्रासांव, देक्लारासांव, रेक्लामासांव, सातिसफासांव हीं आनी दुसऱ्या व्हड व्हडल्या गुड्डिलासांवांचीं सगळीं आक्सांवां तो सणसणीत बरीं सांगता. तो देमांद चलौपांत मोटो खांपो. सगळ्या पेडणें म्हालचे देमांद ताणें अेकल्यान हातासल्यात. मोटे मोटे जुवीज आनी देलगाद ताच्या बोल्सांत. सेलाद फोलिंचे कवळे खांकेक मारिनासतना तो केन्नाच भायर पांय काडिना. ताची प्राप्ती मोटी. ताणे आपल्या सगळ्या कुळांच्या माथ्यार हात भोंवडायला. ताणे सुमार चाळीस हजारांचें भाट-बेंस घेतलां. ताची पैली बायल भायर पडून तो दुसरें लग्न जावंक सोदता. ताचें वय सुमार पंचावन वर्सां. वर-दक्षणा धा हजार.

तातुबाब : ह्या न्हवऱ्याक वर-दक्षणा फावो. तो लोकांक नागैता. आपुण कुस्कूट होगडायना. हें लक्षण बरें. हाका हांव सगळ्यांत वैल्या पाटार बसैन. हाचे फाटल्यान तो कार्तोरकार न्हवरो बरो-सो दिसता. तो सिगारां ओड्टा, तितल्यान भँगलें. ताका दुसरो पाट. जुगाड्ड्याक आनी शिंदळाक हांव तिसरो पाट दीन. ताचें दैव बरें. त्या म्हराश्ट अुलैतल्याक जाल्यार कसलोच पाट फावना. ताका ओतांत अुबो

करून तळतळावंक जाय. ताची म्हराश्ट भास आमकां नाका. परंत भटमाम, खरें विचारशात जाल्यार, वर-दक्षणा मागता तसलो कोणूच न्हवरो म्हाका निखालुस मना येना. वर-दक्षणेचें नांव काडिनासतना, मांवाचो संवसार जल्मवेर चलैत असलो कोणूय गिरेस्त न्हवरो तुमच्या होलमाक ना मू?

म्हाळूभट : ना तातुबाब. हालिंच्या वर्तमानाक वर-दक्षणेची सामकी धाम आयल्या धाम. वर-दक्षणे बगर कोणाच न्हवऱ्याक प्रसाद लागना. तुमकांय ते धामेचो वसो लागला.

तातुबाब : कित्याक लागचो ना? हांवूच कोण संवसारा भायलो? बाकिचे न्हवरे वर-दक्षणा मागतात, आनी हांवेंच कित्याक मागची न्हय? तुमी आदीं म्हजीच सोरगत खैंचे कडेन थारायात. हांव वर-दक्षणा वीस हजार रुपाया घेतलों. तांतूंन अेक दमडी अुणी जावची ना. फुडल्या जेश्टांत म्हजें लग्न जावंकूच जाय. मागीर तुमकां पळ्यात कसली बरी दक्षणा दितां हांव.

म्हाळूभट : म्हजे दक्षणेचें जायत हो. पणून तुमचे वर-दक्षणेंत अेकूय दमडी अुणी जावंक फावना म्हणटात तुमी? अेकाद्या अडचल्ल्या व्होंकलकारान पंद्रा हजार रुपाया दिवंक काडले जाल्यार?

तातुबाब : तें मागीर पळौं येत. तुमी आदीं गिरेस्त होंकलेचोच होलम लायात. पणून वर-दक्षणे भायर म्हाका अुंच बरो पोशेग मेळूंक जाय हां. पैलींच सांगतां.

म्हाळूभट : तुमी घाला तसलो खादयेचोच मू पोशेग? ताका मोटीशी अडचण पडची ना. हांव व्होंकलकाराक सांगून भायले भायर गांधी म्हात्म्याक बरौन तो हाडूंक लायन.

तातुबाब : (नाख खळवटावन) आंवंय ! आंवंय ! न्हवऱ्याक सगळें सांडून खादी? आयकलां कोणें? हांव अुंच बरो रसमी, जरी पोशेग घेतलों. वर-दक्षणां चिके अुणी जाल्यार परवा ना. पोशेग लकलकीत, झगझगीत बरो जाय. म्हजें लग्न जातकूच मागीर सवकासायेन मंजुळ्याच्या लग्नाचें पळौं येत. ताच्या लग्नाचें रोखडेंच तटूंक ना. हालीं मेळत थैं व्होबळे वाडौची चाल आयल्याच. तांतूंत आमगेलें अेक मंजुळें. फुडले चैत्री पुनवेन ताका सतरा भर जावन अठरावें वर्स लागतलें-शें दिसता. ती मोटी-शी व्होंकल वाडूंक ना. गांधी

म्हात्म्याचीय म्हणणी ल्हान ल्हान गांजुड्ड्यांचीं लग्नां करचीं न्हयत अशीच आसा. म्हात्मो म्हाका देवासमान. ताच्या अुतरा भायर हांव केन्नाच चलना. भटमाम, हो खादयेचो वालको जो हांव न्हेसतां, तो फक्कत त्या म्हात्म्या खातीर. हो खादयेचो कुतांवूय त्या म्हात्म्या खातीर आनी ही खादयेची तोपीय त्या म्हात्म्या खातीर.

म्हाळूभट : कोण ना म्हणटा? पणून तातुबाब, म्हजें अेक काम करूंक जाय आसलें तुमी. हांव पळ्यात मोटे अडचणींत आसां. तो घरभाटल्याचो देमांद आमकां लागला; त्या कामाक आदवोगादाक दिवंक देडशें रुपाया जायत. तितले मेळटीत जाल्यार अुपकार जातीत. तुमचे सारक्या यजमाना बादत आमकां आनीक कोण आसा ह्या संवसारांत? कळंतराची तुमी परवा करूं नाकात.

तातुबाब : परवा कसली? परंत देडशें रुपाया आसात कोणा पापया कडेन? भटमाम, हांव तुमकां खरेपणानशीं सांगतां, आज हांव देडे दमडेक म्हारग जालां. वोगीच गळवज्ञा येवं नाकात. आसल्यार तुमकां ना म्हणटां? तुमचे परस आमकां आनीक मोटो कोण आसा?

म्हाळूभट : कशेंय करात तातुबाब. मोटी फजेत जाल्या. फुडल्या म्हैन्यांत हांव ते तुमकां कळंतरासैत पावते करीन. नाजाल्यार मंजुळ्याच्या लग्नाचे दक्षणेंत बाद करीन.

तातुबाब : भटमाम, म्हाकाच तुमी अेक शंबर रुपाया अुस्णे दिशात जाल्यार मोटे उपकार जातीत. घरपटी मांडूंक जाय. नाजाल्यार आमचें घरदार सामकें पावणेर पट्टलें. घात जातलो. पळ्यात तुमच्या कोणाय यजमाना कडेन मेळटीत जाल्या.

म्हाळूभट : (कुशीक) ह्या कुळाकडसून केन्नाच दुडू सुटचेले आसात? हांव तें आदींच जाणां आसलों. परंत गरजेवंताक अक्कल ना म्हणटात न्हय? (मोट्यान) बरें, तातुबाब, येतां तर हांव.

तातुबाब : येयात हां. परंत फाल्यां सांजसूर शंबर रुपाया कशेय फैदा करून हाडात. परवां सोमारा दीस फाजेन्दांत व्हरून मांडुंकूच जायत.
(म्हाळूभट निर्शेवन वेता.)

तातुबाब : गेली पिडा. बरें जालें. ह्या भटाकडसून म्हजे सोरगतिचें काम जावचेंना-शें दिसता. हाणे दुडूच मागचे. म्हाका दिसता, तें रत्नेंच कितेंय केल्यार करीत. तेंच म्हजी सोरगत जमैत. (वेता.)

## दुसरें येवप

### तातुबाब आनी रत्नें

तातुबाब : (पैससून पळौन) तें कोण रत्नें-शें दिसता. हय. रत्नेंच तें. खैं गो पापया आसलें तूं अितले दीस?

रत्नें : खैं म्हणून सांगूं धनयानू? आसलें आपलें पोटा फाटल्यान.

तातुबाब : रत्न्या, तुजो अेकेकलो खांब्या-खुऱ्यांचो धनी आसतना तुका गो कसली पोटाची चिंता?

रत्नें : पुरो जाले धनी. तांचो अुबारो आसा तोच बरो. ते आतां म्हाका विचारतात? आतां जालें हांव म्हातारें. आतां म्हाका लागीं कोण करता? आतां तुमचे सारक्या धनयांच्या जिवार संवसारांतले दीस धुकलचे जाले.

तातुबाब : पणून तुजे आखे-तिखे अिल्लेय अुणे जावंक नात मु गो.

रत्नें : तें जावं. पणून धनयानू, तुमच्या तोंडाची शिरी हालीं चट्टी दिसता. अितली कान्त तुमकां मारिल्ली पैलीं केन्नाच पळौंक नासली.

तातुबाब : रत्न्या, पापया भगली मारिना मु गो?

रत्नें : भगली कित्याक मारतलें धनयानू? म्हाका तितली मस्ती आयल्या व्हय? म्हज्या दोंय दोळ्यांच्यान तर - म्हज्या जिवाच्यान तर - तुमी आतां जितले तरणे-तकतकीत दिसतात तितले पैलीं केन्नाच दिसनासले. वीस-पंचवीस वर्सांच्या न्हवऱ्यांकूय तुमचे अितली कान्त मारिना.

तातुबाब : कितें म्हणटा गो पापया? म्हाका आतां छाप्पनावें वर्स लागचें जालें. म्हजे फाटीक आतां पोंग पडचें जालें.

रत्नें : म्हणून कितें जालें धनयानू? तुमी बद्द अठरा-वीस वर्सांचे कुकूले न्हवरे दिसतात. अन्तुवैजाची स्वर्णमालनी बी घेनात मु तुमी? तुमचें आंग पळ्यात, भांगराची कांडी-कशी लकलकता.

तातुबाब : (आंग ओखेवन) कितें म्हणटा गो रत्न्या?

रत्नें : तकली चिके सारकी धरात पळौंया. आळवा वैल्या अुदकाच्या थेंब्यांनीं जशें तेज चमकता, तशे तरेचें तेज तुमच्या ह्या दोंय दोळ्यांनी खेळटा धनयानू. जायतीं वर्सां वांचपाचें हें अेक लक्षणूच म्हणूंक जाय.

तातुबाब : किर्ते? हांव आनीक कितलीं वर्सां वाचन-सो दिसता गो तुका?

रत्नें : तुमी धनयानू? तुमचो हात चिके पळौंया. म्हाका रमके मावशेन ही विद्या भुरगेपणांत शिकैल्ली. (तातुबाबाचो हात पळौन) अगे म्हजे आवै ! केदी व्हडली तुमच्या आयुश्याची वळ ही !

तातुबाब : म्हणचे गो?

रत्नें : धनयानू, तुमीच पळ्यात ही वळ कितली लांब गेल्या. हांव समजल्लें तुमी अुपाट शंबर वर्सां वांचतले. पणून हे वळी वैल्यान सवायशीं वर्सांत अेक घडकाय अुणी जावचीना-शी दिसता.

तातुबाब : (भुरकुटून) किर्ते म्हणटा गो पापया !

रत्नें : चड किर्ते सांगतलें ? तुमच्या हातान तुमच्या नातरांचो, पण्टुरांचो, शेण्टुरांचो अखेर लागतलो.

तातुबाब : खऱ्यानीच व्हय गो? पणून फाटीं तुका सांगिल्लें ताचें किर्ते जालें?

रत्नें : किर्ते जालें म्हणून विचारूंक जाय? हांवें हातांत घेतिल्लें काम केन्नाच अर्दुकडें अुरचें पडलां? त्या भायर, सोरगती जमौच्या कामांत म्हाका लागतलें दुसरें कोणूच ना. सोरगतिंचें म्हालेपण करचें तें हांवेंच. हुंदरा-माजराची लेगीत सोरगत हांव जथैन. तुमचे खातीर हांवें भोव बरी व्होंकल पळेल्या.

तातुबाब : किर्ते म्हणटा गो ! केदी-शी आसा? नाका-दोळ्यान बरी आसा मू?

रत्नें : विचारूंक जाय? तुमकां फावो-शी आसा. तुमच्या खांद्याक तेंकत. सुमार अठरा वर्सांची जायत. पणून तिची आवै सांगता, कालच्या शिरवणांत तिका धावें सरून अिकरावें लागलां. तें वोगी लोकांच्या दोळ्यांक अुदक लावंक. तुमी नकळत, हालीं जैं थैं व्होबळे वाडौची चाल आयल्या ती?

तातुबाब : तें जावं. म्हाकाय अिल्लेंशें भुरगें हाण्डीर मारून खेळौचें आसा व्हय? पणून ती व्होंकल रुपान कशी?

रत्नें : रुपान? रुपान नक्षत्र-कशें. पणून रंगान चिके काळी.

तातुबाब : काळी? कितली-शी?

रत्नें : तुमचेकूय गोरी.

तातुबाब : जाली तर. नाख, दोळे जैंचे थैं आसात मू?

रत्नें : ते जैंचे थैं आसात.

तातुबाब : बरें. वर-दक्षणेचें कशें कितें? दक्षणा घेना जाल्यार लोक कितें म्हणटीत?

रत्नें : दक्षणेक तूट ना धनयानू.

तातुबाब : (मोटें व्हडलें तोंड अुगडून) आंऽऽऽ! तूं शाणें गो. तुका सांगूंक जाय? कितली-शी दक्षणा मेळत?

रत्नें : ती व्होंकल तुमकां वर्साक कशीय पंद्रा हजार रुपायांची येणावळ हाट्टली.

तातुबाब : (जीब भायर काडून) वर्साक पंदरा हजार रुपाया येणावळ? हय गो रत्न्या?

रत्नें : हय वय. वर्साक पंद्रा हजार रुपाया.

तातुबाब : रत्न्या, म्हाका आज पंचावन वर्सां आसात. आनी तुजे म्हणणे भाशेन हांव सवायशीं वर्सां वांचतलों. हय मु गो? म्हणटकूच आनीक सत्तर वर्सां म्हजीं वांचपाचीं अुल्ल्यांत. वर्साक पंद्रा हजार ह्या हिशेबान सत्तर वर्सांचे साडे धा लक्ष रुपाया जाले. (भुरकुटून) अगो, म्हज्या रत्न्या! बऱ्यांतली मु गो तुवें व्होंकल सोदून काडली ! पणून ती पंद्रा हजारांची येणावळ शेतां-भाटांची कि कुळागरांची गो?

रत्नें : सांगतां, आयकून घेयात. ती व्होंकल पडली आदीं नाजूक. गिरेस्तांलीं धूव ती. तिका जेवंक-खावंक चड नाका. नुस्तें जाल्यार तिचे गांठीक नाका. तिचें खाण नकसूद. तिसरी, सुंगट अितलेंच. तुमचीं तीं विस्वणांचीं पोस्तां, कल्लेचे बाळे, चणाकी, धोडयारे, मुड्डशो असलें खाण तिका नाका. आतां करात हिशेब पळौंया. कल्ले-विस्वणा सारक्या नुस्त्याक दिसाक कसोय रुपायाभर जाय. म्हैन्याचे जाले तीस. वर्साचे तीनशीं साठ. केदो व्हडलो आदाव हो !

तातुबाब : म्हणटकूच ती शिवराक-शी दिसता. दूद, तूप, ताक आनी शाक हेंच तिचें खाण जातलें.

रत्नें : चेः धनयानू. तें तिका मना येना. तिका दोनूय खेपो कांद्याचो कुंवळ आनी सोलांची किर्मुजी कडी मेळटकूच ती भुरकुटली. तोंडाकाक तिका दोणांतले आंबलेचो कुडको पुरो. तिका तरेकतरा शाको, गांठी, खतखतीं, रोस, हुड्डमेथयो, रायतीं, पापड, वडयो बी कांयच नाका. करात आतां हिशेब. म्हाका दिसता, वर्साक दोनशीं रुपायांच्या आदावाक मरमर ना.

तातुबाब : तिका गोड-गोड-शेंय चड-शें नाका आसतलें.

रत्नें : तें नांव काडुं नाकात धनयानू. तिचे जिबेक जल्माचीच माठी पडल्या. तिका गोड, साकर निखालुस नाका. ती रुचीन खाता तीं सान्नां आनी हीट. आनी तेय तेफळाच्या सांबाऱ्यांत बुडौन. गोडा-नाल्लाचो रोस तिका दोळ्यांदिश्टी नाका. ती ओंक करून ओंकता. सान्नांय तिका दिसपट्टीं जायत-शीं नात. केन्ना संक्रान्तीक नाजाल्यार तिर्जटेच्या न्हाणाक. करात आतां हिशेब. पोळी-पिठाक दिसाक दोन रुपाया धल्ल्यार, वर्साचे सुमार सातशीं रुपाया जायनात? केदो आदाव हो?

तातुबाब : ती खावचीं पानां आनी सुपारी दाडेक घालून वाळवो पेंचीत बसना मू?

रत्नें : शे-शे धनयानू. खावचीं पानां खातल्या बायलांक ती पालो-खायऱ्यो बोकड्यो म्हणटा. केन्नाय तिची दाड सुजली जाल्यार ती माडाचीं मुळां चाबून खाता. पुडिचें व्यसन जाल्यार तिका निखालुस ना. करात तुमी हिशेब. खावचीं पानां, चुनो, कात, वेळ, कालाफुरां, जायपत्री आनी पूड मेळून ह्या म्हारगायेच्या दिसांनी म्हैन्याक कशेय पांच-एक रुपाया नाकात? त्या भायर, तबकडी, आतकाटी, चुनाळ, चौफुलो, बुशेद हांचो खर्च ना? म्हैन्याक धरात तुमी सात रुपाया. वर्साचे कितले जाले?

तातुबाब : बारा सातीं चौद्यायशीं. बऱ्यांतली तर व्होंकल ती !

रत्नें : सांगूंक जाय? त्याभायर ती हेरां बायलां भाशेन खुसुलो करिना. तिची जीब घट. तिका च्या नाका. तिका काफी नाका. तिका अुंडे नाकात. तिका सोद नाका. असली व्होंकल मेळूंक नशीब जाय. करात तुमी हिशेब. च्या, काफी, अुंडे, सोद आनी हेर खुसुलो मेळून म्हैन्याक वीस रुपाया धल्ल्यार वर्साचे जाले अडेचशीं. आयकलें धनयानू?

तातुबाब : आयकतां गो रत्न्या. पणून तिचें कापड-चोपड, भांगर-शिंगर, फूल-चामळ हांचे संबंदान तूं कांयच अुलैना-शें?

रत्नें : अुलैना कशें धनयानू? एका फाटल्यान एक येतलेंच तें. ते व्होंकलेची आवै ल्हानपणांत कसलीं कसलीं कापडां न्हेसताली तीं हांवें ह्या म्हज्या दोळ्यांनी पळेल्यांत. रामगुजरी, कृष्णगुजरी, पांचवो

तपशिलो, काळी चंद्रकळा, तांबडी चंद्रकळा, मखताल, महेश्वरी, बाजीरावपेठी अशीं तरेकतरा कापडां ती जी न्हेसताली तांचीं नांवांच सटकरून म्हज्या तोंडाक येनात. अेकेका कापडाचो पदरूच सुमार देड-दोन हात रुंद. वर्साक तिका बारा कापडां आनी चोवीस चोळयो लागताल्यो. अेकेके चोळयेची देग वेंथ-सवायवेंथ रुंद. म्हैनो जायना फुडें ती आपलें कापड आनी चोळयो पोरण्यो जाल्यो म्हणून वावराडेक काडून दिताली. तिचे वावराडेच्या बासनांत घे म्हणून कापडां आनी चोळयो पडल्यात. असले आवैची धूव कापडांची कितली छंदी आसूंक जाय तें तुमकां सांगूंक जांय व्हय? पणून कितें सांगतलें अजाप? तिका खादये बगर दुसरें कांयच मना येना. खादयेचें सणकुट्यासारकें पातळ ती न्हेसता आनी तसलीच चोळी आंगाक घालता.

तातुबाब : तर ती गांधी म्हात्म्याची मोठी भक्तीण म्हणची. म्हाकाय तसलीच बायल जाय. ती चरक्याचें सूत बी काट्टा मू?

रत्नें : तें तिका येना. परंत ती कापूस गुटायता, पिंजारता आनी ताचें सूत काडून तुळशिच्या लग्नाक जाय जाल्ल्यो वाती करून विकता. करात आतां हिशेब. आवै भाशेन तिणें वर्साक बारा कापडां आनी चोव्वीस चोळयो वाटेक लायिल्ल्यो जाल्यार, कितले दुडू लागतले आसले? अेकेके चोळयेक पांच रुपाया आनी अेकेका कापडाक तीस रुपाया. करात हिशेब.

तातुबाब : (बोटां मेजून) जाले सुमार पावणे पांचशीं.

रत्नें : तांतूंत वाती करून विकता तांचे पंद्रा रुपाया मेळयात.

तातुबाब : परंत ती भांगरा-शिंगरा खातीर हटाक बसची ना मू?

रत्नें : निखालुस ना धनयानू. तुमी जो म्हुर्तमणी तिच्या गळ्यांत बांदतले तितलोच तुमकां खर्च. आनीक तिका भांगराचो वसवस ना. पळ्यात केदो आदाव हो ! दुसऱ्यो व्होंकलो सुपल्यो आनी ओल्ल्यो भरून भांगर सोदतात, तें जाणात मू तुमी? गोट, तोडिच्यो पाटल्यो, सकयांच्यो पाटल्यो, बायखुऱ्यो, नागमोडी, तिळो, कुट्टरें, विणयेवैलें, साळकां, झिरकमळां, गंडभैरव बी तरेकतरा वस्ती सांगूंक गेल्यार सोंपून सोंपच्यो नात. त्यो करूंक कशेय वीस हजार रुपाया नाकात? वस्ती केल्यार, अितले रुपाया घरांत कामा-गरजेबगर

कुपाद अुरचे नात? तेच कळंतराक लायल्यार, म्हैन्याक रुपायाक आण्याच्या हिशेबान कचकचीत बरे दुडू घडचे नात?

तातुबाब : विचारूंक जाय? (हिशेब करून आनी बोटां मेजून) कशेय पंद्रा हजार रुपाया घडूंक अडचण ना.

रत्नें : फूल-चामळूय तिका अदीक-शें नाका. खोंचणां, फांतयो आनी वळसर माळून तिचें कपळ सणसणटा खें. ती केन्नाय पोरसांतली दोसणिचीं, भेंडयेचीं ना जाल्यार देव-केळंब्याचीं फुलां काडून माळटा तितलींच. फुलांकूच म्हैन्याक कशेय धा रुपाया नाका आसले? वर्साचे कितले जाले पळ्यात.

तातुबाब : सुमार सवायशीं जाले सवायशीं.

रत्नें : मागीर थोडो आदाव हो? ती हेरां बायलां भाशेन हातांत कांकणांय व्हडल्या व्हडल्या मोलाचीं घालिना. राजवर्की, राणयेचो बावटो, रसमी आनी दुसरीं फिटफिटीं फोलगी कांकणां तिका निखालुस मना येनात. ती आपली पुर्विल्ले रविशेचीं पैशान अेक तसलीं गांवठी बंगाली कांकणां कोंपर भर घालता. फोलगी कांकणां आठ आण्यांनी पार पडून म्हैन्याक तीन खेपो वाडावतात आनी भौन भौन नवीं घालचीं पट्टात. गांवठी कांकणां वर्सांचे घडिंनीं तगतात. करात आतां हिशेब.

तातुबाब : वर्साक सुमार पावुणशीं-अेक रुपाया वाटावचे नात?

रत्नें : पावुणशीं कित्याक? भिकेक? अदीक वाटावतीत अदीक. ती व्होंकल अितली सादी आसून तिचो चड तोखणायेचो गुण तो हो कि ती जिबट आनी तोंडाळ न्हय. तुमी कितेंय म्हळें तरी ती अुमथे मानेन मोन्यांनी सगळें आयकून घेतली. तिच्या तोंडांतसून अुफाट्टें अुतर कसलें तें भायर सरचें ना. म्हाका दिसता, ह्या तिच्या अेकाच गुणाक लागून तुमकां जायती नफा जातली. तिच्या जापांनी केन्नाच तुमचें कपळ दुखचें ना. केन्नाच सुंट घालची पडची ना. केन्नाच फोलदेसेन घेवचें पडचें ना. केन्नाच अन्तुवैजाक नाडी दाखौंची पडची ना. तुमी पिडे-रोगा भायरे जातले. कड्यांक आनी भायऱ्यांक मेळून वर्साक तुमकां कशेय शंबर रुपाया लागनात? ते तितले शिलकेक पडचे नात? करात हिशेब. घेयात कागदाचो कुडको. मांडात ताचेर. नुस्तें, शाक, पोळी-पीठ, खावचीं पानां, खुसुलो, कापडां, वाती,

भांगर-शिंगर, फुल-चामळ, कांकणां, ओखद-विर्सद मेळून कितले रुपाया जाले?

तातुबाब : (तकली वैर करून पाश्टाकडेन पळौन आनी बोट हालौन) जातात सतरा हजारां वैर.

रत्नें : पळेलें मू? हांवें तुमकां भियेत भियेत पंद्रा हजारूच सांगिल्ले. दोन हजार चडले.

तातुबाब : (कानसूल खरपून) तें खरें गो रत्न्या. पणून हातांत रोख नकद अशें कांयच पडचें ना?

रत्नें : हें गो बाये आनी कितें? सतरा हजार रुपायांवैर येणावळ मेळ्ळ्यार आनीक खैं नागौंक वेतले? आनीक नक्कद नक्कद तें कितें?

तातुबाब : पणून रत्न्या, हे दुडू म्हज्या हाताक कचकचीत-कुचकुचीत बरे लागनात मु गो. म्हज्या हातांचो शिणभाग वचना मु गो. म्हज्या दोळ्यांची तान-भूक न्हिवना मु गो.

रत्नें : (कपळार हात मारून) कर्माऽऽ अद्रुश्टा ! आतां कितें करचें? (चत्राय जाल्ल्यावरी) हय वय. सांगूंक विसल्लें सायबांनू. तुमकां आनीकूय मेळचेलें आसा.

तातुबाब : (तोंड अुगडून) आंऽऽ! कितें म्हणटा ? कितें?

रत्नें : काणकोणां व्हौंकले-आवैचें वीस हजारांचें भाट-बेंस आसा. तेंय ती मरतकूच तुमकांच पट्टलें. तिका आनीक दुसरो कोणूच वांटेकार दायजी ना.

तातुबाब : कितें म्हणटा गो रत्न्या? ती व्हौंकले-आवय केदी-शी - कितल्या-शा वर्सांची जायत?

रत्नें : ती? तिका लागल्या धगटी. ती मरची जाली अेका वर्सा भरयान. मागीर तिचें भाट-बेंस, घर-दार आनी घरभाटलें सगळें तुमकांच.

तातुबाब : पणून रत्न्या, अेकूच विचारचेलें उल्लें. ती तरणी-धाकटी व्हौंकल. तरण्या व्हौंकलांक म्हणटात तो तरणो करकरीत बरो न्हवरो जाय. तिका हांव मानन मु गो? सभावीक विचारतां आपलो.

रत्नें : व्हौंकलेचें मानप घालात मडवळागेर धुवंक. तिका विचारता कोण? तुमकां चली दितली ती व्हौंकलेची आवै. तिका तुमी मानतकूच जाले. ती कितें म्हणटा तें जाणात व्हय तुमी? तिच्या मत्तान, न्हवरो जितलो म्हाल-म्हातारो आसत तितलो चड बरो. तरणे न्हवरे सदींच

भायल्या छंदाचे आसतात. घरची बायल कितलीय सुंदर आसली तरी तांकां भायलें खातोण जायच. त्या खातोणा बगर ते धादोशी जायनात. दुलु-फुलुचीं मडकुलां धुले बगर तांचो शिणभाग वचना. तांची भर करचे खातीर आपल्या माणकुल्या संवसाराची ते वाट लायतात. देखून हांव तुमकां आदींच सुलूस दितां कि तुमी जितले तरणे-कुकूले दिसतात ताचेकूय आनीक कुकूले जावं नाकात. तुमच्या मिशयांचो तो काळसो-धवसो रंग कितलो सोबीत दिसता म्हणून सांगूं? धनयानू, तुमच्या माथ्याचें खरड पळौंया चिके. (तातुबाब खादिची तोपी काडून खरड दाखैता तें सांसपून) लोणयावरी तिवतिवीत बरें तुमचें माथें लागता हें ! ताचेर शास्त्राकूय केंस ना. खरेपणानशीं असलोच जांवै तिका जाय. आनी तुमी चाळिसपत्र लायतात मू?

तातुबाब : म्हणचे गो? (चाळिसपत्र लावन) हें पळे. आतां कसो दिसतां हांव?

रत्नें : तुमच्या त्या खोल बांयत पडिल्ल्या दोळ्यांक तें चाळिसपत्र भोव बरें सोबता बाये. धनयानू, तिका चाळिसपत्र घालता तसलोच जांवै जाय.

तातुबाब : तर म्हजी सोरगत जमूंक कसलीच नड ना म्हणची.

रत्नें : नड-झड कसलीच ना.

तातुबाब : म्हणटकूच हांव लग्नाक फावो-सोच न्हवरो आसां तर. म्हाका ते हालिंच्या न्हवऱ्यां भाशेन रंग करूंक समजनात. ते माथ्यार केंसांचें कोबलें वाडैतात. ताका म्हणून वांकडो मागो काट्टात. हुंद्रांनी चांचाअिल्ल्यावरी मिशयो अर्दुकड्यो कातरतात. गळ्याक पास घाल्ल्यावरी गर्वात घालतात. तोंडाक शेड साड्डाअिल्ल्यावरी पोव मारतात, लोरेंजी लायतात. कोर्दांव खोयतात. लेंसांनी गंधेलां आनी धुपेलां ओततात. शीः, घाणी गुट्ठाणी सामक्यो. रत्न्या, आंग म्हजें शिरशिरता न्हय गो.

रत्नें : धनयानू, तांकां ना अक्कल. ते आपले भाशेन सुंदर जावंक सोदतात. पणून असल्या अडेच्या अुपायांनी सुंदरकाय येता? सुंदरकाय म्हणटात ती तुमचे सारकी निजाचीच जाय.

तातुबाब : (आंग ओखेवन) कितें ! तुका हांव सुंदर दिसतां गो रत्न्या?

रत्नें : विचारूंक जाय धनयानू? सुंदरकायेक तुमचे वैल्यान अुवाळून

अुडौची. कितलें भुलसायणें तुमचें रूप? तुमी तुमचो फोटोग्राफ काडून घेतला मू? चिके अुजवो पोलो हेवशीन करात. आ-हा-हा-हा! मात्शे चलून दाखयात पळौंया. हतया भाशेन न्हय हो भारी-भरखूम तुमची चाल ही ! बाग तुमकां पडच ना. आंब्याचो खुंट कशे-शे ! शेकानशेक भिल्लमाड कशे !

तातुबाब : तरी हालीं म्हाका चिके खांक येवंक लागत पासून (खांकता) फाटीक मात्शी बाग पडूंक लागल्या. पणून ती दिसपांत येना.

रत्नें : निखालुस ना. पणून जालेंय जाल्यार, तुमचें खांकपूय चड सोबितपणाचें.

तातुबाब : पणून म्हाका सांग, व्होंकलेन आनी तिचे आवैन म्हाका केन्नाय पळेला व्हय?

रत्नें : केन्नाच पळौंक ना धनयानू. पणून हांवें तुमच्या रुपाची जी वर्णना केल्या ती ह्या सामान्यांतली न्हय. तुमकां पळौंक तीं सामकीं आशेल्यांत.

तातुबाब : खरेंच गो रत्न्या? पापया, तुजे केदे अुपकार हे? तुज्या रिणांतसून हांव कसो मेकळो जायन तेंच समजना.

रत्नें : तें कठीन ना धनयानू. म्हजें अिल्लें-शें काम आसा तितलें करात. म्हणटकूच हांवूच तुमच्या अुपकारां तळा चिड्डून वेतलें. (तातुबाबाच्या कपळाक मिरी पट्टा) घराक म्हज्या मदेर घालूंक जाय आसलें. फाटल्या पावसान तें साप लागीं आयलें. न्हिदलां थैं हड्ड्यार पडत म्हणून भय दिसता. दोनशीं रुपाया मेळटीत जाल्यार अुपकार जातीत. ती व्होंकल आनी तिची आवै तुमच्या तोंडार नदर घालूंक सामकीं अश्रेकल्यांत. (तातुबाबाक खोस जाता.) तुमचें लाटफळ्या सारकें तोंड, केळिच्या बोंडा सारकें नाख आनी कानांनी नाजूक दुर्वां भाशेन रुजिल्ले ते कुचकुचीत केंस पळौन, तांकां तोखणाय दिसतली. तुमचो हो खादयेचो वालको आनी तो कुतांव आनी ती तोपी पळौन जाल्यार तांकां सर्गावैल्या अिंद्राच्या म्हऱ्यांत पाविल्ल्यावरी जातलें.

तातुबाब : (भुरकुटून) खऱ्यांनीच गो रत्न्या? अिंद्र व्हय गो हांव?

रत्नें : अिंद्र जालेच. त्या भायर चंद्रासारकी कान्त तुमकां मारता धनयानू. म्हज्या दोंय दोळ्यांच्यान तर तो खाणव्यां अेदो चंद्र आनी तीं नक्षत्रां त्या म्हज्या घराच्या पाश्टांतसून दिसतात; अितलें तें झिरझिरीत

जालां. कडणेचेर कडणी ना. नळ्याचेर नळो ना. दसऱ्या कडल्या आडोळ्या पावसान तें सामकें अुबून वेताशें जालें. अुपकार करून दोनशीं रुपाया दियात. (पर्थून तातुबाबाच्या कपळाक मिरी पट्टा.) घर मोडून पडत जाल्यार, हांव सायबानू वाऱ्यार अुबंत पट्टलें. तुमच्या रुपाची हांवें तुस्त केली तेन्ना ती व्होंकल आनी तिची आवै कितलीं भुरकुटलीं आनी मुरगुटलीं म्हणून सांगूं! (तातुबाबाक खोस जाता.) व्होंकले-आवैक केन्नाकाळ आपली धूव तुमकां दीन-शी जाल्या.

तातुबाब : रत्न्या, तुज्या रिणांतसून हांव केन्नाच मेकळो जावचो ना गो.

रत्नें : सायबानू, अुपकार करून दोनशीं रुपाया दियात आनी जल्म आसासर म्हाकाच तुमच्या रिणांत दवरात. (तातुबाबाच्या कपळाक मिरी पट्टा.) म्हजी मठी अुबी करशात जाल्यार तुमकां पुण्यताय जोट्टली धनयानू.

तातुबाब : रत्न्या, आतां म्हाका ताकतिचें काम आसा. तूं चिके वच पळौंया.

रत्नें : म्हजें घर मोडत जाल्यार हांव अुबंत पट्टलें सायबानू. ना म्हणुं नाकात. कोंपर मेरेन पांयां पट्टां.

तातुबाब : चल गो आतां. तो पळे म्हाका कोण अुलो मारता-सो दिसता. (आयकल्ल्यावरी करून) आं! आं! आयलों, आयलों. (ताकतीन वेता.)

रत्नें : (बोटां मोडून तिडकीन) हाऽ अुंवाळ्ळल्या! तुजे फुडें म्हजी सगळी अक्कल व्हांवन गेली. बरें. दाखैन तुका. ह्या रत्न्याच्या कपळांत जायतीं रत्नां सांटवल्यांत. अेक नाजाल्यार दुसरें अुपकारा पट्टलें. पळौं येत. (वेता.)

## तिसरें येवप

### तातुबाब आनी सांवळो

तातुबाब : (तिडकीन) चलूंक लाग! म्हज्या दोळ्यां-दिश्टी नाका. आनीक तोंड अुगडशी जाल्यार खबरदार! चोर! नागौणो खैचो!

सांवळो : (कुशीक) असलें नश्टें, अुंवाळ्ळलें, म्हातारखंड केन्नाच खैंचेकडेन कोणे पळेलां? हाच्या कांठ्यार देवचार, नाजाल्यार म्हारू बी बसूंक ना मू?

तातुबाब : कितें! तूं घुरघुरता-सो?

सांवळो : सगळें सांडून म्हाका तुमी घरांतसून कित्याक धांवडायतात?

तातुबाब : कित्याक धांवडायता म्हणून आनीक तोंड घेवन विचारता तो ! चलूंक लागता कि ना? अुखल. कवळ मांद्री. श्रीमुखार कशें सणसणीत वाजैतलों.

सांवळो : पणून हांवें तुमचो गुन्यांव तरी कसलो केलो?

तातुबाब : गुन्यांव कसलो? बऱ्यान वेता कि ना?

सांवळो : नोनेबाबानी म्हाका चाखरेक दवल्ला. हांव कसो वच्चूं?

तातुबाब : कितें विचारता ! तो नोनेबाब आनी तूं सोनेबाब. दोनूय कुळां सारकींच. चल थैं त्या मार्गार वचून ओतांत राव आनी कर तुज्या नोनेबाबाची जाय तितली चाखरी. ह्या घरांत तूं नाका. हें घर म्हजें. नोनेबाबाचें न्हय. आपुण बाबा चाखरमानो. चाखरभावान रावचें. दोन वणटी अेक करून खैंच्या तरी अेका कोनशाक बसचें; तें कांयच ना. हाका सगळ्या घरा-दाराच्यो जाळवण्यो जायत. मेळत तांतूंत हाचें बोड. हो अेक-सारको म्हजे पाळटीर आसा. हो अुंवाळ्ळलो चाखुड्डो म्हज्या घरा-दारांत म्हाका हुस्क्या-मेकळो वावरुंकूच दिना. हांव खैं गेलों, खैं बसलों, खैं पेटेची चावी काडली, खैं आरमार अुगडली, थैं हो अद्रूण वांकडी मान करून कावळो कसो-सो अुबो. फुटले हाचे दोळे. सांवळ्या, तूं म्हाका नागौंक भोंवता-सो दिसता. चल, अुंवाळून वच बेगीन हांगाचो.

सांवळो : तुमकां सायबानू कोण गा नागैत? तुमी खासा सगळें चावये-कुलपांत दवरतात आनी रात-दीस सोर्पा भाशेन ताचेर फोडा करून बसतात! तुमकां ह्या संवसारांत कोण नागैत?

तातुबाब : पळे, मस्तो कसो मुर्वत धरिनासतना अुलैता तो. म्हज्या संवसाराचो हांव धनी. म्हाका जाय देखून हांव म्हजो म्हालम्हतो चावये-कुलपांत दवरतलों आनी बरे तरेन राखतलों. तांतूंत तुज्या बापायची पोटली कोणें नागैली? कोण रे बाबा ह्या चाखुड्ड्याचो जुलूम? (मनांत) म्हज्या पोवनांची हाका अेकाद्री सुनशा लागूंक ना मू? (भायर) हांवें घरांत मुदगो पुरून दवल्ला म्हणून तूंच न्हय तो गांवभ़र पेरता?

सांवळो : खऱ्यांनीच? तुमी मुदगो पुरून दवल्ला? हांव नकळ आसलों ही खबर.

तातुबाब : हाऽऽ पाड पडूं तुजें ! हावें तशें म्हळां तरी? नस्तेंच कितेंय जळपता?

(मनांत) रागाच्या किंवाट्या फुडें म्हाका धेयभान अुरना तें अश्ा. कसली नश्टी जिबली ही सट करून अुलैली? (भायर) खरें रे सांवळ्या? म्हजे कडेन कांय गांठ आसा म्हणपाच्यो नसत्योच काणयो तूं लोकांक सांगता खैं?

सांवळो : अेः, तुमचे कडेन गांठ आसली आनी नासली म्हणून आमकां कितें तांतूंत? आमकां दोनूय सारकींच.

तातुबाब : (दोळे तरांटून आनी मुस्कटार मारूंक हात अुगरावन) कितें ! येदी व्हडली जिबली भायर काडून तूं वाद घालतलो म्हजे कडेन? श्रीमुखार कसलें सणसणीत वाजैतलों सांगूं ! वळखून नकळ. अुंवाळून वच हांगसून बेगीन.

सांवळो : चल्लों, चल्लों सायबानू. (वचूंक लागता.)

तातुबाब : चिके थांब. घरांतली कसलीच वस्त तुवें फारावंक ना मू?

सांवळो : ना, सायबानू.

तातुबाब : असो यो पळौंया. तुजे हात दाखै. मूठ-शी कित्याक आंवुळ्ळ्या?

सांवळो : हे पळ्यात हात.

तातुबाब : आनी तुजी किर्वंट पळौंया. थैं कांय खोवंक ना मू?

सांवळो : तुमीच पळ्यात सायबानु.

तातुबाब : हात वैर अुबार. त्यो खांको पळौनी.

सांवळो : (कुशीक) हाका मनशाचो विस्वास निखालुस ना. हाका नागौंक मेळत जाल्यार म्हाका केदी खोस जायत म्हणून सांगूं ! (हात अुबारता).

तातुबाब : (ताच्यो खांको सांसपून) कितें?

सांवळो : कांय ना सायबानू.

तातुबाब : कांय ना ? नागौंक नागौंक म्हणून तूं ल्हवू कितें फुतफुत्ता?

सांवळो : तुमी चोरां-नागौण्यांची झट्टी बारकायेन घेवंक जाणात अितलेंच हांवें म्हळें.

तातुबाब : हय, हय. चोरांची झट्टी तशीच घेवंक जाय. (ताच्या बोलसांत हात घालून सांसपिता.)

सांवळो : (कुशीक) पाड पडूं असल्या चिकू मनशांचें.

तातुबाब : कितें? कितें म्हळें तुवें?

सांवळो : हांवें म्हळें?

तातुबाब : हय, वय. तुवें चिकू मनशांचें अशें कितें-शें म्हळें ना?

सांवळो : हांवें म्हळें, चिकू मनशांचें पाड पडूं, निसंतान जावं, गश्ठाण जावं !

तातुबाब : (दांत किल्लून) हीं अुतरां तूं कोणाक लावन अुलैलो?

सांवळो : चिकू मनशांक. आनीक कोणाक?

तातुबाब : आनी ते चिकू मनीस कोण?

सांवळो : ते नश्टे, अुंवाळ्ळले, हिमटे मनीस.

तातुबाब : परंत ते मनीस कोण?

सांवळो : कोण म्हळ्यार? चिकू मनीस. तुमी त्या खातीर मारून अितले खडपसूक कित्याक जातात?

तातुबाब : खडपसूक कित्याक जातां? म्हाका कितेंय लागून आयल्यार ताची म्हाका चौकशी करूंक नाका तर?

सांवळो : म्हजीं अुतरां तुमकांच लागू जातात अशें तुमकां दिसता धनयानू?

तातुबाब : म्हाका कितेंय दिसना? ताची जाळवणी तुका - पांयांतले व्हाणेक - नाका. परंत तूं तीं नश्टीं, घाणयारीं अुतरां कोणाक लावन अुलैलो तें बऱ्यान सांग. नाजाल्यार पळे तुका दाखैतां कशें आसा तें.

सांवळो : हांव तीं - हांव तीं - सायबानू, हांव तीं (कान खरपून) म्हजे हे कानावैले विडयेक लावन अुलैलों.

तातुबाब : (ताचे कान धरून) म्हणटकूच ते कान चरचरीत बरे पिंवळून तुका चिके बुद्द शिकोवंक जाय-शी दिसता.

सांवळो : पणून चिकू मनशांक कितेंय म्हळ्यार तुमचें कितें सल्लें धनयानू?

तातुबाब : म्हजें कांयच सरना. पणून तुजी जिबली चड व्हांवता; ती चिके आळाबंदा हाडूंक जाय.

सांवळो : पणून हांवें कोणाचें नांव घेवंक ना मू?

तातुबाब : तरी आसतना तो वाद घालता !

सांवळो : हांवें कोणायचें नांव घेतल्यार भय.

तातुबाब : तोंड धांपता कि ना बऱ्यान? आजच्यान तशें म्हणटलो?

सांवळो : ना सायबानू.

तातुबाब : चलूंक लाग.

सांवळो : चल्लों सायबानू.

तातुबाब : चल, भायरो जा. (ताका धुकलता.)

(वेतात.)

## चौथें येवप

### नोनेबाब आनी सांवळो

नोनेबाब : (धेंकणो घालून) खैं आसलो रे तूं केदो-वेळ?

सांवळो : हांव सायबानू, हांगाच तुमची वाट पळेतालों. तुमचे बाप्पा केंच-केंच करून म्हज्या आंगार आयले; तेन्ना हांवें नळी काडली म्हणून बरें जालें; नाजाल्यार आज ते म्हजो जुदेव काट्टले आसले, जुदेव !

नोनेबाब : पणून तुका सांगिल्लें ताचें कितें केलें तुवें? म्हाका दुडवांची मोटी तिश्टत लागल्या. बेगीन मेळ्ळ्यार बरें. नाजाल्यार घोळ जातलो.

सांवळो : कसलो घोळ सायबानू?

नोनेबाब : रत्नें निक्केंच म्हाका सांग, कामण्याचे हात-लावणेचो म्हुर्त परवां थारायला खैं. वस्ती आनी कापड-चोपड मेळून ताची आवै पांच हजारांत अेक दमडी अुणी घेवची ना म्हणटा. त्या भायर सांकोड्डेंच्या झिलुबाबान कामण्या खातीर मोट्यो मोट्यो मदेवर्त्यो घाल्यात खैं.

सांवळो : म्हणटकूच झिलुबाबूच कामण्याक अुठैतलो-सो दिसता.

नोनेबाब : म्हजे आर्दी झिलुबाबान कामण्या-आवैच्या दांतांर पांच हजारांच्यो नोटी माल्ल्यो जाल्यार कामणें म्हाका मेळचेली आस्त ना. पणून कशेंय जाल्यार, रत्न्याचो म्हाका धीर आसा. ताची आनी कामण्या-आवैची दाट अिश्टागत. तें म्हाका सोडून पैशिल्या झिलुबाबाक लागीं करूंक दिवचें ना. ताच्या हाताक दोनशीं रुपाया लायतकूच जाले.

सांवळो : अ-ल-ल-ल-लय ! ताका दोनशीं? कित्याक म्हणून? ते कातलेचे कुडके व्हय? हांगा दुडू मेळूंक कितल्यो अडचणी आसात त्यो जाणात व्हय तुमी? करुनी, झिलुबाबूच करुनी ती म्हारगायेची हात-लावणी. तुमी ते करांदायेंत पडुं नाकात. कामण्याकूय सवाय-कामणीं हांगा जायतीं पडल्यांत; तांकांच कितें भांगर लागलां व्हय? तें सर्गावेल्यान देंवलां व्हय?

नोनेबाब : सर्गावेल्यान देंवलां म्हणून विचारूंक जाय? ताच्या रुपाक लागतलें अेकलेंय चेडूं सगळ्या संवसारांत मेळचें पडलां मू? सांवळ्या, पापया तुका कितें सांगूं? तेंच म्हज्या मनांत चड भल्लां. कितें तोखतलो ताचें रूप ! केळिच्या गब्यासारकी तिकतिकीत ताची कान्त ! चांफ्याचे

कळयेवरी सुंदर ताचें नाख ! हय-न्हय-शे अुगव्ळले आंब्याचे आंकरे भाशेन तांबडेच ताचे ओंठ ! पिकिल्ल्या जांबा भाशेन धवशे-तांबशे आनी गुबगुबीत ताचे पोले ! मळबांतल्या नक्षत्रां भाशेन लिकलिकणे ताचे दोळे ! त्यो काळ्योकिट्ट रेखिल्ल्यो ताच्यो भोंवयो ! तीं कानांवैल्यान फुगिल्लीं ताचीं मोवळां ! तो सोबीत बरो मागो ! तो आमाडो ! ते गुलगुलीत, मोवाळ आनी गोंडाळ ताचे हात ! आ-हा-हा-हा ! त्या हातांची म्हाका केन्ना-काळ मुका घेन-शी जाल्या. सांवळ्या, त्या कामण्याकूय सवाय-कामणीं जायतीं पडल्यांत अशें जें तूं म्हणटा, तें तुका पिशें लागूंक ना मू? पापया, असलें रत्न आनीक खैंचेच कडेन मेळचें पडलां व्हय रे?

सांवळो : खऱ्यांनीच तुमकां तें अपरूप-कशें दिसता?

नोनेबाब : म्हणचे रे? रात-दीस तेंच म्हजे नदरेर घुंवता. ताचींच म्हाका सप्नां पट्टात. तें मेळना जाल्यार म्हजी धडगत ना. ताचे खातीर हांव कितेंय करीन. सगळो संवसार वाटेक लायन. म्हजो जीव-नांव काबार करीन.

सांवळो : कितें सांगूं धनयानू? दुडू मेळचें काम फुक्याचें न्हय.

नोनेबाब : पणून ते मेळटीत कि ना?

सांवळो : मेळटीत-शे दिसतात. नागणनायकाकडसून संदन जमैलां. तो तसल्या कामांत मोटो खांपो.

नोनेबाब : म्हणटकूच पांच हजार रुपाया मेळूंक अडचण ना म्हणची.

सांवळो : अडचण ना. परंत ज्या कुळान ते दिवचे केल्यात ताच्यो कांय खोतयो आसात; त्यो तुमी मान्य करूंक जायत.

नोनेबाब : त्या कुळाकडेन तुजें कांय अुलौप जालां व्हय?

सांवळो : ना धनयानू, हांवें ताचें तोंड कसलें तें अजून पळौंक ना. तुमी रीणकार आपलें नांव जितलें लिपौन दवरूंक सोदतात, त्याय परस अदीक तें दुडवांकार कुळ आपलें नांव लिपौन दवरूंक सोदता. नागणनायकाक ताणें सांगलां, आपलें नांव भायर फोडूं नाका म्हणून. ताची आनी तुमची भेट आज सांजवेळा पांच वरांचेर अेके अेकसुरे सुवातेर जावची आसा. त्या वेळार, तो तुमच्या तोंडान, तुमची, तुमच्या घराण्याची, तुमच्या येण्याची बी सगळी बारकायेन रुजवात करून घेतलो. म्हाका दिसता, तुमच्या बापायचें नांव ताका कळनाफुडें रीण मेळूंक कळाव

लागचो ना. ताणे ज्यो खोतयो नागणनायकाक कळैल्यात तांतूंतल्यो कांय अशो आसात : (१) रीणकार वयांत आयिल्लो आसूंक जाय. (२) ताचें घरचें भाट-बेंस कशेंय तीस-एक हजारांचें आसून तें कसल्याच शिलशिल्या-मेकळें आसूंक जाय. (३) रिणाचें लिखित आपुण सांगन त्या बऱ्याशा तब्लियांवाकडसून करून घेवंक जाय.

नोनेबाब : ह्यो खोतयो म्हाका मान्य आसात.

सांवळो : फुडें आयकून घेयात : (४) दुडवांकार देवा-धर्माक आनी आपल्या खासा मनाक चड भियेता; देखून वर्साक स टक्यां परस अिल्लेंय अदीक कळंतर तो घेवचो ना.

नोनेबाब : सच मू? तें वेव्हारीक चाली-रितिचें आसा. तें म्हाका मान्य. तो दुडवांकार चड-सो लोभी दिसना.

सांवळो : आयकून घेयात : (५) दुडवांकाराच्या हातांत तुर्ताक पांच हजार रुपाया रोख नात. परंत तुमचेर अुपकार करूंक तो ते एका गिरेस्त भाटकाराकडसून तीस टक्यांच्या कळंतरान उशणे काड्टलो. हें कळंतर तुमकांच फारीग करचें पड्टलें.

नोनेबाब : (अजापान आंग काडून) कोण रे बाबा आकान्ताचें हें कळंतर? तो दुडवांकार आनी तो भाटकार एकाद्रे मारवाडी नासतले मू? तीस आनी ते आदले स मेळून छेत्तीस टक्के कळंतर जालें. म्हैन्याक रुपायाक सुमार अर्दो आणो पडलो. बापाय गा म्हज्या ! खैंचे गांवची नागवण ही?

सांवळो : नायकान ज्यो खोतयो सांगल्यो त्योच हांवें तुमकां कळैल्यो. तुमकां मान्य जाता जाल्यार पळ्यात.

नोनेबाब : मान्य जायना जावन कितें करतलो? दुडू तर जायत.

सांवळो : हांवेंय नायकाक सांगलां, तुमी मान्य जातले म्हणून.

नोनेबाब : आनीक कसली खोती ना मू?

सांवळो : ती थोडी गजाल आसा धनयानू. पांच हजारांतले चार हजार तुमच्या हातार रोख पड्टले आनी अुरिल्ल्या एका हजाराचो तुमकां म्हाल मेळटलो.

नोनेबाब : कितें? म्हाल? हीं रे बाबा आनी कसलीं फकाणां? म्हाका पांच हजार रुपाया रोख जायत रोख! तो म्हाल हांव ते कामण्या-आवैच्या हड्ड्यार घालूं? कोण रे बाबा हिशेब हो?

सांवळो : म्हालाची वळेरी आयकून घेशात व्हय तुमी?

नोनेबाब : सांग. आयकुनी कसली वळेरी ती. तांतूंत रसमी आनी जरी कापडां, खण, भांगराच्यो वस्ती बी आसल्यार कामण्याक त्यो आयत्यो अुपकारा पट्टीत.

सांवळो : ताचें नांव काडुं नाकात धनयानू. हो म्हाल वेगळेच तरेचो आसा. कान दिवन आयकात :

| | |
|---|---|
| ५००० | सुके सणसणीत शिगम्याच्या पाड्याचे नाल्ल |
| ५००० | आटकां, फुटकां आनी वांजां |
| २०००० | सोडणां |
| ४०००० | कट्ट्यो |
| ५०००० | चुट्टां. |

नोनेबाब : (अजापान ओंठाक बोट लावन) हें रे बाबा कितें? हीं चुट्टां, कट्ट्यो आनी सोडणां घेवन हांव कितें करूं? आनी तीं आटकां, फुटकां, वांजां आनी नाल्ल हांव खैंचे कडेन विकूंक व्हरूं?

सांवळो : अितल्यान जालें ना. फुडें आयकून घेयात :

| | |
|---|---|
| १००० | रिते साक. |
| १००० | पेत्रोलाचीं रितीं लातां. |
| १००० | पिंगाच्यो रित्यो काशी. |

नोनेबाब : (फडफडून) कितें? ते साक हांव रांदनीक लावं? आनी त्यो काशी आनी लातां हांव म्हज्या कपळार फोडून घेवं? कोण रे नाका जाल्लो हिशेब हो?

सांवळो : वोगेच पिंर्जळूं नाकात. आयकून घेयात :

| | |
|---|---|
| ५० | शिवणिच्या लाकडाचीं फळीं. |
| १००० | सुलचे नळे. |
| १०० | माडाचे वांशे. |
| ५०० | कोंडे. |
| २०० | वेळू. |

नोनेबाब : (तिडकून आनी दांत किल्लून) पुरो; पुरो जाली तुजी वळेरी. आनीक तोंडांतसून अुतर काडशी जाल्यार खबरदार ! सगळें सांडून ते कोंडे, वांशे, कडण्यो, नळे आनी वेळू म्हाका कित्याक? कामण्याच्या घराक मदेर घालचें आसा?

सांवळो : म्हजो कसलो अन्यांव सायबानू? नायकान सांगलें तें हांवें तुमकां कळैलें. ह्या सगळ्या म्हालाचें मोल अुणें-पुणें पांच हजार रुपाया जाता खैं ! परंत तुमकां म्हणून तो अेक हजार रुपायांक दितलो !

नोनेबाब : म्हाका दिसता, तो दुडवांकार कोणूय पसरकार जातलो. झुजाचे मुस्तींत अेकठांय केल्लो सगळो कैर तो म्हज्या माथ्यार ओतूंक सोदता. छेत्तीस टक्यांचें आकान्ताचें कळंतर घेवचें घेवन, त्या भायर हो असलो कुसको, देडे दमडेक फावनाशिल्लो म्हाल तो म्हज्या आंगाक लावंक सोदता ! कितें करूं? ताच्यो खोतयो मान्य केल्या बगर अुपाय ना. गरजेवंताक अक्कल ना म्हणटात ती अशी ! सांवळ्या, चार हजार रुपाया कशेय भाशेन मेळिल्ल्यांतूच जमा जाले म्हण. परंत अुरिल्ल्या अेक हजार रुपायांचें कशें करचें?

सांवळो : कितें सांगूं धनयानू? कांय येवजना. तुमच्या बापायक सुतली घातल्याबगर दुसरी गत दिसना. म्हणटां म्हणून रागार जावं नाकात हां! तो मनिसूच तसलो. ताका नागौंकूच फावो. म्हाका कसलो किंवाटो येता सांगूं? म्हसमीक, तिमोराक आनी त्याय पेल्यान वचचें पडल्यार पडूं ! ताका सुतली घालुंकूच जाय ! (वेता.)

## पांचवें येवप

नागणनायक, तातुबाब, नोनेबाब आनी सांवळो

नागणनायक: हय वय, तातुबाब. ते दुडू अेका तरण्या-धाकट्या भुरग्याक जायत. ताका दुडवांची चड गरज आसा. तुमी सांगशात ती कबलात ताका मान्य.

तातुबाब : पणून नायकानू, ताका दुडू दिल्यार हांव घोळाक पडचो ना मू? तुमी त्या कुळाक बरे करून वळखतात व्हय? तो कोणा घराण्यांतलो, ताचें भाट-बेंस केदें, ताची येणावळ कितली, म्हणपाची सगळी चौकशी तुमी केल्या व्हय?

नागणनायक: तातुबाब, तोच तुमकां आपल्या तोंडान सगळी गजाल सांगतलो. ताची आनी तुमची वळख करून दितकूच तुमी खुशाल जातले अशें ताच्या शेरक्यान म्हाका सांगलां. ताच्या भाटा-बेंसाची आनी येणावळिची खंत तुमी निखालुस काडची लागना. तो काळा-

संवसारान ताण आसून हालींच ताची आवै भायर पडल्या खैं. तुमकां जाय जाल्यार सात-आठ म्हैन्यांभितर आपल्या बापायकूय संवसारा-भायरो करीत अशे तरेचें तें कूळ आसा खैं !

तातुबाब : म्हणटकूच तें बऱ्यांतलेंच कूळ म्हणचें. घरादाराची चावी ताच्या हातांत येवंक कळाव लागचो ना. कशेंय जाल्यार, म्हजे दुडू घोळाक पट्टीत-शे दिसनात. नायकानू, तुमकां खरेपणानशीं सांगतां, म्हजो सभावूच मुदलचो काकळुतेस्त. कोणूय मनीस अडचणींत आसा म्हणपाचें आयकनाफुडें म्हजें काळीज रोखडेंच कळवळटा. तांकता तंववेर कोणाकूय अुपकारा पडचें हो म्हजो सभावगुण. कितें करतलो? सभावाक ओखद ना म्हणटात तें लटीक न्हय.

नागणनायक: खरें आसा.

(नोनेबाब आनी सांवळो येतात.)

सांवळो : (नागणनायक तातुबाबाकडेन गजाली करता तें पळौन अजापान) हें रे बाबा कितें? तोऽऽ पळ्यात नागणनायक तुमच्या बाप्पाचकडेन गजाली करता !

नोनेबाब : कितें? होऽ तो नागणनायक? हांव कोण तो ताका समजूंक ना मू? सांवळ्या, तूं म्हजो घात मारिना मरे?

नागणनायक: (नोनेबाब आनी सांवळो आयिल्लो पळौन, तांचेसरीं वचून ल्हवू) कसलीं गा हुतहुतीं कुळां तुमी? तुमकां मात असो थार जायना-सो दिसता. सगळें सांडून ह्या वेळार तुमकां हांगा कोणें आपैल्लें? (तातुबाबाकडेन वळून) हांव नकळं हे हांगा कशे पावले ते. म्हज्या जिवाच्यान तर तुमचें नांव आनी नामो हांवें हांकां कळौंक नासलो. पणून ते हांगा पावले म्हणून मोटी-शी फजेत जायना गा. तांकां मनीसपण आसा ! तुमी चिंता-हुस्को सोडून करात तांचेकडेन बोली-भास !

तातुबाब : (अजापान) कितें म्हणटात नायकानू?

नागणनायक: (नोनेबाबाकडेन बोट दाखौन) तुमचेकडेन गजाल काडिल्ली ती हांची. हांकांच ते पांच हजार रुपाया जायत. तुमी गणमणुं नाकात. हें कूळ बऱ्यांतलें आसा. हांच्या बापायचो हो अेकलोच पुत. बापायन दोळे धांपतकूच घरा-दाराचे धनी हेच जातले. दियात हांकां दुडू. तुमच्या दुडवांक कसलोच भय ना.

तातुबाब : (नोनेबाबाच्या तोंडाकडेन पळौन, दोळे तरांटून आनी दांत किल्लून) तुका रे ते नोन्या? घरा-दाराची वाट लावंक तूं रे अुठला? कोण रे अळशिकावणीं कामां हीं?

नोनेबाब : (भियेत भियेत, अुश्णो धीर हाडून) बाप्पा, तुमीच हो मारवाड्यांचो धंदो आडायला?

तातुबाब : (तिडकून) पळे कसो तोंड घेवन अुलैता ! सुबेड्डो ! सिंबरो ! नाख-कातरो ! (नागणनायक झुकी काट्टा. सांवळो लिपता.) कसली अवदिसा लागली रे तुका? तुका पांच हजार रुपाया कित्याक जायत? घरांत तुजें पोट भरना व्हय रे? अपेशी ! विद्वाटो खैंचो! अितल्या घामां-कश्टांनी जोडिल्ले दुडू तुका वाट लावंक म्हणून समजला तूं? चल थैंचो. अुंवाळून वच. म्हज्या दोळ्यां-दिश्टी नाका. (ताका धुकलून घालता. तो वेता.) भायरो जालो हो ! हाचे फुडें म्हजो अुपाय अुल्लो ना. हो दिसा-अुजवाडे घरां-दारां काट्टलो! हो म्हाका कसो नागैत आनी केन्ना म्हजी गोमटी कापीत तेंच समजना. हाचेर आतां बारकायेन नदर दवरची पडली. (वेता.)

### सवें येवप

तातुबाब, लालुबाब आनी नोनेबाब

तातुबाब : (मोट्यान अुलो मारून) लालुबाब, लालुबाब ! (लालुबाब 'ओ, ओ, आयलों, आयलों' करीत येता.) लालुबाब, अशे येयात हांगा. म्हजें खरें कि ह्या नोन्याचें खरें? तुमीच सांगात.

लालुबाब : तुमचें, तुमचेंच खरें.

तातुबाब : तें तुमकां कशें समजलें ? आमी कसल्यो गजाली करताल्यों तें तुमी जाणात?

लालुबाब : तें हांव नकळ. पणून तुमची म्हणणी केन्नाच लटकी जावची ना. तुमी अुलैतात तितलेंय खरें.

तातुबाब : म्हजी म्हणणी, आमच्या मंजुळ्याक गिरेस्त आनी शाण्या-सुर्त्या अशा न्हवऱ्याक काडून दिवचें; आनी हो नोनो म्हज्या अुलैल्ल्या अुतराक आड येता. तुमची कशी म्हणणी?

लालुबाब : म्हजी म्हणणी? म्हजी?

तातुबाब : हय, तुमची म्हणणी.

लालुबाब : म्हजी -? म्हजी -? म्हजी म्हणणी तुमचेच सारखी आसा. तुमी म्हणटात तें केन्नाच लटकें जावचें ना. परंत नोनेबाबांचीय म्हणणी सामकीच भिरकटावंक फावना.

तातुबाब : कशी? म्हाका दिसता, तो साजरेमाम म्हज्या मंजुळ्याक फावोसोच न्हवरो आसा. तो नांवा-लोकिकाच्या घराण्यांतलो, बऱ्या सभावाचो आनी गिरेस्त आसा. मंजुळ्याक तो भौ बरें केळैत. ताका पैले बायलेचें भुरगें-बाळ बी कोण ना. ताका आवै ना, बापूय ना, भाव ना, भैण ना. ताका आशींपाशीं कोऽऽण ना !

लालुबाब : म्हणटकूच हें थळ बऱ्यांतलें म्हणूंक जाय. मांव, मांय, देर, जावो, नण्डो हांची कशेच तरेची पिडणूक व्हांकलेक भोगची ना.

तातुबाब : म्हणचे हो? असलें थळ कोणाच्या नशिबांत आसा? कसली बरी संद आयल्या सांगूं ! ती होगडावंची म्हणून आसा? आनीक तुमी जाणात लालुबाब? तो न्हवरो वर-दक्षणा बी कांयच सोदिना ! ताका व्हांकल मेळटकूच जाली !

लालुबाब : खऱ्यानीच?

तातुबाब : खऱ्यानीच तर. ताका वर-दक्षणा बी कांयच नाका.

लालुबाब : तर आनीक खैं नागौंक वेतले? नोनेबाब, हो मेवणो तुमकां बऱ्यांतलो मेळ्ळो म्हणूंक जाय.

तातुबाब : ताका वर-दक्षणा नाका ती जालीच. त्या भायर तो पोशेग मागना. आशाड-पांटें सोदिना. भेटां-भोंवारांक शिणना. लाडू-हालव्याक वळवळना.

लालुबाब : असलो मेवणो मेळ्ळ्यार तुमकां जायतो आदाव आसा नोनेबाब. आनीक पिर्गंण कित्याक?

तातुबाब : तुमीच पळ्यात लालुबाब. त्या भायर तो शिवराक खैं. तो नुस्तें खायना!

लालुबाब : खऱ्यानीच? म्हणटकूच तो केन्नाय मावाड्या आयलो जाल्यार ताचे खातीर नुस्त्या-पास्त्याक खर्च ना. शीत-रोस-कडी, पापड आनी वडी; नाजाल्यार वांयग्याचें भर्त आनी केळ्याच्यो फोडी घालतकूच चमचमीत बरें जालें ताचें जेवण.

तातुबाब : कितें विचारतात !

लालुबाब : नोनेबाब, नसतींच पिशेपणां घेवन बसुं नाकात. अितलो फुके-सवाय न्हवरो खैंच मेळचो पडला?

तातुबाब : त्या भायर लग्नाचो खर्चूय आमचेर कांयच पडचो ना. सगळो खर्च न्हवरेकाराचो.

लालुबाब : कितें म्हणटात? आंऽऽऽ! व्होंकलकाराक कसलोच खर्च ना?

तातुबाब : ना. ना. कुस्कूट खर्च ना. अेका पानदुडवाचो खर्च ना. माटव-मेड, वाजप-गाजप सगळें न्हवरेकाराचें. त्या भायर धाकुटपणाचें लग्न म्हणटकूच न्हवरेकाराकूय मोटोसो खर्च ना. कलंवतां, फोग, मदलस बी कांय ना. न्हवरो येतलो, माळ घालतलो, व्होंकल व्हरतलो. (पोरसा-वसल्यान कान दिवन मनांत) कितें ! सुणें भोंकता-शें दिसता. शेगला-मुळांत कोण ना मू? (भायर) चिके थांबात हां. हांव आत्तां वचून आयलों. (वेता.)

नोनेबाब : लालुबाब, तुमी भगली मारिनात मू? तुमी बाप्पासारकेंच अुलैतात!

लालुबाब : तुमकां तें समजना हो नोनेबाब. तसल्या मनशाकडेन तशेंच अुलौंक जाय. ताच्या सुराक सूर दिवन ताका फुलौंक जाय आनी आपलें काम करून घेवंक जाय. ताच्या समजा आड अुलौन वाद घाल्यार माणसुकी आसा? जाका सामको मार्ग कळना आनी जो खांची-गोंयड्यांतूच रिगतलो म्हणटा, ताका कांट्यां-खुंट्यांतूच भोंवडावन सामक्या मार्गार हाडूंक जाय. त्या बगर ताचो शिणभाग वचना. ताच्या कपळाच्यो किडी मरनात.

नोनेबाब : म्हणटकूच त्या म्हातरखंडाच्या गळ्यांत आमच्या मंजुळ्याक बांदचें म्हणटात तुमी? सगळें सांडून म्हजी भैण धाकटेलपणाक कित्याक? म्हाका तसलें लग्न मानना.

लालुबाब : तें मोडूंक आमी अुपाय करुंया हो नोनेबाब. वोगेच गडबडुं नाकात.

तातुबाब : (माचयेचे फाटले कुशीक येवन ल्हवू) म्हाका तें सुणें भोंकिल्ल्यावरी दिसलें खरें. पणून तांतूंत कांय ना. शेगलामुळांत कोणूच दिसलो ना.

लालुबाब : (तातुबाबाक पळौंक नाशिल्ल्यावरी) हांव ताका अुपाय करीन. (तातुबाबाक पळौन) कशेंय जाल्यार, तुमी सोदून काडिल्लें थळ बऱ्यांतलें म्हणूंक जाय. बरें, तो न्हवरो पोळये-पिठाक वसवसना मू?

तातुबाब : हांवें तितली बारकायेन चौकशी करूंक ना. पणून म्हजेचवरी तो

आसतलो. म्हाका आज पंचावन वर्सां. तितलींच ताकाय जातलीं. म्हजे हे मदले दांत हालतात आनी दाडमांय शिणशिणटात. वडो चाबून खाय-शी माणसुकी ना. मणगण्याचो भुरको माल्ल्यार दाळ चाबीनासतना गिळची पट्टा. पूर्णाची पोळी रोसांत बुडौन खाल्यार पोट फुगता, खरस मारता आनी वैले वैर जीव येता. आतां आमचे सारक्यान हुस्क्या-मेकळी खावची ती शेवयांची खीर आनी गुळणी. तेंच तो न्हवरो खातलो. तांतूंत मारून व्हडलें-शें ना हो लालुबाब.

लालुबाब : तर न्हवरो बऱ्यांतलो म्हणूंक जाय. तो शिवराक. ताचे दांत पडूंक आयल्यात. तो म्हातारो जाला. ताका पोळी नाका. ताका पीठ नाका. ताका वर-दक्षणा नाका. तो एकसुरो. तो एकमुळो. नोनेबाब, असलो आदावाचो मेवणो मेळ्ळ्यार आनीक खैं घर काडूंक वेतले हो?

तातुबाब : (खोस जावन) कशीं भांगरा सारकीं अुतरां अुलैले तुमी लालुबाब?

लालुबाब : ह्या संवसारांत सगळ्या आदीं आदाव पळौंक जाय. तांतूंत मागीर सगळे गुण आयले. तांतूंत सुंदरपण आसा. तांतूंत तरणेपण आसा. तांतूंत कुळवंतपण आसा. तांतूंत मान आसा. भौमान आसा. अक्कल आसा. शाणपण आसा. गिन्यान आसा. सगळें आसा.

तातुबाब : कशें गोड अुलैतात तुमी लालुबाब ! तुमचे असले शाणे आनी बुद्वंत कारभारी म्हाका जल्मांत मेळूंक नासले. बरें, आतां हांव चिके पोरसांत वचून मांडावैल्यो नाल्लांच्यो पेंडी मेजून दवरतां. नश्टे चोर लागल्यात आमचे फाटल्यान ! (वेता.)

## सातवें येवप

तातुबाब, लालुबाब, नोनेबाब, शेरकुलें आनी पदमो

तातुबाब : अशीं येयात हांगा सगळीं. तुमचे भितल्ल्या जण एकल्याक आजच्या दिसाचीं कामां म्हाका वांटून दिवंक जायत. शेरकुल्या, अशें यो गो. (शेरकुल्याच्या हातांत सारणिचो मौडो पळौन) शाबास ! वावराडी म्हणटात ती अशी आसची. ती आपले सारणीक केन्नाच पातयेना! पणून (तिडकून) शेरकुल्या, एका म्हैन्या भितर हे सारणिची तुवें वाट लायली न्हय गो. अुश्ट्या-वारो झाडचो सामको खुटारो

करून अुडैलो तो ! ती सार्ण तूं झरै-झरै झरैता. असल्यांनी तूं म्हजें दिवाळें करतलें-शें दिसता.

शेरकुलें : धनयानू, नसतेंच कितेंय अुलौं नाकात हां. हे सारणीक फुडले दिवाळेन वर्स जावचें जालें वर्स. आमगेल्या मथुऱ्याचे सटये दीस तुमी ती तुमच्या हातांनी म्हाका दिल्ली. म्हाका जिस्त चत्राय आसा. दुसरी वावराडी जाल्यार अेन्ना कशोय धा-बारा सारणी वाटेक लायतली आसली.

तातुबाब : पणून झाट्टा आसतना चिके जतनाय घेवची गो. संवसार वोगोच वाटेक लायल्यार जाता? तूं पळे, सगळो सपो, साल, वांसरी, चौखी आनी पोरसूं झाडून झळझळीत बरें कर. सार्ण मारता आसतना वैले वैर मारची. म्हणटकूच व्हीर बेगीन झरनात. ही सार्ण आनीक दोन वर्सां चलूंक चिंता ना. (अुगडास करून) बरी याद जाली. तुका हांव केन्नाच्यान सांगतलों म्हणटां. तूं ओलीं अुमळटा आसतना फातरिचेर मोट्यान आपटुं नाका; तशेंच, आयदनां चड घसटून घसटून, घांसुं नाका. म्हजे खादयेचे वाले पिंजतीत आनी आयदनांची कलय वचत जाल्यार हांव तुजे दुडू कातरतलों आनी घरांतसून तुका धांवडायतलों.

पदमो : फावो ! फावो ! तुका तशेंच जाय. आयदनांची सामकी वाट लायली तुवें !

तातुबाब : शेरकुल्या, चल तूं तुज्या कामाक. (शेरकुलें माचयेचे कुशीक वचून सार्ण मारता.) आतां पदम्या, असो यो पळौंया.

(पदमो मुकटो न्हेशिल्लो, कमरेक वालो बांदिल्लो आनी खांदार दाय आशिल्लो फुडें सरता. ताचो मुकटो कुल्याकडेन पिंजला.)

पदमो : हो आयलों धनयानू.

तातुबाब : व्हींकलेक पळौंक सांजवेळा आमगेर न्हवरो आनी ताचे वांगडा कांय परकी येवचे आसात. तेन्ना -

पदमो : धनयानू हो मुकटो साप पिंजला ! सामकें बोंदर जालां ! धड न्हेसूंक येना.

तातुबाब : (तिडकून) हांव कितें म्हणटां तें आदीं आयकून घे. मागीर तुजो मुकटो.

पदमो : तशें म्हणुं नाकात धनयानू. हांवें तुमकां कितले फावटीं ह्या मुकट्याची

गजाल सांगली. हो आतां न्हेस-सो ना. म्हाका लज-लज जाता.

तातुबाब : हें रे कोण फकाण? ताका रसमाचे दोन धागे माल्ल्यार जायनात?

पदमो : धनयानू हो सामकोच चिरचिरीत जाला. तो शिंवीसारकी माणसुकी ना. हांव म्हणून मात तो न्हेसतां. म्हजे कुले भायर दिसतात.

तातुबाब : तूं पैलीं अबर्गत ! थैं तो दावो हात धांकल्यार जायना?

पदमो : तसो तो धांकना, धनयानू.

तातुबाब : (अुबगून) तुमची मेळत तेन्ना पिंर्गण. मुकटो पिंजलो. सारणिचो खुटारो जालो. अशे भाशेन दुडू खर्चूंक लागल्यार संवसार वाटेक लागत. कुबेराक दळिद्र येत. म्हैन्याच्या म्हैन्याक नवे नवे मुकटे आनी सारणी खैंच्यो हाडच्यो ?

पदमो : धनयानू, म्हाका तुमी चाखरेक दवल्ल्यार आज सात म्हैने जाले. आनी त्या आदींच त्या मुकट्याच्यो वादऱ्यो लागिल्ल्यो.

तातुबाब : पुरो जाली तुजी रड. लालुबाब, फाल्यां अेक बरो-सो, घट-सो, सवाय-सो, केन्नाच पिंजना तसलो मुकटो हाडात आं.

लालुबाब : बरें आसा.

तातुबाब : तेन्ना, कितें सांगूंक गेल्लों पळे - (याद करून) - हय, वय. पदम्या, आज सांजवेळा परकी येवचे आसात. तांकां फळार करूंक जाय.

पदमो : (अजापान) फळार ! हें नवेंच-शें?

तातुबाब : तुज्यो जाणवायो नाकात. तूं बरो करून फळार करशी व्हय?

पदमो : करशी म्हणून विचारूंक जाय? तुमी दुडूच खर्चूंक तयार जायात.

तातुबाब : देवा म्हज्या ! काडलें दुडवांचें नांव ! जेन्ना तेन्ना दुडू ! दुडू ! दुडू ! दुडवां बादत अुतरूच ना. दुडू होच हांचो देव. तोच तांचो अपुर्बायेचो अिश्ट. कोण गा हिशेब हो?

लालुबाब : खऱ्यानीच ह्या दुडवांनी जीव सामको वाजवाजायलो. पदम्या, दुडवां बादत तुका गोड बरें अुतर अुलौंकूच येना रे? दुडू खर्चिल्यार व्हडलो फळार कोण करिना जायत? तूंच कित्याक जाय त्या कामाक? अेक पानदुडू खर्चिनासतना जो कोण भोव बरो फळार करून घालीत तोच खरो रांदपी.

पदमो : (अजापान) लालुबाब ! पानदुडू खर्चिनासतना फळार !

लालुबाब : हय वय.

पदमो : असलो कसलो मंत्र तुमचेकडेन आसा तो तुमी सांगशात जाल्यार

अुपकार जातीत. आज पासून तुमीच हें रांदप माखून घेयात पळौंया. म्हाका नाका ती करांदाय. मेळत तांतूंत हो कोठयेकार पडिल्लो दांत कसो आसाच !

तातुबाब : (दोळे तरांटून) पदम्या, सांभाळून, सांभाळून. ते कोण? तूं कोण? कांयच मुर्वत ना.

पदमो : हो तुमचो कोठयेकारूच अेक दमडी खर्चिनासतना तुमकां जाय तसलो फळार करून घालतलो. ताकाच तुमी विचारात.

तातुबाब : सांभाळून अुलै पदम्या. दिसानदीस तुज्यो जाणवायो चडल्यो. तूं फळार बरो करून करशी कि ना तितलेंच म्हाका सांग.

पदमो : फळाराक सगळो मेळून कितलो-सो लोक जातलो?

तातुबाब : सगळे मेळून धा-बारा जाण जातले. परंत तुवें आठां जाणांची तयारी करतकूच जाली. जैं आठ जाण खातले थैं बारा जाण खातले !

पदमो : तशें कशें जायत धनयानू? आठां जाणांचो फळार बारा जाणांक कसो पावत?

तातुबाब : ती चिंता तुका कित्याक? हांव सांगतां तितलें तूं कर. न्हवरो कितलोय खादोळो जालो तरी मावाड्या येतकूच ताणें लजूंक जाय. तो फळाराक हात लावचो ना. आनी वसवशा भाशेन फाटलो जिनसूय मागून घेवचो ना. हें तरी खरें?

पदमो : खरें अुलैले धनयानू. न्हवऱ्याची म्हाका चत्रायूच अुल्ली ना. परंत बाकिच्यांक नकथळो जाला व्हय? ते पोट सणसणसर खातले.

तातुबाब : भँगलो तूं पदम्या. न्हवरोच मुदलाक फळाराक आफुडलो ना जाल्यार ताचे पंगतीक बशिल्ले लोक वळवळ्या भाशेन कशे खातीत? ते वोगे हात अुश्टावन पानाची संभावना करतले, जालें.

पदमो : म्हणटकूच फळाराक बसतल्या सगळ्या परक्यांचें खाण नकसूद आनी मखता म्हणचें. पणून धनयानू, ताणी कुस्कूट तोंडांत अुडैलें नाय जाल्यार पानांनी सोबसारके चार जिनस वाडूंक नाकात तर?

तातुबाब : कोण ना म्हणटा? सांग कसले कसले जिनस जायत ते.

पदमो : आयकात धनयानू : खिशिच्यो नेवऱ्यो, पिठ्याच्यो नेवऱ्यो, चेकऱ्यो, साकर-लाडू, मुगांचे लाडू, चुरमे लाडू, बियांचे लाडू, शेवैचे लाडू, बुंदिचे लाडू, मिरयांचे लाडू, लोरांवाचो हालवो, केळ्यांचो हालवो, चण्याचे दाळचो हालवो, जिरे-कोथमिरिचो

हालवो, मावळिंगाचो हालवो, पेरांचो हालवो, सांजो -

तातुबाब : (तोंड उक्तें करून) आंऽऽऽ! पदम्या, पापया कितें रे हें? फळाराची सामकी परवड न्हय रे तुवें चलैल्या !

पदमो : धनयानू, अुपकार करून मदींच अुलौं नाकात. म्हाका विसरूंक जातलें. सांजो सांगून जालो न्हय? आतां फुडें आयकून घेयात : दुदफेणे, दुदाच्यो चेकऱ्यो, दुदाचीं कापां, सकयो, केळ्यांचो फोणो, साळकां, पुडे, शिपे, कुस्कुरांव -

तातुबाब : (पदम्याच्या तोंडार हात धरून) कुस्कुरांव, फुस्कुरांव, अिस्किरांव! केन्नाच कोणे आयकल्लो असलो हो फळार? पदम्या, कोणे शिकैलीं रे तुका हीं नांवां?

पदमो : धनयानू, आतां थोडे अैन ते जिनस सांगचे अुल्ले : चण्याचे दाळची अुसळी, बटाटांची अुसळी, बिब्यांची अुसळी, कणग्यांचीं म्हानां, फुलैल्ले फोव, तिखशे फोव -

तातुबाब : (ताच्या तोंडार हात धरून, तिडकून) बऱ्यान धांपता कि ना तोंड? आतां तुका फोवूच घालूंक जायत-शे दिसतात. फळाराचो सामको कणकण हाडलो तुवें.

पदमो : कणकण आयल्यार निमाणी हुनहुनीत-शी काफी दितकूच जाली. जालो, अितलोच फळार हो !

लालुबाब : असलो फळार घालून तूं तांकां जिवानशीं मारतलो-सो दिसता. हो फळार खायना फुडें तांकां तांबयो घेवन धांवचें पट्टलें.

तातुबाब : कितें विचारतात? तांचो हागडो चाळवतलो. तांकां धाळार धाळ जातले. तांकां अजीर्ण जातलें. तांकां निर्मळी जातली. ते ओंकतले. तांकां आंव पट्टली. तांकां मोडशी पट्टली. कोण रे हिशेब हो पदम्या? व्होंकलेक पळौंक आयलेच म्हणून तांकां असली ख्यास्त?

लालुबाब : हो पदमो लोकांच्या जिवार अुठला जिवार ! लोक मरतीत जाल्यार हो म्हसमीक देग्रेद वेतलो तें नकळ. पदम्या त्या अन्तुवैजाक वचून विचार, अतितायेचें खाण खाल्यार मरूंक जाता कि ना तें.

तातुबाब : लालुबाब, तुमी अुलैतात तें अिल्लेंय लटकें न्हय.

लालुबाब : पदम्या, तुवें लोकांक तसलो अनर्थांचो फळार घाल्यार तुका खुनमारो म्हणटले, खुनमारो ! आपणागेर कोणूय जेवणाक आयल्यार ताका नकसूद थोडेंच वाडचें. भूक राखून जेवल्यार सदींच बऱ्याक पट्टा.

पुर्विल्ल्यांची म्हणणी आसा ती वोगीच न्हय. 'वांचचे खातीर खावचें; खावचे खातीर वांचचें न्हय !'

तातुबाब : आऽऽऽ! कशें भोव बरें अुलैले तुमी? अशे येयात हांगा. म्हाका तुमची खेम घेवनी. म्हज्या जल्मांत असलें वाक्य हांवें आयकूंक नासलें. कितें म्हळें तुमी? 'खावचे खातीर वांचचें; वांचचे खातीर खाव--' चेः, तशें न्हय तें. गदळ्ळों-सो दिसता. चिके पर्थून म्हणून दाखयात पळौंया.

लालुबाब : 'वांचचे खातीर खावचें; खावचे खातीर वांचचें न्हय.'

तातुबाब : आऽऽऽ! आयकलें मरे पदम्या? (लालुबाबाक) बरें जावं बाबड्याचें. कोणाचें जावंये हें कवीत?

लालुबाब : ताच्या नांवाचो आतां म्हाका अुगडास जायना.

तातुबाब : कांय परवा ना. तीं अुतरां तुमी बरीं करून बरौन दवरात. (मंजुळ्याक अुलो मारून) मंजुळ्या, अगो मंजुळ्या, अशें यो हांगा. (मंजुळें येता.) तुजेकडेन गाजाचो कुडको आसा न्हय? ताचे हात-हातभर तीन कुडके करून तांतूंत तांबड्याबडंग रसमान सोकट्याची शिवण काडून हीं अुतरां भर : 'खावचे खातीर वांचचें...' (कपळार हात मारून) चेः, भंगली म्हजी याद. गदळुंकूच जाता. तुमीच सांगात लालुबाब.

लालुबाब : 'वांचचे खातीर खावचें; खावचे खातीर वांचचें न्हय.'

तातुबाब : आयकलें मु गो मंजुळ्या? गाजांचेर हीं अुतरां भरून जातकूच म्हजेकडेन धाडून दी. मागीर तीं हांव हरी मणेरकाराकडसून हारशांत घालून घेवन सालांत, चौखेर आनी वांसरेंत अुमकळावंक लायन. म्हणटकूच तीं आपाप जेवतल्या-खातल्यांचे नदरेक पडून ते वसवसेपणान पोटाक सूय येसर भकचे नात. कशें लालुबाब? (मंजुळे वेता.)

लालुबाब : विचारूंक जाय? तुमी तें फळाराचें काम म्हजेरूच सोंपैल्यार बरें. हांव भोव बरी मांडणी करीन.

तातुबाब : हय वय. तुमीच करात तें काम.

पदमो : जायना? म्हजें काम तितलें अुणें जालें !

तातुबाब : पणून अशे पळ्यात लालुबाब. आमच्या फळाराक अदीक दुडू लागनासतना, थोडोच खायनाफुडें खातल्यांचें पोट भरून येवचें

आनी ताणी तो फाटलो मागचो न्हय असो कांय अुपाय आसा व्हय?

लालुबाब : तांचें तुमकां कांय लागना. तें म्हजेर पावलें.

तातुबाब : आमच्या पोरसांत शेगूल बरो पालेला. पोपायांक पोपायो कुचकुचीत जाल्यात. आंबाड्याक आंबाडे जायते लागल्यात आनी धवे आनी तांबडे भाजयेचें रान मातलां. तांचो अुपयोग फळारांत जाय सारको ना मू?

लालुबाब : कित्याक जावचो ना? बरी याद केली. पोपायांची अुसळी करची. शेगलाची भाजी फोडणां घालची. आंबाड्यांचें सांसंव करचें. शेगलाच्यो काडयो आनी तांबडे भाजयेचे देंटे अेकठांय शिंदून तांतूंत तोरची दाळ घालून ती अेक अुसळी करची. कशें म्हणटा रे पदम्या?

पदमो : (कपळार हात मारून) कर्मा ! कर्मा ! न्हवऱ्याक असलो फळार? कोणे आयकला? पोपायांची अुसळी करतात खैं? शेगलाचे भाजयेक फोडणां घालतात खैं? ह्या कोठयेकारान आतां रांदपाचें नवें शास्त्र बरौचें पडलें.

तातुबाब : कितें जालें रे पदम्या? पोपायांची अुसळी केल्यार ती पोटांत वचना खैं? शेगलाची भाजी फोडणां घाल्यार ती ताळ्याक लागता खैं?

पदमो : करात, तुमकां जाय तशें करात ! वचुनी दशा ! त्या माणकुल्या न्हवऱ्याक असलो फळार? तो तुमचेगेर सपसप येवचो पडला? हो कोठयेकार सांगता आनी तुमी आयकतात. तो चोबाळो, तो तुमकां बरें दिसचेखातीर कितेंय अुलैता. ताच्या हातांत तुमचे कोठयेची चावी येत पासून रांदपाची सामकी धांदळ जाल्या. मागत तो कसलोय जिनस तो खोसयेन दिना. तो नाल्लाचे बोंडके सारके दिना. लांकडां दिना. मीठ दिना. पीठ दिना. तेल दिना. तांदूळ दिना. असलो हिमटो हांवें खैंचेच कडेन पळौंक नासलो! तुमी हाच्या नादाक लागशात जाल्यार तुमच्या घरा-दाराची दशा वेतली दशा ! तुमची म्हाका माया लागल्या म्हणून हें सगळें अुलौचें पट्टा. नाजाल्यार कोण कोणाचो हांगा? गांवभर आदींच तुमचो लोकीक कसो गेला तो जाणात व्हय तुमी? म्हजें नाख सामकें कापता!

तातुबाब : (अजापान) कसलो लोकीक रे पदम्या?

पदमो : आसूं, भँगूं त्यो गजाली.

तातुबाब : आयकुनी तरी कसलो लोकीक तो.

पदमो : तो आयकल्यार तुमकां तिडक येतली.

तातुबाब : ना येवची. सांग तूं.

पदमो : चे:, आमकां नाका ती करांदाय.

तातुबाब : तिडक येवची ना रे पदम्या. सांग तूं.

पदमो : ना, ना, तिडक येतलीच. तुमकां रागाचो किंवाटो येतलो. तुमी खुबळटले. पिंर्जळटले. फडफट्टले. तडतट्टले.

तातुबाब : ना रे पदम्या. आयकुनी तरी लोक कितें अुलैतात तें.

पदमो : सांगूंच तर?

तातुबाब : सांग, सांग. हुस्क्या-मेकळो सांग. म्हाका त्यो गजाली आयकून अुफाट्टी खोसूच जातली.

पदमो : बरें, सांगतां तर ! गांवांतलो जण अेकलो मनीस तुमची भगल मारता. ते तुमच्यो सामक्यो वादऱ्यो लायतात. ते तुमकां हिमट्यांतले हिमटे आनी चिकू म्हणटात. तुमी चामडी दिशात, पणून दमडी दिवचे नात खैं. अेकलो म्हणटा कि घरच्या सगळ्या मनशांनी अेकवतां करचे खातीर तुमी तांकां पुण्यतायेच्यो मोट्यो मोट्यो काणयो सांगतात आनी तांकां दर अेकलो सोमार, बिरेस्तार आनी शेनवार करूंक लावन, त्या भायर अेकादस आनी प्रदोश करूंक सांगतात; रातचें फळाराक लेगीत तुमी तांकां कुस्कूट दिनात खैं ! दुसरो म्हणटा कि तुमी अेक दीस तळिल्ली मुड्डुशी तोंडांत घालता आसतना शेजारच्या बुकल्यान ल्हवूच दावकूल मारून ती फारायली; तेन्ना ताचे आड तुमी देमांद करूंक अुठले खैं. तिसरो अेक जाण सांगता कि तुमी अेक दीस म्हद्याने रातीर अुठून, तुमच्याच गोठ्यांतलें गोरवांच्या फुड्यांतलें तण चोल्लें आनी त्या वेळार काळोखांत तुमकां चोर-कसो समजून, तुमगेल्याच राखण्यान तुमकां लडेफोग घालो. परंत तुमी अिल्लीय जाग-माग दाखैनासतना, आसा तशे ल्हवूच हांतरुणार पडून घोरेवंक लागले खैं. चौथो अेकलो म्हणटा कि फाटले ग्रिपिचे धामींत घरांतल्या अेका वायटाकाराखातीर कडो शिजैल्लो खैं. परंत तो वायटाकार अकस्मात भायर पट्टकूच, तो कडो भायर अुडौंचो न्हय आनी तो शिजौंक लिगिल्लीं लांकडां फुकट वच्चीं न्हयत आनी भितर घाल्लें बेलयांचें गोड वाटेक लागचें न्हय म्हणून तो कडो तुमीच

तुमच्या ताळ्यांत रकैलो खैं. त्या वेळार तुमची जी हाग-ओंक जाली ती ह्या सामान्यांतली न्हय खैं. ही तड कि ती तड अशी तुमची दशा जाली खैं! खरें मू हें धनयानू? आनीकूय जायत्यो खबरी आसात; त्यो सांगून सोंपच्यो नात. त्यो आयकतूच म्हाका मोटी लज-लज जाता. म्हजें नाख सामकें गळटा. धनयानू, तुमकां चाळौन, तुमच्यो बचेऱ्यो करून, तुमच्यो भगली मारून ते पोटांत पेंडके येसर हांसतात. त्या वेळार हांव भितल्ले भितर होळ्म काडून रट्टां. ते तुमकां चोर, नागौणो, नश्टो, हिमटो, कर्मकट्टो, अुंवाळ्ळेलो, पाड पडिल्लो, गट्ठाण जाल्लो-

तातुबाब : (तिडकीन ताच्या तोंडार मारून) कितें? असल्यो गाळी म्हाका? भीड-मुर्वत नाशिल्लो ! नाख-कातरो ! भायरो जाल्लो ! अुंवाळ्ळलो!

पदमो : (पोलो सांसपून) हांवें तुमकां आदींच सांगूंक नासलें, तुमकां तिडक येतली म्हणून? त्या भायर, त्यो गाळी तुमकां हांवें सांगल्यात धनयानू? लोक कितें म्हणटात तें तुमकां सांगलें. खरें अुलैल्यार बिर्मत फुट्टा ती अशी !

तातुबाब : फुडाराक ध्यान दवरून बरें अुलौचें. समजलो? नोन्या, तूं पळे, ते परकी येतीत तेन्ना अशें पच्च् करून कितेंय अुलौं नाका हां. तुका ती भारी वज कितेंय अुलौचेली. आनी त्या सांवळ्याक घरांत घेवं नाका. तो चोर, नागौणो ! (तातुबाब आनी नोनेबाब वेतात.)

लालुबाब : (मोट्यान हांसून) खरें अुलैल्यार कशी बिर्मत फुट्टा ती समजली तुका? गेलो तुजो शिणभाग? श्रीमुखार सणसणीत बसलें मू?

पदमो : (तिडकून) तुका दांत भायर काडून कोणें अुलौंक सांगलां थैं? तुजे फाटीर घणे पट्टकूच समजतलें कशें आसा तें !

लालुबाब : पदम्या, पापया म्हजेर रागार जालो रे तूं?

पदमो : (मनांत) हो चिके मोव जाला-सो दिसता. हाका आतां कडकडीत भय दाखौंक जाय. (भायर) राग येतलो न्हय? तुका खु-खु करून हांसूंक कितें? तूं पडला बेकार. तूं म्हाका आनीक तिडक हाडशी जाल्यार पळे हां, सांगतां तुका. (ताका दबकावन धुकलता.)

लालुबाब : आसूं, भँगूं रे पदम्या.

पदमो : (अदीक किंवाट्यान) आसूं, भँगूं? (आनीक धुकलता.)

लालुबाब : (काकळुती आयिल्ल्यावरी) म्हाका धुकलूं नाका रे पदम्या. हांव

पापया वणटीक आपटन मरे.

पदमो : तसोच, तसोच आपटूंक जाय. दिसानदीस तुका मस्ती चडल्या.

लालुबाब : तशें म्हणुं नाका रे पापया. म्हजेर रागार जावं नाका रे पदम्या.

पदमो : जातलों, जातलों. जाय देखून रागार जातलों, तिडकतलों, पिंर्जळटलों, फडफट्टलों ! तुजो भय पडला? तूं म्हाका वळखून नकळ. तूं म्हजे हे दायेक वळखून नकळ. हे दायेन तुजे दांत निखळायतलों, दांत !

लालुबाब : (केंच करून ताच्या आंगार येवन, ताच्या हातांतली दाय झोंबून) कितें? हे दायेन तूं म्हजे दांत निखळायतलो? दांत? (ताका धुकलता.)

पदमो : (मोव जावन) चेः, हांवें तशें खैं म्हळां?

लालुबाब : तशें खैं म्हळां? बास्कळा ! तूं कितलोय जाल्यार रांदपी ! म्हजे दांत तूं निखळायतलो?

पदमो : (आनीक मोव जावन) ना सायबानू, तशें म्हणटल्याचे जिबेक पाड पडूं. हे पळेयात पोले फोडून घेतां.

लालुबाब : (दोळे तरांटून) तूं म्हाका वळखून नकळ !

पदमो : (हात जोडून) चुकलों सायबानू !

लालुबाब : तूं ! - तूं म्हजे दांत निखळायतलो? हय? अुलै बेगीन.

पदमो : हांवें तें मस्कऱ्यांनी म्हळें सायबानू. आजच्यान केन्नाच तर तशें म्हणना.

लालुबाब : तुज्यो रांदप्याच्यो मस्कऱ्यो म्हाका नाकात. (ताच्या मुस्कटार दोन वाजैता.) अुरत आतां याद? (वेता.)

पदमो : (पोलो सांसपीत) हाऽऽय ! अुजो लागूं त्या खरेपणाक. खरें अुलैल्यार अशे धपके पट्टात. ह्या फुडें हांव खरें अुलैन जाल्यार जाय तसलो सपूत. हे दायेचो सपूत. त्या दवल्याचो सपूत. त्या शिताच्या मोट्या थालाचो सपूत आनी त्या भाणशिऱ्याचोय सपूत! तातुबाबान माल्लो म्हणून चड-शें वायट दिसना. म्हाका मारचेलें ताका हकूच आसा. परंत ह्या कोठयेकाराचें - त्या लालग्याचें - हांवें खावें ना जेवें. ताचे मार हांवें कित्याक सोंसचे? येतलो केन्नाय वेळ ! तेन्ना दाखैन तुका लालग्या कशें आसा तें ! तुका पांजऱ्यांत घालो ना जाल्यार हांव पदमोच न्हय ! (वेता.)

## आठवें येवप

### सांवळो, नोनेबाब आनी तातुबाब

सांवळो : (दाव्या खांद्यार घेतिल्ल्या तपल्याच्या भारान पुरो जावन आनी खर्शेवन) धनयानू, जिस्त वेळार मेळ्ळे ! चिके हात लायात ! ओज्यान म्हजो बावळो सामको मोडचो जालो !

नोनेबाब : (तपल्याक हात लावन) अरे जालें कितें? खैं व्हरता हें तपलें?

सांवळो : (आपल्या तोंडार हात धरून, मागीर नोनेबाबाच्या तोंडार हात धरून, फाटल्यान पळौन) अुपकार करून मोट्यान अुलौं नाकात ! चलात, अुखलात पांय ! धांवात !

नोनेबाब : अरे खैं धांवतात? जालें कितें?

सांवळो : सगळें जावंक जाय तशें जालां ! (नोनेबाबाच्या तोंडाकडेन तोंड व्हरून ल्हवू) आतां जाय तशें फोल्ग मारचें !

नोनेबाब : (भुरकुटून) कितें म्हणटा रे सांवळ्या?

सांवळो : पांय अुखलात पळौंया बेगीन. मागीर सवकासायेन गजाली. अशे येयात हांगा आडोसाक. तुमकां कितें सांगूं धनयानू? तुमच्या बाप्पाचो सगळो मुदगो हांवें हातासलो. कचकचीत पोवनां आनी नोटी! आज सगळो दीस हांव ह्याच कामांत आसलों !

नोनेबाब : (अजापान) खरेंच रे सांवळ्या?

सांवळो : खऱ्यांनीच. ह्या तपल्याच्यान तर ! पणून आदीं हांगासून नळी काडुंया. मागीर सगळ्यो गजाली ! (फाटले वशीन कान दिवन, पळिल्ल्यावरी करून) तोऽऽ पळ्यात ! आयलो, आयलो ! तोऽऽ हुयेली मारता. (दोगूय जाण तपलें धरून पळटात. दुसरे वशीन तातुबाब हुयेल मारीत पोरसांतसून धांवत येता.)

तातुबाब : चोर ! चोर ! नागैलो रे सायबा ! जिवानशीं माल्लो रे सायबा ! आतां कितें करूं? देवा ! म्हज्या देवा ! म्हाका नाडलो. म्हाका फटैलो. म्हजी गोमटी कापली. म्हजे दुडू चोरून व्हेले. म्हजो सगळो मुदगो व्हेलो. आतां कशें करूं? कोणाक धरूं? कोणाक मारूं? खैं गेलो रे तो? खैं पळ्ळो रे तो? खैं लिपलो रे तो? आतां कसो करून ताका सोदून काडूं?अगे म्हजे आवै ! म्हगे आवै गे ! आतां खैंचेकडेन वचूं? तो ह्या कोनशाक ना मू? तो ते खांचीक ना मू? धर ताका.

अरे, चोरा! नागौण्या! पळशी जाल्यार खबरदार ! म्हजे दुडू बऱ्यान दिले तर सुटलो. नाजाल्यार पळे तुका. अरे नाडा ! तूं पळून कसो वेता तें पळेतां. (आपल्याच हाताक गच्च धरून ओड्टा.) अरेच्या ! हांवूच मरे तो! हीं रे कोण पिशेपणां ! हांव धनर जालों-सो दिसता. म्हजी तकली थाऱ्यार ना. तातुबाबूच मू हांव? (आंगाक चिमटो काडून) हाऽऽय ! हांवूच तो. अगा म्हज्या देवा! कितें म्हजी दशा ही? म्हज्या अपुर्बायेच्या पोवनींनू, म्हज्या माणकुल्या पोवनांनू, म्हज्या भांगराच्या पावनांनू, म्हज्या धव्या-फुल्ल करकरीत नोटींनू, म्हाका दुबळ्याक तुमी सोडून गेलीं मू? म्हाका तुमी अुबंत अुडैलो मू? आतां ह्या संवसारांत हांव अेकलो कितें करूं? हांव दीस कशे काडूं? तुमी म्हज्या मनाची खोस, म्हजी अुमेद, म्हजें सुख, म्हजें धादोसपण, म्हजो विसव, म्हजो आलासरो. आतां सगळें काबार जालें मू? आतां ह्या संवसारांत म्हजो कसलो अुपयोग? म्हज्या दुडवांनू, तुमचे बगर म्हज्यान आतां वांचुं नज. तुमी नाथून हांव काबार जालों. हांव मेलों. हांव मसणांत गेलों. हांव फोंडांत पडलों. अगे म्हजे आवै ! म्हजे अपुर्बायेचे दुडू म्हज्या फुड्यांत ओतून नाजाल्यार ते कोणे व्हेल्यात म्हणपाचें सांगून म्हाका पर्थून जिवो करीत असो कोणूय मनीस ह्या संवसारांत ना मू? (भ्रमिश्ट जाल्ल्यावरी) आंऽऽऽ? कितें म्हणटा? कोण अुलैल्ल्यावरी दिसलो. चे:, हांगा कोण ना. त्या नागौण्यान संद पळौनूच म्हजो घात माल्लो! कसलो शिवकंचिचो चोर तो ! त्या नश्ट्या, अुंवाळ्ळल्या नोन्याकडेन हांव गजाल करच्या नादांत आसा-सो पळौन जिस्त संद सादली त्या दुस्मानान. आतां कितें करूं? (कपळार हात मारून) फुटलें म्हजें कपळ! (निर्शेवन) आतां चल्लों पुलिशेंत. आतां चल्लों जुविजांत. घरांतल्या सगळ्या मनशांची झट्टी घेवंक लायतां. त्या नोन्याची, त्या मंजुळ्याची, त्या लालुची, त्या शेरकुल्याची, त्या पदम्याची, त्या राखण्याची आनी (काळजार हात मारून) ह्या तातुबाबाचीय झट्टी घेवंक लायतां. कोऽऽण सुटना. जितो मूस सुटना. (दांतांचेर दांत किटकिटावन) हुंद्रा-माजराक लेगीत फरफरीत ओडून आवदियेंसार व्हरतां. सगळ्यांचेर आवत! सगळ्यांचेर प्रोसेस ! सगळ्यांक अितिमासांव ! सगळ्यांचें अिज्गुसांव! सगळ्यांक

बंदखणींत ! सगळ्यांक म्हसमीक! अरे चोरानू! अरे नागौण्यानू! ही लोकांची अितली गर्दी हांगा जाल्या तरी कित्याक? कसली मौज पळौंक? ह्या सगळ्यांचोय म्हाका दुभाव येता. सगळे चोर. सगळे नागौणे ! पळे कशे भितल्ले भितर गुज-गुजतात. म्हज्या पोवनांच्यो गजाली? कोण रे थैं करांदाय करता? म्हाका नागैतलो ना मू थैं? (हात जोडून काकळुती येवन) सायबानू, तुमी ताची खबर जाणात जाल्यार अुपकार करून म्हाका सांगात. तो तुमचे मजगत लिपूंक ना मू? कोण रे फकाणां हीं? हे म्हज्याच तोंडाकडेन पळौन पिशे कशे-शे हांसतात. हे सगळे त्या नागौण्याक भेदी आसात. ते नागौणेंत हांचें आंग आसा. देखून ते कांय अुलैनात. अरे चोरानू, (मोट्यान हुयेल मारून) पुलीस ! पुलीस ! कोमेनाथ! सेर्जेंत ! काब ! जुवीज! देलेगाद! आदवोगाद ! येयात गा सायबानू, घालात हांकां रेवाडो आनी धाडात बेगीन तिमोराक. म्हजे दुडू मेळ्ळे तर बरें. नाजाल्यार हांवूच चल्लों तिमोराक. पळेतां कशें आसा तें! (वेता.)

* * *

# श्रीभगवंतालें गीत

(मूळ 'श्रीमद्भगवद्गीता' ह्या संस्कृत ग्रंथाचें कोंकणी भाशांतर)



१९५९



संपादपी :
**का. श्री. नायक**

**भौमान्य राजकवी मंजेश्वर गोविंदबाब पै**
हांगेले प्रस्तावनेसैत

# संपादप्यालीं दोन अुतरां

संवसारांत आनी आमच्या भारत देसांतूय तरेकतरा जायते धर्म पातळ्ळ्यात. तांतूंत आमचो वेदीक धर्म चड पुर्विल्लो. वेद आनी अुपनिषदां हे ताचे मुखेल ग्रंथ. ह्या ग्रंथांचें सार म्हळ्यार 'श्रीमद्‌भग्‌वद्‌गीता.' विस्तारान ल्हान पणून म्हत्वान म्हान अश्या ह्या अप्रूप ग्रंथाचीं सगळ्या हिन्दी आनी येवरोपीय भासांनी अेकापरस अदीक भाशांतरां जाल्यांत. पणून आमचे कोंकणींत - तिगेले खाशेले देवनगरी लिपींत - मेकळें अशें भाशांतर अेकूय जांवक नासलें. तें आज 'श्रीभगवंतालें गीत' ह्या नांवान भायर सरता.

हें भाशांतर जाल्लें पळोवचें अशी म्हाका अुमळशीक लागल्यार आज कशींय ४०/४५ वर्सां जालीं. काळजांतले हेच ओडीन, १९२७ वर्सा हांवें शणै गोंयबाबांची पैलीवैली भेट घेतली. पणून ह्या ना त्या कारणान तें काम फुडें पडत गेलें. अखेरेक, १९३५ वर्सा तांणी हें भाशांतर करून तें तीन खेपो निवळायलें. फुडें, ह्या भाशांतरावांगडाच ताची फोडणिशी बरोवन, गितेचे शिकोवणेचो सार-गाबो वाचप्यांक दिल्यार बरें जायत अशें येवजून, तांणी त्या कामाक हात घालो. कारण, गिता म्हळ्यार हजारांनी वर्सांनी आनी हजारांनी ऋषिंनी जल्मवेर बसून केल्ले चिंतणेचें सार आसा. संवसार म्हळ्यार कितें, तो आपशींच जाला कि कोणें घडला, आपशींच जाल्यार कसो, घडला जाल्यार कोणें, तो घट्टलो कसो आसा, तो खैं रावता, संवसारांत मनीस जल्माक येता कित्याक आनी मरता कित्याक, मरण म्हळ्यार कितें, मरतरीच मनीस वा ताचो आत्मो खैं वेता, तो सासणाचो कि खिणयाळो, मनशाचे फाटीक कर्म म्हळ्यार करणी कित्याक लागल्या, ताचेपासून सुख-दुख कित्याक भोगता, तीं ताका मेल्या अुप्रांतूय भोगचीं पट्टात कि नात, पातक म्हळ्यार कितें, पुण्यताय म्हळ्यार कितें, तीं कोणें निर्मिलीं, तांची बादा मनशाक जावचें कारण कितें, तें खैंसून आयलें, हांतूंतल्यान कशें सुटचें आनी सासणाचें सुखी कशें जावचें-बी तरेकतरा प्रस्नांनी विचारी मनशाचो जीव काथलावता आनी ताका नाका-पुरो जाता. ताका मागीर कितेंच गोड लागना. तो सुखाक आंवडेना. दुखाक कांवचेना. कितलींय आडमेळीं आयलीं जाल्यारूय तो तान-भूक विसरून रात-दीस त्या प्रस्नांचे फाटल्यान धांवता. असल्या म्हळ्यार ह्या प्रस्नांची तड पळोवंक नेटान वावुरिल्ल्या आनी अखेरेक मनाची मोटी थंडाय जोडिल्ल्या आमगेल्या पुर्वज ऋषिंनी, त्या संबंदाचे आपणाले अणभव आनी विचार,

वेद-अुपनिषदां-बी ग्रंथांनी बरोवन दवल्ल्यात. 'श्रीमद्भग्वद्गीता' म्हळ्यार त्या विचारांचो रोस न्हय, - आपरोस. देखून तो पोसो भरून निखटो ताळ्यांत रकोवन अुपकारना. तो थोडो-थोडो तळटार घेवन, जिबेन चाटून, ताची ल्हवु-ल्हवू रूच घेवंक जाय. पणून मूळ गितेनूच हें काम जायना; तें, अुतराक अुतर दवरून करुं नज जाल्ल्या भाशांतरान कशें जायत? देखून तांतूंतली दरअेकली म्हणणी फोडून-विस्कून, ओपारी-देखी दिवन अुकती करची पट्टा. ते भाशेन तांणी ती करपाचें थारायलें. हे खातीर तांणी वेगळ्या-वेगळ्या काळांत आनी थळांत अुजवाडा आयिल्ल्यो गिता पुंजावन त्यो वाचून काडल्यो आनी तांतूंतल्या वेगळ्या-वेगळ्या पाठांचो बारकायेन अभ्यास केलो.[१] गितेंत आयिल्ल्या अदीक-अर्थी अुतरांचो कोश घडून, वेगळ्या-वेगळ्या विदवानांनी केल्ले तांचे तरेकतरा अर्थ अुठावन काडले. गितेचेर, पुर्विल्ल्या-अर्विल्ल्या आनी भायल्या-भितल्ल्या विदवानांनी बरैल्ल्यो फोडणिश्यो वाचून, तांगेल्या सम आनी आड मत्तांची वळेरी बरोवन काडली. वेदीक धर्माचे मुखेल ग्रंथ आनी ताच्या धर्मीक खांदयांच्या वेगळ्या-वेगळ्या मुखेल आचार्यांनी आप-आपणाल्या मत्ताभाशेन केल्ले तांचे वेगळे-वेगळे अर्थ आनी फोडणिश्यो वाचून काडल्यो.[२] येसू क्रिस्ताची जीण आनी क्रिस्तांव धर्माचें बिब्ल, म्हम्मुदाची जीण आनी अिस्लाम धर्माचें कुराण, तशेच तालमूद-बी हेर धर्माचे मुखेल ग्रंथ, तांचीं भाशांतरां आनी फोडणिश्यो वाचल्यो. त्या धर्मांचे आनी वेदीक धर्माचे शिकोवणेंतलीं सारकेपणां आनी तीं नासल्यार तांचीं कारणां सोदून-येवजून काडलीं. हे भाशेन, आगळें-अुणें अडेशीं-तीनशीं पानांचें आयतें अेकठावन जातकूच तांणी आपणाल्या गिते-भाशांतराक कसलेच भावनेची बादा जावची न्हय हे खातीर, आपणालें मन आनी मेंदू हांचो सोद घेतलो आनी तांचेर आपल्या[३]-पेल्या कसल्याय मत्ताचीं पुटां चडिल्लीं आसल्यार बारकायेन सांसपून पळोवन तीं काडून अुडैलीं. हे भाशेन, आपणाली नदर शुद्ध, सत्त्वीक आनी अुजू करून आनी योगभरीत जावन तांणी हें भाशांतर चौथे खेपेक निवळावंक घेतलें. हें भाशांतर बिब्लाच्या अिंग्रजी अणकाराभाशेन सादें, सोंपें आनी नितळ जावचें अशी तांची अित्सा आसली. पणून जेन्ना ही निवळावणी सव्या अध्यायांतल्या अिकराव्या शिळोकाचेर पावली तेन्ना तांच्या मुखार अेक नवीच अडचण आयली. ती म्हळ्यार अुतरांच्या रुपांची. तीं थारावपांत आपणाली कसलीय तरी चूक जाता अशें तांकां दिसलें. ती सोदून काडचे खातीर तांणी दाखै, पळै, सोडै हीं अुतरां विस्कून पळैलीं; त्या वेळार तांकां त्या अुतरांचीं फुडलीं रुपां दाखौंक, पळौंक, सोडाक अशीं जावचे बदला **दाखोवंक**, **पळोवंक**, **सोडोवंक** अशीं जातात म्हणपाचें समजलें. तशेंच तांणी 'न्हंय' हें क्रियापद

फोडून पळैलें. त्या वेळार, ताचेवैली नाखया अुच्चाराची कुरू ( ं ) गाळून अुडोवंक जाय, म्हळ्यार तें 'न्हंय' हाचे बदला 'न्हय' अशें बरोवंक जाय अशें तांकां दिसलें.[५] म्हणटकूच हेच भाशेन दरअेकल्या अुतराचो आनी तांतूंतल्या मूळ धातुचो सोद घेवन तांचो खोल अभ्यास केल्याबगर आपणाल्या गिते-भाशांतराक येवंक जाय तितली नितळसाण येवची ना आनी तें जाय तितलें शुद्ध जावचें ना म्हणपाचें तांकां अुकतें दिसलें. भाशेच्या अभ्यासाचें हें काम थारायल्ल्या भितल्लेंच अेक आसलेंय जाल्यार, तें गितेच्या भाशांतरा अुप्रांत हातांत घेवपाचो तांचो आदलो बेत आसलो. तो तांकां बदलचो पडलो आनी गितेचें भाशांतर बऱ्यांतलें बरें जावचें हे खातीर, तें कडेक दवरून, भाशेच्या शास्त्रीक अभ्यासाक हात घालचो पडलो. हें म्हाका समजलें तेन्ना हांव पेंचांत पडलों. कारण त्या वेळार, म्हळ्यार १९३७त म्हज्या हातांत 'नवें गोंय' आसलें. ताका आंकपट्टें नवें खाण जाय जातालें आनी ताची पुर्वण करपाचो सगळो भार अेकट्या शणै गोंयबाबांचेर पट्टालो. पणून म्हाका व्याक्रणाची भूक लागल्ली आनी गितेच्या भाशांतराचे तानेन म्हजो जीव व्हर्सतालो.[६] देखून, तीं दोनूय कामां जाता तितले बेगीन जावचीं हे खातीर मोट्या कश्टान हांवें 'नवें गोंय' थांबोवचो निर्णय घेतलो. पणून हो संवसार मोटो विचित्रांचो आसा. तो केन्ना कोणाक कसो भाजून काडीत हें समजना. तशें पळैल्यार, शणै गोंयबाबांनी आपणाल्या खाशेल्या संवसाराचो चिंता-हुस्को सोडिल्लो आनी ताच्यो अुखला-दवरी काळाचेर सोंपोवन तांणी कोंकणी संवसाराक वेंग मारिल्ली. ताची दशा पळोवन तांचो जीव आकूळ-पिकूळ जातालो. देखून, तो जाता तितलो सरी करून हुस्क्या-मेकळें जावचें अशें तांणी थारायल्लें. ते म्हातारे जाल्ले; पणून तांगेली लिखणी अैन तरणेपणान शिंवशिंवताली. आदीं ते, हें वाचूंक जाय, तें वाचूंक जाय अशें म्हणटाले. पणून आतां तांगेलें सगळें वाचप सोंपल्लें, आनी मनां-मेंदूंत सांठावल्लें बरोवंक तांगेली लिखणी फुरफुरताली. तांची प्रकृत बरी नासली; ती भौन भौन तांकां धोंगशिताली. जाल्यारूय, तिका चेपून, आंगांत आशी-नाशिल्लें बळगें अेकठावन, नवो धर्म थापण्या देवदुतावरी,[७] मोट्या हावेसान ते त्या कामाक लागल्ले. त्या कामाचेर तांचो कितलो मोग आशिल्लो आनी ते खातीर तांणी आपणाल्यो सगळ्यो संवसारीक आशा-मनिशा आनी वान्सा मारून, कितलें खर तप केल्लें हें हांवें सांगपाची गरज ना. त्या बळग्याच्या नेटार अुश्यासरीं पाविल्ल्या मर्णाक लेगीत ''थांब, म्हजें काम अजून सोंपूंक नां'' अशें सांगून ताका ते धिस्पटायतले आसले. ह्या वेळार तांकां अेक-दोनूच वर्सां थंडायेचीं गेल्लीं जाल्यार अेकटे कोंकणिंतूच न्हय तर संवसार-साअित्यांत आनीक अेका भोव बऱ्या ग्रंथाची भर पट्टली आसली. पणून घटीत

वेगळें आसलें. ते भाशेन ताणें आपणाक जाय तसेंच करून शणै गोंयबाबांलीं अेन म्हत्वाच्या वावराचीं दोन-तीन वर्सां खाल्ल्यान, 'कोंकणिची व्याकरणी बांदावळ'च अर्दकुटी अुल्ली[८] अशें न्हय तर गितेचे फोडणिशेवांगडाच ह्या भाशांतराची निखटी निवळावणीय जैंचे थैं रावन विचारी संवसाराचें मोल करुं नज अितलें लुस्कान जालें. हें पळोवन जीव चुरचुरता. पणून आतां ताका अुपाय ना.

हे भाशेन, हें 'श्रीभगवंतालें गीत' जशें म्हज्या हाताक लागलें तशें वाचप्यांमुखार येता. हें भाशांतर शणै गोंयबाबांनी तीन खेपो निवळायल्लें अशें वैर म्हळां. पणून तीं तीनूय निवळावपां अेकेच तालकेचेर जाल्ल्यान, तांतूंत कांय जाग्यांर ओळीक ओळ दसून, अुतरांत अुतरां आनी अक्षरांत अक्षरां घुस्पल्यांत. ह्या कारणान, आनी म्हज्या अजाणपणान आनी घळयेपणान, ताचे हे छापी तालकेंत जायत्यो चुको अुल्ल्यात. तशेंच, हांतूंत मूळ गितेंतले शिळोक दिवंक जाय आसले; पणून ते दिवंक नात. हे खातीर हांव मखलासी मागतां आनी शणै गोंयबाबांअसलो कोणूय समान-धर्मी आनी समान-सबावी म्हा-आत्मो फुडें सरून, हें चड ग़रजेचें आनी भोवच म्हत्वाचें पुस्तक निवळावन, फावो-जाल्ले फोडणिशेसैत वाचप्यांक दितलो अशी आस्त धरतां.

ह्या पुस्तकाचे प्रस्तावनकार भौमान्य राजकवी मंजेश्वर गोविंदबाब पै हांची 'शणै गोंयबाबांले बरपावळि'च्या वाचप्यांक हांवें वळख करून दिवपाची गरज ना. तांगेले जायते अितिहासीक सोद शणै गोंयबाबांनी मान्य केल्यात.[९] हाचेवरसून ते पैल्या पांवड्याचे अितिहास-सोदपी आसात म्हणपाचें अुकतें दिसता. तांकां बावीस भासो येतात. अितिहासाच्या मळार तांणी जायते मुळावे सोद लायल्यात. तांणी कांय खेळ रचल्यात; आप-जिणे-कथा बरैल्या. ह्या भायर ते निजाचेच कवी आसात. ह्याच नात्यान तांची नामना चड चलता. श्रीकृष्ण परमात्म्याचेर भकतीन थबथबल्लें तांणी अेक लांब़-गीत रचलां. तशेंच बुद्ध भगवान, क्रिस्त स्वामी आनी गांधी म्हात्मे हांगेल्या जिणेंतल्या दुखाळ प्रसंगांचेर, काकळुतीन अुपाट भरिल्लीं तीन कथा-गितां तांणी रचल्यांत. तांगेलीं ल्हान-व्हड कवनांय जायतीं आसात. तीं सगळीं रोसाळ आनी म्होंवाळ जाल्यांत. लोकांच्या तोंडांत तीं रात-दीस घोळटात. हे भाशेन, तांणी केल्ले कानडी साअित्याचे भारीभरकूम सेवेन तुश्टल्ल्या थैंच्या मद्रास सरकारान, १९४८ वर्सा तांकां 'आस्थान-कवी' म्हळ्यार राजकवी ही अूंच पदवी दिली. कानडी-साअित्य-संवसारांत असली पदवी मेळैतले तेच पैले आनी अेकलेच अेक आसात. हाचे वरसून, तांणी केल्ली कानडी साअित्याची सेवा कितली मुळावी आसा आनी ती कितली तोला-मोलाची जाल्या तें अुकतें दिसता.

हे सेवेन भारावल्ले कानडी-साअित्य-परिशदेन, आपणाले १९५० वर्सा मुंबै भरिल्ले ३४वे बसकेचो येजमानकेचो पाट तांकां दिलो.[१०] पणून तो मान आपणायतना आपूण कोंकणो आसां आनी आपणाली आवै-भास कोंकणी आसा हें, आडखळनासतना खणखणीत ताळ्यान सांगूंक ते विसल्ले-भियेले नात. राजकवी गोविंदबाब पै हांचो जल्म आनी तांगेलें सगळें मुळावें-ताळावें शिकप, तांगेल्या आज्या-पणज्यांभाशेनूच, हेर भासांच्या चेपणातळा सांपडल्ल्या कोंकणाच्या दक्षीण मुलखांत आनी परक्या भासांत जालें, जाल्यारूय आपूण कोंकणो आसां, हें ते विसल्ले नात. हांतूंतूच तांगेलें सगळें तेज सांठावलां. तांगेले कान कोंकणी हें अुतर आयकनाफुडें फुलतात आनी तांगेलो आत्मो --

**आसूनी खैं खैं तरी आमी, मायी !**
**आमचीं हृदयां सदां तुजे पायीं !**
**तुजेंच न्हय गे हें हाड-मास?-**
**तुजेवीण खैंची आमची दुद-भास?** [११]

अशें विचारून भुरकुटून किटकिटूंक लागता ! हें पळोवन जिवाक खातकुतल्यो जातात. हे भाशेन, आवैभुंयेच्या आनी आवै-भाशेच्या मोगांत अखंडपणान पेंवन आपलेपणाच्या तेजान लखलखण्या व्हडांत-व्हड कानडी साअित्य-सुर्याची प्रस्तावन कोंकणी साअित्य-समराटांच्या ह्या पुस्तकाक दिवंक मेळ्ळी हें हांव म्हजें मोटें भाग्य समजतां.

निमाणें, कोंकणी लोकांक आवै-भाशेचो मोग आतांचेकूय अदीक रुजचो आनी ते भाशेचे सेवेक तांणी चड अगत्यवादान लागचें ह्या हेतून, ह्या पुस्तकाच्यो अेक हजार प्रती कोंकणिचो प्रसाद म्हणु वांटपाच्यो थारायल्यात. ते भाशेन तो हेत तडीक वचूं अशें मागून हांव हीं दोन अुतरां सोंपैतां.

गोमन्तक छापखानो
मुंबै - ४.
ता. २८-१-१९५९. **का. श्री. नायक**

टिपो :

१. ह्या 'दोन अुतरां'चे अखेरेक पुर्वण दिल्या ती पळयात.

२. ह्यो फोडणिश्यो सुमार पंदरा-वीस आसात.

३. देव-धर्म, न्याय-नीत आनी संवसार ह्या संबंदान खासा शणै गोंयबाबांलीं मत्तां वेगळे तरेचीं आसलीं. ((१) गोमन्तोपनिषत्, दुसरें खंड, मुंबै, १९३३, पानां ३४०-४१. (२) पुण्यात्मो राम कामती, मुंबै, १९३९, पानां १-२. (३) कोंकणी विद्यार्थ्यांक, मुंबै, १९५८, पान ३७.) तीं गीतेंतल्या त्या संबंदाच्या मत्तांक जमसारकीं नासलीं.

४. कोंकणिची व्याकरणी बांदावळ, मुंबै, १९४९, पानां ११०-१२.

५. बांदावळ, पान १५९.

६. ''... गितेसारक्या ग्रंथाच्या भाशांतराचो चंद्रहार कोंकणिच्या गळ्यांत अजून घालपाचो आसा... तिचें व्याक्रण घडपाचें आसा... तिचो कोश करपाचो आसा...'' पुण्यात्मो राम कामती, 'उजवाडावप्यालीं दोन अुतरां,' पान १५.

७. देवदूत म्हळ्यार देवान धाडिल्लो, देवाची सांगणी घेवन आयिल्लो भोव बरो आत्मो.

८. 'कोंकणिचे व्याकरणी बांदावळीं'त, १८१व्या पानार, ''कोंकणी लोकांले पूर्वज (त्यत्) हें अुतर जायतें अुपकारायताले अशें दिसता. ह्या संबंदाची फोडणिशी फुडें येतली'' अशें म्हळां. पणून ती तांतूंत आयिल्ली दिसना. देखून हेंय पुस्तक अर्दकुटें अुल्लें अशें म्हणचें पट्टा.

९. (१) गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक, पैलें खंड, मुंबै, १९२८, पानां १४३, १४४, १४८; (२) 'कांही मराठी लेख,' पैलो वांटो, मुंबै, १९४५, पानां १८७, १९९.

१०. *Bharat Jyoti*, Bombay, dated 24th December 1950, Vol. 13, No. 10, page III, Story of the Asthana-Kavi.

११. 'साद', संपादपी डॉ. अेच. ओ. मास्कारेंन्यस, मुंबै, १९५०, पैलें वर्स, तिसरो आंक, पान १३.

# पुर्वण

## शणै गोंयबाबांल्या सोदपा-वावराची अेक पत.

शणै गोंयबाबांक गितेचे अितिहासीक बसकेचो आनी तांतूंतल्या अेक-दोन शिळोकांचो दुबाव येतालो. तांतूंतलो अेक दुबाव, जाय-जाल्लो आधार मेळून खरो कसो जालो ह्या संबंदाची गजाल सकला दिल्या. तिचेवरसून, तांगेले अितिहासीक सोद कितले मुळावे आनी घट-गुंड्या बुन्यादिंचेर आधारिल्ले आसात तें वाचप्यांक दिसतलें:

गितेच्या अिकराव्या अध्यायांत श्रीकृष्ण अर्जुनाक संवसाररूप दाखैता; तें पळोवन तो भिता आनी श्रीकृष्णाक विनैता: ''माथ्याक मुकूट घाल्लो आनी हातांत गदा आनी चक्र आशिल्लो असो आदले भाशेनूच तुका पळोवंक हांव सोदतां. अगा हजार भुजांच्या, संवसाराचें रूप घेतिल्ल्या देवा, तूं त्याच रुपाचो **चार भुजांचो** जा'' (११-४६). ही ताची मागणी मान्य करून, श्रीकृष्ण आपणाल्या मुदलच्या रुपान दिसता. त्यावेळार, अर्जुन म्हणटा: ''श्रीकृष्णा, तुगेलें हें माणकुलें मनीसरूप पळोवन, आतां म्हगेलें मन थारावलें आनी हांव धेयभानार आयलों'' (११-५१). हाचेवरसून, ह्या वेळार श्रीकृष्णान आपणालें संवसाररूप पालोवन दाखैल्लें रूप मनशाचें आसून, मनशाक चार हात नासतात हें कोणाकूच सांगूंक नाका. तरी आसतना अेकाद्रे श्रीकृष्णाकूच तितले हात आशिल्ले जाल्यार तांतूंतल्या फकत दोन हातांत गदा आनी चक्र हीं दोन आवतां दिवन, ताचे अुरिल्ले दोन हात, 'महाभारत'कार वा गिताकार रिते दवरचो नासलो; त्या दोन हातांत शंख आनी साळीक दितलो आसलो. पणून वैर दिल्ल्या पैल्या शिळोकांत तशें करूंक ना. हाचेवरसून त्या शिळोकांतल्या मुदलच्या खऱ्या अुतरांची अुखला-दवर जाल्ली आसूंक जाय वा तो शिळोकूच गितेंत कोणेंय अडेचो शिरकटायल्लो आसूंक जाय असो शणै गोंयबाबांक दुबाव आयलो. कारण असल्या 'चमत्कारां'चेर तांचो विस्वास नासलो. वेदीक धर्म, तागेल्या खाशेल्याच घरांत सकला पडून, आनी थैं हेर धर्म किल्लून वा भायल्यान येवन मातून आमची वाट लागूंक, सगळ्यांत वैलें आनी पैलें कारण असले 'चमत्कार' आसून ते आमी आतां ना करूंक जाय. कारण असल्या 'चमत्कारां'नी खऱ्या गिन्यान्याक बाद येता आनी तो अुखलून धरतल्यांची वाट लागता, हांतूंत दुबाव ना. पणून चिकित्सायेन भरिल्ल्या ह्या विसाव्या शेंकड्यांतूय संपादिल्ल्या कै. टिळकांल्या 'गीतारहस्य' ह्या ग्रंथांतलेगीत तोच पाठ घोळैला.[१]

देखून,, त्या शिळोकाची फोडणिशी करपाक शणै गोंयबाब अनमनताले. अखेरेक, जायतो सोद करतकूच, गितेची अेक वेगळी प्रत तांच्या हाताक लागली. तांतूंत वैर दिल्ल्या पैल्या शिळोकांत ''**चतुर्भुजेन**'' (**चार** भुजांचो) हाचे बदला ''**भुजद्वयेन**'' (**दोन** भुजांचो) असो पाठ तांकां मेळ्ळो.[२] म्हणटकूच मुदलचो, गिताकाराच्या हातचो, खरेलो शुद्ध पाठ 'भुजद्वयेन' होच आसा हांतूंत दुबाव अुरना. पणून ते भाशेन, ह्या पुस्तकांत बदल करूंक ते पावले नात आनी हांवेंय तो केलो ना, हे खातीर वाचप्यांनी मखलासी करची.

टिपो :

१. श्रीमद्भगवद्गीतारहस्य अथवा कर्मयोग शास्त्र, तृतीय मुद्रण, पुणें, शक १८४० (सन १९१८) पान ७७१.

२. किरीटिनं गदिनं चक्रहस्तमिच्छामि त्वां द्रष्टुमहं तथैव। ततैनैव रूपेण **भुजद्वयेन** सहस्त्रबाहो भव विश्वमूर्ते ।।४६।। श्रीभगवद्गीता, edited by राजवैद्य जीवराम कालिदास शास्त्री, रसशाला औषधाश्रम, गोंडळ, काठीयावाड, विक्रम संवत् १९९३ (क्रि.स. १९३७), पान १०७. ह्या गिता-ग्रंथाक जोडिल्ल्या Introduction, पान ११वैल्यान, **१२३५ संवतांत (क्रि.सन ११७९त)** बरेल्ल्या आनी सुरते मेळिल्ल्या हाताळ्यावरसून तो छापला आनी त्या हाताळ्यांत **हरिवंशूय आसा** म्हणपाचें समजता.

# प्रस्तावन

- राजकवी गोविंदबाब पै

म्हजे मान्य मित्र, मुंबैच्या गोमन्तक छापखान्याचे धनी श्री काशीनाथ श्रीधर नायकांनी तांचेर-म्हजेय मित्रवर्य श्रीश्री[1] शणै गोंयबाबांनी केल्ल्या, 'श्रीमद्भगवद्गीता' ह्या ग्रंथाच्या कोंकणी भाशांतराक हांवें अेकि प्रस्तावन बरोवका म्हणु म्हाका बरप धाडलां. शणै गोंयबाबांनी कोणाक 'कोंकणिचे अशोक' म्हळां कि त्या व्हड मनश्यांलो निरोपु नाकारच्याक म्हजें मन आयकना. देखून ह्या कामाक हांवें हातु लावका जालो.

ही प्रस्तावन तम गितेकच न्हय, परंत शणैंल्या गितेच्या कोंकणी भाशांतराक मात. जाल्ल्यान, शुरुवेर आमची आवैभास जी कोंकणी हिच्या संबंदान आनी शणैंनी तिका वैर हाडपाक केल्ल्या सेवेच्या संबंदान हीं दोनि – दोनी चि – अुतरां सांगतां.

हिंवाळ्यांत कितले कि जंतू न्हिदोन पडतात आनी गिमांत पुना सशक्त जागे जातात खैं. तशीच आतां जागेल्या आमची कोंकणी. कोंकणी ही तिजी भैणभास जी मराठी हिचेपरस कितलि फाटली म्हणु शासनांत मराठी कै कितले कि पूर्वांसून तंथैं दिश्टी पडचीं कोंकणी शब्दांसूनय कळता. तशेंच ओसवी १२९०त रचन जाल्ल्या आनी मराठिचें आद्य काव्य म्हणोन घेवच्या श्री'ज्ञानेश्वरीं'त वावुल्ल्यां कितले कि कोंकणी शब्दांसूनय समजता, अित्यादि. जाल्यार, आदले कान कशें मागल्या शिंगांत निपून वेतात, तशें वेळु मुखार सरतां आमची कोंकणी मागशी-मागशी पडली आनी दीसु सांजेतांच अुजवाडु कशें घर-घरच्या दिव्यांत मात रावता, तशें ती अुलवणेंत मात अुरली. शिवाय, म्हाका तम अशें दिसता कि ती साअित्यांत अद्याप पावली ना. – न्हय, न्हय, पैर ची पैर थांय ती पावनी आशिल्ली. पणून थोडे च वर्सां फाटीं, जेदना शणै गोंयबाबांनी तांची कोंकणिची ती वज्रलेखणी हातांत अुबारली, घे! तेदना सुटली कोंकणिची ती शेंकडे लांब साडे साती, फाटी सरले तिजे ते हिंवाळ्याचे दीस आनी तांच्या फाटो फाटी तिज्यांत फुलेच्या लागलो आतांचो हो नवो वसंतु!

---

[1] बंगालींत भायर पडिल्ल्या मनशाच्या नांवाआदीं दोन श्री लायतात, ती रीत हांगा अुपकारायल्या.

हेंच दुसऱ्या भाशेन सांगूं जाल्यार, म्हाका आस्ता आसा कि, आमचे शणै गोंयबाब हे कोंकणी भाशेक वैर काडपी 'म्हाआचार्य'[२] मात न्हय, ते आतांच्या बरपी कोंकणिचे – आतांच्या कोंकणी साअित्याचे – बापूय व्हय. हें चूक आसों ना आसों, पणून हें मत म्हजें थीर मत. तांची कोंकणी म्हळ्यार आमचें कुळार-गोंयची निप्पट दुदभास, तिजें नितळ दूद. म्हज्या कोंकणींत जाल्यार परक्या दुदकाऱ्यांलें दूद जायतें मेळनु ती भौ अुदकळ जाल्या. देखून म्हजे कोंकणीक आनी तांचे कोंकणीक रात-फालें. अशें जाण जावनूय हांव तांच्या गितेक खैंच्या हातान प्रस्तावन बरोवं? – नज, तांच्या ह्या भांगराच्या सोराक म्हजो पितळिचो आंकडो लागोवच्याक नज म्हणु म्हजें मन दचकून, अेक दोन फावटीं मागसार-मुखार जूंय घेवपाक लागलें खरेंच. परंत तेदना म्हज्या अुगडासाक आयली, श्रीरामान सेतु बांदैतना ल्हानशे अेकि चानियेन आंब्याचो अेकु सुको कातो हाण्णु तांतूंत घालपाची सेवा केली म्हणून, म्हज्या भुरगेपणांत आयकिल्ली अेकि काणी. सै म्हाका देवु पावलो म्हळें आनी देखून, हें कोंकणी गितादेविचें मंदिर अुक्तें करतना म्हजीं हीं चार आबोलीं अुंबरारि दवरतां...

जगाच्या त्या त्या भाशेच्या म्हा-बरप्यांल्या शैलींत जे जे कितले सद्‌गुण अांसूंक जाय, – देखीक, नितळपण, दादलेंपण, गोडसाण, गोमटाय, अित्यादि – ते ते सगळेय भरपूर आसात शणै गोंयबाबांल्या कोंकणींत. तितलें च न्हय, फांत्यावेल्या आदल्या कोंब्याच्या सादावरी तांची कोंकणी कोंकणी-जगाक जागोवंक फाव जाली. हो आनीक अेकु सद्‌गुणु तिजांत आसा. अशी तांणी आपणाल्या बरपावळींत फुडल्या साअित्याक कोंकणी भास भांगरान घडोवन दिली. तांच्या कोंकणी गितेक हीच म्हजी प्रस्तावन...

* * *

कोंकणींत शणै गोंयबाबांलें हें पैलें अेकिचि भाशांतर मात न्हय, आनीक यीं तीनि पुणि वेगळीं भाशांतरां आसात अशें दिसता:

(१) अीसवी १९१४च्या आसपास म्हजे व्हडले भैणिचे घोव, आमच्या दक्षिण कानडा जिल्ल्यांतल्या मुल्की गांवचे सुप्रख्यात कानडी कवी, नाटककार आनी गाणार श्रीश्री बंगलेकार नारायण कामत (१८७२-१९१८) हांणी 'साकी' म्हणु मराठींत जें अेक प्रसिद्ध गीत आसा तांतूंत रचिल्लें कोंकणी भाशांतर.हें आर्तां च कानडी लिपींत मंगळुरांत छाप जालां.

(२) अुत्तर कानडा जिल्ल्याचे सुप्रसिद्ध संस्कृत विद्वान आनी बीनकार श्रीश्री मंगेश राव तेलंग (१८५९-१९४९), हांगेलेंय पद्यांत बांदिल्लें कोंकणी भाशांतर आसा. हें हांवें आज पर्यंत पळेल्लें ना.

(३) म्हजे मित्र, आमच्या दक्षिण कानडाचे श्री रामचंद्र कृष्ण प्रभु, हे अेकि फावटी म्हाका सांगताले कि तांचे मित्र श्री बाळकृष्ण भगवंतशणै वा बाकिबाब बोरकार नांवाचे अेक सुप्रसिद्ध कवी, जे आतां पुण्यांत आसात खैं, ते गितेचें कोंकणी भाशांतर पद्यरुपान करताले. तें दोनि वर्सांच्या पूर्वीं आपणें पळैतना, तांतूंत दोनि अध्याय जावनु तिसऱ्या अध्यायाचें भाशांतर चलतालें म्हणून.

हीं नंतां आनीय चडतीं कोंकणी भाशांतरां आसात की नात, हांव नेण.

* * *

शणै गोंयबाबांलें हें भाशांतर, कोंकणी भास अुलोवचे लोक, वाचचे लोक आनी जाणते लोक सगळेय सदांय वाचत आसोंत, वाचून खुश पावत आसोंत, सुख पावत आसोंत, शांति पावत आसोंत आनी भगवंतु तांचेर सदांय कुरपा करत आसों. ही च ताजे कडे म्हजी मनभरी मागणी.

अिति शम्.

मंजेश्वर,
ता. ५-११-१९५५. **गोविन्द पै.**

# श्रीभगवंतालें गीत

## पैलो अध्याय
## अर्जुनाचो खेद

**धृतराष्ट्रान म्हळें –**

संजया, कुरुक्षेत्राच्या पवित्र मळार झुजाचे अित्सेन जमिल्ल्या म्हज्या पुतांनी आनी पांडवांनी कितें केलें? १

**संजयान म्हळें –**

त्या वेळार, पांडवांचें सैन्य झुजाच्या मांडान रचिल्लें पळोवन, दुर्योधनराजा द्रोणगुरूसरीं वचून अुलैलो – २

अगा शणै, तुगेलो बुदवंत गडो जो द्रुपदाचो पुत धृष्टद्युम्न, हाणें झुजाच्या मांडान रचिल्लें हें पाण्डुच्या पुतांचें मोटेलें सैन्य पळे – ३

हांतूंत व्हडलीं धोणवां घेतिल्ले, भीम आनी अर्जुन हांचे असले झुजांतले वीर, म्हळ्यार सात्यकी, विराट आनी मोटेलो रथी द्रुपद, ४

धृष्टकेतू, चेकितान, काशयेचो बळिष्ट राजा, पुरुजित, कुंतिभोज आनी मनशांतलो म्हालगडो शैब्य, ५

पराक्रमी युधामन्यू, बळिष्ट अुत्तमौजो, सुभद्रेचो पुत अभिमन्यू आनी द्रौपदेचे पुत, मेळ्ून सगळेच मोटेले रथी आसात. ६

आतां, भौ बऱ्या बामणा, आमगेले जे म्हालगडे म्हज्या सैन्याचे मुखेली, ते तूं ध्यानांत घे. ते बरे करून कळूंक तुका हांव सांगतां. ७

तुमी आनी भीष्म, कर्ण आनी झुजां-जिखपी कृप, अश्वत्थामो, विकर्ण, तसोच सोमदत्ताचो पुत भूरिश्रवो, ८

आनी हेर जायते वीर, म्हजेखातीर जिवाची आस्त सोडिल्ले, तरेकतरा मारचीं शस्त्रां घेतिल्ले, सगळेच झुजां-विद्येंत पाटांगडे आसात. ९

अशे तरेन भिष्मान चोंयवशीन राखिल्लें आमगेलें सैन्य, रेवाडो घालुं नज तसलें मोटें आसा; आनी भिमान चोंयवशीन राखिल्लें हें हांगेलें सैन्य, रेवाडो घालुं येता तसलें ल्हान आसा. १०

तुमी सगळ्याच जाणांनी, सैन्याच्या मांडाच्या सगळ्या दारांनी, नेमिल्ले भाशेन अुबे रावन, भिष्माकूच चोंयवशीन राखचो. ११

मागीर त्या दुर्योधनाक भुरकुटावंक, कुरूकुळांतल्या म्हाल-म्हाताऱ्या खर-निबर भीष्म आज्यान, शिंवाभाशेन मोट्यान गाजून, व्हडान शंख वाजैलो. १२

तेन्ना शंख, नगारे, कांसाळीं, आराबां आनी शिंगां अेकाच खिणांत चोंयवसल्यान वाजूंक लागलीं. तो नाद चड घणघणलो. १३

अुप्रांत, धवे घोडे बांदिल्ल्या मोट्या रथांत बशिल्ले श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांणीय लकलकीत शंख नेटान वाजैले. १४

श्रीकृष्णान पांचजन्य, अर्जुनान देवदत्त आनी भयांकृत करण्यो करतल्या आनी कोलसुण्याभाशेन खादोंळपणान मातून चड बळिष्ट जाल्ल्या भिमान पौंड्र नांवाचो मोटेलो शंख वाजैलो. १५

कुन्तिचो पुत युधिष्ठिरराजा हाणें अनंतविजय, नकुळान सुघोश आनी सहदेवान मणिपुष्पक वाजैलो. १६

मोटेलो धोणवाकार काशयेचो राजा आनी मोटेलो रथी शिखंडी, धृष्टद्युम्न, विराट आनी झुजांत हार जावंक नाशिल्लो सात्यकी, १७

द्रुपद आनी द्रौपदेचे पुत आनी बळिष्ट बावळ्यांचो सुभद्रेचो पुत अभिमन्यू हांणी, अगा धर्तरेच्या राजा धृतराष्ट्रा, सगळेवशीन वेगळे वेगळे शंख वाजैले. १८

मळब आनी भूंय गाजैण्या त्या घणघण्या नादान कौरवांचीं हड्डीं फोडलीं. १९

मागीर कौरव मांडणेन अुबे आशिल्ले पळोवन आनी शस्त्रां मारचो वेळ लागीं पावन, वानराची घुडी लायिल्लो अर्जुन धोणू अुखलून, २०

अगा धर्तरेच्या राजा धृतराष्ट्रा, श्रीकृष्णाक हें अुतर अुलैलो–

### अर्जुनान म्हळें–

श्रीकृष्णा, दोनूय सैन्यांमजगत म्हजो रथ थाराय. २१

म्हणटकूच, झुजाचे अित्सेन अुबे आशिल्ल्या हांकां आनी झुजाच्या ह्या व्हडल्या वावरांत म्हाका कोणाकडेन झगडचें आसा तांकां, हांव बारकायेन पळेतां. २२

पाड-बुद्धिच्या दुर्योधनाचेर झुजांत अुपकार करूंक हे जे हांगा आयल्यात त्या झूज-मारतल्यांक हांव बरे करून पळेतां. २३

### संजयान म्हळें–

अगा भरतकुळांतल्या राजा धृतराष्ट्रा, अर्जुनान श्रीकृष्णाक अशें म्हणटकूच, ताणें तो भौ बरो रथ दोनूय सैन्यांमजगत थारावन, २४

भीष्म, द्रोण आनी सगळ्या राजांसामखार म्हळें कि अर्जुना, हे अेकठांय जमिल्ले कौरव पळे. २५

तेन्ना थैं अर्जुनाक बापोलये, आजे, शणै, मावळे, भाव, पुत, नातू तशे वांगडचे, २६

मांव तशेच बरें-मागते, त्या दोनूय सैन्यांत अुबे आशिल्ले दिसले. त्या अुबे आशिल्ल्या सगळ्या नातेवर्ग्यांक बरे करून पळोवन, तो कुन्तिचो पुत अर्जुन, २७

चड काकळुतीन आकुळ-पिकुळ जावन, खेदान अशें अुलैलो -

### अर्जुनान म्हळें–

श्रीकृष्णा, हे आमचे लोक झूज मारचे अित्सेन आयिल्ले पळोवन, २८

म्हज्या हाता-पांयाक वडी येतात आनी तोंड सामकें सुकता. म्हजो जीव थरथरता आनी आंगार क़ांटो फुलता. २९

हातांतसून गाण्डीव धोणू गळसणटा आनी आंगाचो सामको अुजो जाता. म्हज्यान अुबो रावं नज आनी म्हजी तकली घुंवळ्ळ्यावरी जाता. ३०

आनी श्रीकृष्णा, म्हाका अपशकून जातात. झुजांत म्हज्या मनशांक मारून बरें जायत अशें म्हाका दिसनां. ३१

श्रीकृष्णा, म्हाका जैत नाका, राज्य नाका आनी सुखां नाकात. श्रीकृष्णा, राज्य मेळून आमकां कित्याक अुपकारता? सुखांचे भोग वा वांचप आमकां कित्याक जाय? ३२

जांचेखातीर राज्य, भोग आनी सुखां हांचो हावेस आमी धरचो, ते हे, जिवाची आनी आस्पतिची आस्त सोडून झुजाक अुबे रावल्यात. ३३

शणै, जाणटेले, पुत, तशेच आजे, मावळे, मांव, नातू, मेवणे, तशे सोयरे, ३४

हांणी म्हाका माल्ल्यारूय, श्रीकृष्णा, हांकां मारूंक हांव सोदिनां. तीन लोकांचें राज्य मेळ्ळ्यारूय नां. म्हणटकूच अेकले धर्तरिखातीर कित्याक मारीन? ३५

श्रीकृष्णा, कौरवांक मारून आमचें कितें बरें जातलें? ह्या घातक्यांक मारून आमकां पातकूच लागतलें. ३६

देखून, आमी आमच्या भावांक - कौरवांक - मारूंक फावनां. कित्याक, आमच्या मनशांक मारून श्रीकृष्णा, आमी सुखी कशे जावं? ३७

राज्याच्या लोभान बुद्द होगडावल्ल्यांक हांकां, कुळाच्या खेवान येवचेलें अरिष्ट, आनी अिष्टांच्या घातान लागचेलें पातक, जरी दिसना, ३८

तरी श्रीकृष्णा, कुळाच्या खेवान येवचेलें अरिष्ट घणघणीत पळेतल्यांक आमकां, ह्या पातकाकडसून फाटीं सरूंक कशें कळचें न्हय? ३९

कुळाचो खेव जाल्यार, सासणाचे चलिल्ले कुळाचार सामकेच नाशे जातात. कुळाचार ना जातकूच, सगळ्याच कुळाचेर अधर्माचो शेक चलता. ४०

श्रीकृष्णा, अधर्माचो शेक चलतकूच, कुळांतल्यो बायलो साप भँगतात. बायलो भँगतकूच, श्रीकृष्णा, जातिचो घुस्पा-गदळ जाता. ४१

जातिच्या घुस्पा-गदळान, कुळ-घातके आनी कूळ नर्कांतूच पावतात. कित्याक, पिंड आनी तिळां-अुदक मेळना जावन, हांगेलीं पितरां नर्कांत पट्टात. ४२

कुळ-घातक्यांच्या, जातिचो घुस्पा-गदळ घडैतल्या ह्या पातकांनी, जातिचे आनी कुळाचे सासणाचे चलिल्ले आचार मोट्टात. ४३

श्रीकृष्णा, कुळाचे आचार मोडिल्ल्या मनशांक खरेपणानशींच नर्कांत रावप घट्टा, म्हणपाचें आमी आयकून आयल्यांत. ४४

कटाऽ कटा! राज्याच्या सुखाक आशेवन आमी आमच्या मनशांक मारूंक अुठल्यांत, हें व्हडलें पातक करूंक आमी आडायलां. ४५

हांवें शस्त्र घेनासतनां आनी परतो धपको घालिनासतनां, हातांत शस्त्रां घेतिल्ले कौरव झुजांत म्हाका मारतीत जाल्यार, म्हजें चड बरें जायत. ४६

**संजयान म्हळें—**

झुजा-मळार अशें अुलोवन, खेदान आकुळ-पिकुळ जाल्लो अर्जुन, बाणासैत धोणू अुडोवन, रथांत बसलो. ४७

हे भाशेन, श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या अुपनिशदांतलो,
ब्रह्मविद्येंतल्या अुपायांतलो,
श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या अुलोवपांतलो,
**अर्जुनाचो खेद**
नांवाचो पैलो अध्याय जालो.

# दुसरो अध्याय
# सांख्य-बुद्द

### संजयान म्हळें–

तशे तरेन काकळुतीन भरिल्ल्या, दोळयां दुखां दाटून दिसना-जाल्ल्या आनी खेद करतल्या ताका, श्रीकृष्ण हें अुतर अुलैलो - १

### श्रीभगवंतान म्हळें–

अर्जुना, व्हडविकेच्या मनशांनी लागीं करूंक नाशिल्लो, सर्ग मेळूंक अुपकारना जाल्लो आनी दशा-होगडायणो हो भ्रम, ह्या संकष्टांत तुका खैंच्यान जालो? २

अर्जुना, तूं बाबडो जावं नाका. तुका हें सोबना. अगा शत्रूक तापैतल्या विरा, मनाचें अुणाक दुबळेपण सोडून तूं अूठ. ३

### अर्जुनान म्हळें–

शत्रूंक जिवानशीं मारतल्या श्रीकृष्णा, फुलांनी जांकां पुजूंक फावो असल्या भीष्म आनी द्रोणाकडेन, झुजांत बाणांनी हांव कसो झुजूं? ४

अुंच व्हडविकेच्या जाणटेल्यांक जिवानशीं मारचे भाशेक, ह्या लोकांत भिकूय मागून खाल्यार बरें. ते गोट्यांक आशेल्ले आसलेय जाल्यार, त्या जाणटेल्यांक माल्ल्यार रगतान बुडबुडिल्लीं सुखां म्हाका हांगाच भोगचीं पट्टलीं. ५

आनी आमी तांकां जिखचें वा तांणी आमकां जिखचें, हांतूंतलें आमगेल्या चड बऱ्याक कितें पट्टा, तें आमकां कळना. जांकां मारून, आमकां वांचचें-शेंच दिसचें नां, ते कौरव सामखार अुबे रावल्यात. ६

मनाच्या दुबळेपणान सबाव-गुण होगडावल्लो आनी म्हजी लागणूक सामकीच कळनां जाल्लो हांव तुका विचारतां. जें खरेपणान बऱ्याक पडत तें म्हाका सांग. हांव तुगेलो गडो. तुज्या पांयार पडिल्ल्या म्हाका तूं बुद्द दी. ७

कित्याक, गिरेस्तकायेन तरतरणें आनी शत्रू नाशिल्लें अशें धर्तरेवैलें राज्य आनी देवांचेंय मुखेलपण मेळून, अिंद्रियांक सुकैणो म्हजो खेद पैस आमडीत, अशें कितेंच म्हाका निखालुस दिसनां. ८

### संजयान म्हळें–

हे भाशेन अुलोवन आनी 'हांव झुजचो नां' अशें श्रीकृष्णाक सांगून, शत्रूंक तापैतलो अर्जुन वोगी रावलो. ९

अगा भरतकुळांतल्या राजा धृतराष्ट्रा, दोंय सैन्यांमजगत खेद करतल्या ताका, श्रीकृष्णान हांशिल्ल्यावरी करून अशें म्हळें- १०

### श्रीभगवंतान म्हळें –

जांचो खेद करूंक फावना तांचो तूं खेद करता आनी जाणवायो अुलैता. जीव गेल्ले आनी जीव वचूंक नाशिल्ले हांचो खेद, आत्म्याक वळखतले गिन्यानी मनीस करिनात. ११

हांव केन्नाच नाशिल्लों, आनी तूं आनी हे राजा नाशिल्ले, अशें न्हयच; आनी आमी सगळेजाण ह्याफुडें नासतल्यों, अशेंय न्हय. १२

कूडकार आत्म्याक हे कुडींत जशें भुरगेपण, तरणेपण आनी म्हातारपण येता, तशीच दुसरी कूड मेळटा. तांतूंत गिन्यानी मनशाक भ्रम पडना. १३

कुंतिच्या पुता, अिंद्रियांचें विशयांक तेंकप, थंड-हून आनी सुख-दुख भोगैता. तें येता आनी वेता. तें सदीं-काळचें न्हय. भरतकुळांतल्या अर्जुना, तें तूं सोस. १४

कित्याक, मनशांतल्या म्हालगड्या अर्जुना, सुख-दुख सारकें मानतल्या ज्या गिन्यानी मनशाक ह्या तेंकपाची बादा जायना,तो मोक्ष जोडूंक फावोसो जाता. १५

नाशिल्ले वस्तीक आसप ना आनी आशिल्ले वस्तीक नासप ना. ह्या दोंयचो ठाव, ब्रह्म-गिन्यान्यांनी पळेला. १६

जिणें हो सगळो संवसार व्यापला, ती ना-जायनाशिल्ली वस्त आसा, अशें तूं समज. ही बदलना-जाल्ली वस्त कोणाच्यानूच ना करूं नज. १७

सदीं आशिल्ल्या, ना-जायनाशिल्ल्या आनी प्रमाणांनी कळना-जाल्ल्या कूडकार आत्म्याच्यो ह्यो कुडी ना जातात, अशें म्हणटात. देखून, भरतकुळांतल्या अर्जुना, तूं झूज. १८

जो हाका हाणमारो समजता आनी जो हाका हाणिल्लो मानता ते दोगूय खरेली गजाल नकळत. हो कोणाक हाणिना आनी हाका कोण हाणिना. १९

हो जल्मना वा केन्नाच मरना. हो जावन पर्थून ना जाता तसलो न्हय. हो जल्मना-जाल्लो, सदीं आशिल्लो, सासणाचो आनी पुर्विल्ल्या काळापासून नवोचो नवो आसा. कूड हाणल्यारूय हो हाणना. २०

अर्जुना, जो हाका ना-जायनाशिल्लो, सदीं आशिल्लो, जल्मना-जाल्लो आनी बदलना-जाल्लो असो समजता, तो मनीस कोणाक कसो हाणूंक लायता आनी कोणाक हाणटा? २१

मनीस जसो पोरणीं आंगावलीं अुडोवन दुसरीं नवीं घेता, तसो कूडकार आत्मो पोरण्यो कुडी अुडोवन, दुसऱ्या नव्या कुडिंनी वेता. २२

हाका शस्त्रां शिंदिनात. हाका अुजो जाळिना. हाका अुदक भिजैना आनी वाव सुकैना. २३

हाका शिंदुं नज. हाका जाळुं नज. हाका भिजोवं नज आनी सुकोवंकूय नज. हो सदीं आशिल्लो, सगळ्यांत आस्पावल्लो, रुपांत बदल जायना-जाल्लो थीर, मूळरूप सोडिना-जाल्लो आनी मूळ नाशिल्लो आसा. २४

हो दिसना-जाल्लो, हो येवजुं नज जाल्लो, हो विरजना-जाल्लो म्हणटात. देखून हाका अशे तरेचो समजून, तुवें हाचो खेद काडूंक फावना. २५

तरी आसतना, तूं हाका सदीं जल्मता तसलो वा सदीं मरता तसलो समजुशी जाल्यारूय, अगा बळिष्ट भुजांच्या अर्जुना, तुवें हाचो खेद काडूंक फावना. २६

कित्याक, जल्मल्ल्याक मर्ण सुटना-जाल्लें आसा आनी मेल्ल्याक जल्म सुटना-जाल्लो आसा. देखून, सुटना-जाल्ले गजालिचो खेद तुवें काडूंक फावना. २७

भरतकुळांतल्या अर्जुना, जल्मल्ल्यांची जल्मा आदली दशा दिसना. जल्म आनी मर्ण हांचे मदली दशा दिसता. तांगेली मर्णाफाटलीय दशा दिसना. म्हणटकूच, तांतूंत खेद कसलो? २८

अपरूप वस्त आशिल्ल्यावरी ह्या कूडकार आत्म्याक कोण एकलो पळेता. तसोच आनीक कोण अपरूप वस्तीवरी हाचे संबंदान गजाली सांगता. आनीक कोण अपरूप वस्तीभाशेन हाची गजाल आयकता; आनी हाचे संबंदान आयकुनूय, हाका कोणूच वळखना. २९

भरतकुळांतल्या अर्जुना, सगळ्यांचे कुडींत आशिल्ल्या ह्या कूडकार आत्म्याक केन्नाच हाणुं नज. देखून, कोणाच जिवाचो खेद तुवें काडूंक फावना. ३०

तुवें तुगेल्या खेत्री धर्माची लागणूक पळोवनूय, गणमणूंक फावना. कित्याक, धर्म-नितिच्या झुजापरस खेत्र्याक चड बरेलें हेर कांयच ना. ३१

आनी अर्जुना, सर्गाचें दार आपशींच अुक्तें जावन आयिल्लें हें असलें झूज भाग्यवंत खेत्र्यांक झुजूंक मेळटा. ३२

अशें आसतना, तूं हें धर्म-नितिचें झूज झुजना जाशी जाल्यार, तुगेली खेत्र्याची लागणूक आनी कीर्त होगडावन, तूं पातक जोड्टलो. ३३

आनी लोक सदीं-काळ तुजो वायट लोकिकूय सांगतले. भौमानेस्त मनशाक वायट लोकीक मर्णापाश्ट जाता. ३४

तूं भयान झुजांतसून फाटीं सल्लो, अशें मोटेले रथी समजतले, आनी जांकां तूं चड व्हडविकेचो दिसतालो तांकां तूं अुणाक दिसतलो. ३५

तुगेले शत्रू तुजें बळ निंदून जायतें अुलोवंक फावनाशिल्लें अुलैतले. हाचेपरस चड दुख-दिणें कितें आसा? ३६

झुजांत तुका माल्ल्यार सर्ग मेळटलो आनी झूज जिखल्यार तूं धर्तरेचें राज्य भोगतलो. देखून अर्जुना, तूं नित्शय करून झुजाक अूठ. ३७

सुख-दुख, लाभ-हाणी, येस-अपेस सारकें लेखून, मागीर झुजाक लाग. हे भाशेन, तुका पातक लागचें ना. ३८

ही तुका सांख्य, म्हळ्यार आत्म्याचें खरेलें रूप वळखुंची बुद्द सांगली. आतां, ही योग-बुद्द आयक. अर्जुना, ही बुद्द लागतकूच, तूं करणेचो पास नेटान सोडशी. ३९

हे योग-बुद्दींत करूंक मांडिल्ले करणेचो आटाप फुकट वचना. तांतूंत चूक-माक जाल्यार अरिष्ट येना. ही पुण्यतायेची बुद्द अिल्लीय चलैल्यार, जल्म-मर्णाच्या मोटेल्या भयांतसून वाटायता. ४०

कुरुकुळांतल्या अर्जुना, हे योग-बुद्दींत नित्शयाचो अेकूच बेत पुरो.नित्शय नाशिल्ल्या मनशांच्या बेतांक देळशे-खांदे जायते आनी तांकां अंत ना. ४१

अर्जुना, वेदांतल्या सर्ग बी फळां जोडच्या अुतरांचो नाद लागिल्ले, त्या फळांपरस आनीक मोटेलें फळ ना अशें सांगतले, त्या फळांच्या हावेसान भरिल्ले, सर्ग हीच व्हडली जोड कशी लेखतले, असले निर्बुद्द लोक, सर्गावैलीं सुखां आनी थैंच्या देवांच्या माथ्यावैली सत्ता मेळचेखातीर, ज्या करण्यांचें फळ पर्थून जल्म दिवपाचें आसता, तसल्या तरेकतरा जायत्या करण्यांनी भरिल्ली जी ही फुलार भास अुलैतात. ४२-४३

तिणें जांचें चित्त ओडून घेतलां आनी जांकां सर्गावैलीं सुखां आनी सत्ता जोडची चड ओड लागल्या, तांच्या मनांत नित्शयाचो अेक बेत जायना. ४४

अर्जुना, वेदांत सत्त्व, रज आनी तम ह्या तीन गुणांच्या करण्यांच्यो म्हळ्यार

वान्सेच्यो गजाली भल्ल्यात. देखून, तूं तीन गुणां-मेकळो म्हळ्यार वान्से-मेकळो जा. फळ मेळप आनी मेळना-जावप ही जुंवळी सोड. आशिल्लें राखपाचो आनी नवें जोडपाचो हुस्को काडुं नाका. सदीं धीर धर आनी आत्म्याची वळख घे. ४५

अुदकाच्या ल्हान आवांठांत म्हळ्यार बांयत जें काम जाता तें सगळे वशीन अुदकान अुपाट भरिल्ल्या मोटेल्या आवांठांत म्हळ्यार न्हंयेंत जाताच. तशें, सगळ्या वेदांत सांगिल्ल्या करण्यांचें फळ, ब्रह्माचें खरेलें रूप पळेल्ल्या आनी ब्रह्मरूप जावंक सोदतल्या मनशाच्या फळांत आस्पावता. ४६

तुका करणी करचोच अधिकार. फळाचो अधिकार केन्नाच ना. तूं करणेच्या फळाचो हेत धरुं नाका. करणी करिनासतना रावपाची रूच तुका लागुं नाका. ४७

अर्जुना, परमात्म्याची पुजा करचे बुद्दीन फळाची ओड सोडून, फळ मेळप आनी मेळना-जावप हीं दोनूय सारकीं लेखून, तूं करण्यो कर. ह्या सारकें लेखपाक योग-बुद्द म्हणटात. ४८

अर्जुना, योग-बुद्दीपरस फळाचे ओडीन करणी करप जायतें अुणाक. देखूंन, तूं योग-बुद्दिचो आलासरो धर. फळाचो हेत धरतात ते दुर्भागी मनीस. ४९

योग-बुद्दीन चलतलो मनीस, करणेची पुण्यताय आनी पातक हीं दोनूय, ह्याच जल्मांत सोट्टा. देखून, तूं योग-बुद्दीन चल. पुण्यताय आनी पातक सोडपाचे करण्यांतले चतुरायेक योग-बुद्द म्हणटात. ५०

योग-बुद्दीन चलतले मनीस करणेचें फळ सोडून, आत्मगिन्यानी जावन, भौनभौन जल्म घेवच्या पासांतसून साप सुट्टात आनी मोक्षाचे त्रासां-मेकळे सुवातेर वेतात. ५१

कूड होच आत्मो म्हणपाच्या भ्रमाच्या अस्कडांतसून जेन्ना तुजी बुद्द सामकीच पेल्यान पावत, तेन्ना आजवेर आयकल्ल्या आनी फुडाराक आयकुचेल्या करण्यांच्या फळांचो तुका वीट येतलो. ५२

करण्यांचीं फळां आयकून चड गदळल्ली तुजी मत जेन्ना थाऱ्यार येतली आनी आत्म्यांत थीर जातली, तेन्ना आत्मो आनी परमात्मो अेक म्हणपाचें योग-बुद्दिचें फळ तुका मेळटलें. ५३

**अर्जुनान म्हळें—**

श्रीकृष्णा, आत्म्यांत थीर जाल्ल्या थीर-बुद्द मनशाची कुरू कितें? थीर-बुद्द मनीस कसो अुलैता? कसो बसता? कसो चलता? ५४

श्रीभगवंतान म्हळें–

अर्जुना, जेन्ना मनीस मनांतल्यो सगळ्यो अित्सा सामक्योच सोट्टा आनी आपल्या रुपान आपलेच भितर धादोशी आसता, तेन्ना ताका थीर-बुद्द म्हणटात. ५५

दुखां आयल्यार अुबगना-जाल्लो, सुखां आयल्यार तांचे अुत्फरके नाशिल्लो, ओड, भय आनी तिडक गेल्लो, असल्या विचारवंत मनशाक थीर-बुद्द म्हणटात. ५६

जाका खैंचेचकडेन कसली ओड ना, बरें जाल्यार जो भुरकुटना, वायट जाल्यार जो पिंर्जळना, ताची बुद्द थीर जाली. ५७

कांसव जसो आपलीं आंगां सगळे वसल्यान भितर्यां ओट्टा, तसो हो मनीस, जेन्ना विशयांकडसून आपलीं अिंद्रियां फाटीं ओट्टा, तेन्ना ताची बुद्द थीर जाली. ५८

भोगिना-जाल्ल्या मनशाकडसून विशय फाटीं सरतात; तशी विशयांची रूच फाटीं सरना. परंत परमात्म्याक पळोवन ह्या थीर-बुद्द मनशाची रुचूय फाटीं सरता. ५९

कित्याक, अर्जुना, मोक्ष जोडूंक वावुरतल्या चड विचारवंत मनशाचेंय मन, मस्तीं, अिंद्रियां बळयांच ओडून व्हरतात. ६०

तीं सगळीं अिंद्रियां सुवादीन करून, मन आत्म्यांत थारावन, म्हाका परमात्म्याक व्हडली जोड कशी लेखून, रावचें. कित्याक, जाचीं अिंद्रियां सुवादीन जालीं, ताची बुद्द थीर जाली. ६१

विशयांची येवजणी करतल्या मनशाक तांची ओड लागता. ओडीन तांची अित्सा जाता. अित्सेक आडमेळें येतकूच तिडक येता. ६२

तिडकीन मत गदळटा. मत गदळपान तकली घुंवळटा, तकली घुंवळपान सुद्द ना जाता. सुद्द ना-जावपान मनशाचो सामकोच घाता जाता. ६३

परंत मन सुवादीन आशिल्लो मनीस, ओड आनी वीट सुटिल्ल्या आनी सुवादीन आशिल्ल्या अिंद्रियांनी विशयां-मजगत वावरून थंडाय जोट्टा. ६४

मनाक थंडाय मेळटकूच, ताचीं सगळीं दुखां ना जातात. कित्याकं, मन थंडावल्ल्याची बुद्द रोखडीच चोंयवसल्यान थीर जाता. ६५

मन सुवादीन नाशिल्ल्या मनशाक आत्मो वळखुची बुद्द जायना आनी

आत्म्याक वळखूंक ताचें अेकसारकें वावरप जायना. आत्म्याचें अेकसारकें ध्यान करिनाशिल्ल्या मनशाक थंडाय मेळना. थंडाय नाशिल्ल्याक सुख खैंचें? ६६

कित्याक, विशयांत पारपोळपणान वावुरतल्या अिंद्रियांभितल्ल्या ज्या अिंद्रियांफाटल्यान मन वेता, तें अिंद्रीय, अुदकांत वाव जसो व्हड्याक ओडून व्हरता, तशें मनशाचे बुद्दीक ओडून विशयांत घुस्पायता. ६७

देखून, बळिष्ट भुजांच्या अर्जुना, विशयांकडसून जाचीं अिंद्रियां सगळे वसल्यान आंवळून धल्ल्यांत, ताची बुद्द थीर जाली. ६८

सगळ्या अजाण जिवांची जी रात, तांतूंत अिंद्रियां सुवादीन आशिल्लो थीर-
बुद्द मनीस जागो आसता. आनी ज्या वेळार सगळे अजाण जीव जागे आसतात, तो
वेळ, आत्म्याचें खरेलें रूप पळेतल्या थीर-बुद्द मनशाची रात आसता. ६९

न्हंयां-व्हाळांनी अुपाट भरता जावन, थीर आशिल्ल्या समुद्रांत, जे भाशेन पावसाचें बी अुदक रिगता, ते भाशेन, सगळे विशय ज्या मनशाभितर रिगतात, ताका थंडाय मेळटा. विशयांची अित्सा करतल्याक मेळना. ७०

जो मनीस सगळे विशय सोडून आनी तांची अित्सा सांडून वावुरता, जाका म्हजेपण ना आनी हांवपण ना, ताका थंडाय मेळटा. ७१

अर्जुना, ही ब्रह्मरुपी दशा. ही मेळटकूच, मनीस जल्म-मर्णाच्या संवसारांत गदळना. मरच्या वेळारूय तो हे दशेंत आसल्यार, तो ब्रह्मरूप जाता. ७२

हे भाशेन, श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या अुपनिशदांतलो,
ब्रह्मविद्येंतल्या अुपायांतलो,
श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या अुलोवपांतलो,
**सांख्य-बुद्द**
नांवाचो दुसरो अध्याय जालो.

## तिसरो अध्याय

# योग-बुद्द

### अर्जुनान म्हळें –

-श्रीकृष्णा, फळाचे ओडीन करणी करचे परस, योग-बुद्द तुका अुंच दिसता जाल्यार, तूं म्हाका भयांकृत करणी कित्याक करूंक लायता? १

दुबावी अुलोवपान, तूं म्हजी मत गदळाअिल्ल्या वरीच करता. देखून, जाणें म्हजें बरें जायत, तें अेकूच थारावन सांग. २

### श्रीभगवंतान म्हळें –

अगा पातका-मेकळ्या अर्जुना, ह्या लोकांत दों तरांची वाट आसा, म्हणपाचें हांवें आदीं मेकळेपणान सांगलां. सांख्य-बुद्दीन चलतल्यांची वाट आत्म-गिन्यानाच्या अुपायान आनी योग-बुद्दीन चलतल्यांची वाट करणेच्या अुपायान. ३

करण्यो करूंक लागलो ना म्हणून, मनीस करण्यो करिना-सो जायना; आनी करण्यो साप सोडल्यारूय, त्यो सोडिल्ल्याचें फळ मेळना. ४

कित्याक, करणी करिनासतना कोणूच मनीस खिणभरूय केन्ना अुरना. निजाचे सत्त्व, रज आनी तम गुण सगळ्या जिवांक बंद्यांभाशेन करणी करूंक लायतात. ५

करण्यांचीं अिंद्रियां आंवळून, जो मनीस मनान विशयांचें ध्यान करता, त्या मुख्यांक लटके चलणुकेचो धोंगी म्हणटात. ६

परंत अर्जुना, ज़ो मनीस बुद्दिचीं अिंद्रियां मनान आंवळून, आनी फळाची ओड सोडून, करणेच्या अिंद्रियांनी योग-बुद्द चलैता, ताची योग्यताय व्हडली. ७

तुगेली नेमिल्ली करणी तूं कर. कित्याक, करणी सोडचे परस करणी करप चड बरें. करणी केली ना जाल्यार, तुजे कुडिची भोंवडीय बरे तरेन जावची ना. ८

यज्ञाखातीर करचेले करणे बादत हेर करणेन हो लोक करणेच्या पासांत पट्टा. देखून, अर्जुना, तूं फळाची ओड सोडून, यज्ञाखातीर बरे तरेन करणी कर. ९

निर्मितल्यान आदीं यज्ञासैत लोकांक निर्मून म्हळें, 'ह्या यज्ञान तुमी वाडात; हो तुमकां जाय-जाल्ले जिनस मेळोवन दिवं.' १०

'ह्या यज्ञान तुमी देवांक तुष्टायात, आनी ते देव तुमकां तुष्टावंत. एकामेकांक तुष्टायतले तुमी दोगूय, मोटेलें हित जोड्टले.' ११

'कित्याक, यज्ञान तुष्टले ते देव, तुमकां जाय-जाल्ले सुखांचे भोग दितले. तांणी दिल्ले जिनस तांकां दिल्याबगर जो भकता, तो चोरूच म्हणचो.' १२

यज्ञांत उरिल्लो वांटो जे खातात, ते बरेले मनीस, सगळ्या पातकांतसून सुट्टात. परंत आपणाखातीर जे रांदतात, ते पातकी पातक भकतात. १३

खाण खावन जाल्ल्या रगता-रेतान जिवांच्यो कुडी जातात. पावसान खाणाचे जिनस जातात. यज्ञ करून पावस पड्टा. करणी करून यज्ञ जाता. १४

करणेचो जल्म ब्रह्मांतसून जालो अशें तूं समज. ब्रह्माचो जल्म, ना-जातले कसलेच वस्तींतसून जावंक ना. देखून, सगळ्यांक व्यापिल्लें ब्रह्म सदींत यज्ञांत भरिल्लें आसा. १५

हे भाशेन चलैल्लें चाख, जो कोण ह्या लोकांत तशेंच फुडें चलैना, तो पातके जिणेचो, इंद्रियांची खाज-भागैणो. अर्जुना, तो वांचून फुकट. १६

परंत ज्या मनशाक आत्म्याचीच ओड आसता, जो आत्म्यांत धादोशी आसता आनी आत्म्यांतूच तुष्टता, ताका कसलीच करणी करची लागना. १७

ह्या लोकांत ताणें करणी केल्यार कांय लाभ ना आनी ना केल्यार कांय हाणी ना. आनी ताका कोणाच जिवाखातीर किंतेंच जोडचेलें ना. १८

देखून, फळाची ओड सोडून, करूंक फावो-जाल्ली करणी तूं सदींच बरी करून कर. कित्याक, फळाची ओड सोडून परमात्म्याच्या नांवान करणी करतल्या मनशाक मोक्ष मेळटा. १९

कित्याक, जनकराजा बी फावो-जाल्ली करणी करुनूच मोक्ष जोडूंक वावुल्ले. त्याभायर, लोकांक बरी देख लागूंक जाय, म्हणपाचें बरें करून पळोवनूय, तुवें तुजी फावो-जाल्ली करणी करूंक जाय. २०

म्हाल-म्हाजन जें जें करता, तें तेंच हेरशिलो लोक करता. तो जें खरें मानता, तें लोक खरें मानता. २१

अर्जुना, सर्ग, धर्तरी आनी पाताळ ह्या तीन लोकांत म्हाका करचेलें कांयच ना. म्हाका मेळूंक नाशिल्लें आनी मेळोवचेलें कांयच ना. तरी आसतना, हांव करणेंत वावुरतां. २२

कित्याक, हांव आळसाय सोडून केन्नाय करणी करिना जायन जाल्यार, अर्जुना, मनशां सगळे तरेन म्हजी देख घेतलीं. २३

हांव करणी करिना जायन जाल्यार, हे लोक नाशे जातले. जातिंच्या घुस्पा-गदळाक हांव मूळ जातलों आनी म्हज्या हातान ह्या लोकांचो घात जातलो. २४

भरतकुळांतल्या अर्जुना, अजाण लोक फळाची ओड धरून जशी करणी करतात, तशीच,लोकांक बरी देख लावंक सोदतल्या शाण्या मनशान, फळाची ओड सोडून करणी करची. २५

फळाचे ओडीन करणी करतल्या अजाण मनशांची बुद्द शाण्या मनशान भँगोवची न्हय. ताणें योग-बुद्दीन बरे तरेन चलून, अजाण मनशांक सगळ्यो करण्यो रुचीन करूंक लावच्यो. २६

कूड आनी इंद्रियांसारक्या निजाच्या गुणांनी, सगळे तरेन करण्यो घडटात. अशें आसतना, कूड आनी इंद्रियां हींच आपुण म्हणपाच्या हांवपणान साप गदळल्लो मनीस, त्या करण्यांचो करतो हांव अशें मानता. २७

परंत बळिष्ट भुजांच्या अर्जुना, कूड, इंद्रियां आनी तांच्यो करण्यो हांचेकूय आपुण वेगळो, म्हणपाची खरेली गजाल जाण-जाल्लो मनीस, कूड आनी इंद्रियां विशयां मजगत वावुरतात, अशें मानून, करणेचो अभिमान धरिना. २८

कूड आनी इंद्रियांसारके निजाचे गुण म्हळ्यार आपुणूच, अशा समजान साप गदळल्ले लोक, त्या गुणांचो आनी तांच्या करण्यांचो अभिमान धरतात. आत्म्याक वळखना-जाल्ल्या त्या मंदमतिच्या मनशांची बुद्द, आत्म्याक वळखतल्या मनशान चाळोवची न्हय. २९

आत्मो आनी परमात्मो हांचें नातें वळखून, म्हजेर परमात्म्याचेर सगळ्यो करण्यो सोडून, आस्ते-मेकळो जावन, करणेचें म्हजेपण सांडून आनी खेद अुडोवन, तूं झूज. ३०

म्हजे म्हणणेक खोड धरिना-जाल्ले आनी म्हजेर पातयेल्ले जे मनीस, ह्या म्हज्या मत्ताभाशेन सदींच चलतात, तेय करण्यांच्या पासांतसून सुटटात. ३१

परंत म्हजे हे म्हणणेक खोड धरतले जे मनीस म्हज्या मत्तान चलनात, ते सगळ्या गिन्यानांत साप गदळल्ले, निर्बुद्द आनी वाट लागिल्ले, अशें तूं समज. ३२

आत्मगिन्यानी मनीसलेगीत आपणाले बडीभाशेन चलता. सगळे जीव बडीर वेतात. म्हणटकूच इंद्रियांचो आळाबंद कित्याक अुपकारता? ३३

दरअेकल्या अिंद्रियाची त्या त्या विशयावैली ओड आनी वीट थारायिल्ली आसा. ते ओडिचे आनी विटाचे सुवादीन जावचें न्हय. कित्याक, मनशाच्या मार्गांत अरिष्ट हाड्टले ते शत्रू आसात. ३४

दुसऱ्याचे बरे तरेन चलैल्ले (अुंच तरेचे) लागणूके परस आपणाची अुणे तरेची लागणूक चड बरी. आपणाची लागणूक चलोवपांत मर्ण आयल्यारूय बरें. दुसऱ्याची लागणूक भयांकृत (संकष्टांची) आसा. ३५

## अर्जुनान म्हळें -

परंत श्रीकृष्णा, अित्सा नासतनाय, बळयांच वेंठीक लायिल्लेवरी हो मनीस पातक करता, तें ताका कोण करूंक लायता? ३६

## श्रीभगवंतान म्हळें -

रज गुणापासून जल्मल्ली, मोटी खादोळी, मोटी पापीण अशी ही अित्सा - ही तिडक - मनशाक पातक करूंक लायता. ह्या लोकांत हीच शत्रू अशें तूं समज़. ३७

धुंवरान जसो अुजो धांकिल्लो आसता, धुळीन जसो हारसो लिपिल्लो आसता आनी वारेन जसो गाब गुटलायिल्लो आसता, तशेंच, ते अित्सेन हें गुटलायलां. ३८

अर्जुना, जिची भर जावंक कठीन आनी जिका धादोसकाय ना असली अित्सारूप जी सदींची शत्रू, तिणें गिन्यानी मनशाचें गिन्यान गुटलायलां. ३९

अिंद्रियां, मन आनी बुद्द ह्यो हिच्यो रावच्यो सुवातो म्हणटात. हांणी मनशाचें गिन्यान गुटलावन ताका ती तरेकतरेन गदळायता. ४०

देखून, भरतकुळांतल्या म्हालगड्या अर्जुना, तूं आदीं अिंद्रियां आळाबंदा हाडून, मनशाचें शिकिल्लें गिन्यान आनी अणभविल्लें गिन्यान ना करून अुडैतले हे पापणीक, सामकी जिवानशीं मार. ४१

मनशाचे कुडींत अिंद्रियां अुंच म्हणटात. अिंद्रियांपरस मन अुंच. मनापरस बुद्द अुंच. आनी जो बुद्दिच्या पेल्यानचो तो आत्मो. ४२

हे भाशेन, बळिष्ट भुजांच्या अर्जुना, बुद्दीपरस अुंच आत्म्याक वळखून, आनी आपणें आपणाक बरो करून सुवादीन दवरून, बाडगना-जाल्ली ती अित्सारुपी शत्रू, तूं जिवानशीं मार. ४३

हे भाशेन, श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या अुपनिशदांतलो,
ब्रह्मविद्येंतल्या अुपायांतलो,
श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या अुलोवपांतलो,
**योग-बुद्द**
नांवाचो तिसरो अध्याय जालो.

## चौथो अध्याय

# ब्रह्मांत करणी ओंपप

### श्रीभगवंतान म्हळें –

सरना-जाल्लें फळ-दिणी ही योग-बुद्द हांवें विवस्वानाक बरी करून सांगली. विवस्वानान मनूक सांगली आनी मनून अिक्ष्वाकूक सांगली. १

हे भाशेन, शत्रूक तापैतल्या अर्जुना, एकाकडसून दुसऱ्याक मेळिल्ली ही बुद्द, राज-कुळांत जल्मल्ल्या रुशींक समजली. फुडें जायत्या काळान, ती ह्या लोकांत नाशी जाली. २

तूं म्हजो भक्त आनी वांगडचो आसा; देखून, तीच ही पुर्विल्ली योग-बुद्द आज तुका हांवें फोडून सांगली. कित्याक, हें एक चड व्हडलें गुमानीत आसा. ३

### अर्जुनान म्हळें –

तुजो जल्म आर्विल्लो. विवस्वानाचो जल्म पुर्विल्लो. अशें आसतना, तुवें ही बुद्द पैलीं सांगली, हें हांवें कशें समजुचें? ४

### श्रीभगवंतान म्हळें –

शत्रूक तापैतल्या अर्जुना, म्हजे आनी तुजे जायते जल्म जावन फाटीं पडले. हांव ते सगळे जाण. तूं नेण. ५

हांव जल्मना-जाल्लो, मरना-जाल्लो आनी जिवांचो धनी आसुनूय, म्हज्या निजाचेर बसून म्हज्या निजाच्या बळग्यान जल्मतां. ६

कित्याक, भरतकुळांतल्या अर्जुना, जेन्ना जेन्ना धर्म मोडावता आनी अधर्म मातता, तेन्ना तेन्ना हांव म्हाका जल्मा घालतां. ७

बरे तरेन चलतल्यांक सगळे वशीन राखूंक, वायट रितीन चलतल्यांक ना करूंक, आनी धर्म बरे तरेन थापूंक, हांव काळानकाळ जल्मतां. ८

अर्जुना, हे तरेचो म्हजो सामान्याभायलो जल्म आनी करणी, जो कोण खरेपणानशीं समजता, तो कूड सोट्टकूच पर्थून जल्मना. तो म्हजेसरीं येता. ९

जांची विशयांची ओड, भय आनी तिडक गेली, जांकां म्हजेंच एक ध्यान लागलें, जे म्हजेर आधारून रावले, असले जायते मनीस, आत्मगिन्यानाच्या अुज्यान शुद्ध जावन, म्हज्या रुपांत मेळ्ळे. १०

जे लोक जे तरेन म्हाका भजतात, तांकां हांव तेच तरेचें फळ दितां. अर्जुना, मनशां खैंचेय वाटेन गेल्यार, म्हजो मार्ग धरतात. ११

करण्यांचें फळ जोडूंक सोदतले मनीस, ह्या लोकांत अिंद्र बी देवांक पुजतात. कित्याक, मनीस-लोकांत करणेचें फळ रोखडें मेळटा. १२

तीन गुण आनी तांच्यो करण्यो हांचे वांटणेभाशेन, चार जाती हांवें घडल्यो. हांव तांचो घडपी आसलों जाल्यारूय, हांव तांचो घडपी नासून, ना-जायना-जाल्लो, अशें तूं समज. १३

म्हाका करण्यांचो लेप लागना. करण्यांच्या फळाची म्हाका अित्सा ना. अशे तरेन म्हाका जो बरो करून वळखता, ताका ताच्या करण्यांचो पास पडना. १४

अशें समजून, मोक्ष जोडूंक सोदतल्या पुर्विल्ल्याय मनशांनी करणी केली. देखून, पुर्विल्ल्यांनी चंड पुर्विल्ल्या काळांत केल्ली करणीच तूं कर. १५

करणी ती कसली आनी करणी न्हय ती कसली, ह्या संबंदान बुदवंत मनीसूय गदळटात. देखून, करणी कसली ती हांव तुका बरी करून सांगन. ती समजतकूच, दुख-दिण्या संवसारांतसून तूं मेकळो जातलो. १६

कित्याक, करूंक फावो-जाल्ली करणी कसली, ती समजूंक जाय आनी करूंक फावना-जाल्ली करणी कसली, तीय समजूंक जाय. तशेंच, करणी करिना-जावप तें कितें, तें समजूंक जाय. करणेचें खरेलें रूप कळूंक कठीन. १७

कर्तुत्वाचो अभिमान आनी फळाची वान्सा सोडिल्ल्या कारणान, करणेचो पास पडना जावन, करणी करून करिना जाल्लेवरी जाका दिसता, आनी करणी करिनासतना बेकार रावप हें करणे भाशेन जो लेखता, तो मनशांभितर बुदवंत. तो सगळ्यो करण्यो करच्यो करून, तांच्या पासांत पडना-जाल्लो, योग-बुद्दिचो मनीस. १८

फळाची वान्सा आनी कर्तुत्वाचो अभिमान सोडून जो सगळ्यो करण्यो करता, ताका ब्रह्मगिन्यानी लोक, आत्म-गिन्यानाच्या अुज्यान करण्यो जळिल्लो गिन्यानी मनीस म्हणटात. १९

करणेचो अभिमान आनी फळाची वान्सा सोडून सदींच आत्म-गिन्यानान

धादोशी आशिल्लो, आनी कित्याचेरूच आधारून नाशिल्लो मनीस, चोंयवशीन करणी करता आसतनाय, कसलीच करणी करिना. २०

कसलीच आस्त नाशिल्लो, मन आनी कूड सुवादीन आशिल्लो, भोगचेले सगळे जिनस सोडून दिल्लो, असल्या मनशान कूड वांचोवपाचीच निखटी करणी केल्यार, ताका ते करणेच्या पातका-पुण्यतायेचें किल्मीस लागना. २१

आपशींच जें मेळटा तितल्यान धादोशी, सुख-दुखासारक्या जुंवळ्यांची बादा लागून घेना-जाल्लो, दुस्वास नाशिल्लो, आनी फळ मेळप आनी मेळना-जावप सारकीं लेखतलो, असलो मनीस, करणी करुनूय तिच्या पासांत पडना. २२

फळाची ओड सुटिल्लो, कर्तुत्वाच्या अभिमानांतसून मेकळो जाल्लो, फळ मेळप आनी मेळना-जावप हीं दोनूय सारकींच म्हणपाच्या समजांत थिरावल्लो, आनी यज्ञाखातीर करणी करतलो, असल्या मनशाची करणी सामकीच नाशी जाता. २३

यज्ञ करप हें ब्रह्म. यज्ञांत घालचें साअित्य हें ब्रह्म. यज्ञाचो अुजो ब्रह्म. त्या अुज्यांत जो होम करता तो ब्रह्म. हे भाशेन, दरअेकली करणी म्हळ्यार ब्रह्म, अशा नित्शयान जाची बुद्द थीर जाली, तो ब्रह्मांतूच पावता. २४

योग-बुद्दीन चलतले कांय लोक, अिंद्र बी देवांच्याच नांवान भक्तीन यज्ञ करतात. दुसरे कांय लोक, ब्रह्मरुपी अुज्यांत यज्ञानूच यज्ञाचो यज्ञ करतात. २५

दुसरे कांय लोक, आळाबंदा हाडपाच्या अुज्यांत कान बी अिंद्रियांचो यज्ञ करतात. आनीक कांय लोक, अिंद्रियांच्या अुज्यांत नाद बी विशयांचो यज्ञ करतात. २६

दुसरे कांय लोक, ब्रह्म आनी आत्मो अेक म्हणपाच्या गिन्यानान पेटैल्ल्या, आपणाक सुवादीन दवरपाचे बुद्दिच्या अुज्यांत, धा अिंद्रियांच्यो सगळ्यो करण्यो आनी पांच स्वासांच्यो करण्यो हांचो यज्ञ करतात. २७

आनीक कांय लोक, दान-धर्म दिवचो यज्ञ करतात; व्रतां-अुपास करचोयज्ञ करतात; मन आळाबंदा हाडून अेके सुवातेर थारावचो यज्ञ करतात; वेद शिकचो यज्ञ करतात आनी आत्म-गिन्यान जोडचो यज्ञ करतात. हे सगळे निबर नित्शयाचे वावराडे आसात. २८

स्वास आडावंक वावुरतले दुसरे कांय लोक, भायर-वेतो स्वास भितर-येत्या स्वासांत घालचो यज्ञ करतात आनी भितर-येतो स्वास भायर-वेत्या स्वासांत

घालचो यज्ञ करतात; तसोच भायर-वेतो आनी भितर-येतो स्वास आडावचो यज्ञ करतात. २९

आनीक कांय लोक, खाण-जेवण आळावन, स्वासांत स्वास घालचो यज्ञ करतात. हे सगळेच यज्ञ-जाणे-जाल्ले मनीस. यज्ञान तांचें पातक नाशें जाता. ३०

यज्ञ करून अुरिल्लें अमृतासारकें खाण खातले ते लोक, सासणाच्या ब्रह्मांत पावतात. अगा कुरुकुळांतल्या भौ बऱ्या अर्जुना, यज्ञ करिनाशिल्ल्या मनशाक हो मनीस-लोकूच सादना; म्हणटकूच, ताका दुसरो लोक खैंचो सादत? ३१

हे भाशेन, जायत्या तरांचे यज्ञ ब्रह्माच्या तोंडांत पातळ्ळ्यात. ते सगळे, करणेन जातात, अशें तूं समज. अशें समजतकूच, तूं मोक्ष जोडशी. ३२

शत्रूक तापैतल्या अर्जुना, गंद-फूल, तूप-तांदूळ बी साअित्यान केल्ल्या यज्ञापरस, सगळेंच ब्रह्म म्हणपाच्या समजान केल्लो यज्ञ चड बरो. असल्या समजांत, अिल्लीय बाकी अुरनासतना सगळ्यो करण्यो आस्पावतात. ३३

संवसाराचें खरेलें रूप पळेतले गिन्यानी मनीस, हो समज तुका घालतले. तांकां पांयां पडून, भौन भौन विचारून, आनी तांची सेवा करून, तो समज तूं घालून घे. ३४

अर्जुना, तो समज पट्टकूच, तुका आतांचे असलो भ्रम पर्थून जावचो ना. त्या समजान, कुल्लीं जीव तुजे भितर आनी मागीर म्हजे भितर आसात, अशें तुका दिसतलें. ३५

सगळ्या पातक्यांपरस तूं चडांतलो चड पातकी आसलोय जाल्यार, त्या समजाच्या व्हड्यानूच, सगळ्या पातकाच्या समुद्राची पलतड तूं सोपेपणान मारशी. ३६

अर्जुना, रसरशीत पेटैल्लो अुजो जसो जळवाचो गोबर करता, तसो त्या समजाचो अुजो, सगळ्या करण्यांचो गोबर करता. ३७

कित्याक, ह्या मनीस-लोकांत, त्या समजासारको पवित्र करपाचो अुपाय दुसरो ना. तो समज, योग-बुद्द चलोवपांत हुशार जाल्ल्या मनशाच्या अंतस्कर्णांत, कांय काळान, आपशींच पट्टा. ३८

तो समज पडूंक नेटान वावुरतलो, अिंद्रियां बरे तरेन आळाबंदा हाडिल्लो आनी गिन्यानी मनशांचे शिकोवणेचेर पातयेल्लो, असल्या मनशाक तो समज पट्टा. तो समज पट्टकूच, ताका रोखडीच मोक्षाची व्हडली थंडाय मेळटा. ३९

आपुण कांयच समजना-जाल्लो, गिन्यानी मनशांचे शिकोवणेर पातयेना-जाल्लो, दुबावान भरिल्लो, असल्या मनशाची वाट लागता. दुबावी मनशाक हो लोक सादना, दुसरो लोक मेळना आनी सुख जायना. ४०

अर्जुना, जो मनीस योग-बुद्दीन आपल्यो करण्यो ब्रह्माच्या नांवार सोट्टा, आनी आत्मो करणी करिना म्हणपाच्या समजान जाचो कर्तुत्वासंबंदाचो दुबाव सामकोच तुट्टा, असल्या आत्म-गिन्यानी मनशाक ताच्यो करण्यो बांदून घालिनात. ४१

देखून, भरतकुळांतल्या अर्जुना, तुज्या मनांत अजाणपणान आयिल्लो हो दुबाव, आत्म-गिन्यानाचे तरवारीन चिरून, तूं योग-बुद्दीन चल. अूठ. ४२

हे भाशेन, श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या अुपनिशदांतलो,
ब्रह्मविद्येंतल्या अुपायांतलो,
श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या अुलोवपांतलो,
**ब्रह्मांत करणी ओंपप**
नांवाचो चवथो अध्याय जालो.

## पांचवो अध्याय

# करणी सोडप आनी करणी करप

### अर्जुनान म्हळें –

श्रीकृष्णा, करण्यो सोडप आनी पर्थून करण्यो करप हांची तूं तोखणाय करता. ह्या दों भितल्लें जें चड बऱ्याक पडत, तें अेकलेंच बरें करून थारावन म्हाका सांग. १

### श्रीभगवंतान म्हळें –

करण्यो सोडप आनी करण्यो करप हीं दोनूय बऱ्याक पट्टात. परंत त्या दों भितर, करण्यो सोडपापरस करण्यो करप चड बरें. २

जो करणेचो वीट धरिना आनी करणेच्या फळाची अित्सा करिना, तो सदींचोच करणी सोडिल्लो समजचो. कित्याक, बळिष्ट भुजांच्या अर्जुना, अित्सा आनी वीट हांचे जुंवळे-मेकळो तो मनीस, करणेच्या पासांतसून आपशींच आनी सामकोच मेकळो जाता. ३

करणी सोडची सांख्य-बुद्द आनी करणी करची योग-बुद्द ह्यो दोनूय वेगळ्यो, अशें पिशे लोक बडबट्टात. शाणे तशें म्हणनात. हांतूंतली अेकलीय बुद्द बरे तरेन चलैल्यार, दोंयचें फळ मेळटा. ४

सांख्य-बुद्दीन चलतल्यांक जी सुवात मेळटा, तीच योग-बुद्दीन चलतल्यांक मेळटा. सांख्य-बुद्द आनी योग-बुद्द मेळ्ून अेकूच, अशें जो पळेता, तोच सारके रितीन पळेता. ५

परंत बळिष्ट भुजांच्या अर्जुना, योग-बुद्दीबगर सांख्य-बुद्द जोडूंक कठीन. योग-बुद्दीन चलतलो शाणो मनीस ब्रह्म रोखडेंच जोट्टा. ६

निर्मळ अंतस्कर्णाचो, कूड जिखिल्लो, अिंद्रियां जिखिल्लो आनी सगळ्या जिवांचो आत्मो आपल्या आत्म्यावरी लेखतलो, असल्या योग-बुद्दीन चलतल्या मनशाक, करणी करुनूय तिचो लेप लागना. ७

योग-बुद्दीन चलतलो आनी आत्म्याचें खरेलें रूप जाण-जाल्लो मनीस, पळेता, आयकता, तेंकता, वास घेता, खाता, चलता, न्हिदता, स्वास घेता, अुलैता, अुदकाडे आनी वाटोण्या बसता, हातांत घेता, दोळे अुगट्टा आनी धांपता आसतनाय, अिंद्रियां आपणाल्या कामांत वावुरतात अशें समजून, 'हांव कांयच करिनां' अशें मानता. ८-९

फळाची ओड सोडून आनी ब्रह्माक ओंपून जो कोण करण्यो करता, ताका, साळकाच्या पानाक अुदक लागना ते भाशेन, करण्यांच्या पातका-पुण्यतायेचो लेप लागना. १०

योग-बुद्दीन चलतले मनीस, आपणाक निवळावंक, फळाची ओड सोडून, निखटे कुडीन, मनान, बुद्दीन आनी अिंद्रियांनीय करण्यो करतात. ११

करणेचें फळ सोडून, योग-बुद्दीन चलतल्या मनशाक, मोक्षाची अुपाट थंडाय मेळटा. योगबुद्दीन चलना-जाल्लो आनी फळाची ओड लागिल्लो मनीस, फळाचे वान्सेन, करण्यांच्या बऱ्या-वायट पासांत चरांटून बांदून पट्टा. १२

अिंद्रियां सुवादीन आशिल्लो कूडकार आत्मो, मनान सगळ्यो करण्यो सोडून, कान, दोळे बी णव दारां आशिल्ल्या शारासारके कुडींत, कितेंच करिनासतना आनी करूंक लायनासतना, हुस्क्या-मेकळो रावता. १३

लोकांची करण्यो करची तांक, तांच्यो करण्यो आनी त्या करण्यांचें फळ मेळची मांडणी, परमात्मो करिना. परंत निज करता. १४

सगळ्यांत व्यापिल्लो परमात्मो, कोणाचें पातक तशीच पुण्यतायूय आपणाचेर घेना. नेणपणान खरेलें गिन्यान गुटलावलां; त्या कारणान, जीव गदळांत पट्टात. १५

परत जांचें तें नेणपण, आत्म्याच्या गिन्यानान नाशें जालां, तांचें तें आत्म-गिन्यान, तांकां सूर्याभाशेन परमात्म्याचें रूप घणघणीत बरें दाखैता. १६

त्या परमात्म्याचेर जांचें अंतस्कर्ण लागलें, आपुण आनी तो अेक अशें जांकां दिसलें, तांतूंत जे बरे तरेन थारावले, तोच जांची जोडचेली मोटी वस्त जाली, तांच्या करण्यांचें पातक आत्म-गिन्यानान झळझळीत धुवन वचून, ते पर्थून जल्मा येनात. १७

विद्वान आसून गर्व नाशिल्लो नम्र बामण, गाय, हती, सुणें, तसोच सुणें-खायरो, हांकां आत्म-गिन्यानी मनीस सारकेच नदरेन पळेतात. १८

जांचें मन सारकेपणाचे बुद्दींत थारावलें, तांणी ह्या लोकांत आसतनाच जल्म-मर्णाचो संवसार जिखलो. कित्याक, ब्रह्म हें कसलीच खोड नाशिल्लें, सगळ्यांत सारकें आसा. देखून ते ब्रह्मांत थारावले. १९

जाय-जाल्लें मेळून भुरकुटना आनी नाका-जाल्लें मेळून अुबगना, असलो थीर बुद्दिचो, निखालुस गदळना-जाल्लो आनी ब्रह्म जाण-जाल्लो मनीस ब्रह्मांत थारावता. २०

भायल्या विशयांची ओड नाशिल्ल्या मनशाक भितर्यां आत्म्यांत जें सुख आसता तें मेळटा. तो ब्रह्मांत थारावन ब्रह्मरूप जाल्लो मनीस सरनाशिल्लें सुख जोट्टा. २१

कित्याक, अिंद्रियां विशयांक तेंकून जाल्लीं सुखां, फक्कत दुखाचीं मुळां आसतात. तांकां आरंभ आनी अखेर आसा. अर्जुना, तांतूंत शाण्या मनशाक सुख जायना. २२

ह्या लोकांत आसतनाच, कूड सोडचे आदींमेरेन, जाका वान्सेशी आनी तिडकिची कळ सोंसूंक तांक जाता, तो योग-बुद्दिचो. तो सुखी मनीस. २३

जाका भितर्यां आत्म्यान सुख जाता, जो भितर्यां आत्म्यान भुरकुट्टा, तसोच भितर्यां आत्म्यान जाका गिन्यानाचो अुजवाड मेळटा, तो योग-बुद्दिचो मनीस ब्रह्मरूप जावन, ब्रह्मांत विर्गळटा. २४

ज्या गिन्यानी मनशांचीं पातकां नाशीं जालीं, सगळेकडेन अेकलेंच ब्रह्म आसा म्हणपाच्या समजान जांचे दुबाव कातल्ले, जांचें मन आळाबंदा आयलें, जे सगळ्या जिवांचें बरें करपांत रंगले, ते ब्रह्मांत विर्गळटात. २५

वान्सा आनी तिडक हांचेकडसून वेगळे सरिल्ले, करणेच्या फळाची ओड सुटिल्ले, मन आळाबंदा हाडिल्ले आनी आत्म्याक वळखल्ले, असले मनीस, जिवे आसतना आनी मरतकूच ब्रह्मांत विर्गळटात. २६

भायल्या विशयांक भायर घालून, दोंय भोंवयां मजगत नदर थारावन, नाख-पुड्यांतले भायर-वेते आनी भितर-येते स्वास आडावन समा करून, जाणें अिंद्रियां, मन आनी बुद्द आळाबंदा हाडली, मोक्ष हीच जाणें व्हडली जोड कशी लेखली, जाची वान्सा, भय आनी तिडक गेली, तो शाणो मनीस सदींचोच मेकळो. २७-२८

यज्ञा आनी व्रतां भोगतलो हांव, सगळ्या लोकांचो व्हडलो जाळवणदार हांव, सगळ्या जिवांचेर अुपकार करतलो हांव, अशे तरेचो म्हाका समजतकूच, मनशाक मोक्षाची थंडाय मेळटा. २९

हे भाशेन, श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या अुपनिशदांतलो,
ब्रह्मविद्येंतल्या अुपायांतलो,
श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या अुलोवपांतलो,
**करणी सोडप आनी करणी करप**
नांवाचो पांचवो अध्याय जालो.

## सवो अध्याय

# आपणाक आळाबंदो हाडचेलो अुपाय

### श्रीभगवंतान म्हळें –

करणेच्या फळाचेर आधारून रावनासतना, जो मनीस करूंक फावो-जाल्ली करणी करता, तो करणी-सोडपी आनी योग-बुद्दीन करणी-करपी जाता. यज्ञाखातीर अुजो-होम करिना-जाल्लो आनी कांयच करिनासतना वोगी बशिल्लो, असलो मनीस करणी-सोडपी जायना. १

अर्जुना, जाका करणी-सोडप म्हणटात, तेंच योग-बुद्दीन करणी-करप अशें तूं समज. कित्याक, करणेच्या फळाची वान्सा सोडिना-जाल्लो कोणूच मनीस, योग-बुद्दीन करणी-करपी जायना. २

योग-बुद्द जोडूंक सोदतल्या शाण्या मनशाक, करणी-करप हो अुपाय म्हणटात. ह्या अुपायान योग-बुद्द जोडिल्ल्या ताकाच आत्म-गिन्यान जावंक, मनाची थंडाय हो अुपाय म्हणटात. ३

कित्याक, जेन्ना मनीस, विशयांची ओड आनी ते जोडूंक करचेल्या करण्यांचो अभिमान धरिना, तशेंच, विशयांचे आनी करण्यांचे सगळे बेत सोट्टा, तेन्ना ताका योग-बुद्द जोडली म्हणटात. ४

आपणें आपणाक जल्म-मर्णाच्या समुद्रांतसून वैर काडचो. आपणाक सकला अुडोवचो न्हय. कित्याक, आपुणूच आपलो बरें-करतो आनी आपुणूच आपलो वायट-करतो जाता. ५

जाणें आपणाकूच आपणें जिखलो, तो आपलो आपुण बरें-करतो. परंत जाणें आपणाक जिखूंक ना, तो आपुणूच शत्रू जाल्लेवरी आपणाकडेन शत्रूपणान चलता. ६

आपणाक जिखिल्लो, ओड-अुबग वचून चड थंडाय मेळिल्लो, असल्या मनशाचो निवळल्लो आत्मो, थंड-हून, सुख-दुख तसो मान-अपमान हांतूंत सामकोच थीर आसता. ७

शिकिल्ल्या आनी अणभविल्ल्या आत्म-गिन्यानान धादोशी, विशय पळोवन हुळहुळना-जाल्लो, अिंद्रियां जिखिल्लो, मातयेचें दिफळ, फातर आनी भांगर सारकीं लेखतलो, असलो करणी-करपी मनीस योग-बुद्दींत थिरावतलो म्हणटात. ८

बरें-मागतो, अिष्ट, वायट-करतो, पर्वा नाशिल्लो, मदेवर्ती, द्वेस करूंक फावो-जाल्लो, नातेवर्गी, पुण्यवंत आनी पातकी ह्या सगळ्यांक जो सारके बुद्दीन लेखता, तो चड व्हडले योग्यतायेचो. ९

योग-बुद्द चलैतल्यान अेकले-अेकसुरे सुवातेर अेकलो रावन, मन आनी कूड आळाबंदा हाडून, आस्ते-मेकळो जावन, आस्पत सांडून, मन सदींच थीर करचें. १०

निर्मळ सुवातेर दर्भ, तांचेर हरणाचें चामडें आनी ताचे वैर मिळमिळीत लुगट पातळावन, चड अुबार न्हय आनी चड सकल न्हय अशी आपली बसका घट बरी मांडून, ११

ते बसकेचेर बसून, आपणाक निवळावंचे खातीर, चित्त आनी अिंद्रियां हांच्यो करण्यो आंवळून, मन अेके सुवातेर थारावन, योगाची येसाय मारची. १२

पेंगटाकडसून मानेमेरेन मदलें आंग, तकली आनी मान हीं खुंट-कशीं सामकीं अुबीं, अचळय आनी थीर करून, धा दिशांनीं हेवशीन तेवशीन पळेनासतना, आपल्या नाखाच्या तेमकार सारकी बरी नदर लावन, १३

चड थंड अंतस्कर्णान, भया-मेकळो जावन, ब्रह्मचारीपणान रावन, मन आंवळून म्हजेर चित्त लावन, म्हाकाच सगळ्यांत व्हडली जोड कशी लेखून, योगाचे मांडणेंत बसचें. १४

हे भाशेन, सदींच येसाय मारून जागेलें मन आळाबंदा येत तो योग-बुद्दीन चलतलो मनीस, जल्म-मर्णांतसून सोडैणी आनी म्हजे भितर विर्गळायणी थंडाय जोड्टा. १५

अर्जुना, चड खातल्याक आनी कितेंच खायना-जातल्याक, चड न्हिदतल्याक आनी चड जागतल्याक ही योग-बुद्दिची येसाय घडना. १६

योगाची येसाय, नेमस्तपणान खातल्या-पियेतल्याचें आनी चलतल्या-भोंवतल्याचें, नेमस्तपणान वावुरतल्याचें, नेमस्तपणान न्हिदून अुठ्ठल्याचें दुख मारून अुडैता. १७

बरे तरेन आळाबंदा हाडिल्लें मन जेन्ना आत्म्याचेरूच थिरावता आनी वान्सांच्या सगळ्या भोगांची तान नाशी जाता तेन्ना तो मनीस योगबुद्दींत थिरावलो म्हणटात. १८

वारें झणझणनाशिल्ले सुवातेवैलो दिवो जसो हालना, तशीच आवतिकाय, मन आंवळून आपल्या योगाची येसाय मारतल्या मनशाची जाता खैं. १९

योगाची येसाय मारून आळाबंदा हाडिल्लें मन, जे दशेंत थारावता आनी जे दशेंत त्या निवळल्ल्या मनान मनीस आपणालो आत्मो पळोवन आत्म्यांत तुष्टता, २०

जे दशेंत, बुद्धीक कळटा तसलें परंत अिंद्रियांक कळना-जाल्लें आनी अंत नाशिल्लें सुख अणभवता, जे दशेंत थारावल्लो मनीस आत्म्याच्या खरेल्या रुपाकडसून केन्नाच हालना, २१

जी दशा जोड्टकूच, तिचेपरस हेर जोड जो अदीक मानिना, आनी जे दशेंत थारावतकूच, मोटेल्याय दुखान जो चाळावना, २२

ते दशेक दुखाची अिल्लीय आफड जायना-जाल्ली योग नांवाची दशा समजुंची. निर्शेनासतना आनी नित्शयान हो योग चलोवंचो. २३

येवजणेन जाल्ल्यो सगळ्यो वान्सा, बाकी दवरिनासतना, कुल्लीं सोडून, आनी भोगचेल्या जिनसांकडसून, अिंद्रियांचें मालें मानूच चोंयवसल्यान बरें करून आंवळून, २४

धिराचे बुद्धीन ल्हवू-ल्हवू तै (जिनस) विसरून थंड जावंचें आनी आत्म्याचेर मन बरें करून थारावन, दुसरें कितेंच येवजुंचें न्हय. २५

हुळहुळें आनी थारनाशिल्लें मन जैं जैं भायर चरूंक लागत, थैं थैंसून ताका फाटीं ओडून आत्म्याचेच सुवादीन करचें. २६

कित्याक, जागेलें मन भोगचेल्या जिनसांवैलें सुटून आत्म्याचेर थारावन जायतें थंडावलें, जागेली ओड नाशी जाली, जो पातका-मेकळो आनी ब्रह्मरूप जालो, असल्या योग-बुद्धीन चलतल्या ह्या मनशाक भौ बरें सुख मेळटा. २७

हे भाशेन, सदींच योगाची येसाय मारून, पातकांतसून सुटिल्ल्या, योग-बुद्दीन चलतल्या मनशाक, ब्रह्माक तेंकचेलें, अंत नाशिल्लें सुख असुदाय मेळटा. २८

योगाची येसाय मारून जागेलें मन थिरावलें तो मनीस सगळेकडेन सारकेपणाचे नदरेन पळोवन, सगळ्या जिवांत आपुण आसां आनी आपणाभितर सगळे जीव आसात अशें समजता. २९

सगळेकडेन हांव आसां अशें जो पळेता आनी म्हजे भितर सगळें आसा अशें जो पळेता ताका हांव दिसनासो जायनां आनी म्हाका तो दिसनासो जायना. ३०

सगळेकडेन अेकलोच आत्मो आसा म्हणपाची अेकचाराची बुद्द जाची जाली असलो योग-बुद्दीन चलतलो जो मनीस सगळ्या जिवांत आशिल्ल्या म्हाका भजता,

तो कशेय तरेन चल्लो जाल्यार म्हजे भितर आसता. ३१

अर्जुना, संवसारांतल्या जिवांक सुख भोगूं वा दुख भोगूं; तें सुख-दुख आपणाकूच भोगिल्लेवरी आपलेपणाचे सारके नदरेन जो लेखता तो सगळ्यांत व्हडलो योग-बुद्दीन चलतलो मनीस म्हणटात. ३२

### अर्जुनान म्हळें –

श्रीकृष्णा, सगळो संवसार सारकेपणाचे नदरेन पळोवपाची जी ही योग-बुद्द तुवें सांगली ती मनाच्या हुळहुळेपणान जायतो वेळ तगत अशें म्हाका दिसना. ३३

कित्याक, श्रीकृष्णा, मन हुळहुळें, अवजाळी, बाडगना-जाल्लें आनी हट्टुळगें आसा. वारें जशें आंवळून बांदूंक कठीन तशें मन आळाबंदा हाडूंक चड कठीन अशें म्हाका दिसता. ३४

### श्रीभगवंतान म्हळें –

अर्जुना, मन हुळहुळें आनी आळाबंदा हाडूंक कठीन हांतूंत दुबाव ना. परंत संवयेन, आनी भोगचेल्या जिनसांची ओड सोडून, तें आळाबंदा हाडुं येता. ३५

जाणें आपणालें मन आळाबंदा हाडूंक ना ताका सारकेपणाचे नदरेन सगळो संवसार पळोवपाची ही योग-बुद्द घडूंक कठीन अशें म्हाका दिसता. परंत संवयेन जाणें आपलें मन आळाबंदा हाडलें, ताच्यान वैर सांगिल्ले येत्न-अुपाय करून ती जोडुं येता. ३६

### अर्जुनान म्हळें –

श्रीकृष्णा, योग-बुद्दिचेर विस्वास आसून, मन आळाबंदा हाडूंक पोटतिडकीन वावरुं नज जावन, जागेलें मन ते बुद्दिवैलें हाल्लां, तो ती बुद्द फळाक येनासतना मेल्यार, ताका कसली गत मेळटा? ३७

श्रीकृष्णा, फळाचे वान्सेन सर्ग-लोक जोडपाच्यो करण्यो करिना जावन सर्ग-लोक होगडावल्लो, आनी सारकेपणाचे नदरेन फळाची वान्सा सोडून करण्यो करिना जावन ब्रह्माच्या मार्गांत गदळल्लो, हे भाशेन, सर्ग-लोक आनी मोक्ष मेळून दोनूय मार्ग सुटून आधारा-भायरो जाल्लो मनीस, वाऱ्यान तुटिल्लो कुपाचो कुडको मळबांत रावनासतना आनी सकला पडून पावस घालिनासतना जसो मदलेमदीं नासो जाता, तसो नासो जायना मू? ३८

श्रीकृष्णा, हो म्हगेलो दुबाव तुवें बाकी दवरिनासतना सामकोच कातरून अुडोवंक जाय. कित्याक, तुजे बादत हो दुबाव कातरतलो दुसरो कोणूच मेळचो ना. ३९

**श्रीभगवंतान म्हळें –**

अर्जुना, ह्या लोकांत आनी फुडल्या लोकांत ताची वाट लागना. कित्याक, बरेली करणी करतलो कोणूच, पुता, वायटाक पावना. ४०

पुण्यतायेच्यो करण्यो करतल्यांक जे लोक मेळटात, ते योग-बुद्दिच्या मार्गावैल्यान सकला पडिल्ल्या मनशाक मेळ्ळून, थैं तो जायतीं वर्सां रावन, मागीर शुद्ध चलणुकेच्या मोट्या गिरेस्त मनशांगेर जल्मता. ४१

ना जाल्यार, योग-बुद्दीन चलतल्या बुदवंत मनशांच्याच कुळांत तो जल्मता. ह्या लोकांत असले तरेचो जल्म मेळ्ळूंक चड कठीन. ४२

ह्या दोंय तरांच्या जल्मांत, ताका आदल्या जल्मांतली बुद्द जोड्टा. अर्जुना, तो मागीर मोक्ष जोडूंक पर्थून वावुरता. ४३

तागेली अित्सा नासतनाय, ताका ती आदल्या जल्मांतली योग-बुद्दीन चलचेली संवयूच, भोगचेल्या जिनसांकडसून पेल्यान काडून, मोक्ष जोडचेल्या मार्गावसल्यान ओढ्टा. योग-बुद्द समजून घेवचेली जाका निखटी वान्सा जाता तोय वेदांत सांगिल्ल्या फळ-दिण्या करण्यांपेल्यान वेता आनी मोक्ष जोड्टा. ४४

परंत, योग-बुद्दीन पोटतिडकीन वावुरतलो मनीस, जायत्या जल्मांतले कष्ट फळाक येवन पातकांच्या किल्मिसांतसून शुद्ध जावन, मागीर व्हडली गत जोड्टा. ४५

योग-बुद्दीन चलतलो मनीस व्रतां-अुपास करतल्यांपरस अुंच. तो सांख्य-बुद्दीन चलतल्या गिन्यानी मनशांकूय अुंच समजतात. तो वेदांतल्यो फळ-दिण्यो करण्यो करतल्या कर्मिष्टांकूय अुंच. देखून, अर्जुना, तूं योग-बुद्दीन वावुरतलो जा. ४६

त्या सगळ्या योग-बुद्दीन वावुरतल्या मनशांतूय जो म्हजेर ध्यान-मन लावन, म्हजेर पातयेवन, म्हाका भजता, तो म्हाका भौ बरो योग-बुद्दिचो मनीस दिसता. ४७

हे भाशेन, श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या अुपनिशदांतलो,
ब्रह्मविद्येंतल्या अुपायांतलो,
श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या अुलोवपांतलो,
**आपणाक आळाबंदा हाडचेलो अुपाय**
नांवाचो सवो अध्याय जालो.

## सातवो अध्याय

# गिन्यान आनी अणभवी गिन्यान

**श्रीभगवंतान म्हळें –**

अर्जुना, तुज्या मनाक म्हजी ओड लावन, म्हजेर आधारून, योग-बुद्दीन चलून, ज्या गिन्यानान तूं दुबावाबगर म्हाका सारको बरो वळखशी, तें गिन्यान आयक. १

अणभवी गिन्यानासैत हें गिन्यान अिल्लेंय बाकी दवरिनासतना हांव तुका सांगन. तें समजतकूच, ह्या लोकांत पर्थून आनीक समजपाचें कांय अुरचें ना. २

हजारांत कोणूय अेकलोच मनीस हें आत्म-गिन्यान जोडूंक वावुरता. त्या धावराड्या गिन्यानी मनशांतूय कोणूय अेकलोच म्हाका खरेपणानशीं वळखता.

भुंय, अुदक, अुजो, वारें, अंत्राळ, मन, बुद्द आनी हांवकार मेळून आठ तरांनी वांटिल्लें हें म्हगेलें निज आसा. ४

हें सकैल्या पांवड्याचें निज जालें. अर्जुना, हाचे परस वैल्या पांवड्याचें म्हगेलें जीवरुपी निज आसा अशें तूं समज. त्या जीवरुपी निजाचेर हो संवसार आधारून आसा. ५

हीं दोन निजां सगळ्या जिवांचें मूळ आसात म्हणपाचें तूं ध्यानांत घे. सगळ्या संवसाराक जल्मा-घालतलो तसोच ना-करतलो हांव. ६

अर्जुना, म्हजेपरस व्हडलें अशें आनीक कितेंच ना. दोरयेंत मणी गुथतात ते भाशेन हो सगळो संवसार म्हजे भितर गुथला. ७

अर्जुना, अुदकाची पातळसाण हांव. चंद्र-सूर्याचो अुजवाड हांव. सगळ्या वेदांत ॐ हांव. अंत्राळांतलो नाद हांव. मनशांतलें मनीसपण हांव. ८

धर्तरेंतलो पर्मळीक वास आनी अुज्यांतलें तेज हांव. सगळ्या जिवांतलें जिवेपण आनी व्रतां-अुपास बी तपां करतल्यांचें दांकळपण हांव. ९

अर्जुना, सगळ्या जिवांचें सासणाचें बियाण हांव अशें तूं समज. बुदवंतांली बुद्द हांव. तेजवंतांलें तेज हांव. १०

फळाची वान्सा आनी ओड नाशिल्लें बळिष्टांलें बळगें हांव. अर्जुना, धर्म-नितीक आड येना-जाल्लो असो जिवांतलो मोग हांव. ११

सत्व, रज आनी तम ह्या तीन गुणांनी भरिल्ले जिनस म्हजेपासुनूच जातात अशें तूं समज. परंत हांव तांचे सुवादीन नां; ते म्हजे सुवादीन आसात. १२

ह्या तीन गुणांनी भरिल्ल्या जिनसांनी गदळल्लो हो सगळो संवसार, तांचे पेल्यान आशिल्ल्या भंगना-जाल्ल्या म्हाका वळखना. १३

तीन गुणांनी भरिल्लें, सामान्याभायलें हें म्हगेलें निज पलतड मारूंक कठीन. जे म्हाकाच पांयां पट्टात ते ह्या निजाचे पलतडी पावतात. १४

ह्या निजान जांगेली बुद्द नागैल्या ते मुर्खे, नष्ट्यो करण्यो करतले, अुणाक मनीस, राक्षेसी सबाव धरून, म्हाका पांयां पडनात. १५

अर्जुना, बरी करणी करतले चार तरांचे लोक म्हाका पांयां पट्टात:- पिडा भोगिल्ले; आत्म-गिन्यानाची अित्सा आशिल्ले; संवसारीक हित जोडूंक आशेल्ले आनी आत्म्याक वळखल्ले गिन्यानी. १६

तांचे भितर, जो कोण सदींच योग-बुद्दीन फळाची वान्सा सोडून म्हाका अेकल्याकूच भजता तो आत्म्याक वळखल्लो गिन्यानी मनीस चड अूंच. कित्याक, सगळ्यांपरस हांव त्या गिन्यानी मनशालो चड मोगाचो आनी तो म्हगेलो चड मोगाचो. १७

हे चारूय तरांचे लोक बरे. परंत आत्म्याक वळखल्लो गिन्यानी मनीस म्हगेलो आत्मोच कसोसो म्हाका दिसता. कित्याक, फळाची वान्सा सोडून योग-बुद्दीन चलतलो तो मनीस, ज्या म्हजेकूय आनीक व्हडली जोड ना, त्या म्हजेर आधारून आसता. १८

जायत्या जल्मांचे अखेरेक, हो सगळो संवसार वासुदेवरुपी आसा अशें समजून, आत्म्याक वळखल्लो गिन्यानी मनीस म्हाका पांयां पट्टा. असलो मोट्या अंतस्कर्णाचो म्हात्मो मेळूंक कठीन. १९

आपापणाले निजाचे बडीर वचून, वेगळीं वेगळीं फळां जोडच्या वान्सांच्या नादाक लागून जांची बुद्द होगडावल्या, असले लोक हेर देवांक भजतात. २०

जो जो भक्त देवाचे जे जे म्हुर्तिचेर पातयेवन ती पुजूंक येवजिता, ताचो ताचो घट बरो विस्वास हांव तेच म्हुर्तिचेर थारायतां. २१

हांवें थारायिल्ल्या त्या विस्वासान तो ते म्हुर्तीक पुजता; आनी मागीर, हांवेंच निर्मिल्लीं वान्सेचीं फळां तो जोट्टा. २२

परंत त्या अिल्लेशे बुद्दिच्या लोकांक मेळणें तें फळ अंत आशिल्लें आसता. देवांक पुजतले ते लोक देवांसरीं पावतात. आनी म्हाका पुजतले लोक म्हजेसरीं पावतात. २३

अबुद्द लोक म्हगेलें भंगना-जाल्लें आनी सगळ्यांत अुंच आनी व्हडलें रूप वळखना-जावन, म्हाका दिसना-जाल्ल्याक दिसता तसलो समजतात. २४

येवपाचे तांकीन अुक्ताडा आयिल्ल्या निजान गुटलावल्लो हांव सगळ्यांक दिसनां. म्हाका जल्मना-जाल्ल्याक आनी भंगना-जाल्ल्याक हो गदळल्लो लोक वळखना. २५

अर्जुना, फाटले, आतांचे आनी फुडले जीव हांव जाण. परंत म्हाका कोणूच नेण. २६

अर्जुना, वान्सा आनी अुबग हांचेपासून जाल्ल्या बऱ्या-वायटासारक्या जुंवळ्यांनी बुद्द गदळून सगळे जीव ह्या संवसारांत घुस्पा-गदळांत पट्टात. २७

बरेल्यो करण्यो करतल्या ज्या लोकांलें पातक नाशें जालें ते बऱ्या वायटासारक्या जुंवळ्यांच्या गदळांत तरून मेकळे जावन घट नित्शयान म्हाका भजतात. २८

म्हातारपण आनी मर्ण हांतूंतसून सुटचेखातीर म्हजेर आधारून जे वावुरतात ते तें ब्रह्म, सगळें अध्यात्म आनी सगळी करणी कितें ती समजतात. २९

अधिभूत, अधिदैव आनी अधियज्ञ हीं तीनूय म्हजे भितर आसात अशें जे समजतात त्या आपणाक आळाबंदा हाट्टल्ल्या मनशांक मरच्या वेळारूय म्हजो अुगडास जाता. ३०

हे भाशेन, श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या अुपनिशदांतलो,
ब्रह्मविद्येंतल्या अुपायांतलो,
श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या अुलोवपांतलो,
**गिन्यान आनी अणभवी गिन्यान**
नांवाचो सातवो अध्याय जालो.

# आठवो अध्याय

# ना-जायना-जाल्लें ब्रह्म

### अर्जुनान म्हळें –

श्रीकृष्णा, ब्रह्म तें कितें? अध्यात्म म्हळ्यार कितें? करणी म्हळ्यार कितें? अधिभूत कित्याक म्हणटात? आनी अधिदैव कित्याक म्हणटात? १

श्रीकृष्णा, हांगा हे कुडींत अधियज्ञ तो कोण? आनी कसो आसता? आनी आपणाक आळाबंदा हाट्टल्या मनशांक मरच्या वेळार तुजो अुगडास कसो जाता?

### श्रीभगवंतान म्हळें –

ना-जायना-जाल्लें सगळ्यांत व्हडलें तें ब्रह्म. ताच्या अुक्ताडा आयिल्ल्या जीव-रुपाक अध्यात्म म्हणटात. जीव-रूप अुक्ताडा हाडपाच्या वावराक करणी हें नांव आसा. ३

जीव-रूप ना-जावपाची जी दशा ती अधिभूत. जीव-रुपांत व्यापिल्लें जें मूळ ब्रह्म तें अधिदैवत. कूडकारांभितल्ल्या पाटांगड्या अर्जुना, हे कुडींत सगळ्यो पुजा भोगतलो अधियज्ञ तो हांव खासा आसां. ४

असल्या म्हजोच, मरच्या वेळार अुगडास करून जो कूड सोडून वेता, तो म्हज्या रुपांत मेळटा हांतूंत दुबाव ना. ५

ना जाल्यार, अर्जुना, ज्या मनशाक ज्या ज्या रुपाचें ध्यान सदींच लागिल्लें आसता ताका मरच्या वेळार, त्या त्या रुपाचो अुगडास जावन तो कूड सोट्टा, आनी त्या त्याच रुपाक पावता. ६

देखून, सगळ्या वेळार म्हजो अुगडास कर आनी झूज. म्हजेर तुगेलें मन आनी बुद्द लायतकूच; दुबाव नासतना, तूं म्हजेसरींच पावतलो. ७

अर्जुना, आळाबंदा हाडपाचे संवयेन मन दुसरेकडेन वचूंक दिनासतना, लकलकीत व्हडल्या ब्रह्माचें ध्यान करतकूच, मनीस त्या ब्रह्मांत पावता. ८

सगळें जाण-जाल्लें, पुर्विल्लें, संवसाराचेर शेक चलैणें, कुस्कुटापरस चड कुस्कूट,

सगळ्यांक पोसतलें, येवजूंक येना-जाल्ल्या रुपाचें, सूर्याच्या रुपाचें आनी काळोखा पेल्यानचें, असल्या व्हडल्या ब्रह्माचो अुगडास जो मनीस मरच्या वेळार, थीर मनान, मोगान आनी मन आळाबंदा हाडपाच्या बळग्यान, दोनूय भोवयां मजगत बरेतरेन स्वास थारावन करता, तो मनीस त्या लकलकीत व्हडल्या ब्रह्मांत पावता. ९-१०

वेद जाण-जाल्ले लोक जिका ना-जायनाशिल्ली सुवात म्हणटात, वान्सा सोडून वावुरतले लोक जे सुवातेंत रिगतात, जी सुवात जोडचेखातीर लोक ब्रह्मचारीपणान चलतात ती सुवात तुका थोड्या अुतरांनी हांव सांगन. ११

भोगचेल्या जिनसांआड अिंद्रियांचीं सगळीं कवडां धांपून, हड्ड्यांत मन आडावन ताका त्या जिनसांचें ध्यान करूंक दिना जावन, आपणालो स्वास कपळांत व्हरून आनी चित्त थारावन, १२

ब्रह्मरुपी ॐ हें अेकलेंच अक्षर तोंडान म्हणत, म्हजो अुगडास करीत, कूड सोडून जो वेता तो व्हडले सुवातेर पावता. १३

अर्जुना, दुसऱ्या कित्यार मन लायनासतना सदींच जो म्हजो अुगडास करता त्या सदींच योग-बुद्दीन चलतल्या मनशाक हांव मेळूंक सोंपो. १४

हांव मेळून व्हडली सुवात जोडिल्ल्या, मोट्या अंतस्कर्णाच्या म्हात्म्यांक, दुखाचें घर कसोसो आनी खिणयाळो असो दुसरो जल्म मेळना. १५

अर्जुना, ब्रह्मदेवालो लोक बी धरून सगळ्या सुवातांवैल्यान मनशांक पर्थून जल्म घेवन संवसारांत येवंचें पट्टा. परंत म्हजेसरीं पावतकूच, पर्थून जल्म घेवंचो पडना. १६

चार युगां हजार खेपो वचूंक जो वेळ लागता तो ब्रह्मदेवालो अेक दीस, आनी पर्थून चार युगां हजार खेपो वचूंक जो वेळ लागता ती ब्रह्मदेवाली अेक रात, अशें जे समजतात तेच दीस आनी रात खरेपणानशीं जाण-जाल्ले लोक म्हणचे. १७

ब्रह्मदेवालो दीस अुजवाट्टकूच, दिसना-जाल्ल्यांतसून सगळे दिसतले जीव जल्मतात आनी ब्रह्मदेवाली रात जातकूच, त्याच दिसना-जाल्ल्यांत दिसतले जीव ना जातात. १८

अर्जुना, तेंच हें जिवांचें मालें स्वतंत्र नाशिल्ले-भाशेन, भौन भौन जल्मून, ब्रह्मदेवाली रात जातकूच नाशें जाता आनी ब्रह्मदेवाचो दीस जातकूच जल्मता. १९

परंत त्या दिसना-जाल्ल्यापरस व्हडली आनीक दुसरी सासणाची दिसना-जाल्ली वस्त आसा; ती, सगळे जीव नाशे जाले जाल्यारूय नाशी जायना. २०

तिका दिसना-जाल्ली आनी नासना-जाल्ली म्हणटात. तिका व्हडली सुवात म्हणटात. तें म्हगेलें व्हडलें घर. ती मेळटकूच, थैंच्यान कोणूच फाटीं पर्थनात. २१

अर्जुना, जाचे भितर जीव रावतात आनी जाणें हो सगळो संवसार व्यापला तें व्हडलें ब्रह्म, दुसऱ्या कित्यार मन लायनासतना, मोग करून जोडुं येता. २२

अर्जुना, योग-बुद्दीन चलतले मनीस ज्या वेळार मरतकूच पर्थून जल्मनात, आनी ज्या वेळार मरतकूच पर्थून जल्मतात, तो वेळ तुका सांगन. २३

सूर्य अुत्तरेवशीन वचचेल्या स म्हैन्यांत, पुनवेंचे धवे पंद्रसींत दिसा-अुजवाडे मेल्ले, ब्रह्म जाण-जाल्ले मनीस, जाळूंक पेटैल्ल्या अुज्यांतसून आनी त्या अुज्याच्या जिबोळ्यांतसून ब्रह्मांत पावतात. २४

तशेंच, सूर्य दक्षिणेवशीन वचचेल्या स म्हैन्यांत, अुमासेचे काळे पंद्रसींत, रातच्या वेळार मेल्लो, योग-बुद्दीन चलतलो मनीस, जाळूंक पेटैल्ल्या अुज्याच्या धुंवरांतसून चंद्रलोकाक वचून, फाटीं पर्थता. २५

धवी आनी काळी अशो ह्या संवसाराच्यो सासणाच्यो दोन वाटो मानल्यात. अेके वाटेन गेल्ले मनीस पर्थून येना. दुसरे वाटेन गेल्लो मनीस पर्थून येता. २६

ह्यो दोन वाटो कळून, योग-बुद्दीन चलतलो कोणूच मनीस, सर्गाचे आस्तेन गदळना. देखून अर्जुना, तूं सदींच योग-बुद्दीन चलतलो जा. २७

हें समजतकूच, योग-बुद्दीन चलतलो मनीस, वेद शिकल्यार, पुजा-पनस्कार केल्यार, व्रतां-अुपास चलैल्यार आनी दान-धर्म केल्यार शास्त्रांत जें पुण्यतायेचें फळ सांगलां तें सगळें फाटीं अुडैता आनी ताचे परस अुंच अशे पैले सुवातेर पावता. २८

हे भाशेन, श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या अुपनिशदांतलो,
ब्रह्मविद्येंतल्या अुपायांतलो,
श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या अुलोवपांतलो,
**ना-जायना-जाल्लें ब्रह्म**
नांवाचो आठवो अध्याय जालो.

## णववो अध्याय

# म्हालगडी विद्या आनी म्हालगडें गुमानीत

**श्रीभगवंतान म्हळें –**

दुसऱ्याक तरे धरिनाशिल्ल्या तुका, चड गुमानित अशें हें ब्रह्म-गिन्यान हांव आतां अणभवासैत सांगन. तें समजतकूच, तूं वायटांतसून मेकळो जातलो. १

हें गिन्यान सगळ्या विद्यांत म्हालगडें. सगळ्या गुमानितांत म्हालगडें. पातकां धुवन निर्मळ जावपाचो हो भौ बरो अुपाय. हाचें फळ दोळ्यांक घणघणीत बरें दिसता. हें धर्मिष्टायेचें, चलोवंक सोपें आनी भंगना-जाल्लें आसा. २

अर्जुना, ह्या पवित्र गिन्यानाचेर पातयेना-जाल्ले मनीस म्हाका येवन मेळनासतना, जल्म-मर्णाच्या संवसाराचे वाटेंत पर्थतात. ३

दिसना-जाल्ल्या रुपान हांवें हो सगळो संवसार व्यापला. म्हजे भितर सगळ्यो वस्ती रावतात. हांव तांचे भितर रावनां. ४

तरी आसतना, म्हजे भितर वस्ती रावनात. पळे म्हगेले युक्तिचें बळगें. वस्तींक जल्मा घालतलो म्हगेलो आत्मो वस्तिंचो आधार आसून वस्तींत रावना. ५

सगळेकडेन व्हांवतलो मोटो वाव जसो सदींच अंत्राळांत आसता तशो सगळ्यो वस्ती म्हजे भितर आसतात अशें तूं समज. ६

अर्जुना, संवसार सोंपत्यावेळार, सगळ्यो वस्ती म्हगेल्या निजाभितर रिगतात आनी संवसार लागत्यावेळार, हांव त्यो पर्थून भायर सोट्टां. ७

निजाचे सुवादीन पडून अुपाय चलना-जाल्लें हें सगळें वस्तिंचें मालें, हांव म्हगेल्या निजाक धोंगसून, पर्थून पर्थून भायर सोट्टां. ८

अर्जुना, म्हाका ह्या करण्यांत कर्तुत्वाचो अभिमान आनी फळाची ओड नासून, हांव त्यो म्हाका लागून घेनां-जाल्ल्यान, म्हाका त्या करण्यांचो पास पडना.

म्हजे नदरेतळा, हालतल्यो आनी हालना-जाल्ल्यो सगळ्यो वस्ती निज वियेता. ह्या कारणान, अर्जुना, संवसाराचें चाख घुंवता. १०

हांव वस्तिंचो मोटो व्हडलो धनी म्हणपाचें म्हजें व्हडलें रूप नकळ-जाल्ले पिशे लोक, मनशाची कूड घेतिल्ल्या म्हजो अपमान करतात. ११

म्हजे बादत हेर देव तांकां पावतले म्हणपाची तांगेली आस्त फुकट. म्हजे बादत हेरां देवांक ते आपणाल्यो करण्यो ओंपतात त्यो फुकट. पिसायेच्या दुबावांनी भरिल्लें तांगेलें गिन्यान फुकट. तांगेलें मन थाऱ्यार ना. राक्षेसांली आनी दैत्यांली बुद्द-गदळायणी बड तांणी घेतल्या. १२

परंत अर्जुना, देवांली बड घेतिल्ले, मोट्या अंतस्कर्णाचे लोक, वस्तिंचें सरना-जाल्लें मूळ कारण हांव म्हणपाचें समजून, दुसऱ्या कित्यार मन लायनासतना म्हाका भजतात. १३

ते ब्रह्म-गिन्यान जोडूंक वावुरतले, घट नित्शयाचे, सदींच थीर मनाचे लोक, म्हगेली तोखणाय गावन आनी पांयां पडून म्हाका मोगान भजतात. १४

तशेच दुसरे कांयजाण, सगळो संवसार आनी हांव मेळून अेक म्हणपाच्या अेकचाराच्या समजान म्हाका पुजून भजतात. कांयजाण, संवसारापासून हांव वेगळो म्हणपाच्या वेगळेचाराच्या समजान म्हाका पुजून भजतात. कांयजाण, हांवूच जायत्या रुपांनी सगळ्या संवसारांत व्यापलां म्हणपाच्या जायतेचाराच्या समजान म्हाका पुजून भजतात. १५

वेदांत सांगिल्ली पुजा हांव. स्मृतींत सांगिल्ल्यो पुजा हांव. स्राद्दांत पितरांक दाखोवचेलो निवेद हांव. जिवांचें खाण-जेवण आनी ओखद हांव. पुजे-वेळार होरांवचेलो मंत्र हांव, पुजेंत लागतलें तूप हांव, पुजे-वेळार पेटोवचेलो अुजो हांव आनी त्या अुज्यांत अुडोवंचेलो जिनस हांव. १६

ह्या संवसाराचो बापुय, आवै, आजो आनी पोसतलो हांव. मनशांनी जाण-जावपाची पवित्र वस्त, ब्रह्मरुपी, ओंकार, ऋग्वेद, सामवेद आनी यजुर्वेदूय हांव. १७

जिवानी जोडचेली व्हडली सुवात हांव. जिवांक खाण-जेवण भरैतलो हांव. जिवांचो धनी हांव. जिवांची बरी-वायट करणी पळेतलो हांव. जिवांची रावंचेली सुवात हांव. जिवांचो आलासरो हांव. जिवांचो बरें-मागतो अिष्ट हांव. जिवांक जल्मा-घालतलो हांव. जिवांक मारतलो हांव. जिवांची विसव घेवंचेली सुवात हांव. जिवांची कोठी हांव. जिवांचें भंगना-जाल्लें बियाण हांव. १८

अर्जुना, हांव ओत घालतां. पावसाच्या रुपान धर्तरेर घाल्लें अुदक हांव किरणांनी ओडून घेतां आनी पर्थून धर्तरेर सोट्टां. हांव जिवांचें जीवपण आनी मर्ण

आसां. जें आसा तें हांव आनी जें ना तें हांव. १९

तीन वेद जाण-जाल्ले जे लोक त्या वेदांत सांगिल्ल्या पुजांनी अिंद्र, वरुण बी देवांच्या रुपान म्हाका पुजून, सोमरोस पियेवन, पातकां-मेकळे जावन, सर्गाची वाट मेळूंक मागणी करतात, तांकां तांगेले पुण्यतायेचें फळ कसोसो अिंद्राचो सर्गलोक मेळून, थैं ते भौ बरीं देवाचीं सुखां भोगतात. २०

तो व्हडलो सर्गलोक भोगून तांगेले पुण्यतायेचो वांटो सोंपतकूच, ते मर्णलोकांत रिगतात. हे भाशेन, फळाची वान्सा धरून तीन वेदांत सांगिल्ल्यो करण्यो करतल्यांक, सर्गार आनी मर्णलोकांत येरादारी घालचेली जोड मेळटा. २१

दुसऱ्या कित्यार मन लायनासतना म्हाका चिंतून जे लोक म्हाका पुजतात, त्या सदींच म्हजेर ध्यान लायिल्ल्यांक, हांव नवी जोड-जाड दितां आनी तांगेली पोरणी जोड-जाड राखतां. २२

अर्जुना, जे कोण दुसऱ्या देवांचेर पातयेवन तांकां पुजतात तेय आडरितीन म्हाकाच पुजतात. २३

कित्याक, त्या देवांच्यो सगळ्यो पुजा भोगतलो हांव आनी फळ दितलो धनीय हांव. परंत असो हांव आसां म्हणपाचें ते खरेपणान वळखनात; देखून, ते निसरून मर्णलोकांत पड्टात. २४

देवांक पुजतले देवांसरीं वेतात. पितरांक पुजतले पितरांसरीं वेतात. भुतावळीक पुजतले भुतांसरीं वेतात आनी म्हाका पुजतले म्हजेसरीं येतात. २५

जो म्हाका मोगान पान, फूल, फळ वा अुदक दिता त्या शुद्ध अंतस्कर्णाच्या मनशाली ती मोगाची भेट हांव खातां. २६

अर्जुना, तूं जी करणी करता, जें खाण खाता, जी पुजा करता, जें दान दिता, जे अुपास आनी जीं व्रतां करता तीं म्हाका ओंप. २७

अशें करतकूच, करण्यांच्या बऱ्या-वायट फळांच्या बांदपासांतसून तूं मेकळो जाशी आनी फळांची वान्सा सोडपाचे योग-बुद्दीन तुगेलें मन निवळून, जल्म-मर्णाचे येरादारींतसून सुटून तूं म्हजेसरीं पावशी. २८

सगळ्या जिवांक हांव सारको. म्हजो कोण अपुर्बायेचो ना आनी कोण निखड्डायेचो ना. परंत जे म्हाका मोगान भजतात ते म्हजेभितर रावतात आनी हांवूय तांचे भितर रावतां. २९

चड वायट चलणुकेचो आसल्यारूय, जो दुसऱ्या कित्यार मन लायनासतना

म्हाका पुजता, तो बरे चलणुकेचो संत कसोच मानूंक जाय. कित्याक, म्हाका पुजपाचो तागेलो नित्शय बरे तरेचो जाला. ३०

तो रोखडोच बरे चलणुकेचो धर्मिष्ट मनीस जाता आनी सासणाची थंडाय जोड्टा. अर्जुना, म्हजो मोग करतल्याची वाट लागना हें तूं खरेपणानशीं समज. ३१

कित्याक, अर्जुना, जे पातकी जल्माचे आसतात तेय आनी बायलो, वाणी तशेच सुदिरूय म्हजेर आधारून रावतकूच व्हडली सुवात जोड्टात. ३२

म्हणटकूच, पुण्यवंत बामण आनी खेत्री अशे जे म्हजे मोगी आसात तांची गजाल कित्याक सांगूंक जाय? ह्या खिणयाळ्या आनी सुखनाशिल्ल्या मर्णलोकांत तूं जल्मा आयला देखून म्हाका भज. ३३

तूं म्हजेर मन लाय. म्हजो मोग कर. म्हाका पूज. म्हाका पांयां पड.हे भाशेन, योग-बुद्दीन चलून म्हाकाच व्हडली जोडची वस्त कशी लेखतकूच, तूं म्हाकाच येवन मेळटलो. ३४

हे भाशेन, श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या अुपनिशदांतलो,
ब्रह्मविद्येंतल्या अुपायांतलो,
श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या अुलोवपांतलो,
**म्हालगडी विद्या आनी म्हालगडें गुमानीत**
नांवाचो णववो अध्याय जालो.

## धावो अध्याय

# भगवंतालो विस्तार

**श्रीभगवंतान म्हळें –**

अर्जुना, तूं आनीक एक फावट म्हगेली व्हडली सांगणी आयक. म्हगेल्या अुलोवपान तुष्टतल्या तुका, तुज्या बऱ्याखातीर, हांव ती सांगन. १

देवांले मेळे आनी मोटे मोटे रुशी म्हगेलें मूळ नेणत. कित्याक, त्या देवांलें आनी मोट्या रुशिलें कारण सगळे तरेन हांव आसां. २

जो कोण म्हाका जल्मना-जाल्लो, मूळ नाशिल्लो, लोकांलो मोटो शेक चलैतलो धनी म्हणपाचें समजता, तो मनशांभितर गदळना-जाल्लो मनीस, सगळ्या पातकांतसून मेकळो जाता. ३

खरें-लटकें समजपाची बुद्द, आत्म्याचें गिन्यान, गदळना-जावप, सोंशीकपण, खरेपण, अिंद्रियां आळाबंदा हाडप, मनाची थंडाय, सुख, दुख, जल्म, मर्ण, भय, तसोच भय-नासप, ४

दुसऱ्याक पिडा दिना-जावप, सारकेपणाचे नदरेन पळोवप, धादोसपण, व्रतां-अुपास चलोवप, दान-धर्म करप, कीर्त, अपकीर्त ह्यो जिवांच्यो तरेकतरा कळा म्हजेपासुनूच जातात. ५

जांचेपासून संवसारांतली ही पिळगी जाली ते मरीचि बी सात आनी तांचे आदले चार व्हडले रुशी तशेच स्वायंभुव बी मनू, हांतूंत म्हगेलें बळगें आसून ते म्हज्या मनाचे येवजणेन जाल्यात. ६

हो म्हगेलो विस्तार आनी तो करपाची म्हगेली युक्त जो खरेपणान समजता, तो योग-बुद्दींत घट बरो थिरावता हांतूंत दुबाव ना. ७

हांव सगळ्याचें मूळ. म्हजेपासून सगळो विस्तार जाता. अशें मानून, शाणे लोक म्हाका मोगान भजतात. ८

ते म्हजेर मन दवरून, म्हाका जीव ओंपून, एकामेकांक म्हजेसंबंदाची शिकवण दिवन आनी म्हज्यो गजाली सांगून सदींच तुष्टतात आनी सुखी आसतात. ९

सदींच सुखा-समाधानान आशिल्ल्या आनी म्हाका मोगान भजतल्या त्या मनशांक हांव बुद्दिची अेक युक्त दितां; तिणें ते म्हजेसरीं पावतात. १०

अर्जुना, तांचे काकळुतिनूच, हांव तांगेल्या अंतस्कर्णांत रावन, घणघणीत गिन्यानाच्या दिव्यान, तांगेल्या अजाणपणाचो काळोख नासो करतां. ११

### अर्जुनान म्हळें –

तूं व्हडलें ब्रह्म, तूं व्हडली सुवात, तूं चड पवित्र वस्त, तूं सासणाचो लकलकलीत आत्मो, तूं पैलो देव; तूं जल्म-नाशिल्लो, तूं सगळ्यांक व्यापतलो, १२

अशें तुका सगळे रुशी, तसोच देवरुशी नारद, असित, देवल आनी व्यास म्हणटात; आनी तूंय तेंच म्हाका सांगता. १३

श्रीकृष्णा, तूं जें हें म्हाका सांगता तें सगळें हांव खरें समजतां. कित्याक, भगवंता, देव आनी दैत्य तुगेलें रूप नेणत. १४

अगा जिवांक जल्मा-घालतल्या, जिवांल्या धनया, देवांल्या देवा, संवसाराक पोसतल्या, चड बरेल्या आत्म्या, तूं खासा आपणाल्या बळग्यान आपणाक वळखता.

ज्या विस्तारान हे सगळे लोक व्यापून तूं रावला तो तुगेलो लकलकीत विस्तार तूं म्हाका कुल्लीं सांग. १६

युक्तिचें बळगें आशिल्ल्या श्रीकृष्णा, सदींच तुगेलें ध्यान करून, हांवें तुका कसो वळखुंचो? भगवंता, कसल्या कसल्या रुपांत हांव तुगेलें ध्यान करूं? १७

नष्ट्या लोकांची वाट लायतल्या श्रीकृष्णा, तुगेलो विस्तार आनी तो करपाची तुगेली युक्त, आनीक अेक फावट म्हाका पातळावन सांग. कित्याक, अमृतावरी तुगेलें अुलोवप आयकता आसतना हांव धादोशी जायनां. १८

### श्रीभगवंतान म्हळें –

बरें आसा. हांव म्हगेलो म्हाल-मुखेल लकलकीत विस्तार तुका सांगन. अर्जुना, म्हगेल्या विस्ताराक अंत ना. १९

अर्जुना, सगळ्या जिवांल्या अंतरकर्णांत आशिल्लो आत्मो हांव. जिवांलो जल्म, मदली दशा आनी मणूर्य हांव. २०

आदित्य-देवांभितर विष्णुदेव हांव. अजुवाडाच्या गुळ्यांभितर किर्णां आशिल्लो सूर्य हांव. वाऱ्या-देवांभितर मरीचिदेव हांव आसां. नक्षत्रांभितर चंद्र हांव. २१

वेदांभितर सामवेद हांव आसां. देवांभितर अिंद्र हांव आसां. अिंद्रियांभितर मन हांव आसां. जिवांभितल्लें जाणपण हांव आसां. २२

रुद्रांभितर शंकर हांव आसां. यक्ष आनी राक्षेसांभितर मुदग्याचो धनी कुबेर हांव. वसूंभितर अुजो हांव आसां. अुंच तेमकांच्या पर्वतांभितर मेरू पर्वत हांव. २३

अर्जुना, पुरोयतांभितर म्हालगडो बृहस्पती हांव अशें तूं समज. सेनापतींभितर स्कंद हांव. अुदकाच्या कोडींभितर समुद्र हांव आसां. २४

मोटेल्या रुशींभितर भृगू हांव. अुतरांभितर अेकोडें अक्षर ॐ हांव आसां. पुजांभितर मोन्यानी करचेलो जप हांव आसां. थीर वस्तींभितर हिमालय पर्वत हांव. २५

सगळ्या रुखांभितर पिपळ हांव. देवरुशींभितर नारद हांव. गंधर्व गवयांभितर चित्ररथ गवय हांव. गर्भाच्याच अुपाट गिन्यानी सिद्धांभितर कपिल मुनी हांव. २६

घोड्यांभितर, दुदसागरांतसून अमृत काडच्या वेळार भायर सरिल्लो अुंचकानो घोडो हांव अशें तूं समज. मोट्या हतयांभितर अैरावत हांव. मनशांभितर राजा हांव. २७

शस्त्रांभितर वज्र हांव. गायांभितर वान्साभागैणी गाय हांव आसां. संतत जल्मा घालतलो मोग हांव आसां. सोर्पांभितर वासुकी सोरोप हांव आसां. २८

नागांभितर शेष हांव आसां. अुदकांतल्या देवांभितर वरुण हांव. पितरांभितर तांगेलो राजा अर्यमो हांव आसां. निवळायण्यांभितर यमराज हांव. २९

दैत्यांभितर प्रह्लाद हांव आसां. मेज-माप करतल्यांभितर वेळ हांव. सावदांभितर शींव हांव. सवण्यांभितर गरुड हांव. ३०

नेटान धांवतल्यांभितर वाव हांव आसां. शस्त्रां धरतल्यांभितर दशरथालो पुत राम हांव. नुस्त्यांभितर मानगें हांव आसां. न्हंयांभितर गंगा हांव आसां. ३१

अर्जुना, निर्मिल्ल्या वस्तिंचें मूळ, ताळ आनी मदली दशाय हांव. विद्यांभितर आत्म्याक वळखपाची विद्या हांव. वाद घालतल्यांचो वाद हांव. ३२

अक्षरांभितर अ हांव आसां आनी समासांभितर, दोनूय आंगांक सारकें म्हत्व आशिल्लो जुंवळो समास हांव. सोंपना-जाल्लो वेळ हांवूच. सगळे वशीन तोंडां आशिल्लो संवसार निर्मितलो हांव. ३३

सगळ्यांक व्हरतलें मर्ण हांव. फुडाराक जल्मतल्यांचें मूळ हांव. बायलांभितर कीर्त, गिरेस्तकाय, वाचा, याद, बुद्द, धिरिष्टाय आनी सोंसणूक हांव. ३४

तसोच, सामगितांभितर मोटेलें सामगीत हांव. पदांभितर गायत्री पद हांव. म्हैन्यांभितर मार्गशीर म्हैनो हांव. रुतूंभितर वसंत रुतू हांव. ३५

फटैतल्यांचो जुगार हांव आसां. तेजवंतांलें तेज हांव. जिखतल्यांचें जैत हांव आसां. वावुरतल्यांचो वावर हांव आसां. सात्वीक मनशांलें सत्त्व हांव. ३६

वृष्णिचे पिळगेभितर वासुदेव हांव आसां. पांडवांभितर अर्जुन हांव. वेदांचो अर्थ जाण-जाल्ल्या मुनीभितरूय वेदव्यास हांव. शास्त्रां जाण-जाल्ल्यांभितर शुक्र हांव. ३७

आळाबंदा हाट्टल्यांचो दांडो हांव आसां. दुसऱ्यांक जिखूंक येवजितल्यांचें राजकर्ण हांव आसां. गुमानितांतलें मोनेपण हांव आसां. गिन्यानी मनशांलें गिन्यान हांव. ३८

आनी अर्जुना, सगळ्या वस्तिंची जी बी तीय हांव. म्हजेबगर आसत अशी हालतली आनी हालना-जाल्ली वस्त ना. ३९

अर्जुना, म्हगेल्या घणघणीत विस्ताराक अंत ना. हो विस्तार हांवें तुका तांत्रिक सांगलो. ४०

व्हडवीक, कान्त वा बळगें हांणी जी जी वस्त भरिल्ली आसत ती तीय म्हगेल्या तेजाच्या अिल्ल्याशा वांट्यापासून जाल्या अशें तूं समज. ४१

ना जाल्यार, अर्जुना, हो जायतो विस्तार समजून तुका कितें करचें आसा? हो सगळो संवसार म्हगेल्या अिल्ल्याशा एका वांट्यान व्यापून हांव रावलां. ४२

हे भाशेनं, श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या अुपनिशदांतलो,
ब्रह्मविद्येंतल्या अुपायांतलो,
श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या अुलोवपांतलो,
**भगवंतालो विस्तार**
नांवाचो धावो अध्याय जालो.

## अकरावो अध्याय
# संवसाररूप दिसप

**अर्जुनान म्हळें –**

म्हजेर उपकार करूंक, आत्म्याक वळखुंची विद्या नांवाचें जें व्हडलें गुमानीत, तुवें म्हाका सांगलें ताणें म्हजो हो कर्तुत्वाच्या अभिमानान जाल्लो गदळ गेलो. १

साळकाचे पाखळेसारक्या सोबीत दोळ्यांच्या श्रीकृष्णा, जिवांचें जावप आनी ना-जावप, तशीच तुगेली सरना-जाल्ली व्हडविकूय हांवें तुजेकडसून विस्तारान आयकली. २

अगा मोट्या व्हडल्या धनया, चड बरेल्या आत्म्या, तुवें जशी ही तुगेली वर्णना केली तशे तरेचें तुगेलें व्हडविकेन भरिल्लें रूप पळोवंक हांव सोदतां. ३

संवसाराच्या धनया, विस्तार करपाची तांक आशिल्ल्यांभितर म्हालगड्या, तुगेलें तें सोंपना-जाल्लें रूप म्हज्यान पळोवं येत अशें तुका दिसता जाल्यार, म्हाका तें दाखै. ४

**श्रीभगवंतान म्हळें –**

अर्जुना, म्हगेलीं तरेकतरा, लकलकीत, जायत्या रंगांचीं आनी आकृतायांचीं, शंबरांनी आनी हजारांनी रुपां तूं पळे. ५

आदित्य, वसू, रुद्र, दोन अश्विनीकुंवर, तशेच वाऱ्या-देव पळे. अर्जुना, आदीं कोणेंच पळोवंक नाशिल्लीं जायतीं नवलां तूं पळे. ६

अर्जुना, हालतलो आनी हालना-जाल्लो सगळो संवसार, तशेंच हेर जें कितें तूं पळोवंक सोदता, तें आज हांगा म्हगेले कुडींत अेकठावल्लें पळे. ७

परंत तुगेले हेच चामड्याचे नदरेन तुज्यान म्हाका पळोवं नज. देखून हांव तुका लकलकीत गिन्यानाची नदर दितां. तिणें, व्हडविकेन भरिल्ली विस्तार करपाची म्हगेली तांक तूं पळे. ८

**संजयान म्हळें –**

धृतराष्ट्रराजा, विस्तार करपाची तांक आशिल्ल्यांभितर मोटो म्हालगडो श्रीकृष्ण हे भाशेन अुलोवन, मागीर ताणें अर्जुनाक आपणालें व्हडविकेन भरिल्लें रूप दाखैलें. ९

त्या रुपान जायतीं तोंडां आनी दोळे आसून तांतूंत जायतीं नवलां दिसतालीं. ताका जायते चकचकीत अळंकार आसले आनी ताणें जायतीं लकलकीत शस्त्रां अुबारिल्लीं. १०

ताणें सर्गावैलीं फुलां आनी आंगावलीं घाल्लीं. ताणें सर्गावैलें गंद लायिल्लें. तो सगळ्या नवलांनी भरिल्लो, अंत नाशिल्लो, सगळे वशीन तोंडां आशिल्लो देव आसलो. ११

मळबांत हजारांनी सूर्यांचो अुजवाड अेकदम पडत जाल्यार, तो त्या म्हात्म्याच्या अुजवाडावरी जावंये. १२

थैं त्या देवांल्या देवाचे कुडींत, जायत्या तरांनी वांटिल्लो आनी अेकठांय जाल्लो सगळो संवसार, अर्जुनाक तेन्ना दिसलो. १३

म्हणटकूच, त्या चमत्कारान अजाप जावन आनी आंगार कांटो फुलून, अर्जुनान तकली सकला बागोवन, हात जोडून, देवाक म्हळें १४

## अर्जुनान म्हळें –

देवा, तुगेले कुडींत म्हाका सगळे देव, तशींच तरेकतरा जिवांचीं मालीं, साळकाचेर बशिल्लो ब्रह्मदेव, सगळे रुशी आनी सर्गावैले सोरोप दिसतात. १५

जायते बावळे, पोटां, तोंडां आनी दोळे आशिल्लो, सगळे वशीन अंत नाशिल्ल्या रुपांचो, तूं दिसता. अगा संवसाररुपी संवसाराच्या धनया, तुगेलें ताळ, कांड आनी मुळूय म्हाका दिसना. १६

माथ्याक मुकूट घाल्लो, गदा आनी चक्र घेतिल्लो, अुजवाडाचो गुळो, सगळे वशीन झगझगणो, दोळ्यांनी पळोवंक कठीन, पेटिल्ल्या अुज्यावरी वा सूर्यावरी चोंयवशीन लकलकणो आनी वर्णना करुं नज-जाल्लो असो तूं म्हाका दिसता. १७

नायजायना-जाल्लें, समजून घेवचेलें व्हडलें ब्रह्म तूं. ह्या संवसाराचो व्हडलो आलासरो तूं. तूं भंगना-जाल्लो. तूं सासणाच्या धर्माचो राखणो. तूं सासणाचो आत्मो अशें म्हाका दिसता. १८

तूं मूळ, ताळ आनी कांड नाशिल्लो, अंत नाशिल्ल्या बळग्याचो, अंत नाशिल्ल्या बावळ्यांचो, चंद्र आनी सूर्य हे दोळे आशिल्लो, पेटिल्ल्या अुज्यावरी तोंडाचो आनी आपणाल्या तेजान ह्या संवसाराक तापैणो असो तूं म्हाका दिसता. १९

मळब आनी धर्तरी हांचे मदलें हें अंत्राळ आनी सगळ्यो दिशा तुवें एकल्यान व्यापल्यात. हें तुगेलें चमत्काराचें खर रूप पळोवन, अगा म्हात्म्या, तिनूय लोक थर्त भियेलो. २०

ते देवांले मेळे तुजेभितर आलासऱ्याक रिगतात. कांय जाण भियेवन हात जोडून राखणेखातीर तुका गाराणें घालतात. मोटेल्या रुशिंचे आनी सिद्धांचे मेळे 'संवसाराचें बरें जावं' म्हणून, तोखणायेच्या जायत्या गितांनी तुगेली तुस्त गातात. २१

रुद्र, आदित्य, वसू, साध्यदेव, विश्वेदेव, दोन आश्विनीकुंवर, वाऱ्या-देव, पितर आनी गंधर्व, यक्ष, दैत्य आनी सिद्ध हांचे मेळे मेळून सगळेच तुजेकडेन अजापान पळेतात. २२

श्रीकृष्णा, जायत्या तोंडांचें, जायत्या दोळ्यांचें, जायत्या बावळ्यांचें, जायत्या जांगांचें, जायत्या पांयांचें, जायत्या पोटांचें आनी जायत्या सुळ्या दांतांचें भयांकृत अशें तुगेलें मोटें रूप पळोवन, सगळे लोक तसोच हांव थर्त भियेलों. २३

मळबाक तेंकिल्लो, लकलकणो, जायत्या रंगांचो, तोंडां पेंचिल्लो, जळजळीत मोट्या दोळ्यांचो, असो तुका पळोवन, संवसाराक व्यापतल्या देवा, म्हगेलें काळीज कलकल्लें. म्हाका धीर जायना आनी म्हज्या मनाक थंडाय दिसना. २४

भयांकृत सुळे दांत आशिल्लीं आनी संवसार-खेवावेळच्या अुज्यासारकीं तुगेलीं तोंडां पळोवन, म्हाका दिशा समजनात आनी म्हज्या जिवाक सुख जायना. संवसाराक व्यापतल्या देवांल्या धनया, म्हजी काकळूत कर. २५

धर्तरिवैल्या राजांच्या मेळ्यांसैत धृतराष्ट्राले ते सगळे पुत, भीष्म, द्रोण तसोच तो गाडयेकारालो पुत कर्ण, आनी आमगेल्याय सैन्यांतल्या म्हालगड्या झुजप्यांसैत सगळेजाण, २६

सुळ्या दांतांनी विकराळ दिसण्या तुगेल्या भयांकृत तोंडांत तरतरीत रिगतात; आनी कांयजाणांली माथीं चिड्डून तुगेल्या दांतांमजगत ते शिरकल्ले दिसतात. २७

न्हंयांच्या अुदकाचे जायते लोंडे जशे समुद्रावसल्यानूच धांवतात तशे मनीसलोकांतले हे झुजपी चोंयवशीन पेटिल्ल्या तुगेल्या तोंडांत रिगतात. २८

जशीं पिसोळीं पेटिल्ल्या अुज्यांत मरचे खातीर, मोट्या नेटान रिगतात, तशे हे लोक मरचेखातीर तुगेल्याय तोंडांत मोट्या नेटान रिगतात. २९

तूं ह्या सगळ्या लोकांक गिळून, तुगेल्या पेटिल्ल्या तोंडांनी तांकां चोंयवशीन भौनभौन चाट्टा. अगा संवसाराक व्यापतल्या देवा, तुगेलो खर अुजवाड आपणाल्या लकलकान सगळो संवसार भरून, ताका तापैता. ३०

खर रूप घेतिल्लो तूं कोण म्हणपाचें म्हाका सांग. देवांल्या म्हालगड्या, तुका हांव पांयां पट्टां. अुपकार कर. सगळ्यांत पैलोवैल्या तुका बारकायेन वळखूंक हांव येवजितां. कित्याक, तुगेली ही करणी म्हाका समजना. ३१

श्रीभगवंतान म्हळें –

हांव लोकांक ना-करतलो, चड मातिल्लो काळ आसां. हांव हांगा लोकाक ना-करूंक अुठलां. तूं झुजलो ना जाल्यारूय, अेकामेकां आड सैन्यांत अुबे आशिल्ले हे सगळे झुजपी ना जातले. ३२

देखून अूठ. जैत जोड. शत्रूंक जिखून भाग्याक चडिल्लें राज्य भोग. हांवें हांकां आदींच जिवानशीं माल्ल्यात. दाव्या-अुजव्या हातान बाण मारतल्या अर्जुना, तूं बेठो निमताक धनी जा. ३३

हांवें मारिल्ल्या ह्या द्रोणाक आनी भीष्माक आनी जयद्रथाक आनी कर्णाक तशेंच हेर शूर झुजप्यांकूय तूं जिवानशीं मार. भियेवं नाका. झुजूंक लाग. झुजांत तूं शत्रूंक जिखतलो. ३४

संजयान म्हळें –

श्रीकृष्णाली ही म्हणणी आयकून, मुकूट घाल्लो अर्जुन वीर लडलडून, हात जोडून, तकली बागोवन, पांयां पडून, थर्त भियेवन, घुस्मट्या ताळ्यान, श्रीकृष्णाक पर्थून म्हणूंक लागलो. ३५

अर्जुनान म्हळें –

श्रीकृष्णा, तुगेले व्हडले कितीन संवसार जायतो भुरकुट्टा आनी तांतूंत रंगता; राक्षेस भियेवन धाय दिशांनी धांवतात आनी सिद्धांचे मेळे तुका पांयां पट्टात हें सगळें फावोशेंच आसा. ३६

अगा म्हात्म्या, ब्रह्मदेवाकूय व्हडल्या, सगळ्यांच्या मूळ कारणा, अंत नाशिल्ल्या, देवांच्या धनया, संवसाराक व्यापतल्या, तूं नाजायना-जाल्लो, दिसतलो, दिसना-जाल्लो आनी त्या दोंय पेल्यानचो. तुका ते कित्याक पांयां पडचे नात? ३७

तूं पैलोवैलो देव. तूं पुर्विल्लो आत्मो. तूं ह्या संवसाराचो व्हडलो आलासरो. तूं जाण-जाल्लो आनी जाण-जावंचेलो. तूं जोडपाची व्हडली सुवात. अगा अंत नाशिल्ल्या रुपांच्या, तुवें हो संवसार व्यापला. ३८

वारो, यम, अुजो, वरुण, चंद्र, ब्रह्मदेव आनी पणजो तूं. तुका हजारांनी नमस्कार आसूं आनी भौनभौनूय तुका नमस्कार. ३९

तुका फुडलेवशीन आनी फाटलेवशीन नमस्कार. अगा सगळ्या, तुका सगळेचवशीन नमस्कार आसूं. तूं अंत नाशिल्ल्या बळग्याचो. तूं मेज-माप नाशिल्ल्या पराक्रमाचो. तुजेभितर सगळो संवसार आस्पावता. देखून तूं सगळो आसा. ४०

तुगेली ही व्हडवीक समजना जावन, तूं वांगडचो कसो लेखून, तुका 'अरे कृष्णा, अरे यादवा, अरे अिष्टा' अशें हांवें चुकून वा संवकळेन आनी मस्तेपणान जें म्हळें, ४१

आनी भोंवता-खेळटा थैं, न्हिदला थैं, बसला थैं, जेवता थैं, एकलो-एकसुरो आसतना वा लोकां हुजरां फकाणां मारचेखातीर हांवें तुजो अपमान केला तो, श्रीकृष्णा, तूं पोटांत घाल म्हणपाची मागणी, वर्णना करूं नज-जाल्ल्या तुजेकडेन हांव घालतां. ४२

हालतल्या आनी हालना-जाल्ल्या ह्या संवसाराचो तूं बापुय आसा. तूं पुजूंक फावो-जाल्लो. तूं जाण्टेलो. तूं चड भौमानेस्त. तुजेसारको कोण ना. म्हण्टकूच, तिनूय लोकांत सर्त नाशिल्ल्या बळग्याचो जो तूं, त्या तुजेकूय आनीक व्हडलो खैंसून आसत? ४३

देखून, तोखणाय करूंक फावो-जाल्ल्या तुका संवसाराच्या धनयाक हांव म्हगेलें आंग बागोवन पांयां पडून, अुपकार कर म्हणून मागणी घालतां. जसो बापुय पुताचो, अिष्ट अिष्टाचो आनी घोव आपणाले अपुर्बायेचे बायलेचो गुन्यांव पोटांत घालता तसो, देवा, तूं म्हगेलो गुन्यांव पोटांत घाल. ४४

आदीं केन्नाच पळोवंक नाशिल्लें तुगेलें रूप पळोवन हांव भुरकुटलां, आनी तरी आसतना, भयान म्हजें मन चड काचाबूल जालां. देखून, संवसाराक व्यापतल्या देवांल्या धनया, म्हजेर अुपकार कर आनी तुगेलें तें आदलेंच रूप म्हाका दाखै. ४४

माथ्याक मुकूट घाल्लो आनी हातांत गदा आनी चक्र आशिल्लो असो आदले

भाशेनूच तुका पळोवंक हांव सोदतां. अगा हजार भुजांच्या, संवसाराचें रूप घेतिल्ल्या देवा, तूं त्याच रुपाचो चार भुजांचो जा. ४६

### श्रीभगवंतान म्हळें –

अर्जुना, तुजे बादत जें आदीं कोणेंच पळोवंक नाशिल्लें तें हें म्हगेलें तेजवंत अंत नाशिल्लें, आदलें आनी व्हडलें संवसार-रूप, तुजेर तुष्टून, विस्तार करपाचे म्हगेले तांकीन, हांवें तुका दाखैलें. ४७

अर्जुना, वेद शिकून, पुजा-पनस्कार करून, शास्त्रांचो अभ्यास करून, दान-धर्म करून, पुण्यतायेच्यो बी करण्यो करून, खर व्रतां-अुपास चलोवन, असले तरेच्या रुपान हांव ह्या मनीस-लोकांत तुजे बादत हेरांक दिसुं नज. ४८

म्हगेलें हें असलें भयांकृत रूप पळोवन, तूं भियेवं नाका आनी सथरविथर जावं नाका. भय सोडून, सस्त मनान, तूं पर्थून तेंच म्हगेलें हें रूप बरें करून पळे. ४९

### संजयान म्हळें –

अशें अुलोवन, श्रीकृष्णान अर्जुनाक आपणालें खासा रूप पर्थून दाखैलें. त्या म्हात्म्यान पर्थून माणकुलें रूप घेवन, भियेल्ल्या अर्जुनाक धीर दिलो. ५०

### अर्जुनान म्हळें –

श्रीकृष्णा, तुगेलें हें माणकुलें मनीसरूप पळोवन, आतां म्हगेलें मन थारावलें आनी हांव धेयभानार आयलों. ५१

### श्रीभगवंतान म्हळें –

दिसूंक चड कठीन अशें हें जें म्हगेलें रूप तुवें पळेलें तें पळोवंक देव लेगीत सदींच आशेतात. ५२

जसो तुका हांव दिसलों तसो, वेद शिकून व्रतां-अुपास करून, दान-धर्म करून आनी पुजा-पनस्कार करून दिसुं नज. ५३

परंत अर्जुना, दुसऱ्या कित्यार मन लायनासतना म्हजो मोग करून, असले तरेच्या रुपाच्या म्हाका कोणाच्यानूय खरेपणान वळखुं येता, पळोवंक येता आनी म्हजे भितर रिगुं येता. ५४

अर्जुना, सगळी करणी म्हगेली आसा ह्या समजान जो वावुरता, जो म्हाका व्हडली जोडचेली वस्त कशी लेखता, जो म्हजो मोग करता, जाका संवसारांत हेर कसलीच ओड ना, जो कोणाच जिवाचो शत्रू न्हय, तो म्हजेसरीं येता. ५५

हे भाशेन, श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या अुपनिशदांतलो,
ब्रह्मविद्येंतल्या अुपायांतलो,
श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या अुलोवपांतलो,
**संवसाररूप दिसप**
नांवाचो अिकरावो अध्याय जालो.

## बारावो अध्याय

# देवाचो मोग

### अर्जुनान म्हळें –

हे भाशेन, सदींच योग-बुद्दीन चलतले जे भक्त तुका दिसता तसल्या देवाक भजतात आनी जे भक्त नाजायना-जाल्ल्या आनी दिसना-जाल्ल्या ब्रह्माक भजतात त्या दोगांभितर योग-बुद्द भौ बरी जाण जाल्ले भक्त कोण? १

### श्रीभगवंतान म्हळें –

सदींच योग-बुद्द चलोवन, म्हजेर मन लावन, म्हजेर चड पातयेवन, जे कोण म्हाका दिसता तसल्याक भजतात ते योग-बुद्दीन चलतल्या भक्तांत म्हाका भौच अुंच दिसतात. २

परंत नाजायना-जाल्लें, वर्णना करुं नज-जाल्लें, दिसना-जाल्लें, सगळेकडेन व्यापिल्लें, चिंतूंक येना-जाल्लें, संवसारांत आसून आपणाक तो लागून घेना-जाल्लें, बदलना जाल्लें आनी सासणाचें असल्या ब्रह्माक जे कोण भजतात, ३

ते अिंद्रियांचें मालें बरें करून आळाबंदा हाडून सगळेकडेन सारके बुद्दीन चलतले आनी सगळ्या जिवांचें बरें करपांत रंगिल्ले लोक म्हाकाच जोड्टात. ४

दिसना-जाल्ल्या ब्रह्माची ओड लागिल्ल्या त्या मनशांक अदीक त्रास पट्टात. कित्याक, कूड आशिल्ल्या तांकां दिसना-जाल्ल्या ब्रह्माची वाट संकष्टान मेळटा.

परंत जे कोण सगळ्यो करण्यो म्हजेर सोडून, जोडचेली व्हडली वस्त म्हाका लेखून, दुसऱ्या कित्याचेरूच मन लायनासतना म्हगेल्या दिसता तसल्या रुपाचें ध्यान करतात आनी म्हाका भजतात, ६

त्या म्हजेर मन लायिल्ल्या मनशांक, अर्जुना, मर्णान भरिल्ल्या संवसाराच्या समुद्रांतसून, कळाव लायनासतना हांव वैर काड्टां. ७

तूं म्हजेरूच मन लाय. म्हजेर बुद्द थाराय. म्हणटकूच, फुडाराक तूं मरतकूच, म्हजे भितरूच रावतलो हांतूंत दुबाव ना. ८

परंत अर्जुना, तुगेलें मन म्हजेर घट बरें थारावंक तुका तांकना जाल्यार, तें आळाबंदा हाडून म्हजें ध्यान अेकसारकें करपाचे संवयेन तूं म्हाका जोडची वान्सा धर. ९

मन आळाबंदा हाडून म्हजें ध्यान अेकसारकें करपाची संवयूय तुका तांकना जाल्यार, तुगेल्यो सगळ्यो करण्यो म्हजेखातीर करचेलो मोटेलो हावेस तूं धर. म्हजेखातीर करण्यो करुनूय तूं मोक्ष जोडसी. १०

परंत हेंय करूंक तुका तांकना जाल्यार, योग-बुद्दीन चित्त म्हजेर थारावन, मन सुवादीन दवरून, सगळ्या करण्यांचें फळ तूं सोड. ११

कित्याक, मन आळाबंदा हाडून, म्हगेलें ध्यान करपाचे संवये परस तुगेल्यो सगळ्यो करण्यो म्हजेखातीर आसात अशें गिन्यान आसप चड बरें. ह्या गिन्याना परस योग-बुद्दीन म्हजेर मन थारावप चड बरें. म्हजेर मन थारावपा परस करण्यांचें फळ सोडून दिवप चड बरें. करण्यांचें फळ सोड्टकूच मनाक थंडाय येता. १२

कोणाच जिवाचो द्वेस करिना-जाल्लो, सगळ्यांचो अिष्ट तसोच काकळूत आशिल्लो, म्हजेपणाची ओड नाशिल्लो, कर्तुत्वाचो अभिमान नाशिल्लो, सुख-दुख सारकीं लेखतलो, दुसऱ्यांचे गुन्यांव सोंसतलो, १३

सदीं-धादोशी, योग-बुद्दीन चलतलो, अिंद्रियां आळाबंदा हाडिल्लो, घट नित्शयाचो, मन आनी बुद्द म्हाका ओंपिल्लो असो जो म्हजो भक्त तो म्हजो अपुर्बायेचो. १४

जाका पळोवन लोक कांवचेनात आनी लोकांक पळोवन जो कांवचेना, जाय-जाल्लें मेळून जो भुरकुटना, दुसऱ्यालें बरें पळोवन जाका दुस्वास रिगना, भय आनी अुबगण हांचेपासून जो मेकळो तो म्हजो अपुर्बायेचो. १५

आस्त नाशिल्लो, कुडीन आनी मनान निर्मळ, आळसाय नाशिल्लो, बरें-वायट लागून घेना-जाल्लो, दुसऱ्यान पिडल्यार कष्टी जायना-जाल्लो, फळाचे आस्तेन कसलीच करणी करिना-जाल्लो असो जो म्हजो भक्त तो म्हजो अपुर्बायेचो. १६

जाय-जाल्लें मेळून जो भुरकुटना, नाका-जाल्लें मेळून जो अुबगना, आशिल्लें होगडावल्यार जो खेद करिना, नाशिल्लें मेळपाची जो वान्सा धरिना, जाणें बरें आनी वायट सोडलें असो जो भक्तिवंत मनीस तो म्हजो अपुर्बायेचो. १७

शत्रू आनी अिष्ट हांकां सारको, तसोच मान-अपमान, थंड-हून, सुख-दुख हांतूंत सारको, कसलीच ओड नाशिल्लो, १८

निंदा आनी तोखणाय जाका सारकी, तोंड सुवादीन आशिल्लो, जें कितें मेळटा तितल्यान धादोशी, घरा-दाराची ओड नाशिल्लो, थीर बुद्दिचो असो जो भक्तिवंत मनीस तो म्हजो अपुर्बायेचो. १९

जोडचेले व्हडले वस्तीभाशेन म्हाका लेखून आनी म्हजेर पातयेवन, मर्णांतसून मेकळो जावपाचो हो पवित्र अुपाय हांवें सांगिल्ले भाशेन जे चलैतात ते भक्त म्हजे चड अपुर्बायेचे. २०

हे भाशेन, श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या अुपनिशदांतलो,
ब्रह्मविद्येंतल्या अुपायांतलो,
श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या अुलोवपांतलो,
**देवाचो मोग**
नांवाचो बारावो अध्याय जालो.

## तेरावो अध्याय

# निज आनी आत्मो हांची येवजणी

श्रीभगवंतान म्हळें –

अर्जुना, हे कुडीक शेत म्हणटात. ह्या शेताक 'हांव आनी म्हगेलें' अशें जो कोण समजता ताका, हे विद्येचे गिन्यानी लोक शेत जाण-जाल्लो शेत-कामती म्हणटात. १

आनी अर्जुना, सगळ्या शेतांभितर शेत-कामती हांवूच अशें तूं समज. शेत आनी शेत-कामती हांचें जें गिन्यान तें खरेलें गिन्यान अशें म्हाका दिसता. २

तें शेत तें कितें, तें कशे तरेचें, तांतूंत कसले बदल जातात, तें कित्यापासून जाता आनी तो शेत-कामती कोण, ताचें बळगें कितें म्हणपाची गजाल तांत्रिकान म्हजेकडसून तूं आयक. ३

हें सगळें, वेदांच्या तरेकतरा स्तोत्रांनी, जायते तरेन, वेगळेंवेगळें, रुशिंनी गावन दाखैलां आनी फोडणिशेन भरिल्ल्या, बरे तरेन थारायिल्ल्या ब्रह्मसूत्रांतल्या पदांनीय गावन दाखैलां. ४

भूंय, अुदक, अुजो, वाव, अंत्राळ हीं पांच मोटेलीं भुतां, हांवकार, बुद्द आनी तशेंच दिसना-जाल्लें निज, कान, दोळे बी धा अिंद्रियां आनी अेक मन आनी नाद, तेंकप, सुवाद, रूप, वास मेळून अिंद्रियांचे पांच भोग, ५

मनशा, वीट, सुख, दुख, हाडा-मासाची कूड, जाणपण आनी धीर मेळून हें शेत ताच्या विकरासैत तांत्रिकान हांवें तुका सांगलें. ६

पोली बडाय नासप, धर्मिष्टायेचें धोंग नासप, दुसऱ्याक पिडना-जावप, दुसऱ्यान केल्ली पिडा सोंसून घेवप, अुजूपण, शणैची चाखरी, कुडिची आनी मनाची निर्मळकाय, थीरपण, मन आळाबंदा हाडप, ७

भोगचेल्या जिनसांची ओड नासप, तसोच कर्तुत्वाचो अभिमान नासप, जल्म, मर्ण, म्हातारपण, रोग आनी दुख ह्यो आपणाक लागिल्ल्यो पिडा अशें समजप, ८

करण्यांच्या फळाची ओड नासप, घर-दार, बायल-भुरगीं हांतूंत गुल्ल जायना-जावप, जाय-जाल्लें आनी नाका-जाल्लें घडल्यार दोनूय सदींच सारके बुद्दीन लेखप, ९

आनी दुसऱ्या कित्यार मन लायनासतना म्हजो अेकल्याचोच बरो मोग करप, अेकले-अेकसुरे निर्मळ सुवातेर रावप, लोकांले भुरावळींत रावंची रूच नासप. १०

आपणालो आत्मो आनी व्हडलो आत्मो अेक म्हणपाचें थीर गिन्यान आसप, संवसाराच्या येरादारींतसून सुटप होच ह्या खरेल्या गिन्यानाचो हेत अशें समजप, ह्या सगळ्याक जाणवीक म्हणटात. हाचे उफाट्टी ती नेणवीक. ११

जाण-जावंचेली वस्त कितें ती तुका हांव सांगन. ती जाण जातकूच, मनीस मरना-जाल्ली, आनी मर्ण नाशिल्ली सुवात जोट्टा. मूळ नाशिल्लें व्हडलें ब्रह्म तीच ती सुवात. ताका आशिल्लें म्हणनात आनी नाशिल्लेंय म्हणनात. १२

ताका सगळे वशीन हात-पांय आसात. ताका सगळे वशीन दोळे, तकल्यो आनी तोंडां आसात. ताका सगळे वशीन कान आसून तें ह्या संवसारांत सगळें व्यापून रावता. १३

ताचे भितर सगळ्या अिंद्रियांचे गुण आशिल्ल्यावरी दिसून ताका कसलींच अिंद्रियां नात, तें कोणाकूच लागिल्लें नासून सगळ्यांचो भार घेता आनी तें गुणां-मेकळें आसून गुण भोगता. १४

तें जिवांचे भायर आनी भितर आसा. तें हालना-जाल्लें आनी हालतलेंय आसा. तें चड बारकिलें आशिल्ल्यान अिंद्रियांक कळना-जाल्लें आसा. तें पैस आसा आनी लागीं आसा. १५

आनी ताचे वेगळे वेगळे वांटे जाल्ले नासून जिवां भितर तें वेगळें वेगळें वांटिल्ल्यावरी रावलां. जिवांक भरैतलें, गिळटलें आनी जल्मा घालतलें तेंच समजुंचें. १६

ताका चंद्र-सूर्यासारक्या जोतिंची जोत आनी काळोखापेल्यानचें म्हणटात. जाणवीक, जाण-जावंचेलें आनी जाणविकेन कळचेलें अशें तें सगळ्यांच्या अंतस्कर्णांत बसलां. १७

हे भाशेन, शेत, तशेंच जाणवीक आनी जाण-जावंचेली वस्त ही तांत्रिकान हांवें सांगली. हें बरें करून समजतकूच, म्हजो मोगी म्हज्या रुपांत मेळूंक फावोसो जाता. १८

निज तसोच आत्मो हीं दोनूय मूळ नाशिल्लीं अशें तूं समज. मनशा, वीट बी विकार तशेच सत्त्व, रज, तम बी गुण निजापासून जाल्यात अशें तूं समज. १९

कूड आनी अिंद्रियां हांगेल्या कर्तुत्वाचे तांकीक मूळ निज आसा अशें म्हणटात. सुख-दुख भोगपाचे तांकीक मूळ आत्मो आसा अशें म्हणटात. २०

कित्याक, आत्मो निजान घडिल्ले कुडींत बसून निजापासून जल्मल्ले सत्त्व, रज, तम बी गुण भोगता. ताका बऱ्या-वायट कुसव्यांत जल्म मेळचें कारण, बरीं-वायट फळां दितल्या तीन गुणांकडेन ताचो वांगड जमता हें आसा. २१

हे कुडींत त्या आत्म्याक, सरशीं रावन पळेतलो, बऱ्या-वायट करण्यांक हुंकारे दितलो, कुडिचो आनी अिंद्रियांचो भार घेतलो, सुख-दुख भोगतलो मोटेलो धनी, व्हडलो आत्मो आनी गुणां-पेल्यानचो अशेंय म्हणटात. २२

हे भाशेन, आत्म्याक आनी गुण आशिल्ल्या निजाक जो वळखता तो कसोय चल्लो जाल्यार, पर्थून जल्मा येना. २३

कांय जाण आत्म्याचेर मन थारावन, आपले भितर मनान आत्म्याक पळेतात. दुसरे कांय जाण, निजवावराडे आसून आत्मो वोगो रावन तांच्यो करण्यो पळेता म्हणपाचे सांख्य-बुद्दीन आत्म्याक पळेतात आनीक कांय जाण, फळाची वान्सा सोडून आपणाल्यो करण्यो व्हडल्या आत्म्याक ओंपचे योग-बुद्दीन आत्म्याक पळेतात. २४

परंत ह्यो दोनूय बुद्दी नेण-जाल्ले हेर कांय जाण, दुसऱ्यांली सांगणी आयकून आत्म्याचें ध्यान करतात. दुसऱ्यांले सांगणेर पातयेल्ले तेय लोक मर्णाच्या संवसारा पलतडी पावतात. २५

अर्जुना, हालतली आनी हालना-जाल्ली जी कसलीय वस्त जल्मा येता ती शेत आनी शेत-कामती हांच्या अेकठावपान जल्मता अशें तूं समज. २६

मोटेलो धनी सगळ्या वस्तींत सारकेपणान राविल्लो, परंत त्यो वस्ती नाशो जातकूच नाजायना-जाल्लो अशे नदरेन जो ताका पळेता तो सारके नदरेन पळेता. २७

कित्याक, मोटेलो धनी संवसारांत सगळेकडेन सारको आसा म्हणपाचें जो पळेता, तो आपुण आपणाक मारिना आनी हे भाशेन तो व्हडले सुवातेर पावता. २८

आनी करण्यो सगळे तरेन निजाकडसून घट्टात. तसोच आत्मो त्यो करण्यो करिना अशें जो पळेता तो सारके नदरेन पळेता. २९

वस्तिंचीं वेगळीं रुपां अेकल्यांतूच आसात आनी त्या अेकल्यांतसुनूच संवसाराचो विस्तार जाला अशें जेन्ना कोणूय पळेता तेन्ना तो ब्रह्म जोट्टा. ३०

अर्जुना, ह्या भंगना-जाल्ल्या व्हडल्या आत्म्याक मूळ आनी गुण नाशिल्ल्यान, तो कुडींत रावनूय कसलीच करणी करिना आनी ताका करणेचो लेप लागना. ३१

सगळेकडेन व्यापिल्लें अंत्राळ चड पातळ आसून कित्याकूच दसिल्लें नाशिल्ल्यान ताका जसो कसलेच बरे-वायट वस्तिचो लेप लागना, तसो कुडींत सगळेकडेन आशिल्ल्या आत्म्याक कुडिच्या बऱ्या-वायट गुणांचो लेप लागना. ३२

अर्जुना, जसो अेकलो सूर्य हो सगळो लोक अुजवाडायता तसो शेत-कामती आत्मो कुडिचें सगळें शेत अुजवाडायता. ३३

हे भाशेन, कुडिचें शेत आनी शेत-कामती आत्मो हांचे भितलें अंतर आनी आत्म्याची खरेली वळख मेळून वस्तिंचें निजरूप ना जावप हें जे कोण गिन्यानाच्या दोळ्यान पळेतात ते व्हडले सुवातेर पावतात. ३४

हे भाशेन. श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या अुपनिशदांतलो,
ब्रह्मविद्येंतल्या अुपायांतलो,
श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या अुलोवपांतलो,
**निज आनी आत्मो हांची येवजणी**
नांवाचो तेरावो अध्याय जालो.

# चौदावो अध्याय
# तीन गुणांचे वांटे

**श्रीभगवंतान म्हळें –**

सगळ्या जाणविकांत भौ बरी आनी व्हडली जाणवीक हांव तुका आनीक एक फावट सांगन. ती समजतकूच, सगळ्या विचारवंत मनशांक हे कुडींतसून सुटपाचें व्हडलें फळ मेळ्ळां. १

हे जाणविकेचेर आधारून म्हज्या रुपांत मेळिल्ले लोक संवसार घडच्या वेळार जल्मनात आनी संवसार मोडच्या वेळारूय मर्णाचें दुख भोगिनात. २

अर्जुना, निज हो म्हगेलो कुसवो. तांतूंत हांव गाब दवरतां. तांतूंतसून सगळ्या जिवांचो जल्म जाता. ३

अर्जुना, सगळ्या कुसव्यांत ज्यो कुडी जल्मतात तांचो मुखेल कुसवो निज आवै. आनी तांतूंत बीं ओंपतलो हांव बापुय. ४

अर्जुना, निजापासून जाल्ले सत्त्व, रज आनी तम हे तीन राजू भंगना-जाल्ल्या कूडकार जिवाक कुडींत बांदून घालतात. ५

अगा पातका-मेकळ्या अर्जुना, त्या राजवां भितर सत्त्वगुण निर्मळ आशिल्ल्यान जाणविकेक अुजवाडायणो आनी त्रासा-मेकळो आसा. तो कूडकार जिवाक सुखाच्या आनी जाणविकेच्या पासान बांदता. ६

रजगुण हो ओडीन भरिल्लो आसून, ताचेपासून नवें जोडपाची तान आनी जोडिल्ले वस्तिची ओड जल्मता अशें तूं समज. अर्जुना, तो कूडकार जिवाक करणी करपाच्या पासान बांदता. ७

परंत तमगुण हो नेणविकेंतसून जाल्लो आसून सगळ्या कूडकार जिवांक गदळायता अशें तूं समज. अर्जुना, तो तांकां चत्राय-नासप, आळसाय आनी न्हीद हांणी बांदून घालता. ८

अर्जुना, सत्त्वगुण जिवाक सुखाची ओड लायता. रजगुण करणेची ओड लायता. परंत तमगुण तागेली जाणवीक धांपून ताका चत्राय नासपाची ओड लायता. ९

अर्जुना, रज आनी तम गुणांक सकला चेपून सत्त्वगुण वैर सरता. सत्त्व आनी तम गुणांक चिड्डून रजगुण वैर सरता. तसोच सत्त्व आनी रज गुणांक चिड्डून तमगुण वैर सरता. १०

हे कुडींत, कानां-दोळ्यांसारक्या अिंद्रियांच्या सगळ्या दारांत जेन्ना जाणविकेचो अुजवाड पट्टा तेन्ना सत्त्वगुण चड वाडलो म्हणु समजुंचें. ११

अर्जुना, रजगुण चड वाट्टकूच, भोगच्या जिनसांचो वसवस, वावुरचो नाद, करण्यो करूंक लागप, धादोसपण नासप, मेळत ताचे अुत्फरके आसप हीं जातात. १२

अर्जुना, तमगुण चड वाट्टकूच, जाणविकेचो अुजवाड वचून नेणविकेचो काळोख पडप, वावराची अुबगण येवप, धंग नासप आनी मत गदळप हींय जातात. १३

सत्त्वगुण चड वाट्टकूच जेन्ना कूडकार जीव मरता तेन्ना तो खरेली जाणवीक आशिल्ल्या देवांच्या निर्मळ लोकांत पावता. १४

रजगुण चड वाट्टकूच मेल्यार, करण्यांची ओड आशिल्ल्या मनीस-लोकांत तो जल्मता. तेच भाशेन, तमगुण चड वाट्टकूच मेल्यार, सावदां-सवण्यांसारक्या मोनजातींत तो जल्मता. १५

बरे करणेचें फळ सात्त्वीक आनी निर्मळ म्हणटात. परंत रजगुणाचें फळ दुख आनी तमगुणाचें फळ नेणवीक. १६

सत्त्वगुणापासून जाणवीक जाता आनी रजगुणापासून निखटो वसवस जाता. तमगुणापासून धंग नासप, मन गदळप तशीच नेणवीक जाता. १७

सत्त्वगुणाक लागिल्ले मनीस वैर देवा-लोकांत वेतात. रजगुणी मनीस मदल्या मनीस-लोकांत तिष्टतात. अुणाक गुणाक लागिल्ले तमगुणी मनीस सकला नर्क-लोकांत वेतात. १८

सारके नदरेन पळेतलो मनीस जेन्ना निजाच्या सत्त्व, रज आनी तम ह्या तीन गुणांबादत हेर करणी करतलो कोण ना अशें समजता आनी त्या तीन गुणांपेल्यान आशिल्ल्या शेत-कामतीक वळखता तेन्ना तो म्हज्या रुपांत पावता. १९

ज्या तीन गुणांपासून कुडी जल्मतात ते गुण अुपून जो कूडकार जीव पलतडी वेता तो जल्म, मर्ण आनी म्हातारपण हांच्या दुखांतसून सुटून अंवरपण जोट्टा. २०

### अर्जुनान म्हळें –

धनया, हे तीन गुण अुपता ताच्यो कुर्वो कसल्यो? तागेली चलणूक कशी? आनी तो हे तीन गुण कशे अुपता? २१

### श्रीभगवंतान म्हळें –

अर्जुना, जाणविकेचो अुजवाड, वावराचो नाद आनी मत-गदळप मेळून तीन गुणांचीं कामां घडूंक लागतकूच तांतूंतलीं कांय दुखदिणी आसात म्हणून जो अुबगना, आनी तीं कामां थांबतकूच, तांतूंतलीं कांय सुखदिणीं आसलीं म्हणून जो तीं पर्थून वान्सिना, २२

आंगाक लागून घेना-जाल्ल्यावरी सस्त बसून, जो गुणांच्या फळांनी चाळावना, गुण आपणालीं कामां करतात अशें समजून जो वोगो रावता आनी कशेच तरेन गणमणना, २३

जाका सुख आनी दुख सारकें, जो आपले भितर धादोशी, जाका मातयेचें तेफ, फातर आनी भांगर सारकें, जाका जाय-जाल्लें आनी नाका-जाल्लें मेळून दोनूय सारकीं, जो विचारवंत, जाका आपली निंदा आनी तोखणाय सारकी, २४

जाका मान-अपमान सारको, जाका अिष्टांचें आनी शत्रुंचें पांखें सारकें, जो फळाचे आस्तेन कसलीच करणी करिना, ताणें तीन गुण अुपले अशें म्हणटात. २५

आनी जो घटायेच्या मोगान म्हाका अेकल्याक भजता तो हे तीन गुण बरे तरेन अुपून ब्रह्मरूप जावंक फावोसो जाता. २६

कित्याक, मरना-जाल्ल्या आनी भंगना-जाल्ल्या ब्रह्माची, सासणाच्या धर्माची आनी खळना-जाल्ल्या चड-व्हड सुखाची सुवात हांव. २७

हे भाशेन, श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या अुपनिशदांतलो,<br>ब्रह्मविद्येंतल्या अुपायांतलो,<br>श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या अुलोवपांतलो,<br>**तीन गुणांचे वांटे**<br>नांवाचो चौदावो अध्याय जालो.

## पंद्रावो अध्याय

# भौ बरो जीव

**श्रीभगवंतान म्हळें –**

जाचें ब्रह्मरुपी मूळ वैलेवशीन, जाचे संवसाररुपी खांदे सकैलेवशीन आनी वेद हीं जाचीं पानां ताका वैलेवशीन आसून, नाजायना-जाल्लो पिपळाचो रूख म्हणटात. हो रूख जो वळखता, तो वेद जाण-जाल्लो. १

तीन गुणांनी मातिल्ल्यो आनी पांच भोगांच्यो आंकऱ्यो फुटिल्ल्यो ताच्यो ताळयो वैर आनी सकैल पातळ्ळ्यात; आनी करण्यो करूंक लायतलीं ताचीं पाळां सकला मनीसलोकामेरेन लांब पावल्यांत. २

ह्या रुखाचें हें असलें रूप, ताचो अखेर, आरंभ आनी आधार ह्या मनीसलोकांत समजना. चड खोल गेल्ल्या पाळांचो हो पिपळ हांवपणाची आनी म्हजेपणाची ओड नाशिल्ल्या घट शस्त्रान हाणून, ३

मागीर, जे सुवातेर पाविल्ले मनीस पर्थून संवसारांत पर्थनात ती सुवात सोदून काडची आनी जाचेपासून संवसाराचो पुर्विल्लो विस्तार जाला त्याच मूळ आत्म्याक आपुण शरण वेतां अशें समजुंचें. ४

कर्तुत्वाचो अभिमान नाशिल्ले, मत गदळना-जाल्ले, घर-दार आनी बायल-भुरग्यांचे ओडिचो अवगुण जिखिल्ले, कूडकार आत्मो आनी व्हडलो आत्मो मेळून दोगूय एक म्हणपाच्या गिन्यानांत सदींच थिरावल्ले, वान्सेंतसून साप मेकळे जाल्ले, सुख-दुख नांवाच्या एकामेकां आड जुंवळ्यांतसून सुटिल्ले, पिशेपण नाशिल्ले लोक ते नासनाशिल्ले सुवातेर पावतात. ५

तिका सूर्य, चंद्र आनी अुजो अुजवाडायना. थैं वेतकूच, मनीस फाटीं पर्थनात. ती म्हगेली चड व्हडली सुवात. ६

म्हगेलोच सासणाचो वांटो मनीसलोकांत जीव जावन, निजांत आशिल्लीं पांच अिंद्रियां आनी सवें मन हांकां आपणाकडेन ओडून घेता. ७

वारो जसो फुलांतसून वास व्हरता, तसो कुडिचो धनी जीव, कूड जोड्टा वा सोड्टा तेन्ना, हीं पांच अिंद्रियां आनी मन आपले वांगडा घेवन वेता. ८

कान, दोळे, कात आनी जीब तशेंच नाख आनी मन हांचेर बसून हो जीव भोग भोगता. ९

मत गदळेल्ल्या पिशा लोकांक तो जीव कूड सोडून वेता आसतना वा कुडींत आसतना वा तीन गुणांसैत भोगता आसतना दिसना. परंत गिन्यानाचे दोळे आशिल्ल्यांक तो दिसता. १०

योग-बुद्दीन चलतल्या आनी येत्न-अुपायान वावुरतल्या मनशांक तो आपणाले कुडींत आशिल्लो दिसता. परंत जांचीं मनां निवळून शुद्ध जावंक नात आनी जे मंदमती आसात तांकां तो येत्न-अुपायान वावरुनूय दिसना. ११

सूर्यांत आशिल्लें जें तेज सगळो संवसार अुजवाडायता, जें चंद्रांत आनी अुज्यांत आसा तें तेज म्हगेलें अशें तूं समज. १२

आनी धर्तरेंत रिगून हांव म्हगेल्या तेजान सगळ्या जिवांक आधार दितां; आनी अुदकाळो चंद्र जावन सगळी रुखावळ पोसतां. १३

हांव अुजो जावन, जिवांचे कुडींत रावन भायर-भितर येत्या-वेत्या स्वासान भरून, पियेवंचेलें, चाटचेलें, चाबचेलें आनी चोखचेलें अशें चार तरांचें खाण जिरैता. १४

आनी हांव सगळ्यांच्या अंतस्कर्णांत बरेतरेन रावलां. म्हजेपासून अुगडास आनी अिंद्रियांचें गिन्यान जाता आनी ना जाता. सगळ्या वेदांत जाण जावपाची वस्त ती हांवूच, वेदान्ताचो रचतलो हांव आनी वेदांचो अर्थ जाण-जाल्लोय हांव. १५

नाजाता तसलो आनी नाजायना-जाल्लो अशे दोग जीव संवसारांत आसात ते हे:- हालतल्या आनी हालना-जाल्ल्या सगळ्या वस्तींक ना जातात तसले जीव म्हणटात. आनी त्या वस्तींत थीर रावतल्याक नाजायना-जाल्लो जीव म्हणटात. १६

परंत हांचेकूय भौ बरो जीव आनीक आसा; ताका व्हडलो आत्मो म्हणटात. तो नाजायना-जाल्लो व्हडलो धनी तीन लोक व्यापून तांकां पोसता. १७

नाजाता तसल्या जिवापेल्यान आनी नाजायनाजाल्ल्या जिवापरस अुंच आशिल्ल्यान, संवसारांत आनी वेदांत हांव भौ बरो जीव म्हणून गाजलां. १८

अर्जुना, हे भाशेन हांव भौ बरो जीव म्हणपाचें जो कोण गदळनासतना समजता

तो सगळें जाण-जाल्लो मनीस सगळ्यांचो जीव हांव म्हणपाचे बुद्दीन म्हाका भजता. १९

अगा पातका-मेकळ्या अर्जुना, हे भाशेन, गुमानितांत म्हालगडें अशें हें शास्त्र हांवें तुका सांगलें. हें समजतकूच, मनीस बुदवंत जाता आनी ताणें करचेलें सगळें केल्ल्यावरी जाता. २०

हे भाशेन, श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या अुपनिशदांतलो,
ब्रह्मविद्येंतल्या अुपायांतलो,
श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या अुलोवपांतलो,
**भौ बरो जीव**
नांवाचो पंद्रावो अध्याय जालो.

## सोळावो अध्याय

# देवांले आनी दैत्यांले बडिचें वांटप

**श्रीभगवंतान म्हळें –**

भय नासप, मनाची निर्मळकाय, आत्मगिन्यान जोडूंक आनी मन एके सुवातेर थारावंक नेटान वावरप, दान-धर्म करप, अिंद्रियां आळाबंदा हाडप, पुजा-पनस्कार करप, वेद शिकप, व्रतां-अुपास करप आनी अुजूपण आसप, १

दुसऱ्याक पिडना-जावप, खरें अुलोवप, राग नासप, भोगांची वान्सा सोडप, मनाची थंडाय आसप, चाडयो सांगना-जावप, दुबळ्या-दुखेस्तांची काकळूत करप, वसवसेपण नासप, मोवाळपण आसप, वायट करण्यो करची लज दिसप, बेकारपणान नाका-जाल्लीं कामां करिना-जावप, २

व्हडविकेची शिरी मारप, दुसऱ्यान केल्ली पिडा सोंसून घेवप, संकष्टावेळार धीर आसप, कुडिची आनी मनाची निर्मळकाय आसप, दुसऱ्यांक दुखोवंची वान्सा नासप आनी चड अभिमान नासप हे गुण, अर्जुना, देवांले बडींत जल्मल्ल्यांच्या आंगांत आसतात. ३

अर्जुना, धर्मिष्टायेचें धोंग, विद्येचें आनी गिरेस्तकायेचें बी गर्व, चड अभिमान, राग तशीच खरसाण आनी नेणवीक हे गुण दैत्यांले बडींत जल्मल्ल्यांच्या आंगांत आसतात. ४

देवांली बड संवसाराच्या पासांतसून सोडोवंक आनी दैत्यांली बड संवसाराच्या पासांत बांदून घालूंक अुपकारता अशें मानतात. अर्जुना, तूं देवांले बडींत जल्मला; तूं खेद काडुं नाका. ५

ह्या संवसारांत जिवांची निर्मणी दोन तरांची आसा: देवां-भाशेची आनी दैत्यां-भाशेची. देवां-भाशेची निर्मणी हांवें तुका विस्तारान सांगली. अर्जुना, आतां दैत्यां-भाशेची निर्मणी तूं म्हजेकडसून आयक. ६

धर्माची चलणूक कसली आनी अधर्माची चलणूक कसली म्हणपाचें दैत्यां-भाशेचे लोक नेणत. तांचे भितर कुडिची आनी मनाची निर्मळकाय तशीच अुजू चलणूक आनी खरेपण आसना. ७

ते म्हणटात कि 'संवसारांत खरें मानीसारकें कांयच ना. ताचो कारभार धड नेमान चलना. ताचो जाळवणदार कोण ना. दादलो आनी बायल हांगेल्या अेकठावपान जावंक नाशिल्ली कसलीच वस्त तांतूंत दिसना. तो दादल्या-बायलेच्या मोगापासून जाला.' ८

असली नदर धरून, आत्म्याची वाट लागिल्ले अिल्लेशे बुद्दिचे, भयांकृत कर्तुपांचे, संवसाराचे हे शत्रू, संवसाराचो खेव करूंक जल्मतात. ९

भागोवंक कठीन अशी भोगांची वान्सा धरून, धर्मिष्टायेच्या धोंगान, पोल्या बडवाचारान आनी मदान मातिल्ले ते लोक पिसायेन नष्ट्यो तजविजो करून, अळशिकावण्या कामांत वावुरतात. १०

आशिल्लें कशें राखचें आनी नवें कशें जोडचें म्हणपाची मेज-माप नाशिल्ली चिंता मरसर धरिल्ले, वान्सिल्ले भोग भोगपांत गुल्ल आशिल्ले आनी हेंच सगळें सार्थक असो नित्शय जाल्ले, ११

शेंबरांनी आस्तांच्या पासांत बांदिल्ले, वान्सा आनी राग हांणी भरिल्ले अशे ते लोक, वान्सिल्ले भोग भोगचे खातीर, अन्यावान जायतो दुडू सांटोवचो हावेस धरतात. १२

'आज हांवें हें जोडलें, मनांत येवजिल्लें हें हांव जोड्टलों. ही गिरेस्तकाय म्हगेली आसा आनी हीय गिरेस्तकाय म्हगेली जातली. १३

'हो शत्रू हांवें जितो माल्लो आनी दुसऱ्यांकूय हांव मारतलों. हांव व्हडलो जाळवणदार धनी. हांव सुखांचो भोगी. हांवें करचेलें सगळें केलें. हांव बळगेंकार. हांव सुखी. १४

'हांव गिरेस्त आनी कुळवंत आसां. म्हजेवरी दुसरो कोण आसा? हांव याग करतलों. हांव दुडू वांट्टलों. हांव मौज मारतलों.' अशें नेणविकेन चड गदळल्ले लोक झांकतात. १५

जायत्या तजविजांनी माथें घुंविल्ले, गदळाच्या जाळांत घुस्पल्ले, वान्सेच्या भोगांत गुल्ल जाल्ले ते लोक अळशिकावण्या नर्कांत पट्टात. १६

आपणाली आपुण बडाय मारतले, नम्रताय नाशिल्ले, गिरेस्तकायेच्या आनी व्हडविकेच्या मदान मातिल्ले ते लोक, शास्त्र-नेम सोडून, धर्मिष्टायेच्या धोंगान, निखटे नांवाचे याग करतात. १७

हांवकार, तुतनायक, गर्व, बायलांची वान्सा, आनी तिडक हांणी भरिल्ले,

आपणाले आनी दुसऱ्यांले कुडींत आशिल्ल्या म्हजो द्वेस करतले, आनी निंदा करतले. १८

असल्या त्या द्वेस करतल्या, वायट कर्तुपांच्या, क्रूर आनी अुणाक लोकांक हांव जल्म-मर्णाच्या संवसारांत, दैत्यां-भाशेच्याच वागा-वांसवेलाच्या बी कुसव्यांत अेकसारको अुडैतां. १९

अर्जुना, दैत्यां-भाशेचो कुसवो जोडून, दरअेकल्या जल्मांत घोळाक पडिल्ले ते लोक, म्हजेसरीं केन्नाच पावनासतना, निमाणें भौच अुणाक सुवात जोड्टात. २०

वान्सा, राग तसोच वसवस मेळून नर्काचें हें तिट्टी दार आपणाची वाट लायतलें आसा. देखून, हें तिर्कूट सोडचें. २१

अर्जुना, नर्काच्या ह्या तीन काळोख्या दारांतसून सुट्टकूच, मनीस आपणाल्या बऱ्याक पट्टा तें करता आनी मागीर व्हडले सुवातेर पावता. २२

जो कोण शास्त्रनेम सोडून मनाक मानत तसो चलता तागेलें काम सादना. ताका ह्या संवसारांतलें सुख मेळना आनी व्हडली सुवात जोडना. २३

देखून, करचेलें कितें आनी करचेलें न्हय कितें तें थारावंक तुका शास्त्र हें आधार आसा. शास्त्रनेमांत सांगिल्ली करणी समजून घेवन, ह्या लोकांत तुवें करणी करूंक जाय. २४

हे भाशेन, श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या अुपनिशदांतलो,
ब्रह्मविद्येंतल्या अुपायांतलो,
श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या अुलोवपांतलो,
**देवांले आनी दैत्यांले बडिचें वांटप**
नांवाचो सोळावो अध्याय जालो.

## सतरावो अध्याय
# तीन तरांचो भावराथ

### अर्जुनान म्हळें –

श्रीकृष्णा, जे कोण शास्त्रनेम सोडून, परंत भावराथान पुजा-पनस्कार करतात तांगेलें तें भावराथीपण कसले तरेचें? सत्त्वगुणी, रजगुणी वा तमगुणी? १

### श्रीभगवंतान म्हळें –

कूडकार जिवांचो भावराथ तीन तरांचो आसता. सत्त्वगुणी, रजगुणी आनी तमगुणी; तो तांगेल्या सबावगुणान जाता. तो आयक. २

अर्जुना, सगळ्यांचो भावराथ तांगेल्या सबावगुणाभाशेन आसता. हो जीव भावराथान भल्ला. जसो जाचो भावराथ तसोच तो जाता. ३

सत्त्वगुणी लोक देवांक पुजतात. रजगुणी लोक यक्षांक आनी राक्षेसांक पुजतात आनी हेर तमगुणी लोक मेल्ल्या-गेल्ल्यांक आनी भुतावळीक पुजतात. ४

धर्मिष्टायेचें धोंग आनी हांवपण आशिल्ले, भोगांची वान्सा, भोगांची ओड आनी हटुळगो तुतनायक हांणी भरिल्ले जे कोण शास्त्राभायरीं भयांकृत तपां करतात, ५

ते बुद्द नाशिल्ले पिशे आपणाले कुडीक आनी ते कुडींत बशिल्ल्या म्हाकाय पिडा भोगैतात. ते दैत्यां-भाशेच्या तजविजांचे आसात अशें तूं समज. ६

तशेंच सगळ्यांक जाय-जाल्लें खाण-जेवण, तेच भाशेन तांगेले पुजा-पनस्कार, तपां आनी दान-धर्म हीं तीन तरांचीं आसतात. तांचो हो भेद आयक. ७

आयुष्याची पिराय, मनाचें बळगें, कुडिचें बळगें, आरोग्यताय, सुख आनी रूच वाडैतात, आंगाक लागतात, मनाक मानतात तसलीं रोसाळ आनी तुपाळ खाणां सत्त्वगुणी मनशाक मानतात. ८

दुख, खेद आनी पिडा-रोग भोगैतात तसलीं कोडू, आंबट, खार, खतखतीत, तीख, सुकीं सडसडीत आनी चड भगभगीत खाणां रजगुणी मनशाक मानतात. ९

किंवजल्लें, सय-सुवाद नाशिल्लें, घाणयारें आनी जें पाराथें तशेंच अुष्टें आनी अळशिकावणें खाण तमगुणी मनशाक मानता. १०

फळाची वान्सा नाशिल्ले मनीस पुजा-पनस्कार अगत्यान करुंकूच जाय म्हणपाचो मनांत नित्शेय करून शास्त्रनेमान जी पुजा करतात ती सत्त्वगुणी पुजा. ११

परंत अर्जुना, फळाची वान्सा धरून आनी पोली धर्मिष्टाय दाखोवंक जी पुजा करतात ती रजगुणी पुजा अशें तूं समज. १२

शास्त्रनेम सोडून, कोणाकूच शिताचो गोटो घालिनासतना, वेदांतले मंत्र म्हणनासतना, दक्षणा दिनासतना, भावराथ नासतना जी पुजा करतात ती तमगुणी पुजा म्हणटात. १३

देव, बामण, जाणटेले आनी विद्वान मनीस हांकां भौमान दिवप, कुडिची निर्मळकाय, अुजू चलणूक, ब्रह्मचारीपण आनी दुसऱ्याक पिडना-जावप हांकां कुडिचें तप म्हणटात. १४

दुसऱ्याक दुखैना-जाल्लें, खरें, आयकूंक गोड आनी हितकारी अशें जें अुलोवप तें, तशेंच वेद म्हणप, हांकां तोंडाचें तप म्हणटात. १५

मनाची थंडाय, मोवाळपण, बडबडना-जावप, मन आळाबंदा हाडप, मन निर्मळ राखप, हांकां मनाचें तप म्हणटात. १६

फळाची वान्सा नाशिल्ल्या, थीर मनाच्या मनशांनी हें तीन तरांचें तप अुपाट भावराथान करतकूच ताका सत्त्वगुणी तप म्हणटात. १७

लोकांनी आपणाचो भौमान, तोखणाय आनी पुजा करची म्हणून तशेंच वैल्याचारांचे धर्मिष्टायेन जें तप करतात ताचें फळ थीर नासून खिणयाळें आसता; ताका हांगा रजगुणी तप म्हणटात. १८

पिसायेच्या तजविजांनी, आपणाक पिडापीड भोगोवन, नाजाल्यार दुसऱ्यांचें गठ्ठाण करूंक जें तप करतात तें नमगुणी तप म्हणटात. १९

फावोशी सुवात, वेळ-काळ आनी मनीस पळोवन, अुपकार फारीग करपाची तांक नाशिल्ल्यांक, दिवंक फावो म्हणून जें दान दितात ताका सत्त्वगुणी दान म्हणटात. २०

परंत दुसऱ्यान आपणाक अुपकारा पडचे खातीर, नाजाल्यार फळाचे वान्सेन, जिवार आयिल्ल्यावरी मोट्या कष्टान, जें दान दितात तें रजगुणी दान म्हणटात. २१

फावोशी सुवात आनी वेळ-काळ पळेनासतना, फावना-जाल्ल्या मनशांक,

मान-भौमान राखिनासतना, केंचकेंच करून, जें दान दितात तें तमगुणी दान म्हणटात. २२

ब्रह्माचें नांव ॐ, तत्, सत् अशें तिट्टी आसा म्हणटात. त्या नांवान पुर्विल्ल्या काळांत बामण, वेद आनी याग हांची मांडणी जाली. २३

देखून, जे वेदांचो अभ्यास करतात तांगेल्यो पुजा, दान-धर्म, तपां बी शास्त्रांत सांगिल्ल्यो करण्यो सदींच 'ॐ' अशें म्हणून जातात. २४

जल्म-मर्णाचे येरादारींतसून सुटूंक येवजितले लोक फळाची वान्सा सोडून, पुजा, तपां आनी दान-धर्म बी तरेकतरा करण्यो 'तत्' अशें म्हणून करतात. २५

आसप आनी बरेपण ह्या अर्थान 'सत्' हें अुतर अुपकारायतात. तशेंच अर्जुना, बरे करणेकूय 'सत्' हें अुतर लायतात. २६

पुजा-पनस्कार, तपां आनी दान-धर्म हांतूंत थीरपण आसपाक 'सत्' म्हणटात; तशेंच तांचेखातीर करचेले करणेक 'सत' अशेंच म्हणटात. २७

भावराथ नासतना, पुजेच्या निमतान अुज्यांत जें होमतात, जो दान-धर्म करतात, जें तप करतात आनी जी कसली करणी करतात तिका 'असत्' म्हणटात. अर्जुना, ती करणी, मरतकूच आनी ह्या लोकांतूय अुपकारा पडना. २८

हे भाशेन, श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या अुपनिशदांतलो,

ब्रह्मविद्येंतल्या अुपायांतलो,

श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या अुलोवपांतलो,

**तीन तरांचो भावराथ**

नांवाचो सतरावो अध्याय जालो.

## अठरावो अध्याय

# जल्म-मर्णांतसून सोडवण

### अर्जुनान म्हळें –

अगा अिंद्रियांच्या धनया, केशी दैत्याक मारतल्या, बळिष्ट भुजांच्या श्रीकृष्णा, संन्यासाचें खरेलें रूप आनी त्यागाचें खरेलें रूप हांव वेगळें वेगळें समजूंक सोदतां. १

### श्रीभगवंतान म्हळें –

फळाचे वान्सेन करचेल्यो करण्यो सोडप हाका शाणे लोक संन्यास समजतात. सगळे तरेच्यो करण्यो करून तांचें फळ सोडप हाका विचारवंत लोक त्याग म्हणटात. २

कांय विचारवंत मनीस म्हणटात कि करणी बादता देखून ती सोडची. दुसरे कांय म्हणटात कि पुजा-पनस्कार, दान-धर्म, व्रतां-अुपास बी करणी सोडची न्हय. ३

अर्जुना, तांतूंत त्यागासंबंदान म्हगेलें थारायिल्लें मत्त तूं आयक. त्याग तीन तरांचो म्हळा. ४

पुजा-पनस्कार, दान-धर्म, व्रतां-अुपास हांचे संबंदाची करणी सोडूंक फावना. ती करुंकूच जाय. पुजा-पनस्कार, दान-धर्म आनी व्रतां-अुपास हीं विचारवंत मनशांलें मन निवळायणी आसात. ५

परंत अर्जुना, ह्योय करण्यो, भोगांची ओड आनी फळ सोडून करूंक जाय. हें म्हगेलें भौ बरें थारायिल्लें मत्त आसा. ६

नेमिल्ली करणी सोडूंक फावना. पिसायेन ती सोडप हो तमगुणी त्याग म्हळा. ७

करणी दुखदिणी अितल्याच निमतान, कुडीक कष्ट बादतले म्हणपाच्या भयान, जो मनीस करणी सोड्टा ताका, तसलो रजगुणी त्याग करून, त्यागाचें फळ मेळचें नाच. ८

अर्जुना, भोगांची ओड, तशेंच फळ सोडून करूंक फावो देखून जी नेमिल्ली करणी करतात, तांतूंतली ओड आनी फळ सोडप हो सत्त्वगुणी त्याग समजतात. ९

सत्त्वगुणी, बुदवंत, दुबाव कातरिल्लो असो त्यागी मनीस दुखदिणी करणी करूंक अुबगना आनी सुखदिणी करणी करूंक भुरकुटना. १०

कित्याक, कूडकार जिवाच्यान करण्यो कुल्लीं सोडुं नजत. देखून, जो कोण करण्यांचें फळ सोट्टा ताका त्यागी म्हणटात. ११

नाका-जाल्लें, जाय-जाल्लें आनी नाका-जाय-जाल्लें असलें करणेचें तीन तरांचें फळ, फळाची वान्सा सोडिना-जाल्ल्यांक मरतकूच मेळटा. परंत फळाची वान्सा सोडून करण्यो करतल्यांक तें केन्नाच मेळना. १२

अर्जुना, सगळ्यो करण्यो घडूंक सांख्य शास्त्राच्या निर्णयांत सांगिल्लीं पांच कारणां तूं म्हजेकडसून समजून घे. तीं हीं:- १३

कुडिची सुवात, तसोच कुडींत रावन करण्यो करतलो जीव, कुडिचीं वेगळीं वेगळीं अिंद्रियां, अिंद्रियांचीं तरेकतरा आनी वेगळीं वेगळीं कर्तुपां आनी तांचेच भरशीं पांचवें दैव. १४

मनीस कुडीन, तोंडान आनी मनान जी न्यायाची वा अन्यांवाची करणी करूंक लागता तिचीं हीं पांच कारणां आसात. १५

अशें आसतना, जो कोण, बुद्द निवळूंक नाशिल्ल्यान, आपुणूच अेकलो करणी करतलो अशें समजता तो मत-भंगिल्लो मनीस सारको बरो पळेना. १६

जाका कर्तुत्वाचो अभिमान ना, जागेले बुद्दीक फळ जोडपाचो लेप लागना, ताणें ह्या सगळ्या लोकांक जिवानशीं मारुनूय तो तांकां मारिना आनी ताका ते करणेचो पास पडना. १७

जाणवीक, जाण-जावंची वस्त आनी जाण-जातलो अशें हें तिर्कूट मनशाक करणी करूंक फुडें काट्टा. अिंद्रियां, करणी आनी करतलो मेळून करणेचो तीन तरांचो मेळ आसा. १८

सांख्य-शास्त्रांतले गुणांचे वळेरेंत म्हळां कि तीन गुणांच्या वेगळेपणान जाणवीक, करणी आनी करतलो हींय तीन तरांचीं आसात. तींय तशाचीं तशीं आयक. १९

जे जाणविकेन सगळ्या वेगळ्या वेगळ्या वस्तींत सरना-जाल्लें आनी वांटूंक

नाशिल्लें संसलें रूप दिसता ती सत्त्वगुणी जाणवीक अशें तूं समज. २०

जे जाणविकेन सगळ्या वस्तींत तरेकतरा वेगळीं वेगळीं रुपां वेगळेपणान दिसतात ती रजगुणी जाणवीक अशें तूं समज. २१

परंत अेकलीच वस्त सगळ्या वस्तींवरी लेखून तिका दसून राविल्ली, विचाराभायरी, खरेपणाभायरी आनी अिल्लिशी जी जाणवीक तिका तमगुणी जाणवीक म्हणटात. २२

फळाची वान्सा धरिना-जाल्लो मनीस, ओड, मोग आनी अुबग सोडून, जी नेमिल्ली करणी करता ती सत्त्वगुणी करणी म्हणटात. २३

परंत फळाची वान्सा वा कर्तुत्वाचो अभिमान आशिल्लो मनीस चड कष्टांची जी करणी करता तिका रजगुणी करणी म्हणटात. २४

बरो-वायट फुडार येवजिनासतना, बळाचो आनी दुडवांचो विद्वाट ध्यानांत घेनासतना, दुसऱ्याक पिडा भोगत म्हणपाचें चिंतिनासतना आनी आपली तांक पळेनासतना पिसायेन जी करणी करतात तिका तमगुणी करणी म्हणटात. २५

फळाची ओड सोडिल्लो, हांव करतां अशें म्हणना-जाल्लो, संकष्टांत धीर आशिल्लो, वावराचे अुमेदीन भरिल्लो, फळ मेळप आनी फळ मेळना-जावप हांणी गणमणना-जाल्लो अशे तरेच्या करणी करतल्याक सत्त्वगुणी म्हणटात. २६

भोगांची ओड लागिल्लो, करणेच्या फळाची वान्सा धरिल्लो, दुसऱ्याल्या मुदग्याक वसवशिल्लो, दुसऱ्याक वळवळायतलो, निर्मळकाय नाशिल्लो, भुरकुटो आनी खेद आशिल्लो, अशे तरेच्या करणी करतल्याक रजगुणी म्हणटात. २७

विंचारा-भायरो, हटवादी, कामार ध्यान नाशिल्लो, खुनशी, नाड, आळशी, खेदयाळो आनी लांबाया-रुंदायांचो, अशे तरेच्या करणी करतल्याक तमगुणी म्हणटात. २८

तीन गुणांक लागून, बुद्दिचें तशेंच धिराचें तीन तरांचें वांटप वेगळें वेगळें, कुल्लीं सांगचेलें आसा तें आयक. २९

अर्जुना, धर्माची चलणूक कसली आनी अधर्माची चलणूक कसली, कितें करूंक फावो आनी कितें करूंक फावना, भय कित्यांत आसा आनी भय कित्यांत ना, संवसाराचें बांदप आनी संवसारांतसून सुटप हें जे बुद्दीक कळटा ती सत्त्वगुणी बुद्द. ३०

अर्जुना, जे बुद्दीन धर्म आनी अधर्म कितें, तशेंच करूंक फावो जाल्लें आनी

करूंक फावना-जाल्लें कितें म्हणपाचें सारकें बरें समजना ती रजगुणी बुद्द. ३१

अर्जुना, काळोखान गुटलावल्ली जी बुद्द अधर्माक धर्मावरी लेखता आनी सगळ्यो गजाली चुकिल्ल्या अर्थान समजता ती तमगुणी बुद्द. ३२

अर्जुना, ज्या गडगंज धिरान मनीस मन, स्वास आनी अिंद्रियां हांच्यो करण्यो आळाबंदा हाडपाच्या अुपायान सुवादीन दवरता तो सत्त्वगुणी धीर. ३३

परंत अर्जुना, मनीस ज्या धिरान धर्म, वान्सा आनी मुदगो हांकां चिकट्टा आनी तांच्या फळाची वान्सा धरता तो रजगुणी धीर. ३४

अर्जुना, ज्या धिरान मंद मतिचो मनीस न्हीद, भय, दुख, खेद आनी पिसाय सोडिना तो तमगुणी धीर. ३५

अर्जुना, आतां तीन तरांचें सुख म्हजेकडसून आयक. अेकसारके संवकळेन ज्या सुखान मनशाक खोस जाता आनी तो सगळ्या दुखाचो अंत जोड्टा; ३६

जें आदीं विखावरी आनी निमाणें अमृतावरी आसून, आत्म्याचे निवळ बरे वळखीन जाता तें सत्त्वगुणी सुख म्हणटात. ३७

भोगचेले जिनस आनी अिंद्रियां हांच्या अेकठावपान जें सुख जाता आनी जें आदीं अमृतावरी आसून निमाणें विखावरी आसता तें रजगुणी सुख म्हणटात. ३८

जें सुख आदीं आनी निमाणें आपणाक गदळायता आनी जें न्हीद, आळसाय आनी धंग-नासप हांचेपासून जाता तें तमगुणी सुख म्हणटात. ३९

निजापासून जल्मल्ल्या ह्या तीन गुणांपासून मेकळी अशी कसलीच वस्त धर्तरेर वा सर्गार देवांमजगत ना. ४०

अर्जुना, निजांतसून जल्मल्ल्या तीन गुणांभाशेन बामण, क्षेत्री, वाणी आनी सुदीर हांगेल्यो करण्यो वेगळ्यो वेगळ्यो वांटल्यात. ४१

मनाक थंडाय, अिंद्रियांचो आळाबंद, कूड, तोंड आनी मन हांकां ख्यास्त दिवप, कुडिची आनी मनाची निर्मळकाय, दुसऱ्यान दिल्ली पिडा सोंसून घेवप, तशीच अुजू चलणूक, पुस्तकी आनी अणभवी गिन्यान जोडप आनी देवाधर्माचेर पातयेवप ही बामणाली निजाची करणी. ४२

शूरपण, व्हडविकेची कान्त, धिरिष्टाय, सडसडीतपण, झुजांत पळना-जावप, दान-धर्म करप, आनी शेक चलोवंची तांक आसप ही क्षेत्र्याली निजाची करणी. ४३

शेत-कामत, गोरवां-राखप आनी वेपार-अुद्योग करप ही वाणयाली निजाची करणी. तशेंच चाखरी करप ही सुद्राली निजाची करणी. ४४

आपआपणाले करणेंत रुचीन वावुरतल्या मनशाक भौ बरें फळ मेळटा. आपणाले करणेंत रुचीन वावुरतल्याक फळ कशें मेळटा तें आयक. ४५

जाचेपासून सगळ्यो वस्ती जातात आनी जाणें हो सगळो संवसार व्यापला ताका आपणाले करणेन पुजून मनशाक फळ मेळटा. ४६

बरे तरेन चलैल्ले दुसऱ्याले करणेपरस आपणाली खोड आशिल्ली करणी चड बरी. कित्याक, निजान नेमून दिल्ली करणी करून मनशाक पातकाचें किल्मीस लागना. ४७

अर्जुना, निजान नेमून दिल्ले करणेंत खोड आसल्यारूय ती सोडची न्हय. कित्याक, अुजो धुंवरान गुटलायिल्ल्याभाशेन आपणाल्यो आनी दुसऱ्याल्यो मेळून सगळ्यो करण्यो खोडीन गुटलायिल्ल्यो आसतात. ४८

कसलेच करणेची ओड नाशिल्लो, मन जिखिल्लो, वान्सा सुटिल्लो असल्या मनशान करणेचें फळ सोडून दिल्यार, ताका करणी करून ती करिना-जावपाचें व्हडलें फळ मेळटा. ४९

अर्जुना, हें फळ जोडिल्ल्या मनशाक जाणविकेचें चड अुंच तेमूक जें ब्रह्म तें कशें मेळटा तें म्हजेकडसून तांत्रिकानूच समजून घे. ५०

निवळ बुद्द आशिल्लो जो मनीस, आपणाक धिरान आळाबंदा हाडून, नाद, रूप बी अिंद्रियांचे पांच भोग सोडून आनी ओड आनी वीट पेल्यान भिरकटावन, ५१

अेकले-अेकसुरे निर्मळ सुवातेर रावता, नकसुद खाता. तोंड, कूड आनी मन आळाबंदा हाट्टा, आत्म्याचेर सदींच ध्यान थारायता, आपणाक संवसार निखालूस लागून घेना, ५२

कर्तुत्वाचो हांवकार, हटवादीपण, गर्व, भोगांची वान्सा, तिडक आनी भोंवतणच्यो वस्ती सोडून, म्हजेपणा-मेकळो आनी मन थंडावल्लो आसता तो ब्रह्मरुपी जावंक फावोसो जाता. ५३

हे भाशेन, ब्रह्मरुपी जाल्लो आनी थंडावल्लो मनीस, होगडावल्ले वस्तिचो खेद काडिना आनी मेळूंक नाशिल्ले वस्तिची वान्सा धरिना. तो सगळ्या जिवांकडेन सारकेपणाचे बुद्दीन चलून म्हजो मोटो मोग जोड्टा. ५४

त्या मोगान हांव केदो मोटो आनी कोण आसां म्हणपाचें तो खरेपणान समजता; आनी मागीर म्हाका खरेपणान वळखतकूच, तो म्हजेभितर रिगता. ५५

सगळ्यो करण्यो सदीं करुनूय, म्हजेर आधारून, म्हजे दयेन तो सासणाची आनी नाजायना-जाल्ली सुवात जोड्टा. ५६

मनान सगळ्यो करण्यो म्हाका ओंपून हांवूच व्हडली जोडची वस्त कशी लेखून, फळ मेळप आनी फळ मेळना-जावप हीं दोनूय सारकीं लेखपाची बुद्द धरून, तूं सदींच म्हजेर ध्यान दवर. ५७

म्हजेर मन दवरतकूच, म्हजे दयेन, अडचणिचीं सगळीं दुर्गां तूं अुपतलो. परंत जाणवायेच्या अभिमानान तूं म्हजी सांगणी आयकना जाशी जाल्यार तुजी वाट लागतली. ५८

जाणवायेचो अभिमान धरून, 'हांव झुजचो नां' अशें जें तूं समजता, तो तुगेलो समज फुकट. तुगेलो निजाचो गुण तुका झुजूंक लग्गीक करतलो. ५९

अर्जुना, पिसायेन तुका जें करूंक मानना तें, तुगेले निजाचे करणेन बांदून घाल्लो तूं, तुजो अुपाय चलना जाल्ल्यावरी करतलो. ६०

अर्जुना, संवसाराचो जाळवणदार देव, यंत्रासारके कुडींत बशिल्ल्या सगळ्या जिवांक आपणाल्या बळग्यान घुंवडावन, तांगेल्या अंतस्कर्णाच्या आवांठांत रावता. ६१

अर्जुना, ताचोच आलासरो तूं सगळे तरेन घे. तागेले दयेन व्हडली थंडाय आनी सासणाची सुवात तुका मेळटली. ६२

हे भाशेन, कसल्याय गुमानितापरस चड गुमानीत जाणवीक हांवें तुका सांगली. ती बरे भाशेन कुल्लीं ध्यानांत घेवन, तुका मानत तशें कर. ६३

सगळ्यांत चड व्हडलें गुमानीत असलें म्हगेलें व्हडलें अुतर तूं आनीक अेक फावट आयक. तूं म्हगेलो चड अपुर्बायेचो; देखून, तुगेल्या बऱ्याची गजाल हांव तुका सांगन. ६४

तूं म्हजेर मन दवर, म्हजो मोग कर, म्हाका पूज, म्हाका तकली बागै; म्हणटकूच, तूं म्हजेच सरीं येतलो. तुका हें खरेपणान तर सांगतां. तूं म्हजो अपुर्बायेचो आसा. ६५

सगळ्यो लागणुको सोडून, तूं म्हजो अेकल्याचो आलासरो घे. हांव तुका सगळ्या पातकांतसून सोडैन. तूं खेद काडुं नाका. ६६

अिंद्रियां आळाबंदा हाडिना-जाल्ल्याक, देवाचो आनी जाणटेल्यांचो मोग नाशिल्ल्याक, आयकून घेवंची वान्सा नाशिल्ल्याक आनी म्हाका जो तरे धरता ताका हें गुमानीत तुवें केन्नाच सांगचें न्हय. ६७

जो कोण म्हजो चड मोग करून, म्हगेलें हें व्हडलें गुमानीत म्हगेल्या भक्तांक कळैत तो तागेले दुबाव ना जावन, म्हजे सरीं येतलो. ६८

मनशांभितर म्हज्या मनासारकें करतलो मनीस ताचेकूय दुसरो कोणूच ना; आनी धर्तरेर ताचेपरस म्हजो अदीक अपुर्बायेचो दुसरो कोणूच जावंचो ना. ६९

आमचें दोगांभितल्लें हें पवित्र अुलोवप जो कोण शिकत ताणें जाणविकेच्या साअित्यान म्हाका पुजिल्ल्यावरी जायत अशें हांव समजतां. ७०

आनी जो मनीस ह्या अुलोवपाक तरे धरिनासतना, हाचेर भावराथान पातयेवन हें आयकत, तोय पातकांतसून मेकळो जावन, पुण्यतायेची करणी करतल्यांक ज्यो सुवातो मेळटात त्या पवित्र सुवातांनी पावत. ७१

अर्जुना, तुवें तुगेलें मन अेकेकडेन थारावन हें आयकलें मू? तुगेलें नेणविकायेचें गदळप नाशें जालें मू? ७२

### अर्जुनान म्हळें –

श्रीकृष्णा, तुगेले दयेन मनाचो गदळ नासो जालो आनी हांव कोण म्हणपाचो अुगडास म्हाका जालो. म्हगेलो दुबाव गेलो. आतां तूं सांगता तें हांव करीन. ७३

### संजयान म्हळें –

हे भाशेन, श्रीकृष्ण आनी मोट्या मनाचो अर्जुन हांचेभितल्लें हें अजापाचें आनी कांटो-फुलैणें अुलोवप हांवें आयकलें. ७४

योग-बुद्दिंचो मोटेलो धनी श्रीकृष्ण खासा आपुण सांगता आसतना ताचेकडसून हें व्हडलें गुमानीत – ही योग-बुद्द – व्यासाले दयेन हांवें आयकली. ७५

अगा धृतराष्ट्र राजा, श्रीकृष्ण आनी अर्जुन ह्या दोगांभितल्लें हें अजापाचें आनी पवित्र अुलोवप येवजून येवजून म्हगेलो जीव भौंनभौन भुरकुट्टा. ७६

आनी राजा, श्रीकृष्णालें तें चड नवलांचें संवसार-रूप येवजून येवजून म्हाका मोटें अजाप जाता आनी हांव भौनभौन भुरकुट्टां. ७७

जैं योग-बुद्दिचो मोटेलो धनी श्रीकृष्ण आनी गाण्डीव धोणू धरिल्लो अर्जुन आसा थैं लक्षुमी, जैत, दिसानदीस वाडणी व्हडवीक आनी सासणाची न्यायनीत आसा अशें हांव समजतां. ७८

हे भाशेन, श्रीभगवंतान सांगिल्ल्या अुपनिशदांतलो,
ब्रह्मविद्येंतल्या अुपायांतलो,
श्रीकृष्ण आनी अर्जुन हांगेल्या अुलोवपांतलो,
**जल्म-मर्णांतसून सोडवण**
नांवाचो अठरावो अध्याय जालो.

पुर्विल्ल्या काळांत दर्यांतले एके सुवातेर एक जुंवो आसलो. थैं फक्त दोगांच मनशां रावतालीं. प्रोस्पेर नांवाचो एक म्हातारो दादलो आनी ताची धूव मिरांदा. ही भारी रुपेस्त आसली. भौच नेण्टेपणांत ती त्या जुंव्यार पाविल्ली; देखून, बापायबाजत दुसऱ्या कोणाच मनशाचें तोंड पळेल्ल्याची तिका बरीशी याद नासली.

खडपांतले एके धोलींत तीं रावतालीं. ते धोलीक जायत्यो कुडी आसल्यो. तांतूंतले एकेक प्रोस्पेर आपणाची बरपाची कूड म्हण्टालो. थैं ताणें आपलीं बरपाचीं पुस्तकां दवल्लेलीं. तीं सगळीं जादूच्या मंत्रांचीं आसलीं. ते मुस्तींत सगळ्या बरपाक्षरी मनशांक जादूचे विद्येचें मोटें व्यसन लागिल्लें. प्रोस्पेराक जाल्यार, ही विद्या जायती उपकारा पडली. ह्या जुंव्यार तो पावलो तें एक चमत्काराचें घडित म्हणूंक जाय. ह्या जुंव्यार आदीं सिकोऱ्याक्स म्हणून घाडीण रावताली. तिणें हो सगलो जुंवो जादून मंत्रून दवल्लेलो. प्रोस्पेर थैं पावचे आदीं थोडेच दिस, ती भायर पडिल्ली. ती मोठी दुष्ट आसली. मरचे आदीं तिणें जायत्या देवचारांक आनी म्हारवांक, आपणाची नष्टी सांगणी आयकनात म्हणून, थैंच्या व्हडल्या रुखांच्या धोलींनीं बांदून घाल्ले. प्रोस्पेरान तांकां सगळ्यांक आपले विद्येच्या बळान सोडैले; तेन्ना उपकारान भारावन, ताची मेळ्त ती सांगणी आयकूंक ते मोटे उमेदीन तयार जाले.

त्या देवचारां-म्हारवां भितर आरियेल म्हणून एक म्हालगडो देवचार आसलो. तो निजाचोच भारी खोसयाळो. ताच्या आंगांत मस्तेपण निखालुस नासलें. ताची पुर्विल्ली दुस्मानीण जी सिकोऱ्याक्स हिच्या पुताचें आनी ताचे अगदीं पडनासलें. ताच्या ह्या दुस्मानाचें नांव कालिबान. आवैन भोगैल्ले पिडणुकेचें उष्णें पुताक फारिग करचे खातीर आरियेल त्या कालिबानाची सामकी वाट वाट लायतालो. प्रोस्पेराक तो त्या जुंव्यावैल्या एका रानांत मेळिल्लो. तो सामको विद्रुप राक्षेस कसो दिसतालो. खेत्याक जितलें मनशाचें सारकेपण मारता तितलेंय ताका मारिनासलें. तो मनशाचो पुतसो दिसचनासलो. प्रोस्पेरान ताका आपले धोलींत व्हरून उलौंक शिकैलो. तो ताका मोटे अपुर्बायेन केळैतलो आसलो; परंत ताच्या आंगांत ताचे आवैचे पाडे गुण उपाट भल्लेले; देखून, कसलीच बरेपणाची वो उपयोगाची शिकवण ताचे तकलेंत भरनासली; म्हण्टकूच, प्रोस्पेर ताका बंद्याभाशेन चलौंक लागलो. ताणें ताका रानांत धाडून लांकडां फोडून हाडूंक लावचीं आनी सगलें मानायपण ताकाच सांगचें. ताणें आरियेलाक कालिबानाच्या माथ्यार मुकदम नेमून, ताचेकडसून तो घरांतलो सगलो वाव्र-धंद करून घेतालो.

कालिबान जेन्ना आळसायेन वोगी बसतालो आनी आपल्या कामाची धंग घेनासलो, तेन्ना आरियेल ताचेसरीं चोरयांनी वचून, ताका चिमटे काड्टालो आनी

केन्ना केन्ना ताका बळयांच आडखळावन खातोणांत उडैतालो. प्रोस्पेराबाजत आरियेल केन्नाच कोणाचे नद्रेक दिसनासलो. तो कालिबानाक पिडापीड भोगौंचे खातीर, खेत्याचें रूप घेवन, खेतबागडीं करून, ताका चाळैतालो; उप्रांत तो साळीचें रूप घेवन कालिबानाचे येवचे-वच्चे वाटेर दाटून लोळटालो; तेन्ना ताचे कुचकुचीत कांटे आपल्या जुतें नाशिल्ल्या पांयांत रोंबतीत म्हणून, कालिबान भयान सामको कांपतालो. प्रोस्पेरान सांगिल्लें काम कालिबान करिना जातकूच, आरियेल ताका तरेकतरा हिकमती येवजून पिट्टालो.

आरियेलासारके बळिष्ट देवचार आनी म्हारू प्रोस्पेराचे सांगणेंत आसले देखून, तांचे उदेशीं, वाऱ्याक आनी दर्याच्या ल्हारांक लेगीत आज्ञा करूंक ताका पर्वा दिसनासली. एक दीस ताणें सांगनाफुडें, ताणीं दर्यांत एक भयांकृत मोड उबें केलें. दर्यामजगत तुफानी ल्हारांचेर एक मोटें सोबीत तारूं सकल-उबार जातालें. ल्हारां त्या तारवाक सामकीं तोंडांत उडैतातशीं दिसतालीं. प्रोस्पेरान तें आपले धुवेक दाखौन, तांतूंत आपलेच सारकीं जायतीं मनशां बसल्यांत म्हणून सांगलें. म्हण्टकूच तिणें म्हळें, ''बाप्पा, तुमीच तुमचे विद्येच्या बळान हें आकान्तांचें मोड निर्माण केलां जाल्यार, त्या तारवांतल्या मनशांची चिके काकळुत कित्याक करिनात? अगे बाये! त्या तारवाचे कुडके न्हंय गे जांवचो वेळ आयलो! आतां त्या बाबड्या जिवांचें कशें जांवचें? ते सगळे मरतले. कितें करूं? म्हाकाशी तांक आशिल्ली जाल्यार, त्या सोबीत बऱ्या तारवाची आनी ताचेवैल्या मोलादिक जिवांची वाट लागूंक दिवचे भाशेक हांव ह्या दर्याकूच जमनीतळा पुरून उडैतलीं आसलीं.''

प्रोस्पेरान म्हळें, ''म्हजे अपुर्बाय, तूं इतलें काचाबुल जावं नाका. त्या मनशांच्या जिवाक कसलोच भय ना. तांकां कशेच तरेन नखनामी जांवची न्हंय म्हणपाची हांवें आदींच जतनाय घेतल्या. हांवें हें मोड तुज्या बऱ्याखातीर उबाल्लां. तूं कोण, हांव कोण, आमी आयल्यों खैंसून म्हणपाचें तूं कांयच नकळ. म्हजें नांव प्रोस्पेर आनी हांव तुजो बापुय; तशेंच हें आमचें रावचें बीळ; ह्या बाजत तुका आनीक कसलीच खबर ना. खरें सांग. हे धोलींत तूं पांवचे आदले मुस्तीची तुका याद आस व्हय? म्हाका दिसता, तुका ती निखालुस आसची ना. तेवेळार, तूं धड तीनूय वर्सांचें नासलें.''

मिरान्देन म्हळें, ''अर्रा! याद ना कशी तर बाप्पा?''

प्रोस्पेरान विचाल्लें, ''कसली याद आस तुका? आमच्या घराची वो हेर कोणाय मनशाची याद तुका आस जाल्यार सांग पळौंया.''

मिरान्देन म्हळें, ''सप्नाचे यादीभाशेन कितेंशें हय-न्हयशें म्हाका येवजता.

ते मुस्तींत, म्हजे चाखरेक चार-पांच बायलो आसल्यो; खरें मु हें?''

प्रोस्पेरान म्हळें, ''चार-पांचूच कित्याक? जायत्यो आसल्यो. परंत तांची याद तुका अजून कशी उल्ली? हांगा तूं कशें पावलें म्हणपाचो उगडास तुका जाता व्हय?'''

मिरान्देन म्हळें, ''ना बाप्पा; आनीक कसलोच उगडास म्हाका जायना.''

म्हण्टकूच, प्रोस्पेरान आपलें उलौप फुडें चलौन म्हळें, ''बाय मिरान्द, बारा वर्सांफाटीं हांव मिलानचो दूक आसलों. तेवेळार तूं इल्लीशी राजकन्या आसली. आनी म्हजेफाटल्यान म्हज्या राज्याची तूंच एकली धनीण जांवची आसली. म्हजेफाटलो एक भाव आसलो. ताचें नांव आंतोन. ताचेर हांव सगले तरेन पातयेतालों. एकलो एकसुऱ्यां बसून म्हजी विद्या घोळौंचेलो म्हाका भारी नाद आसलो; म्हणून राज्याचो सगलो कारभार हांवें म्हज्या भावाच्याच माथ्यार घालो. हांवें संवसाराचो नाद सोडलो आनी पुस्तकांनी गुल्ल जावन हांव म्हज्या आत्म्याचें हित जोडचे तजविजेक लागलों. हें पळौन म्हज्या त्या नाड भावान - तुज्या बापोलयान - म्हजो घात मारचो बेत केलो. म्हजो सगलो अधिकार ताच्या हातांत आयिल्लोच; म्हण्टकूच तो आपणाक दूकसायब कसोच समजूंक लागलो. म्हजे रयतेचीं मनां आपणाकडेन ओडून घेंवक ताका आयतीच सन्द मेळिल्ली; तिचो ताणें लाव घेवन, म्हजें दूकपण हातासची पाडी वान्सा धल्ली आनी नापोलिसचो बळिष्ट राजा म्हजो दुस्मान आसलो ताचो पालव घेवन ताणें म्हाका राज्याभायरो केलो.''

ही खबर आयकून मिरान्देन म्हळें, ''अशें करचे भाशेक, त्याच वेळार ताणें आमचो जीव कित्याक घेतलो ना?''

तिच्या बापायन म्हळें, ''तशें करूंक ताका धीर जायना जालो. म्हजे रयतेची म्हजेवैली मायाच तशी कडकडीत आसली. आंतोनीन आमकां तारवार चडैलीं आनी आमी कांय कोसांचे वाटेर पावतकूच शिडां दोरां कुंवो बी नाशिल्ल्या एका ल्हान पडावार आमकां घालून सोडून दिवंक लायलीं. हे भाशेन आमी त्या दर्यांत मरच्यों अशीच ताची वान्सा आसली; परंत गोंजाल म्हणून म्हज्या दिवाणांत एक सरदार आसलो; ताका म्हजी मोटी माया आसली; ताणें नुलैत त्या पडावाचेर सावें उदक, खाणा-जेवणाचे जिनस, न्हेसण-पांगरूण आनी कांय पुस्तकां हाडून दवल्लीं. हीं पुस्तकां मात म्हज्या राज्यायपरस चड मोलाचीं कशीं हांव लेखतां.''

मिरान्देन म्हळें, ''बाप्पा, तेवेळार म्हजे खातीर तुमकां जायती पिडापीड भोगली आसतली.''

प्रोस्पेरान म्हळें, ''ना गो म्हजे अपुर्बाये, तेवेळार तूं माणकुलेंशें देवदूत म्हज्या

वांगडाक आसलें देखून हे दीस म्हाका दिष्टी पडले; ना जाल्यार, म्हजी धडगत नासली. तुज्या हांसऱ्या तोंडाच्या दिव्याकडेन पळौन, म्हजेवैलीं संकष्टां सोंसूंक म्हाका धीर येतालो. पडावावैली भुसारी पुर्वण, आमी ह्या पडंग जुंव्याक लागमेरेन पावली; हांगा हांव तुजो शणै जावन तुका विद्येक लायलें आनी हांवेंय म्हजे शिकौणेचो बरो उपयोग करून घेतलो.''

मिरान्देन म्हळें, ''म्हजेर हे तुमचे मोटे उपकार जाले बाप्पा. आतां हें मोड तुमी कसले तजविजेन उबाल्लां तें म्हाका चिके सांगशात व्हय?''

बापायन म्हळें, ''आयक सांगतां. ह्या मोडाक लागून, म्हजे दोगूय दुस्मान - म्हजो भाव आनी नापोलिसचो राजा - हे आमच्या जुंव्याचे तडीक लागल्यात.'' अशें म्हणून प्रोस्पेरान आपली जादूची कांडी ल्हवूच आपले धुवेक तेंकैली आनी रोखडीच तिका सुस्त न्हीद लागली. उप्रांत मोडाची खबर कळौंक आनी तारवावयल्या मनशांचो कसो कितें विलो लायलो तो सांगूंक आरियेल थैं आयलो. तो येंवचो आसलो म्हणूनूच प्रोस्पेरान मिरांदेक बेगोबेग न्हीद येशी केली. देवचार आनी म्हारू मिरान्देचे नद्रेक दिसनासले. ते प्रोस्पेराकूच दिसताले आनी तो तांचेकडेन उलौंक लागतकूच, बद्द वाऱ्याकडे उलैतासो दिसतालो. हें असलें उलौप आयकल्यार मिरान्दा एकाद्री कांवचेत म्हणून प्रोस्पेर सदींच कसलीय युक्त काडून तिका तें आयकूंक दिनासलो.

आरियेल येतकूच प्रोस्पेरान म्हळें, ''बरें, म्हज्या हुशार देवचारा, तुका दिल्लें काम तुवें कशें कितें केलें?''

तेन्ना आरियेलान त्या मोडाची आनी व्हडेकारांच्या धडधड्याची फुलार बरी वर्णना केली. फेर्नांद राजपुतान सगळ्यां आदीं दर्यांत उडकी माल्ली आनी तेवेळार ताज्या बापायक तो ल्हारांनी सामको गिळिल्ल्याचवरी दिसलो म्हणपाचें सांगून, आरियेलान म्हळें, ''तो आतां ह्या जुंव्याच्या एका कोनशाक हात-पांय पांगरून खेदान बसला आनी आपलो बापुय बुडून मेलो अशें समजून आकांत करता. हांवें ताच्या एका केंसाकूय नखनामी जांवक दिवंक ना. ताच्या आंगावैलो पोशेग निखालुस भंगौंक ना. दर्यांतल्या खाऱ्या उदकान जरी तो चपचपीत भिजला तरी आदलेकूय चड झळझळीत दिसता.''

हें आयकून प्रोस्पेरान खोशी जावन म्हळें, ''शाबास, म्हज्या नाजुक आरियेला, म्हाका जाय तशेंच तुवें सगळें केलें. आतां तांकां हांगा घेवन यो पळौंया. म्हजे धुवेक तो दाखौंक जाय. बरें, तो राजा आनी म्हजो भाव खैं पावले?''

आरियेलान म्हळें, ''ते फेर्नांदाक सोदतात; हर्शीं तो बुडन मेलोसो दिसून

ताणीं ताची आस्ता केन्नाच सोडली. व्हडेकारां भितल्लो एकलोय होगडावंक ना. ते मात आपले भितर समजतात कि खासा आपुण सोडून बाकीचे सगले जाण बुडून मेले. तारू खैं पावलें आनी ताचें कितें जालें म्हणपाचें हांवें तांकां समजूंक दिवंक ना; तरी तें बंद्रांत सुसंगीत आस.''

प्रोस्पेरान म्हळें, ''आरियेला, तुवें तुजें काम सगळें जथापथ केलें. तरी इतल्यानूच जालें अशें तूं समजूं नाका.''

आरियेलान विचाल्लें, ''अजूनूय आनीक काम आस? धनयांनू, म्हाका बंदेपणांतलो मेकळो करीन म्हणून तुमी एक फावट सांगिल्लें ताची तुमकां याद आसतलीच. हांवें तुमचें काम कितल्या विस्वासान केलां तें तुमकां सांगूंक जायशें ना. तुमी जाणातूच, हांवें तुमचेकडेन केन्नाच फटी मारूंक नात. तुमच्या कामांत कसल्योच चुकी करूंक नात; आनी कशेच तरेन हांव पिर्डूंक ना.''

प्रोस्पेरान म्हळें, ''कितें! कसल्या कसल्या हालउपाद्र्यांतसून हांवें तुका सोडैला तें तूं साप विसल्लोसो दिसता. ती पाडनांवी नष्टी सिकोऱ्याक्स, म्हतारपणान आनी दुस्वासान दोट्टी बागौल्ली ती घाडीण, तिची तुका आतां याद नाशी दिसता. खैंचेकडेन जल्मल्ली ती पापीण? सांगशी तूं म्हाका?''

आरियेलान म्हळें, ''ती आलजियेर्सा जल्मल्ली सायबानू.''

प्रोस्पेरान म्हळें, ''आस तर तुका याद. आतां तुका सांगतां तुजी कशी दशा जाल्ली ती! तूं फाटले दीस साप विसल्लो ते? सिकोऱ्याक्सीन कानांनी आयकूं नजत असलीं भयांकृत घाडपणां करून आलजियेर्साच्या लोकांक सामकी पिडापीड भोगैल्ली; तेन्ना ताणीं उबगून, तिका थैंसून आमडून घाली. आनी व्हडेकारांनीं तिका ह्या जुंव्यार हाडून सोडली. तेवेळार तूं तिचो चाखर आसलो. पुण तूं मुदलचोच नाजूक. तिचे नष्टे हुकूम तुजे हातसून जायना जाले. तेन्ना तिणें तिडकीन तुका एका पोरण्या जुनाट रुखाचे धोलींत बांदून घालो आनी थैं हुयेली मारता आसतना म्हाका तूं दिष्टी पडलो. ह्या एद्या त्रासांतसून हांवें तुका सोडैलो ना? खरें सांग.''

हीं उतरां आयकून, आरियेलाक बेयमानपण दाखौंक लज दिसली. ताणें म्हळें, ''खरें सायबांनू, सोडैलो तर. तुमची मकलाशी मागतां. हांव तुमचे सांगणेंत रावन.''

प्रोस्पेरान म्हळें, ''तसो रावशी जाल्यारूच, हांव तुका मेकळो करीन.'' उप्रांत ताणें आरियेलाक फुडें कितें करचें तें सांगलें. म्हण्टकूच तो फेर्नांद आसलो थैं गेलो आनी पळेता जाल्यार, ताका तो थंय आदलेच भाशेन तणाचेर खेदान बशिल्लो दिसलो. तेन्ना आरियेलान ताका दिष्टी पडनासतना म्हळें, ''म्हज्या गुण्या, हांव

तुका आतां हांगासून रोखडोच दुसरे सुवातेर व्हरतलों. मिरान्दबायक तुजें सुंदर तोंड दाखौंचे खातीर तुका घेवन येंवक सांगलांशें दिसता. उठ तर, चल म्हजे फाटल्यान.'' अशें म्हणून तो गांवक लागलो.

पांच वांव दर्या-खोलाये बापूय तुजो रे बुडलो
सोड आस्त ताची तूं आतां; खरेपणानूच तो मेलो.
घांटी ताच्या मर्णाच्यो ह्यो उदक देवता वाजैता;
टण-टण-टण-टण!
कान दी तुजे, खेद कित्या बेठो करता?
मेलो तो; पुण कशेच भाशेन भाँगूंक ना कुड तागेली
खाऱ्या उदकान ती बदल्ली; तेजा-मोलान वाडली
हाडांचीं पोवळींच जालीं; दोळ्यांचीं मोतयां तशीं
अजापांच हीं! सांग, पळेल्लीं तुवें तुज्या जल्मांत अशीं?

होगडावल्ल्या बापायचें हें चमत्कारांचें वर्तनमान कानांत पडून फेर्नांद चिके धेयभानार आयलो. कोण खैंचेकडेन गाता तो दिष्टी पडना जावन, तो काचाबुल जालो. तो त्या गिताच्या नादाफाटल्यान वचूंक लागलो. आनी निमाणें प्रोस्पेर आनी मिरान्दा आसलीं थैं पावलो. तीं दोगांय एका मोट्या रुखाचे सांवळेक बशिल्लीं. मिरान्देच्या जाणापरीं, ह्या आदीं आपल्या बापायबाजत मनीस म्हणून कसलो तो तिणें पळौंकूच नासलो म्हळ्यार कामायता. राजपुत दिसनाफुडें, ती ताचेकडेन तुकुतुकु करून पळौंक लागली. तेन्ना प्रोस्पेरान तिका विचाल्लें, ''मिरान्द, तूं तेवशीन कोणाक गो इतले अर्थीनशें पळेता?''

मिरान्देन अद्‍भुत जाल्ल्यावरी म्हळें, ''बाप्पा, तो हेवशीन येता तो देवचार, म्हारू म्हणटात तसलो न्हंय मू? तो कितेंय सांडिल्ल्यावरी हे कुशीक ते कुशीक पळेता. तो सुंदर बरो दिसता. देवचार न्हंय तो बाप्पा?''

बापायन म्हळें, ''न्हंय म्हजे अपुर्बाय. तो जेवता, खाता, न्हिदता आनी ताका आमचेसारकींच सगळीं इंद्रियां आसत. त्या तारवावैलोच तो एक जुवान दादलो. दुखान आनी खेदान ताची नुरा चिके बदल्ल्या; नाजाल्यार, तो तुका आनीकूय सुंदर दिसतलो आसलो. ताचे वांगडचे मनीस ताका चुकल्यात देखून, तांकां सोदून काडूंक हेवशीन तेवशीन तो पळेता.''

मिरान्देच्या उगडासाभाशेन, आजवेर मनीस म्हण्टात तो एक आपलो बापुयूच

तिणे पळेल्लो. म्हण्टकूच बाकीचेय मनीस ताचेसारके मख्ख नुरेचे आसून, तांकां पिकिल्लीं खाडां आसतात अशें ती समजताली. तिका तो सुंदर राजपुत पळौन उमेद जाली. फेर्नांदाचो जीव जाल्यार सामकोच गदळ्ळो. आरियेलाचीं गितां आयकतपसून, त्या पडिंग जुंव्यार सगले चमत्कारूच चमत्कार पळौंक मेळटले अशें तो समजल्लो; आनी आतां जाल्यार, मिरान्देसारकी मन-भुलैणी बायल दिश्टी पड्टकूच, ताका तो जुंवो जादून मंत्रिल्ल्यावरी दिसलो, आनी मिरांदा ही थैंची देवता कशी समजून, ताणे तिका त्याच नांवान उलो माल्लो. तेन्ना तिणे भित्रेपणान जाप केली कि आपुण देवता न्हंय; आपुण मनशांचे जातचीच एक आंकवार आस. ती आनीकूय आपली खबर सांगतली आसली; परंत प्रोस्पेरान तिका मदींच थांबैली. तीं दोगांय एकामेकांक तोखेतातशीं पळौन प्रोस्पेराक खोस जाली. पैल्याच फाराक तांकां एकामेकांचो मोग लागलोसो ताका दिसलो. परंत फेर्नांदाच्या मोगाची घटाय कितलीशी आस ती समजूंचेखातीर, ताणे तांचे वाटेंत कांय अडचणी घालची तजवीज केली. तो फुडें सल्लो आनी राजपुतांचेर मोट्यान धेकणो घालून ताणें म्हळें, ‘‘तूं ह्या जुंव्यार कित्याक आयला तें हांव बरेभाशेन जाण. तूं गुमानित - खबर-काडो आस. हो जुंवो म्हजेकडसून हातासची तुजी तजवीज आसशी दिसता. पुण खबरदार! हांव हांगाचो राजा आसं. चल यो म्हजे फाटसून. तुज्या हातां-पांयांक आनी गळ्याक लोखणाचे वाळे आनी गळसर घालून पळे कसो तुजो मुडुलो बांदतां तो. दर्याचें खार - कोटूक उदक तुका पियेवंक; आनी कुल्ल्यांचीं कंवचां, सुकिल्लीं पाळां-मुळां, सोडणांचो काथो तुका खांवक.’’

हाचेर फेर्नांदान म्हळें, ‘‘तर गा! तुका जाय तशें करूंक दिवंक हांव वाटेर पडलां व्हय? तुका काळीज आसल्यार यो म्हजेकडेन झुजूंक.’’ अशें म्हणून ताणे आपली तरवार भायर काडली. तेन्ना प्रोस्पेरान जादूची कांडी घुंवडावन ताका आशिल्ले सुवातेर खिळायलो. ताच्यान एकूय पावल फुडें घालूंक नज जालें.

तेवेळार मिरान्देन बापायच्या गळ्याक उमकळ मारून काकळुती येवन म्हळें, ‘‘अशें कितें बाप्पा हें? तुमी ताचेर वगीच कित्याक तिडकतात आनी ताका केंचकेंचायतात? ताची तुमकां काकळुत येवनी. तो कितेंय आगळें-उणें करीत जाल्या हांव आसं जामीन. जल्मा येतपासून म्हाका होच कितें तो दुसरो दादलो दिष्टी पडला; आनी ताची नुरा पळेल्यार म्हाका सात्विकपणाचीशी दिसता.’’

बापायन म्हळें, ‘‘चीप राब; आनीक उतर मात उलै; मागीर पळे कशें आस तें. कशें पळे ह्या नाड मनशाचो पाखो घालता! जल्माक येवन हाका आनी कालिबानाक तुवें पळेला; देखून हाचेपरस सुंदर दादले संवसारांत आनीक नात

अशें तुका दिसता आसतलें. पिशें खैंचें! हाचेफुडें तो कालिबान जसो कित्याक उपकारा पडना, तसोच संवसारांतल्या हेर सुंदर दादल्यांफुडें होय कित्याक उपकारा पडना.'' हें सगलें तो धुवेच्या मोगाची घटाय पारखुंचेखातीर उलैलो. तेन्ना तिणे म्हळें, ''खरें आसत. पुण म्हजी आपली रूच सादी; म्हाका हाचेपरस सुंदर दादले पळौंची वान्सा ना.'

उप्रांत प्रोस्पेरान फेर्नांदाक दबकावन म्हळें, ''असो यो रे हांगा. तुजें बळ साप जिल्लेंशें दिसता. म्हजी सांगणी आयकना म्हणूंक तुका आतां काळीज ना.''

फेर्नांदाक तें आतां खरेंशें दिसलें. आपलें सगलें बळ मोडूंक मूळ प्रोस्पेराचो जादू म्हणपाचें तो नकळ आसलो. तो ताचे फाटल्यान व्हेल्ल्यावरी वचूंक लागलो आनी त्याखातीर मनांतले मनांत ताची ताकाच लज जाली. प्रोस्पेराफाटल्यान धोलींत वता आसताना, ताणे नदर पावमेरेन फाटल्यान मिरान्देवशीन पळौन मनांत म्हळें, ''सप्नांत आशिल्ल्याभाशेन म्हजी आवतिकाय जाल्या. म्हजो जीव-नांव सामको बांदून घाल्ल्यावरी दिसता. तांतूंत ह्या म्हाताऱ्याच्या दबकावण्यांनी आनी आंगा-पांगाक आइल्ल्या वडींनी जीव म्हजो दगदगला. तरी आसताना, म्हाका म्हज्या ह्या बंदेपणांत दिसाक एक फावटूय ते रुपेस्त आंकवारीचें तोंड पळौंक मेळत जाल्यार, म्हज्या जिवाचो सगलो शिणभाग वचत.''

प्रोस्पेरान फेर्नांदाक ते धोलींत चड वेळ आडावन दवल्लो ना. ताणें ताका रोखडोच भायर काडून, धुवे हुजरांच, एका मोट्या कष्टांच्या कामाक लायलो. उप्रांत ताणे आपले बरपाचे कुडींत गेल्ल्यावरी म्हणून केलें आनी नुलैत भायर येवन, तीं दोगांय कितें करतात तें तो चोरयांनी पळौंक लागलो.

प्रोस्पेरान फेर्नांदाक लांकडांचीं मोटीं व्हडलीं धोंडां दाळून दवरचें काम दिल्लें. राजांच्या पुतांक असलें मानायपण करचेली केन्नाच संवय नासता. देखून धोंडां दाळटा आसताना, फेर्नांदाक सामकें पुरो जावन ताचो जीव वतासो जालो. तेन्ना मिरान्देन कळवळून म्हळें, ''आसूं, भँगूं तें काम. तुमी चिके थारावो घेयात. बाप्पा कुडींत वाचूंक बसल्यात. उणो-पुणो एक पारभर तरी ते हांगा येतीत अशें दिसना.''

फेर्नांदान म्हळें, ''पणून म्हजे अपुर्बाये, थारावो घेवंक म्हाका धीर जायना. हें काम म्हाका सोंपौंकूच जाय.''

मिरान्देन म्हळें, ''कशेंय जाल्यार, तुमी चिके थारावो घेंवक जाय. तंव म्हणसर, जाय जाल्यार हांव लांकडां दाळीन.'' परंत ही तिची म्हणणी फेर्नांदान निखालुस आयकली ना. उप्रांत, वाव्र चल्ला आसताना, त्या दोगांयच्यो जायत्यो गजाली जाल्यो, आनी त्या नादांत लांकडां दाळचें काम मंदावणेर पडलें. हे भाशेन,

मिरान्द जी ताका पालव दिंवक म्हणून गेल्ली ती आडमेळ्याक मात निमित्त जाली.

फेर्नांदाचो मोग कसाक लांवचेखातीर प्रोस्परान ताका ह्या कष्टांच्या कामाक लाइल्लो. धुवेच्या समजाभाशेन तो कुडींत वाचूंक बसूंक नासलो. तो तांचेच फाटल्यान, तीं कितें उलैतात तें कान दिवन आयकूंक उबो राविल्लो; परंत जादूच्या बळान तांचे नद्रेक मात दिसनासलो.

गजाली करता आसताना, फेर्नांदान तिका तिचें नांव विचाल्लें आनी तिणें तें, बापायन सांगूं नाका म्हणून ताकीद दिल्ली आसतानाय लक करून चुकून सांगलें. तें आयकून, धुवेन ही पैलेच खेपे आपली सांगणी मोडलीशी दिसून, प्रोस्पेराक हांसूंक आयलें. ताणें दाटूनूच जादूच्या बळान तिका त्या राजपुताच्या मोगांत घुस्पायल्ली. त्या नादांत आपली सांगणी ती विसल्ली म्हणून ताका तिचो राग आयलो ना. तो थैं जायतो वेळ उबो रावन, फेर्नांदाचें उलौप कान दिवन आयकूंक लागलो. तेवेळार संवसारांत आजवर पळेल्ल्या सगळ्या बायलांपरस मिरान्देचो आपणाक चड मोग लागला म्हणपाची फेर्नांदाचीं उतरां आयकून प्रोस्पेराक भारी खोस जाली.

संवसारांतल्या सगळ्या बायलांत मिरान्दा भौच रुपेस्त म्हणपाची जेन्ना फेर्नांदान तिची तोखणाय केली तेन्ना तिणें म्हळें, ''हांवें आजवेर खैंचेच बायलमनशेचें तोंड पळौंक ना. तेच भाशेन, तुमी आनी बाप्पा खेरीज करून, दुसऱ्या खैंच्या दादल्याचेंय तोंड हांवें पळौंक ना. संवसारांतले दादले आनी बायलो कशो आसतात तें हांव निखालुस नकळं; परंत हांव तुमकां खरेपणान सांगतां, तुमचे बाजत दुसऱ्या कोणाच दादल्याची इष्टागत म्हाका नाका. तुमच्या रुपाखेरीज, म्हज्या मना-येणें दुसरें कसलेंच रूप म्हजे मतिच्यान रेखूं नज. परंत म्हाराजांनू, हांव मेकळ्या मनान, हें कितेंचें कितें भरभरूंक लागलीं. बाप्पाची सांगणी हांव साप विसल्लीं.''

हीं उतरां आयकून प्रोस्पेराक हांसो आयलो. ताका तिची करणी मान्य जाल्ल्याभाशेन, ताणे आपली तकली हालैली. त्यावैल्यान, ''हें सगलें म्हाका जाय तशेंच जाता; म्हजी धूव नापोलिसची राणी जातलीच,'' अशें ताणे म्हळ्ळ्यावरी दिसलें.

उप्रांत फेर्नांदान लांब-रुंद दरबारी उतरांची भास काडून निमाणें तिका म्हळें, ''हांव नापोलिसच्या मुकुटाचो येर्देरी आसं; तेन्ना तूं म्हजी राणी जा.''

हाचेर तिणे जाप केली, ''म्हाराजांनू, ह्या तुमच्या उतरांनी म्हजो जीव भुरकुटला आसताना, म्हाका रडूंक येता; तेन्ना हांव पिशीच म्हणची! म्हाका जो मोग तुमकां ओंपचोसो दिसता तो ओंपूंक म्हजे सभाविक लजे-भिडेक लागून म्हाका काळीज जायना; तशेंच जो मोग तुमचेकडसून म्हाका घेवंचोसो दिसता - जो घेतलोना

जाल्यार म्हज्या जिवाची आस्त सोडल्यार बरी - तो घेंवक म्हाका ह्यायपरस धीर जायना. इतलेचखातीर म्हाका रडयाचे हुडके येतात. भाँगूं ती लज. लजेक आनी पेजेक पडना. तेन्ना हांव तुमकां साद्या, सवळ्या नेण्टेपणान सांगतां कि तुमी म्हजेकडेन लग्न जांवचो नित्शय क़ेल्यार हांव तुमची बायल जालींच म्हणून समजात.''

हाचेर, फेर्नांद तिचे उपकार मानूंक वतालो; परंत ताच्या तोंडांतसून उतर भायर सुटचे आदींच प्रोस्पेर तांच्या म्हऱ्यांत वचून उबो रावलो. ताणे म्हळें, ''धुवे, तूं भियेवं नाका. हांवें तुजें सगलें उलौप आयकलां आनी म्हाका तें मान्य आस. फेर्नांदबाब, हांवें हो वेळमेरेन तुमकां कसाबपणान चलैले ताची फारकाय करूंक हांव ही म्हजी धूव तुमकां दितां. तुमच्या मोगाची परिक्षा पळौंकूच हांवें तुमकां पिडापीड भोगैली; आनी तुमीय ते परीक्षेंत बरे तरेन जैत जोडलें. तुमच्या खरेपणाच्या उजळ मोगान जोडिल्ली ही म्हजी धूव तुमकां फावोशीच तस्त्रीप आस; ती तुमी घेयात. ही भौच गुणेस्त. हिच्या गुणांची तोखणाय कोणाच्यान करूं नज. हांव सांगतां ही भगल म्हणून तुमी समजूं नाकात.'' उप्रांत ताणे तांकां थैंच बसून गजाली करूंक सांगून आपुण कसल्याशा कामाक गेलो. बापायची ही आज्ञा मिरान्देच्या हितारूच पडली.

प्रोस्पेर थैंसून गेलो आनी ताणे आरियेलाक आपौन हाडून ताचेकडसून आपल्या भावाची आनी नापोलिसच्या राजाची कशी कितें वाट लायली म्हणपाची सगली खबर आयकून घेतली. आरियेलान तांकां भेष्टायणे देखाव दाखौन आनी भयांकृत गजाली तांच्या कानार घालून तांकां सामके थरथरायल्ले. ते भयान धेयभान विसरून पिशान्तुर जाल्ले. जळींमळीं जळपून तांकां पुरो जातकूच आनी भुकेन गादतकूच ताणे तांच्या म्हऱ्यांत,रुचिक जेवणांचीं ताटां मांडिल्लीं आनी ताणी तोंडांत हात घालीनाफुडें, राक्षेसी गिदाचें रूप घेवन ताणे तांच्या जेवणार घुरी घालून तें भकिल्लें. रोखडीच ताणे तीं ताठांय थैंसून नाशीं केल्लीं. उप्रांत गिदाच्या रुपानूच तो तांचेकडेन उलौंक लागून ताणे तांकां सामके काचाबुल केल्ले. ताणी कसाबपणान प्रोस्पेराचें राज्य कशें हातासलें आनी ताका आनी ताचे माणकुले धुवेक दर्यांत कशीं धुकल्लीं म्हणपाची याद तांकां केल्ली आनी त्या पातकांखातीरूच तांकां ही सगली पिडापीड भोगता म्हणपाचें तांकां कळैल्लें.

पुर्विल्ल्या नष्ट्या करण्यांची याद जायनाफुडें, नापोलिसचो राजा आनी घातमारो भाव आंतोन हांकां खूब पत्शत्ताप जालो. आरियेलाकूय तो खरेपणाचोच दिसून, ताणे प्रोस्पेराक म्हळें, ''हांव निजाचो देवचार आसतानाय म्हाका तेवेळार तांची काकळुत दिसली.''

प्रोस्पेरान म्हळें, "तर तांकां घेवन यो हांगा. तुका देवचाराक तांचे त्रास पळौन जर इतले चुरचुरे दिसतात तर म्हाका - तांचेच सारक्या मनशाक - ते कितले दिसूंक फावोत? चल, तांकां घेवन यो बेगीन."

म्हंटकूच, आरियेल रोखडोच वचून नापोलिसचो राजा, आंतोन आनी म्हातारो गोंजाल हांकां वांगडाच घेवन आयलो. तांकां प्रोस्पेरासरशीं हाडचेखातीर तो अंत्राळांत गीत गायत उडूंक लागलो आनी त्या गिताच्या नादान अजाप जायत ते ताचेफाटसून येंवक लागले. गोंजालाची वळख आमच्या वाचप्यांक आसतलीच. प्रोस्पेराक सटकरून ते वळखले नात. प्रोस्पेरान सगळ्या आदीं गोंजालाक आपणाचो जीव-वाटायणो म्हणून भौमानान उलो मारून वळख दिली; उप्रांत ताचो भाव आनी राजा ताका वळखले.

आंतोनीन दोळयां दुखां हाडून खेदान भल्लेल्या दुखेस्त उतरांनी आनी पत्शत्तापान आपल्या भावाकडेन मकलासी मागली; तेच भाशेन, राजानूय आंतोनीच्या पातकी कामांत पालंव दिल्लो म्हणून जायतो खेद दाखयलो. म्हण्टकूच, प्रोस्पेरान त्या दोगांकूय मकलासी केली. ताणी ताका पर्थून मिलानच्या शिंवासनाचेर बसौं म्हणून सांगलें. तेन्ना ताणे नापोलिसच्या राजाक म्हळें, "हांवेंय तुमकां दिंवचेखातीर म्हज्या सांट्याक एक तस्रीप राखून दवल्ल्या." अशें म्हणून ताणे धोलींतले एके कुडीचें दार उगडलें, आनी भितर फेर्नांद आनी मिरान्दा चतरंगान खेळूंक बशिल्लीं तीं त्या राजाक दाखैलीं. तेवेळान त्या बापायपुताक जी उमेद जाली ती सांगून उपकारना. ते दोगूय एकमेकांक बुडून मेले अशेंच समजताले. पर्थून आपली भेट जायत म्हणपाचें तांच्या ध्यानां-मनांतूय नासलें.

मिरान्देन तांकां सगळ्यांक पळौन अद्भुत जाल्ल्यावरी मनांत म्हळें, "अल्ला गे बाय! कितले सुंदर तरी जीव हे! ज्या संवसारांत असलो लोक आस तो खऱ्यांनीच भाग्यवंत म्हणूंक जाय."

मिरान्देचेर नदर पडनाफुडें, तिची सुंदरकाय आनी सोबित नुरा पळौन फेर्नांदाक जशें अजाप जाल्लें तशेंच आतां ताच्या बापायकूय जालें. ताणे म्हळें, "ही कोण, खेंची आंकवार? आमकां आदीं वेगळावन मागीर एकठायणी ही कोणूय देवता नासतली मू?" हें आयकून, आपलेचवरी आपलो बापुय गदळ्ळोलो पळौन, फेर्नांदाक हांसूंक येवन ताणे म्हळें, "बाप्पा ही देवता न्हंय. ही आमचेसारकीच मनीस आसा. देवाचे दयेन ती म्हजी जाल्या. तुमी ह्या संवसारांतसून गेले आसतले म्हणपाच्या समजान, तुमची मान्यताय घेनासताना हांवें तिका लग्नाचें उतर दिलां. मिलानचे लोकिकवंत दूकसायब प्रोस्पेरम्हाराज तांची ही धूव. हांव तांचो लोकिक

जायतेकाळ आयकतालों; परंत आज दीसमेरेन हांवें तांकां केन्नाच पळौंक नासले. ताणी म्हाका नवो जल्म दिलो. ताणी म्हाका ही आपणाची धूव दिवन ते म्हजे मांव जाले.''

राजान म्हळें, ''तर हांवूय हिचो मांव जालों. परंत हे म्हजे सूनबायक एकवेळ हांवें वायट तरेन चलैल्ली म्हणून आतां तिचेकडेन म्हाका मकलासी मागची पडली मू? कितली विपरितांची गजाल ही!''

प्रोस्पेरान म्हळें, ''तितलेखातीर तुमी कष्टी जांव नाकात. आमच्या सगळ्या त्रासांचो अखेर भौच ख़ोसयेचो जाला; तेन्ना आतां आमी तांचो उगडास करुंया नाका.''

उप्रांत प्रोस्पेरान भावाक वेंग माल्ली आनी ताका मकलासी केली म्हणून सांगून पर्थून एकवेळ धीर दिलो. ताणे म्हळें, ''म्हजे धुवेक नापोलिसच्या मुकुटाची येर्देरीण करचेखातीर सगळ्यांचेर शेक-चलैण्या गिन्यानी देवानूच हें सगलें घडौन हाडलां. ताणेच तुका म्हजें दूकपण हातासची बुद्द दिली. ताचेच इत्सेन हांव ह्या पडिंग जुंव्यार पावलों आनी ताचेच करणेन नापोलिसचो राजपुत फेर्नांद हांगा पावन ताचो आनी म्हजे धुवेचो मोग जमलो.''

भावाक समजांवचेखातीर प्रोस्पेर जीं हीं मायेस्त उतरां उलैलो ताणी आंतोनीक लज आनी खेद जालो. तो भळा-भळा रडलो आनी ताच्या तोंडांतसून उतर सुटना जालें. दोगांय भावांचें सन्मथ जाल्लें पळौन म्हाताऱ्या गोंजालाच्या दोळ्यांतसून उमेदीन दुखां व्हांवलीं आनी ताणे त्या जुवान न्हवऱ्या-होंकलेक बरें जांव म्हणून देवाकडेन गाराणें घालें.

उप्रांत प्रोस्पेरानं तांकां म्हळें,''तुमचें तारूं आनी व्हडेकार बंद्रांत सुसंगीत आसत. तुमचे वांगडा फाल्यां हांवूय म्हजे धुवेक घेवन घरा वचूंक भायर सरन; तंव म्हणसर म्हजे हे दुबळे धोलींत येवन तुमी मातसो हात उष्टांवक जाय. तुमचो वेळ वचूंक हांव ह्या जुंव्यार पावतपासून आजवेरची म्हजे जिणेची सगळी खबर तुमकां कळैन.''

मागीर ताणे कालिबानाक आपौन ताका ती धोल झाडून झळझळीत करूंक लायली आनी जेवण करूंक सांगलें. तेवेळार कालिबानाचें तें राक्षेसी, बुरशें, विद्रूप ध्यान पळौन सगळ्यांक अजाप जालें. तेन्ना तोच एकलो त्या जुंव्यावैलो आपलो मानाय म्हणून प्रोस्पेरान तांकां सांगलें.

जुंवो सोडून वच्चे आदीं, प्रोस्पेरान आरियेलाक आपले चाखरेंतसून मेकळो केलो; तेन्ना ताका मोटी उमेद जाली. तो प्रोस्पेराची जरी विस्वासान चाकरी करतालो तरी बंदेपणांतसून आपुण केन्ना मेकळो जायन आनी रानांतल्या सवण्यांभाशेन

पांचव्या-चार पानांच्या रुखांतळ्ळ्यान, पर्मळीक फुलांमदल्यान, सुर्बूस फळावैल्यान अंत्राळांतसून हुस्क्या-मेकळो केन्ना भोंवक लागन अशें ताका जाल्लें. ताका मेकळो करच्या वेळार प्रोस्पेरान म्हळें, ''म्हज्या हुशार आरियेला तूं वेतकूच म्हाका सामकें सांडल्या-चुकल्यावरी जातलें. तरी आसताना, हांव तुका मेकळो करतांच.'' हाचेर आरियेलान म्हळें, ''म्हजेर हे तुमचे उपकारूच सायबांनु; परंत तुमी तुमच्या राज्यांत पावमेरेन हांव तुमच्या वांगड़ा तुमच्या तारवार बसून येतलों आनी तुमकां बऱ्या वावान सुसंगीत तडीक लायतलों. मागीर हांव मेकळोच. मागीर कितें विचारता? म्हज्या जिवाचो हांव धनी. म्हाका कोणूच विचारतलो ना. म्हज्या मनाक मानत तें हांव करीन.'' अशें म्हणून तो गांवक लागलो -

राती-वितीक नातकांच्यो हुयेली
        जातात तेन्ना, चांफ्याच्या कळ्यांत
मुयेएदो जावन लिपून बसन हांव;
        नाका आरड ती म्हज्या कानांत.
भोंवर मारून, वांटकुळो घुंव-घूंवून,
        रिगन म्होंवा-मूसांच्या भिऱ्यांत;
लुचन म्होंवाचे थेंबे रुचीचे
        नाचून उडून गोठलांच्या मळ्यांत.
वागोळ्याचे फाटकुळेर बसून हांव
        वचन नव्या पैशिल्या मुलखांत.
सोदून काडीन दीस सुखी गिमाचे;
        लोळन सालाबाद फुलां-फळांत.

उप्रांत, प्रोस्पेरान जादुचे विद्येचो ह्यापुडें केन्नाच उपयोग करचो न्हंय म्हणपाचो नित्शय करून आपलीं जादूचीं पुस्तकां आनी कांडी जमनींत खोल फोंड मारून पुल्लीं. हेवेळार ताच्यो सगळ्यो वान्सा चडकरून तडीक गेल्ल्यो. ताणे आपल्या दुस्मानांक पुरोपुरो केल्लें. ताचो भाव आनी नापोलिसचो राजा हांचेकडेन ताचें सन्मथ जाल्लें. आतां फक्कत जल्म-देसाक वचून दूकपण सुवादीन करून घेंवचें आनी फेर्नांद राजपुताकडेन धुवेचें लग्न करून दिंवचें इतलेंच कितें तें उल्लेलें. हें जातकूच, ताच्या सगळ्या सुखाक घूड चडैल्ल्यावरी जांवचो आसलो.

फुडें ते सगळेजाण तारवार चडले आनी आरियेलाचे जतनायेचे राखणेन, कसलेंच अरिष्ट वो आडमेळें येनासताना सुसंगीत आपल्या मुलखाक पावले.

# शेक्सपियराच्या खेळांची माळ



माळ गुथणार
शणै वा.र.वर्दे वालावलीकार



१९१४

## मांडावळ






HAMLET: –(aple avaie) Bávem ubo; punn tuvench tuhe'en bapaicho zabor motto upunn kelo.' (pan 17 vcun).

खेळ १ लो

# राजपूत हामलेट आनी बापायचें भूत

डेन्मार्काचो राजा हामलेट भायर पडलो. आनी दोन म्हैने जांवचे आदीं ताची राणी जेर्त्रूद ही आपणाचो देर क्लावदियू हाचेकडेन लगीन जाली; ही तिची करणी सगळ्या लोकांक अविचाराची आनी माये-मोगा-भायरी अशी दिसली.

क्लावदियू रुपान वो अंतस्कर्णान आपल्या भावाभाशेन मुदलींच नासलो; तो भितर्यां अंतस्कर्णान जितलो उणाक तितलोच भायल्यान अळशिकावण्या रुपाचो आसलो; ताच्या सबावावयल्यान लोकांच्या मनांत संवशेग येतालो कि, जेर्त्रूदी वांगडा लगीन जांवक मेळून, डेन्मार्काच्या शिंवासनाचो कायद्यानशीं येरदेर जो ल्हान हामलेट (जेर्त्रूद आनी हामलेट राजा हांचो पूत) ताका हका-भायरो करून, आपणाक राज्यार बसूंक मेळचें म्हणून, ताणे नुलैत आपल्या भावाचो जीव घेतलो.

जेर्त्रूद राणयेचे करणेन, हेरां लोकां परस, ल्हान राजपूत हामलेट हाच्या काळजाक जबर दुख जालें. तो आपल्या मेल्ल्या बापायचो भौनभौन मोगान आनी भौमानान उगडास करूं लागलो; तो सदांच नीतीन आनी उजू पणान चलतालो, म्हणून आवैची पोजडी करणी ताका निखालूस मानवली ना. बापायच्या मर्णाखातीर खेद आनी आवैच्या लग्नाखातीर लज हीं दोनूय येवजून तो वैतागलेल्या भाशेन दिसूं लागलो; ताच्या तोंडावैली सगळी उमेद आनी हांशें उबलेल्या भाशेन जालें; शिकपार ताचें ध्यान लागनाजालें; ताच्या जुवानपणाक फावणारे खेळ ताका निखालूस रुचनाजाले; संवसार म्हणचे, फूल झाडां करपून वचून हुस्के सारक्या झाडकानी मातलेलें रान अशें ताका दिसूं लागलें, आनी संवसाराची ताका भोवच उबगण आयली.

आपुण कायद्यानशीं येरदेर आसून आपणाक शिंवासनाभायरो केलो हें येवजून खंयच्याय उंच मनाच्या राजपुताक अपमान जावन, काळजाक घाव घाल्ल्याभाशेन दुखी जावंक फावो; परंत हामलेटाक तांतूर कांयच दिसलें ना; ताच्या मनाक अदीक लागली ती ताचे आवैची पोजडी करणी ; आपली आवै घोव मरनाफुडें, देरावांगडा लगीन जाली हें येवजून ताच्या आंगाचो उजो जांव लागलो ! अहाहा ! काय बरो तो बापुय ! तो आपले आवैचो केदो मोग करतालो ! आनी आपली आवयूय तेवेळार ताका कितलो मोग दाखैताली ! ताचीं उतरां कशे भाशेन जिखताली ! ताच्या मोगान जीव दिवंकूय तयार जाताली ! आनी आतां पळेल्यार, सारके दोन म्हयनेय जावंक

नात तर तिणे दुसरें लगीन केलें !- तेंय आपणाच्या बापोलया वांगडा--बापायच्या भावा वांगडा! कितलें पोजडें आनी कायद्या-भायरें लगीन हें ! लगीन जावंकूय तिची केदी हुतावेळ ! दोन म्हयन्याचोय तिका थार जालो ना ! आनी तेंय लगीन राजवडकेक सोबनासलेल्या एका उणाक मनशा वांगडा! हामलेटाक अदीक खेद जातालो तो इतलेच खातीर ; हाचे फुडें, एक राज सोडून धा राज्यां जरी होगडावलीं तरी ताका एदी व्हडली दुखी बादची नासली ; कटा कटा! जुवानी वयलो भुरगो तो ! आनी तो ह्या दुखान सामको करपल्ल्या भाशेन जालो! ताच्या तोंडार सामकी काळबाण ओतली!

हामलेट हाल्मीखुशाल दिसचो म्हणून जेर्त्रूद आनी क्लावदियू राजा आपले हातसून जाता तो येत्न करतालीं; परंत, कांयच उपेग जाय नासलो ; तो बापायच्या मरणाखातीर अजून सुतकाचो पोशेग घाली. आवयचें पुनरलगीन जालें ते दिसा लेगीत ताणे आपलो सुतकी पोशेग सकला काडलो ना, इतलेंच न्हय तर त्या पोजड्या कार्यांत ताणे निखालूस आपलें आंग घालें ना.

आपल्या बापायक अशें अवचीत मर्ण कशें आयलें तेंच समजनाजावन ताच्या जीवाक अदीक त्रास जावं लागले; बापायचें मर्ण हें ताका एक कुवाडेंच जालें; क्लावदियू सांगतालो कि ताचो बापुय सोरोप चावन मेलो; पुण हें आयकून वोगो रावंक हामलेट सामको बाबत नासलो. क्लावदियू होच खासाखूद सोरोप आसून, मुकूट हातासचे खातीर, ताणे आपल्या बापायचो जीव घेतलो हें तो बरे भाशेन समजतालो.

परंत, ही आपली कल्पना कितलीशी खरी आसा - बापायच्या मर्णांत आपले आवयचें आंग आसा वो ना - आंग आसल्यार तें कितलें - तिचे मान्यतायेन वो हरशीं आपल्या बापायचो खून जालो, अशे तरेचे दुभाव भौन भौन ताच्या कपळांत येवन ताका पुरो पुरो करूंलागले.

हामलेटाच्या कानार एक खबर आयलेली कि आपल्या मेल्ल्या बापायच्या रुपासारकेंच एक भूत, सुमार मध्यान रातच्या वेळार, राजवाड्या फुडल्या आंगणांत, एकसारकें दोन तीन दिसां पासून येता; राजवाड्यांतल्या पारकारांनी तें पळेल्लें; मेल्लो राजा माथ्यापासून पांयां लेगीत जशें चिलखत घालतालो तशेंच त्या भूताच्या आंगार आसलें.

जाणी तें भूत पळेल्लें तांतूर हामलेटाचो जबर जीवाचो इश्ट होरासियू हो एक आसलो. त्या सगळ्यानी राजपुताक तें भूत केन्ना येता आनी कशें येता ती सगळी खबर सांगली. रातीच्यो जीस्त बारा घांटी जाल्यो म्हणचे तें येता; ताचें तोंड भोवच

फिकें आसून ताचेर रागा परस खेदाची सांवळी अदीक मारता; ताचें खाड भयांक्रीत दिसून ताचो रंग काळबाण पडलेल्या रुप्याभशेन दिसता ; ताका कितेंय विचाल्ल्यार तें जाप दिना ; तरी आसताना, एक वेळ ताणे आपलें माथें उबाल्लें आनी तेवेळार तें कितेंशें उलोवंक येवजीता अशें दिसलें; परंत तितले म्हणसर कोंब्यान साद घालो; तेन्ना तें ताकतीन फाटीं सरून एकदम नाच जालें.

ताणी सांगलेली ही खबर आयकून, तें भूत आपल्या बापायचेंच, अशी हामलेटाची निशा जाली, आनी ते दिसा रातीं, आपणे तें पळोवचें म्हणून, ताणे पारकारां वांगडा पारो करचो येवजीलें; ताणे मनांत म्हळें कि हें जें भूत येता तें वोगीच येनासतलें; ताच्या मनांत कितेंय सांगचें आसा म्हणूनूच तें येता, आनी आज लेगीत जरी तें मोन्यानी रावलें तरी तें आपलेकडेन उलयल्या बगर रावचेंना; अशें येवजून, तो रात केन्नाकाळ जाता म्हणपाची वाट पळोंव लागलो.

रात जाली तेन्ना, होरासीक वांगडा घेवन तो पारकारां वांगडा पारो करूंक रावलो. ते रातीं, शीं भोवच पडलेलें आनी वारो आंगाक तोपलेल्या भाशेन जातालो; म्हण्टकच त्या दोगांयच्यो शींयां समंदान गजाली चल्लेल्यो; इतले म्हणसर 'भूत आयलें रें आयलें' अशें होरासीन म्हळें.

बापायचें भूत पळोवन हामलेटाक अजाप जालें आनी मातशें भें-य दिसलें; तें भूत बरें आसा वो वायट आसा--तें बऱ्याक आयलां वो वायटाक आयलां--तें समजना जावन ताणे आपणाक ताचे पासून राखचे खातीर देवाचो धांवो केलो, मागीर, व्हळूव्हळू, ताच्या काळजाक धीर आयलो; ताका दिसलें कि, आपलो बापुय भोवच काकळुतीन आपणाकडेन पळेता आनी कितें तरी उलोवंक येवजीता; तो ताका जिंत्रूप आपल्या मेल्ल्या बापाय भाशेनूच दिसलो; म्हण्टकूच, ताणे ताका उलो मारून म्हळें:'दादा, तुमी तुमचो फोंड सोडून हांगा कित्याक म्हणून आयले? तुमच्या आत्म्याक थंडाय मेळूंक कितेंय करचें अशी तुमची इत्सा आसा व्हय? इत्सा आसल्यार सांगात'.

हाचेर, राजपुतान आपले वांगडा एकसुरे सुवातेर येवचें म्हणून त्या भूतान ताका कुरूकेली; ती पळोवन, भूता वांगडा वचचें न्हंय म्हणून होरासीन हामलेटाक फाटीं ओडलो; ताका दिसलें कि तें भूत एकादरें वायट तजवीजेन आयलां आसूंये, आनी राजपुताक उंच दोंगरार वो दर्यार व्हरून, थंय भंयाळ रुप घेवन ताका भेशटांवचो ताचो बेत आसूंये; ताणे हामलेटाची जायती पांयापडणी केली परंत ताचो नित्शेय इल्लोय उणो जालो ना; आपणाक मर्ण आयल्यारूय कामायेता अशें ताणे म्हळें; आपल्या आत्म्याक काय त्या भूताच्यान मारूं नज, कित्याक तर आत्मो अमर

आसा हेंय ताणे होरासीक सांगलें. अखेरीक तो शिंवा भाशेन धीट जालो आनी होरासीन कितलोसो आडायलो आसतानाय, जेवशीन तें भूत वेतालें तेवशीन वचूं लागलो.

ते दोगूय एकसुरे सुवातेर पावले तशे, भुतान हामलेटाक म्हळें : 'मोगाळ राजपूता, तुजो बापुय जो हामलेट ताचेंच हांव भूत आसां. म्हजो भाव क्लावदियू हाणे तुजी आवय आनी शींवासन आपणाक मेळचे खातीर, कसाबपणान म्हजो जीव घेतलो. सदांच्या नेमा भाशेन, हांव एक दीस सांजेवेळचो पोरसांत बांकाचेर न्हीदलोलों आसताना, ताणे म्हज्या कानांत कसल्याशा विखाळ पाल्याचो रोस ओतलो : ह्या रोसाचो परिणाम असो आसा कि तो पारजा भाशेन एका खीणांत आंगाच्या सगळ्या शिरंत्रांनी रोखडो भिनून, रगत सामकें जाळटा, आनी ताचे पासून सगळ्या आंगार कुश्टा सारको रोग फोंफेता; अशे भाशेन त्या घर पातक्या भावान, म्हाका जीवानशीं मारून, म्हजो मुकुट आनी म्हजी राणी हातासली म्हणून, तुका हांव सपूत घालून सांगतां कि, जर तुका तुज्या बापायचो इल्लोय मोग आसत तर तुवें बेगीन ताच्या खूनाचें उट्टें फारीग करूंक जाय. तुजी आवय आडमार्गी जावन, आपल्या आदल्या घोवाचो मोग विसरची आनी तिणे घोवाचो खून करणाऱ्या वांगडा पुनर-लगीन जांवचें हें पळोवन म्हाका जबर खेद जाता; तरी आसताना, हांव तुका सपूत घालून सांगतां कि तुज्या बापोलयाक उट्टें फारीग करूंक तुवें कसलोय जरी येत्न केलो तरी, तुजे आवयक तूं कशेच भाशेन नखलामी करूं नाका; तिचें मनूच तिका भोवन भोवन तोंचतलें आनी सगळें पळेणो देव तिका व्हडली ख्यास्त भोगयतलो अशें म्हणून तूं वोगो राव.' हें आयकून, तुजे सांगणे भाशेन आपुण करीन अशें उतर राजपुतान त्या भूताक दिलें आनी रोखडेंच तें भूत थंयसून नाशें जालें.

हामलेट थंय एकलोच उल्लो तेन्ना ताणे नित्शेय केलो कि, आपुण आज लेगीत बरप शिकून आनी पुस्तकां वाचून जें कितें शिकलां, आनी दोळ्यांनी पळोवन जें जें कितें यादींत दवल्लां तें सगळें विसरून, भूतान जें कितें नित्तेंच सांगलें आनी कर म्हणून आज्ञा केली तितलेंच कपळांत दवरचें, आनी जाता तो उपाय करून आपल्या बापोलयाक उट्टें फारीग करचें. मागीर तो होरासीकडे वचून ताणे सगळी खबर ताका कळयली आनी ती भायर फोडची न्हंय म्हणून ताका सपूत घालो.

हामलेट आदींच अशक्त आसून, ताची सगळी उमेद भंगलेली ; तांतूल्य, भूताक पळौन जो कांपरो ताच्या मनांत रिगलोलो ताणे ताची बूद सामकीच सैल जावन तो पिशांतूर जालो ; तेन्ना न्हंय शाणो,न्हंय पिसो, अशीच जर आपली अवस्था रावली तर सगळे लोक आपलें हालप-धोलप बारकायेन पळेतले; बापायच्या मरणाची खबर

आपणाक जीस्त लागल्या म्हणपाचें तांकां समजतलें, आनी आपले बेत आपल्या बापोलयाक कळून तो जीव सांबाळून रावतलो; म्हण्टकूच, ताणे एक चमत्कारीक उपाय येवजीलो ; त्या दिसा पासून, आपुण अर्दो पिसो अर्दो शाणो नासून, खऱ्यानीच धनर जाला अशें तो धोंग करूंलागलो ! पिशा भाशेन तो नाचूं लागलो ! ताका दिसलें कि ह्या धोंगान, बापोलयाक आपल्या बेतांचो संवशेग मुदलींच येनासताना, अपल्याच्यान ते बेस बरे तडीक वेतले.

त्या दिसा पासून, हामलेट आपलो पोशेग, उलोवप आनी हेर चलणूक हीं बद्द धनर जाल्ल्या भाशेन करूंलागलो. क्लावदियू आनी जेर्त्रूद हांकां ताचें तें धोंग खरेंच दिसलें ; तांकां भूताची खबर कांयच नासली म्हणून, बापायच्या मरणान ताची ही अशी वाट जाल्या हो संवशेग तांकां निखालूस आयलो ना. ताणी मनांत म्हळें कि, कोणाय आंकवारीचेर ताचो मोग बसला आसतलो आनी म्हणूनूच तो असो पिसावला.

वयर सांगलेले भाशेन हामलेट वैतागचे आदीं ओफेलिया नांवाचे एके रुपेस्त जुवान आंकवारीचेर ताचो मोग बसलोलो. राजाचो मुखेल प्रधान जो पोलोनिओ ताची ओफेलिया ही धुव आसली. हामलेटान तिका कागदां आनी मुदयो धाडून आपलो मोग मोटे भौमानीक रीतीन कळैल्लो, आनी ताच्या मोगार तिचो जबर विस्वास बसलोलो; परंत, फुडें जेन्ना, बापायच्या मरणान हामलेट सामको वैतागलो तेन्ना ताणे तिची साप विचारपुस सोडली ; धनर जाल्ल्याचें सवंग घेत पासून जाल्यार, तो तिका वैल्याचारान, माया नासलेल्याबरी आनी रीतीभायरे तरेन चलोवं लागलो ; परंत, ती उंच-गुणी बायल, हामलेट आपणाच्या उतराक चुकलो अशें तिच्या मनाक दिसूनूय, ताका हिणसीनासताना, ती आपुणूच आपली समजाविशी करी कि, हामलेटाच्या मनांत मोग ना म्हणून तो आपणाक असो तुटक्यापणान चलयना, तर, धनरपणान ताची करणी अशी बदलल्या; हामलेटाचें धनर जांवचे आदलें व्हड मन आनी उंच बुद हांकां ती मंजूळ वाजणाऱ्या घांटींचो ओपारो मारून म्हणटाली कि त्यो घांटी कशेच्योकशो वांकड्यो हालयल्यो म्हणचे तांतूरसून गोड सूरां बदला मोटो घणघण मात भायर सरता, तेच भाशेन, हामलेटाचें अंतस्कर्ण निजाचें कितलेंय मायेस्त आसलें तरी, ताचेर वैतागपण ओतल्या पासून, ताचें मोवाळपण इबाडलेल्याबरी जालां, दुसरें कांय ना.

बापायच्या जीवघेण्या खुनशाक उटें फारीग करचें हें खरखरीत काम आनी ओफेलिचो मोग करचो हें मोवाळ काम हीं दोनूय एकमेकांचे उफाट्टीं आसल्यावरसून, तीं एकेच वेळेक हातांत घेवंचीं हें भोवच कठीन ; तरी आसताना, केन्ना केन्ना, हामलेटाक ओफेलिच्या मोगाची याद जाताली; एक फावट ताच्या जीवाक दिसलें

कि, आपुण जो तिका भौन भौन तुटक्यापणान चलयतां तें बरें न्हंय; म्हणून, आपल्या धनरपणाक फवोशे रीतीन ताणे तिका कागद बरोंवचें येवजीलें; तें कागद, लटक्या पिशेपणान चाळावलेल्या, परंत, मोगान भल्लेल्या उतरांनी उपाट आसलेलें; आनी ताचे वयल्यान, हामलेटाच्या अंतस्कर्णाच्या मूळांत ओफेलिचो जबर मोग आसा अशें दिसतालें; त्या कागदांतलीं उतरां अशीं आसलीं : 'मळबांत सुर्या चलना म्हणूये; खरें आसा तें लटकें म्हणूये; नक्षेत्रां हीं उजो न्हंयत अशें उलौंये; परंत, हांव तुजो मोग करीना हो संवशेग मात तुज्यान केन्नाच ना घेंवये.'

ओफेलीन तें कागद आपल्या बापायक दाखयलें आनी ताणे तें राजाक आनी राणयेक दाखयलें; तेन्ना पासून हामलेट पिसो जांवचें मूळ फकत एक मोग दुसरें कांय ना, असो तांचो समज जालो; राणयेक दिसलें कि ओफेलीचे सुंदरकायेनूच हामलेट असो पिशांतूर जाला; म्हणून दोगांयचें लगीन जायत जाल्यारूच, तिचे बरे गूण लागून तो परथून सितीतार येंवये.

परंत, मोगाळ वाचप्यांनू, राणयेंक दिसलो ताचेय परस हामलेटाचो रोग खोल आसलो, आनी तो तिच्या समजा भाशेन, सोंपे रीतीन बरो जायत असो नासलो; बापायचें भूत अजून ताच्या दोळ्यांर खेळटालें आनी त्या भूतान खूनाचें उटें फारीग करची जी पवित्र आज्ञा ताका केल्ली ती तडीक वचसर ताच्या जीवाक थारावो जायसारको नासलो. बापायची आज्ञा अखेरीक वचूंक जितलो जितलो कळाव लागता तितलें तितलें ताका पातक केल्ल्या भाशेन दिसतालें ; परंत, क्लावदियू राजा भोंवतणी सदांकाळ पारो आसल्यावरसून ताका जिवानशीं मारपाचें काम सोपें नासलें; त्याभायर, ताची आवय जी जेर्त्रूद राणी ती क्लावदियू राजाकडसून केन्नाच हालनासली, आनी तें एक ताका व्हडलेंच आडमेळें आसलें; खेरीज, आपलें शिंवासन हातासणार हो आपले आवयचो दुसरो घोव आसल्यावरसून, ताचो जीव घेवंचो कसो, हाचेय खातीर तो फाटीं फुडें जातालो आनी ताचे नित्शयाचे धारेक सडे पडटाले.

हामलेटासारक्या नाजूक आनी मायेस्त सबावाच्या मनशाक आपलेच सारक्या एका मनशाचो जीव घेवंचो म्हणचे व्हडलें राक्षेसी आनी अळशिकावणे काम दिसतालें. वैताग आनी उमेदमोड हाणी ताचो नित्शेय गडबडूं लागलो आनी येवजिल्लें काम लांबणेर पडूं लागलें. त्या भायर, ताच्या मनांत संवशेग येवं लागलो कि, आपणाक दिसलेलें भूत खऱ्यानीच आपल्या बापायचें आसूंये वो एकादऱ्या देवचारान, आपलो वैताग आनी मनाची दुबळाय पळौन, आपले हातसून राजाचो जीव घेवंचे खातीर, आपल्या बापायचें रूप घेतलें आसूंये! म्हण्टकूच, ताणे आपले भीतर थारायलें कि, भूताची गजाल एकादरी लटकी जांवये; तेन्ना, खरो पुरावो मेळसर

आपणे वोगीच रावचें.

ताचें मन अशे भाशेन थीर नासलें इतक्यार कांय खेळगडे त्या शारांत पावले. ते ह्या फाटीं जायतेदा थंय आयल्ले आनी तांचे खेळ पळोवन हामलेटाक भोवच खोस जाल्ली. 'त्रोयाचो राजा प्रियाम हाचें मर्ण आनी ताचेखातीर राणी हेकुबा हिचो दुखाचो आकांत' हो खेळ पळोवंक मेळ्ळ्यार ताका जेवणाखाणाची लेगीत विसर पडटाली. म्हण्टकूच, हामलेटान त्या खेळगड्यांक आपोवन, प्रियाम राजाचोच खेळ करूंक सांगलो, आनी ताणी तो बेस बरो करून दाखयलो. त्या खेळांतलो देखाव असो आसलो कि, सगळ्या शाराक आनी लोकांच्या घरादारांक उजो लावन जेन्ना कोणे खुनशानी म्हाताऱ्या प्रियाम राजाचो खून केलो तेन्ना, जिच्या माथ्यार ह्या आदीं सुंदर मुकूट सोबतालो आनी जी पयलीं व्हडलो जरीचो पोशेग करताली ती ताची राणी हेकुबा, घोवाच्या मर्णान सगळ्या संवसाराक वैतागून, कमरेक एक बोंदराची फाळी गुटलावन आनी माथ्याक एक आंगटेची तिस्ती रेवडावन, राजवाड्यांतले इस्कादी वयल्यान, तोंडार हात मारीत सकयल वयर धावंक लागली. हो देखाव खऱ्यानीच आपल्या दोळ्यां मुखार घडटा अशें दिसून सगळ्या लोकांच्या दोळ्यांतसून दुखांच्यो सामक्यो झरी व्हांव लागल्यो ! लोक आसूंच ; परंत, हेकुबाचें सवंग घेतलेल्या खेळगड्याचो लेगीत ताळो घुस्मटलेल्या भाशेन जावन ताच्याय दोळ्यांतसून खऱ्यांचींच दुखां गळूं लागलीं !

हो देखाव पळोवन हामलेटाक अजाप जालें. ताणे आपल्या मनांत म्हळें, हेकुबा राणी मरून आज शेंबरानी वर्सां जालीं, तरी आसताना, तिच्या आकांताचो खेळ करून दाखोंवच्या वेळार ह्या खेळगड्यांच्याय दोळ्यांतसून दुखां व्हांवतात, आनी आपल्या मोगाळ बापायचो खून जावन अजून धड कांय म्हयनेय जावंक नात. अशें आसून, ताच्या मर्णाचे ताजे यादीन आपलें काळीज मातूय दरवेना, आनी आपुण ताचो खून करणाऱ्यांक उटें फारीग करचें काम लांबणेर घालतां तेन्ना, आपले सारको तिख्याच्या काळजाचो मनीस संवसारांत दुसरो कोणूच नासतलो !

तो अशे भाशेन खेद करतालो आनी मदीं मदीं, त्या खेळगड्यांच्या जीस्ताक जीस्त हालवाऱ्यांची तोखणाय करून, कसलोय खेळ बेस रीतीन करून दाखयल्यार, पळेतल्यांच्या मनार कसो परिणाम जाता हाचे समंदान येवजीतालो, इतले म्हणसर, ताका एका खुनशाची याद जाली; त्या खुनशान, खेळाचे माचयेर, एका खुन्याचो लटको खून जाल्लो पळोवन, आपणे एकफावट केल्लो खून सगळ्या लोकां हुजरां भायर फोडलो !

मागीर हामलेटान बेत केलो कि, त्या खेळगड्यांक आपल्या बापायच्या

खुनासारकोच एक खेळ करूंक लावचो, आनी तो पळेता आसताना आपल्या बापोलयाचें तोंड कशें जाता तें पळोवचें, म्हणचे, तो खरोच खुनशी आसा वो ना तें समजूंक कळाव लागचो ना. ताणे त्या खेळगड्यांक रोखडोच तसलो एक खेळ घडोवंक सांगलो आनी तो माचयेर करून दाखोवंचे दिसा, ताणे राजाक आनी राणयेक आमंत्रण केलें.

ह्या नव्या खेळाची गजाल अशी आसली : व्हियेनांतल्या एका दूकाचो खून जालो ; दूकाचें नांव गोंझाग आसून ताचे बायलेचें नांव बापतिस्ता आसलें ; दूकाचो एक लागशिलो सोयरो लुसियानो हाणे गोंझागाक पोरसांत न्हिदला आसताना, वीख घालून माल्लो आनी कांय दिसांनी तो बापतिस्ता वांगडा लगीन जालो.

हो खेळ पळोवंक क्लावदियू राजा, जेर्त्रूद राणी आनी सगळो दरबार आयलोलो. हामलेट क्लावदिलागसार बसून सारको ताच्या तोंडाकडें पळेतालो.

खेळाचे सुरवातीक गोंझाग आनी ताची बायल बापतिस्ता हांचें उलोवप जालें तांतूर बापतिस्तेन, घोवाच्या हातार हात मारून, आपल्या मोगाचे घटायेचें उतर दिवन म्हळें : 'म्हज्या उण्या नशीबान, जर एकादरी हांव तुमचे फाटल्यान वांचून उल्लीं तर, दुसरें लगीन मात केन्नाच जावंची ना; कित्याकतर, घोवाचो खरो मोग करणाऱ्यो ज्यो बायलो आसतात तांची अशीच गजाल आसता ; पाड्यो आनी आडवाट्यो बायलो मात, दुसरें लगीन करूंक मेळूंक जाय म्हणून, आपल्या घोवाक जिवानशीं मारून उडयतात !'

हें उलोवप जातालें तेन्ना राजा-राणयेच्या तोंडाची नुरा बदल्ली आनी तें तांकां दोगांकूय कोडू कोडू वीख लागलेल्या भाशेन हामलेटाक दिसलें.

फुडें जेन्ना, लुसियानो, गोंझाग पोरसांत न्हिदलासो पळोवन ताका वीख घालूंक आयलो, तेन्नाचो तो देखाव, आपले पुर्विल्ले करणेक जीस्त मेळटा अशें राजाच्या मनांत येवन, ताचें काळीज सामकें कलबल्लें आनी फुडलो खेळ पळोवंक बसूं नज जावन, आपल्या जीवाक बरें दिसना म्हणपाचें धोंग करून, तो थंयसून उठून गेलो.

राजा गेलो तसो, खेळ थांबलो. भूतान सांगलेली गजाल इल्लीय लटकी ना हें अणभवाक येवन हामलेटाचें काळीज थीर जालें. एकादऱ्या संवशेगाची फोडणीशी जाली म्हणचे जशी कोणाकूय खोस जाता ते भाशेन हामलेटाक जावन, ताणे त्या उमाळ्यांत होरासीक सोपूत दिवन सांगलें कि, भूतान जें कितें आपणाक सांगलें तें खऱ्यानीच लाखाच्या मोलाचें अशें आपुण समजतां.

फुडें क्लावदियू राजाक उटें कशे भाशेन फारीग करचें हे चिंतेंत तो आसलो, इतले म्हणसर राणयेन ताका कितेंशें गुमानीत उलोवंचें आसा म्हणून आपोवन व्हेलो.

राणयेन हामलेटाक आपोवन व्हेलो तो राजाचेच सांगणेवयल्यान. ताणे खेळाचे युक्तीन निकतीच करून दाखयलेली करणी आपणाक आनी राणयेक रुचली ना इतलेंच ताचे नदरेक हाडून दाखोंवचें असो राजाचो हेत आसलो.

जेर्त्रूद राणी ही हामलेटाची आवय आसल्यावरसून, सबावीक, पुताची कूस धरून, ताचे वांगडा जाल्लें सगळें उलोवप आपणाक जीस्त कळोवंची ना ह्या संवशेगान राजान, प्रधान पोलोनिओ हाका राणयेचे कुडींतल्या पड्ड्या आड रावन, सगळी खबर आयकूंची अशी आज्ञा केली. पोलोनीचें सगळें आविश अदीक करून आडमोड्या राजकारणांतूच गेल्लें आसल्यावरसून, ताका सांदीकोनशाक उबो रावन, लिपाचोरयांनी, कसलेंय वर्तमान सोदून काडपांत भोवच उमेद जाताली.

हामलेट कुडींत आयलो तसो, राणयेन ताका ताचे करणे खातीर खुब हिणसीलो आनी म्हळें : 'तुवें आज तुज्या बापायचो जबर मोटो अपमान केलो.'

क्लावदियू राजाक लेखून, *तुजो बापुय* अशें जें राणयेन म्हळें तें आयकून हामलेटाचें पींत चाळवलें आनी ताणे तिडकून म्हळें : 'हांवें न्हय ; पुण तुवेंच *म्हज्या बापायचो* जबर मोटो अपमान केलो.'

राणयेंक ताच्या उलोवपाचो अर्थ समजलो ना आनी तिणे म्हळें : 'इस्स ! पुरो जालें तुजें उलोवप; कितेंय आचावाचा उलोवं नाका.'

हामलेटान म्हळें : 'हांव आचावाचा उलय ना ; जीस्त फावो तेंच उलयतां.'

राणयेन म्हळें : ' तर हांव कोण आसां आनी म्हजेकडे कशें उलोवंचें तें समजूंक तूं आतां ध्येयभानार नासतलो.'

हामलेटान म्हळें : 'हांव बेस बरो जाणा तूं कोण आसा ती आनी तुका कशी जाप दिवंची ती. तूं *राणी--तुज्या घोवाच्या भावाची बायल*--आनी म्हजी आवय. तुवें सद्यां जें नातें जोडलां तें जोडूंक नासलेलें जाल्यार भोव बरें जातलें आसलें.'

म्हणटकूच, राणयेन तिडकून म्हळें : 'तूं जर असो म्हजो अपमान करूंलागलो तर, जांच्यान तुका बेस जाप दिवंक येत अशांकूच हांव तुजेकडेन धाडून दितां.'

इतलें म्हणून, ती, राजा नाजाल्यार पोलोनिओ हांकां हामलेटाकडेन धाडून दिवंक वेताली, परंत, हामलेटान तिच्या हाताक धरून तिका आडायली. ती आयतीच एकसुरी मेळ्ळ्या तेन्ना, चार गजाली सांगून, तिची आडमार्गी चलणूक तिच्या दोळ्यां सामकार हाडची अशें ताणे येवजिलें, आनी तिच्या मणकटाक गच्च धरून तिका बसयली.

ताची ही पोट-तिडकीची करणी पळौन राणी भियेली, आनी तो आपले धनरपणाचे चाळवणेंत आपणाक कसलीय नखलामी करीत म्हणून तिणे व्हडान हुयेल

माल्ली; आनी तितले म्हणसर, पड्ड्या आडसून ' धांवात, धांवात' अशीं उतरां आयकूंक आयलीं.

हामलेटान तीं उतरां आयकलीं, आनी थंय राजाच लिपून रावला आसूंये अशें समजून, जेवशीनसून ताळो आयकूंक आयल्लो तेवशीन, ताणे आपले तरवारीचो धपको घालो, आनी पोलोनिओ पड्ड्या भायर मरून पडलो !

मडें ओडून भायर उजवाडाक हाडलें तेन्ना, आपणे जिवानशीं माल्लो तो क्लावदियू नाथून पोलोनिओ आसा अशें हामलेटाक समजलें.

त्यावेळार राणयेन किंळचून म्हळें : 'पापया, पापया, कितलें अविचारीपणाचे आनी खुनशी काम तुवें केलें हें !'

हामलेटान म्हळें : 'खुनशी काम ? खुनशी ? पणून तुवें तुज्या घोवाचो जीव घेवन, ताच्या भावा वांगडा जी तूं लगीन जाली तितलें काय खुनशी न्हंय मूं ?' हामलेट भीडमुर्वत धरीनासताना तिका खुब हिणसून उलोवंक लागलो.

आवय-बापायचे अन्यांव भुरग्यांनी चडशे कानामनार घेवंचे न्हंयत हें खरें ; परंत, मोटो गुन्यांव घडल्यार, पुतान आपले आवयक आडवाटेंतसून उजू वाटेर हाडूंक, चार खरखरीत उतरांय उलोवंक जायत. ते भाशेन त्या गुणेस्त राजपूतान आपले आवयक, तिच्या भोवच मोटया गुन्यांवांची करणी कळवळ्याच्या उतरांनीं दाखोवन दिली. ताणे म्हळें : 'तूं जी बायल, व्हडले व्हडले सपूत दिवन, म्हज्या बापायक तुजो मोग दाखयताली तीच, तो मेलो तसो, थोड्याच दिसानी, ताच्या भावा वांगडा लगीन जाली, हाचे वयल्यान, बायलांचीं सगळीं सपता-परमाणाचीं उतरां, संवशेगान भल्लेलीं ; तांचे सगळे गुण वयल्याचाराचे; तांच्यो लग्नाच्यो प्रतिज्ञा जुगाऱ्यांच्या पैजांय परस उणाक ; आनी तांचो धर्म म्हणचे सगळें थोतांड ! व्हजे आवय,-- तुका आतां *म्हजी आवय* अशें म्हणूंकूय म्हाका जबर लज दिसता--तुवें एदी वायट करणी केल्या कि ती येवजून, धर्तरेक तुजो वीट येता आनी मळबाक तुजें तोंड पळोवन ओकूंक येता.'

मागीर, हामलेटान राणयेक दोन चित्रां दाखयलीं; एक तिच्या आदल्या घोवाचें, आनी दुसरें, आतांच्या घोवाचें ; ताणे तिका त्या दोंय भितर अंतर पळोवंक सांगलें ; ताणे म्हळें : 'अहाहा ! कितलें सुंदर हें म्हज्या बापायचें चित्र ! जसो एक देवूच कसो तो दिसता ! हाचें हें लांबरुंद कपळ, शीरवंत दोळे आनी शूरपणाचें ध्यान पळोवन मनाक कितली खोस जाता म्हणून सांगची ! नाजाल्यार, हेंच ताच्या भावाचें--तुज्या दुसऱ्या घोवाचें--चित्र ! म्हाका हो बद्द एक टोळ कसोसो दिसता ! खऱ्यानीच हो आपल्या भावाक-खायरो टोळ ! हाच्या तोंडाक मात्शीय शिरी मारीना. आनी

असल्या ह्या रुपड्याक तुवें तुजो घोव केला !'

हीं उतरां राणयेंक थंयच नाख आपटून मरूंक पुरो जालीं. हेवेळार तिची पोजडी करणी तिच्या दोळ्यां सामखार उबी रावली आनी तिचो जीव तिकाच खावंक आयल्ल्या भाशेन दिसूं लागलो.

हामलेटान तिका आनीकूय म्हळें : 'ज्या मनशान तुज्या मोगाळ घोवाचो खून करून, चोरा भाशेन, वायट युक्तिनी, ताचो मुकुट हातासलो, ताचे वांगडा लगीन जावन दीस काडूंक तुका काळीज जालें तरी कशें ?'

हामलेट अशे भाशेन उलयतालो इतले म्हणसर, ताच्या बापायचें भूत ते कुडींत रिगलें; तेन्ना, हामलेटान कांपलेल्या भाशेन, ताका कितें जाय काय म्हणून विचाल्लें. तेन्ना भूतान म्हळें : 'क्लावदीक उटें फारीग करीन म्हणून जें उतर तुवें म्हाका दिल्लें तें एकाद्रो तूं विसल्लो आसशी म्हणून तुका चत्राय दिवंक हांव आयलां.' इतलें सांगून तें भूत नाशें जालें.

तें भूत राणयेंक दिसूंक नासलें ; आनी हामलेट दिश्टी पडनासलेल्या कोणा एका मनशाकडेन उलयता हें पळोवन राणी थर्त भियेली; परंत, तिणे आपलें भें भायर समजूंक दिलें ना.

हामलेटान तिका परथून म्हळें : 'म्हजे हे सगळे पिशेपणाचे चाळे आसून, तुजो गुन्यांव क्वांयच ना अशें तूं समजूं नाका. खरेपणान विचारशी जाल्यार हांव पिसो जावंक ना--हांव धनर जावंक ना--म्हज्यो नाडयो ठिकाणार आसात.' ताणे मागीर दोळ्यां दुखां हाडून तिका म्हळें : 'अजून लेगीत, तुजे करणे खातीर तूं देवालागीं मकलासी माग, आनी ह्या फुडें, क्लावदीचो वांगड सोडून, ताचे कडलें बायलपणाचें नातें तोडून उडय ; इतलें तूं करशी तेन्नाच, म्हाका पर्थून तूं *म्हजी मोगाळ आवय* अशी दिसशी आनी तेन्नाच हांव तुका पायां पडन आनी तुजो आशिर्वाद मागन.'

ही पुताची मागणी पाळूंक राणी मान्य जाली आनी तांचें उलोवप सोंपलें.

मागीर हामलेटाक फुरसत मेळ्ळी, आनी आपणे अविचारपणान पोलोनीचो ओगीच जीव घेतलो म्हणून ताका भौच वायट दिसलें; तो आपले मोगाळ ओफेलीचो बापुय, म्हणून ताचो जीव्र अदीक चुरचुरलो आनी तो भळाभळा करून रडलो.

हामलेटाचो राजाक आदींच राग आसलो, आनी तांतूर ताणे पोलोनीक माल्लो; म्हणटकूच ताका राज्या-भायरो करूंक, राजाक एक आयतेंच निमित मेळ्ळें ; हामलेटा पासून आपल्या जीवाक जायतीं सांकडीं आसात म्हणून, क्लावदियू राजा, ताका मोटे खोशेन जीवानशीं मारचो हुकूम करतोलो आसलो; परंत सगळो लोक ताची माया करताले म्हणून तशें करूंक तो कांवचेतालो, तशीच राणीय, जरी तिणे जायते

गुन्यांव केल्ले तरी, हामलेटाक भौच जीवार घाली म्हणून, राजाक आपणाचे खुनशीपणाचे विचार दांबचे पडले. तरी आसताना, त्या कवायती राजान, पोलोनीक माह्लेल्याचे ख्यास्तेंतसून हामलेटाक सुगूर करपाचें धोंग करून, इंग्लंडाक वेतल्या एका तारवार ताका चडयलो, आनी ताचे वांगडा दोन सरदार दिवन, तांचेकडेन, इंग्लंडाच्या दरबाराक एक चीट दिली ; तांतूर कांय निमतां बरोवन, हामलेट बंदरार पावलो तसो ताका जीवानशीं मारचो असो मजकूर आसलो. इंग्लंड तेवेळार डेनमार्काच्या शेकातळा आसलें म्हणून डेनमार्काच्या राजाची कसलीय आज्ञा इंग्लंडाच्या दरबाराक पाळची लागताली. परंत, हामलेटाक राजाच्या विश्वासघाताचो संवशेग आयलो, आनी रातच्या पारा, ताणे ती चीट काडून वाचून, मोटे युक्तीन ताचे वयलें आपलें नांव खडून, ताचे बदला त्या दोनूय सरदारांचीं नांवां बरयलीं, आनी पयलेच भाशेन, ते चिटीच्या कापार लाखेचो शिको मारून ती आसली थंय दवह्ली.

रोखडीच , त्या तारवार कांय तारवा-लुटारांनी झोंपय घाली आनी थंय एक दरया-झुज जालें. तेवेळार, हामलेटान आपलो पराक्रम दाखोंवचो येवजून, हातांत तरवार घेवन, तो एकलोच त्या लुटारांच्या तारवार गेलो आनी तांचेकडे झुजूं लागलो. हेवशीन, हामलेटाच्या तारवा वयले लोक हामलेटाक तसोच सांडून, इंग्लंडाचे वाटेक लागले.

हे भाशेन, हामलेट जरी आयतोच लुटारांच्या हातांत पडलो तरी ताका कसलीच नखलामी करीनासताना, मोट्या मायेस्तपणान ताणी चलयलो ; ताणी ताका बेस बरो वळखलो, आनी आपुण हेवेळार जरकायना ताका बरे रितीन चलोवं तर फुडें तो राज्यार बसतकूच, आपले हे उपकार कशेय भाशेन फारीग करीत हे आस्तेन, ताणी ताका डेन्मार्काच्या अगदीं लागशिल्या बंदरार उतरायलो. थंयसून, हामलेटान आपुण कशे चमत्कारीक रितीन पर्थून आपल्या राज्याक पावलों ती सगळी खबर राजाक बरोवन, आपुण दुसरेच दिसा राजधानयेंक येन म्हणपाचें ताका कळयलें.

हामलेट राजधानयेंक पावलो तसो, एक भोवच खेदयाळो देखाव ताका दिश्टी पडलो. हो देखाव म्हणचे मोगाळ ओफेलीची मर्ण-यात्रा. बापुय मरत पासून ती सामकी पिशांतूर जाह्ली. आपुण जाचो मोग करतां त्या राजपुताचे हातसून आपल्या बापायक अवचीत मर्ण येवचें हें तिच्या नाजूक काळजाक इतलें तोपलें की, ती थोड्याच दिसानी सामकी धनर जाली, आनी दरबारांतल्या बायलांक फुलां वांटून, तीं आपल्या बापायच्या फोंडार घालूंक म्हणून सांगूं लागली ! ती मोग आनी मर्ण हांचीं गीतां गावं लागली आनी केन्ना केन्ना अर्थ नासलेलीं गाणीय म्हणू लागली ! तिच्या घरा लागसार, एका व्हाळाचे धडेर एक झाड आसलें आनी ताचें बिंब सकला

उदकांत दिसतालें ; म्हणटकूच एकदिस तिणे आपल्या धनरपणाक फावणे रितीन, बरीं वायट अशीं वेंची नासत्ताना, परमळीक तशींच बगरवाशा फुलांची एक माळ गुथली आनी ती त्या झाडाचे एके खांदयेर लोंबोवचे खातीर, त्या झाडार चडूं लागली, परंत, चडटा आसताना, ढबंयच करून ती सकला उदकांत पडली, आनी कांय वेळान, तिच्या आंगावयलो पोशेग उदकान भिजून, ती खरीक गेली, आनी हे भाशेन तिका मर्ण आयलें !

हामलेट राजधानयेक पावलो ते दिसा, ओफेलीची मर्ण-यात्रा तिचो भाव लाएर्त हो करतालो, आनी तिच्या मड्या वांगडा राजा, राणी आनी सगळो दरबार वेतालो. ही मर्ण-यात्रा कोणाची म्हणपाचें हामलेटाक पयलीं कांयच समजलें ना आनी तो हेरां भाशेन आपुणूय त्या मेळ्या वांगडा वचूं लागलो.

मडें मसुंडेंत पावन तें फोंडांत घालें तशें, त्या राज्यांतले चाली भाशेन, जमलेले लोक ते आंकवारीच्या मड्यार फुलांच्यो माळो घालूं लागले.

जेर्त्रूद राणयेन माळ घाली तेन्ना तिणे आपल्या कपलार हात मारून म्हळें : ‘कर्मा कर्मा तूं म्हज्या हामलेटाची बायल जावन तुज्या पलंगाचेर जीं हांवें फुलां घालचीं ताचे बदला तींच आज तुज्या मड्यार म्हाका घालचीं लागलीं ! आ ! गे म्हजे सोबीत आंकवारी.‘

इतले म्हणसर, ओफेलीचो भाव दुखान सामको पिशांतूर जावन, ताणे त्या फोंडांत उडकी माल्ली, आनी भयणी वांगडा आपणाकूय पुरचो म्हणून तो आपल्या चाखरांक सांगूं लागलो. तें पळोवन, हामलेटाचो ओफेली वयलो मोग पर्थून ताच्या अंतस्कर्णांत जागो जालो, आनी तिचो भाव इतलें जबर दुख दाखयता आसताना, आपणे तें पळेतूच उबें रावचें हें ताका बरें दिसलें ना. लाएर्ता सारक्या चार हजार भावांचो मोग जरी एकठांय केलो तरी आपल्या मोगाची सर्त ताका येवंची ना अशें ताणे मनांत म्हळें, आनी रोखडीच, लाएर्ता भाशेन, ओफेलीच्या फोंडांत उडकी माल्ली. तेन्ना लाएर्तान हामलेटाक वळखलो आनी आपल्या बापायचो आनी भयणीचो जीव घेणार तो होच काळ अशें म्हणून ताणे ताचे गोमटेक हात घालो. परंत, लाएर्ताच्या चाखरांनी त्या दोगांकूय वेगळे केले.

मागीर फोंड भरून जालो तसो, हामलेटान आपले करणे खातीर लाएर्ताची मकलासी मागून ताका म्हळें : ‘म्हज्या मोगाळ भावा, तूं इतलो म्हजेर रागार जावं नाका. सुंदर ओफेलीच्या मर्णाच्या दुखान म्हाका तुवें फाटीं घालचो वो हार करची हें सोंसना जावन हांवें मोटे हुतावळेन फोंडांत उडकी माल्ली. हो म्हजो मोटो गुन्यांव जालो तो तूं पोटांत घाल.‘ अशे भाशेन, ते दोगूय जाण तितल्याच वेळाक थंडावलेल्या

भाशेन जावन आपणाचो राग विसल्लेशे दिसले.

परंत, बापायच्या आनी भयणीच्या मर्णान लाएर्ताक जें दुख जाल्लें आनी राग आयल्लो तांचो उपेग करून घेवन, हामलेटाची वाट लांवची म्हणपाचो क्लावदीन नित्शेय केलो. हामलेटा वांगडा शांततायेच्या आनी बऱ्यापणाच्या नाटकान, पातकांनी वावुडचे खातीर, राजान लाएर्ताक कोमार काडलो, आनी लाएर्तान हामलेटाकडेन खेळूंक येवची मागणी घाली. हामलेटान ती मान्य करून पट्यानी खेळचो दिसूय थारायलो.

नेमलेल्या दिसा, तो खेळ पळोवंक दरबारचे सगळे लोक आयलेले आनी राजाचे गुमानीत सांगणे भाशेन, लाएर्तान विखान माखलेलें एक हातेरूय हाडलेलें. हामलेट आनी लाएर्त हे दोगूय जाण पटे वावुडपांत भोवच खांपे अशी तांची नामना आसल्यावरसून, त्या दोगांयच्या नांवान जमलेल्या लोकांनी पैजो लायलेल्यो.

खरें म्हळ्यार, पटे वावुडच्या खेळांत, बगर-धारेच्यो तरवारी घेवंच्यो अशी चाल आसली, परंत लाएर्तान ताची पर्वा करिनासताना, विखान माखलेल्या तोंकाची तरवार हातांत घेतली. हें घातकेपण हामलेटाच्या ध्यानांत गेलें ना ; ताणे मेकळ्या मनान आपली बगर-धारेची तरवार घेतली आनी तो खेळूंक लागलो.

पयलीं पयलीं, लाएर्त खेळ्ळेल्या भाशेनूच तरवार वावडूंक लागलो आनी बळयां हामलेटाकूच आपलेचेर वरचड करूंक दिवं लागलो; तें पळोवन, राजाय वयल्याचारान हामलेटाची तोखणाय करून ताका येस मेळचें म्हणून, ताच्या नांवान सोरो पियेवन, व्हडल्यो व्हडल्यो पैजो लांव लागलो.

मागीर कांय वेळान लाएर्त ऐन खेळाच्या कौलार येवन, ताण आपल्या विखाळ्या हातेराचो धपको हामलेटाचेर घालो ; तेन्ना हामलेट एकदम चाळावलो, आनी ताका लाएर्ताच्या घातकेपणाची कांयच खबर नासल्यावरसून, ताणे ताच्या हातांतली विखाळी तरवार झोंबून घेवन परथो तिचोच एक धपको लाएर्ताचेर घालो !

इतले म्हणसर जेर्त्रूद राणयेन आपणाक कोणे विख घालें म्हणून मोट्यान हुयेल माल्ली!

पटे वावुडटा आसताना तान लागून हामलेट एकाद्रो सोरो पियेवंक मागत हे तजविजेन, ताका तेन्नाचे तेन्नाच जिवानशीं मारचे खातीर, क्लावदीन एक वीख घाल्लोलो सोऱ्याचो पेलो भरून दवल्लोलो ; परंत, ही खबर नकळ आसल्यावरसून तिणे तो आपल्या ताळ्यांत ओतलो आनी ती रोखडीच तळमळून मेली ! हें पळोवन हामलेटाक संवशेग आयलो.

हामलेटान घाल्ल्या धपक्यान आपुण आतां रोखडोच मरतलों अशें लाएर्ताक

दिसून, ताणे आपली घातकेपणाची करणी हामलेटाक कळयली, आनी त्या विखाक उतारो कांयच नासल्यावरसून, आनीक एका अर्द्या वरान तूंय जीव वचून पडशी अशें ताका सांगलें, आनी ताची मकलासी मागून ताणे जीव सोडलो; ताणे मरच्या वेळार, ह्या सगळ्या अनर्थाचें मूळ तो एक क्लावदियू राजा अशें म्हणून ताची जायती निर्भत्सना केली.

आपलोय अखेर आतां लागीं पावलो अशें हामलेटान पळोवन ताणे एकदम थंयची विखाळी तरवार उखलून आपल्या राकशेसी बापोलयाच्या काळजांत तोपली, आनी हे भाशेन, आपल्या बापायच्या भूताची आज्ञा तडीक व्हरून ताच्या खुनाचें उटें फारीग केलें !

हामलेट आतां रोखडोच मरतलो अशें पळोवन, ताचो मोगाळ इश्ट होरासियू होय वैतागून जीव दिवंक तयार जालो ; परंत, हामलेटान ताका चार गजाली सांगून ताची समजाविशी केली, आनी आपले फाटल्यान आपली दुखाळ खबर सगळ्या संवसाराक कळोवंक तूं वांच अशें ताका सांगलें. म्हणटकूच, होरासिनूय आपूण खरी तीच गजाल सगळ्यांक कळयन अशें ताका उतर दिलें. मागीर त्या व्हड मनाच्या हामलेटान मोट्या समाधानान निमाणो सुस्कार सोडलो.

उपरांत, होरासियू आनी थंय जमलेले बाकीचे लोक हाणी दोळ्यांत दुखां हाडून, आपल्या मोगाळ हामलेट राजपुताक देव-दूत राखूंत अशें गाराणे घालें.

राजपूत हामलेट हो खऱ्यानीच एक मायेस्त आनी थंड सबावाचो भुरगो आसलो आनी राजवाडकी फावण्या उंच आनी व्हड गुणा खातीर सगळो लोक ताचो मोग करतालो ; देवाचे दयेन वांचून उल्ल्यार, फुडें फाटीं, तो डेन्मार्काचो एक गुणेस्त आनी हुशार राजा जातलो आसलो. परंत घटीतूच वेगळें ताका कोण कितें करतलो ?

मोगाळ वाचप्यांनू, आज तुमच्या फुड्यांत आमी ही भोवच दुखाळ अखेराची गजाल दवल्ली ती वाचून तुमच्या दोळ्यांतसून दुखांच्यो झरी व्हांवल्यो आसतल्यो ! पुण उपाय ना. संवसारांत सगळ्याच गजालींचो खोसदिणो अखेर जाता अशें ना, भोवकरून, दुखदिणोच अखेर जाता; आनी तशेच भाशेची ही हामलेटाची गजाल आसा. तरी आसताना, काळीज घट करून, तुमी ती अखेर लेगीत वाचली म्हणून आमी तुमचे जबर उपकारी आसांत.

***

Shakspearachea Khellanchi Mall.

GORE BAILECHO CALLO GHOV
MUDIAM KHATIR GHOVA-BAILANCHEM ZHAGDDEM.
DHUVANCHI PARICXA.

खेळ २ रो

# गोरे बायलेचो काळो घोव

ब्राबान्सियू हो एक गिरेस्त कायदेकार व्हेनीस शारांत आसलो. सुंदर आनी बऱ्या सबावाची देस्देमोना ही ताची एकलीच अपुर्बायेची धुव आसली. तिचे सुंदरकायेक आनी गिरेस्कायेक भुलून, जायतेजाण तिचे मोगी जाल्ले. परंत, तांतुल्ल्या आपले जती-पतीच्या वो रुपा-रंगाच्या एकाय मोग्याचेर तिचो मोग नासलो. कित्याकतर ती उंच मनाची बायल, मनशाच्या भायल्या रुपा परस भितल्ल्या अंतस्कर्णाक अदीक लेखताली; आनी तितलेच खातीर, तिचो मोग एका काळ्या कीट खापऱ्याचेर बसलोलो. ब्राबान्सियू त्या खापऱ्याची खुब माया करतालो आनी जायते फावटीं ताका आपलेगेर आपयतालो.

त्या खापऱ्याचें नाव ओथेल्लो. सुंदर आनी गोरे देस्देमोनेन काळ्या कीट खापऱ्याचो मोग धल्लो म्हणून कोणाच्यानूच तिची अपर्बुद्ध करूंनज. ओथेल्लो रुपान जरी काळो, तरी अंतस्कर्णान गोरो आसलो, आनी रुपेस्त देस्देमोनेच्या मोगाक फावणारे सगळे गुण ताच्या आंगांत आसले. तो एक शूर झुजपी आसलो. तुर्कां वांगडा जाल्ल्या जायत्या रणखेवांत ताणे आपलो पराक्रम दाखोवन तो व्हेनीसच्या सैन्याचो जनरल जाल्लो. सरकाराचे भोवच तोखणायेचो आनी जबर विस्वासाचो असो तो मनीस आसलो.

ओथेल्लोन जायती भोंवडी केल्ली ; म्हण्टकूच, तो ब्राबान्सिगेर आयलो म्हणचे, देस्देमोना ताका ताचे भोंवडेच्यो खबरी सांगूंक लायताली, आनी तोय तिका मुळापासून उगडासान सांगतालो : ताणे झुजलेलीं झुजां, कोटांचे रेवाडे, जमनी वयलीं आनी दर्यांतलीं अरिश्टां, नाळींच्या तोंडार वेता आसताना वो कोटांचीं दुर्गां फोडून भितर रिगता आसताना जीवा वयल्या संकश्टांतसून वाटोवप, मस्त्या दुस्मानाचे बंदखणींतसून आनी गुलामपणांतसून अजापांचे युक्तिनी सुटप, ह्यो आनी दुसऱ्यो जायत्यो गजाली तो तिका मोटे अपुर्बायेन सांगतालो. भायल्या मुलखांनी पळेल्ले चमत्कारांचे जिनस, शेकानशेक लांबरूंद मातलेलीं रानां, अजापांच्यो धोली, खणी, खडपां, मळबाक तेंकणे दोंगर, गावडीं राज्यां, मनशांक खायरे लोक, आनी तकली सकला आसून वयर बावळे आसलेल्या खापऱ्यांची एक जात, ह्यो आनी दुसऱ्यो खबरी देस्देमोना एकवेळ आयकूंक बसली म्हणचे तिका आनीक दुसरें कांयच येवजनासलें ; गजाली आयकूंच्या नादार आसताना, मदींच कोणेय तिका घरांतल्या कसल्याय कामाक आपयल्यार, ती तें मोटे ताकतीन सोंपयताली आनी बेगोबेग येवन ओथेल्लोचे खबरींक आपलो वसवसो कान लायताली !

ओथेल्लोन तिका ज्यो खबरो सांगलेल्यो त्यो मदल्यो मदल्यो आसून तुटक्यो तुटक्यो आसल्यो ; असल्या खबरींनी देस्देमोनेचे कान धादोशी जाले नात ; तिका ताचे जीणेची मुळापासून आजवेरची एकसारकी सगळी खबर आयकूंची इत्सा जाली, आनी एकदीस फुरसतीच्या वेळार, ती सांगूंक तिणे ताका आग्रो केलो ; म्हण्टकूच ताणे तिका आपली सगळी खबर सांगली ; आनी ती आयकता आसताना, ताच्या ल्हानपणांत ताणे भोगलेलीं संकश्टां कानांत पडून, तिच्या दोळ्यांतसून दुखांच्यो धारो व्हांवल्यो. तिणे सपूत दिवन म्हळें कि, ओथेल्लोचे खबरीन, संवसारांत आजवेर घडलेल्यो सगळ्यो अजापांच्यो आनी काकळुतेण्यो खबरी फाटीं उडयल्यो ! ताणे सांगलेलीं दुखां आयकून ती जायतेदा मोट्यान हुस्केली आनी ताची खबर आपणे मुदलींच आयकूंक नासली जाल्यार चड बरें आसलें अशें तिका दिसलें; तरी आसताना, देवान आपणाक अशे भाशेची गजाल सांगणारो घोव निर्माण केल्लो जाल्यार भोव बरें जातलें आसलें अशें तिणे म्हळें. मागीर तिणे, ओथेल्लोन सांगलेले खबरी खातीर ताचे उपकार मानून म्हळें : 'म्हाराजानू, तुमचेकडे म्हजी एकूच मागणी आसा ती ही कि, तुमचो कोणूय एकादरो इश्ट आसून ताका जर म्हजो मोग आसलो तर, तुमी जशी आतां म्हाका तुमचे जीणेची खबर सांगली तशीच ती ताकाय सांगूंक शिकयात, आनी मागीर, तुमचेच भाशेन ताका ती सांगूंक येत जाल्यार, ताच्या मोगाक हांव भुलन, नाजाल्यार ना, हें ताका कळयात.'

देस्देमोनाचें हें उलोवप जरी दुसऱ्या कोणाय मोग्याक लागून आसलेलें तरी तें फक्कत वयल्याचारांकूच ; भितर्यां तें ओथेल्लोकूच लागून आसलेलें ; मेकळ्या मना परस चड भिडेस्तायेन, लजेन आनी भूल घालणे रितीन ती तें उलयल्ली ; तिच्या उलोवण्याचो अर्थ रोखडोच ओथेल्लोच्या ध्यानांत आयलो आनी ताणे आपलो मोग तिका उक्तेपणान कळयलो ; ती भांगरा सारकी संद सादून, आपणा कडें लग्न जांवचे खातीर, ताणे नुलयत देस्देमोनाचें उतरूय घेतलें.

परंत ब्राबान्सियू ओथेल्लोक आपलो जांवंय करीत ही आस्त धरूंक, ताचे कडेन फावोशी गिरेस्काय नासली आनी त्या भायर ताच्या आंगाची कातूय गोरी नासली.

देस्देमोनेन आपणाक मानता तसलो घोव सोदून काडचो म्हणून, ब्राबान्सीन तिका जायती मेकळीक दिल्ली, आनी तो समजतालो कि, व्हेनीस शारांतल्या मोट्या लोकांच्या हेरां धुवां भाशेन, आपली धुवूय, कायदेकारां भितल्लोच कोणूय रुपेस्त आनी गिरेस्त जुवान सोदून काडटली ; परंत हो ताचो समज फुंक्या गेलो.

ओथेल्लो रुपान जरी काळो काळो कीट आसलो तरी देस्देमोनेक तोच मानलो आनी ताच्याच बऱ्या आनी शूरपणाच्या गुणांक तिणे आपलें अंतस्कर्ण ओंपलें.

गुण पारखिणारी देस्देमोना खेरीज करून, दुसरे खंयचेय आंकवारीक, ओथेल्लोचो काळो रंग, ताचो मोग करूंक, एक आडमेळें कसोसो जातलो आसलो; परंत, व्हेनिसांतल्या गोरे कातीच्या आनी सुंदर रुपाच्या सगळ्या जुवान मोग्यां परस, देस्देमोनेक ओथेल्लोच अदीक मानलो आनी ती ताचे कडेन भोवच गुमानीतपणान लग्न जाली.

हेच संदीक कितें जालें म्हळ्यार, तुर्क लोक, सायप्रस जुवें घेंवचे खातीर, जायतीं तारवां घेवन भायर सल्ल्यात म्हणपाची खबर व्हेनीसाक पावली. हें जुवें ते वेळार व्हेनिसाच्या शेकातळा आसलें, आनी तें तुर्कांचे झोंपयेंतसून वाटांवक, ओथेल्लो खेरीज दुसरो आनीक कोणूच काळीजवंत मनीस नासलो; म्हण्टकूच, व्हेनीस सरकाराचे दोळे ताचेच कडेन लागले, आनी रोखडीच ताची त्या कामार नेमणूक जाली.

परंत तितले म्हणसर, धुवेच्या लग्नाची खबर म्हाताऱ्या ब्राबान्सीच्या कानार गेली आनी तो रागान वागा भाशेन चवथाळ्ळो. आपले धुवेन ओथेल्लो सारक्या खापऱ्या कडें लग्न जांवचें हें ताका एक कुवाडेंच दिसलें. तिणे आपले खोश्शेन ओथेल्लोचो मोग करचे बदला, ओथेल्लोनूच फितीसां आनी जादू करून तिचो मोग आपणा कडेन ओढून घेतला जांवये अशेंच ताका भोवन भोवन दिसूं लागलें. आपलें

रगत भश्टलें म्हणून तो जायतो पिरंजळ्ळो; खुब फडफडलो ; आनी अखेरीक, व्हेनिसच्या दुका कडेन ताणे तें गाराणे व्हेलें.

दुकान रोखडीच ताची फिरयाद हातांत घेतली आनी चौकशेक सुरवात केली.

ओथेल्लोच्या माथ्यार गुन्यांव थापटीता आसताना ब्राबान्सीन म्हळें : 'दुकसायब, तुमकां म्हजे धुवेचो सबाव कितें म्हणून सांगतलो ? लग्न जांवची तिची खोसूच नासली म्हळ्यार कामा येता; नाजाल्यार, तिच्या सुंदर आनी नाजूक रुपाक फावणे रुपेस्त आनी गिरेस्त जुवान व्हेनीसांत उणे पडलेले अशें न्हंय ; परंत तितल्यांकूय ती आपल्या वांकड्या दोळ्यांनी पळेनासली ; अशें आसून, हो काळो कोळसूंडो, दमडेची आस्पत नासलोलो खापरी तिका मानलो ही गजाल खंयच्याच अकलेच्या मनशाक खरी दिसता? धवे फुल हंस काळ्या कीट कावळ्याचो मोग करीत अशें केन्नाच जायत ? त्या भायर, तुमकां कितें सांगूं ? म्हजी धुव म्हणचे सामकी भोळी गाय ! भोवच लजेस्त ! भारी भिडेस्त ! जबर भित्री ! ती ह्या खापऱ्याचेर नदर घालूंक लेगीत भियेताली ! आनी ती आपलें व्हडविकेचें गिरेस्त घराणे, नांव-गांव, रूप-रंग, जात-पात, मान-भौमान बी सगळें विसरून, लग्न जांवचे खातीर, हाचे फाटीक लागूंक धीट जायत हें कोणाकूच खरें दिसत ? हांव तुमकां खरेपणान सांगतां, म्हजे धुवेचो हाचेर मनापासून मोग नासतलो. हाणेच कसलींय फितीसां आनी जादू करून वो कसलींय ओखतां दिवन, तिची खोस नासतानाय, तीचो मोग आपलेचेर ओडून घेवन, हो तिचेकडेन लग्न जाला आसतलो ! दुसरें कांय ना. म्हणून, दूकसायब, ह्या असल्या नाड जादूकाराक, व्हेनीसांतली भौच तीख ख्यास्त भोगूंक जाय अशें म्हाका दिसता.

हाचेर दुकान म्हळें : 'ब्राबान्सबाब, व्हेनीसाच्या कायद्यांत जबर मोटो लेखलोलो गुन्यांव तुमी ओथेल्लोच्या माथ्यार थापटीलो खरो, परंत तुमच्या बेश्ट्या उलोवण्यान तो ताचेर लागू जायना. तुमी तुमच्या उलोवण्याचे घटायेक एकूय रुजवात दिंवक ना ; 'अशें जांवये तशें जांवये ; अमकें आसतलें, तमकें नासतलें ;' अशें म्हळें म्हणून ताका रुजवात म्हणनात,'

मागीर, दूकान ओथेल्लोक आपले सोडोवणेचें उलोवप उलोंवक सांगलें. तेन्ना ताणे भोव नमळायेन म्हळें : 'बळीश्ट, मोट्या मनाच्या आनी भोवमानीक अशा म्हज्या धनयानू, कायदेकारां भाशेन, लोकांच्या मनाक भूल-घालणे उलोवप कशें उलोंवचें तें म्हाका समजना. म्हाका तें कोणे शिकयलेंच ना. झुजां आनी हातेरां खेरीज, संवसारांतल्या हेर गजालीं समंदान उलोंवक म्हाका मुदलींच येना; म्हणून, म्हजे सोडोवणेचें उलोवप म्हाका बेस बरें करूंक येत अशें म्हाका दिसना ; तरी, हांव

तुमकां थोड्या आनी साद्या उतरांनी सांगतां की ब्राबान्सबाबांचे धुवेचो मोग जोडूंक, हांवें फितीसां, जादू आनी ओखतां निखालूस करूंक नात. हांव जातीन खापरी ; रंगान काळो ; हें हांव ना म्हणना; परंत, आमचें जें लग्न जालें तें एकामेकांचो एकामेकांचेर मोगूच बसून जालां ; फितीसांनी जांवक ना. ' मागीर ताणे आपले जीणेची खबर जशी देस्देमोनेक सांगलेली तशीच थंय उलोवन दाखयली, आनी ती आयकून, देस्देमोनेक आपलो मोग कसो लागलो म्हणपाची जीस्त फोडणिशी करून सांगली ; आपलें उलोवप एकाद्रें फट दिसता जाल्यार, देस्देमोनेक आपोवन. तिचेच कडसून सगळी खबर विचारून घेतल्यार चड बरी हेंय ताणे दूकाक सांगलें.

म्हण्टकूच, दूकान देस्देमोनेक आपोवणो धाडलो, ओथेल्लोचें बगर-कवायती आनी सादेपणाचें बेस बरें उलोवप आयकून, ताचो कांयच गुन्यांव ना म्हणपाचें दूकाक खरेपण दिसलें आनी ताणे उकतेपणान म्हळें : 'देस्देमोनेचे सुवातेर म्हजी धुवूय आसलेली जाल्यार, ओथेल्लोची गजाल तिचोय मोग जोडटली आसली. संवसारांतले हेर जुवान आपले मोगीणीचो मोग जोडूंक जे उपाय करतात तसलेच उपाय ओथेल्लोन केल्यात; तांतूर आमकां जाल्यार, जादू आनी फितीसां निखालूस दिसनात; अशें आसूनूय, मोगीणीचो कान आपले कडेन ओडून घेंवक, बेस बरी आपली गजाल सांगचे हिकमतीक जर कोणूय जादू म्हणटलो तर खुशाल म्हणूनी. ब्राबांसबाब, तुमी मात, हे गजालीचो सन्मथान अखेर करचो हें बरें.'

इतले म्हणसर, देस्देमोना आयली. तिका पळोवन ब्राबांसीन म्हळें : 'बाये धुवे, हांगा हे वेळार जे कोण आसात तांतुल्ल्या कोणाचे सांगणेंत तुवें अदीक आसूंक जाय तें तूं जाणा मू ?'

देस्देमोनेन म्हळें : 'हय दादा, तें हांव बेस बरी जाणा. तुमी म्हाका जल्म दिलो आनी बरी शिकवण आनी देख दिवन ल्हानाची व्हड केली, त्या खातीर, तुमकां कसो भोवमान दिंवचो तो म्हाका समजता. जंववेर म्हजें लग्न जांवक नासलें तंववेर तुमचीच सांगणी म्हाका व्हड आसली; परंत, आतां म्हजें लग्न जालां, आनी हे म्हजे घरकार हांगा उबे आसात; तेन्ना, जे भाशेन म्हजे आवयन, तुमचे कडेन लग्न जातकूच, आपल्या बापायचे सांगणे परस तुमकांच अदीक लेखले, तेच भाशेन, हे वेळार तुमचे सांगणे परस, म्हज्या घरकाराची सांगणी अदीक लेखूंक म्हाका हक आसा ; आनी तें तुमी मान्य करचें इतलीच तुमचे कडेन म्हजी मागणी आसा.'

देस्देमोनेच्या ह्या उलोवपान, ओथेल्लोचे सोडोवणेक जायती घटाय आयली, आनी त्या जोडप्याचें लग्न एकामेकांच्या मोगानूच जालां, जादून जांवक ना, हें आपाप सगळ्यांक समजून आयलें.

मागीर उपाय नाथून, ब्राबांसीन ओथेल्लोक आपले सरशीं आपयलो, आनी म्हळें : 'म्हजे खोश्शेन, हांव म्हजी धुव तुका केन्नाच दिंवचो नासलों, परंत, आतां जेन्ना तुवें तिचो मोग जोडला तेन्ना, हांव ती तुका म्हज्या अंतस्कर्णापासून ओंपतां.' उपरांत, ताणे आपले धुवेक म्हळें : 'म्हज्या रत्ना, तुजे खेरीज म्हाका आनीक भुरगीं नात हें एक मोटें सुखूच हांव समजतां; जर आसलेलीं तर, तुजे चलणुकेन जी शिकवण म्हाका मेळ्ळ्या ते शिकवणेन, हांव तांकां जुलमान चलोवन, म्हजे सांगणे भायर पावल घाल्यार, तांचे वाटेंत हांव व्हडलीं व्हडलीं खडपां घालतलों आसलों.'

अशे भाशेन, ओथेल्लोची गुन्यांवांतसून मेकळीक जातकूच, तो तुर्कां कडेन झुजाक वचूंक भायर सल्लो. ताका झूज म्हणचे जेवणा-खाणा भाशेन दिसतालें. गुणेस्त देस्देमोनाय ताचे वांगडा वचूंक भायर सल्ली. निकतेंच लग्न जालां; तेन्ना, बाकीच्या न्हवऱ्या-होंकलां भाशेन, म्होंव-म्हयन्याच्यो मौजो मारपांत वेळ होगडांवचे बदला, आपल्या घोवान तुर्कां कडेन झूज मारून येस मेळयल्लें आपणे पळोंवचें, हांतूर तिका चड उमेद जाली.

ओथेल्लो आनी देस्देमोना सायप्रसच्या बंदरार देंवलीं; इतले म्हणसर, तांकां खबर लागली कि एक मोटें तुफान जावन, तुर्कांचीं तारवां जळीं-मळीं उबून गेलीं आनी बुडलीं, आनी तांचे झोंपयेंतसून सायप्रस जुवें सुसंगीत उल्लें.

तुर्कांच्या झुजांतसून जरी ओथेल्लो आपाप निभावलो तरी, दुसऱ्याच एका झुजा कडेन ताका फुडो करचो लागलो. ह्या झुजांतले दुस्मान तुर्कांय परस चड भयांकृत आसले.

कासियो म्हणून ओथेल्लोचो एक इश्ट आसलो; ताचेर ओथेल्लोचो खुब विस्वास; तो एक सुंदर आनी जुवान सोलदार आसून, बायलांक मानोवणे सगळे गुण ताच्या आंगांत आसले; तो सदीं हांसऱ्या तोंडाचो, उमेदीन उपाट, भोवच मायेस्त आनी गोड उलयणो आसलो.

ओथेल्लो देस्देमोने सारके जुवान आनी रुपेस्त बायले कडेन लग्न जालो खरो; पणून ताचें जुवानपण फाटीं पडून तो सुमाराचो उतार जाल्लो; म्हण्टकूच, कासियो देस्देमोनेक लागू आसा हो दुभाव ताच्या मनांत कोणेय पेरल्यार तो रुजूंक अडचण नासली; पुण ओथेल्लो जितलो मोट्या मनाचो तितलोच तो असल्या ह्या दुभावां पासून मेकळो आसलो; तो केन्नाच कोणाचें वायट करीनासलो आनी ताका दुसऱ्यांच्या वायट करण्यांचो दुभावूय येनासलो.

देस्देमोनाचो मोग जोडच्या कामांत ओथेल्लोन ह्याच कासियोक नेमलोलो. तो तांचें लग्न जथयणारो म्हालो आसलो म्हळ्यार कामायेता. बायलांच्या कानाक

खोसदिणें, मोवाळ आनी गोड उलोवप, आपले परस, कासियो बेस उलोंवक जाणा म्हणून, ओथेल्लो ताचे कडेन आपले मोगाचे निरोप दिवन देस्देमोनेक धाडटालो. ताच्या सबावाचें हें सादेपण ताच्या शूरपणाक उणांवचे बदला जायतें उंचायतालें.

अशे भाशेन देस्देमोनेची आनी कासियोची चड संवकळ जाल्ली. ती ताची माया करताली आनी ताका जबर पातयेताली. परंत ती माया आनी तें पातयेप बऱ्या गुणाचे बायलेक फावणे रितीन, ती लांबसूनूच चलयताली.

ओथेल्लो आनी देस्देमोना हांचें लग्न जालें तरी तांची कासियो विशींची चलणूक मातूय बदलूंक नासली. तो आदलेच भाशेन तांचेगेर येता-वेतालो आनी आपल्या मेकळेपणाच्या खळखळ्या ताळ्यान ओथेल्लोक जायती खोस दितालो. ओथेल्लोक आपले परीं केन्नाच चडशें उलोंवक नाका आसलें; तरी, कासियोच्या उलोवपान ताका खुब उमेद जाताली ! संवसारांत असल्या सबावाचे जायते मनीस आसतात; तांकां, आपल्या सबावांत जी तूट आसता ते तुटीन जीवाक वाज आयलो तसो, जांच्या आंगांत ती तूट ना तसल्या सबावाच्या मनशां पासून भोवच सुख भोगता.

मोगाचे निरोप पावोंवच्या वेळार, कासियो जसो देस्देमोने वांगडा जायतो किटकिटटालो, तसोच तो आतांय तिचे कडेन चलतालो आनी खुब हांसतालो.

थोड्याच दिसां फाटीं, ओथेल्लोन कासियोक तेनेन्त केल्लो. तेनेन्तीचो जागो विस्वासाचो आसून तो सामको जेनेरालाच्या हाता लागशिलो आसलो. परंत, इयागो नांवाच्या ओफशालाक ही करणी मानलीना; कित्याकतर, आपुण कासियो आदीं चाकरेक लागलों म्हणून, तेनेन्तीच्या जाग्याक आपलें हक अदीक लागू जाता अशें तो समजतालो; त्याभायर, कासियो म्हणचे एक बायजुवान; ताका झूज म्हणचे कितें तें कांयच खबर ना; ताणे बायलां सरीं बसून चकाटां मारचीं; अशें म्हणून तो कासियोची भगल मारतालो आनी ताचो भोवच दुवेस करतालो. तो ओथेल्लोचेरूय बरो नासलो; कित्याकतर, ताणे आपणाक पेल्यान धुकलून कासियोक तेनेन्त केलो हें ताका बरें दिसलें ना; खेरीज, आपली बायल जी एमीलिया तिका ओथेल्लो लागू आसा असो दुभाव ताच्या मनांत येतालो; परंत त्या दुभावांत जीव नासलो. देस्देमोनाचें वायट करूंक, जाय तसले उपाय सोदून काडच्या कामांत इयागोचें माथें बेस धांवतालें; म्हण्टकूच ताणे, आपणाक केल्ल्या वायटाचें उश्णें फारीग करचे खातीर, कासियो, ओथेल्लो आनी देस्देमोना ह्या तिगांची वांगडाच वाट लांवची म्हणून, भयांकृत बेत येवजीलो.

इयागो शटक आसून, मनशांचो सबाव ताणे बेस बरो पारखिल्लो. हातेरांच्या घावां परस, बायलेच्या मोगाचो दुभाव, विखाळ्या कुसान, मनशाच्या मनाक चड

दुखयता हें तो जाणा आसलो ; म्हणून देस्देमोना ही कासियोक लागू आसा हो दुभाव जर आपणे ओथेल्लोच्या मनांत रिगयलो तर, कासियोक आनी ओथेल्लोक, नाजाल्यार तांतुल्ल्या एकल्याक तरी, ह्या संवसारांतसून भायरो करूंयेत अशें ताणे येवजीलें.

सायप्रस जुंव्यार ओथेल्लो आपले बायले सयत पावलो आनी तुर्कांचीं तारवां तुफानान बुडून नाशीं जालीं हे खोस-दिणे खबरेन, सगळ्या लोकांनी तो दीस परबेच्या दिसा भाशेन पाळ्ळो. ते दिसा जो तो मौज मारतालो; जाच्या ताच्या घरा सोऱ्याचे व्हाळ व्हांवताले, आनी ओथेल्लोक आनी ताचे बायलेक बलायकी जांव म्हणून, सगळेजाण कोपां फाटल्यान कोपां ताळ्यांत लकयताले.

ते दिसा रातीं खुब सोरो पियेवन सोलदार बेबदे जांवचे न्हंयत आनी ताणी मस्ती करून गांवांतल्या लोकांक भेश्टांवचे न्हंय म्हणून, ओथेल्लोन तांचेर कासियोक राखणेक दवल्लोलो.

परंत, तेच रातीं, इयागोन मोटे खोलायेन येवजील्ल्या आपल्या वायट बेतांक सुरवात केली. सोरो पियेवन गुल जांवचो म्हणून, इयागो, कासियोक सोरो पियेंवचो खुब आग्रो करूं लागलो; तेन्ना कासियोन म्हळें : 'इश्टा, आज म्हज्यान सोऱ्याच्या एका थेंब्याकूय आफडूं नज. राखणे वयल्या मनशान सोरो पियेंवचो हो एक मोटो व्हडलो गुन्यांव कसो म्हाका दिसता ; त्या भायर, इल्लोसोय सोरो घेतल्यार म्हाका तो रोखडोच लागता आनी हांव धेयभानार उरना; म्हणून उपकार करून, तुमी म्हाका आनीक आग्रो करूं नाकात. परबे दिसा, सोरो पियेवन बेबदे जांवचे बदला दूद पियेंवची चाल घाल्यार कितलें बरें जायत म्हणून सांगूं ! जे दिसा ही बरी चाल आमच्या लोकांत पडटली तो दीस खरोच भांगराचो अशें म्हाका दिसता.'अशे भाशेन कासियोन, ताचो आग्रो जायतो वेळ मनार घेतलो ना; परंत अखेरेक, कवायती इयागोच्या वयल्याचारांच्या बरे-मागतेपणाक आनी गीतांक भुलून, कासियो, बोतली फाटल्यान बोतली आपल्या ताळ्यांत ओतूं लागलो; तो देस्देमोनाच्या रुपाची आनी सबावाची तोखणाय करून तिच्या नांवान खुब सोरो पियेलो; तो इतलो बेबदो जालो कि आपुण कोण आनी आपलें कर्तुप कितें तें तो साप विसल्लो. म्हण्टकूच, इयागोन, आपुण कुशीक रावन भायलेभायर, ताचें आनी दुसऱ्या एका सोलदाराचें झगडें लायलें; तांतूर, त्या दोगांनी तरवारी घेवन मारामारी केल्यो; तेवेळार, तांकां सोडोंवक, मोंतानो नांवाचो एक बऱ्या सबावाचो ओफशाल मदीं पडलो; परंत ताका तरवारीचो धपको लागून मोटी दुखापत जाली; ती मारामारी अखेर व्हडार पावली. इयागो जो हो वेळ लेगीत पेल्यान रावन आपले करणेची मौजूच पळेतालो तो आतां फुडें आयलो, आनी बेबद्यांच्या ल्हानशा झगड्या बदला मोटी बंडाय जाल्ल्या भाशेन दाखोंवक,

ताणे कोटाच्यो घांटी वाजोंवक लायल्यो. त्या घांटींनी ओथेल्लो जागो जालो आनी बेगोबेग पोशेग करून, मारामारीच्या जाग्यार वचून, ताणे कासियोक कितें जालां म्हणून विचाल्लें.

कासियोच्या कपळाचो सोरो तितले म्हणसर मात्सो देंवलोलो आनी तो सुमाराकसो धेयभानार आयलोलो. ओथेल्लोक पळोवन ताका आपले करणेची लज जावन, ताच्यान कांयच जापसाल करूंनज जाली ; म्हण्टकूच, ओथेल्लोन ती खबर इयागोक विचाल्ली, तेन्ना तो नाड आनी घातकी मनीस फुडें सल्लो आनी कासियोचो गुन्यांव सांगूंक, वयल्याचारान अनमनलेल्या भाशेन करूं लागलो. परंत, ओथेल्लोन आग्रो करतकच, सगळ्या झगड्याचें मूळ आपुण म्हणपाची खबर लिपोवन, बाकिची गजाल ताणे ओथेल्लोक सांगली. कासियोच्या ध्यानांत इयागोचें हें कवायतीपण गेलें ना ; कित्याकतर, सोऱ्याचे घुंवळीन तो तें सगळें विसल्लोलो. ती खबर कळयता आसताना, कासियोचो गुन्यांव उणो केल्ल्या भाशेन इयागो दाखयतालो ; परंत, बारकायेन पळेल्यार, ताणे तो खरो आसलो ताचे परस जायतो मोटो दिससो केलो; हाचो अखेर असो जालो कि ओथेल्लोन कासियोचें तेनेन्तपण रोखडेंच काडून घेतलें. सैन्यांतल्या लोकांनी आपणाचे हुकूम मोडूंक फावनात म्हणून ओथेल्लो भोवच जपतालो, आनी त्या खातीर, हुकूम मोडणारो मनीस ताचो मोटो इश्ट वो सोयरो आसलो जाल्यारूय ताका फावो ती ख्यास्त दिंवक तो फाटीं पळेनासलो.

अशे भाशेन इयागोचें एक कवायतीपण फळाक आयलें. आपुण जाचो दुवेस करतालों ताका ताचे सुवाते वयलो निखळायलो म्हणून इयागोक भोवच खोस जाली. परंत, तितल्यानूच तो धादोशी जालो ना. आपले करणेचें आनीकूय एक फळ पिकोंवचें म्हणपाचे तजविजेक तो लागलो.

ओथेल्लोन केल्ले ख्यास्तीन, कासियोच्या माथ्याक चडलोलो सोरो साप देंवलो; तेन्ना, सोरो पियेवन भोवच वायट काम केलें अशें ताणे वयल्याचारांक इश्ट दिसणाऱ्या इयागोक म्हळें; तेनेन्तीचो जागो होगडावन आपलें जायतें लुसकान जालें आनी तो जागो ओथेल्लो कडेन परथून मागूंक आपणाक तोंड उल्लें ना म्हणून, तो आपली आपुणूच खुब निर्भत्सना करूं लागलो. म्हण्टकूच, घडलेली गजाल कांयच नाशी करून दाखोंवक इयागोन म्हळें : 'कासुबाब, सोरो पियेले म्हणून तुमकां इतलें वायट कित्याक दिसता तें म्हाका समजना; संवसारांत तुमीच एकले सोरो पियेतात अशें न्हंय. परबेच्या दिसा जाल्यार, सोरो पियेवन बेबदो जायना असो एकूय मनीस आमच्या ह्या येवरोपांत ना; म्हणून तितले खातीर तुमी वायट मानूं नाकात. आतां, खरें म्हळ्यार, तुमचो तेनेन्तीचो जागो होगडावलो म्हणून तुमच्या काळजाक दुखी बादूंक फावो;

परंत तो तुमच्यान परथून मेळोंव येत. तुमी हांव सांगतां तशें करात; तुमी देस्देमोनाचे पांय धरात. ओथेल्लो जेनेराल आसलो तरी ताची बायल हीच तुर्ताक खरी जेनेराल. ओथेल्लो तिचे मुठींत. ती सांगता तें तो आयकता. धडीभर ती करीत तें ओथेल्लोच्यानूय करूंनज. ती मनाची मेकळी आसून दुसऱ्यांचेर उपकार करची तिका भोवच उमेद. म्हणून, मदिवर्ती घाल्यार, ओथेल्लोची माया तुमचेर परथून बसतली आनी ती आदलेय परस अदीक घटावतली; तशेंच, तुमचो तेनेन्तीचो जागो तुमकां परथून मेळून तुमी सुखी जातले.'

इयागोची ही बुद्द खऱ्यानीच बरी आसली; परंत तांतूर ताचो हेत वायट करपाचो आसलो हें फुडें घडलेले खबरी वयल्यान आमच्या वाचप्यांक कळून येतलें.

इयागोचे हे सांगणे भाशेन कासियोन देस्देमोनेचे पांय धल्ले. ताची खबर आयकून तिका काकळूत दिसली आनी तिणे ताका उतर दिलें कि आपुण आपल्या घोवा कडेन तुमचे विशीं रदबदली करीन आनी तुमचें काम अर्दुकडें सोडून दिंवचे भाशेक आपलो जीवूय वाटेक लायन.

रोखडीच देस्देमोना त्या कामाक मनापासून लागली आनी तिणे इतले बेस बरे रितीन आपल्या घोवाक समजायलो कि ताका जरी कासियोच्या बेबदेपणाचो वीट आयिल्लो तरी तिचे मागणेक ताच्यान ना म्हणूं नज जालें, आनी ताणे तिका सांगलें की थोड्याच दिसांनी आपुण ताच्या गुन्यांवाची मकलासी करीन; पणून, हे सांगणेन देस्देमोनेची समजाविशी जाली ना. तिणे म्हळें : 'उपकार करून तुमी आजचे रातीं, नाजाल्यार फाल्यां सकाळीं वो अदीकूच उसरां तें परवांच्या दिसा भीतर कासियोक मकलासी करूंक जाय; ताका आपले वायट करणेन कितलें दुख जालां आनी तो कितलो बाबडो जाला ते तुमकां सांगूंक जाय अशें ना. म्हज्या हिसपान ताच्या गुन्यांवाक येदी मोटी ख्यास्त फावना.'

हें उलोवप आयकून, ओथेल्लो मान हालोवनूच वोगो रावलो. तेन्ना देस्देमोनेन म्हळें. 'कितें ! तुमी म्हजी सांगणी कानारूच घेनात ! ज्या कासियोन तुमचे खातीर म्हजो मोग जोडलो, तुमचे अवगुण सांगल्यार तुमच्या आंगांत सगळेच बरे गुण आसात म्हणून जो जायते खेपो म्हजे कडेन झगडलो ताका ताच्या ल्हानशा गुन्यांवाची तुमच्यान मकलासी करूंनज मूं ? हांव तुमचे कडेन हें व्हडलेंशें पागण मागतां अशें तुमी समजूं नाकात; जेन्ना तुमचो मोग खऱ्यानीच कसाक लावपाचें हांव येवजीन तेन्ना हांव तुमचे कडेन मोटी व्हडली मागणी मागन हें तुमी ध्यानांत दवरात.'

ओथेल्लोच्यान तिची मागणी निखालूस ना म्हणूं नज जाली; ताणे तिचे कडेन थोडोसो वेळ मागलो आनी कासियोक आपुण परथून तेनेन्तीचो जागो दीन म्हणपाचें

उतर दिलें.

वयर सांगलेले भाशेन उलोवप जांवचे आदीं, देस्देमोनेन घोवा कडेन आपले विशीं रदबदली करची म्हणून, कासियो जेन्ना तिचे कडेन मागणी घालूंक गेल्लो आनी काम जातकूच तो परथून वचचे तजविजेंत आसलो, तेन्ना कितें घडलें म्हळ्यार, ओथेल्लो आनी इयागो एका दारांतसून भितर सरूंक आनी त्याच दाराच्या सामखिल्या दारांतसून कासियो भायर सरूंक एक जालें. शटक इयागोक आपलें घातकेपण चलोंवक इतलेंच निमीत पुरो जालें. ताणे आपले भितरूच्च व्हळू ताळ्यान म्हळ्ळ्या भाशेन केलें: ' हें म्हाका मानना.' ओथेल्लोन ताचीं हीं उतरां चडशीं ध्यांनांत घेतलीं नात; त्या भायर, कासियोक मकलासी करचे खातीर, देस्देमोने कडेन ताचें जें उलोवप जालें ताणे, इयागोचीं जीं थोडीं भोव उतरां ताच्या कानार पडलेलीं तीं तो सापूच विसल्लो.

कासियोक मकलासी करीन म्हणपाचें उतर घेवन देस्देमोना गेल्या उपरांत, ओथेल्लो आनी इयागो हांचें फुडें बरयल्ल्या भाशेन उलोवपं जालें.

इयागो.--धनयांनू, म्हाका एक गजाल तुमकां विचारची आसा. विचारूं व्हय?

ओथेल्लो.--खुशाल विचारात.

इयागो.--जेन्ना तुमी देस्देमोनाबायचो मोग करताले तेन्ना ती खबर कासियो जाणा आसलो व्हय ?

ओथेल्लो.--जाणा आसलो म्हणचे ? मुळा पासून अखेर लेगीत तो जाणा. परंत, तुमी अशें विचारचें कारण कितें ?

इयागो.--बेश्टेंच; म्हज्या मनाची समजाविशी करूंक; आनीक दुसऱ्या कांय वायटाक न्हंय.

ओथेल्लो.--पुण, मनाची समजाविशी कसली ?

इयागो.--कासियो आनी देस्देमोनाबाय हांची इतली संवकळ आसा म्हणून हांव नकळ आसलों

ओथेल्लो.--जायती संवकळ. लग्न जमोंवक म्हालेपण ताणेच केलां.

इयागो.--तरूच्च !

ओथेल्लो.--तरूच्च ! तें कितें ? तुमकां तांतूर कसलीय बेंग दिसल्या व्हय? कासियो विस्वासू न्हंय असो तुमकां दुभाव आयला व्हय ?

इयागो.--विस्वासू ! दुभाव !

ओथेल्लो.--कितें ! हांव उलयतां तींच उतरां तुमी उलयतात ? तुमच्या मनांतसून कसलीय अनर्थाची खबर म्हाका सांगची ना मू ? त्या भायर, कासियो हांगासून

आतां निक्तोच गेलो तेन्ना तुमी, 'हें म्हाका मानना' अशें कितेंशें म्हळ्ळें ताची म्हाका याद जाता ; खेरीज, कासियोन आमच्या लग्नाचें म्हालेपण केलें म्हणून तुमकां हांवें सांगलें तेन्ना तुमी 'तरूच !' अशें म्हणून, तुमच्या भोंवयांक मिरयो घाल्यो. म्हण्टकूच, कसलीय भयांकृत खबर तुमच्या मनांत घोळटा अशें म्हाका दिसता. तुमकां म्हजी माया आसा जाल्यार ती खबर तुमी म्हाका सांगुंकूच जाय.

इयागो.--धनयांनू, माया आसा म्हणून आनीक विचारूंक जाय ?

ओथेल्लो.--हांव बरे भाशेन जाणा, तुमकां म्हजी माया आसा आनी तुमी विस्वासू आसात म्हणून. तशेंच, कसलीय खबर तोंडा भायर घालचे आदीं तुमी ती बेस बरी जोखून पळेतात, आनी त्याच खातीर, तुमच्या तोंडांतसून, जायते लांबायेन, एकोडीं एकोडीं उतरां भायर सरतात तेंय म्हाका समजता. तुमचे सुवातेर दुसरो कोणूय घातकी मनीस आसलोलो जाल्यार, ही असली उलोंवची रीत म्हणचे ताच्या नाडपणाची एक हिकमत अशें हांव समजतलों आसलों ; परंत तुमचो म्हाका तसो दुभाव येना ; म्हणून वायट खबर म्हज्या कानार कशी घालची ह्या खातीर तुमी मातूय अनमनूं नाकात. तुमी ती हुस्क्या-मेकळे जावन सांगात.

इयागो.--कितें ? ती वायट खबर हांव आतां भायर फोडूं ? ती खऱ्यानीच उणाकपणान उपाट आसा; अशें आसून हांवें ती म्हज्या काळजांत कशी सांटोवन दवल्ली म्हणून कोणाकूय अजाप दिसतलें ; परंत, म्हजें काळीज तें बाबडें कसलें आनी केदेंशें ? व्हडल्या व्हडल्या सोबीत राजवाड्यांतूय जरकायना केन्ना केन्ना घाणयारे जिनस रिगतात तर म्हज्या ह्या काळजांत ती वायट खबर रिगून रावल्यार तांतूर अजाप कसलें ? ती तुमच्या कानार घालूंक म्हाका चड वायट दिसता तें इतलेच खातीर की, म्हजी खबर एकाद्री अर्दुकडेपणाची आसून, ती आयकून, तुमच्या जीवाक त्रास बादूं-ये; ते खबरीन तुमच्या जीवाक थंडाय मुदलींच मेळची ना ; त्या भायर, इल्लेशा दुभावा खातीर लोकांच्या बऱ्या नांवाक दाग लांवचो हेंय म्हज्या मना येना.

ह्या सुलूस-दिण्या उलोवपान ओथेल्लोक ती खबर केन्ना एकवेळ आयकन-शी जाली आनी ती सांगचे खातीर इयागोक ताणे आनीक खुब आग्रो केलो. तेन्ना इयागोन म्हळें : देस्देमोनाबायच्या मोगाचो दुभाव येंवक दीव नाकात इतलेंच हांव तुमचे कडेन मागतां.'

ह्याच उतरांनी ओथेल्लोच्या मनांत अदीक दुभाव रिगलो आनी ताणे म्हळें: 'हांव बेस बरो जाणा कि म्हजी बायल रुपान सुंदर आसा; चार-चौगांत तिका बसूंक जाय; तोंडभर उलोंवक जाय ; गांवक जाय ; वाजोंवक जाय ; नाचूंक जाय; परंत ह्या करण्यां खातीर हांव तिच्या मोगाचो दुभाव घेंवचो ना; जंय बरे गुण आसात थंय ह्यो

करण्यो बेस बऱ्यो सोबतात ; म्हणून, तिच्या मोगाचो दुभाव घेंवचे आदीं, तिच्या वायट गुणाची म्हाका रुजवात मेळूंक जाय ; ती तुमचे कडेन आसा व्हय ?'

इयागोन म्हळें : 'म्हजे कडेन रुजवात कांयच ना ; तरी हांव तुमकां इतलीच सुलूस दितां की, जेन्ना तिचे लागसार कासियो आसत तेन्ना, तिचे चलणुकेचेर तुमी बरो करून दोळो दवरात ; तुमी तिचे विशीं अदिकसो दुभावूय घेंव नाकात आनी अदिकशे घाळूय रांव नाकात. व्हेनीसाच्या बायलांचो सभाव जितलो हांव जाणा तितलो तुमी नकळत; कित्याकतर त्यो पडल्यो म्हज्या गांवच्यो ; ज्यो करण्यो घोवा हुजरां करूंक त्यो भियेतात त्योच करण्यो देवा हुजरां त्यो करतात. तुमी जाणात, तुमचे कडेन गुमानीतपणान लग्न जावन देस्देमोनाबायन आपल्या बापायक कसो नाडलो तो. तो बाबडो म्हातारो ! ताका दिसलें फितीसानूच तिचें लग्न जालें ! परंत तें फितीस-बितीस कांय ना ; तें तिच्या माथ्यांतलें कोल्ल ; आनी त्या कोल्लाचे घुंवळीन, तिणे आपले गांवच्या आनी सारक्या रुपा-रंगाच्या मोग्यांक लांब धिस्पटायले ! ही तिची करणी सामकीच निजा-भायरी जाली म्हळ्यार कामायेता ; त्या खातीर, आतां कोल्ल निवळटकूच, आपणे हें असलें काम कशें केलें म्हणून तिचें मन तिका खाता आसूं-ये ; तिचे गांवच्या जुवानांचीं सुंदर आनी गोरींधवी रुपां ती आतां तुमच्या रुपाक जोखून पळेता आसूं-ये.'

ह्या उलोवण्यान ओथेल्लोचें मन रोखडेंच बदल्लें; ताका इयागोचें सगळें उलोवप खरेंशें दिसलें ; जे बायलेन आपले गुमानीत करणेन आपल्या बापायक फटयलो ती बायल आपल्या घोवाकूय कशी फटयना जायत ? तशेंच, गोरे आनी रुपेस्त जुवान सोडून आपले सारको मनीस तिका मना पासून कसो मानत ? ह्या असल्या दुभावांनी ताच्या काळजाक जबर दुखी बादली ; परंत ताणे ती भायर मात दाखयली ना. तरी, नाड इयागोन ती तेन्नाच पारखिली आनी म्हळें : 'म्हजे हे खबरीन तुमका एकाद्रें वायट दिसलां आसूं-ये. तुमच्या मनांत जबर मोटो दुभाव रिगला आसूं-ये. परंत, उपकार करून त्या दुभावाचो तुमी नसतोच अर्थ करूंनाकात ; तशें केल्यार तो म्हज्या कासियोक नडत म्हणून म्हाका भंय दिसता. कासियो, म्हज्या ह्या जीवाय परस म्हाका अदीक हें तुमकां सांगूंक जाय अशें ना. तरी आसताना, तुमच्या बऱ्या खातीर, तुमकां एक ताकीद दिल्या बगर म्हज्यान रांव नज. तुमकां देस्देमोनाबायचो मोग खऱ्यानीच पारखूंचो आसल्यार, कासियोक मकलासी करचें काम तुमी कांय दीस लांबायेर घालात ; म्हणचे, ताचे कुशीन रदबदली करूंक, ती कितली आकुळपिकुळ जाता तें तुमच्या ध्यानांत येतलें आनी तांतूल्य तुमकां सगळें समजतलें.'

अशे भाशेन, घातक्या इयागोन, आपले सोरपा सारके जिबेचें वीख ओथेल्लोच्या

कानांत ओतलें आनी रोखडेंच तें ताच्या काळजांत वचून बसलें ! कटा कटा ! हेच वेळे पासून गुणेस्त देस्देमोनेच्या संकश्टांक मूळ जालें ! बाबडी देस्देमोना ! खऱ्यांनीच ती चोख गुणांची बायल. तिचें पावल केन्नाच वांकडें पडूंक नासलें. तिचो गुन्याव कुस्कुटूय नासलो. ती आपल्या घोवाक देवा भाशेन लेखताली. तरी आसताना, राकशेसी इयागोन तिच्या बऱ्या गुणांचेंच जाळ विणून तांतूर तिका नुस्त्या भाशेन घुस्पावन मारचो बेत येवजीलो ! ताणे आदीं, मध्येस्तेच्या निमतान, कासियोक देस्देमोने कडेन मागणी मागूंक लायली आनी मागीर, ते मध्येस्तेंतूच तिची वाट लांवचे उपाय सोदून काडले !

ओथेल्लोक आतां देस्देमोनेच्या मोगाच्या दुभावा कडेन झुकचें लागलें ! ताची सगळी उमेद मोडली; ताच्या जीवाक सुख भोगनाजालें ; तो पिशांतूर जालो ; काल लेगीत जी ताका वेळेर सुस्त आनी गोड न्हीद लागताली ती आज लागनाजाली; संवसारांतलीं सगळीं न्हीदेचीं ओखतां, ताच्या दोळ्यांक मातूय झेम हाडूंक उपकारनाजालीं ; ताका आपले जीणेचो वीट आयलो; हातेरां पळोवन आदले भाशेन ताका खोस जायनाजाली ; सैन, बंदेरां आनी झुजाची मांडावळ पळोवन ताचें काळीज जें उफेतालें, आनी धोलांचो ढम-ढम, शिंगांचो नाद आनी घोड्यांचें खांकरप आयकून जें खोशेन उडक्यो मारतालें तें आतां सामकें मेंगें जालें ; ताची झुजची उमेद मोडली; ताच्यो पुर्विल्ल्यो खोश्शो ताका सोडून गेल्यो ; बायलेची चलणूक तो येवजूंक लागलो म्हणचे ताका ती एका वेळाक उजू गुणांची दिसताली, परंत दुसऱ्या वेळाक आड गुणांची दिसताली ; केन्ना केन्ना ताका इयागो घातको दिसतालो आनी केन्ना केन्ना विस्वासू दिसतालो; एका एका वेळार ताका दिसतालें की आपणाक ही दुख-दिणी खबर केन्नाच कळूंक नासलेली जाल्यार चड बरें आसलें.

जीवाक वळवळायण्या ह्या येवजणुक्यांनी चवथाळून, ओथेल्लोन एक फावट इयागोचे गोमटेकूच हात घालो आनी, देस्देमोनेचे वांकडे चलणुकेची बऱ्यान रुजवात करून दी, नाजाल्यार, तिची वोगीच बिरमत घेतली म्हणून आतांचे आतां तुजो जीव घेन, म्हणून ताका दटायलो.

तेन्ना इयागोन आपणाक राग आयलेल्या भाशेन दाखोवन म्हळें : 'म्हण्टकूच, इतल्याचेर पावलें हें. तुमचें बरें येवजून हांवें जी तुमकां खबर सांगली तीच उफाट्टी म्हज्या आंगार आयली ! म्हजो बरो गुण तोच तुमकां अवगूण कसोसो दिसलो ! नशीब म्हजें ! देवा, सायबा ! ह्या बेयमानी संवसारांत उजू गुणांक धारजीणे ना म्हण्टात ताचो अणभव म्हाका हातार आयलो. बरें, तें कशेंय आसूं; तुमकां रुजवातूच जाय मू ? म्हाका ती सांगूंक तोंड जायना; म्हज्या कासियोच्या आंगार किचाट येत

म्हणून म्हाका वायट दिसता. हांवें तुमकां ही खबर सांगली तेंच आदीं पिशेपण जालें; आसूं; तुमी जाणात, हालीं हालीं कासियो आनी हांव एकठांय--एकाच हांतरुणार--न्हिदतांत. म्हजी ही दाड फोडूंक लागत पासून, आज कितले दीस म्हाका सुस्त न्हीद लागना ; आनी तांतूर एकाद्रे पात्याक पातें लागल्यारूय, कासियोच्या सपनांनी हांव रोखडोच जागो जातां, कितें सांगतलों तुमकां ताचीं सपनां ! जाग्रुतांत तो ज्यो कसल्यो करण्यो करता वो येवजीता त्योच तो सपनांत उलयता आसतलो ! 'म्हजे अपुरबायेचे देस्देमोने, आमचो एकामेकांचो मोग भोवच गुमानीत दवरून आमी जतनायेन रांवया ; कसल्या पाड्या नशिबान तुजे सारकें माणीक त्या खापऱ्याच्या हाताक लागलें !' अशें म्हणून, तो म्हजे हात गच्च दांबता आनी दांत किटकिटलेल्या भाशेन, म्हज्या ओंठाची मुका घेता ! तो म्हजे जांगेर आपलो पांय घालून म्हाका पोटलून न्हिदता ! सपनांत तो म्हाका देस्देमोनाबायूच म्हणून समजता !'

तेन्ना ओथेल्लोन तिडकून म्हळें : 'खरेंच सांगतात तुमी म्हाका हें ! रे घातक्या कासियो ! आह् ! गे राक्षीणी देस्देमोने ! तुमचे आतां हांव कुडकेच कुडके करून उडयना जाल्यार पळ्यात.' ताचेर इयागोन म्हळें : 'धनयांनू, ह्या सपनानूच म्हजी गजाल काबार जाली ना. तुमी केन्ना केन्ना तुमचे बायलेच्या हातांत एक तिकल्यांचो लेंस पळोंवक ना ?' ओथेल्लोन जाप केली की आपणेच तो तिका भेटेक म्हणून दिल्लो. इयागोन म्हळें :'तें कशेंय आसूं. त्याच लेंसान तोंड पुसता आसताना आज कासियोक हांवें पळेलो.'

तें आयकून, ओथेल्लोच्या कपळाक भिरभीरी मारून ताणे म्हळें : 'अशें आसा जाल्यार, हांव त्या दोगांकूय भोवच तीख ख्यास्त भोगयल्या बगर केन्नाच रांवचो ना. कासियोक जाल्यार, हांव ह्या तीन दिसां भीतर जिवानशीं मारतलों; आनी ते गोरे देवचारणीक (देस्देमोनेक) रोखडें मर्ण येंवचे खातीर कसलो उपाय करचो तो येवजूंक हांव आतां भीतर चल्लों.'

कोणूय मनीस एकवेळ दुभावांत घुस्पलो म्हणचे ताका, कुस्कुटां भाशेन वाऱ्यान उबण्यो रुजवातीय भोवच घटायेच्यो दिसतात. तशीच आवतीकाय ओथेल्लोची जाली. आपले बायलेचो लेंस कासियोच्या हातांत पावलो इतलेंच निमीत ताका जायतें जालें; आनीक फुडें चौकशी करची ताका गरजूच दिसली ना. बारकायेन पळेल्यार, देस्देमोनेन आपलो लेंस कासियोक केन्नाच दिंवक नासलो; इतलेंच न्हंय तर, ती गुणेस्त आनी उजू बायल, घोवान भेटेक दिल्लो जिनस दुसऱ्याक ओंपी सारकी पिशी नासली. कासियोन, तशेंच देस्देमोनेन ओथेल्लोचो इल्लोय गुन्यांव करूंक नासलो. हे सगळे खेळ त्या नश्ट्या आनी पाड्या इयागोच्या घातकेपणाचे. दुसऱ्याची गोमटी कापूंक

जिनसां जिनसांचें घातकेपण येवजूंक ताची बुद्द घोड्या फुडें धांवताली ! देस्देमोनेच्या लेंसा सारकोच आपणाक एक दुसरो लेंस विणूंक जाय म्हणून धोंग करून, ताणे तो आपले बायलेक चोरून हाडूंक सांगलोलो, आनी तो कासियोक दिश्टी पडून ताणे तो उखलचो म्हणून ताचे वाटेर उडयल्लो.

देस्देमोनेक मारचो उपाय येवजूंचे खातीर, ओथेल्लो जो इयागो कडसून उठून गेलो तो सामको आपले बायले सरीं वचून, बळयांच तिका आपलें कपळ उसळटा म्हणून सांगलें, आनी माथ्याक बांदूंक तिचे कडेन लेंस मागलो ; म्हण्टकूच, तिणे रोखडोच ताका एक लेंस हाडून दिलो. पणून ओथेल्लोन म्हळें : 'हो लेंस म्हाका नाका; हांवें जो लेंस तुका एक वेळ भेटेक दिल्लो तोच म्हाका जाय.' तेन्ना देस्देमोना तो लेंस हाडूंक गेली; परंत तिका तो खंयच मेळ्ळो ना. इयागोचे बायलेन तो आदींच चोरून व्हेल्लो. म्हण्टकूच ओथेल्लोन म्हळें :'कितें जालो म्हजो लेंस ? तुवें तो एकाद्रो होगडायलोसो दिसता; खऱ्यानीच, तुवें हो व्हडलो गुन्यांव केलो म्हणचो. तो लेंस एके इजीप्तकारणीन म्हजे आवयक दिल्लो ; ती बायल घाडीण आसून लोकांच्या मनांत कितें आसा तें ती जीस्त पारखीताली; तिणे म्हजे आवयक सांगलेलें की, जंववेर तो लेंस तिचे सुवादीन उरत तंववेर म्हजो बापुय तिचो भोवच मोग करीत ; परंत तिणे तो होगडायल्यार वो दुसऱ्या कोणाकूय दिल्यार ताचें मन विटून, तो आदीं तिचो जितलो मोग करतालो तितलोच मागीर राग धरून तिका कुस्कुटायत. म्हजे आवयन मरचे वेळार, तो लेंस म्हाका दिलो आनी सांगलें की, जर हांव केन्नाय लग्न जालों तर तो हांवें म्हजे बायलेक ओंपचो. हांवेंय तिचे सांगणे भाशेनूच केलें ; आनी तो तुका दिता आसताना, तुज्या दोळ्यांतले बावले इतली ताची जतनाय घे म्हणून तुका सांगलें.' हें आयकून देस्देमोना काचाबूल जाली आनी तिणे म्हळें :'खरेंच हें !' ओथेल्लोन म्हळें :'खरेंच खरें ; त्या लेंसाचे विणयें कणकणी जादू आसा ; सुमार दोनशीं वर्सां फाटीं, ह्या संवसारांत एक घाडीण आसलेली ; तिच्या आंगांत केन्ना केन्ना भार येतालो, आनी त्या भाराच्या वेळार तो तिणे विणलेलो ; त्या लेंसाचें सगळें रसीम ज्या किड्यां पासून काडलां ते किडे आदीं सवळायलेले आनी मागीर तें रसीम मेल्ले आंकवारीच्या काळजान रंगयलेलें.'

त्या लेंसाचें जादुचें विणप आनी अजापांचे गुण आयकून आपणे तो होगडायलो म्हणून देस्देमोना थर्त भियेली ; घोवाचो मोग आतां आपलेचेर उरचो ना म्हणून तिका जायतो खेद जालो. इतले म्हणसर, ओथेल्लो तिडकीन उठलो आनी तिचे कडेन आपलो लेंस मागूं लागलो. ते वेळार ताची नुरा कसलेंय अनर्थांचें काम करूंक येवजीणाऱ्या मनशा भाशेन दिसली. तो एकसारको लेंसाचोच हट घेवन बसलो; परंत, देस्देमोनेक

तो मेळची आस्तूच नासली. तेन्ना, घोवाक लेंसाची विसर पडचे खातीर, कासियोच्या मकलासेची खबर तिणे ताचे कडेन काडली; तिणे म्हळें :'हांव जाणा, तुमी कित्या खातीर लेंसाचो इतलो हट घेवन बसल्यात ते. कासियोचे कुशीन हांव रदबदली करीन म्हणून म्हाका पेल्यान आमडूंक हो उपाय तुमी येवजीला आसतलो.' तिणे कासियोची जायती तोखणाय करून, ताका मकलासी करचे खातीर ओथेल्लोची खुब पायांपडणी केली; ती पळोवन ओथेल्लोचो राग उणो जांवचे बदला अदीकूच चडलो. इयागोन ताका आदींच सांगून दवल्लेलें की, कासियोक मकलासी करचें काम लांबायेर घाल्यार, ताचे कुशीन रदबदली करून, देस्देमोना कितली आकुळपिकुळ जाता तें समजून येतलें, आनी तांतूल्च सगळें समजतलें. तेच भाशेन आतां घडलें. म्हणटकूच, ओथेल्लोच्या कपळाक भिरभिरी माल्ली आनी तो थंयसून तिडकीन गेलो. ते वेळार, आपल्या घरकाराक आपल्या मोगाचो दुभाव आयला अशें देस्देमोनेक कळ्ळें आनी जबर वायट दिसलें. परंत, तो दुभाव ताच्या मनांतसून कसो काडून उडोंवचो तें तिका समजना जालें. परथून तिका दिसलें की, व्हेनिसांतसून एकाद्री वायट खबर ताच्या कानार आयल्या जांवये वो कसलेय सरकारी अडचणींत तो पडला जांवये आनी तितलेच खातीर ताची उमेद-मोड जावन तो इतलो रागार जाला जांवये. तिणे म्हळें:'घोव कितलेय बरे जाले तरी ते देव न्हंयत. लग्नाचे दिसा जितलो भोवमान आनी मोग आमकां ते दाखयतात तितलोच, लग्न जातकूच, आमी तांचे कडेन सोदूंक बसल्यार तो आमकां कसो मेळत? म्हणून, आमी तांकां नसतीच खोड लांवक जायना.' अशें म्हणून, ओथेल्लोक आपल्या मोगाचो दुभाव आयला अशी आपणे वोगीच ताची बिरमत घेतली, त्या खातीर, तिणे आपले आपणाकूच जायत्यो गाळी सांगून घेतल्यो.

कांय वेळान, ओथेल्लो आनी देस्देमोना हांचें परथून उलोवप जालें. तेन्ना आपलो मोग सोडून दुसऱ्याचो मोग धल्लो म्हणून ताणे तिका खुब हिणसायली. कोणाचो मोग धल्लो तितलें मात ताणे तिका सांगलें ना. तिका हिणसीता आसताना, तो शूर झुजपी भुरग्या भाशेन भळा भळा करून रडलो. म्हणटकूच, देस्देमोनेन आपल्या कपळार हात मारून म्हळें :'अद्रुश्टा म्हज्या ! कितें जालें तुमकां हें ? कित्याक रडटात तुमी ? कसलो जालो म्हजो गुन्यांव ?' ओथेल्लोन म्हळें :'आगे नाख-कात्रे, कसलो गुन्यांव जालो म्हणून तूं म्हाका आनीक तोंड घेवन विचारूं नाका. संवसारांतलो सगळ्यांत व्हडलो गुन्यांव तुवें केला; तो म्हज्यान सोंसूं नज; तो येवजील्यारूच तुजो म्हाका किंवाटो येता; म्हज्या आंगाचो उजो जाता आनी म्हाका रडूंक येता. हो तुजो गुन्यांव खेरीज करून, दुसरीं कसलींय संकश्टां म्हजेर आयलेलीं जाल्यार तीं हांव धीरान

सोंसतलों आसलों. हांव दळिद्री जाल्लों, वायटांत पडलोलों, वो म्हजो अपमान जाल्लो तरी म्हाका कामायेतो; परंत तुवें जें वांकडें पावल घालें तें मात म्हज्यान सोंसूं नज. तुजे वायट चलणुकेन म्हजें काळीज सामकें फुटलें. एकादऱ्या सोबीत फुला भाशेन तूं सुंदर दिसता आनी तुका बेस बरो धम-धम येता खरो; परंत, ती सुंदरकाय आनी तो धम-धम हिसपा भायर चड जावन माथें सामकें उसळायता; असली तूं बायल केन्नाच जल्मा येंवक नासलेली जाल्यार भोव बरें आसलेलें. नरकाचें दार-राखणी, मेळत ताका लागू जाणी असली तूं चेडी म्हणून हांव नकळं आसलों; तूं आडवाटी म्हणून कळ्ळ्यांर, हांव तुजे कडेन केन्नाच लग्न जांवचो नासलों. आतां, तुजे पोजडे करणेचें मोल तुका हांवें फारीग केलें ना जाल्यार हांव नांवाचो ओथेल्लोच न्हंय.' इतलें म्हणून तो थंयसून गेलो.

ओथेल्लोचें हें उलोवप बगर-अन्यांवी देस्देमोनेच्या नाजूक काळजाक तरवारीच्या घावा भाशेन लागलें. आपल्या घोवाक आपले चलणुकेचो लटकोच दुभाव आयलो म्हणून तिका जायतें अजाप जावन तिचें मन सथर-विथर जालें. तिका कांयच येवजना जालें; अखेरीक, तिच्या दोळ्यांक खुब झेम आयली आनी तिणे आपले सरशीं-रावतलेक आपलें हांतरूण घालूंक लावन, त्या हांतरुणार, लग्नाचे वेळच्यो ओली पातळांवक सांगल्यो. ते वेळार तिणे म्हळें. 'म्हज्या अंतस्कर्णाक जाल्यार हांवें कसलोच गुन्यांव केलासो दिसना. भुरग्यांच्या मना भाशेन म्हजें मन निवळ आसा. तांतूर पातक मातूय रिगूंक ना. अशें आसून, म्हज्या घरकारानी म्हाका वोगीच हिणसीली. तांच्या मनांत म्हजे विशीं एकादरो दुभाव आयलो आसल्यारूय ताणी म्हाका अशी हिणसूंक फावो नासली. संवसारांतले लोक आपल्या भुरग्यांची एकाद्री वायट करणी दिसल्यार तांकां मोवाळपणान दटायतात तेच भाशेन म्हज्या घरकारानीय म्हाका दटायल्यार जातलें आसलें.' ती गुणेस्त बायल हाचे वयर आनीक कांयच उलयली ना, आनी बाकीच्या बायलां भाशेन तिणे आपल्या घोवाक एक गाळूय सांगली ना.

मागीर देस्देमोना आपले कुडींत वचून हांतरुणार पडली आनी रोखडीच तिका सुस्त न्हीद लागली. कांय वेळान तिचो जीव घेंवचे तजविजेन, ओथेल्लो भीतर आयलो. परंत, जेन्ना ताणे ती न्हिदलेली पळेली तेन्ना, आपुण तिचें रगत व्हांवोंवचो ना, वो लोणयांय परस मोव आनी गोरे गोरे पीठ अशे तिचे कातीक घाव करचो ना अशें ताणे येवजीलें. तरी आसताना, ती कशेय भाशेन मरूंकूच जाय असो ताणे नित्शय केलो; कित्याकतर, आपणाक जसो तिणे आपल्या मोगांत घुस्पावन अखेरीक नाडलो तशीच ती दुसऱ्या जायत्या जाणांक नाडटली. मागीर ताणे तिची निमाणी मुका घेतली ; ती

ताका इतली गोड लागली की तिची आनीकूय मुका घेंवची अशें ताका दिसलें. ताच्या दोळ्यांत दुखां आयलीं ; परंत ताणे म्हळें की तीं आपल्या कसाबपणाचीं दुखां आसात.

मुका घेता आसताना देस्देमोना जागी जाली, आनी ओथेल्लोच्या तोंडा कडेन पळेता जाल्यार, तो आपलो सकयलो ओंठ किंवाट्यान चावता आनी रागान दोळे गिरगिरायता असो दिसलो. जेन्ना जेन्ना ताची नुरा हे भाशेन जाताली तेन्ना तेन्ना तो कसलेंय अनर्थाचें काम करचे तजविजेंत आसा म्हणपाचें देस्देमोना जाणा आसली. मागीर ताणे तिका देवाचें नांव घेंवक सांगून, मरूंक तयार जा म्हणून सांगलें. तेन्ना ते बगर-अन्यांवी बायलेन, आपलो कसलो अन्यांव जालो तो सांगचे खातीर, ताची जायती पांयांपडणी केली. म्हणटकूच, तुवें म्हजो लेंस कासियोक दिलो आनी ताकाच तूं लागू आसा म्हणपाची म्हाका रुजवात मेळ्ळ्या, अशें ओथेल्लोन तिका सांगलें. तेन्ना, खरेपणान आपणे तो लेंस ताका केन्नाच दिंवक ना आनी आपुण ताका निखालूस लागू ना अशें म्हणून, तिचेर घाल्ले बिर्मतींतसून मेकळी जांवक ती पळेताली, परंत ओथेल्लोन तिका फुडें उलोंवकूच दिली ना. निमाणे, ताणे तिका तिच्या हांतरुणा वयल्या ओलींनी गुटलायली आनी घुसमटावन तिचो जीव घेतलो.

ह्याच वेळार कांय जाणांनी, रगतान बुडबुडलेल्या कासियोक दोळयेंत घालून थंय हाडलो; तेन्ना ताणे ओथेल्लोची मकलासी मागली, आनी आपलो जीव घेंवचे खातीर, इयागोची नेमणूक करूंक आपणे कसलो गुन्यांव केला म्हणून ताका विचाल्लें.

ओथेल्लोचे मान्यतायेन, कासियोक जिवानशीं मारच्या कामार, इयागोन रोद्रीगो नांवाच्या एका मनशाक नेमलोलो; परंत तांतूर ताका येस आयलें ना ; ताणे कासियोक घाव केले खरे, परंत ते जीव-घेणे नासले ; म्हणटकूच, आपली करणी भायर फुटची न्हंय म्हणून, इयागोन रोद्रीगाकूच जिवानशीं माल्लो. फुडें ताच्या मड्याची चौकशी जाली तेन्ना ताच्या बोल्सांत कांय चिटयो मेळ्ळ्यो; तांतुल्ल्या मजकुरान, कासियो बगर-अन्यांवी आसून, सगळो गुन्यांव इयागोचो म्हणून लोकांक समजून आयलें.

ओथेल्लोक जेन्ना ही सगळी खरी खबर कळ्ळी तेन्ना ताचे दोळे उगडले. आपुण एक खुनशी मनीस आसून, आपले बगर-अन्यांवी बायलेचो कांयच गुन्यांव नासताना आपणे जीव घेतलो हें आतां ताच्या ध्यानांत आयलें. ताचें मन जायतें कळवळ्ळें. ताका आपले जीणेची उबगण आयली. ह्या फुडें आनीक वांचप म्हणचे माथ्यार व्हडलें वजें घेवप अशें ताका दिसलें. अखेर, ताणें आपली तरवार आपल्या पोटांत रोंबली आनी बायलेच्या मड्याक वेंग मारून ताणे जीव सोडलो !

हो भयांकृत आनी काकळुतेणो देखाव पळोवन, लागीं आसलेले सगळेजाण

काचाबूल जाले ; तांकां जायतो भय दिसलो आनी अजाप जालें. ओथेल्लो जबर बऱ्या लोकीकाचो मनीस आसून, सगळ्यांच्या मनांत ताचे विशीं भोवच भोवमान आसलोलो. घातक्या आनी उणाक इयागोन ताचें निवळ मन दुभावान खवदळांवचे आदीं, ताका आपले बायलेच्या मोगाचो संवशेग केन्नाच आयलो ना. तो तिचो भोवच मोग करतालो. तिच्या मोगान तो सामको पिसो जाल्लो म्हळ्यार कामा येता. ताचें मन अरवळ नासून, कसलेय कुस्कुटावणे खबरीन दुखां गळोंवची ताका वज नासली. परंत जेन्ना ताका आपली चूक कळ्ळी आनी बायलेक आपणे वोगीच माल्ली अशें ताका समजलें तेन्ना, गोंदाच्या झाडांतसून गोंद गळटा ते भाशेन ताच्या धिरीश्ट आनी तेजवंत दोळ्यांतसून दुखां गळ्ळीं. तो मरतकूच, ताच्या गुणांची आनी शूरपणाच्या करण्यांची याद काडून लोक ताची तोखणाय करूंलागले.

इयागोक, ताच्या काळ्या आनी खुनशी करतुपांची, फावणेच रितीन जीस्त ख्यास्त मेळ्ळी. ओथेल्लो फाटल्यान सायप्रस जुंव्यार जो गोवेर्नादोर जालो ताणे थंय ते वेळार चलणाऱ्या कायद्यां भाशेन इयागोक खुब वळवळावन अखेरेक जिवानशीं माल्लो, आनी व्हेनीस सरकाराक, ओथेल्लोच्या आनी देस्देमोनेच्या काकळूतेण्या मर्णाचो निरोप पावतो केलो.

* * *

खेळ ३ रो

# मुदयां खातीर घोवा-बायलेचें झगडें

वेनीस शारांत शायलूक नांवाचो एक जुदेव आसलो; ताचो वेपार घाणवटाचो; तो गांवांतल्या वेपाऱ्यांक रीण दितालो आनी तांचे कडसून हिसपाभायर जबर काळंतर घेवन ताणें जायतो दुडू जोडलोलो; ताच्या काळजाक दया-माया निखालूस नासली; म्हणून तो रिणाक दिल्ले दुडू रीणकाऱ्यांच्या पोटार बसून घेतालो!

ताच्या ह्या असल्या सभावा खातीर ताका कोणूच बरें-मागतो नासलो; आनी, चडकरून, वेनीसांतलो जुवान वेपारी आंतोनियो हाका जाल्यार तो दोळ्यां-मुखार नाका आसलो; शायलुकूय तितलोच आंतोनिचो द्वेस करतालो. आंतोनियो दयेस्त काळजाचो आसलो देखून, तो, अडचणींत पडलेल्या लोकांक काळंतर घेनासताना रीण दितालो; इतले खातीर, ताचें भितर आनी शायलुका भितर आडे-वैर चलतालें. जेन्ना जेन्ना आंतोनीक शायलूक दिश्टी पडटालो तेन्ना तेन्ना, तो ताचे काळंतर घेवचे रीती खातीर ताका भौच हिणशितालो आनी ती हिणसणी तो जुदेव वयल्याचारांची थंडाय दाखोवन, सोसून वोगो रावतालो; परंत, मनांतसून केन्नाकाळ आंतोनीक बुद्द शिकयन अशें ताका जातालें.

आंतोनियो भौच मायेस्त अंतस्करणाचो, उंच गुणाचो आनी चोख रिती-रविसेचो आसलो; ताच्या आंगांत ताचे वेळच्या हेरां लोकां परस, रोमांतलें पुर्विल्लें मोटेपण बेस बरें दिश्टी पडटालें; गांवांतले सगले लोक ताचो मोग करताले; परंत, तातुंरूय, ताचो चड जिवाचो इश्ट बासानियो म्हणून आसलो; हाची येणावळ भौच थोडी आनी खर्च अदीक जावन हाणें आपलो सगलो दुडू वाटेक लायलोलो; म्हणून, बासानीक जेन्ना जेन्ना दुडवांची गरज लागताली तेन्ना तेन्ना आंतोनियो ताका पालव दितालो, आनी हे तांचे करणे वयल्यान पळेतल्याक अशें दिसतालें की ते दोगूयजाण एकाच अंतस्करणाचे आसून तांची दुडवांची पिशवी एकूच आसा.

एक दीस, बासानियो आंतोनी कडेन गेलो, आनी ताका म्हणूं लागलो: "आंतोनबाब, म्हजें मन एके सुंदर आंकवारीचेर बसलां आनी तिचो म्हाका जबर मोग लागला. तिचो बापूय थोड्याच दिसां फाटीं भायर पडलो आनी ताणें आपल्या मर्ण-पत्रांत आपली सगली गिरेस्काय तिच्याच नांवार दवल्ल्या; तिचो बापूय जिवो आसताना, हांव तिचेगेर जायते फावटीं वेतालों; तेन्ना हांवें बारकायेन पळेलां की

केन्ना केन्ना ती आपल्या दोळ्यांच्या मोडपांनी म्हाका आपणाच्यो मोगाच्यो कुरवोच करताशी दिसताली! आनी हाचे वयल्यान म्हाका दिसता, हांवें तिचे कडेन लग्नाचें उतर काडलें जाल्यार तिका तें कोडू लागचें ना. आहा! तिचे कडेन म्हजें लग्न जायत जाल्यार म्हाका सुंदर बायल मेळून त्या भायर जायती गिरेस्कायूय मेळत! परंत, कितें करूं? येदे व्हडले गिरेस्त बायलेच्या मोग्याक फावोसो पोशेग करून तिचे कडेन वेतलों म्हळ्यार म्हज्या हातांत एक दमडीय उरूंक ना! उपकार करून तुमी म्हाका हे वेळार तीन हजार दुकाद उश्णे दिशात जाल्यार बेस बरें जायत; हांव आदींच तुमच्या जायतो उपकारांत आसां; तातुंरूच हो एक उपकार भरीक घालात.''

आंतोनी कडेन ह्या वेळार कांयच दुडू नासले; तरी, ताचीं वेपाराचीं तारवां आनीकां थोड्याच दिसांनी भायर गांवांकसून येवचीं आसलीं; तेन्ना शायलूक जुदेवा कडेन वचून त्या तारवांचे उचापतीर रीण काडचें ताणें येवजिलें.

आंतोनियो आनी बासानियो वांगडाच शायलुका कडेन गेले; आनी तारवांचे उचापतीर जाय तितलें काळंतर दिवंचें करून, आंतोनीन शायलुका कडेन तीन हजार दुकाद मागले. तेन्ना, शायलुकान आपल्या मनांत म्हळें: ''आहा! बेस बरो वेळ आयला; हे वेळार जरकांयना हाची गोमटी म्हज्या हातांत येत तर मागीर हांव हाका कशें आसा तें दाखयन; हो भोवन भोवन जो म्हजो अपमान करता ताची हांव बेस बरी फारकाय करीन; हो आमचे सगळे जुदेव जातीचो द्वेस करता; हो काळंतर घेनासतना दुसऱ्यांक दुडू उश्णे दिता; आनी वेपाऱ्यां लागीं हो म्हजी आनी हांवें उजू रितीन जोडलेले जोडीची, म्हणचे, हाच्या हिसपान काळंतराची निंदा करता. हे वेळार, जरकांयना हांव हाका सुको सोडीन तर हांव जातीचो जुदेवच न्हय.'

शायलूक आपले भितरूच कितें-शें येवजिता आनी आपणाक कांयच जापसाल दिना अशें पळोवन आंतोनीन म्हळें: ''शायलूकबाब, हांव कितें उलयलों तें तुमच्या कानांत पडलें मू? तुमी रीण दिशात व्हय?''

हाचेर जुदेवान म्हळें: ''आंतोनबाब, तुमकां याद आसा, तुमी कितले फावटीं म्हजी, म्हज्या दुडवांची, काळंतराची आनी घाणवटाची निंदा केल्या ती? परंत, हावें ती कितले थंडायेन सोंसल्या म्हणून सांगूं! कित्याक, सोसणूक ही आमचे जातीची एक मोटी खूण आसा; तशेंच, तुमी म्हाका कितले खेप नास्तीक आनी गोमटी-कापो सुणो म्हळा, आनी म्हज्या जुदेवी रविशेच्या पोशेगाक पळोवन कितले फावटीं तुमी थू करून म्हज्या आंगार थुकल्यात आनी म्हजेर खोंटो उग्रायल्यात! अशें आसून, अखेरीक तुमकांय म्हजो पालव जाय जालो मू? तुमी म्हजे लागीं येवन 'शायलूबाब, म्हाका रीण दिशात व्हय?' अशें म्हणूंक लागले मू! अजाप बाबा! पूण, म्हाका तुमी

सांगात, सुण्या लागीं दुडू खंयचे हो? सुणो तीन हजार दुकाद उश्णे दीत हें केन्नाच जायत? कालच्याच बुधवारादीस म्हाका सुणो म्हणून तुमीच मू ते म्हज्या आंगार थुकले? आनी ह्याच तुमच्या उपकारां खातीर हांव तुमकां आतां दुडू उश्णे दिवं?''

आंतोनीन म्हळें: ''तुमी कितें समजल्यात? हांव अजुनूय जाय जाल्यार तुमकां सुणो म्हणन, तुमचेर थुकन, आनी खोंटूय उग्रायन; तुमी म्हाका रीण दितले तें फुंक्याचें न्हय; तें तुमी म्हाका इश्टाक म्हणून दिवं नाकात; दुस्मानाकूच म्हणून दियात; आनी म्हजे हातसून तें नेमलेल्या वेळार फारीग जालें ना जाल्यार तुमी म्हाका जाय तसली ख्यास्त भोगयात.''

शायलुकान म्हळें: ''बाबारे म्हज्या! तुमी इतले तापलेशे कित्याक? फाटल्यो गजाली फाटीं पडल्यो; तुमी म्हजे लागीं कशेय चल्ले तरी हांव तें सगलें आतां पोटांत घालतां आनी आजपासून हांव तुमचे लागीं इश्टागतीन चलतां; आतां तुमी म्हजेर रागार मात जावं नाकात; तुमकां हांव व्हडले खुशालेन रीण दीन; तुमचे कडचें काळंतर म्हाका मुदलींच नाका.''

जुदेवाचें हें वयल्याचारांचें मायेस्त उलोवप आयकून आंतोनीक अजाप जालें; तरी, शायलुकान आपल्या उलोवण्याचेर आनीक नेट दिवन म्हळें: ''खऱ्यानीच, काळंतर घेतल्या बगर हांव तुमकां तीन हजार दुकाद दिन; तुमी फक्कत इतलेंच करचें की, कोणाय एका आदवोगादा लागीं वचून, थंय वोगीच मौजे खातीर, एक लिखीत बरोवचें, आनी तांतूर इतलो मजकूर आसचो की अमूक एका नेमलेल्या दिसा तुमी म्हजे दुडू फारीग केले ना जाल्यार हांवें तुमच्या आंगाचें म्हाका जाय थंयचें एक राथभर मास कातरून काडचें.''

आंतोनीन म्हळें: ''बरें आसा; हांव अशें लिखीत बरोवन दिवन ताचेर म्हजी निशाण करीन आनी समजन की जुदेवांच्या आंगांतूय दया-माया म्हणून आसा.''

आपले खातीर असलें लिखीत बरोवन दिवंचें न्हय म्हणून बासानीन आंतोनीक जायतें सांगलें; पूण आंतोनीन तें आयकलें ना; ताणें म्हळें: ''कांय बिशाद ना; नेमलोलो दीस येवंचे आदींच म्हजीं तारवां हांगा पावतालीं; तेन्ना भंय कसलो?''

शायलुकान त्या दोगांय भितल्लें हें उलोवप आयकून म्हळें: ''आब्रांव सायबा! हे क्रिस्तांव लोक कितले दुभावी म्हणचे; तांचींच कर्तुपां मुदलीं दुभावाचीं म्हणून तांकां दुसऱ्यांचो दुभाव येता! बासानबाब, उपकार करून तुमी सांगात म्हाका, नेमलेल्या दिसा आंतोनबाबा लागसून दुडवांची फारकाय जाली ना जाल्यार लिखितांतले खोटी पासून म्हाका कितें मेळटलें? रातभर मास कातरून घेवंचें अशें बरयलें म्हणून ताचो कितें उपेग? कितलेंय जाल्यार तें मनशाचें मास; बोकड्याचें

न्हय मू? खावंक कांय उपकारना; आंतोनबाब, तुमकां जाय जाल्यार तुमी हें असलें लिखीत बरोवन दियात, ना जाल्यार खुशाल आपणाच्या मार्गाक लागात.''

अखेरीक, लिखीत बरोवन दिवन जीव संकश्टांत घालचो न्हय म्हणून बासानीन आंतोनी कडेन जायती मागणी केली; तरी ती आयकनासतना, जुदेवान सांगलेल्या भाशेन मौजे खातीर म्हणून, आंतोनीन लिखीत बरोवन दिलें.

बासानीक जिचे कडेन लग्न जावंचें आसलें ती आंकवार वेनीस शारा लागींच बेलमोन्त गांवांत रावताली; तिचें नांव पोर्सिया; ही बायल बऱ्या गुणांची आसून सुंदरकायेचें सामकें म्होवाळेंच आसली म्हळ्यार कामायता.

आंतोनीन आपले मास घाण दवरून दिल्ले दुडू घेवन, उंच पोशेग करून, बासानियो चाखरमान्यां सयत, बेलमोन्ताक गेलो; ताचे वांगडा ग्रासियानो नांवाचो ताचो एक घेडो आसलो.

फुडें, बासानियो आनी पोर्सिया हांचीं एकामेकांचीं मोगाचीं उलोवणीं जावन, कांय दिसांनी, पोर्सियेन बासानीक लग्न जावपाचें उतर दिलें; ते वेळार, बासानीन तिका सामकें उक्तेपणान सांगलें की, उंच कूळ खेरीज करून आपले कडेन गिरेस्काय बी मुदलींच ना. तरी आसतना, पोर्सिया जी फक्कत उंच गुणां खातिरूच बासानीचो मोग करताली आनी जिचे कडेन गिरेस्काय राशिंनी आसल्या वरसून, आपणाचो घोव गिरेस्त आसलो वो नासलो तरी सारकेंच अशें जी समजताली तिणें जायते भिडेस्तायेन जापसाल केली: ''म्हाराज, तुमचे कडेन गिरेस्काय नासली जाल्यारूय, तुमच्या उंच गुणांक फावोशी जावंक, हांव आतां आसां त्याय परस हजार वांट्यांनी अदीक सुंदर आनी धा हजार वांट्यांनी अदीक गिरेस्त जावंक जाय; हांव खूब शिकलेली, मोटी गिन्यानी आनी जायती अणभवी आसां अशें न्हंय; तरी, तुमच्या पालवान चार गजाली शिकूंक म्हजी बुद्द येन्नाच जुनाट जावंक ना; हांव सगल्या गजालींन आनी कर्तुपांत तुमचेच सांगणे भाशेन चलन; काल लेगीत हांव ह्या सुंदर घरादाराची आनी हांगाच्या चाखरमान्यांची धनीण आसून म्हज्या ह्या ध्येयाची हांवूच राणी आसलीं; परंत आतां हें घर, हे चाखरमाने आनी हांवूय तुमचीं जालीं आनी तुमी म्हजे धनी जाले; हांव आतां म्हजी सगली गिरेस्काय हे मुदये सयत तुमचे सुवादीन करतां.'' अशें उलोवन पोर्सियेन मुदी बासानीक ओंपली.

पोर्सिये सारके गिरेस्त आनी उदार मनाचे बायलेन आपणा सारक्या दुबळ्या मनशा कडेन लग्न जावंक मोट्या मायेस्तपणान हयकार दिलो हें पळोवन बासानीक खूब अजाप जालें आनी तो तिचो इतलो उपकारी जालो की तिचे समंदान ताच्या काळजांत रुजलोलो भौमान आनी खोस तिका कशे भाशेन उकती करून दाखोवची

हेंच ताका समजना जालें; अखेरीक ताणें मोगान भल्लेल्या आनी घुसमटलेल्या उतरांनी तिचे उपकार मानले. तिणें ओंपलेली मुदी ताणें घेतली आनी आपूण केन्नाच ती कोणाक दिवंचो ना वो होगडावंचो ना अशें तिका उतर दिलें.

बासानियो आनी पोर्सिया ह्या दोगांयचें लग्नाचें उलोवणें जातालें त्या वेळार, ग्रासियानो आनी पोर्सियेची धेडी नेरिसा हांचोय एकामेकांचेर मोग लागून तांणी आपल्या लग्नाचें संदान जमयलें.

ग्रासियानान आपली ही गजाल बासानिच्या कानार घाली तेन्ना बासानीन म्हळें: ''तर बरें आसा; तुमच्याच खोशये भाशेन जावनी.''

मागीर, पोर्सियेन नेरिसेक म्हळें: ''ग्रासियानबाबाकडेन लग्न जावंची तुजी खऱ्यांनीच खोस आसा व्हय?''

नेरिसेन म्हळें: ''तुमची खोस आसल्यार म्हजी खोस आसा.''

तेन्ना, पोर्सियेन मोटे खोशयेन तिचे म्हणणेक आपणाची मान्यताय दिली; तें पळोवन, बासानिनूय म्हळें: ''तर, ग्रासियानबाब, तुमच्या लग्नाच्या सुवाळ्यान आमच्या लग्नाक भौच सोब येतली म्हणची !''

तांच्यो ह्यो अशो उमेदिच्यो गजाली जाताल्यो इतले म्हणसर, आंतोनिचो मानाय एक चीट घेवन आयलो, आनी ती ताणें बासानीच्या हातांत दिली; ती वाचता आसताना, बासानीच्या तोंडार एकदम काळबाण ओतली; ती पळोवन, ते चिटींत कोणाय मोगाळ इश्टाच्या मरणाची खबर आसुंये असो संवशेग पोर्सियेक आयलो, आनी तिणें बासानीक कितें जालां म्हणून विचाल्लें. ताचेर ताणें हुस्केवन म्हळें: ''म्हजे अपुरबाये, तुका कितें सांगूं! आज मोटो घात जालो म्हळ्यार कामायता; तुजे कडेन हांव जेन्ना पयलींच म्हज्या मोगाची गजाल उलयलों तेन्ना म्हजे कडेन एक फुटकी दमडीय ना अशें हांवें तुका सांगलें; परंत, त्याभायर आनीक सांगचें रावलां तें हें की, हांव जबर दुबळो आसचो आसून म्हज्या माथ्यार एक व्हडलें रिणाचें वोजें आसा.''

मागीर, बासानीन आंतोनी कडसून आपणाक रीण कशें मेळ्ळें आनी तें शायलूक जुदेवान कसले खोटयेन दिलें ती सगळी खबर तिका कळयली आनी आंतोनीची चीट वाचून दाखयली; ते चिटयेंतलो मजकूर असो:-

''मोगाळ बासानबाब, म्हाका वायट दिसता की, म्हजीं सगळीं तारवां तुफानांत बुडलीं आनी शायलूक जुदेवाक बरोवन दिल्लें लिखीत म्हजे गोमटेक घुस्पलें; आतां, रिणाची फारकाय करूंक म्हाका तांक नासल्या वरसून म्हज्या जिवार हावळ आयल्या आनी वांचपाची आस्ता ना; तेन्ना

मरचे वेळार तुमकां दोळेभर पळोवचे अशी म्हजी इत्सा आसा; तरी आसताना, तुमचे खोशयेक येत तशें तुमी करात; हांवें चीट बरयल्या म्हणुनूच तुमी म्हाका येवन मेळूंक जाय अशी गजाल ना; म्हजे वयलो तुमचो मोग तुमकां म्हजे कडेन येवंक फुडें नेटीत तरूच तुमी येयात; नाजाल्यार नाका.''

हो मजकूर आयकून, पोर्सियेन बासानीक म्हळें: ''तर म्हज्या मोगाळ जिवा! तुमी आतां वेळ लायनासतना तुमच्या इश्टा कडेन धांव मारात; तुमच्या गुन्यांवा खातीर, असल्या मायेस्त इश्टाच्या एका केंसाकूय दुखापत भोगचे आदीं, ताका रिणांतलो मेकळो करूंक तिनूच हजार न्हय तर तांचे वीस पेट लेगीत दुकाद खर्चूंक हांव तयार आसां; तुमी ध्यानांत दवरात की अशे भाशेन एके रितीचें म्हारग मोल दिवन तुमकां विकते घेतले म्हणून हांव तुमचो अदिकूच मोग करीन.''

मागीर, बासानीयो आपणाचे गिरेस्कायेचो कायद्यानशीं धनी जावंचो म्हणून, पोर्सिया रोखडीच ताचे कडेन लग्न जाली; तशीच नेरिसा ग्रासियाना कडेन लग्न जाली.

फुडें, बासानीयो आनी ग्रासियानो वेनिसाक वचूंक भायर सल्ले; आनी, ते थंय पावले तशे, आंतोनीक बंदखणींत घाला म्हणपाची भौच दुखेस्त खबर तांच्या कानार पडली.

रिणाची फारकाय करूंक बासानीन जुदेवाक दुडू दिवंचे केले; परंत, फारकायेचो दीस केन्नाच फाटीं पडलोलो म्हणून तो दुडू घेना जालो; आनी लिखिताचे खोटये भाशेन, आंतोनीचें एक रातभर मासूच आपणाक जाय आनी तें ताच्या काळजाचेंच जाय म्हणून तो हट्टाक पेटलो. म्हणटकूच, ही भयाळ गजाल वेनिसाच्या दुका कडेन गेली; आनी बासानीयो, फुडें कितें जायत कितें ना हो हुस्को काडीत निवाड्याच्या दिसाची वाट पळोवं लागलो.

वेनिसाक वचूंक भायर सरच्या वेळार, पोर्सियेन बासानीक सांगलेलें की, पर्थून येता आसतना, आंतोनीक वांगडा हाडचो; तरी आसतना, तो गेल्या उपरांत, आंतोनीचो जीव कशेय भाशेन आपले हातसून वांचोवंक जायत वो कितें म्हणून ती येवजूंक लागली; तिणें आपणाच्या बायलपणाक सोबणे रितीन, एकवेळ बासानीक सांगलेलें की कसल्याय कामांत आपूण ताचेच सांगणे-म्हणणेन चलन; पूण, हे वेळार, तिच्या भौमानीक घोवाचो इश्ट मोट्या जिवा वयल्या संकश्टांत पडलोलो; ताका कशेयभाशेन वांचोवंक जाय हो विचार करून, आपले हातसून हें काम जायत वो ना हो दुभाव घेनासतना, आपणेंच खासाखुद वेनिसाक वचून आंतोनीचे मेकळिकेक वावुरचें असो तिणें बेत केलो.

बेलारियो नांवाचो पोर्सियेच्या नात्यांतलोच एक आदवोगाद आसलो; ताका

तिणें चीट बरोवन सगळी खबर कळयली, आनी फुडें, कितें करचें त्या समंदान ताची बुद्द विचारून, ताचो आदवोगादकेचो पोशेगूय मागून घेतलो; बेलारीनूय तो व्हडले खोशयेन धाडून दिलो.

उपरांत, पोर्सिया आनी नेरिसा ह्या दोगींनी दादल्याचो भेस केलो; पोर्सियेन आदवोगादाचो आनी नेरिसेन कारकुनाचो पोशेग करून त्यो भायर सल्ल्यो; त्यो वेनिसाक पावल्यो त्याच दिसा न्याय जावंचो आसलो.

दूक निकतोच सगळी खबर आयकून घेतालो; इतले म्हणसर, पोर्सिया, नेरिसा कारकुनाक घेवन, आवदियेंसार गेली, आनी तिणें बेलारियो आदवोगादान बरयल्ली चीट दुकाच्या हातांत दिली; तांतूर बेलारीन बरयल्लें की, आंतोनीचे कुशीन उलोवंक आपुणूच येतलों आसलों, परंत, आपणाच्या जिवाक बरें दिसना म्हणून, आपणें ह्या बाल्ताझार (पोर्सियेन आपणाक घेतलेलें दादल्याचें नांव) नांवाच्या आदवोगादाक धाडला; तेन्ना, ताकाच आंतोनीचे कुशीन उलोवंक मेकळीक दिवंची; दुकाक तें मानलें आनी रोखडीच ताणें चवकशेक सुरवात केली.

पोर्सियेन आपले भोंवतणीं पळेलें तेन्ना तिका तो गुंड्याच्या काळजाचो जुदेव एके कुशीक बसलोलो दिसलो; बासानियोय तिका दिश्टी पडलो; परंत, पोर्सियेन दादल्याचो भेस घेतलेलो म्हणून ताणें तिका वळखली ना; तो आंतोनीचे कुशीक उबो रावलोलो आनी ताचें काळीज भंयान धडधडटालें.

पोर्सिये सारके नाजूक बायलेन हातांत घेतलेलें काम भौच कठीन आसलेलें जाल्यारूय ती व्हडल्या धिरान फुडें सल्ली आनी पयल्याच फाराक शायलुकाक लागून म्हणूं लागली: "बारकायेन पळेल्यार, वेनिसाच्या कायद्यान, लिखितांत बरयलां ते भाशेन ह्या जुदेवाक रातभर मास मेळुंकूच जाय; पूण, कितलेंय जाल्यार, मनशाचें काळीज चिके काकळुतेस्तूय आसूंक जाय; संवसारांत काकळुती सारको दुसरो मोटो गूण कसलोच ना; हो गूण मळबांतसून सकला ओतणाऱ्या पावसा भाशेन भौच हिताळो आसा; हो कितलो म्हणून तोखेवंचो! हो गूण जाच्या आंगांत आसा ताचें सदां-काळ बरें जाता; तशेंच, हो उपेग ज्या मनशाक जाता ताचें बरें जाता; अशें ह्या गुणा पासून दोट्टी बरेपण आसा; दुसऱ्यांची काकळूत हो एक देवीकपणाचो गूण आसा; हो ज्या कोणा राजाच्या आंगांत आसत ताका, ताच्या रत्नां-माणकांच्या मुकुटाय परस कितली सोब दिता म्हणून सांगूं! न्याय-निवाड्यांत जितली जितली काकळूत अदिक आसत तितलें तितलें मनशाचें राज्य देवाच्या राज्याच्या लागसार पावलां म्हणून समजुचें. शायलुकबाब, तुमी येवजून पळेयात की, आमी संवसारांतले सगले मनीस आमची काकळूत करची म्हणून देवा लागीं सदां-काळ मागणी मागतांत;

तेन्ना, आमी दुसऱ्यांची काकळूत कशी करची हेंय आमी शिकूंक जाय; न्हय?''

शायलुकान जाप केली: ''म्हाका ह्या लांब शापातांची मुदलींच खोस ना; लिखितांतले खोटये भाशेन निवाडो मेळ्ळो म्हणचे म्हजें काम जालें.''

पोर्सियेन म्हळें: ''रीण फारीग करूंक आंतोनीक तांक ना व्हय?''

हे वेळार बासानीन दुडवांची पिशवी जुदेवाक दाखोवन म्हळें: ''हे घेयात तुमचे तीन हजार दुकाद; आनी आनिकूय जाय जाल्यार तुमकां हांव दितां.''

पूण, शायलुकाक तें मानलें ना: तो रातभर मासाच्याच हट्टाक बसलो; तें पळोवन, कायद्यांच्यो दोरयो मात्श्यो सैल करून आंतोनीचो जीव वांचोवचो म्हणून बासानीन बाल्ताझार आदवोगादा कडेन मागणी केली; परंत, पोर्सियेन भारकुपणान जाप केली की, एक फावट केल्ले कायदे पर्थून बदलूंक जायनात. ही जापसाल आयकून, शायलुकाक दिसलें की, आदवोगाद आपणाचेच कुशीन उलयता; तेन्ना, मोटे खोशयेन ताणें म्हळें; ''आहाहा! आज निवाडो दिवंक हो दानियेलूच सर्गा वेल्यान सकला आयला! कितले जबर गिन्यानी हे आदवोगाद! हे वर्सांनी नेण्टे आसले जाल्यारूय गिन्यानान जायते जाण्टे आसात!''

मागीर, पोर्सियेन शायलुका कडसून तें लिखीत मागून घेवन वाचलें आनी म्हळें: ''ह्या लिखिता भाशेन आंतोनबाबाच्या काळजाचें रातभर मास कातरून काडूंक शायलुक जुदेवाक कायद्यान हक आसा.'' उपरांत, तिणें शायलुकाक म्हळें: ''पूण शायलुकबाब, मास कातरून घेवंचे परस, मनीसपणाक सोबणारी काकळूत दाखोवन तुमी दुडू घेतल्यार अदीक बरें अशें म्हाका दिसता.''

परंत, त्या कसाब शायलुकाक काकळूत खंयची? ताणें म्हळें: ''म्हज्या ह्या जिवाच्यान तर हांव सांगतां की म्हजें मन बदलूंक खंयच्याच मनशाचे जिबेक तांक जावंची ना म्हळ्यार कामायता; म्हणून तुमी हे काकळुतीचे गजालींत पडूं नाकात.''

हाचेर पोर्सियेन म्हळें: ''तर आनीक वेळ कित्याक आतां? आंतोनबाब, तुमी तुमचें काळीज फुडें करात आनी ह्या जुदेवाक ताचें मास कातरून घेवनी.'' हें आयकून शायलुक मोटे खोसयेन आपले सुरयेची धार पाजोवंक लागलो.

मागीर, पोर्सियेन आंतोनीक म्हळें: ''तुमकां आतां आनीक कितें उलोवचें आसा व्हय?'' तेन्ना, आंतोनीन भौच थंडायेन जाप केली की आपूण मरूंक तयार आसां; आनी आपणाक कांयच उलोवचें ना. मागीर ताणें बासानीच्या हाताक हात घालून म्हळें: ''बासानीबाब, तुमचे खातीर हांव ह्या संकश्टांत पडलों म्हणून तुमी इल्लोय खेद मानूं नाकात; तुमी तुमचे भौमानीक बायलेक म्हजें नांव कळयात आनी तुमचेर हांव कशी माया करतालों ती तिका सांगात.''

तेन्ना बासानीन दुखान कळवळून जाप केली: ''आंतोनबाब, म्हजे बायलेचो म्हाका म्हज्या जिवा इतलो मोग आसा; परंत म्हजो जीव, म्हजी बायल आनी सगलो संवसारूय तुमच्या जिवा फुडें म्हाका कांयच दिसना; तुमकां ह्या देंवचाराचे हातसून मेकळे करूंक म्हजे कडेन आसा ना तें सगळें होगडावंक हांव तयार आसां; पूण कितें उपेग?''

आंतोनियो सारक्या खऱ्या आनी जिवाच्या इश्टा वयलो मोग बासानीन भौच नेटाळ उतरांनी उलोवन दाखयलो; तो आयकून मायेस्त अंतस्करणाचे पोर्सियेक मुदलींच वायट दिसनासतना खोसूच जाली; आनी तिणें वयलेचारान बासानीक म्हळें: ''बासानबाब, तुमची बायल हे वेळार हांगा आसलेली जाल्यार, तुमचें हें उलोवप आयकून, तुमी तिचो कितलोसो मोग करतात तो तिका बेस समजून येतलो आसलो!''

इतले म्हणसर, ग्रासियानाकूय आपणें हे वेळार बासानी सारकेंच उलोवचें अशें दिसून ताणें म्हळें: ''म्हजीय एक बायल आसून तिचेर म्हजो जायतो मोग आसा; परंत, ह्या कसाब जुदेवाचो सभाव बदलूंक सर्गलोकाक कोणायच्या आंगांत तांक आसली जाल्यार ताची पांयां-पडणी करूंक, हांव म्हजे मोगाळ बायलेक लेगीत सर्गार धाडूंक तयार आसां.''

ग्रासियानाची बायल नेरिसा, कारकुनाच्या भेसान पोर्सियेचे कुशीकूच बसलेली तिणें म्हळें: ''ग्रासियानबाब, कशेंय जाल्यार तुमी हीं उतरां तुमचे बायलेचे अपरुखीं उलयले म्हणून बरें जालें; नाजाल्यार, घरांत रावसारकी आज तुमची माणसुकी नासली.''

शायलुकाक केन्नाकाळ आंतोनीचें मास कातरीन-शें जालें आनी ताणें म्हळें: ''आतां वोगीच वेळ होगडावं नाकात पळोवंया; दूक सायबान बेगीन सेतेंस माल्ल्यार चड बरेंशें म्हाका दिसता.''

हे वेळार सगल्या आवदियेंसार, सेतेंस कितें जाता तें आयकूंक सगळ्यांचीं काळजां खुपू-खुपू जावंक लागलीं आनी मेळत तो आंतोनीची काकळूत करूंक लागलो.

मागीर, पोर्सियेन मास जोखूंक तागडी हाडूंक लायली आनी जुदेवाक म्हळें: ''शायलुकबाब, तुमी तुमचे वांगडा सुरजांव बी हाडला मूं? ना जाल्यार मास कातरता आसतना आंतोनबाबाचो वोगीच जीव वचत.''

परंत, आंतोनियो मरचो अशीच शायलुकाची इत्सा आसली; म्हणून ताणें म्हळें: ''सुरजांव हाडचो म्हणून एकूय उतर लिखितांत बरोवंक ना.''

पोर्सियेन म्हळें: ''लिखितांत बरयलें ना म्हणून कितें जालें? तुमी सुरजांवा

कडसून मास कापून घेशात जाल्यार तांतुरूय एके भाशेन तुमी आंतोनबाबाचेर काकळूत केल्ल्या भाशेन जायत.''

हाचेर शायलुकान म्हळें: ''पूण, कित्याक जाय गा ती काकळूत? सायबा दोतोरा, ती तुमची काकळूत आमच्या लिखितांत बरोवंक ना; म्हणून म्हज्यान ती करूंक नज.''

पोर्सियेन म्हळें: ''म्हणटकूच, आंतोनबाबाचें रातभर मास इतलेंच तुमच्या लिखितांत बरयलां मू? बरें आसा; कायद्यान तें तुमकां मेळ्ंकूच जाय; आनी तें तुमकां तांच्या काळजा लागशिलेंच जाय म्हणटात तुमी? घेयात, काळजा लागशिलेंच घेयात. तुमचीच खोस जावनी.''

हें आयकून शायलुकाक जबर खोस जावन ताणें म्हळें: ''आहाहा! कितले गिन्यानी आनी उजू हे आदवोगाद! निवाडो दिवंक आज हो दानियेलूच म्हाका पावलो म्हणचो!''

मागीर ताणें आपली लांब सुरी पर्थून पाजयली आनी आंतोनीक म्हळें: ''आंतोनबाब, आतां सरात फुडें.''

पोर्सियेन शायलुकाक म्हळें: ''मात्शे थांबात; म्हाका आनीक थोडेंशें उलोवचें आसा; ह्या लिखिता वयल्यान दिसता की तुमकां फक्कत एक रातभर मासूच मेळ्ंक जाय; तेन्ना, रगताचेर तुमचें मुदलींच हक ना; म्हणून, मास कापता आसतना, जरकायना रगताचो एक थेंबोय जमनीर गळत तर तुमची मिरास आनी घरदार सगळें आसा ना तें, कायद्या भाशेन सरकाराच्या हातांत वेतलें.''

पोर्सियेन खऱ्यांनीच ही एक बेस युक्त सोदून काडली! लिखितांत फक्कत मासाचेंच नांव आसून रगताचें नांव नासलें; हें, आंतोनीचो जीव वांचोवंक भौच उपेगा पडलें! कित्याक, रगत गळ्ळ्या बगर मास कातरूं नज. ही शाणपणाची युक्त आयकून आवदियेंसा वयल्या सगळ्या लोकांक अजाप जालें आनी ते पोर्सियेच्या नांवान ताळ्यो पेटूं लागले.

मागीर, ग्रासियानान शायलुकाच्याच उतरांनी म्हळें: ''कितले गिन्यानी आनी उजू हे आदवोगाद! शायलुकबाब, पळेयात, निवाडो दिवंक आज हो दानियेलूच संवसारांत देंवलो म्हणचो!''

हें आयकून शायलुकाची निरास्त जाली; आनी मास नासल्यार नासूं, परंत दुडू तरी मेळ्ंत म्हणून तो दुडू घेवंक फुडें सल्लो. हें पळोवन, आंतोनीची आतां मेकळीक जावंक अडचण ना अशें येवजून बासानीक भौच खोस जाली आनी ताणें म्हळें: ''हे घेयात दुडू.'' परंत पोर्सियेन ताका थांबोवन म्हळें: ''मात्शे रावात; शायलुकबाबाक

रातभर मासा खेरीज आनीक कांयच दिवंक नज; तेन्ना मास कातरून घेवंक ताणी आपली सुरी भायर काडची; पणून शायलुकबाब, हेवशीन पळेयात, तुमी मासा वांगडा रगताचो एक थेंबोय गळोवंक जायना हां; तशेंच, रातभर मासांत अदीक उणें कांय जावंक फावना हां; अशें आसून, एका केंसाच्या भारा इतलेंय मास तुमी अदीक घेशात जाल्यार वेनीसाच्या कायद्या भाशेन तुमच्या जिवाचेर हावळ येतली आनी तुमची सगळी गिरेस्काय सरकाराच्या हातांत वेतली.''

हाचेर शायलुकान म्हळें: ''म्हाका तुमी म्हजे दुडूच दियात पळोवया; म्हाका वचुनी आपलो कामाक.'' बासानीन म्हळें: ''हे घेयात, फुकट करंदाय नाका.''

शायलुक दुडू घेवंक वेतालो; इतले म्हणसर पोर्सियेन ताका थांबोवन म्हळें: ''मात्शे रावात; शायलुकबाब, तुमचेर एक व्हडलो गुन्यांव लागू जाता तो असो: कवायतीन भल्लेलें लिखीत बरोवन घेवन, आंतोनबाबाचो जीव घेवंचो तुमी येत्न केलो त्या खातीर, वेनीसाच्या कायद्यान तुमची गिरेस्काय सरकाराच्या हकाक वेता, आनी त्या भायर तुमच्या जिवाचेरूय हावळ येता; परंत, ही गजाल हांव दूकसायबाचे खोसयेर दवरतां; तुमी तांकां पांयां पडात आनी तांची मकलासी मागात; म्हणचे ते तुमची काकळूत करतीत.''

तेन्ना दूकान म्हळें: ''शायलुकबाब, काकळूत हो गुण कितलो बरो आसा हें तुमकां दाखोवंक, तुमी म्हाका पांयां पडचे आदींच हांव तुमकां मकलासी करून तुमचो जीव वांचयतां; परंत, तुमचे गिरेस्काये समंदान मात तुमी अर्दो वांटो आंतोनबाबाक दिवन अर्दो वांटो सरकाराचे सुवादीन करूंक जाय.''

हे वेळार, उदार मनाच्या आंतोनीन म्हळें: ''म्हाका त्या अर्द्या वांट्याची मुदलींच गरज ना; परंत शायलुकबाबान तो वांटो, ते मरतकूच, तांचे धुवेक आनी जांवयाक मेळचो अशें एक लिखीत बरोवन दिवंचें.'' आंतोनीन अशें म्हणचें कारण, शायलुकाक एक धूव आसून ती लोरेंस नांवाच्या एका क्रिस्तांवा कडेन निकतीच लग्न जाल्ली; परंत, ही करणी ताका मानना जावन, ताणें तिका येरांसा भायरी केल्ली.

जुदेवाक आंतोनीची खोटी मानली. परंत, ताचें उश्णें फारीग करूंक मेळ्ळें ना म्हणून ताका जबर वायट दिसलें; त्या भायर, दुडू होगडावले म्हणून तो भौच चुरचुरलो; अखेरीक उपाय नासून, ताणें म्हळें: ''बरें तर, तुमी सांगतात तशेंच जावंदी; म्हज्या जिवाक हे वेळार बरें दिसना; म्हाका आपलो एक वेळ घरा वचुंनी; तुमी तुमकां जाय तशें लिखीत बरोवन म्हजे कडेन धाडून दियात; म्हणचे हांव ताचेर निशाण करीन.''

दुकान बरें म्हळें, आनी हे भाशेन तें केस्तांव सोंपून आंतोनीची मोट्याच अरिश्टांतसून सोडोवणी जाली.

मागीर, दुकान त्या जुवान आदवोगादाच्या शाणपणाची आनी वेळेर युक्त सुचपाची भौच तारीप करून ताका आपलेगेर जेवंक आपयलो; परंत, बासानीचे आदीं आपणें घरा वचून पावंक जाय असो पोर्सियेचो बेत आसलो; म्हणून, तिणें दूकाचे उपकार मानून, आपणाक भायलेभायर घरा वचुंकूच जाय अशें सांगलें.

मागीर, दूकान आंतोनीक म्हळें: ''आंतोनबाब, ह्या आदवोगादाक तुमी आतां बेस बरें इनाम दिवंक जाय; कित्याक, तांणी तुमचो जीव वांचोवन तुमकां जबर रिणांत दवल्ले.''

फुडें आवदियेंस उठलें; आनी बासानीन बाल्ताझाराक (पोर्सियेक) म्हळें: ''भौमानीक म्हाराजांनू, तुमच्या शाणपणाक आज हांव आनी म्हजे इश्ट आंतोनबाब व्हडल्या अरिश्टांतसून सुटल्यों; तेन्ना तुमी जर हे तीन हजार दुकाद घेशात तर आमचेर भौच उपकार जातीत.'' आंतोनीनूय म्हळें: ''हांव जाल्यार तुमकां खऱ्यांनीच सांगतां, आमी तुमच्या रिणांतसून केन्नाच मेकळे जावंचे नात इतले मोटे उपकार तुमी आमचेर केले.''

त्या दोगांयनी जायतो आग्रो केलो; तरी आसताना, पोर्सियेन दुडू घेतले नात; तेन्ना, आपणा कडसून कितें तरी इनाम घेवंकूच जाय असो बासानीन हट्ट धरतकूच, तिणें म्हळें: ''तर तुमी म्हाका तुमचीं लुवां दियात; म्हणचे हांव तीं म्हज्या हातांक घालीन.'' म्हणटकूच, बासानीयो हाताचीं लुवां काडूंक लागलो; इतले म्हणसर ताच्या बोटांत तिणेंच फाटीं दिल्ली मुदी तिका दिसली; ती पळोवन, घोवाची मात्शी मस्करी करची येवजून तिणें ती मुदी बासानी कडेन मागली.

मुदी दिवंची म्हळ्यार बासानीच्या जिवार आयलें; कित्याक, आपूण ती केन्नाच कोणाक दिवंचो ना, आनी कशेच भाशेन होगडावंचो ना म्हणून पोर्सियेक एक वेळ ताणें उतर दिल्लें; म्हणटकूच ताणें गदळ्ळेल्या भाशेन जाप केली: ''सायबांनू, उपकार करून ही मुदी मात तुमी म्हजे कडेन मागूं नाकात; ती म्हज्यान कोणाकूच दिवं नज; कित्याक, ती म्हाका म्हजे बायलेन ओंपल्या आनी ती केन्नाच होगडावंचो ना म्हणून हांवें तिका उतर दिलां; तुमकां हांव हे मुदये परस अदीक मोलाची दुसरी मुदी दिन.''

हें आयकून, पोर्सियेन आपलो अपमान जाल्ल्या भाशेन दाखोवन म्हळें: ''तुमची हे जापे वयल्यान, भिकाऱ्याक कशी जापसाल दिवंची ती तुमी म्हाका शिकयतात दिसता.'' इतलें म्हणून पोर्सिया वचूंक लागली.

तेन्ना, आंतोनीन बासानीक म्हळें: ''बासानबाब, ती मुदी त्या आदवोगादाक दिली म्हणून कितें जालें? ताणें आपले आदवोगादकेन आज आमचेर जे उपकार केल्यात तांचे खातीर, तुमचे बायलेक दिल्लें उतर मात्शें मोडलें म्हणून कितें जाता?''

हाचेर, बेइमानपण दाखोवंचें म्हळ्यार बासानीक वायट दिसलें आनी ताणें ती मुदी ग्रासियाना कडसून पोर्सियेक धाडून दिली; ती पळोवन, नेरिसेनूय आपल्या घोवाक ओंपलेली मुदी घेवंची अशें येवजून तिणें ती ग्रासियाना कडेन मागली; आनी ताणेंय ती रोखडीच तिका दिली; म्हणटकूच, त्यो दोगूयजाणी आपले भितरूच हांसूंक लागल्यो, आनी घरा पावतकूच, मुदयो होगडायल्यो म्हणून, घोवांक जाय तशे श्चोमणे मारचे आनी तांणी त्यो दुसऱ्या कोणाय बायलांक ओंपल्यो जावंये म्हणून बळ्ळयाच ताच्या माथ्यार गुन्यांव थापटुंचो असो बेत करूंक लागल्यो.

मनशान केन्नाय कसलें बरें काम केलें म्हणचे ताच्या मनाक एके भाशेन सुख आनी खोस जाता, तशीच गजाल पोर्सियेची जाली; तिका सगलो संवसार उमेदीन भल्लेल्या भाशेन दिसूंक लागलो; मळबांतलो चंद्रीम जाल्यार तिका ते दीस भौच लकलकीत दिसलो; आनी जेन्ना ताचे आड एक कूप येवन तो दिसनासो जालो तेन्ना तिका लांबसून तिच्याच घरांतलो दिवो दिसलो; तो पळोवन तिका जबर खोस जाली आनी तिणें म्हळें: ''तो जो आमकां उजवाड दिसता तो आमच्याच घरांतलो आसतलो: अहाहा! त्या दिव्याची वात ल्हान आसून तिचीं किरणां कितलीं लांब पडटात पळे! ह्या पाड्या संवसारांतल्या बऱ्या कर्तुपांची गजाल अशीच आसा; तीं त्या ल्हान दिव्या भाशेनूच लिकलिकतात!'' इतले म्हणसर तिच्या घरांत वाजणारें वाजप आयकून तिणें म्हळें: ''अहाहा! हें वाजप दिसाचे परस रातच्या वेळार कानाक भौच गोड लागता.''

अशे भाशेन उलयत उलयत, पोर्सिया आनी नेरिसा घरा पावलीं; मागीर तांणी दादल्याचो भेस काडून उडोवन आपलो मुदलचो बायलांचो पोशेग केलो आनी त्यो आपापल्या घोवांची वाट पळेत बसल्यो.

थोड्याच वेळान, बासानियो आनी ग्रासियानो, आंतोनीक वांगडा घेवन आयले; बासानीन पोर्सियेची आनी आंतोनीची वळख करून दिली आनी तिणें, आंतोनीची रिणांतसून मेकळीक जाली म्हणून खोस दाखयली.

इतले म्हणसर, कुडीचे एके कुशीक ग्रासियानो आनी नेरिसा एकामेकां कडेन झगडटा आसतना तांकां दिसलीं; तें पळोवन, पोर्सियेन बळयांच नकळट्यार घालून म्हळें: ''कसलें झगडें? कितें जालें?'' ग्रासियानान म्हळें: ''छे! मोटें-शें कांय न्हंय; नेरिसेन म्हाका फाटीं एक दुराद काडलेली मुदी दिल्ली आनी तिचेर, सुरयांच्या पाट्यार 'ट्रेड मार्क' (वेपारी खूण) आसता ते भाशेन 'म्हजो मोग कर आनी म्हाका सांडूं नाका' इतलींच उतरां कोंत्रायलेलीं आसलीं; ते मुदये खातीर ही येदो आकांत करता.''

नेरिसेन म्हळें: ''मुदी दुरादाची आसली वो शिंशाची आसली आनी तिचेर

कितेंय कोंरातलेलें आसलें म्हणून कितें जालें? तुमकां जेन्ना हांवें ती ओंपली तेन्ना तुमी म्हाका सपूत घेवन सांगलें की, मरसर तुमी ती केन्नाच कोणाक दिवंचे नात वो पातयेंवंचे नात; आनी आतां तुमी सांगतात, ती आदवोगादाच्या कारकुनाक दिली म्हणून; म्हाका बरे भाशेन समजता, तुमी ती कारकुनाक वो कोणाक दिवंक ना; तुमी ती कोणाय आंगवस्त्राकूच दिल्या!''

ग्रासियानान म्हळें: ''पिशी खंयची! म्हज्या ह्या दोळ्यांच्यान तर हांव तुका सांगतां की हांवें ती त्या आदवोगादाच्या कारकुनाक दिली; कितलो बेस गुणांचो भुरगो म्हणून सांगूं तो! तो मोटवो आसून जिस्त तुजेच येदो आसलो; आमच्या आंतोनबाबाचे कुशीन न्यायाचो निवाडो जालो तेन्ना खोशी जावन ताणें ती म्हजे कडेन 'फी' म्हणून मागली आनी म्हज्यानूय ती ताका दिल्या बगर रांव नज जालें.''

पोर्सियेन म्हळें: ''ग्रासियानबाब, तर तुमी हो मोटो गुन्यांव केलो मू! तुमी ती मुदी त्या कारकुनाक केन्नाच दिवंक फावनासली; नेरिसे भाशेन हांवें म्हज्याय घरकाराक फाटीं एक मुदी ओंपलेली; आनी म्हाका खरेपण आसा की, एकाद्रयान सगळो संवसार जरी तांकां दिवंचो केलो तरी ताचे बदला ते आपली मुदी केन्नाच कोणाक दिंवचे नात.''

हाचेर ग्रासियानान म्हळें: ''ताणींय आपली मुदी आदवोगादाक दिली आनी ती पळोवनूच म्हजी मुंदी त्या कारकुनान मागली.''

हें आयकून, पोर्सिया रागार जाल्ल्या भाशेन जाली आनी मुदी दुसऱ्याक दिली म्हणून तिणें बासानीक जायतो खेत्सिलो; तिणें म्हळें की नेरिसेक दुभाव आयलो तोच खरो जावंये; मुद्री कोणाय भायल्या आंगवस्त्राकूच दिली आसतली; दुसरें कांय ना.

बायलेचो अन्यांव केलो म्हणून बासानीक भौच वायट दिसलें आनी ताणें बोंबलेच्या देंटा पासून म्हळें: ''म्हज्या भौमानाच्यान तर सांगतां की हांवें ती मुदी खंयच दुसरे बायलेक दिवंक ना; निवाडो आमचे कुशीचो जालो तेन्ना हांवें त्या आदवोगादाक तीन हजार दुकाद दिवंक काडले; परंत, ते घेनासतना ताणें म्हजे कडेन मुदी मागली; हांव ती ताका आदीं दिनासलों; परंत, ताणें वायट तोंड केल्ल्या भाशेन दिसलें म्हणून, उपाय नाथून, हांवें ती ताका दिली; म्हज्या बेईमानपणाची म्हाका येदी मोटी लज जाली की हांवें ती मुदी रोखडीच ताका धाडून दिली; म्हणून, तूं म्हाका मकलासी कर; तूं ते वेळार थंय आसलेली जाल्यार तूंय ती मुदी म्हजे कडसून मागून घेवन ताका दितली आसली.''

आंतोनीन हुस्केवन म्हळें: ''देवा म्हज्या! हांच्या ह्या सगळ्या झगड्याचें दुखेस्त

आपणाच्यो धुवो आपलो इतलो मोग करतात हें येवजून लिअर भितल्ले भितर मुरगटलो. मागीर, ताणें राज्याचो जेदो वांटो गोनेरीलेच्या नांवार काडलोलो तेदोच रेगन आनी तिच्या घोवाच्या नांवार काडलो.

आतां उल्ली कोर्देलिया. लिअर राजाची ही भौच अपुरबायेची धूव आसली; म्हणून ती तिच्या जाण्ट्या भयणीं भाशेन, वो चिके जास्तीच मोगाच्या उतरांनी आपणाच्या कानाक खोस दितली हे आस्तेन लिअरान व्हडले उत्सुकायेन उलोवंक सांगलें. परंत, कोर्देलिया जाण्ट्या भयणीं भाशेन दुसऱ्यांक बरें दिसूंक जाय म्हणून, पोलीं उतरां उलयणारी नासली; तांचे ओंठ वेगळे आनी अंतस्करण वेगळें हें ती बरे भाशेन जाणा आसली; तांचे चोबाळणेचो तिका वीट आयलो आनी त्यो गोड गोड उलोवचें मूळ, राज्याचो वांटो मेळचो, इतलेंच आसा हें तिणें पारखिलें. आपणें जाल्यार, खरें तेंच, मनाक दिसता ते भाशेन उलोवचें अशें येवजून तिणें म्हळें: ''दादा, तुमी म्हजे बापूय आनी हांव तुमची धूव; म्हणून, धुवेचो आपल्या बापायचेर आसूंक जाय तितलोच मोग म्हजो तुमचेर आसा; ताचे परस मातूय अदिक वो उणो ना.''

सगळ्यांत अपुरबायेचे धुवेचें हें उलोवप, राजाक बेईमानपणाचें दिसून ताणें म्हळें: ''अजून बरें करून येवजून पळे; नाजाल्यार, वांट्यार हावळ येत.'' परंत, मातूय गडबडनासतना कोर्देलियेन जाप केली: ''दादा, तुमी म्हाका ल्हानाची व्हड केली; म्हजी जायती लाडकुबाय केली; म्हणून, धुवेच्या नात्यान तुमचेर म्हजो जितलो मोग आसूंक जाय तितलो आसाच; हांव तुमची सांगणी आयकतां; तुमची माया करतां; तुमकां जायतो भौमान दितां; परंत, म्हज्या भयणीं भाशेन तोंड आसा म्हणून, फुंक्याचीं गोड गोड उतरां हांव केन्नाच उलोवंची ना, आनी सगळ्या संवसारांत तुमचे परस मोगाची दुसरी कसलीच वस्त ना अशेंय म्हणचीं ना; म्हजे भयणींक तुमचे खेरीज दुसऱ्या कोणाचोच मोग ना जाल्यार त्यो लग्न जाल्यो कशो? दादा, तुमीच पळेयात, म्हजें जरकायना लग्न जायत तर म्हजो अर्दो मोग, अर्दो थातोमातो, आनी अर्दी लागणी म्हज्या घोवाच्या वांट्याक वचची ना व्हय? म्हज्या भयणीं भाशेन फक्कत बापायचोच मोग करचो हें म्हजे हातसून केन्नाच जावंचें ना.''

बारकायेन पळेल्यार, दोगूय जाण्ट्या भयणींनी जितलो मोग उकतो करून दाखयलो तितलो मोग एकली कोर्देलिया खऱ्यांनीच आपल्या बापायचेर करताली, आनी हो वेळ खेरीज करून दुसरो खंयचोय वेळ जातो जाल्यार, धुवेक फावणेच रितीन, ती तो बापायक कळयतली आसली; परंत राज्याचो वांटो मेळचे खातीरूच भयणी चोबाळ्ळ्यो हें तिका सोंसना जावन, आपणें वेगळेच रितीन उलोवचें म्हणून, ती दाटून वयर सांगलेले भाशेन उलयली. वाचप्यांनू, कोर्देलियेच्या उलोवण्यान तिचो

बापाय वयलो मोग बेस बरो दिसून येता. आपणाक कितें तरी जोड मेळची म्हणून भाड्याक हाडलोलो आनी वयल्याचारांचो असो तिचो मोग दिसना. तिचो मोग तिच्या भयणींच्याय मोगा परस अदिक आसून तांतूर कवायत मुदलींच नासली.

कोर्देलियेचें उलोवप सामकें उकतें आनी खरेपणाचें आसलें; तरी, लिअराक तें गर्वान भल्लेल्या भाशेन दिसून राग आयलो; म्हातारपण जावंचे आदींय हो राजा मोटो रागिश्ट आनी अविचारी आसलो; आतां ताचें म्हातारपणूच जाल्लें; म्हणटकूच बुद्द म्हणून जी कितें म्हणटात ती ताची सापूच काबार जाल्ली आनी खरें उलोवप आनी चोबाळणेचें गोड उलोवप हांचे भितल्लें अंतर ताका दिसनासलें; म्हणून, रागाचे तिडकीन राज्याचो उल्लोलो तिसरो वांटो ताणें कोर्देलियेक दिनासतना, ताचे जिस्त दोन वांटे करून ते दोगीय जाण्ट्या धुवांक दिले. मागीर, ताणें दरबार भरोवन, सगळ्या लोकां हुजरां, राज्याचो कारभार तांचे सुवादीन केलो, आनी आपूण फक्कत नांवाचो राजा रावलो; खेरीज, आपली हिलामत म्हणून, फक्कत शेंबर सरदार वांगडा राखून एकेक म्हयनो एकेके धुवेच्या घरा घालोंवचो अशी ताणें थारावणी केली.

निर्बुद्दपणान आनी रागाचे तिडकीन, राज्याचो असो विलो लायलोलो पळोवन, सगळ्या लोकांक अजाप आनी दूख जालें; परंत, राजाच्या रागा फुडें, मुखार सरून उलोवचें काळीज कोणाकूच जायना जालें; तरी आसतना, केन्टाचो कोन्द हो कोर्देलियेचे कुशीन दोन उतरां उलोवंक फुडें सल्लो; परंत त्या रागिश्ट आनी मुरख्या राजान, 'चीप राव, नाजाल्यार जिवार हावळ येत' अशें ताका म्हळें; तरी आसतना, कोन्द भंयान फाटीं सल्लो ना; तो सदां-काळ राजनिश्ठ आसून, आपल्या बापाय भाशेन ताचो मोग करतालो; राजाक फावणे रितीन ताका मान दितालोआनी धनयां भाशेन ताची सांगणी आयकतालो. राजाच्या दुस्मानांची वाट लावंचे खातीर जीव अरिश्टांत घालूंक तो केन्नाच फाटीं पळेनासलो; इतलेंच न्हंय तर, राजाचो जीव वांचोवंक आपणाचो जिवूय दिवंक तो तयार आसतालो; म्हणून, लिअरान आपणाक आतां दुस्मानकायेन चलयलो ही गजाल त्या राजनिश्ठ कोंदीन मनार घेनासतना, ताणें आपले पुर्विल्ले रिती भाशेन, लिअराचें बरें जावंचें म्हणून, व्हडले धिटायेन ताका ताची चूक दाखयली; ताणें म्हळें: ''सरकारसायब, आज जायतेकाळ हांव तुमकां बऱ्या-वायटांत बुद्द दितालों; म्हणून आतांय तुमकां ती दिल्या बगर म्हज्यान रावं नज. हांव सांगतां तें तुमी येवजून पळेयात आनी अजून म्हजे सांगणे भाशेन चलात; म्हज्या हिसपान तुमी तुमची अविचाराची गजाल येन्नाच फाटीं घेतल्यार चड बरी; पोल्या उतरांक विटणारी कोर्देलिया तुमचो मोग करिना आनी वेंथ वेंथभर जिबो लांब काडून चोबाळणाऱ्यो धुवो मोग करतात हो सगळो भ्रम आसा; चोबाळणाऱ्या

धुवांचेर तुश्टून, कोर्देलियेची जरी तुमकां तिडक आयली तरी सगळ्या संवसारांतलो लोक तिच्या साद्या आनी खऱ्या उलोवण्याक भौमान दिल्या बगर केन्नाच रावंचो ना. ह्या म्हज्या उकत्या उलोवण्या खातीर तुमी म्हजेर कसलेंय अरिश्ट घाल्यार कामायता. म्हजें माथें हांवें केन्ना पासून तुमच्या पांयांर दवल्लां; खरें उलोवंक हांव म्हज्या जिवाचीय परवा करिना.''

कोन्दीच्या ह्या उलोवण्यान राजाचो राग अदिकूच खुबळ्ळो; आनी जसो एकाद्रो पिसावलोलो रोगी आपणाक ओखद दितल्या वैजाचोच जीव घेवन मरणाचो मोग करता ते भाशेन ताणें त्या राजनिश्ठ कोन्दीक, पांचां दिसां भितर राज्या-भायरो जावंची ख्यास्त दिली; आनी जर एकाद्रो सव्या दिसा तो इंग्लंडाचे सरादींत दिश्टी पडत तर ताका थंयचे थंयच जिवानशीं मारचो हुकूम दिलो. म्हणटकूच, कोन्दीन ताका सलाम करून म्हळें: ''सरकारसायब, म्हजें उलोवप तुमी मुदलींच काना-मनार घेनात; तेन्ना इंग्लंडांत ह्या फुडें रावचें म्हणचे राज्या-भायरोच जाल्ल्या भाशेन हांव समजतां;राज्या-भायरो जावंक इंग्लंड सोडपाची आनीक गरजूच रावली ना. अशें म्हणून तो दरबारांतसून गेलो आनी कोर्देलिया मोट्या शाणपणान आनी विचारान उलयली म्हणून तिची देव राखण करूं, आनी तिच्यो भयणी आपल्या गोड गोड उलोवण्या भाशेन राजाचो खऱ्यांनीच मोग करूंत इतलें चिंतून तो फुडले तजविजेक लागलो.

कोर्देलियेक राज्याचो इल्लोय वांटो मेळ्ळो ना हें पळोवन, बुरगुन्डीच्या दूकान तिचो मोग करचो सोडून दिलो; परंत फ्रान्साचो राजा मोटो शाणो आसलो; ताणें येवजिलें की तिणें आपल्या दुसऱ्या दोगूय भयणीं भाशेन राजा वयलो मोग चोबाळून सांगलो ना म्हणून, तिचो लिअरान राग धरून, तिका वांटो दिलो ना; हांतूर तिचो गुन्यांव मुदलींच ना; तेन्ना तिचे उंच गूण हीच एक व्हडली वर-दक्षणा अशें म्हणून, कोर्देलिये कडेन लग्न जावंक तो तयार जालो आनी ताणें तिका, बापायचो निरोप घेवन भायर सर आनी आपली राणी जावन फ्रान्साचें राज्य चलय म्हणून सांगलें.

मागीर कोर्देलियेन दोळ्यांत दुकां हाडून भयणींचो निरोप घेतलो आनी तांकां म्हळें: ''बायांनू, तुमच्या उलोवण्या भाशेन तुमी तुमच्यो करण्यो करून दाखयात म्हणचे जालें.'' हाचेर तांणी तिरसुवादपणान जाप केली: ''आमच्या करण्यांची तुका चिंत्रा नाका; आमची लागणी कितें ती आमकां बेस समजता; तूं आपलें तुज्या घोवाकूच खोस करूंक वावूर म्हणचे जालें.'' म्हणटकूच, कोर्देलिया दुखान भल्लेल्या अंतस्करणान, बापायचो आनी भयणींचो निरोप घेवन भायर सल्ली.

कोर्देलिया इंग्लड सोडून गेली मात, इतले म्हणसर तिच्या भयणींचो देंवचारी सभाव खऱ्या रुपान भायर दिसूंक लागलो.

पयल्याच म्हयन्याक लिअर राजा गोनेरिलेगेर रावंक गेलो; परंत थोडेच दीस जावंचे आदीं, त्या म्हाताऱ्याक उतर दिवप आनी उतर पाळप ह्या दोंय भितर केदें व्हडलें अंतर आसा तें दिसून आयलें. ताणें गोनेरिलेक राज्याचो वांटो दिवन त्या भायर आपल्या माथ्या वयलो मुकुटूय दिल्लो तरी तें सगळें विसरून, ती पाडगुणी धूव, ताणें राजवाडकेचे खुणे खातीर जी थोडीशी हिलामत आपले वांगडा दवल्लेली ती पळोवन पिरंगूंक लागली; म्हाताऱ्या मनशाक शेंबर सरदारांची हिलामत कित्याक जाय अशें ती आपल्या मनांत म्हणूंक लागली; बापूय दोळ्यां मुखार दिसलो की ताचो वीट आयलेल्या भाशेन ती नाख खळवटावं लागली, आनी ताणें तिचे कडेन कितेंय उलोवंक येवजिल्यार, ती आपल्या जिवाक बरें ना म्हणून धोंग करून ताका पेल्यान घालोवं लागली; ताचें म्हातारपण हें एक फुंक्याचें वोजेंच आसून, ताचे सरदार म्हणचे एक गरज नासलोलो आनी विदवाटो खर्च अशें ही समजूं लागली.

अशे भाशेन, राजा विशींची आपली लागणी एकले गोनेरिलेनूच सैलायली अशें न्हय, तर तिची देख घेवन -- एकाद्रें तिचेच शिकोवणेन म्हळ्यार कामायता -- तिचे चाखरमानेय ताची परवा करिना जाले; राजान सांगलेलें कसलेंच काम ते करिना जाले इतलेंच न्हय तर, ताचें उलोवप आयकूंक नासल्या भाशेन करून दाखोंवक लागले.

धुवेची ही बदल्लेली करणी लिअराच्या ध्यानांत आयली, परंत जाता तंववेर तो दोळेधांक करुनूच वोगो रावलो; मनशांचो सभाव चडकरून असो आसा की तांचे चुकीन वो कोल्लीपणान जे कसले दुखदिणे परिणाम तांकां भोगचे लागतात ते तांच्या करण्यांचींच फळां आसात म्हणून समजूंक तांच्या जिवार येता.

जायत्या बरेपणान चलयलो आसतनाय, लटक्या आनी पोल्या अंतस्करणाच्या मनशाचो मोग जोडूंक जितलें कठीण, ताचेय परस, वायटपणान चलयलो आसतनाय, खऱ्या मायेच्या आनी भक्तीच्या मनशांचो मोग आनी भक्ती होगडावंक अदीक कठीण. अशीच गजाल केन्टाच्या कोन्दीची दिसून आयली; ताका लिअरान जरी राज्याभायरो केल्लो आनी तो इंग्लंडाचे सरादींत दिसल्यार जिवानशीं मारपाचो हुकूम दिल्लो तरी ताची कांयच परवा करिनासतना, जें जायत तें जावं; जंववेर राजाक आपले हातसून उपेग जाय सारको आसा तंववेर आपणें कशेय त्रास सोंसून इंग्लंडांतूच रावचें असो ताणें नित्शय केलो. आपणाक कोणें वळखुचो न्हय म्हणून, व्हडविकेच्यो आनी मोटेपणाच्यो सगळ्यो खुणो काडून उडोवन, ताणें एका मानायाचो भेस घेतलो आनी तो लिअरा कडेन चाखरेक रावंक गेलो! अहाहा! खरे राजनिश्ठ जे लोक आसतात ते केन्ना केन्ना राजा खातीर आपूण कसलींय उणेपणां सोंसूंक तयार जातात! कोन्दीन

आपलो भेस अशे भाशेन बदल्लोलो की, राजान ताका निखालूस वळखनासतना, ताच्या साद्या आनी चिके गावडेकायेच्या उलोवण्यान खोशी जावन ताका आपले चाखरेक दवल्लो. कोन्दीन हे वेळार आपणाक कायूस हें नांव घेतलेलें.

लिअर राजा वयलो आपलो मोग आनी भक्ती दाखोवंचो वेळ कायूसाक रोखडोच मेळ्ळो. कायूस चाखरेक रावलो तेच दिसा कितें जालें म्हळ्यार, गोनेरिलेच्या कोठयेकारान राजाचो कसलोसो अपमान केलो आनी ताचेर दोळे उग्रावन ताका तो कांय वायट उतरांय उलयलो; परंत हें सगळें ताणें आपले धन्नीचे सांगणेनूच केलें म्हणूंक परवा ना. राजाचो अपमान केलो हें कायूसाक सोंसना जावन, अदिकसो बोवाळ करिनासतना, ताणें त्या कोठयेकाराक जी एक खोंट माल्ली तिच्या तडाख्यान तो एका चिखलाच्या होंडक्यांत पडलो; हें पळोवन लिअराक जबर खोस जावन तो कायूसाचो भौच मोग करूंक लागलो.

कोन्द हो एकलोच लिअराचो बरें-मागतो आसलो अशें न्हंय; पुर्विल्ल्या काळांत, सगळो दीस राज्याचो कारभार चलोवन पुरो जातकूच, राजाचो वेळ घालोवंक, राजवाड्यांत कोणूय एक फकाणी मनीस नेमची चाल आसली; ते भाशेन लिअराचोय एक फकाणी आसलो; तो हे वेळार लिअरा वांगडाच आसून, आपल्या फकाणांनी ताका दिसूभर खोस करतालो; परंत, केन्ना केन्ना, लिअरान अपुर्बुद्दपणान आसलेलें नासलेलें सगळें धुवांक दिवन, आपूण खांकनवाळ जावन बसलो म्हणून तो ताची मस्करीय करतालो; तेच भाशेन, तो ताच्या दोगूय धुवांच्या पोल्या मोगाचीं गितां घडोवन मेळत तेन्ना तांच्यो वाद्र्योय लायतालो! गोनेरिलेक लागून काळजाचे कुडके काडणारीं जायतीं गितां तिच्या तोंडार म्हणूंक तो निखालूस परवा करिनासलो; तो लिअराक शेरकाचो ओपारो मारून म्हणटालो की तें शेरूक उबंतर पडलेल्या कोगळांच्या पिलांक, मोटे मायेन, आपल्याच पिलां भाशेन, ल्हान-व्हड करता खरें, पूण अखेरीक तींच पिलां जाण्टीं जालीं तशीं, त्या शेरकाचें माथें तोंचून खातात; तेच भाशेन लिअरान आपली आवतिकाय करून घेतली. जाची सत्त्या आनी मान ह्या आदीं मुखेलपणाचो आसून जाचें उतर कोणाच्यान मोडूं नज आसलें तोच राजा आतां सकला पडून ताच्यो धुवो म्हालगड्यो जाल्यो आनी तांचे सांगणे भाशेन चलचो ताचेर वेळ आयलो; जे गाडयेक पयलीं घोडो ओडटालो तीच गाडी आतां घोड्याक ओडूंक लागली; अशी लिअराची गत जाली! आतां पुर्विल्लो लिअर उल्लो ना; ताची फक्कत सांवळीच उल्ली! तो फकाणांनी अशे भाशेन मेकळेपणान आपणाक जाय तें उलयता म्हणून, ताका एक दोन खेपो सोयतींच्या मारांच्यो दबकावण्योय मेळ्ळ्यो! तरी आसतना, ताणें मातूय परवा केली ना.

गोनेरील आपल्या मुरख्या आनी चड-मायेस्त बापायक उण्या मानान आनी शेळेपणान चलोवनूच वोगी रावली ना; तिणें एकदीस सामकें उकतेपणान म्हळें: "दादा, तुमकां म्हज्या घरा रावचें आसल्यार बऱ्यान तुमी ते तुमचे बेकार सरदार काडून उडयात; तांचे पासून म्हज्या घरांत वोगीच आडखळ मात जाता; तांच्या धुमशेणांनी म्हजें घर हालता; ते फक्कत खर्चाक म्हारग आनी कांय ना; तांचें बेबदेपण आनी मस्ती म्हज्यान आतां सोंसूं नज; तुमकां हे शेंबर सरदार कित्याक जायत तेंच म्हाका समजना; तुमकां तांचे बगर जायनाच जाल्यार तुमी थोडेजाण दवरात; येदे व्हडले भुरावळीची कांय गरज ना; तुमच्या म्हातारपणाक सोबशे म्हातारे म्हातारे मनीस तुमी वेंचून दवल्ले म्हणचे जालें."

हें आयकून, ही उलयता ती आपली धूव गोनेरीलूच वो दुसरी कोण, हेंच ताका समजना जालें; आपल्या दोळ्यांक आनी कानांक एकाद्रो भ्रम जाला जावंये अशें ताका दिसलें; जिका ताणें राज्याची धनीण केली तिणेंच उफाट्टी ताची हिलामत उणी करूंक सोदची, आनी ताच्या म्हातारपणाक फावणो भौमान दिवंक पिरगुंचें हें ताका एक अजापूच दिसलें.

फुडें ती उणाक गोनेरील हट्टाकूच पेटली तेन्ना त्या म्हाताऱ्याचें माथें तापलें आनी ताणें म्हळें: "आगो बेयमानी धुवाड्ड्या, तूं उलयता त्यो सगळ्यो फटाफटी; तूं म्हज्या सरदारांची नस्ती बिरमत घेता; ते सगळेजाण बरे रिती-रविशेचे आनी उजू चलणुकेचे आसून आपली लागणी कितें ती बेस समजतात; म्हणून, तूं सांगता ते भाशेन ते केन्नाच धुमशेणां घालचे नात आनी सोरो पियेवन नाचचे नात म्हणपाचें म्हाका खरेंपण आसा; तुका म्हजो वीट आयला जाल्यार, म्हज्या सरदारां सयत हो हांव रेगानी कडेन चल्लों; तूं असली गुंड्याच्या काळजाची आनी बेयमानी राक्शीण म्हणून हांव नकळ आसलों; तुका धुवेचें नातें मुदलींच सोबना; तुज्या ह्या असल्या नश्ट्या सभावा खातीर, हांव तुका स्राप दितां की तुका भुरगें-बाळ निखालूस जावं नाका; आनी एकाद्रें जालेंय जाल्यार तुवें जी म्हजी मानहानी केल्या तिचें उश्णें फारीग करूंक तें वांचूं; आनी बेयमानी पोर सोर्पाच्या दांतांय परस विखाळें आसता तें तुज्या अणभवाक येवं.

हें आयकून गोनेरीलेच्या घोवाक वायट दिसलें आनी तुमची मानहानी जावपांत आपलें आंग निखालूस ना म्हणून तो लिअराक समजावंक लागलो; परंत लिअर रागान सामको चवताळ्ळोलो; ताणें ताचें उलोवप कांयच काना-मनार घेनासतना, घोड्यार बसून, सगळे हिलामती सयत, तो रेगानीच्या घरा वचूंक लागलो. हे वेळार ताका कोर्देलियेची याद जाली; गोनेरीलेच्या गुन्यांवा फुडें कोर्देलियेचो गुन्यांव कांयच

ना अशें ताका दिसलें आनी गोनेरीले सारक्या कुस्कुटान आपणा सारक्या दादल्याक रडकुळ्यां पावयलो म्हणून ताची ताकाच लज दिसूंक लागली.

आपूण येवंक भायर सल्लां म्हणपाची खबर कळोवंक, लिअरान कायूसा कडेन चीट दिवन ताका रेगानीच्या घरा आपणा फुडें धाडलो; परंत ताचेय पयलीं गोनेरीलेन तिका कागद बरोवन तांतूर, म्हातारो पिसावला, ताचें माथें थाऱ्यार ना, तो तुजे कडेन येवंक उठला तेन्ना, हिलामत उणी करून माणसुकेन रावचें आसल्यारूच राव नाजाल्यार चलूंक लाग, अशी तिका बुद्द दिल्ली. ती आपुणूय खासाखूद रेगानीच्या घरा वचूंक भायर सल्ली.

गोनेरीलेन धाडलोलो मनीस आनी कायूस हे दोगूयजाण रेगानीच्या घरा वांगडाच पावले. कांय दिसां फाटीं, मस्तेपणा खातीर ज्या कोठयेकाराक खोंट मारून रेब्याच्या होंडक्यांत उडयल्लो तोच आज गोनेरीले कडसून कागद घेवन आयलोलो पळोवन, तो कितें तरी आडमेळें घालुंकूच आयला जावंये असो कायूसाक संवशेग आयलो आनी तो ताची खूब निर्भत्सना करून ताका आपले वांगडा झुजूंक आपोवं लागलो; परंत कोठयेकार आयकना जालो; म्हणटकूच, कायूसान रागाचे तिडकीन, झगडीं लायणाऱ्या आनी दुश्ट खबरी पायणाऱ्या मनशाक फावोशे रितीनूच ताका लडेफोग घालो. ही खबर रेगानीक कळ्ळी. तेन्ना, आपल्या बापाय कडसून तो मनीस आयला म्हणून ताका उंच भौमान दिवंक फावो म्हणपाचें कांयच येवजिनासतना, तिणें कायूसाच्या हाता-पांयांक खडे घालूंक लायले.

फुडें, लिअर राजा रेगानीच्या घराच्या हुंबऱ्यार पावलो तेन्ना, पयल्याच फाराक, ताचो भावराथी मानाय थंय भौच अपमानीक दशेंत बसलोलो पळोवंचो अपशेगून ताका जालो; परंत हाचेय परस चड अपमानीक गजाल रोखडीच घडली. धूव आनी जांवय खंय आसात म्हणपाची चौकशी ताणें केली तेन्ना ताका कोणेंशें सांगलें की, काल सवन रात जागरण जावन तांकां भौच पुरो जालां म्हणून तांची आतां भेट जावंची ना. तरी आसतना, आपणाक तीं आतांचे आतां मेळुंकूच जायत अशा हट्टाक तो बसलो म्हणून, उपाय नाथून, रेगन आनी तिचो घोव भायर येवन, तांणी ताका वयल्याचाराचो येवकार दिलो. इतले म्हणसर, पळेता जाल्यार, थंय रेगानीचें मन बदलूंक आयलेली नश्टी आनी उंवाळ्ळेली गोनेरील लिअराक दिश्टी पडली. तिका पळोवन म्हाताऱ्याचें पिंत चाळवलें; रेगानीन तिच्या हाताक हात घालो तेन्ना जाल्यार, ताका जी भिरभिरी माल्ली ती सांगून उपकारना. ताणें गोनेरीलेक म्हळें: ''आगो पाडोख्या, म्हज्या ह्या म्हातारपणाच्या धव्या खड्ड्याक पळोवन तुका कांय लजूय दिसना?'' हाचेर रेगानीन म्हळें: ''दादा तुमी अशे वोगीच पिंर्जळटात कित्याक?

म्हज्या हिसपान, तुमी अजून आकाच्या घरा पर्थून वचून मकलासी मागात म्हणचे तुमकां तें केन्नाच ना म्हणचें ना; तुमकां ह्या म्हातारपणांत शेंबर सरदार कित्याक जायत? तांतुल्ले पन्नास काडून उडयल्यार तुमचें कितें लुस्कान जाता व्हय? तुमी आतां म्हातारे जाले; तुमची बुद्द गेली; तेन्ना बुदवंत मनशाचे सांगणे-म्हणणेनूच तुमी चलचें हांतूर तुमचें हीत आसा.''

लिअरान म्हळें: ''आह! म्हणटकूच! तूं म्हाका ही बरी बुद्द दिता म्हणची! धुवेच्या म्हय्यांत दिमी घालून, हांवें म्हज्या जेवणा-खाणा खातीर ती सांगता तें आयकुंचें ही तुजी सांगणी कितली विपरिताची! शी, शी! असल्या ह्या उणेपणांत हांव म्हजो जीव केन्नाच घालचो ना; हांव आतां गोनेरीलेच्या घरावशीन केन्नाच म्हजो फुडो करचों ना; हांव ह्या फुडें तुजेच सरीं म्हज्या शेंबरूय सरदारां सयत रावतलों; तूं त्या पाडोख्या गोनेरीले भाशेन बेईमानी नासतलें; तुजे दोळे ताच्या दोळ्यां भाशेन म्हाका भयांकृत दिसनात; परंत शांत आनी मायेस्त दिसतात; तुका हांवें अर्दे राज्य दिलां तें तूं आजून विसरूंक नासतली; म्हजे अर्दे सरदार उणे करून गोनेरीलेगेर रावंचे भाशेक, जे कोर्देलियेक म्हज्या राज्याचें इल्लें कुस्कुटूय हांवें दिवंक ना तिचेगेर फ्रान्साक वचून रावल्यार चड बरें.''

रेगन आपणाक गोनेरिले परस मायेस्त रितीन चलयत असो लिअराचो समज आसलो, पूण तो फुकट. धुवेक ना-सोबणे चलणुकेन जाण्टे भयणीकूय फाटीं घालची असो एकाद्रो नित्शयूच करून रेगनीन म्हळें: ''दादा, तुमचोय जाल्यार हो असलो पिशेपणाचो हट्ट कसलो? पन्नास सरदार तुमकां कित्याक जायत? पंचवीस आसल्यार थोडे जाले?''

हे जापेन लिअराचें काळीज कातरिल्ल्या भाशेन जावन ताणें म्हळें: ''पंचवीस सरदार घेवन तुजेगेर रावंचे भाशेक गोनेरिलेगेर वचून रावल्यार कितें वायट? म्हजे पन्नास सरदार दवरूंक तें खोशी आसा.''

परंत गोनेरीलेन रोखडेंच म्हळें: ''पंचविसूय म्हणून सरदार तुमकां कित्याक जायत? न्हंय, धांचीय म्हणून कसली गरज? आनी पांचूय जाले जाल्यार कित्याक ते? म्हजे वो म्हजे भयणीचे चाखरमाने तुमचें काम आयकनात अशी गजाल ना मू?''

त्यो दोगूय नश्ट्यो धुवो, म्हाताऱ्या बापायन केल्लें सगळें बरेंपण विसरून, कसाबपण दाखोवपांत एकामेकांक फाटीं घालूंक लागल्यो आनी अखेरीक त्या शेंबर सरदारांतल्या एकाचीय ताका गरज ना अशें म्हणूंक लागल्यो! कटा कटा! त्या राजाची ही केदी काकळुटेणी गजाल म्हणची! जो राजा पयलीं येदें व्हडलें राज्य चलयतालो

ताचें शेबर सरदार म्हणचे ताचे पुर्विल्ले व्हडविकेची एक भौच ल्हानशी खूण आसली! परंत तीय ताका भोगूंक मेळूंक कठीण जाली! आपणा वांगडा जायती मोटी हिलामत आसली म्हणटकूच तांतूर व्हडलें सूख भोगता अशी गजाल ना खरी; परंत राजपद भोगलेलो मनीस साप भिकारी जावंचो आनी जाणें ह्या आदीं लक्ष्यांनी लोकांचेर सत्त्या चलयल्ली ताका आतां एकूय चाखर दवरूंक मेळचो न्हय म्हणचे खंय पावलें हें! तांतुरूय चाखर दवरूंक मेळना तो धुवेच्या बेईमानपणान! आह! हेंच बेईमानपण ताच्या काळजाक अदीक तोंपलें; सरदार नासलेले जाल्यार ताका चडशें वायट दिसचें नासलें; परंत ज्या धुवांचें ताणें सर्वेस्वीं बरें केल्लें तांचे कडसून अशे रितीची वायट चलणूक ताका मेळ्ळी आनी पिशेपणान राज्य होगडावन व्हडली चूक केली हाचे खातीर ताचें मन ताका आतां खावंक लागलें; तो पिशांतूर जावन, फुडें कितें करचें तेंच ताका येवजना जालें आनी ताणें तिडकीन म्हळें: ''बरें पुतेनू, तुमचें उश्णें हांव फारीग करीनूच करीन; तुमकां अशी बुद्द शिकयन की सगल्या संवसाराक कांपरो भरचो.''

आपल्या अशक्त भुजांच्यान केन्नाच घडून येवंचें ना तें तो राजा असल्या ह्या तोंडाच्या बेश्ट्या दबकावण्यांनी उलोवन दाखयतालो, इतले म्हणसर, तिनसांज जायत आयली; अवचीत घडघडूं लागलें आनी विजो जोगलावन पावस पडूंक लागलो.

धुवो आपलोच हट्ट घेवन बसलेल्यो पळोवन, त्या बेईमानी राक्शिणींच्या घरा रावंचे परस भायर तुफानांत जीव दिल्यार चड बरें अशें म्हणून लिअर राजा घोड्यार बसून वचूंक लागलो; तेन्ना त्यो पाड पडलेल्यो धुवो वयल्यान ताका थोमणो मारून म्हणूं लागल्यो की कोल्ली मनशाक अशेंच शासन फावो; ते आपुणूच आपलो जीव दुखांत घालतले जाल्यार ताका कोणाचो उपाय? इतलें म्हणून, तो गेलो तसो, तांणी दाराक आडांबो घालो.

वारें सों सों करून व्हांवतालें आनी पावस धो धो करून पडटालो, अशा वेळार तो म्हातारो राजा त्या तुफाना वांगडा एकाद्रो झुजुंकूच गेलो अशें दिसलें. तो जे वाटेन वेतालो त्या तितल्या आंवाठाक, सुमार कोंसभर, खंयचेच कडेन आलासरो घेवंक एक झाड्डुकूय दिसनासलें; अशा त्या उकत्या भणभणीत मळार, काळोखे रातचो, तुफानी वाऱ्याची आनी घडघड्यांची परवा करिनासतना तो हेवशीन तेवशीन जळपतालो; तेवेळार, ताणें वैतागून म्हळें की वाऱ्याच्या नेटान ही धर्तरी एकदम दर्यांत उबून गेल्यार बरी वो दर्याचीं ल्हारां फुगून फुगून तांणी सगली धर्तरी बुडून गेल्यार बरी; म्हणचे संवसाराचे फाटीर मनशा सारको बेईमानी जीव पर्थून दिश्टी पडचो ना. हे संदीक, राजा वांगडा फकाणी मेरीज करून दुसरो कोणूच नासलो; तो

बाबडो आपल्या भगल्यांनी राजाच्या दुखांचेर पड्डो ओडटालो आनी तांतले तांतूर ताका खोशी दवरतालो.

ते दोगूयजाण अशे भाशेन जळपताले इतले म्हणसर, थंय राजनिश्ठ कायूस आयलो आनी म्हणूंक लागलो: "म्हाराजांनू, तुमी हांगा आसात? कटा! कटा! जे रातचें फक्कत सावदांनीच भायर भोंवचें तीं लेगीत आज ह्या तुफानाक भियेवन आपापल्या धोलींनी जीव वाटावन पडल्यांत आनी तुमी मात ह्या मळार भोंवतात! खंयच्याच मनशाच्यान असलीं हीं दुखां आनी संकश्टां सोंसूं येतीत?"

लिअरान म्हळें: "पापया पापया! जंय जबर दुखदिण्यो मोट्यो पिडो राज्य चलयतात थंय असलीं हीं किरकोळ दुखां आनी संकश्टां मुदलीं ध्यानांतूच येनात म्हळ्यार कामायता; मनशाचें मन थंय आसलें जाल्यारूच असल्या ह्या भायल्या दुखांचेर ध्यान दिवंक ताका फुरसत मेळटा; म्हज्या मनांत तुर्ताक जें तुफान चल्लां ताणें म्हजीं सगलीं इंद्रियां भेरेल्ल्या भाशेन जावन तांकां भायलीं दुखां कांयच बादनात. देवा म्हज्या! त्या पाड्या आनी नश्ट्या धुवांनी म्हजे कडेन अशें बेईमानपण चलोवचें मू? हाय! ज्या हातान तोंडांत शिताची उंडी घालची त्याच हातांचो त्या तोंडान उफाट्टो घांस काडचो अशीच आज म्हजी गत जाली मू?"

तरी आसतना, रातच्या पारा उक्ताडाक रावल्यार वायट म्हणून फाटीं पर्थुंचे खातीर कायूसान लिअराची जायती पांयां-पडणी केली. परंत ताणें ती काना-मनारूच घेतली ना; अखेरीक, लागशिल्या मोडक्या मांगरांत तरी आलासऱ्याक वचून रावंया असो आग्रो करतकूच लिअर थंय गेलो.

फकाणी त्या मांगरांत पावलो तसो, कच्च करून आंग काडून, 'भूत गा सायबा भूत,' म्हणून फाटीं सल्लो. बारकायेन पळेलें तेन्ना थंय भूत बी कोण नासून, कोण एकलो भिकारी ते सुवातेर आलासऱ्याक येवन बसलोलो दिश्टी पडलो. आमच्या वाचप्यांनी असले भिकारी दारांतसून वेता आसताना जायते पळेल्यात आसतले; ते काकळुतेस्त मनशां कडसून धर्म घेवंचे खातीर, जिनसा परीं धोंगां करून, 'बाबा भूक लागली, धर्म करात,' अशें आड्डत भोंवतात आनी लोकांक आपली चड काकळूत येवंची म्हणून आपल्या आंगाक आल्फिनेती आनी कांटे तोंपून घेतात! होय भिकारी तांतुंतलोच एक आसून ताणें आपले कमरे भोंवतणीं एक कांबळ गुटलायलेली; हरशीं, तो वयर पासून सकयल सामको उगडोच आसलो. ताका ते हीण दशेंत पळोवन लिअराक काकळूत आयली आनी ताची गजाल आपलेच भाशेन एकाद्री आसून, ताणें आपल्या बेईमानी धुवांक आसलेलें नासलेलें सगळें दिवन, अखेर तो खांकनवाळ जाला जावंये, अशें ताका दिसलें; कित्याक बेईमानी धुवे

आसल्या बगर मनशाक इतलें हिणपण केन्नाच येवचें ना असो लिअराच्या मनाचो समज जाल्लो.

हे आनी दुसरे ताळतंत नासलेले बडबडी वयल्यान कायूस जिस्त समजलो की राजाचें माथें थाऱ्यार नासून धुवांचे वायट चलोवणेन तो सामकोच धनर जाला. हेवेळार, त्या राजनिश्ठ कोन्दीन, ह्या आदीं ताणें जी सेवा-चाखरी केल्ली तिचेय परस, एक अदीक म्हत्वाचें काम आंगार घेतलें; राजाच्या सरदारां भितर जे कोण आजून राजनिश्ठ आसले तांच्या पालवान ताणें लिअराक फांतोटेच्या सुमाराक दोवेरच्या कोटांत पावतो केलो आनी आपूण बेगोबेग फ्रान्साक वचून सगळी खबर कोर्देलियेच्या कानार घाली.

बापायची हीण-दशा आनी भयणींचें बेईमानपण आयकून कोर्देलियेच्या दोळ्यांतसून दुखांचे सामके व्हाळ ओतले; तिका तेवेळार जें वायट दिसलें तें सांगून उपकारना. भयणींचो आनी तांच्या घोवांचो सत्त्या-मोड करून, बापायक आसा तसो इंग्लंडाच्या शिंवासनाचेर बसोवंचो बेत करून, घोवाचे मान्यतायेन, ती व्हडल्य। सैन्या सयत तारवार चडली आनी दोवेरच्या बंदरार देंवली.

फ्रान्साक वचच्या वेळार, कोन्दीन लिअराचेर जे कोण राखणदार दवल्लेले तांची नदर चुकोवन, तो दोवेर लागशिल्या मळार एकलोच जळपतालो; तो [illegible]नणाच्या भ्रमांत व्हडा-व्हडान गातालो; ताणें हुस्की, तण, कावळकाठयां आनी दुसरीं रानयाळीं पानां हांचो एक मुकूट करून आपल्या माथ्याक घाल्लो; आनी तो आपलेच भितर बडबडून नाचतालो!

कोर्देलिया दोवेराक पावली तेन्ना बापायची केन्नाकाळ भेट घेन अशें तिका जालें; परंत वैजांनी तिका सांगलें की निकतेंच ओखद दिलां तें ताच्या आंगाक लागून आनी मात्शी न्हीद येवन तो हुशार जायसर थांबल्यार चड बरें; म्हणटकूच, बापायक धनरपणांतसून बरो केल्यार आपूण आपलीं सगलीं रत्नां आनी भांगरां तुमकां दीन म्हणपाचें कोर्देलियेन त्या वैजांक उतर दिलें.

कांय वेळान, लिअर धुवेची भेट घे-सारको सुमाराचो बरो जालो.

म्हातारो बापूय आनी मायेस्त धूव हांचे भेटेचो तो देखाव भौच नाजूक आसलो म्हळ्यार कामायता; आपली अपुर्बायेची धूव आपणाक पर्थून दिश्टी पडली म्हणून राजाक खोस जाली; परंत, जिच्या भौच बारक्या अन्यावा खातीर रागार जावन जिका ताणें धिस्पटायलेली तीच अखेरीक धुवेक फावण्या मोगान आपली सेवा करूंक आयली हें येवजून ताच्या मनाक लज दिसली. ताचें धनरपण अजून कुल्लीं नाशें जावंक नासलें; आनी त्या कारणान, आपूण खंयचे कडेन आसां, कोणा कडेन

उलयतां आनी भौच मोगान आपली मुका कोण घेता तें ताका मदीं मदीं समजच नासलें; आपूण जिचे कडेन उलयतां ती आपली धूव कोर्दिलियाच आसा अशें समजपांत एकाद्री चूक आसली जाल्यार आपणाक हांसचें न्हंय म्हणून तो भोंवतणच्या लोकां कडेन मागणी मागतालो! तो धुवेची मकलासी मागूंक भौन भौन तिच्या म्हऱ्यांत दिमयो घालतालो! परंत ती मायेस्त धूव ताका तशें करूंक दिनासतना, आपूण ताच्या फुड्यांत दिमी घालून 'हांव ती तुमची धूव कोर्देलिया' अशें म्हणून ताचो आशिर्वाद मागताली! तिणें बापायची मुका घेवन म्हळें: "दादा, तुमचे असल्या म्हाताऱ्या बापायक, शिंयाचे रातीं, तुमच्या पिकलेल्या केंसांची कांयच मुरवत धरिनासतना, भायर तुफानांत आमडून घालचो, हे करणेची ते दोगूय भयणींक लज दिसूंक जाय. म्हज्या दुस्मानाचें एकाद्रें सुणेंय आसलेलें आनी ताणें म्हाका एकादुकलो घांसूय काडलोलो जाल्यार, ते तुफानाचे रातीं, हांव ताका म्हज्या पोरसा कडेन बसोवन घेवन बेस बरी ऊब दितलीं आसलीं; परंत हे भयणींनी केली ती मात करणी न्हय; तांकां ती सोबना." मागीर तिणें आपूण फ्रान्साकसून कशी आनी कित्याक आयली ती सगली खबर लिअराच्या कानार घाली; ती आयकून ताणें म्हळें: "म्हजे लाडकुबाये, हांवें तुजो व्हडलो गुन्यांव केला; तो तूं सगलो विसरून म्हाका मकलासी कर; हांव आदीं म्हातारो, आनी तांतूर अविचारी, म्हणून म्हजी करणी म्हज्या ध्यानांत आयली ना; तुका खरेपणान सांगतां, हांवें जबर मोटी चूक केली; तुवें म्हजो मोग करी सारकें हांवें तुका कांय करूंक ना; म्हणून हांव तुज्या मोगाक फावना; तुजे भयणींची मात अशी गजाल न्हंय; म्हाका मोगा-भायरे आनी कसाबपणाचे रितीन चलोवंक तांच्यान एकूय निमीत फुडें करूं नज; तांचें हांवें सर्वेस्वीं बरें केलें; अशें आसतनाय, अखेर बेईमानी जावन त्योच म्हज्या माथ्यार बसल्यो आनी म्हाका तांणी उबंतर उडयलो!"

वाचप्यांनू, आतां आमी हे बापूय-धुवेक आसा थंयच सोडुंया आनी त्या बेईमानी आनी कसाब धुवांची मात्शी खबर घेवंया.

ज्यो बेईमानी राक्शिणी बापाय कडेन घातकेपणान चल्ल्यो त्यो घोवां कडेन विस्वासूपणान चलतीत ही गजाल केन्नाच जावंची पडल्या? त्या दोगीय भयणींक रोखडोच आपापल्या घोवांचो वीट आयलो आनी तांचो मोग दुसऱ्याच दादल्याचेर बसलो.

इंग्लंडांत ग्लुसेस्टर म्हणून एक गांव आसा; थंयच्या कोन्दीच्या नायकिणीचे पोटचो, एदमुंद म्हणून एक चेडो आसलो; तो भौच नश्टो आनी वायट चलणुकेचो आसलो; कोन्दीच्या लग्नाचे बायलेचो एक पूत आसून ताचें नांव एडगर आसलें;

बापुय भायर पडलो तेन्ना कोन्दीकीची गादी कायद्यान एडगराक मेळची; परंत एदमुंदान घातकेपणानी आनी चिकानांनी ताका येरांसाभायरो करून ताची गादी हातासली आनी आपूण ग्लुसेस्टराचो कोन्द जालो; असलो हो आडवाटो आनी चांडाळ मनीस गोनेरील आनी रेगन ह्या दोगीय उंवाळ्ळेल्या भयणींच्या मनाक मानलो, आनी त्यो ताचो मोग करूंक लागल्यो.

परंत तितले म्हणसर कितें जालें म्हळ्यार, रेगनीचो घोव भायर पडलो आनी ती रोखडीच एदमुंदा कडेन लग्न जावंक तयार जाली; म्हणटकूच गोनेरीलेच्या काळजांत अंधुकाय उबी रावली आनी तिणें रेगनीक वीख घालून माल्ली! गोनेरीलेच्या घोवाक ही खबर कळ्ळी आनी आपणाची बायल ग्लुसेस्टराच्या कोन्दीक लागू जाल्या म्हणपाचेंय ताच्या कानार गेलें; तेन्ना ताणें तिका बंदखणींत घाली; फुडें कांय दिसांनी, मोगाची निरास्त जाली म्हणून तिणें आपल्याच हातान आपलो जीव वाटेक लायलो! अशे भाशेन, देवाचे घरची नीत जावन त्या दोगीय बेईमानी, बापायक पिडण्या आनी आडवाटया भयणींक ख्यास्त भोगली.

राज्यांतल्या सगल्या लोकांचे दोळे वयले गजाली कडेन लागलेले आनी मेळत तो देवाच्या उजू न्यायाची तोखणाय करतालो; इतले म्हणसर, तांचे दोळे त्याच देवाचे दुसरे एके कुवाड्या भाशेचे करणेन ओडून घेतले. कोर्देलिये असले व्हड मनाचे आनी उजू गुणाचे धुवेचें कितेंय बरेंच जावंक फावो आसलें; पणून कितें आसत तें आसूं; आमचे संवसारीक नद्रेन जाल्यार तशें कांयच घडून आयलें ना; संवसारांत बगर-अन्यांवी आनी धर्मिश्ट मनशाक सदांच येस मेळटा अशें न्हंय म्हणपाचें कोडवें खरेंपण आजवेर जायतेदां अणभवाक आयलां, आनी तेंच आतां कोर्देलियेचे गजालींतूय पर्थून लोकांच्या अणभवाक आयलें. दोवेराच्या कोटांत जेन्ना कोर्देलिया सैन्य घेवन आयली तेन्ना तिचे कडेन झुजूंक, गोनेरील आनी रेगन हांणी आपलो मोगी एदमुंद हाका धाडलोलो; ताकाच अखेर येस आयलें आनी ताणें कोर्देलियेक धरून बंदखणींत घाली; फुडें थंयच ती कांय दिसांनी मेली. कशेंय आसूं; इतलें मात खरें की, देवान कोर्देलियेक जल्माक घालून, धू-पुतांचो आवय-बापायचेर मोग कसो आसचो म्हणपाची सगळ्या संवसाराक शिकवण दिली. हे मायेस्त धुवे फाटल्यान लिअर राजा अदीक काळ वांचलो ना.

केन्दाचो कोन्द, जो मूळ पासून अखेर लेगीत आपल्या धनयाच्या बऱ्याक वावुरतालो, ताणें कायूस ह्या नांवान मानायपण केलें तो आपुणूच, अशें लिअर राजा मरचे आदीं, ताका कळयलें; परंत लिअराचें माथें जें खंतीन सामकें खतखतलेलें ताका कोन्दीच्या उलोवण्याचो समजूच पडना जालो: कायूस मानाय आनी केन्टाचो

कोन्द हे दोगूयजाण एकूच कशे जातीत हें एक ताका कुवाडेंच पडलें; म्हणटकूच, असल्या ह्या वेळार, ताचो समज घालूंक वावुरचें काम कठीण म्हणून कोन्द बाबडो वोगोच रावलो. लिअर मरतकूच, हो राजनिश्ठ मनीस, थोड्याच काळान, धनया खातीर दुखावलेल्या अंतस्करणान वळवळून मेलो!

घातक्या आनी आडवाट्या एदमुन्दाक ताचे वायट करणेचें फळ भोगयल्या बगर देवान सोडलो ना. ग्लुसेस्टराच्या कोन्दीचे गादयेचो कायद्यानशीं येरदेर जो एडगर हाचें आनी एदमुन्दाचें झूज जावन तांतूर एदमुन्द मेलो; तो मरतकूच, गोनेरीलेचो घोव जो आल्बानीचो दूक, जाचें कोर्देलियेच्या मरणांत मुदलींच आंग नासलें आनी जाणें आपले बायलेच्या आडवाट्या आनी खुनशी करण्यांक केन्नाच पालव दिवंक नासलोलो तो इंग्लंडाच्या शिंवासनार बसलो आनी सुखान राज्य चलोंवक लागलो.

* * *

Shakspearachea Khellanchi Mall.

ZUNVLLEA BHAVANCHO
GHUSPA-GADALL.
AGUL'LEACHEM NIVLLANN.
RANNIENCHEM JIVEM BAVLEM.

MALL GUTHELI:

XANNAI W. R. VARDE VALAVLIKAR.

MUMBAI.

1914.

**Mol 4 Anne.**

खेळ पांचवो

# जुंवळ्या भावांचो घुस्पागदळ

इफेसस आनी सिराकुझ ह्या दोन राज्यां भितर दुस्मानकी चलताली; म्हणून, इफेससच्या राज्यांत एक निबर कायदो केल्लो की त्या शारांत सिराकुझाचो कोणूय वेपारी दिश्टी पडत जाल्यार ताका मरणाची ख्यास्त भोगोंवची; ना जाल्यार, एक हजार मार्क फारीग करून ताणें आपणाची सोडवण करून घेंवची.

एक फावट, सिराकुझांतलो म्हातारो वेपारी इजोन इफेससांतल्या एका मार्गार दिश्टी पडलो; तेन्ना मरणाचें सेतेंस भोगूंक वा दंडाचे दुडू फारीग करून सुटूंक ताका इफेससाच्या दुकाच्या फुड्यांत व्हेलो. दंड फारीक करूंक इजोनाकडेन दुडू नासले; म्हणटकूच, मरणाचें सेंतेंस मारचे आदीं, दुकान ताका ताचे जिणेची खबर सांगूंक लायली; आनी इफेससांतलो कायदो जाणा जावन, थंय येवन ताणें आपलो जीव दाटून संकश्टांत कित्याक घालो म्हणून ताका विचाल्लें.

इजोनान म्हळें: ''हांव मरणाक भियेना; दुख्खां सोंसून सोंसून म्हाका जिवाची

उबगण आयल्या; म्हजे कर्मकट्टे जिणेची खबर म्हज्या ह्या तोंडान सांगची हें एक भोवच दुख-दिणें काम म्हाका दिसता.'' अशें म्हणून तो आपली गजाल सांगूंक लागलो; ती अशी:-

''हांव सिराकुझांत जल्मलों आनी वेपार-उद्येग करुनूच ल्हानाचो व्हड जालों; फुडें म्हजें लग्न जालें आनी मोट्या सुखान हांव संवसार करूंक लागलों. एक फावट, वेपारा खातीर हांव एपिडामनियमाक गेलों आनी थंय एक सारको स म्हयने उल्लों. फुडें, थंय आनिकूय रावचें पडटलें-शें दिसून, हांवें म्हजे बायलेक थंय व्हेली; थंय ती येतकूच, म्हाका दोन जुंवळे पूत जाले. ते रुपान सारकेच आसून, तांकां एकामेकां पसून वळखूंक कठीण पडटालें. म्हजी बायल बाळंत जाली त्याच वेळार आमी रावताल्यों तेच सुवातेर, एक दुबळी बायल बाळंत जावन तिका दोन जुंवळे पूत जाले आनी तेय म्हज्याच पुतां वरी सारक्या रुपाचे आसले; ह्या भुरग्यांचे आवय-बापूय चड दुबळे आसले; म्हणून तांकां हांवें विकते घेवन वाडयले आनी म्हज्या पुतांचे शेलके केले.

''म्हजे पूत भोवूच रुपेस्त आनी म्हजे बायलेक तांचो मोटो बडवाचार आसलो. ती फुडें घरा वचुंया म्हणून म्हजे फाटीक लागली; तेन्ना म्हज्या मनांत नासतनाय हांव तिच्या उतराक मान्य जावन, घरा वचचे खातीर आमी तारवार चडल्यों. परंत ती ...सली पाड वेळ आसली कोण जाणा. एपिडामनियमाकसून आमचें तारूं एका ...साचेर पावलां ना पावलां इतले म्हणसर एक भयांकृत तुफान जालें आनी तारवट्यांनी ...रवाची आस्था सोडून, एका ल्हान व्हड्यांत बसून, तांणी आपणाचो जीव वाटायलो. उपरांत, आमी एकलींच त्या तारवार उल्ल्यों आनी एका खिणांत तारवाची वाट लागतली-शी आमकां दिसली.

''त्या वेळार, म्हजे बायलेन रडून आकांत केलो; म्हणटकूच, बाबडीं भुरगींय रडूंक लागलीं. तीं भंयान म्हणून रडनासलीं; भंय म्हणपाची कसली वस्त आसा ती तीं नकळच आसलीं; आवय रडटा म्हणून तीं रडटालीं; तें पळोवन म्हज्या आंगाक कांपरो भरलो. म्हज्या जिवाची म्हाका पर्वा नासली; परंत तांचे खातीर म्हजें मन आकुळ-पिकूळ जातालें; तांचो जीव वांचोवंक कितें करचें म्हणपाचो म्हाका हुस्को लागलो. तेन्ना कुंव्याच्या एका तोंकाक हांवें म्हज्या धाकट्या पुताक बांदलो आनी दुसऱ्या तोंकाक ताच्या शेलक्याक बांदलो; तेच भाशेन, दुसऱ्या एका कुंव्याक म्हजो व्हडलो पूत आनी ताचो शेलको कसो बांदचो म्हणपाचें म्हजे बायलेक सांगलें; मागीर तिणें व्हडल्या भुरग्यांच्या कुंव्याक आपणाक बांदून घेतली आनी हांवें धाकट्या भुरग्यांच्या कुंव्याक म्हाका बांदून घेतलो. हो उपाय करूंक नासलोलो जाल्यार,

आमी सगळीं जाणां खरेपणानशी मरतल्यों आसल्यों; कित्याक, थोड्याच वेळान, तें तारूं एका मोट्या खडपाक आपटलें आनी ताचे कुडके जाले; तेन्ना आमी आमच्या कुंव्या सयत उदकाचेर उफेंव लागल्यों. कांय वेळान, म्हजे बायलेचो कुंवो एके कडेन आनी म्हजो कुंवो दुसरे कडेन अशे भाशेन आमी वेगळावल्यों; परंत लांबसून म्हाका दिश्टी पडलें की कांय खारव्यांनी आपल्या पनेळाचेर तिका घेतली; चड करून कोरींथ गांवा लागसार तिची सुटका जाली जांवये अशें म्हाका दिसलें. तिचो आनी दोगां भुरग्यांचो जीव वाटावलो-सो पळोवन म्हज्या काळजाक मात्शी थंडाय आयली आनी म्हज्या पुताक आनी ताच्या शेलक्याक वाटांवचे खातीर हांव तुफानी ल्हारां कडेन झगडूंक लागलों. निमाणें, एका तारवान आमकां वयर काडले आनी ताचे वयल्या तारवट्यांनी म्हाका वळखून मायेन येवकार दिलो आनी आमकां सिराकुझाक व्हरून सोडले; परंत ते दुखेस्त वेळे पसून म्हजे बायलेची आनी व्हडल्या पुताची वाट कितें लागली ती अजून म्हाका समजूंक ना.

''म्हजो धाकटो पूत सुमार अठरा वर्सांचो जालो तेन्ना, आपली आवय आनी भाव खंय पावल्यांत म्हणून विचारूंक लागलो. शेलक्याक वांगडा घेवन तांकां सोदूंक आपूण वेतलों म्हणून तो आयिल्ल्या दिसा म्हजे फाटीक लागूंक लागलो. निमाणें, उपाय ना जावन, हांवें ताका वचूंक मेकळीक दिली. म्हजे बायलेचे आनी जाणट्या पुताचे खबरीची म्हाका जबर अश्रेकणी लागलेली; तांचे सोदीक धाकट्या पुताक धाडून तोय निमाणें म्हाका होगडावलो. तो म्हाका सोडून गेल्यार आज आगळीं उणीं सात वर्सां जालीं. ताका सोदून काडचे खातीर एकसारकीं पांच वर्सां हांवें सगळो संवसार पांयातळा घालो; हांव ग्रीसाक गेलों; अझियाचे सरादी वेल्यान भोंवलोंआनी बंदरा कणकणीं देंवन निमाणें हांगा इफेससाक पावलों; कित्याक, जे जे सुवातेर म्हणून मनशाक रावंक आलासरो मेळटा ते ते सुवातेर चवकशी केले बगर रांवचें न्हय म्हणपाचो हांवें नित्शयूच केल्लो. कशेंय जांव, आज म्हजे जिणेची खबर सोंपतली; ह्या वेळार, म्हजी बायल आनी पूत संवसारांत खंयचेय कडेन सुसंगीत आसात म्हणपाची खबर म्हाका कोणूय दीत जाल्यार हांव हुस्क्या मेकळो मरूंक तयार जायन.''

इजोनान अशे भाशेन आपल्या अद्रुश्टाची काणी सोंपयली. ती आयकून दुकाक ताची काकळूत आयली. होगडावल्ल्या पुताच्या मोगान आपलो जीव संकश्टांत घालो म्हणून दुकाक वायट दिसलें; ताणें म्हळें: ''आमी तुमकां तुमच्या गुन्यांवाची मखलाशी करतल्यों आसल्यों; परंत कायद्या फुडें आमचो उपाय चलना; कायदो आमकां पाळुंकूच जाय; तरी आसतना, तुमकां रोखडेंच मर्ण भोगोंवचे बदला हो

सगळो दीस तुमकां आमी दितात; तितले म्हणसर दंडाचे दुडू कोणाय कडसून उश्णे वा धर्माक मेळटीत जाल्यार तुमी पळयात.''

दुकान आपले भाशेन इजोनाचेर हो उपकार केलो खरो; परंत ताचो ताका कांयच उपेग जाय सारको नासलो. इफेससांत ताचे वळखिचो कोणूच नासलो; म्हणून, दंड फारीग करूंक एक हजार मार्क कोणाय कडसून उश्णे मेळटीत म्हणपाचें ताका आदवसाण नासलें. म्हणटकच, उपाय ना जावन आनी निर्शेवन तो बंदखणकाराचे सुवादीन जालो आनी दुका लागसून गेलो.

इफेससांत वळखिचो कोण ना अशें इजोनाक दिसलें खरें; परंत त्याच वेळार, देव-सत्तेन ताचे दोगूय पूत त्या शारांत आसले. ते रुपान सारके आसून, त्या भायर, दोगांयचीं नांवां एकूच आसलीं. दोगांकूय आंतीफोलूस अशें म्हणटाले. तेच भाशेन तांच्या दोगांय शेलक्यांचीं नांवां एकूच आसलीं. तांकां द्रोमियो अशें म्हणटाले. इजोन ज्या दिसा इफेससाक पावलोलो त्याच दिसा ताचो धाकटो पुतूय (हाका आतां आमी आंतिफोलूस सिराकुझकार म्हळ्यार भोव बरें) आपल्या शेलक्या सयत थंय पावलोलो; तोय सिराकुझांतलो वेपारी म्हणून, ताका इफेससांतल्या कायद्या भाशेन, ताच्या बापाय सारकीच ख्यास्त भोगची पडटली आसली; परंत ताचें नशीब सांकुळ जावन, ताचो एक इश्ट ताका दिश्टी पडलो आनी ताणें ताका बुद्द दिली की इपिदामनियमांतलो वेपारी म्हणून तूं लोकांक सांग; त्या इश्टान ताका आनिकूय कळयलें की सिराकुझांतल्या एका म्हाताऱ्या वेपाऱ्याक आज असलीच ख्यास्त भोगचेलें सेतेंस जालां. आपूण इपिदामनियमांतलो वेपारी म्हणून सांगूंक आंतिफोलूस मान्य जालो; परंत आपल्याच गांवचो एक मनीस संकश्टांत पडला म्हणपाचें आयकून ताच्या काळजाक दूख बादली; संकश्टांत पडलोलो मनीस तो आपलोच बापूय म्हणपाचें मात ताच्या ध्याना-मनांतूय आयलें ना.

इजोनाचो जाणटो पूत (हाका आतां आमी आंतिफोलूस इफेससकार म्हणुंया) आज वीस वर्सां मेरेन इफेससाक आसलो. तो मोटो गिरेस्त जाल्लो; आनी बापायचो दंड भरूंक ताका तांक आसली; परंत ताका बापायची मातूय चत्राय उरूंक नासली; खारव्यांनी ताका ताचे आवय सयत दर्यांतसून व्हड्यार घेतलो तेन्ना तो साप नेण्टो आसलो; म्हणून ताका आवय-बापायचो उगडास मुदलींच नासलो; आपलो जीव एकवेळ दर्यांतसून वाटावलोलो इतलीच ताका याद आसली. ज्या खारव्यांनी ताका, ताचे आवयक आनी शेलक्याक व्हड्यार घेतलेले तांणी त्या दोगांय भुरग्यांक विकूंक काडले; तेन्ना इफेससाच्या दुकाचो मामा मेनाफोन हाणें ते विकते घेतले आनी तो इफेससाक दुकाक मेळूंक गेलो तेन्ना ताणें ते थंय आपले वांगडा व्हेले. दुकाच्या

मनांत आंतिफोलूस भल्लो; आनी तो जाण्टो जालो तसो, ताणें ताका आपल्या सैन्यांत जागो दिलो; झुजांत ताणें शूरपण दाखोवन खूब लोकीक मेळयलो. एका झुजांत जाल्यार, ताणें दुकाचो जीव वाटायलो; तेन्ना ताच्या गुणां खातीर ताका इनाम दिवंक म्हणून, इफेससांतली गिरेस्त बायल आद्रियाना हिचेकडेन दुकान ताचें लग्न करून दिलें. अशे भाशेन, तो आंतिफोलूस आपले बायले, शेलक्या सयत इफेससांत मोटऱ्या माना-भौमानान आनी लोकीकान रावतालो.

आंतिफोलूस सिराकुझकाराक इफेससांतले जे खाणावळींत जेवंक रावचें आसलें थंय ताणें द्रोमियो शेलक्याक कांय दुडू दिवन धाडलो आनी तितले म्हणसर, आपूण शार आनी थंयच्या लोकांची रीत-रवीस पळोंवक वेतां म्हणून तो गेलो. हो शेलको मोटो उमेदी गडो आसलो; म्हणून जेन्ना जेन्ना आंतिफोलूसाक कामकाजांत वाज येतालो तेन्ना तेन्ना तो त्या शेलक्याच्या फकाणांनी आनी भगल्यांनी वेळ घालयतालो; अशे भाशेन, धनी आनी चाकर हांचे भितर जितली संवकळ आसूंक फावो तेय परस अदीक संवकळ त्या दोगांय भितर चलताली; म्हणून, द्रोमियो आंतिफोलूसाकडेन उलोवंक लागलो म्हणचे सुमारा भायर चड उलयतालो.

द्रोमियोक खानावळींत धाडून, आंतिफोलूस मात्सो थांबलो आनी वचत थंय आपले आवयचो आनी भावाचो कशेच भाशेन दागदुमालो लागना म्हणपाचें येवजून ताका जबर वायट दिसलें; ताणें मनांत म्हळें: ''दर्यांतल्या थेंब्या परी म्हजी आवतिकाय जाल्या; तो थेंबो आपले वांगडच्या थेंब्यांक सोदून काडूंक म्हणून वेता आनी अखेरीक आपुणूच त्या दरयांत नासो जाता.'' तो आपले फुकट गेल्ले भोंवडे संबंदान अशे भाशेन येवजितालो तेन्ना द्रोमियो परतून आयिल्ले वरी ताका दिसलो. तो येदे बेगीन आयिल्लो पळोवन, दुडू खंय दवल्ले म्हणून आंतिफोलूसान ताका विचारलें; परंत खरेपणान पळेल्यार, हो द्रोमियो ताचो खासा शेलको नासलो. तो इफेससकाराचो शेलको आसलो. इजोनान दुकान आपले खबरींत सांगिल्ले भाशेन, दोगूय आंतिफोलूस आनी दोगूय द्रोमियो ल्हानपणांत जशे एकसारके दिसताले तशेच ते आतांय दिसताले; म्हणून आंतिफोलूसाक तो द्रोमियो आपलोच शेलको कसोसो दिसलो जाल्यार अजाप ना. ताणें ताका विचारलें: ''तूं येदे बेगीन कित्याक आयलो?'' द्रोमियोन म्हळें: ''धनी-सायबिणीन सांगलें: जेवण जालें, बेगीन येयात; नाजाल्यार शीत न्हिवतलें; सांबारें बेळशेतलें आनी तोंडाक भंगतलें.'' आंतिफोलूसान म्हळें: ''हीं तुजीं फकाणां पुरो जालीं; तुवें दुडू खंय दवरले तें बऱ्यान सांग.'' द्रोमियान म्हळें: ''धनी-सायबिणीन तुमकां बेगीन जेंवक आपयल्यात.'' आंतिफोलूसान म्हळें: ''धनी-सायबीण कोण?'' द्रोमियोन म्हळें: ''कोण म्हणचे? तुमची धनी-सायबांची

बायल.'' आंतिफोलूसाचें लग्न जावंक नासलें; म्हणून द्रोमियोच्या उलोवण्याची ताका तिडक येवन ताणें म्हळें: ''हांव तुजे कडेन केन्ना केन्ना चड संवकळीन उलयतां म्हणून तूं म्हज्यो भगली मारूंक लागलो-सो दिसता; पणून हांव आतां भगलींक येंवक ना; म्हजे दुडू खंय पावले ते बऱ्यान सांग; कशेंय जाल्यार, आमी हांगा परके. अशें आसतना तुजे कडेन दिल्ले दुडू तुवें लोकां कडेन कशे पातयेले?'' द्रोमियो ताका आपलो धनी आंतिफोलूस इफेससकारूच म्हणून समजल्लो; इफेससांत सगलो जल्म घालोवन आपूण आज हांगा परके अशें तो म्हणटा तें भगलीच आसतलें अशें समजून ताणें मौजेनूच म्हळें: ''सायबानूं, जेवंक बसतकूच मागीर जाय तितल्यो भगली मारात; परंत आतां धर्माक एक वेळ घरा वचात; धनी-सायबीण आनी तुमची मेवणी थंय वाट पळयतात.'' हें आयकून आंतिफोलूसाचें पिंत चाळवलें; ताका खूब भिरभिरी मारली आनी ताणें द्रोमियोक खूब कुमकायलो. म्हणटकूच, तो बाबडो हुयेल मारीत, धांवत घरा गेलो आनी ताणें आपले धनिणीक सांगलें: ''धनी-सायब म्हणटात की आपणाक बायलूच ना आनी आपूण जेंवकूय येंवचे नात.'' हें आयकून आद्रियाना खूब चाळवली; घोव दुसरे एकाद्रे रुपेस्त बायलेक भुल्ला जांवये म्हणून तो अशें उलयलो अशें तिका दिसलें; ती पिंरजळ्ळी आनी घोवाच्या नांवान खूब फडफडली; तेन्ना तिची भयण लुसियाना हिणें तिका जायती समजायली; परंत कित्याक उपकारा पडलें ना.

आंतिफोलूस सिराकुझकार खानावळींत गेलो; थंय ताका ताचो शेलको दुडवां सयत सुसंगीत आसलोलो दिसलो; आपणा कडेन चड संवकळीन भगली मारता म्हणून आंतिफोलूस ताका आनीक दटावणेक वेतालो, इतले म्हणसर, आद्रियाना ताचे सरीं आयली; ताणें हे रागिश्ट बायलेचें तोंड जल्मांत देखूंक नासलें; म्हणून तो तिका परके बायले कडेन कसो पळोवंक लागलो; म्हणटकूच,आद्रियानाक राग येवन तिणे ताका खूब खेत्सिलो आनी म्हळें: ''लग्न जांवचे आदीं तुमी म्हजो बरो मोग करताले; परंत आतां मात तुमकां दुसरे बायलेचो मोग लागून म्हाका तुमी विसल्ले. म्हजे वयलो मोग वचूंक कितें जालें तें सांगशात व्हय तुमी म्हाका?'' ह्या उतरांनी आंतिफोलूसाक अजाप जावन ताणें म्हळें: ''सायबिणी हांव तुजो घोव न्हय; म्हाका ह्या शारांत पांय दिल्यार फक्कत दोनूच वरां जालीं.'' परंत आद्रियानाची समजाविशी जायना जाली. ती ताका आपले वांगडा घरा व्हरतली म्हणून हट्टाक बसली; म्हणटकूच उपाय ना जावन, तो तिचे वांगडा गेलो आनी ती आनी तिची भयण लुसियाना हांचे पंगतीक बसून जेवलो. जेवता आसतना आद्रियाना ताका 'घरकारानू' म्हणून उलो मारताली आनी लुसियाना 'मेवण्यानू' म्हणून उलो मारताली.

आंतिफोलूसाक तें एक मोटें अजापूच जालें. ताका दिसलें आपूण हिचे कडेन न्हिदेंत आसतना लग्न जालां जांवये वो ह्या वेळार आपूण न्हिदेंत आसुंये. द्रोमियो सिराकुझकार जो तांचे फाटल्यान आद्रियानागेर गेल्लो तोय आपल्या धनया भाशेनूच गदळ्ळो; कित्याक, आद्रियानागेली रांदपीण ही ताच्या भावाची बायल, ती ह्या द्रोमियोक आपलोच घोव कसो लेखून उलो मारताली.

आंतिफोलूस सिराकुझकार जेन्ना आपले भावजयेचे पंगतीक बसून जेवतालो तेन्ना ताचो भाव आंतिफोलूस इफेससकार, द्रोमियो शेलक्या सयत घरा आयलो; परंत वावराड्यो ताका दार उगडून घरांत घेना जाल्यो; कित्याक, कोणाकूच भितर येवंक दिवं नाकात म्हणून आद्रियानान तांकां सांगलेलें. आंतिफोलूसान दाराचेर खूब खटखटावन आपूण घरकार म्हणून सांगलें; तेन्ना वावराड्यो खी खी करून हांसून म्हणूंक लागल्यो की आंतिफोलूस घरांत जेवंक बसला आनी द्रोमियो रांदचे कुडींत आसा. तेन्ना, धनयान आनी शेलक्यान मेळून दारां खूब बडयलीं; तरी तांकां भितर रीग मेळना जालो. निमाणें, आंतिफोलूस थंयसून तिडकीन गेलो; आनी कोण अेक परको दादलो आपले बायलेचे पंगतीक बसून जेवता म्हणपाचें आयकून तांकां अजाप जालें.

आंतिफोलूस सिराकुझकार जेवन उठलो. जेवता आसतना आद्रियाना ताका एकसारकी 'घरकार, घरकार' म्हणटाली आनी तिगेली रांदपीण द्रोमियोक आपणाचो घरकार म्हणटाली हें पळोवन ताचो जीव भोवजाळांत पडलो आनी कसलें निमित्त करून तो थंयसून सुटून गेलो. ताका आद्रियानाच्या दुभावी सभावाचो खूब वीट आयलो; परंत तिची भयण लुसियाना ही ताका जबर मानली. द्रोमियोची गजाल तशीच जाली. रांदचे कुडींतले रुपेस्त रांदपिणीच्या सभावान ताका खोस जाल्ल्या भाशेन ताका दिसली ना; म्हणून धनयाक आनी शेलक्याक तांच्या नव्या बायलां लागसून केन्ना काळ पळनशें जालें.

आंतिफोलूस त्या घरांतसून भायर सरना फुडें, ताचे सरीं एक शेट आयलो आनी ताणें ताका, आंतिफोलूस इफेससकार म्हणून समजून, भांगराची एक सरपळी ताचे कडेन दिली. आंतिफोलूस ती आपणाची न्हय म्हणून घेना जालो; परंत शेटीन ताका सांगलें की तुमचे सांगणेनूच हांवें ही केल्या; ही तुमी घेवंकूच जाय. अशें म्हणून, सरपळी ताच्या हातांत दिवन शेट थंयसून गेलो. हें पळोवन आंतिफोलूसाक दिसलें की आपणाचेर कोणेंय जादू केला; म्हणून असल्यो ह्यो चमत्कारीक गजाली घडून येतात. ताणें येवजिलें की आतां आनीक अदीक वेळ त्या शारांत रावल्यार बरें न्हय म्हणून, द्रोमियोक ताणें आपली मुस्तायकी बेगोबेग तारवार चडोवंक सांगली.

ज्या शेटीन आंतिफोलूस सिराकुझकाराक भांगराची सरपळी दिल्ली ताणें लोकांचें कांय देणें आसलें; सरपळेच्या मोला इतलेंच तें आसलें; तें ताचे कडसून फारीक जावंक नासलें; म्हणून कोतवालान ताका धल्लो; तितले म्हणसर, आंतिफोलूस इफेससकार थंय पावलो; ताका पळोवन शेटीक दिसलें की आपणें सरपळी दिली ती ह्याच आंतिफोलूसाक; म्हणून ताणें ताचे कडेन सरपळेचें मोल मागलें. आंतिफोलूसान म्हळें की आपणाक ती केन्ना मेळ्ळुंकूच ना. शेट म्हणूं लागलो की आपणें ती निकतीच तुमच्या हातांत दिल्ली. अशे भाशेन दोगांयचेय झगडें जावंक लागलें. दोगांकूय आपूण उलयतां तें खरें दिसतालें; निमाणें कोतवाल शेटीक बंदखणी कडेन व्हरूं लागलो; तेन्ना शेटीन कोतवालाक सांगून, सरपळेचें मोल दिना म्हणून आंतिफोलुसाकूय धरूंक लायलो; म्हणटकूच, शेट आनी आंतिफोलूस इफेससकार ह्या दोगांकूय कोतवालान बंदखणींत व्हेले.

आंतिफोलूस इफेससकार बंदखणींत वेता आसतना, वाटेर ताका ताच्या भावाचो शेलको द्रोमियो सिराकुझकार मेळ्ळो; ताका ताणें आपणालोच शेलको कसो समजून, शेटीक फारीक करचे खातीर, आद्रियाने कडसून दुडू हाडूंक सांगले; तेन्ना द्रोमियोक अजाप जालें. ज्या परक्या घरांत ताचो धनी निकतोच जेवलोलो आनी थंयसून ताका केन्नाकाळ पळनशें जाल्लें थंयच तो परथून वचूंक सांगता म्हणून ताका कितेंचें कितें दिसलें; परंत जाप करूंक ताका धीर जायना जालो. मस्कऱ्यो मारचो तो वेळ नासलो अशें ताका दिसलें; तारूं भायर घालचो वेळ जालो म्हणून आपल्या धनयाक सांगूंक तो आयिल्लो; परंत एकूय उतर तोंडा भायर काडी नासतना तो आपले भितर पिरंगत आद्रियानागेर गेलो. वाटेंत ताणें आपल्या मनांत म्हळें: ''थंय ती दोसाबेल म्हाका आतां आपणाचो 'घरकार, घरकार' म्हणटाली, परंत थंय गेले बगर म्हाका सुटका ना; चाकरी फुक्याची न्हय, धनयाची सांगणी चाखरान आयकुंकूच जाय.''

आद्रियाने कडसून दुडू घेवन द्रोमियो सिराकुझकार पर्थतालो; इतले म्हणसर, वाटेंत ताका ताचो खासा धनी मेळ्ळो. हो सामको गदळांत पडलोलो; हाच्या भावाक इफेससांत सगले जाण वळखताले; म्हणून हो वचत थंय हाका आंतिफोलूस इफेससकार म्हणून समजून, मेळत तो सलाम करतालो. कांय जाणांनी जाल्यार ताका देणें आसलेले म्हणून दुडू दिंवक काडले. कांय जाणांनी ताका आपणागेर आपयलो. कांय जाणांनी ताणें केल्ल्या उपकारां खातीर म्हणून ताचे उपकार मानले. एका आलफायादान कांय रसमी लुगटां ताका दाखोवन म्हळें की तुमचे खातीर हांवें हीं विकतीं घेतल्यांत; मागीर कांय आंगावयलीं शिंवचे खातीर ताणे तीं बेतलीं. हे चमत्कार पळोवन आपूण जादुगाराच्या मुलखांत आसां अशें आंतिफोलूसाक दिसलें

त्या भायर, द्रोमियोन ताच्या गदळांत आनीक भर घाली. ताणें म्हळें: "निकतेच तुमकां धरून बंदखणींत व्हरताले; ते तुमी कशे सुटून आयले?" इतलें म्हणून, रीण फारीक करूंक आद्रियाने कडसून हाडलेली दुडवांची पिशवी ताणें आंतिफोलूसाच्या हातांत दिली; म्हणटकूच, ताची बुद्द चडूच गदळ्ळी. ताणें म्हळें: "हो द्रोमियोय आतां पिसावलो-सो दिसता. आमी हांगा खरेच भोवजाळांत पडल्यात.' निमाणें काचाबूल जाल्ल्या भाशेन कांयच येवजना जावन, ताणें म्हळें: "देव पावन हे चमत्कारीक सुवाते वयल्यान आमची बेगीन सुटका जाल्यार पुरो!"

इतले म्हणसर, एक बायल मनीस ताचे लागसार येवन, खूब संवकळ आसलेल्या भाशेन ताका म्हणूं लागली: "तुमी आज म्हजे पंगतीक जेवन भांगराची सरपळी म्हाका दिता म्हणून सांगली ती खंय?" हें आयकून आंतिफोलूसाक तिडक्र आयली. ताणें म्हळें: "हांव तुजे पंगतीक केन्ना जेवंक ना आनी तुका सरपळी दीन म्हणून हावें सांगुंकूय ना; तूं कोणूय घाडीण बी ना मू? हावें जाल्यार, तुजें तोंड हे आदीं केन्नाच पळोवंक ना." तेन्ना ते बायलेन म्हळें: "म्हाका फटी उलोंवची गरज ना. हांव सांगतां तें सगलें खरें. तुमच्या मनांतसून सरपळी दिंवची नासली जाल्यार, हावें दिल्ली मुदी तुमी म्हाका परथून दियात." हाचेर, आंतिफोलूस सामको पिशांतूर जालो; ताणें तिका घाडीण, जादुगारीण, फितीसकारीण अशीं जायतीं नांवां दवल्लीं आनी आपूण तिका वळखना म्हणून थंयसून पळून गेलो. ताची ती पिशांतूर नुरा पळोवन आनी उतरां आयकून तिका बाबडेक अजाप जालें. आपले पंगतीक त्या दिसा तो जेवलोलो, आपणें ताका मुदी दिल्ली आनी ताणें आपणाक सरपळी दितां म्हणून सांगलेली म्हणपाचें तिका सामकें खरेपण आसलें; परंत हेरां लोकां भाशेन तिवूय बाबडी ताच्या रुपाक लागून फटवली. ती ताका आंतिफोलूस इफेससकार म्हणून समजली; कित्याक, ती म्हणटाली त्यो सगल्यो करण्यो इफेससकारान केल्ल्यो.

फाटल्यान बरयल्ले भाशेन, आंतिफोलूस इफेससकार जेन्ना आपल्या घरा गेल्लो आनी ताका कोणूच घरांत घेना जालीं तेन्ना तो रागान थंयसून गेल्लो. ताची बायल चड दुभावी सभावाची आसली; तो नायकिणी सोदूंक वेता म्हणपाची नस्तीच बिरमत सदीं उठून ती घेताली; आनी त्याच दुभावान पिसावन तिणें आपणाक भायर घालो अशें समजून, तिचें उश्णें फारीग करचे खातीर, आज तो खऱ्यांनीच वयर सांगलेले बायलेचे पंगतीक वचून जेवलो; तिणेंय ताका भोवमानान येवकार दिलो; म्हणटकूच खुशाल जावन, जी सरपळी ताणें आद्रियाना खातीर करूंक लायिल्ली तीच ते बायलेक दितां म्हणून सांगली. सोबीत भांगराचे सरपळेचें नांव आयकून, ते बायलेचो जीव घळ्ळ जालो आनी भुरकुटून एक मुदी काडून तिणें ताका दिली. ही सरपळी शेटीन

चुकून आंतिफोलूस इफेससकारा बदला आंतिफोलूस सिराकुझकाराक दिली आनी ती बायलूय सिराकुझकाराक इफेससकार म्हणून समजून जेन्ना ताचे कडेन सरपळी मागूं लागली आनी तो एकसारको नानाकार घालूंक लागलो आनी निमाणें रानांत पडलेल्या भाशेन पळून गेलो तेन्ना तिका दिसलें की तो खरेपणान पिसावला; म्हण्टकूच, आद्रियानेच्या कानार तिच्या घोवाच्या पिशेपणाची खबर घालूंक ती गेली. आद्रियाना ती खबर आयकून घेताली, इतले म्हणसर तिचो घोव, रिणाची फारकाय करचे खातीर दुडू व्हरूंक म्हणून, कोतवाला सयत घरा कडेन आयलो. आद्रियानान द्रोमियो कडसून जी दुडवांची पिशवी धाडून दिल्ली ती ताणें दुसऱ्या आंतिफोलूसाक दिल्ली.

घोवाक पिशें लागलां म्हणपाची खबर आद्रियानाक खरीच दिसली. कित्याक, आंतिफोलूस घरांत पावना फुडें, आपणाक येदोळ दार धांकून भायर कित्याक घालो म्हणून तिच्या आंगार आयलो आनी तिका खूब उलयलो. त्या भायर, जेवणाच्या वेळार, हांव तुजो घरकार न्हय; म्हाका ह्या शारांत येवन फकत दोनूच वरां जालीं म्हणून जें आंतिफोलूस सिराकुझकार उलयल्लो तें आपलो घोवूच उलयल्लो अशें समजून तिका दिसलें की ताका खरेपणानशीं पिशें लागलां. म्हणटकूच देणें आसलेले दुडू तिणें त्या कोतवाला कडेन फारीग करून घोवाक सोडयलो, आनी मागीर घराच्या मानायांक सांगून तिणें ताका राजवांनी चरांटून बांदूंक लावन, एके काळोखाचे कुडींत व्हरून बसयलो आनी ताका ओखद दिवन ताचें पिशेपण निवळावंक वैजाक आपोवणो धाडलो. आपूण बरो आसतना आपल्या जिवा-नांवार हें नस्तें पिशेपण घालां म्हणून आंतिफोलूसान खूब हुयेल माल्ली; परंत कित्याक उपकाल्ली ना. तो रागान जितलो जितलो अदीक खुबळटालो तितलें तितलें लोकांक दिसतालें की तो खऱ्यांनीच पिसावला! द्रोमियोचेंय उलोवप तांकां पिशेपणाचें दिसूंक लागलें; म्हणटकूच ताकाय ताच्या धनयाचे कुशीक बांदून घालो!

मात्शें रावन, एक मानाय येवन आद्रियानेक सांगूंक लागलो की आंतिफोलूस आनी द्रोमियो त्या थंयच्या मार्गार हुस्क्या-मेकळे भोंवतात; बांदून घाल्ले थंयसून ते सुटले जावंये. ही खबर आयकतकूच, आद्रियाना कांय मानांय वांगडा घेवन, तांकां धरून हाडचे खातीर भायर गेली. तेन्ना तिची भयणूय तिचे वांगडा गेली. तीं लागशिल्या कोवेंताच्या दारा कडेन पावलीं तेन्ना थंय तांकां आंतिफोलूस आनी द्रोमियो दिश्टी पडलेल्या बरी दिसले; परंत ह्या वेळारूय तीं त्या जुंवळ्या भावांच्या सारक्या रुपान फटवलीं. तांकां दिश्टी पडले ते सिराकुझकार आंतिफोलूस आनी द्रोमियो आसले.

रुपाच्या सारकेपणाक लागून, आंतिफोलूस सिराकुझकार अजून घुस्पागदळांतसून वाटावंक नासलो. शेटीन दिल्ली सरपळी ताच्या गळ्यांत आसली;

अशें आसतना, ती ताणें येदोळ आपणा कडेन ना म्हणून सांगली आनी तिचे दुडू फारीग केले नात ह्या लटक्या समजान शेट ताका तोंड सोडून उलोवंक लागलो. खरेपणानशीं पळेल्यार, सरपळी आपणाक केन्ना मेळुंकूच ना म्हणून सांगलेलें तें आंतिफोलूस इफेससकारान. शेट तिडकल्लो पळोवन सिराकुझकाराचें पिंत चाळवलें आनी ताणें म्हळें: ''तुमीच सकाळीं ती सरपळी म्हाका नाका म्हणटा आसतना बळयांच म्हज्या हातार दवरून गेले आनी परथून म्हाका तुमी तुमचें तोंडूय दाखयलें ना; अशें आसून, हांवें ती म्हाका मेळूंक ना म्हळी आनी दुडू फारीग केले नात म्हणून नसतीच म्हजी बिरमत तुमी कित्याक घेतात?'' शेटीचो आनी आंतिफोलूसाचो अशे भाशेन वाद जातालो. इतले म्हणसर आद्रियाना थंय आपल्या मानायां सयत पावली आनी तिणें सांगलें की हो आपलो पिशें लागलोलो घरकार बांदून घाल्लो थंयसून सुटून आयला; तिचे मानाय आंतिफोलूस आनी द्रोमियो हांचेर हात घालूंक गेले; तेन्ना ते भंयान कोंवेंतांत रिगले आनी आंतिफोलूसान थंयचे म्हाल-जोगणी कडेन आपणाक आलासरो मागलो. ते वेळार, कसलो बोवाळ जाला म्हणपाची चवकशी करूंक, म्हाल-जोगीण भायर आयली. ती मख्ख आनी भोवमानीक बायल आसली. ती नीत करपांत शाणी आसली आनी तिची राखण मागूंक कोणूय गेल्यार ताका ती अवखडलेल्या भाशेन पयस आमडिनासली. तिणें आद्रियानाक विचारलें: ''तुज्या घोवाक आगंतूक पिशें लागूंक मूळ कितें जालें? ताचें वेपाराचें तारूं दरयांत बुडलें म्हणून तो पिसावलो? वो ताचो कोणूय मोगाळ इश्ट भायर पडून ताचें मन सथर-विथर जालें?'' आद्रियानेन म्हळें: ''तुमी म्हणटात तसलें कांयच घडूंक ना.'' जोगणीन म्हळें: ''एकाद्री तुजी उबगण येवन ताचें मन दुसरे खंयचेय बायलेचेर बसूंक ना मू? आनी तितलेच खातीर ताची अशी दशा जावंक ना मू?'' आद्रियानेन म्हळें: ''म्हाकाय होच दुभाव आज जायत्या दिसां पासून येता; हालींच्या वर्तमानाक ते घरांत सारके आसच नात म्हळ्यार कामायता.'' आद्रियानेचीं हीं निमाणीं उतरां खरीं आसलीं; तिचे पिडणुकेन वैतागून आंतिफोलूस घरांत चडसो रावनासलो. आद्रियानेची निबरपणाची नुरा पळोवन जोगणीकूय तिचेच चलणुकेचो दुभाव आयलो आनी खरी गजाल सोदून काडचे खातीर तिणें म्हळें: ''परंत सभागणी, घोवाक तुवें बरो करून दटावंचो न्हय गे?'' आद्रियानेन म्हळें: ''आयो आयो! आजून दटावंची रावल्यां हांव?'' जोगणीन म्हळें: ''परंत फावोशे रितीन तुवें तुजो ताका भंय दाखोवंक ना-सो दिसता.'' हाचेर जोगणीच्या मनाक खरेपण दिसचे खातीर, आद्रियानेन नेटान म्हळें: ''कितें सांगतली सायबिणी तुमकां? भंय म्हणून कितलो दाखोवचो? आडवार हांव तांकां खेत्सितालीं; हांतरुणार न्हिदल्यात थंय उलोवन उलोवन ह्मंव तांचो घडीभर

दोळो लेगीत लागूंक दिनासलीं; जेंवक बसल्यात थंय हांव तांकां थोमणे मारून मारून, हुस्क्या मेकळे घांसभर जेवंक दिनासलीं; ते म्हाका दिसले म्हणचे दटावणे बगर आनीक दुसरी गजालूच नासली. चार चौगांत बसलेले आसतनाय हांव तांकां भोवन भोवन तोंचल्या बगर रावनासलीं; म्हजे असले बायलेक उबगून दुसरे बायलेचो मोग करचो हें कितलें उणाकपणाचें काम आसा म्हणपाचें तांकां सांगून सांगून म्हाका पुरो जालें.'' दुभावी आद्रियाना आपल्या घोवाक कशी पिडटाली म्हणपाचें तिच्याच तोंडान खरें करून घेवन, जोगणीन म्हळें: ''देखुनूच तुजो घोव पिसावला जांवये. बायलेचे हे असले त्रास खंयचो म्हणून घोव पापी सोंशीत? पिसावल्ल्या सुण्याच्या दांतांय परस दुभावी बायलेचे हुयेलींचें वीख चड जीवघेणें आसा म्हणपाचें तूं नकळ-शी दिसता. तुज्या रात-दीस खेत्सण्यांनी तुज्या घोवाक धड न्हीद लागनासली म्हणून ताचो मेंदू ल्हव जाल्यार तांतूर अजाप ना. तो जेवंक बसतकूच तूं ताका थोमण्यांचें तोंडाक वाडटाली; म्हणटकूच ताका बाबड्याक जेवण कशें रुचत? आनी तें कशें जिरत? जेविल्लें जेवण आंगाक लागना जावन आनी वेळार सुस्रांत न्हीद पडना जावन तुज्या घोवाची ही अशी वाट लागली. तो एकलो आसलो वो चार चौगांत बसलोलो आसलो जाल्यारूय तूं तुज्या झगड्यान ताका इल्लीय उमेद जावंक दिनासली; म्हणटकूच त्या बाबड्याचो जीव वैतागलो आनी निरशेलो जाल्यार ताका कोणाचो उपाय? तुजे करणेचेंच फळ तुका हें अखेरेक भोगचें पडलें.''

हे वेळार, लुसियाना आपले भयणीचो पाखो घालून सांगूंक लागली की ती सदींच मोवाळपणान घोवाक दटायताली. तिणें भयणीकूय म्हळें: ''आका, तूं मोन्यांनी रावन हे जोगणीचीं हीं नस्तींच उलोवणीं कित्याक म्हणून आयकून घेता गो?'' परंत जोगणीन आद्रियानेचो गुन्यांव सामकोच तिच्या गळ्यांत घाल्लो म्हणून, अदीक उलोंवक तिका तोंड जालें ना. तिणें लुसियानेक इतलेंच म्हळें: ''तिणें म्हजो गुन्यांव सामको म्हज्या नाखार माल्लो गो बाये.''

आद्रियानेक जरी आपले करणेची लज जाली तरी घोवाक आपले सुवादीन करचे खातीर ती जोगणीचे फाटल्यान लागली. परंत जोगणीन कोणाकूच कोवेंतांत येवंक दिलें ना. तिच्या आलासऱ्याक आयलेल्या अभागी दादल्याक ते दुभावी बायलेचे सुवादीन ती करिना जाली. ताचें पिशेपण निवळावंक आपुणूच उपाय करीन म्हणपाचें तिणें येवजिलें. ती भितर वचून तिणें दाराक आडांबे घालूंक लायले.

जुंवळ्या भावांच्या सारक्या रुपाक लागून आजच्या दिसा जायत्यो चुको घडून आयल्यो आनी तितले म्हणसर दुकान इजेनाक दिल्लो दीस सरत आयलो. आतां तिळसांज मेरेन दंडाचे दुडू फारीग जाले ना जाल्यार ताच्या मरणाचो वेळ लागीं

पावलोच म्हणून समजुंचो.

म्हाल-जोगीण कोवेंतांत गेली त्याच वेळार इजेन थंय पावलो. ताचे वांगडा दूक आसलो. कोणेंय एकाद्रयान ताच्या दंडाचे दुडू फारीक करूंक काडल्यार ताका रोखडीच मखलाशी करची म्हणून दूक ताचे वांगडा भोंवतालो. इजेनाक दिल्लो वेळ सरत आयलो म्हणून ताचो जीव घेंवचे खातीर ताका मारचे सुवातेर व्हरताले. ही सुवात कोवेंता लागसारूच आसली.

हो दुखेस्त मेळो कोवेंता कडसून वचूं लागलो तेन्ना, आपणाच्या पिसावल्ल्या घोवाक जोगीण आपले सुवादीन करिना म्हणून आद्रियानेन दुकाक सांगलें. तितले म्हणसर, तिचो घोव शेलक्या सयत बांदून घाल्ले सुवाते वेल्यान सुटून दुका सरीं आयलो आनी न्याय मागूंक लागलो. ताणें दुकाक सांगलें की आपले बायलेन आपणाक पिशें लागलां म्हणून बळयांच बांदून घालो थंयसून आपूण सुटून आयलां. ताका थंय आगंतूक पळोवन आद्रियानेक चमत्कार दिसलो; कित्याक, तो कोवेंतांतूच आसा म्हणून ती समजल्ली.

इजोन आपल्या पुताक वळखलो. ताका दिसलें, आवय आनी भावाक सोडचे खातीर सातां वर्सां फाटीं भोंवडेक गेल्लो तो होच पूत; हो आपल्या दंडाचे दुडू फारीक गेल्या बगर रांवचो ना; म्हणून मोटे मायेन तो आंतिफोलूसा कडेन उलोंवक लागलो; परंत आंतिफोलूसान म्हळें की आपूण तुमकां वळखच ना. आंतिफोलूसाचें खरेंच. ल्हान आसतना, तुफानांत पडून वेगळो जायत पासून ताणें बापायक केन्ना पळोंवकूच नासलो. तो वळखतलो कसो? बाबड्या इजोनाक दिसलें, जायतीं वर्सां दुखां भोगून आनी हुस्को काडून आपलें रूप बदल्लां जांवये; आनी तेच पासून आपल्या पुताक आपूण वळखूंक येना; ताका आनिकूय दिसलें की आपूण संकश्टांत पडलां म्हणून आपूण बापूय म्हणून सांगूंक पुताक लज जाता जावंये. ताचें मन अशे भाशेन गदळांत पडलें, इतले म्हणसर, दुसरो आंतिफोलूस आनी द्रोमियो हांकां घेवन जोगीण भायर आयली. तांकां पळोवन, आद्रियानेक दोग जाण घोव आनी दोग द्रोमियो दिसून तिचो जीव भोवजाळांत पडलो.

आतां सगळ्या चुकींची फोडणिशी जांवचो वेळ आयलो. दुकान जेन्ना एकाच रुपाचे दोन आंतिफोलूस आनी दोन द्रोमियो पळेले तेन्ना ताका इजोनान सकाळीं सांगलेले गजालीची याद जाली आनी ताणें म्हळें की हे मनीस इजेनाचे दोग पूत आनी ताचे शेलके आसतले.

आतां ध्याना-मनांत नासलेले खोशयेन इजोनाची खबर सोंपचो वेळ आयलो. सकाळच्या पारा जी खबर ताणें दुकाक मोट्या दुख्खान सांगलेली तिचोच अखेर,दीस

धारेक नेता म्हणसर, भोवच गोड जांवक पावलो. कित्याक, तेवेळार जायत्या काळा पासून होगडावल्ली इजोनाची बायल आनी दोगां आंतिफोलूसांची आवय ती आपुणूच म्हणून जोगणीन सगळ्यांक कळयलें. तिची खबर अशी जाल्ली: खारव्यांनी जेन्ना तिचे कडंसून जाणट्या आंतिफोलूसाक आनी द्रोमियोक घेतले तेन्ना ती इफेससांतल्या कोवेंतांत वचून जोगीण जाली आनी आपले धर्मिश्ट चलणुकेन म्हाल-जोगीण जांवक पावली. राखणे खातीर कोवेंतांत रिगलेल्या परक्या मनशाक म्हणून तिणें आलासरो दिलो खरो; परंत अशे भाशेन तिणें आपल्या पुताकूच आद्रियानाच्या मानायांच्या त्रासांतसून वाटायलो.

एकामेकांची खबर एकामेकांक कळून वळख मेळ्ळी तेन्ना सगल्यांक जी उमेद जाली ती सांगून उपकारना. उमेदीच्या भारांत, इजोनाक मरणाचें सेतेंस जालां म्हणपाचें कोणाच्याच ध्यानांत उल्लें ना. परंत उमेदीचो उमाळो मात्सो न्हिवतकूच, आंतिफोलूस इफेससकारान बापायच्या दंडाचे दुडू दुकाक दिंवक काडले; परंत दुकान इजोनाक मकलाशी करून ते घेतले नात. मागीर इजोन, ताची बायल आनी पूत हांचे सयत दूक कोवेंतांत गेलो आनी तांच्यो उमेदीच्यो खबरी सवकासायेन आयकूंक लागलो. हेवेळार, दोगांय द्रोमियो भावांक जी खोस जाली ती कोणें विसरूंक फावना. तेय एकामेकां कडेन उमेदीन उलयले आनी एकामेकांचें रूप पळोवन एकामेकांक तोखेंवक लागले. आतां आपलें रूप पळोवंक हारशाची गरज ना अशें ते एकामेकांक म्हणूं लागले.

मांयची बरी बुद्द आयकून आद्रियाना शाणी जाली आनी हे फुडें ती आपल्या घोवाचो नस्तोच दुभाव घेवन ताका पिडापीड भोगयना जाली.

आंतिफोलूस सिराकुझकार रुपेस्त लुसियाने कडेन लग्न जालो; आनी म्हातारो इजोन आपल्या बायल-भुरग्यां सयत इफेससांत जायतीं वर्सां सुखान रावलो. केन्ना केन्ना, ताच्या पुतांच्या आनी तांच्या शेलक्यांच्या सारक्या रुपाक लागून जायतो घुस्पा-गदळ जावन घरभर हांसून खळखळ जातालो!

* * *

खेळ सवो

# आगुल्ल्याचें निवळण

पादुआ गांवचो गिरेस्त मनीस बाप्तीस्त हाची काथारीन ही जाण्टेली धूव. ही आडांगी, करनखरी, रागिश्ट आनी बोबाटी आसली. म्हणून सगल्या पादुआ गांवांत तिका आगुल्लें हें नांव पडलेलें. तिचे कडेन लग्न जावंक कोणूच फुडें सरत अशें दिसनासलें. तिची धाकटी भयण बियांका ही भोवच थंड सभावाची आसली; तिका जायत्या जाणां कडसून लग्ना खातीर मागण्यो येताल्यो; परंत, बापायच्या मनांत व्हडले धुवेचें लग्न जाल्या बगर धाकटेचें करचेलें नासलें; म्हणून, तो सगल्यांच्यो मागण्यो पर्थायतालो. ह्या खातीर लोक ताका दुशण लायताले. परंत तो तांची निखालूस पर्वा करिनासलो.

एक फावट, पेत्रुकियो नांवाचो एक जुवान न्हवरो व्हंकल पळोंवचे खातीर पादुआक आयलो. कातारीनाचो वायट लोकीक ताच्या क्रानार गेल्लो. परंत ती रुपेस्त आसून तिचो बापूय गिरेस्त आसा म्हणपाची खबर आयकून, तिचेच कडेन लग्न जांवचो ताणें नित्शय केलो, आनी लग्न जातकूच मागीर तिका निवळांव येत अशें ताणें येवजिलें. हें कठीण काम माथ्यार घेंवक पेत्रुकियो बाजत आनीक दुसरो कोणूच फावोसो मनीस नासलो म्हळ्यार कामायता. कातारीने भाशेन तोय मोट्या ताळ्याचो आसलो; ते भायर तो मोटो भगली-मारो, उमेदीचो गडो, अकलवंत, बुदवंत आनी मनशाचो सभाव पारखिणो आसलो. आगांतूक बळयांचो राग हाडून एकदम कशें खुबळचें, पिरंजळचें आनी फडफडचें हें तो भोवूच बरें जाणा आसलो. ताचो निजाचो सभाव पळोंवक गेल्यार, तो चिंते-हुस्क्या मेकळो आनी हालमी-खुशाल दिसतालो. कातारीना कडेन लग्न जातकूच ताणें जो तुफानी अवतार घेतलो तो फकत तिचें आगुल्लेंपण निवळावंकूच.

तो पयल्याच फाराक बापतिस्ता कडेन गेलो आनी ताका ताणें मखखपणान म्हळें: ''तुमची गुणेस्त धूव जी कातारीनबाय तिचो लजेस्त आनी भिडेस्त सभाव आनी थंडायेची चलणूक आयकून, तिची सोरगत जोडचे खातीर, हांव हांगा वेरोनाकसून आयलां; तेन्ना तिचो मोग करूंक म्हाका तुमी मेकळीक दिंवची.'' बापतिस्ताक कातारिनाचें लग्न केन्नाकाळ जायत-शें जाल्लें. परंत पेत्रुकियोन तिच्या गुणांची जी तोखणाय केली तिका ती निखालूस फावना म्हणपाचें ताका उकतेपणान सांगचें पडलें; कित्याक, त्याच वेळार कातारिनाक वाजोवंक शिकयणारो शणै थंय

आयलो आनी बापतिस्ताक सांगूंक लागलो की, “तुमचे धुवेच्या वाजोवपांत हांवें मात्शी चूक काडली म्हणून रागान तिणें सारंगी काडून म्हज्या कपलार माल्ली.” ही खबर आयकून पेत्रुकियोन खोस जाल्ल्या भाशेन म्हळें: “बरी धीट आसा मू तर ही होंकल! आतां ती म्हज्या मनांत अदिकूच भल्ली; तिचे कडेन केन्नाकाळ म्हाका इल्लें उलयन-शें जालां.” सोरगत बेगोबेग जमोवंचे खातीर ताणें बापतिस्ताक म्हळें: “म्हजें सगळें काम ताकतीन जांवक जाय. तिचो मोग करूंक म्हज्यान दिसपट्टो हांगा येवं नज. तुमी म्हज्या बापायक वळखून जाणा आसतलेच. तो भायर पडून ताचें सगलें भाट-बेंस आनी मिरास म्हाका पडल्या; तेन्ना, तुमचे धुवे कडेन लग्न जाल्यार, तुमी म्हाका कितली वरदक्षणा दितात तें आदीं सांगात.” हें आयकून ह्या न्हवऱ्याक लज-भीड कांय ना अशें बापतिस्ताक दिसलें; परंत, कशेय भाशेन कातारिनाचें एकफावट लग्न जांव अशें येवजून ताणें जाप केली: “हांव तुमकां वीस हजार मुयेदां वरदक्षणेक दीन आनी त्या भायर म्हज्या मर्ण-पत्रांत म्हजे मिराशेचो अर्दो वांटो तुमच्या नांवार काडीन.” पेत्रुकियोक हें मानलें आनी सोरगत रोखडीच जमली. उपरांत,ही खबर कातारिनाक कळोंवक बापतिस्त भितर गेलो.

तितले म्हणसर, कातारिना कडेन मोगाचें उलोवप कशें करचें म्हणपाचें पेत्रुकियोन येवजिलें. ताणें आपल्या मनांत थारायलें: “ती म्हजे सरीं येवन पिंरजळून उलोवं लागल्यार हांव म्हणन की ती कोगुळा भाशेन गोड गाता. तिणें कपलाक मिरयो घालून बोंचो मुड्डिल्यार, हांव म्हणन की दंवान धुल्ल्या गुलाब शेंवत्याभाशेन तिचें तोंड निवळ दिसता. ती म्हजे कडेन कांयच उलयली ना जाल्यार, हांव बळयांच म्हणन की तिचें उलोवप खूब रुचीक लागता; आनी ती म्हाका धिस्पटावन वचूंक सांगत जाल्यार, म्हाका तिणें रावंक आग्रो केल्ल्या भाशेन हांव तिचे उपकार मानीन.”

रोखडीच, अभिमानान फुगलेली कातारीन थंय आयली. तिका पळोवन पेत्रुकियोन म्हळें: “कात्रू म्हणटात ती तूंच मू? अशी यो पळोवंया हांगा.” आपणाक अर्दुकड्या नांवान उलो माल्लोलो पळोवन कातारिनाक राग आयलो आनी तिणें तिडकून म्हळें: “कात्रू ती कोण? मांयची भयण? म्हजें नांव बरें कातारीनबाय.” पेत्रुकियोन म्हळें: “तूं म्हाका फटयता; कात्रू नाजाल्यार रुपेस्त कात्रू वो आगुल्लें कात्रू म्हणटात ती तूं खंय; परंत कात्रू सगल्या संवसारांत तुजे असली सुंदर बायल कोणूच ना म्हणटात तें खरें खंय? मेळत थंय तुज्या थंड सभावाची तोखणाय करतात; ती आयकुनूच, तुजे कडेन लग्न जांवचे खातीर हांव हांगा आयलां.”

फुडें त्या दोगांयचें जें उलोवप जालें तें भोवूच चमत्काराचें जालें. कातारीन जाल्यार, उतरा कणकणीं मोट्यान आड्डताली आनी आपणाक ‘आगुल्लें’ हें नांव

जिस्त फावो म्हणपाचें आपले चलणुकेन दाखयताली; पेत्रुकियो जाल्यार तिचीं उतरां गोड आनी भोवमान-दिणीं म्हणून बळयांच तिची तोखणाय करतालो. इतले म्हणसर, तिच्या बापायच्या पावलांचो नाद आयकून, पेत्रुकियोन तिका म्हळें : ''म्हजे अपुरबायेचे कातारीनबाय, ही बेश्टी बडबड आतां पुरो जाली. तुज्या बापायन तुका म्हाका दिंवची तजवीज करून वरदक्षणाय थारायल्या; म्हणून, तुजी खोस आसूं वो नासूं; हांव तुका म्हजी घरकारीण करतलोंच.''

इतले म्हणसर, थंय बापतिस्त पावलो. ताका पेत्रुकियोन म्हळें: ''तुमची धूव मोट्या मोगान म्हजे कडेन उलयली; आनी फुडल्या आयतारा दीस लग्न जांवचो आमचो बेत जालो.'' हें आयकून कातारीनाक पिंरजळो आयलो आनी तिणें म्हळें: ''हाचे कडेन लग्न जांवचे भाशेक, फुडल्या आयतारा हाचे गोमटेक पास घाल्लो पळोवंक म्हाका चड उमेद जायत.'' मागीर तिणें पेत्रुकियो असलो पिसांट न्हवरो आपणा खातीर सोदून काडला म्हणून बापायचो जीव खूब पिश्टिलो. तेन्ना पेत्रुकियोन बापतिस्ताक म्हळें: ''तुमी तिचीं हीं तिडकीचीं उतरां मुदलींच मनार घेवं नाकात. ती दाटून राग पांगुल्ल्या. येदोळ तिणें म्हाका तशेंच सांगलेलें: तुमकां पळेना फुडें, आपूण म्हणून बळयांनी रागार जावन खूब पिंरजळन, तुमी जाणात? आमी दोगां एकसुरींच आसल्यों आनी तिसरो जितो मुसूय हांगा नासलो तेन्ना तुमची धूव कितली भुरकुटली, मुरगटली आनी मोगान म्हजे कडेन उलयली ती!'' मागीर ताणें कातारिनाक म्हळें: ''कात्रू, आतां तुजो म्हाका हात दी पळोंवया. तुजे खातीर बरे बरे विस्तीद आनी पोलकां घेवंक हो हांव वेनिसाक चल्लों.'' उपरांत ताणें बापतिस्ताक म्हळें: ''तुमी आतां लग्नाचो आटाप घालून होवळीक सांगूंक लागात; तितले म्हणसर खूब भांगर-शिंगर आनी विस्तीद बी घेवन हांव हांगा येन.'' इतलें सांगून पेत्रुकियो थंयसून गेलो.

फुडें आयतारा दीस सगले होवळे जमले. परंत केदो वेळ जालो तरी न्हवऱ्याचें आदवसाण ना. बळयांच लग्न लग्न म्हणून आपली भगल मारली अशें येवजून कातारिनेक अभिमान जालो आनी ती भळाभळा करून रडूं लागली. अखेरेक, पेत्रुकियो थंय पावलो; परंत कातारिनाक सांगलेले भाशेन, ताणें विस्तीद वो भांगर-शिंगर बी कांयच हाडूंक नासलें; न्हय, ताणें आपणाचोय पोशेग न्हवऱ्याक फावोसो करूंक नासलो.तो लग्न जांवक आयिल्ल्या भाशेन दिसच नासलो. ताचे वांगडचे मानाय आनी धेडे हांचीय गजाल तशीच; ज्या घोडक्यांचेर बसून ते आयिल्ले तांचेरूय फावोसो साज घालूंक नासलो.

दुसरो पोशेग करचे खातीर लोकांनी पेत्रुकियोची कितलीशी पांयां-पडणी केली; परंत तो गा खंय आयकता? ताणें म्हळें: ''कातारीनबायक लग्न जांवचें आसा तें म्हजे

कडेन; म्हज्या पोशेगा कडेन न्हय.'' निमाणें, ताचे कडेन अदीक वाद घालून कांय उपेग ना अशें सगल्यांक दिसलें, तेन्ना ते इगर्जेंत गेले. थंय पेत्रुकियो आपलो पयलेच भाशेन पिशेपणां करूंक लागलो. ''कातारीनबाय तुमकां बायल जाय मू?'' अशें पाद्रीन ताका विचाल्लें तेन्ना ताणें मोटयान आड्डून म्हळें: ''हय वय, जाय जाय.'' ताचे हुयेलीन पाद्री बाबडो आकांतलो आनी ताच्या हातांतलें पुस्तक गळसणून सकला पडलें. तें उखलचे खातीर ताणें ओणोव घेतलो; तेन्ना पेत्रुकियोन ताका येद्दा मोटयान मुठको माल्लो की तो आपल्या पुस्तका सयत जमनीर पडलो. लग्नाचे संवस्कार चलता आसतना ताणें आपले पांय जमनीर मोटयान आदळ्ळे आनी व्हडान आड्डून गाळी-फस्ती केल्यो. ताचो हो अवतार पळोवन, कातारीनबाय केन्नाच कोणाक बाडगणी न्हंय खरी, तरी आसतना, तिची भंयान गुळी जाली आनी ती लड लड करून कांपूं लागली. संवस्कार सोंपतकूच, इगर्जेंत आसतनाच ताणें सोरो पियेवंक मागलो आनी सगल्यांचें बरें जावं म्हणून मोटयान आड्डून सोऱ्याचें कोप आपल्या ताळ्यांत रकयलें आनी कोपाच्या तळाक भिजलोलो उंडयाचो कुडको आसलो तो काडून सामको सांकिस्तांवाच्या तोंडार मारलो आनी ताका म्हळें: ''तुमचें खाड सामकें भागलां आनी भुकेल्ल्या भाशेन दिसता; तें म्हज्या कोपांतलो उंडयाचो कुडको खावंक मागता-शें म्हाका दिसलें; म्हणून हांवें तो ताका दिलो.''

अशे भाशेचें लग्न संवसारांत केन्नाच कोणाचें जावंक नासलें; परंत आगुल्ले बायलेक निवळावंक पेत्रुकियोन जो उपाय येवजिल्लो तांतूर येस येवंचे खातीर ताणें हो बळयांच अवतार घेतलोलो.

बापतिस्तान लग्ना खातीर बरी मेजवानकी करूंक लायलेली; परंत जेन्ना तें सगलें मांडण इगर्जेंतसून घरा आयलें तेन्ना पेत्रुकियोन कातारिनाचो हात धरून, आतांचे आतां होंकल-पावणी व्हरूंक जाय म्हणून तो हट्टाक बसलो. मांवान ताका 'जेवन वचात' म्हणून सांगलें. खुबळ्ळेली कातारीनूय जायती पिरंजळ्ळी; परंत पेत्रुकियोचें कोल्ल उणें जालें ना; ताणें म्हळें: ''हांव घोव आनी ही म्हजी बायल; म्हाका जाय तें हांव करतलों.'' अशें म्हणून तो कातारीनाक ओडीत व्हरूंक लागलो. ताचे फुडें कोणाचोच उपाय चलना जालो.

पेत्रुकियोन आपले बायलेक एका सुकल्या-भागलेल्या आनी मरूंक तेंकलेल्या घोडक्याचेर बसयली; तो आनी ताचे चाकरमानाय तसल्याच दुसऱ्या घोडक्यांचेर बसले. ताणें दाटुनूच कातारीना खातीर साप मरतुकडें घोडकें वेंचून काडलेलें. रेबो आनी फातर आसलेले वाटेन ही होंकल-पावणी वचूंक लागली. वाट चलता आसतना, कातारीनाचें घोडकें एकाद्रें आडखळ्ळें जाल्यार, ताचेर बाबड्याचेर

पेत्रुकियो सगलो राग काडटालो आनी तांबडो गुंज जातालो. घोडक्याचो बाबड्याचो कसलो गुन्यांव? कातारीनाच्या भारा तळा ताच्यान दोंके फुडें घालूं नज आसले!

पेत्रुकियो एकसारको घोडक्यांचेर आनी चाकरमान्यांचेर पिरंजळटालो आनी रागान किंवाट्टालो. अशे भाशेन, सगली वाटभर घोवाचे तोंडचें बरेपणाचें एकूय उतर कातारीनाच्या कानार पडलें ना. निमाणें, पेत्रुकियो घरा पावलो. ताणें आपले बायलेक मायेन घरांत व्हेली. परंत ते राती तिका शिताचो गोटो घालचो न्हय आनी न्हिदूंक हांतरेचो इल्लो तळकटोय दिंवचो न्हय म्हणपाचो ताणें बेत केल्लो. रातचो जेंवचो वेळ जावन जेवण वाडलें; तेन्ना पेत्रुकियो मेळत त्या जिनसाक खोड दवरून, ते रागान भरकटावन जमनीर उडोवं लागलो आनी निमाणें रांदप्याक सांगून ताणें ते जिनस थंयसून व्हरूंक लायले. ताणें म्हळें की हें असलें भंगलेलें जेवण आपूण आपले अपुरबायेचे बायलेक केन्नाच जेंवक दिंवचो ना. सुकड्या घोडक्या वयले चालीन कातारीनाचें आंगपांग आदींच दुखलेलें आनी तिका पुरो जाल्लें; तांतूर आतां जेवणूय ना; म्हणटकूच घात सभागणीचो. ती उपाशींच न्हिदूंक गेली. परंत पेत्रुकियो तिका न्हिदूंक गा खंय दिता? ताणें हांतरुणाक खोड लायली आनी उशें एका कोनशाक, ओल दुसऱ्या कोनशाक, पांगरूण तिसऱ्या कोनशाक अशे भाशेन कूडभर जळींमळीं सगलें पातळायलें. म्हणटकूच, कातारीन न्हिदतली खंयचे कडेन? निमाणें ती एका कदेलाचेर बसली; थंय तिचें एकाद्रें पात्याक पातें लागलें जाल्यार पेत्रुकियो मानायांचेर मोट्यान तिडकतालो आनी आपले बायलेचें हांतरूण सारकें घालूंक ना म्हणून वोगीच चाळवतालो; म्हणटकूच ती बाबडी कच् करून आंग काडून जागी जाताली!

दुसरे दिसाय पेत्रुकियोन कातारीनाची फाट सोडली ना. तो तिची माया केल्ल्या भाशेन दाखयतालो; परंत मेळत त्या जिनसाक कसली खोड दवरून तिका तो कांयच दिनासलो. ती आल्मुसाक बसली तेन्ना आदलेच राती भाशेन ताणें तिका इल्लें कुसकुटूय खावंक दिलें ना. तेन्ना तिच्या पोटांत कावळे रडले! आतां करतली कितें? उपासांनी कितलो वेळ म्हणून रावतली? ती अभिमानाची मुंडली खरी; परंत हेवेळार तिचो सगळो अभिमान जिरून, चोरयांनी ती रांदप्या कडेन कितेंय खावंक आसा जाल्यार मागूंक लागली. परंत ताणें सांगलें की, ''धनी-सायबाक कळयल्या बगर म्हज्यान तुमकां कांयच दिवं नज.'' तेन्ना तिणें आपल्या कपलार हात मारून म्हळें: ''कर्माक हें असलें म्हजें लग्न केलां? म्हाका उपासांनी तळतळांवक? म्हज्या बापायच्या दारा लागसार भिकारी आयल्यार ताका लेगीत पोटभर जेंवक मेळटा; आनी हांव कितें म्हळ्यार, जी कोणाच कडेन कसलेच वस्ती खातीर तोंड पेंचूंक नकळ आसलीं तिचेर उपासांनी मरचो वेळ आयलो; न्हिदे बगर तळमळचें लागलें

आनी आडवार हुयेली आनी आड्डण्यो आयकुनूच वोगी रावचें पडलें. इतलेंय जावंचे जावन म्हाका अदीक तिडक येता ती इतलेच खातीर की, तांकां म्हजो चड मोग आसा म्हणून म्हाका ते अशी वळवळायतात खंय! हांव जेवलीं वो न्हिदलीं जाल्यार म्हाका रोखडेंच मर्ण येतलें खंय!''

इतले म्हणसर पेत्रुकियो थंय आयलो. कातारीन सामकीच उपासांनी तळमळची न्हय म्हणून ताणें कांय खाण हाडून तिका दिलें आनी म्हळें: ''कशी आसा तूं म्हजे अपुरबाये? पळे, तुजे खातीर म्हज्या हातांनी हांवें हें केलां; म्हाका त्या रांदप्याचो मुदलींच विस्वास दिसना! तुज्या जिवाची म्हाका कितली चिंता पळेली ही? कितें, उलयना-शी तूं? तुका हें खाण मानना-शें दिसता. हांवें वोगीच तर इतले हे त्रास घेतले.'' अशें म्हणून ताणें खाणाची वाटली वावराड्याक व्हरूंक सांगली. कातारीनाच्या पोटाक चुरचुरून भूक लागलेली. केन्नाकाळ जिबेर कितेंय पडटा-शें तिका जाल्लें; म्हणून तिणें आपलो सगलो अभिमान कुशीक दवल्लो आनी तिच्या कपलाक जरी खूब भिरभिरी माल्लेली तरी तिणें म्हळें: ''हांव तुमकां पांयां पडटां; ती वाटली हांगा आसुनी.'' परंत अशे भाशेन तिचो अभिमान जिरोवनूच पेत्रुकियो धादोशी जालो ना. ताच्या मनांत तिका अजून निवळावची आसली; म्हणून ताणें जाप केली: ''कोणायचें कसलें इल्लें कुस्कुटूय काम केलें जाल्यार ताचे खातीर उपकार मानची चाल आसा; म्हणून वाटलेक हात लावचे आदीं तुवें म्हजे उपकार मानूंक जाय.'' तेन्ना उपाय नाथून, जिवार येवन कातारीनान म्हळें: ''म्हजेर तुमचे उपकार जाले.'' म्हणटकूच, ताणें ती वाटली तिच्या फुड्यांत दवरून म्हळें: ''म्हजे अपुरबाये, सवकासायेन पोटभर खा. आमी मागीर तुज्या कुळारा वचुंया आनी थंय भांगर-शिंगर घालून, उंच उंच रसमी पोशेग करून आनी हातांत आळणे घेवन फोल्ग मारुंया.'' हे सगळे जिनस आपूण खऱ्यांनीच दितलों अशें तिका दाखोवंक ताणें रोखडोच एका आल्फीयादाक आपयलो. ताचे कडेन ताणें कांय आंगाचीं शिंवंक दिल्लीं; तीं घेवन तो आल्फीयाद आयलो. तेन्ना, कातारीनेन खाण खावन सोंपोवचे आदींच, पेत्रुकियोन मोटो बोवाळ करून, तिच्या फुड्यांतली वाटली काडून वावराड्या कडेन दिली आनी तिका म्हळें: ''जालें तुजें खाण?'' इतले म्हणसर, आल्फीयदेन एक चेपें दाखोवन म्हळें: ''तुमी सांगलें तें चेपें हें.'' तें पळोवन पेत्रुकियो एकदम चाळवलो आनी ताणें म्हळें: ''शी! हें सामकें दोण्या भाशेन जालां; हें साप ल्हान; हें आमकां नाका; तूं दुसरें शिवन हाड.'' म्हणटकूच कातारीनान म्हळें: ''कांय नज; हें म्हाका मानलें. सगळ्यो बऱ्यो बायलो असलींच चेपीं घालतात.'' पेत्रुकियोन म्हळें: ''तुंवूय बरी बायल जातकूच असलेंच चेपें हांव तुका घेवन दीन; तंववेर ना.''

निकत्याच खाल्ल्या थोड्याशा खाणान कातारीनाच्या जिवाक मात्शी ताजपाण आयिल्ली; तिणें आपल्या मुदलच्या झगड्या सभावार वचून म्हळें: ''केदो वेळ आसूं म्हणून हांव वोगी रावलीं; आतां म्हज्यान वोगी रांव नज; हांव आतां मात्शी उलयतलींच. हांव इल्लें-शें भुरगें न्हंय. तुमचे परस जाण्टेल्या, शाण्या-सुरत्या, म्हाल-म्हाताऱ्यांनी आजवेर म्हजें उलोवप कान दिवन आयकून घेतलां; तुमच्यान आयकूंक नज जाल्यार, तुमी तुमच्या कानांक गुड्डे मारात.'' हीं रागिश्ट उतरां आयकून घेवन पेत्रुकियो वोगी रावलो ना. तिचे कडेन वाद घालून तोंड वाजोंवचे परस, तिका निवळांवचें भोवच बरें ओखद ताच्या हाताक लागलेलें; म्हणून तिच्या उलोवण्याचो नसतोच अर्थ करून ताणें म्हळें: ''खरेंच. म्हजी अपुरबाय म्हणटा तांतूर इल्लीय फट ना; तें चेपें सामकेंच दशा-होगडायणें; तें तुका मानलें ना म्हणून तुजी म्हाका चड माया दिसता.'' कातारीनेन म्हळें: ''तुमकां माया दिसूं नाजाल्यार ना दिसूं; म्हाका तें चेपें मनोमनशीं मानलां; हांव चेपें घाल्यार तेंच घालतलीं; दुसरें म्हाका नाका.'' पेत्रुकियोन तिच्या ह्या उलोवण्याचो नसतोच अर्थ करून म्हळें: ''पोल्क पळेतली म्हणटा म्हजी अपुरबाय?'' म्हणटकूच आल्फीयादान रोखडेंच पोल्क काडून दाखयलें. पेत्रुकियोच्या मनांत कातारीनाक चेपें आनी पोल्कूय दिवचें नासलें; म्हणून ताणें पोल्काकूय खोड दवरून म्हळें, ''देवा म्हज्या! पोल्क हें? हाका पोल्क म्हणटात? हो हात जालो, ताचो हात? ही बद्द नाळ कशीशी दिसता!' आल्फीयदान म्हळें: ''हालींचे मोदी भाशेन तुमी तें म्हाका शिंवक सांगलेलें; तशेंच तें हांवें शिंवलां.'' कातारीनेन म्हळें: ''हांवें जाल्यार हाचे परस ऊंच मोदीचें पोल्क जल्मांत पळोवंक नासलें.'' तरी आसतना, चेपें आनी पोल्क सारकीं शिंवलीं नात म्हणून पेत्रुकियोन वयल्याचाराक आल्फीयादाचेर दोळे मोट्टे केले आनी ताचेर खूब तिडकून, निमाणें ताणें ताका भायर आमडून घालो; परंत भितरयां, ताका नुलयत दुडू फारीग करूंक लावन, आपूण उलयलों ते खातीर वायट धरूं नाका म्हणून ताची मकलाशी मागूंक लायली. मागीर ताणें कातारीनेक म्हळें: ''म्हजे अपुरबाये, आमकां कित्याक जाय तो उंच उंच पोशेग? आमच्या आंगा वयल्या असल्याच ह्या पोशेगान आमी तुज्या कुळारा वचुंया.'' अशें म्हणून ताणें घोडे तयार करूंक सांगले. हे वेळार, कडकडीत दोनपार जाल्लो; तरी आसतना ताणें दाटुनूच म्हळें: ''निकतींच सात वरां जाल्यांत-शीं दिसतात; दोनपार जाय मेरेन आमी खुशाल पादुआक पांव.'' हें आयकून, ताचे निबर चलोवणेन आळाबंदा आयिल्ले कातारीनेन भियेत भियेत म्हळें: ''सायबांनू, आतां सात वरां कोणाचीं? हीं दोन वरां जांवचीं जालीं; आतां भायर सल्ल्यार, पादुआक पाव मेरेन सामकी तीनसांजची कातर जातली.'' पेत्रुकियोच्या मनांत तिका

अजुनूय आळाबंदा हाडची आसली. पादुआक पावंचे आदीं आपूण म्हणन त्या उतराक तिणें मान्य जांवचें अशी ताची तजवीज आसली. म्हणून, सुर्या आनी वेळ ताचे मुठींतूच आसलेल्या भाशेन ताणें म्हळें: ''म्हज्या मेळत त्या उतरार तूं कितें तरी उफाट्टें उलयताच; तें म्हाका मानना. हांव भायर सरचे आदीं, म्हज्या तोंडांतसून येत तोच वेळ जांवक जाय! म्हणून, आज पादुआक वचचेलो म्हजो बेत उल्लो; परथून जेन्ना हांव थंय वचूंक भायर सरन तेन्ना हांव जितलीं वरां जालीं म्हणून सांगन तितलींच तीं ते वेळार जांवक जायत; आगळीं उणीं जावंक फावनात.'' आपणाच्या उतरार आड-उतर केन्नाच उलोवंक फावना इतली कातारीन आळाबंदा येवंक जाय, तंव म्हणसर तिका बापायच्या घराचें दार दाखोंवचें न्हय म्हणपाचो पेत्रुकियोन नित्शयूच केलो. निमाणें, एक दीस तो तिका घेवन पादुआक वचूंक भायर सल्लो. ते वेळार, दोनपारच्या भारार, अर्दे वाटेर पावन, ती आड-उतर उलयता जाल्यार पळोंवक, ताणें दाटून म्हळें: ''पळे म्हजे अपुरबाये, पीठ कशें-शें भोव बरें चांदणें पडलां हें!'' हाचेर तिणें अजापान म्हळें, ''हीं बाये आनी पिशेपणां खंयचीं? दोनपारच्या कडार चांदणें म्हणून आयकलां कोणें?'' इतल्याच उतराक पेत्रुकियो खुबळ्ळ्या भाशेन जालो आनी तिका धरधरावन फाटीं परथुंया म्हणूं लागलो. ताणें म्हळें: ''म्हजे आवयच्या पुताच्यान -- म्हज्यान तर -- हांव सांगतां की आतां आनीक फुडें पावल घालचे आदीं, हें दिसता तें सगळें चांदणें; तो थंय चंद्रीम आनी तीं नक्षत्रां, नाजाल्यार हांव जें कितें म्हणन तेंच जावंक जाय; तुज्यो जाणवायो म्हाका नाकात.'' अशें म्हणून तो रोखडोच फाटल्यान पर्थलो. ते वेळार, कातारीनेचें आगुल्लेंपण आनीक उरूंक नासलें. ती आतां घोवाचे सांगणे-म्हणणेन चलणारी बायल जाल्ली. तिणें म्हळें: ''अशें कितें हें? आमी इतली वाट चलून आयल्यों; तेन्ना वचुंया फुडें. फाटीं कित्याक पर्थतात? हें चांदणें नाजाल्यार ओत जांव; चंद्रीम नाजाल्यार सुर्या जांव; वो तुमकां जाय जाल्लें जांव; मेणवात म्हणटले जाल्यार मेणवातूय म्हणात; म्हाका दोनूय सारकीं. तुमकां खोस तेंच हांव म्हणन, जालें आतां?'' परंत अजुनूय तिच्या उलोवण्याचें खरेपण पारखुंचे खातीर पेत्रुकियोन म्हळें: ''हांव म्हणटां की तो चंद्रीम आसा.'' कातारीनेन म्हळें: ''हांवूय जाणां की तो चंद्रीमूच आसा.'' पेत्रुकियोन म्हळें: ''तूं फटी उलयता; तो सूर्या आसा.'' कातारीनान म्हळें: ''हांवूय मानतां की तो सूर्या आसा; परंत तुमी तो सूर्या न्हय म्हणशात जाल्यार तो सूर्या न्हय; तुमी ताका जें नांव दवरशात तेंच नांव हांव ताका दवरीन.'' म्हणटकूच पेत्रुकियोन फुडें पावल घालें. तरी आसतना, कांय फुडले वाटेचेर पावन, ताणें तिची आनिकूय परिक्षा घेंवची येवजिली. केंस पिकून धवोफुल्ल जाल्लो एक म्हातारो वाटेंत ताका दिसलो; ताका

ताणें बळयांच तरणी जुवान बायल कशीशी लेखून म्हळें: ''खंय गे चल्ली बाये तूं हेवशीन?'' ताणें मागीर कातारीनेक म्हळें: ''इतली रुपेस्त बायल तुवें जल्मांत केन्ना पळेल्ली? तिचे दोळे पळे कशे नक्षत्रां भाशेन लिकी लिकी जातात! तिचे पोलेय पळे कशे सोबीत; मुसराद आंब्यां भाशेन तांकां तांबडीच बरी ओप मारता! तिचे सुंदरकाये खातीर तूं तिची मात्शी खेम घेशी व्हय?'' कातारीन आतां सामकीच आळाबंदा आयिल्ली; परती जाप दिवंची गजाल ती साप विसल्लेली. तिणें आपल्या घोवा भाशेनूच त्या म्हाताऱ्याक तरणे बायले बरी लेखून म्हळें: ''चांफ्याच्या बोंग्या भाशेन निकतेच फुलणे आंकवारी, तूं भौच सुंदर आनी रुपेस्त दिसता; खंय गे बाये अशी चल्ली तूं? आनी खंय गे तुजें घर? ज्या आवय-बापायच्या कुसव्याक तूं जल्मल्या तीं खऱ्यांनीच भाग्यवंत म्हणचीं.'' हाचेर पेत्रुकियोन तिका म्हळें: ''कितें म्हणटा तूं म्हजे अपुरबाये? तुका पिशें बी लागूंक ना मू? तूं म्हणटा ते भाशेन ही आंकवार न्हय. हो म्हातारो दादलो तो तुका दिसना? पिकलेलें, सुकलेलें, पोंग पडलेलें म्हातारखंड हें! हाका तूं आंकवार म्हणटा?'' म्हणटकूच कातारीनेन त्या म्हाताऱ्याक म्हळें: ''सायबानू, हांव चुकलीं. ह्या कडकडीत निबरान म्हजे दोळे सामके भिलभिल्ल्यात आनी जें मेळत तें म्हाका पांचवेंच दिसता; आतां मात्शे म्हजे दोळे निवळून तुमी म्हाका आजेबाब कशे दिसले. म्हजे चुकी खातीर तुमी म्हाका मकलासी करात.'' मागीर, पेत्रुकियोन ताका म्हळें: ''खंयचे वशीन चल्ले तुमी आजेबाब? आमी वेतांत तेवशीनूच तुमकांय वचचें आसलें जाल्यार आमकां भौच उमेद जायत.'' तेन्ना म्हाताऱ्यान जाप केली: ''म्हजो एक पूत पादुआक आसा; ताका मेळूंक हांव चल्लों.'' मागीर पेत्रुकियोक कळ्ळें की बापतिस्ताची धाकटी धूव बियांका जाका दींवची केल्या त्या लुसेन्सियोचो तो बापूय; म्हणटकूच ताणें ताका सांगलें की, ''तुमच्या पुताची सोयरीक एका गिरेस्त मनशाचे धुवे कडेन जाल्या.'' हें आयकून त्या म्हाताऱ्याक खोस जाली. उपरांत ते सगळेजाण वांगडा चलूंक लागले आनी निमाणे बापतिस्ताच्या घरा पावले. थंय लुसेन्सियो आनी बियांका हांच्या लग्ना खातीर जायते होवळे जमलेले. कातारीनाचें लग्न जावन बापतिस्ताचो जीव हुस्क्या-मेकळो जाल्लो; म्हणून तो बियांकाचें लग्न करूंक फुडें सल्लोलो. बापतिस्तान त्या सगल्यांक भौमानान येवकार दिलो. थंय जमिल्ल्या होवळ्यांत नवेंच लग्न जाल्लें एक व्होर आसलें; तांतुंतल्या न्हवऱ्याचें नांव होरतेन्सियो आसलें.

पेत्रुकियोक झगड्या सभावाची बायल मेळ्ळ्या म्हणून लुसेन्सियो आनी होरतेन्सियो हे दोगूय मेळून ताची भगल मारूंक लागले. आपल्या वांट्याक थंड सभावाच्यो बायलो आयल्यो म्हणून ते बाबडे संवसारांत नासले. पेत्रुकियोन तांच्या

भगलीं कडेन ध्यान दिलें ना. जेवण जाल्या उपरांत पेत्रुकियोन म्हळें की त्या दोगांयच्या बायलां परस आपली बायल अदीक सांगणे-म्हणणेची. तेन्ना ताचो मांव ताका हांसून म्हणूंक लागलो: ''सगल्यां परस चड आगुल्ली बायल म्हणटात ती तुमची.'' मांवूय आपणाची भगल मारता-सो पळोवन पेत्रुकियोन म्हळें: ''हांव म्हणटां ताचें खरेपण तुमकां पळोवचें आसल्यार आमी आतां वडा मारुंया आनी आमी तिगूयजाण आपापले बायलेक आपोवणो धाडून कोणाची बायल आपयना फुडें सट्ट करून येता ती पळोवंया.'' हे म्हणणेक लुसेन्सियो आनी होरतेन्सियो मान्य जाले. तांकां चड खरेपण आसलें की आगुल्ले कातारीने परस तांच्यो थंड सभावाच्यो बायलो अदीक सांगणे-म्हणणेच्यो आसतल्यो; म्हणटकूच तांणी विसां मुयेदांची वडा माल्ली. तेन्ना पेत्रुकियोन हांसून म्हळें: ''वीस मुयेदां कित्याक? भिकेक? म्हज्या सुण्या खातिरूय वडा मारची जाल्यार हांव वीस मुयेदां लायन; म्हजे बायले खातीर वीस पेटींनी अदीक मुयेदां फावनात व्हय तर?'' म्हणटकूच लुसेन्सियो आनी होरतेन्सियो हांणी शंभर मुयेदांची वडा थारायली. उपरांत लुसेन्सियोन आपले बायलेक आदीं आपोवणो धाडलो. परंत ताचो शेलको येवन सांगूंक लागलो: ''धनयानू, धनीणबाय सांगता की आपूण कामांत आसां; आपणाक येवंक फावना.'' तेन्ना पेत्रुकियोन म्हळें: ''तिका येवंक फावना खंय? बायलेक ही जाप सोबता मू?'' म्हणटकूच, सगळेजाण ताका हांसून म्हणूं लागले: ''कातारीनबाय हाचेय परस वायट जाप धाडिना जाल्यार पुरो.'' मागीर होरतेन्सियोन आपल्या शेलक्याक म्हळें: ''वच आनी हांगा येंवचे खातीर तुजे धनीणबाये कडेन मागणी कर.'' पेत्रुकियोन म्हळें: ''मागणी कर! म्हणटकूच तिणें येवचेंच पडलें.'' तेन्ना होरतेन्सियोन म्हळें: ''तुमचे बायले कडेन तुमी मागणी करिना जातकूच जालें.'' तितले म्हणसर, ताचो शेलको धनिणीक वांगडा हाडिनासतना आयलो; ताका पळोवन होरतेन्सियोचें तोंड फिकें जालें. ताणें विचाल्लें: ''कितें खंय पावली तुजी धनीण?'' शेलक्यान जाप केली: ''धनीणबाय म्हणटा, तुमी भगली मारूंक उठल्यात म्हणून आपूण येवंची ना; जाय जाल्यार तुमीच आपणा सरीं येयात खंय!'' पेत्रुकियोन म्हळें: ''आतां मात घाण जाली.'' मागीर ताणें आपल्या शेलक्याक म्हळें: ''बेगीन तुजे धनीणीकडेन वच आनी तिका हांवें सट्ट करून हांगा येवंक सांगल्या म्हणून सांग.'' हे सांगणेन कातारीनाची बलाय येता अशें सगळ्यांक मनांत दिसलें. परंत तितले म्हणसर बापतिस्तान जीब भायर काडून म्हळें: ''हें न्हय गा म्हजें कातारीन आयलें! अजाप बाबा हें!'' ती पेत्रुकियो सरीं वचून थंडपणान म्हणूंक लागली: ''तुमी म्हाका कित्याक म्हणून आपयल्ली?'' ताणें विचारल्लें: ''तुजी भयण आनी होरतेन्सियोबाबाची बायल खंय आसात!'' तिणें म्हळें: ''त्यो परशा

सरीं बसून गजाली करतात.'' ताणें म्हळें: ''तांकां हांगा घेवन यो.'' म्हणटकूच परथी जाप करिनासतना, ती तांकां हाडूंक गेली. तें पळोवन लुसेन्सियोन म्हळें: ''संवसारांतल्या अजापांतलें हें एक अजापूच म्हणचें.'' होरतेन्सियोन म्हळें: ''खऱ्यांनीच अजाप. हो कसलो शकून तोच म्हाका समजना.'' पेत्रुकियोन म्हळें: ''मोग, शांतताय, थंडायेची जीण आनी खरेपणाचें व्हडपण हांचो हो शकून आसा; थोड्यान सांगूंक गेल्यार, संवसारांत जें कितें गोड आनी सूख-दिणें आसा तितल्याचोय हो शकून म्हळ्यार कामायता.'' धूव इतली निवळ्ळेली पळोवन, बापतिस्ताक अजाप जावन ताणें पेत्रुकियोक म्हळें: ''तुमचें बरें जावं. तुमी वडा जिखली. म्हजे धुवेचो हो दुसरोच जल्म जाल्ल्या भाशेन हांव समजतां आनी तुमकां ती दुसरे खेपे दिल्ल्या भाशेन लेखून हांव तुमकां आनीक वीस हजार मुयेदां वरदक्षणेक दितां.'' पेत्रुकियोन म्हळें: ''मात्शे रावात. इतल्यानूच जालें ना. तुमची धूव कितली सांगणे-म्हणणेची आनी कितली गुणेस्त जाल्या म्हणपाची आनिकूय रुजवात हांव तुमकां करून दितलों.'' तितले म्हणसर, कातारीन त्या दोगां बायलांक घेवन थंय येवंक लागली. तिका पळोवन, पेत्रुकियोन लुसेन्सियोक आनी होरतेन्सियोक म्हळें: ''पळेयात, ती तुमच्या मस्त्या बायलांक बंदिणी कश्यो घेवन येता!'' मागीर ताणें कातारीनेक म्हळें: ''शी, तें चेपें तुका सोबना; तें काडून तुज्या पांयां तळा गुड्डाय पळोवंया.'' हीं उतरां आयकना फुडें, कातारीनान माथ्याचें चेपें काडून सकला उडयलें. तें पळोवन होरतेन्सियोचे बायलेन म्हळें: ''देवा सायबा! असली पिशेपणाची करणी करचो वेळ म्हजेर केन्नाच येवं नाका.'' बियांकेनूय म्हळें: ''ही कितें घोवाची सांगणी आयकल्या भाशेन जाली? पिशेपणां खंयचीं!'' तेन्ना तिच्या घोवान तिका म्हळें: ''असलीं हीं पिशेपणां तुवेंय आयकल्यार चड बरें आसलें; तुज्या शाणपणांनी आज जेवीत पासून म्हज्या शंभर मुयेदांचेर हावळ आयली ती तूं जाणा व्हय?'' हाचेर बियांकेन म्हळें: ''तर तुमी चड शाणे म्हणूंक जाय; बायलेचे लागणेचेर कोण खंय वडा मारतात?'' तेन्ना पेत्रुकियोन आपले बायलेक म्हळें: ''कातारीनबाय, बायलांची आपल्या घोवां कडेन लागणी कितें आसूंक जाय आनी तांणी आपल्या घोवाचे सांगणें-म्हणणेन कशें चलूंक जाय तें तूं ह्या हट्टी बायलांक मात्शें सांग.'' म्हणटकूच, बायलांनी घोवाची सांगणी सट्ट करून कशी आयकुंची म्हणपाचें ते निवळावल्ले आगुल्ले बायलेन तांकां भौ बऱ्या उतरांनी सांगलें. तें आयकून सगल्यांक अजाप जालें. कातारीनाक ह्या आदीं पादुआंत जें आगुल्लें म्हणून नांव पडलेलें तें वचून ताचे बदला घोवाचे सांगणे-म्हणणेची गुणेस्त बायल असो तिचो लोकीक चोंय कडेन गाजलो.

खेळ सातवो

# राणयेंचें जिवें बावलें

सिसिलीचो राजा लिओन्तेस आनी ताची सुंदर आनी गुणेस्त राणी हरमियोन हीं दोगांय मोट्या सुखान नंदतालीं. राणयेच्या मोगान लिओन्तेस उपाट धादोशी जाल्लो. ताची सगली अर्थ-अपुर्बाय भागलेली; परंत एकेच गजालीचो ताका ध्यास्त लागलोलो. बोहेमियाचो राजा पोलिकसेनेस हो ताचो अगदीं ल्हानपणाचो इश्ट; ते दोगूय एकेच कडेन ल्हानव्हड जाल्ले; एकेच साळेंत बरपाक वेताले आनी एकामेकांची खूब माया करताले; परंत फुडें जेन्ना तांचे बापूय भायर पडले तेन्ना आपापणाचीं राज्यां चलोवचें काम तांच्या माथ्यार पडलें आनी जायतेकाळ तांची भेट जाली ना; तरी आसतना, ते भौन-भौन भेटो-भोंवारो आनी कागदां-पत्रां धाडून एकामेकांचो समाचार दिता-घेताले; अखेर पोलिकसेनेसाक दोळेभर पळोवन ताका आपले राणयेंक दाखोंवचो म्हणपाची अथ्रेकणी लिओन्तेसाक लागली. ताणें त्या खातीर पोलिकसेनेसाक जायते आपोवणे धाडले; निमाणें, पोलिकसेनेस लिओन्तेसाक मेळूंक सिसिलीक आयलो.

पोलिकसेनेसाच्या येवपान लिओन्तेसाक खूब खोस जाली. ताणें ताची आनी राणयेची वळख करून दिली. भुरगेपणाच्यो गजाली करपांत तांकां उमेद जावं लागली. साळेंत आसतना ते कशीं खेतबागडीं करताले म्हणपाचें  हरमियोनेक सांगूं लागले आनी तीं आयकून तिका भारी मौज दिसली.

फुडें कांय दिसांनी, पोलिकसेनेसान आपल्या राज्याक परथुंची तजवीज केली. तेवेळार, येदे बेगीन वचचें न्हय म्हणून लिओन्तेसान ताचे कडेन मागणी घाली आनी राणयेक सांगून, तिचे कडसून, आनीक थोडे दीस रावचे खातीर ताका भीड घाली.

हे वेळे पासून हरमियोनेच्या दुखांक पालव लागलें. लिओन्तेसान पोलिकसेनेसाक रावचे खातीर जायतो आग्रो केलो; तरी तो ताणें चडसो काना-मनार घेतलोना; परंत हरमियोनेन मोवाळ उतरांनी भीड घाली तेन्ना ताणें थंय आनीक कांय सप्तकां रांवचो नित्शय केलो. हे गजालीन लिओन्तेसाच्या मनांत राणये विशीं दुभाव रिगलो. तिची उजळ पवित्रताय आनी पोलिकसेनेसाची भौमानेस्त आनी उजू चलणूक हीं लिओन्तेस जायत्या काळा पासून बरे भाशेन वळखून जाणाआसलो; परंत आतां एका खिणांत तो तें सगलें विसल्लो. घोवाची सांगणी पाळून ताका खोस

करचे खातीर, बाबडी हरमियोन पोलिकसेनेसाचो जितलो जितलो अदीक परामर्स घेताली तितलो तितलो त्या अभागी राजाचो दुभाव अदीक वाडटालो. अशे भाशेन, जो ह्या आदीं मायेस्त आनी पोट-तिडकेचो इश्ट, तसोच बायलेची खूब अपुरबाय-करणो आसलो तोच लिओन्तेस आतां रानयाळो आनी माणसुकी नासलोलो राक्षेस जालो. ताच्या दिवाणांत कामील म्हणून एक सरदार आसलो ताका ताणें आपयलो आनी मनांत रिगलोलो दुभाव ताका कळोवन पोलिकसेनेसाक वीख घालून मारचो हुकूम केलो.

कामील बऱ्या अंतस्करणाचो मनीस आसलो. लिओन्तेसाक दुभाव आयला तो सामको पोलो म्हणपाचें ताका दिसलें आनी पोलिकसेनेसाक वीख घालून मारचे बदला ताणें ताका सगली खबर कळयली आनी सिसिलीच्या मुलखांतसून दोगांयनी पळून वचचो नित्शय केलो. हे भाशेन, कामिलाच्या पालवान पोलिकसेनेस सुसंगीत आपल्या राज्यांत पावलो. थंय कामील ताच्या दिवाणांत रावलो आनी तो पोलिकसेनेसाचो मुखेल इश्ट आनी अपुरबायेचो सरदार जालो.

पोलिकसेनेस पळून गेल्लो पळोवन, दुभावान भल्लोलो लिओन्तेस अदीक चाळवलो. तो राणयेच्या म्हालांत गेलो. थंय ती गुणेस्त बायल आपलो इल्लोसो पूत मामीलियस हाका घेवन बसलेली आनी तो निकतोच आपले आवयक एक रुचीक काणी सांगचे तजविजेंत आसलो. इतले म्हणसर राजा थंय पावलो; ताणें पुताक राणये कडसून झोंबून घेतलो आनी तिका बंदखणींत घाली.

मामीलियस जरी सुपुल्लो भुरगो आसलो तरी तो आपले आवयची खूब माया करतालो; ताणें जेन्ना तिचो अपमान जाल्लो पळेलो आनी तिका बंदखणींत घाल्या म्हणपाचें ताका समजलें, तेन्ना ताचें काळीज दुखावलें. तो व्हळू व्हळू खेदान झरून गेलो. ताची तान-भूक मंदावली. ताका न्हीद लागना जाली आनी अखेरेक तातुंरूच तो मरतलो-सो दिसलो.

राणयेक बंदखणींत घाली त्या वेळार, राजान आपले दोन सरदार क्लेओमेनेस आनी दियोन हांकां अपोलोच्या देवळांत प्रसाद घेवंक धाडून, राणयेंचे हातसून आपले आड पातक जालां वो कितें म्हणपाचें विचारूंक लायलें.

बंदखणींत घाल्ली तेवेळार हरमियोन गुरवार आसली; ती थोड्याच दिसांनी बाळंत जावन तिका एक धूव जाली. त्या सुंदर भुरग्याक पळोवन, बाबडी राणी आपलें [illegible] आनी तिणें ताका म्हळें: “म्हज्या माणकुल्या बंदिवाना, तूं जशें बगर-अन्यांवी तशीच हांवूय बगर-अन्यांवी.”

पावलीन म्हणून एक मोट्या मनाची आनी धिराची बायल हरमियोनेची इश्टीण

आसली. ती हरमियोनेची खूब माया करताली. सिसिलिंतलो सरदार आंतिगोनूस हाची ती बायल. राणी बाळंत जाली म्हणपाची खबर तिच्या कानार पडली तेन्ना हरमियोनेचे बंदखणी कडेन ती गेली आनी अेमिलिया म्हणून तिची सरशीं-रावतली आसली तिका तिणें म्हळें: ''अेमिलीये, तें ल्हान भुरगें मात्शें म्हजे सुवादीन करूं येत जाल्यार राणीसायबिणीक विचार. हांव ताका राजासायबा कडेन घेवन वचन; आपल्या बगर-अन्यांवी भुरग्याक पळोवन ताच्या काळजाक काकळूट आयल्यार आयली.'' हाचेर अेमिलीयेन म्हळें: ''भौमानेस्त सायबिणी, हांव ही तुमची मागणी राणीसायबिणीक कळयतां; तिणें सकाळींच म्हळ्ळें की आपली कोणूय इश्टीण त्या भुरग्याक व्हरून राजासायबाक दाखयत जाल्यार भोव बरें जायत.''

पावलीनेन म्हळें: ''आनिकूय राणीसायबिणीक सांग की हांव तिचो पाखो घेवन राजासायबा कडेन धिटायेन दोन उतरां उलयन.'' अेमिलीयेन म्हळें: ''राणीसायबिणीची तुमकां काकळूट आयली त्या खातीर तुमकां सदांकाळ बरें जावं सायबिणी.'' मागीर अेमिलीया हरमियोनेसरीं वचून तिणें तिका ती खबर कळयली. म्हणटकूच, हरमियोनेन मोटे खोशयेन तें भुरगें पावलिनेचे सुवादीन केलें. तिका दिसलेलें की तें भुरगें व्हरून ताच्या बापायक दाखोवंक कोणाकूच धीर जांवचो ना.

भुरग्याक पळोवन राजा खुबळत ह्या भंयान पावलिनेक तिच्या घोवान आडमेळें घालें. परंत मोट्या धिरान ती राजा सरीं वचून तिणें तें भुरगें ताच्या पांयार दवल्लें आनी हरमियोनेचो पाखो घेवन, तिका माणसुकेभायरे रितीन चलयली म्हणून राजाक खूब दूशण लायलें. त्या बगर-अन्यांवी भुरग्याची आनी ताचे आवयची काकळूत करचे खातीर, तिणें राजाची जायती पांया-पडणी केली; परंत तिचे धिटायेचे दटावणेन लिओन्तेसाक चड भिरभिरी माल्ली आनी ताणें तिचो घोव आंतिगोनूस हाका सांगून, तिका आपल्या म्हऱ्यांतसून पेल्यान व्हरूंक लायली.

पावलीन थंयसून गेली तेन्ना तिणें तें भुरगें राजाच्या पांयां सरींच सोडलें. तिका दिसलें की तो थंय एकलोच आसत तेन्ना ताची नदर त्या भुरग्याचेर पडून ताका ताची एकाद्री काकळूत येत; परंत पावलीनाचो हो समज सामकोच चुकलो. ती वचना फुडें, राजान आंतिगोनूसाक सांगून त्या भुरग्याक दर्या देगे वयले खंयचेय पडिंग वेळेर व्हरून सोडूंक लायलें.

कामिला भाशेन आंतिगोनूस काकळुतेस्त अंतस्करणाचो नासलो. ताणें राजाच्या हुकमाक ताकतीन पाळो दिलो आनी तो रोखडोच त्या भुरग्या सयत एका तारवार चडलो.

हरमियोनेचे हातसून गुन्यांव जाला म्हणपाचो राजाचो सामकोच समज जाल्लो;

म्हणून अपोलोचो प्रसाद घेवंक ताणें जे मनीस धाडलेले तांची वाट पळोवंक लेगीत ताका थार जायना जालो. राणी बाळंतेरांतसून मेकळी जावंचे आदीं, आनी तिचें निकतेंच जाल्लें भुरगें तिका होगडावलें म्हणपाचें दूख ती विसरचे आदींच, राजान तिच्या गुन्यांवाची चवकशी करचे खातीर तिका आपल्या दिवाणांत हाडूंक लायली. तेवेळार, राजाचे मोटे मोटे सरदार आनी जुवीज हांणी तें दिवाण गच्च भल्लेलें आनी तांतूर ती उण्या-नशिबाची राणी, एकाद्रे बंदिणी भाशेन, आपले रयतेचे तोंडसून आपले विशींचो निवाडो आयकूंक उबी रावलेली. इतले म्हणसर, क्लिओमेनेस आनी दियोन थंय पावले आनी तांणी लाखेचो शिको माल्लोलो प्रसादाचो लाखाटो राजाच्या हातांत दिलो. ताणें तो फोडूंक लावन भितल्लो मजकूर मोट्यान वाचूंक लायलो; तो असो: ''हरमियोनेचो कांयच गुन्यांव ना. पोलिकसेनेसाक दुशण फावना. कामील हो राजनिश्ठ मनीस. लिओन्तेस हो दुभावान भल्लोलो जुल्मी राजा; आनी होगडावल्ली वस्त परथून मेळना जायत जांल्यार, राजा येरदेऱ्या-भायरो जातलो.'' परंत हीं उतरां राजाक खरीं दिसना जालीं. ताणें म्हळें, राणयेंच्या कोणेय इश्टांनी ही फटास पिकयल्या जांवये. म्हणून जुविजांक सांगून ताणें तिची चवकशी फुडें चलोवंक लायली. इतले म्हणसर, कोण एकलो दिवाणांत येवन सांगूं लागलो की मामिलियस राजपुतान आपले आवयक मरणाची ख्यास्त दिवंचे खातीर भल्लेल्या दिवाणांत चवकशेक व्हेल्या म्हणपाची खबर आयकून, लजेन आनी दुखान, सट् करून प्राण सोडलो.

अपुरबायेच्या मोगाळ पुताच्या मरणाची खबर आयकून, हरमियोनेच्या दोळ्यां कडेन काळोख आयलो आनी ती सकला पडली. लिओन्तेसाच्या काळजाकूय घाव घाल्ल्या भाशेन जालें; ताका ते अभागी राणयेची काकळूत आयली आनी ताणें पावलिनेक आनी तिच्या कुळमिणीक सांगून, तिका थंयसून व्हरून ओखद-विर्सद करूंक लायलें. उपरांत, पावलीन रोखडीच राजा सरीं वचून तिणें ताका कळयलें की राणी आसा ती भायर पडली.

राणयेच्या मरणाची खबर आयकून राजाक पत्शाताप जालो. आपणें तिका वोगीच पिडली अशें ताका दिसलें. आपले पिडणुकेन हरमियोनेचें काळीज दुखावलें म्हणपाचें ताका समजलें तेन्ना तिचो कांयच अन्यांव ना अशें ताका दिसलें. अपोलोच्या प्रसादाचें खरेंपण आतां ताका कळून आयलें. ''होगडावल्ली वस्त परथून मेळना जायत जाल्यार'' ह्या उतराचो अर्थ आपली धूव परथून मेळ्ळी ना जाल्यार, आपणाक कोणूच येरदेर उरचो ना म्हणपाचें ताका समजलें. मामिलियस राजपूत जाल्यार पयलींच भायर पडलोलो; म्हणून, होगडावल्ली धूव जो कोण परथून ह्राडून दीत ताका आपलें

सगलें राज्य दिंवकूय तो तयार जालो. ताका खूब खेद जालो आनी पत्शातापान दुखां गळोवन ताणें आयुश्यांतलीं जायतीं वर्सां काडलीं.

आंतिगोनूस ज्या तारवांत बसून राजकन्येक घेवन गेल्लो ते वाटेंत तुफान जावन बोहेमिया मुलखाचे दर्या-देगेक वचून लागलें. थंय आंतिगोनूस देंवलो आनी त्या ल्हान भुरग्याक सोडलें; मागीर तो तारवार चडूंक परथून वेतालो; इतले म्हणसर, रानांतसून एक वांसवेल येवन ताणें ताका फापसून ताचे कुडके केले. लिओन्तेसाच्या दुश्ट हुकमाक ताणें पाळो दिलो म्हणून ताका ही फावोशीच ख्यास्त मेळ्ळी. अशे भाशेन आंतिगोनूसाची वाट लागून, राजकन्येक खंयच्या मुलखांत सोडल्या म्हणपाची खबर लिओन्तेसाक कळूंक पावली ना.

राजकन्येक रानांत सोडून दिल्ली तेवेळार तिका उंच पोशेग केल्लो आनी तिच्या आंगार भांगर-शिंगर आसलें. राणयेन जेन्ना तिका पावलिनेचे सुवादीन करून राजा कडेन धाडलेली तेन्ना तिका बरीकरून सजगयल्ली; आनी आंतिगोनूसान तिच्या आंगल्याचेर कागदाचो एक चिटारो दसोवन ताचेर तिचें नांव 'पेरदीत' म्हणून घालून, ती व्हडले कुळयेंतली परंत वांकड्या नशिबाची म्हणपाचें बरप घाल्लें.

हें उबंत्यार पडलेलें भुरगें एका धनगराक मेळ्ळें. तो एक काकळुतेस्त मनीस आसलो. ताणें तें घरा व्हरून आपले बायले कडेन दिलें. तिणें मोटे मायेन ताची जतनाय घेतली. धनगर दुबळो आसलो; म्हणून, राजकन्येच्या आंगार मेळ्ळोलो विशय कोणाक कळूंक दिवंचो न्हय अशी ताका वान्सा जाली. आपणाक अकस्मात गिरेस्तकाय मेळ्ळ्या ती लोकांच्या दोळ्यांत वचची न्हय म्हणपाक ताणें ती सुवात सोडून तो दुसरेच सुवातेर रावंक गेलो आनी थंय पेरदितेच्या आंगा वयलें कांय भांगर-शिंगर विकून ताणें मेंडक्यांचे हिंड घेतले आनी तो एक गिरेस्त धनगर जालो. ताणें आपल्याच भुरग्या भाशेन पेरदिताक वाडयली आनी ती जाण्टी जातकूच, आपूण धनगराचीच धूव म्हणून समजूंक लागली.

पेरदीत वाडूंक लागली तशी ती एक सोबीत आंकवार दिसूंक लागली. धनगराचे धुवेक जितली देख मेळुंये त्या परस तिका अदीक कांय मेळूंक नासली. तरी आसतना, तिचे राजपिंडी आवयचे बरे बडीचे निजाचे गुण तिच्या आंगांत इतले बरे भाशेन फुल्ले की तिची चलणूक पळेल्यार, ती राजवाड्यांतूच ल्हान-व्हड जाल्या अशें कोणाकूय दिसल्या बगर रांवचें नासलें.

बोहेमियाचो राजा पोलिकसेनेस हाका एकूच पूत आसलो; ताचें नांव फ्लोरिझेल. तो एक दीस, धनगर रावतालो त्याच आंवाठाक शिकार करतालो. ताका पेरदीत दिश्टी पडली आनी तिची सुंदरकाय, भिडेस्तपण आनी राणयेक सोबणी चलणूक

पळोवन, ताका तिचो मोग लागलो; तेन्ना ताणें आपणाक दोरिक्लेस म्हणपाचें लटकेंच नांव घेवन आनी राजपुताक फावणो पोशेग काडून उडोवन एक साधोच मनीस कसोसो तो दिसपट्टो त्या धनगरागेर वचूं लागलो.

पेरदिताच्या नादाक लागून फ्लोरिझेलाक जायते फावटी राजाच्या दिवाणांत वचूंक फावलें ना. म्हणटकूच पोलिकसेनेसाक हुस्को जालो. ताणें आपलो पूत खंय वेता खंय ना म्हणपाचें कळचे खातीर ताचेर पाळत दवरूंक लायली; निमाणें ताका समजलें की एका धनगराचे सुंदर धुवेचो ताका मोग लागला.

तेन्ना पोलिकसेनेसान विस्वासू कामिलाक आपोवंक धाडलो. ह्याच कामिलान ताचो जीव लिओन्तेसाचे तिडकी पासून वाटायल्लो. कामील येतकूच, धनगराच्या घरा वचचेली तजवीज राजान ताका कळयली.

उपरांत पोलिकसेनेस आनी कामील हे दोगूय भेस बदलून त्या म्हाताऱ्या धनगरागेर गेले. तागेर ते दिसा मेंडक्यांची ल्हंव कातरचेली परब आसली. ते परबेक वळख नासलेल्या आथव्या लोकांकूय येवकार मेळटालो. म्हणटकूच, पोलिकसेनेस आनी कामील थंय पावले तेन्ना तांकांय भितर येवन परबेचो उत्सव पळोवंक आग्रो जालो.

तेवेळार, धनगराच्या घरांत चोंय वशीन उमेद आनी खोस दिश्टी पडटाली. जेवणाचीं पानां मांडलेलीं आनी ते गांवगारे परबे खातीर मोटीं मोटीं रांदपां रांदलेलीं. घरा फुडल्या आंगणांत कांय कुंवर आनी आंकवारी नाचताल्यो आनी कांय तरणे जुवान एका पोतेकारा कडसून रेंद, लुवां आनी तसलेच हेर जिनस विकते घेताले. अशे भाशेन सगले कडेन बोवाळ चललोलो; तेवेळार, फ्लोरिझेल आनी पेरदित एकामेकां कडेन फुतूफुतू गजाली करीत एके कुशीक बसलेलीं. आपले शेजरा चल्लेल्या धुमशेणांत आनी नाचांत वेळ होगडावंचे भाशेक एकसुऱ्यां गजाली करपांत तांकां चड उमेद जाताशी दिसताली.

पोलिकसेनेसान आपलो भेस अशे तरेन बदल्लोलो की फ्लोरिझेलान ताका वळखूंक कठीण आसलें; तो त्या जोडप्याचें उलोवप आयकूंक तांचे लागसार गेलो. पेरदितेची सादी परंत सोबीतपणाची उलोवची रीत पळोवन ताका अजाप जालें. ताणें कामिलाक म्हळें: ''उणे कुळयेंत जल्मल्ली जावन इतली रुपेस्त बायल हांवें केन्नाच पळोवंक नासली; ती जें कितें उलयता वो करता ताचे वयल्यान दिसता की ती एकाद्री व्हडले कुळयेंतली जावंये; ही धनगराची खोंप जाल्यार तिका निखालूस फावना.'' कामिलान म्हळें: ''खऱ्यांनीच ती रुपेस्त आंकवारींची राणी कशी-शी सोबता.''

उपरांत राजान म्हाताऱ्या धनगराक म्हळें: ''तुजे धुवे कडेन उलयता तो सुंदर

जुवान कोण म्हणपाचें तूं म्हाका उपकार करून सांगशी व्हय?'' धनगरान म्हळें: ''ताचें नांव दोरिक्लेस. म्हजे धुवेचो ताका मोग लागला खंय; आनी खरेपणान सांगूंक गेल्यार तीं एकामेकांचो इतलो मोग करतात की कोण कोणाची अदीक माया करता तें समजूंक भोवच कठीण. दोरिक्लेसाच्या नशिबान ती ताका मेळत जाल्यार, ताच्या सपनांतूय नासलेली वरदक्षणा ताका मेळटली.'' धनगराच्या ह्या निमाण्या उतरांचो अर्थ, पेरदितेचो उल्लोलो विशय तिच्या मोग्यांक मेळटलो असो आसलो; मेंडक्यांचे हिंड घेवन जातकूच, पेरदितेच्या भांगराचो जो वांटो उल्लोलो तो त्या धनगरान तिचे वरदक्षणे खातीर जतनायेन राखून दवल्लोलो.

मागीर पोलिकसेनेसान आपल्या पुताक म्हळें: ''आरे तरण्या जुवाना, तुज्या मनांत दुसरें कितेंय घोळटा जावंये; म्हणून तुजें ध्यान हांगाच्या उत्सवाचेर ना; म्हज्या जुवानपणांत हांव म्हजे मोगिणीचेर भेटा-भोंवारांचो सामको पावस घालतालों आनी तुवें कितें म्हळ्यार, त्या पोतेकारा कडली एकूय वस्त घेवन तुजे मोगिणीक दिवंक ना तें कितें?''

हाचेर, त्या तरण्या राजपुतान आपल्या बापायक वळखनासतना जाप केली: ''म्हातारेबाब, असल्यो भेट्टो-भोंवारो तिच्या हिसपांतूच नात. ज्यो भेटो म्हजे कडसून मेळूंक ती येवजिता त्यो ह्या म्हज्या काळजांत जतनायेन दवल्ल्यात.'' मागीर पेरदिते वसल्यान फुडो करून ताणें म्हळें: ''पेरदिते, आयकून घे. हो म्हातारेबाबूय एकवेळ मोगी आसलो-सो दिसता. ताचे हुजरां हांव तुका आतां लग्नाचें उतर दितां.'' अशें म्हणून, फ्लोरिझेलान आपल्या बापायक गवाय दवरून पेरदितेक लग्नाचें उतर दिलें आनी म्हळें: ''म्हातारेबाब, उपकार करून आमचो हो वाङ्‌नित्शय ध्यानांत दवरात.''

हेवेळार राजान आपलें खरें रूप उकतें करून म्हळें: ''कितें, तरणेबाब, तुजो वाङ्‌नित्शय हांव ध्यानांत दवरूं? ते परस तुजो नित्शय मोडचेलेंच उतर हांव ध्यानांत दवरीन.'' उपरांत, उणाक कुळयेंतले आंकवारीक लग्नाचें उतर दिलें म्हणून ताणें पुताक खूब खेत्सिलो आनी पेरदितेक ''धनगराचें पील, धनगराचें दंडकूळ'' अशीं अपमानाचीं उतरां लावन दटावन म्हळें: ''खबरदार, हे फुडें तूं हाका केन्नाच तुजे लागसार येवंक दिशी जाल्यार तुका आनी तुज्या बापायक हांव वळवळावन जिवानशीं मारतलों.''

मागीर राजा थंयसून तिडकीन गेलो आनी फ्लोरिझेलाक घेवन कामिलाक आपले फाटसून येवंक सांगलें.

पोलिकसेनेसाचीं अपमानीक उतरां आयकून पेरदितेचो राजपिंडी सभाव खुबळ्ळो आनी तिणें म्हळें: ''जरी आमचो सगल्यांचो घात जाल्ल्यांतूच जमा म्हळ्यार

कामायता तरी म्हाका चडसो भंय दिसूंक नासलो; एक दोन फावटी हांव उलोवचे तजविजेंत आसलीं, आनी जो सूर्या त्या राजाच्या मोट्या म्हालाचेर लकलकता तो आमचे हे ल्हान खोंपीचेरूय लकलकता, आम्कां पळोवन तो आपलें तोंड लिपयना म्हणपाचें उकतेपणान हांव त्या राजाक सांगतलीं आसलीं.'' उपरांत मोट्या दुखान तिणें राजपुताक म्हळें: ''हांव ह्या सपनांतसून आतां जागी जालीं; हे फुडें सपनाच्या नादाक हांव लागची ना. सायबांनू, सोडात म्हाका तुमी. हांव आपली मेंडक्यांचें दूद काडीन आनी रडन.''

पेरदितेचीं जथापथीची आनी धिरिश्टपणाची चलणूक पळोवन दयेस्त अंतस्करणाच्या कामिलाक खोस जाली; राजपुताक तिचो जबर मोग लागला म्हणून बापायचो हुकूम तो पाळीतशें दिसना जावन, ताणें त्या जोडप्याक पालव दिंवचो उपाय येवजिलो आनी रोखडोच तो त्या कामाक लागलो.

सिसिलीचो राजा लिओन्तेस हाका आपले करणेचो पत्शाताप जाला म्हणपाची खबर कामिलाक केन्नाच कळ्ळेली; आनी आतां जरी तो पोलिकसेनेस राजाचो अपुरबायेचो इश्ट जाल्लो तरी आपलो पुर्विल्लो धनी आनी जल्म-भूंय एकवेळ पळोवंची वान्सा ताच्या मनांत रिगली. म्हणटकूच ताणें फ्लोरिझेल आनी पेरदित हांकां आपले वांगडा सिसिलीक व्हरून थंय लिओन्तेसाचे राखणे तळा दवरचीं, आनी मागीर पोलिकसेनेसाक लिओन्तेसाची भीड घालून राजपुताक मकलाशी करूंक लांवची आनी ताच्या लग्ना खातीर पोलिकसेनेसाची मान्यताय मेळोंवची अशी तजवीज केली.

कामिलान ही तजवीज फ्लोरिझेल आनी पेरदित हांकां कळयली आनी तांकां ती मान्य जाली. ताणें आपले वांगडा धनगराकूय व्हरचेलो बेत केलो. तेन्ना, धनगरान पेरदितेचो राखून दवल्लोलो विशय, तिचीं भुरगेपणाचीं आंगलीं आनी तांकां दसयल्लो कागदाचो चिटारो आपले मुस्तायकेंत बांदलो. उपरांत फ्लोरिझेल, पेरदित, कामील आनी धनगर तारवार चडलीं आनी सुसंगीत लिओन्तेसाच्या राज्यांत पावलीं. भायर पडलेली हरमियोन आनी होगडावल्ली धूव हांचे खातीर लिओन्तेस अजून खेद करतालो. कामिलाक पळोवन ताका उमेद जाली आनी मोटे खोशयेन ताणें ताका येवकार दिलो. तेच भाशेन, फ्लोरिझेलाकूय ताणें मनापासून येवकार दिलो. पेरदित ही एक राजकन्या आसा म्हणपाचें फ्लोरिझेलान लिओन्तेसाक सांगून तिची वळख करून दिली तेन्ना ताचे दोळे चडकरून तिचेच कडेन लागले. भायर पडलेली राणी हरमियोन हिचेंच सारकें पेरदितेक मारता म्हणपाचें येवजून लिओन्तेसाक दुख्खाचो ताजो उमाळो आयलो आनी ताणें म्हळें, आपणें राक्षसीपणान आपले धुवेक पयशिल्या

पडिंग रानांत व्हरून सोडूंक लांव नासलेली जाल्यार, ती एकाद्री हेच सुंदर आंकवारी भाशेन दिसतली आसली. उपरांत ताणें फ्लोरिझेलाक म्हळें: ''तुमच्या बापायची इश्टागत हांवें होगडायली म्हणून म्हाका वायट दिसता; आतां परथून ताका केन्नाकाळ पळेनशें म्हाका जालां.''

लिओन्तेस एकसारको तुकू-तुकू करून पेरदिते कडेन पळेता हें पळोवन म्हाताऱ्या धनगराक सट्ट जालें. राजाची एक धूव आसली आनी तिका ल्हानपणांतूच सोडून दिल्ली म्हणपाची खबर आयकून, आपणाक पेरदित मेळ्ळ्यार कितलीं वर्सां जालीं, ती कशे भाशेन उक्ताडार पडलेली आनी तिच्या आंगावयलो विशय पळोवन आपणाक ती गिरेस्त कुळयेंतली जावंये-शी कशी दिसली म्हणपाची याद त्या धनगराक जावन, राजाची होगडावल्ली धूव तीच ही पेरदित जावंये अशें ताका दिसलें. उपरांत ताणें ती सगली खबर राजाच्या कानार घाली. फ्लोरिझेल, पेरदित, कामिल आनी राजनिश्ठ पावलीन हांणी ती आयकली. पेरदितेक रानांत सोडून आंतिगोनूस पर्थून तारवार वेता आसतना, वांसवेलान ताचेर घुरी घालून ताका जिवानशीं कसो माल्लो म्हणपाची खबर धनगरान सांगली; ताणें पेरदितेच्या आंगार तेवेळार आसलेलें उंच लुगट दाखयलें. ह्याच लुगटान तिका राजाक दाखोवंक व्हरच्या वेळार हरमियोनेन गुठलायल्ली म्हणपाचें पावलिनेक याद जाली; तेच भाशेन हरमियोनेक तिच्या गळ्यांत एक उंच वस्त घाल्ली ती धनगरान दाखयली तेन्ना, पावलीन ती जिस्त वळखली' उपरांत, पेरदितेच्या आंगल्याक दसयल्लो कागदाचो चिटारो ताणें भायर काडलो तेन्ना ताचे वयलें बरप पळोवन तें आपल्याच घोवाच्या हाताचें म्हणपाचें पावलिनेन सांगलें. हेवेळार, ते उदार बायलेच्या अंतस्करणांत दों तरांचे उमाळे खतखतून आयले. वांसवेलाचे भकीक पडून घोवाची वाट लागली म्हणून तिका खूब दूख जालें आनी राजाची येरदेरीण जी होगडावल्ली धूव ती मेळून अपोलोचो प्रसाद खरेपणाक आयलो म्हणून तिका उमेद जाली. पेरदित ही आपलीच धूव म्हणपाचें लिओन्तेसाक कळ्ळें तेन्ना, तिची आवय हरमियोन तिका दोळेभर पळोवंक आतां जिवी उरूंक ना म्हणपाचें येवजून ताका खूब खेद जालो आनी केदो वेळ ताच्या तोंडांतसून उतर सुटना जालें. तेवेळार, पेरदिते कडेन पळोवन, तो फक्कत, ''आह! तुजी आवय, तुजी आवय!'' इतलींच उतरां उलयलो.

ह्या उमेदीच्या परंत दुखेस्त वेळार पावलिनेन लिओन्तेसाक म्हळें: ''इतालीचो लोकीकवंत बावलीं-कांतायणो जुलियो रोमन हाणें निकतेंच तयार केल्लें राणयेचें बावलें म्हजे कडेन आसा तें जिंत्रूप राणये सारकेंच दिसता; तें तुमी उपकार करून म्हजेगेर येवन पळेशात जाल्यार, जितेपणाचे हरमियोने सारकेंच दिसतलें.'' तेन्ना ते

सगळेजाण पावलिनागेर गेले. राजाक राणयेचें बावलें केन्नाकाळ पळेनशें जालें आनी केन्नाच पळोवंक नासलेली आवय कशी दिसताली ती पळोवची अश्रेकणी पेरदितेक लागली.

हरमियोनेच्या बावल्या सामखार एक पड्डो लायिल्लो. पावलिनेन तो कडेक काडलो तेन्ना तें बावलें जिंत्रूप हरमियोने सारकें दिसूं लागलें; तें पळोवन राजाच्या दुखाक ताजो उमाळो आयलो. जायतो वेळ मेरेन ताच्यान उलोवं नज जालें; न्हय, हालूं-धोलूं नज जालें. पावलिनेन म्हळें: ''सरकार-सायब, तुमी एकसारके मोन्यांनी रावलेले पळोवन तुमकां कितें अजाप जालां म्हणपाचें समजूं येता. हें बावलें बद्द तुमचे राणीसायबिणी सारकें दिसता, न्हय?'' राजान म्हळें: ''जिस्त तशेंच दिसता. जुवानपणांत जेन्ना पयलोवयलोच हांव तिचो मोग करतालों तेन्ना ती अशाच बडवाचारान उबी रावताली. परंत पावलीनबाय, हें बावलें जशें म्हातारें दिसता तशी हरमियोन राणी म्हातारी दिसनासली.'' पावलिनेन म्हळें: ''हांतुरूच तर त्या बावलीं-कांतयण्याची अक्कल दिसून येता. राणी-सायबीण हो वेळ मेरेन वांचिल्ली जाल्यार कशी दिसतली आसली म्हणपाचें येवजुनूच ताणें हें बावलें घडलां; परंत आतां म्हाका ताचेर पड्डो ओडुनी; एकाद्रें तें तुमकां हाल्ल्या बरी दिसुंये.'' राजान म्हळें: ''येन्नाच पड्डो ओडूं नाका. हाय! हांव मेल्लों जाल्यार बरें आसलें! कामीलबाब, तिच्या तोंडांतसून स्वास सुटल्या भाशेन तुमकां दिसना? पळेयात तिचे दोळे हालतात-शे दिसतात.'' पावलिनेन म्हळें: ''सरकारसायब, आतां म्हाका तो पड्डो ओडचोच पडलो; उमेदीन तुमी आतां सामके धेयभान विसल्ल्यात; म्हणून तें बावलें जिवेंच आसाशें तुमकां दिसतलें.'' लिओन्तेसान म्हळें: ''गोड सभावाचे पावलीनबाय, एकसारकें विसां वर्सांचे घडींनी म्हाका तें तशेंच दिसल्यार कामायता! म्हाका दिसता, तिच्या नाखा-तोंडांतसून स्वास भायर सरता. खंयच्या खांप्या कांतयण्यान असलें हें जिवें बावलें कांतयलां जावंये? हांव आतां तिची मुकाच घेतलों; म्हजी कोण अपुरबुद करिना जाल्यार मात पुरो.'' पावलिनेन म्हळें: म्हज्या धनयांनू, मात्शे थांबात. तिच्या ओंठांक काडलोलो तांबडो रंग अजून सुकूंक ना. तुमी तांची मुका घेशात जाल्यार तुमच्या ओंठांक तो रंग लागतलो. हांव त्या बावल्याचेर आतां पड्डो ओडूं व्हय?'' लिओन्तेसान म्हळें: ''नाका, नाका; विसां वर्सांचे घडींनी नाका.''

हे वेळार, पेरदित दिमी घालून आपले आवयच्या सुंदर बावल्या कडेन मोन्यांनी एकसारकी तुकू-तुकू करून पळेताली. तिणें म्हळें: ''आनी तितल्याच वर्सांचे घडींनी म्हजे मोगाळ आवय कडेन पळेत हांव हांगा उबी रावतलीं.''

पावलिनेन लिओन्तेसाक म्हळें: ''उपकार करून उमेदिची ही अतिताय तुमी

मात्शी सावरात; म्हाका तो पड्डो ओडुनी; नाजाल्यार, तुमकां आनीक आनीक अजाप जातलें. म्हज्यान त्या बावल्याक हालोंव-धोलोंव येता इतलेंच तुमी समजूं नाकात; हांव ताका ताच्या पेडा वयलें सकला देंवोंवक लावन तुमकां हात लावंक लायन; परंत म्हजे हे करणेन तुमकां एकाद्रें दिसतलें की भुतावळ म्हजे सांगणेंत आसा; परंत हांव तुमकां प्रमाणानशीं सांगतां की तसलो कांयच वास म्हजे कडेन ना.'' तेन्ना त्या अजापान भल्लेल्या राजान म्हळें: ''तिका तूं जें कितें करूंक आनी उलोवंक लायशी तें पळोवंक आनी आयकूंक हांव खोशी आसां. तिका तुवें हालूं-धोलूंक लांव लायल्याच; आतां उलोवंक लांवक मारून कठीण-शें न्हय.''

उपरांत पावलिनेन थंड आनी मंद बरें वाजप वाजोंवक लायलें आनी त्या नादांत तें बावलें पेडा वयल्यान सकला देंवन ताणें राजाच्या गळ्या भोंवतणी आपले हात घाले; तें पळोवन सगल्यांक अजाप जालें; मागीर तें बावलें उलोंवक लागलें आनी ताणें आपल्या घोवाक आनी निकतेच मेळ्ळेल्या भुरग्याक -- पेरदिताक-- बरें जावं म्हणून देवा कडेन मागणी केली.

त्या बावल्यान लिओन्तेसाच्या गळ्या भोंवतणीं हात घाले आनी घोवाक आनी धुवेक बरें जावं अशें म्हळें म्हणून व्हडलें-शें अजाप न्हय; कित्याक, तें मुदलीं बावलें नासून ती खासाखूद जिवी आनी खरेपणाची हरमियोन राणीच आसली. हरमियोन भायर पडली म्हणपाची नसतीच फटाफट पावलिनेन लिओन्तेस राजाक सांगलेली. कित्याक, राणयेचो जीव वाटांवक होच एक उपाय आसा अशें तिका दिसलेलें आनी तोच अखेर फळाक आयलो. अशे भाशेन, हरमियोन जायतेकाळ पावलिनेगेर उल्ली, आनी तितले मुस्तींत ती जिवी आसा म्हणपाचें पावलिनेन राजाक केन्नाच कळूंक दिलें ना.

मेल्ली राणी जिती जाली आनी होगडावल्ली धूव पर्थून मेळ्ळी हें पळोवन, जायतेकाळ दुखांत आसलेल्या लिओन्तेसाक जी खोस जाली ती सांगून उपकारना. राजा खोशी जाल्लो पळोवन, राज्यांतल्या लोकांनीय ताका आपली खोस उकती करून दाखयली आनी मेळत थंय उमेद आनी मायेचीं उतरां आयकूंक येवंक लागलीं. उपरांत त्या राजा-राणयेन, आपले धुवेक ल्हान-व्हड केली म्हणून म्हाताऱ्या धनगराचें बरेपण चिंतलें आनी फ्लोरिझेल राजपुतान तिचो मोग केलो म्हणून ताचे उपकार मानले. कामील आनी पावलीन हांकांय खूब उमेद जाली. कित्याक, आपले राजनिश्ठपणाचे चाख रेक गोड फळां आयिल्लीं पळोंवक आपणाक देवान वांचयली अशें तांकां दिसलें.

अशे भाशेन, ध्याना-मनांत नासलेली आनी चमत्कारीक अशी ही खोस उपाट

जांवक जाय देखुनूच की कोण जाणा, पोलिकसेनेस राजाय थंय तेवेळार पावलो. राजपूत फ्लोरिझेल आनी कामील राज्यांतसून अवचीत ना-शे जाले पळोवन, ते एकाद्रे सिसिलीकूच गेल्यात जांवये अशें पोलिकसेनेसाक दिसलें. कित्याक, सिसिलीक वचूंक जाय, वचूंक जाय म्हणून कामील जायतेकाळ ताचे कडेन पिंरगतालो. म्हणटकूच, पोलिकसेनेस मोटे ताकतीन तांचे फाटोफाट सिसिलीक गेलो आनी लिओन्तेसाच्या आयुश्यांतल्या भौच उमेदीच्या वेळार थंय पावलो. सगल्यांक उमेद जाल्ली पळोवन पोलिकसेनेसाकूय उमेद जाली. लिओन्तेसान ताचो नस्तोच दुभाव घेतलोलो; तरी आसताना, ताका ताणें मकलासी केली आनी भुरगेपणांत जशे ते एकामेकांचे जिवाचे इश्ट आसले तशेच आतांय जाले. आतां पोलिकसेनेस आपल्या पुताचें लग्न पेरदिते कडेन जावंक आडमेळें हाडीत म्हणपाचो भंय उल्लो ना. ती आतां 'धनगराचें पील' नासून सिसिलीच्या मुकुटाची येरदेरीण आसली.

अशे भाशेन, जायतेकाळ दुखांत पडलेले हरमियोनेच्या सोंशीक गुणाक बरें फळ मेळ्ळेलें आमचे नदरेक पडलें. लिओन्तेस राजा आनी पेरदित राजकन्या हांचे सयत ते गुणेस्त राणयेन जायतीं वर्सां संवसार-सूख भोगलें आनी संवसारांतल्या आवयांत आनी राणयांत ती उपाट सुखी जाली.

* *



**संपादक**

**शांताराम शंकर वर्दे वालावलीकार**

जल्म : दिवचल -गोंय. १७ डिसेंबर, १९३९. पिंडान कवी, पूण निबंद, कथा, वैचारीक लिखाणूय केलां. शणै गोंयबाब हांच्या तजिश्ट आनी बुदवंत घराण्यांत जल्म. सुरवेचें शिक्षण दिवचले आनी उपरांत मुंबय, बेळगांव आनी साळगांवकर कायदो महाविद्यालय, पणजी हांगा जालें. 'वज्रलिखणी' ह्या शणै गोंयबाब जल्म शताब्दी निमतान कोंकणी भाशा मंडळान उजवाडायिल्ल्या ग्रंथाचे संपादक.

सेझा गोवा, कंपनीत तंत्रगिन्यान फाट्यांत महावेवस्थापक म्हुण वावुरले. माहिती तंत्रज्ञान आनी संगणक हें तांचे आवडींचें कार्यक्षेत्र. सद्याक कोंकणीक त्या मळांचो फायदो करून दिवपाखातीर ते वावुरतात.

## पयलें खंड



## दुसरें खंड



## तिसरें खंड



## चवथें खंड







गोवा कोंकणी अकादेमी
पणजी - गोंय

मुखचित्र आनी सजावट:गौरिश वेर्णेकार